समग्र

# शणै गोंयबाब

खंड - १



जाणटो जातकूच
व शेतां, भाटां,
ळागरां लायतलों
ों. हांव तरेकतरा
डेंग जमनी पिकाळ करतलों. म्हजीं शेतां पाचवींचार.
यांच पि काडटलों. एके खांड्येबदला धा खांड्यांचे
ल सो. म्हजो आंबो अमृता-शिसो. हांव
य दुबळ्या-धाकट्यांक धादोसकाय
ांत कोण वळवळचो ना.”

शणै गोंयबाब जिवीतभर कोंकणी भाशेक वयर काडपाखातीर वावुरले आनी तेखातीर तांणी आपले जिणेचीं आगळीं अुणीं चार तपां कोंकणीक ओंपलीं. कोंकणी आड आयिल्ल्या दरेकल्या मुद्याक जाप दिवन आनी ते मांडटना तांका गडगंज आदार दिवन शणै गोंयबांनी लेख बरयले वा उलोवपां केलीं तीं 'कोंकणी भाशेचें जैत' आनी 'येवकार अध्यक्षांलें' अुलोवप' ह्या पुस्तकांच्या रूपान उजवाडा आयलीं. उतरां घडूंक अक्षरां लागतात आनी अक्षरां घडूंक नाद लागता. ह्या नादाची शास्त्रीक विस्कटावणी करून तांणी 'कोंकणी नादशास्त्र' रचलें. कोंकणीच्या नीज स्वरुपांत म्हळ्यार वर्णावळ, उच्च्यार, उतरां घडपाची कळाशी, वाक्यांची मांडावळ हातूंत तिची मूळ प्रकृती दिश्टी पडटा. ती दाखोवन दिवपाखातीर तांणी कोंकणीचे व्याकरणी बांदावळीची फोडणीशी करून 'कोंकणिची व्याकरणी बांदावळ' रचली. हे तांचे मुखेलपणान 'कोंकणी भास' हे विशींचे बरपावळीचो आस्पाव ह्या खंडांत केला.

समग्र

# शणै गोंयबाब

खंड १





संपादक
**शांताराम वर्दे वालावलीकार**







गोवा कोंकणी अकादेमी आनी इन्स्टिट्यूट मिनेझिस् ब्रागांझा

समग्र

# शणै गोंयबाब

खंड १

संपादक

**शांताराम वर्दे वालावलीकार**






वसुधैव कुटुंबकम्

**गोवा कोंकणी अकादेमी** आनी **इन्स्टिट्यूट मिनेझिस् ब्रागांझा**

समग्र शणै गोंयबाब
(शणै गोंयबाब हांच्या साहित्याचें संकलन)

प्रकाशन क्र. ५२



उजवाडावपी :
नारायण श्रीकृष्ण नावती
सचिव
गोवा कोंकणी अकादेमी
बोरी, फोंडें - गोंय

छापपी :
तन्वी ग्राफिक्स
मडगांव - गोंय

मुखचित्र आनी सजावट :
दिलीप धामस्कार

पयली आवृत्ती
जून २००३

मोल : रु. २१०

Samagra *Shenoi Goembab*
(Collected literature of
Shenoi Goembab)

Publication No. 52



Publisher
Narayan Shrikrishna Navti
Secretary
Goa Konkani Akademi
Borim, Ponda - Goa

Printer
Tanvi Graphics
Margao - Goa

Cover & Design
Dilip Dhamaskar

First Edition
June, 2003

Price : Rs. : 210



ह्या खंडाक 'इन्स्टिटयूट मिनेझिस् ब्रागांझा' हे संस्थेचो ५०% अर्थीक पालव मेळ्ळा.




# शणै गोंयबाब

हांचे

१२५वे जयंती वर्सानिमतान

तांच्या समग्र साहित्याची पुनर्उजवाडावणी

# दोन उतरां

शणै गोंयबाब म्हळ्या अर्विल्ल्या कोंकणी साहित्याचे जनक. कोंकणी भाशेक 'लिखीत भाशेच्या' पांवड्यार व्हरपी ते एक युग पुरूष. तांणी बरयिल्लें साहित्य फकत संख्यात्मक नदरेनूच न्हय तर गुणात्मक नदरेन लेगीत म्हत्वाचें. भाशेचें मुळावेंपण, उतरांची गिरेस्तकाय, वाक्यरचणुकेची खाशेली तरा, विशयाचें वेगळेंपण आनी आपूण जावन आग्रहान घडयिल्ले आनी वापरिल्ले व्याकरणीक बांदावळीचें आकर्शक स्वरूप ह्या सगल्या गुणांक लागून तांचें साहित्य कोंकणी भाशेच्या लिखीत रुपाची बुन्याद घालपी थारलां.

शणै गोंयबाब जावंकूच नाशिल्ले जाल्यार? घडये कोंकणीक इतलें व्यापक लिखीत-रूप मेळचेंच नाशिल्लें, कोंकणींतल्यान बरोवपाचें धाडस कोणाक जावंचेंच नाशिल्लें. इतिहासीक, संशोधनपर, चरित्रात्मक, अनुवादात्मक, व्याकरणीक, भासशास्त्रीय, ललित अशें सगळे तरेचें बरप करून शणै गोंयबाब हांणी कोंकणींतल्यान गंभीर, विनोदी, तत्वगिन्यानी, उपहासात्मक, चिकित्सक बी कसलेय तरेचें साहित्य निर्माण करूं येता हें दाखोवन दिलें. देखुनूच ४०-५० लाखांची ही ल्हान भास आयज साहित्य अकादेमीची मान्यताय, गोंयची राजभास, घटनेची आठवी अनुसूची अशे साबार पावंडे हुपून आयज राष्ट्रीय पांवड्यावेली भास जावंक पावली.

देखून तांचें समग्र साहित्य परतून उजवाडावप हाचेपरस वेगळी कसली आर्गां तांचे १२५वे जयंती वर्सानिमतान आमी दितले? शणै गोंयबाब म्हळ्यार तांचें साहित्य. चार खंडांनी हें समग्र साहित्य उजवाडाक येतलें :

**पयलें खंड**

१. कोंकणी भाशेचें जैत
२. येवकार-अध्यक्षांलें अुलोवप
३. कोंकणिची व्याकरणी बांदावळ
४. कोंकणी नादशास्त्र
५. कोंकणी मुळावें पुस्तक

**दुसरें खंड**

१. गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक
२. आल्बुकेर्कान गोंय कशें जिखलें
३. वलीपत्तनाचो सोद
४. पुण्यात्मो राम कामती
५. आबे फारीय

**तिसरें खंड**

| | |
|---|---|
| १. अमृताचो पावस | २. गोंयकाराचो मुंबैकार |
| ३. गोमंतोपनिषत् - पयलें खंड | ४. गोमंतोपनिषत् - दुसरें खंड |
| ५. भगवंतालें गीत | |

**चवथें खंड**

| | |
|---|---|
| १. झिलबा राणे | २. मोगाचें लग्न |
| ३. पोवनांचें तपलें | ४. जादुचो जुंवो |
| ५. भुरग्यांलो इश्ट | ६. कोंकणी पैलें पुस्तक |
| ७. भुरग्यांलें व्याकरण | |

हो प्रकल्प चालीक लागतनाच इन्स्टिटयूट मिनेझिस् ब्रागांझा हे संस्थेची आदल्या गोंयकार लेखकांचें संकलीत वा वेंचीक साहित्य परतून उजवाडाक हाडपाची येवजण घोशीत जाल्ली. आमकां कळीत करूंक खोशी जाता, शणै गोंयबाब हांचे हे चारूय खंड गोवा कोंकणी अकादेमी आनी इन्स्टिटयूट मिनेझिस् ब्रागांझा ह्या दोनूय संस्थांच्या जोडपालवान, ५०-५०% अर्थीक भागिदारीन उजवाडाक येतले.

आयज ह्या प्रकल्पांतलो खंड १ उजवाडाक येता. शणै गोंयबाब हांच्या १२५व्या जयंती वर्सानिमतान आनी तांच्या जन्मदिसा गोवा कोंकणी अकादेमीची तांकां ही विनम्र श्रद्धांजली.

**पुंडलीक नारायण नायक**
अध्यक्ष
गोवा कोंकणी अकादेमी

बोरी
२३ जून, २००३

# संपादकीय

शणै गोंयबाब म्हळ्यार श्री. वामन रघुनाथ राव वर्दे वालावलीकार ही आर्विल्ल्या काळांतली एक व्हड आनी म्हत्वाची कर्तुत्वी असामी. आपापल्या खाशेल्या मळाचेर कर्तुत्व गाजोवपी जायत्यो पूत-धुवो हे भुंयेंत जल्मल्यो. पूण पुराय कोंकणी समाजाच्या काळजाक हात घालपी आनी ताचे अस्मितायेक जागोवपी शणै गोंयबाब एकलोच म्हळ्यार अतिताय जावंची ना. कवी बाकीबाबाच्या उतरांनी सांगचें जाल्यार, आमच्या आत्म्याचो पयलो वयलो दिश्टावो जालो तो ताका. आमच्या सैमाचें सत्व होलमलें तें ताका आनी आमच्या फुडाराचें सपन पडलें तेंय ताकाच.

तांणी जायती बरपावळ रचली. ती पुस्तकरुपान छापून आयली तशी विंगडविंगड नेमाळ्यांनी आनी कांय कडेन दिसाळ्यांनीय बी छापून आयली. पूण ती सगळीच आतां सपसप करून मेळना. जांणी ती थोडी लेगीत वाचल्या तांकां (कांय आडवाद सोडल्यार) आपलेभितर आशिल्ले तांकीची जाणविकाय जाल्या. तांची अस्मिताय जागी जाल्या. आनी आपणें आपले भुंयेखातीर आनी भाशेखातीर वावरून आपलो फुडार पर्जळीत करूंक जाय हाचो दिश्टावो तांकां जाला. चड करून शणै गोंयबाबांनी जे तरणाटे पिळगेचेर आपलो उबारो दवल्लो आनी तांचेर अमृताचो पावस शिंपडायलो त्या तरणाट्यांचेरूच भार आयलो. आनी तसो तो तांचे उपरांतचे दरेके पिळगेच्या तरणाट्यांचेर आयिल्लो. देखून आतांचे पिळगेखातीर शणै गोंयबाबांची सगळीच बरपावळ पुंजावन ती छापून हाडची अशी येवजण मुखार आयली. ती सुमार चार थंय पांच खण्ड जायत इतली आसा. म्हणटकच एका खण्डांत एकठायताना एकेच तरेचें वा विशयाचें साइत्य एकेकडेन येवचें असो विचार करून १) भास, २) इतिहास, ३) रुपांतरां, ४) स्वतंत्र ललीत साइत्य अशे तरेचे चार वांटे करपाचो बेत केला. हातूंत शणै गोंयबाबांनी केल्ल्या मराठी पुस्तकांचो आस्पाव करूंक ना. परिशिष्ठांच्या रुपान आयल्या तितलीच मराठी बरपावळ हांगा घेतल्या. तांचें मूळ साइत्य जे तरेन छापून आयलें ती रीत हांगा मातशी बदलची पडल्या. तांचे बरपावळींत दर पानाचेर तळटीपो दिवपाची जी पद्धत आसली ती अक्षरजुळोवणेचे नवे तकनीकीक लागून, तशी दिनासतना, त्या त्या लेखाचे निमाणेकडेन ह्यो सगळ्यो तळटीपो एकठायल्यात. तांचे बरपावळींत ( । ) अशी उबी मात्रा दिवपाची पद्धत आशिल्ली. ती आमी हालींचे बरपावळींत वापरिनात.

ह्या खण्डांत तिचो उपेग फकत 'व्याकरणी बांदावळ' आनी 'नादशास्त्र' हातुंतूच केला. अक्षरजुळोवणेचे आडखळींक लागून हेर बरपावळींत उबी मात्रा गाळची पडल्या.

ह्या पयल्या खण्डांत तांच्या भास आनी कोंकणी व्याकरण हांचे संबंदांतल्या बरपावळीचो आस्पाव केला. तांतूंत

१. कोंकणी भाशेचें जैत

२. येवकार अध्यक्ष्यांलें उलोवप

३. कोंकणीची व्याकरणी बांदावळ

४. कोंकणी नादशास्त्र

हीं पुस्तकां घेतल्यांत. आनी नादशास्त्रांत संदर्भ आयला देखून (५) कोंकणी मुळावें पुस्तक निमाणेकडेन दिलां.

शणै गोंयबाबान मुखेलपणान कोंकणी भाशेचे उदर्गतीचो वावर हातांत घेतलो हें आतां सगळ्या जाणांक खबर आसा. हो वावर हातांत घेवपाची तांकां कित्याक गरज पडली? ही पोटतिडक तांकां खंयसून आयली, अशे मुळावे प्रस्न अभ्यासकां मुखार उबे रावतात. तांची जाप सोदतना सगळ्यांत पयलीं नदरेंत भरता तो तांचो स्वाभिमान.

शणै गोंयबाब मुळांत स्वाभिमानी मनीस. आपणाक वो आपल्या मनशांक (म्हळ्यार गोंयकारांक, कोंकणी समाजाक) कोणें कितेंय उणेंदुणें म्हळें जाल्यार तांकां तिट्ट जाता. हें तांच्या बरपावळींतल्यान आनी तांचे खासगत जिणेंतल्या कांय प्रसंगांतल्यान उठावदारपणान दिसून येता. संवसारांतल्या ज्या मनशांचो आपलेपणाचो अभिमान नासो जालो आनी आपूण उणाक म्हणपाच्या फटीच्या समजांतूच जे ल्हानाचे व्हड जाले तांचे हातसून व्हडविकेच्यो करण्यो कश्यो जावंच्यो? ते वयर कशे सरचे? तांकां दिसानदीस सकयलीच वाट हाची जाणविकाय आशिल्ल्यान जें जें कितें आपलें आसा ताच्या भौमानाखातीर ते वावुरले. हांतूंत नविदाद कांय ना. 'आवैची भक्ती करपांत संवसारांतलो कोणूच पुत म्हाका फाटल्यान धुकलीत अशें म्हाका दिसना.'' अशें काळजार हात मारून सांगपाइतलो तांचो गडगंज आत्मविश्वास. म्हणटकच आपले आवयभाशेखातीर ते वावुरले हेंय बी सभावीकच आयलें. आतां तेदेवेळची परिस्थिती पळेल्यार तांचे भोंवतणीं मराठीचें वाघरें पडिल्लें. कोंकणीक धेडगुजरी लेखून मराठी आपली आवयभास मानपी हिंदू लोक आनी पुर्तुगेजीक आपणावपी क्रिस्तांव लोक अशांमदीं कोंकणीची नांवनिशाणी दिसनासली. शणै गोंयबाबाकूय आपली भास मराठीच अशें दिसल्यार

अजाप ना. तेय बी दिवचले राम गांवकाराकडेन आनी उपरांत बर्वे मास्तराचे पडवेर मराठी शिकिल्ले आनी हेरांभाशेनूच आपणाक बरी मराठी कळटा असो समज घेवन बशिल्ले. मुळांतूच साइत्याची गोडी आशिल्ल्यान तांणी शाळगडो आसतनाच साइत्य रचपाक सुरवात केल्ली. तांणी 'रामराज्याभिषेक' नांवाचें एक नाटक मराठींतल्यान बरयलें. तेन्नाचे नांवाजते नाटककार श्री. अण्णासाहेब किर्लोस्कर हांकां तांणी ताचें हातबरप वाचूंक दिलें. अण्णासायबान वाचून जातकच सांगलें, "तुज्या नाटकांत प्रसंग, पात्रां, रचणूक हे नाट्यगुण बेस बरे आसात. पूण संवाद धड नात. नाटकाक घरगुती भाशेंतले सहज अशे संवाद जाय. तुजी भास लेखनाची भासशी दिसता. उलोवपाचीशी दिसना. संवाद हो तर नाटकाचो प्राण. पूण तुजी उलोवपाची भास मराठी न्हय देखून ते संवाद सभावीकशे जावंक नात. ते वाचिल्लेवरी दिसतात. उलयल्लेशे दिसनात. म्हणून हें नाटक माचयेर हाडूंक जायतशें म्हाका दिसना."

शणै गोंयबाबान श्री. अण्णासायबांचें म्हणणें मानून घेतलें. पूण ते येवजणेंत पडले. आपणें मराठीचो अभ्यास केला. आपले मराठी भाशेंत तर कांय चूक ना. मागीर हे संवाद घरगुती नासपाचें कारण कितें? आपूण आनी मराठी लेखक हातूंत खंय तरी वेगळेचार आसा. श्री. अण्णासाहेब म्हणटात तशे आपूण कोंकणी जाल्ल्यान आपणाक खरेली मराठी जमना हेंच खरें. हें तांच्या मनांत रिगलें.

दुसऱ्याच वर्सा म्हळ्यार १८९९च्या अदमासाक आसगांवां शिकयता आसतना तांणी शाळेंतल्या भुरग्यांक उपकारा पडपासारकें 'उ मेस्त्री पुर्तुगेज' (O Mestre Portuguez) नांवाचें पुस्तक बरयलें. तें मराठी-पुर्तुगेज शाळेंत उपकारा पडपासारकें भाशांतरमालेवरी पुस्तक आशिल्लें. ताका तांणी पुर्तुगेजींत एक प्रस्तावना बरयली. आनी पुराय पुस्तक कुमारजुंवेंचे बारांव श्री. तोमास द आकीन मैरांव हांकां तांच्या रायबंदराच्या घरा व्हरून दाखयलें. श्री. मैरांव पुर्तुगेज शाळांचे इन्स्पेक्टर आशिल्ले. तांकां हांगांच्यो भासो समजताल्यो. तांणी 'राम विजय' नांवाचें एक पुस्तक मराठींतल्यान आपल्या खर्चान उजवाडायल्लें पूण 'मेस्त्री पुर्तुगेज' ह्या पुस्तकांत बरोवप्यान मराठीचो उल्लेख 'a lingua vernacula de Goa' म्हळ्यार गोंयची थळावी लोकभास असो केलो तेन्ना मैरांवान अजाप उक्तायलें. ताणें म्हळें, गोंयची आवयभास सगळो लोक उलयतात ती कोंकणी आसूंक फावो. ती मराठी कशी जातली?

श्री. तोमास मैरांव हो मराठीविशीं आदर बाळगुपी मनीस आनी श्री. अण्णासायब किर्लोस्कर तर खासा खुद्द मराठी मनीस. ह्या दोगांयनी गोंयचे भाशेचेर

केल्लें भाष्य शणै गोंयबाबांक चिंतूंक लावपी थारलें. तांणी ह्या विशयाचेर खोलायेन येवजिलें, पुस्तकां धवळ्ळीं. श्री. रा. भि. गुंजीकर हांणी १८८४त बरयल्ल्या 'सरस्वतीमंडल' ह्या पुस्तकांत तांकां कोंकणी आनी मराठी ह्यो वेगळ्यो भासो आसात आनी कोंकणी थेट संस्कृतांतल्यान आयल्या हें होलमलें. तांणी भासशास्त्राचो अभ्यास केलो. कोंकणीचो इतिहास आनी भुगोल तपासलो. आनी आपली आवयभास मराठी नासून ती कोंकणीच आसा हाचो दिश्टावो तांकां जालो.

ह्याच सुमाराक आनीक एक बरप तांकां होलमलें. हिंदुस्तान सरकाराच्या गोवेर्नाचो सेक्रेतार (Secretario do Governo Geral da Estado da India) भौ. ज्योआकीं एलियोदोर द कून्य रिव्हार हांणी २५ जुलै १८५८ दिसा बरयल्ल्या कोंकणी भाशेच्या इतिहासाचो निबंद (Ensaio Historico da Lingua Concani) हांतूंत गोंयच्या भुरग्यांक लेखून बरयल्लें की तुमच्या गांवभावांचे बुद्धीक आनी लोकीचाराक नवें ताजपण हाडूंक तुमची देसभास सुदरूंक जाय. आनी ते खातीर तुमी फुडाकार घेवंक जाय. ताणें म्हणिल्लें, "गोंयच्या भुरग्यांनू, हें व्हडलें काम तुमचे खातीर राखून दवल्लां." गोंयकार तरणाट्यांच्या भुजांचेर घाल्ली ही जापसालदारकी बावीस वर्सांच्या तरणाट्या शणै गोंयबाबांच्या काळजार कोंत्रावन उल्ली. आनी मराठीक आवयभास समजून आपल्या "काळजाच्या देवाऱ्यांत देवते भाशेन पुजेक लांवक भायर सरील्ल्या" शणै गोंयबाबान मुखावेलीं शेचाळीस वर्सां "निखट्या काळजाचोच न्हय तर सगळ्या देहाचो देवारो घडौन तो कोंकणीचे सेवेक ओंपलो."

म्हाका दिसता, हांगा सांगिल्ल्यो ह्यो चार गजाली (आनी आसल्यार हेर घडणुको) शणै गोंयबाबाक कोंकणीची दिका दाखोवपी थारल्यो. आनी एकदां मोख आनी दिका थारतकच ते दिकेन वचपाची वाट तांणी खासाखुद्द घामाकश्टांनी तयार केली.

गोंयचो मराठीकडेन संबंद आयिल्लो हिंदु मनीस गोंयची आवयभास मराठी अशें समजता आनी गोंयकाराचो मुंबैकार जाल्लो मनीस गोंयचे भाशेक हेंगाडी, गोवानीज बी उतरांनी हिणसायता आनी खुद्द गोंयकाराक तो कातली तोणाक लावन पेज जेवपी, सामको गोंयबाब अशीं विशेशणां लायता आनी आपणाक गोंयकार म्हणून घेवपाक तो लजेता ही आवतिकाय पळोवन शणै गोंयबाब दुखेस्त जाले. जे भाशेक आपले गोंयकार भाव अजाणपणाक लागून हिणसायतात तांचें तें अजाणपण नाशें करपाखातीर आपूण कोंकणी भाशेविशींचें सगळें व्हडपण तांचेमुखार मांडटलों आनी ज्या गोंयबाब ह्या उतराचो उपेग ते गोंयकाराक उणो लेखपाखातीर

करतात त्या उतराकूच आपूण उंचायेच्या व्हडल्या पदार पावयतलों हाचो तांणी नित्शेव केलो. आनी आपली पुराय जीण झरोवन तांणी तो नित्शेव तडीक व्हेलो. 'कोंकणी भाशेचें जैत' हें ह्या वावरांतलें एक पावल. कोंकणीचे आड आयिल्ले दर एकले म्हणणेक चोख जाप दिवन तांणी जें लिखाण केलें तें हातूंत आयलां. पूण कोंकणीचो वाद शणै गोंयबाबान आपूण जावन उस्तून काडूंक ना. हो वाद हेर कांय गोंयकारांनीच वयर काडलो.

एकदां कोंकणी ही आपली आवयभास अशें पक्कें थारतकच तांणी कोंकणींतल्यानूच लळीत बरप सुरू केलें. मुळांतूच इतिहासाची गोडी आशिल्ल्यान तांणी इतिहासाचीं आनी चड करून गोंयच्या इतिहासाचीं पुस्तकां वाचून काडलीं. ताका आदार जावपी थळां तांणी खासा भोंवन पळेलीं आनी 'आल्बुकेर्कान गोंय कशें जिखलें' हें इतिहासीक खबर सांगपी पुस्तक बरयलें. 'गोंयकाराचो मुंबैकार' हें काव्यरुपी पुस्तक बरयलें. (पूण तांतुंतूय इतिहासीक खबरी सांगपी जायत्यो तळटिपो आनी परिशिष्टां दिलीं.) 'मोगाचें लग्न' हें रुपांतरीत नाटक बरयलें. 'अभागी सुब्राय' आनी 'भिडेस्त रायुबाब' हीं दोन पुस्तकां बरयलीं पूण तीं दोनूय उजवाडा येवंक नात. शेक्सपियराच्या इकरा खेळांच्यो तांणी काणयो बरोवन काडल्यो आनी त्यो रोमी लिपींत उजवाडायल्यो. आनी तेच बराबर अभ्यास चालूच दवल्लो. पूण मराठी नेमाळ्यांनी कोंकणी मराठी संबंदांत, व्याकरणा संबंदांत बी अशे लेख येताले तेन्ना तांतल्यो चुको दाखोवन दिवपाखातीर तांकां लेख बरोवचे पडले आनी ते वादांत ओडले.

जुलै १९१७च्या विविधज्ञानविस्तारच्या आंकांत आयिल्लो रा. भारद्वाज हांचो लेख, 'नवयुगा'च्या दुसऱ्या वर्साच्या आठव्या आंकांतले (वर्स चड करून १९१५ आसुंये) रा. ब. दत्तात्रय बळवंत पारसनीस हांचो 'मराठी मुद्रणकलेचा संशोधक कोण?' हो लेख तशेंच रा. रा. विठ्ठल रामजी शिंदे हांचो 'कोंकणी व मराठी' हो विविधज्ञानविस्तारच्या जुलै १९२६च्या आंकांत आयिल्लो लेख हांकां लेखून तांणी मराठींतल्यान लिखाण उजवाडायलें आनी कोंकणीचो पाखो घेतलो.

इतले म्हणसर कोंकणीचे बरोवपी म्हणून तांचो लोकीक जाल्लो. सभासमारंभांनी तांचीं उलोवपां कोंकणींतल्यान जातालीं आनी लोकांक मानवतालीं. हाका लागून गोंयांतल्या मराठीच्या भरभराक कोंकणीचें आडमेळें येतलें अशें मराठीचो पाखो घेतल्यांक दिसलें. आनी कोंकणी मराठीचो वाद सुरू जालो. तांतूंतल्यान मुखार आयिल्ल्या प्रस्नांक शणै गोंयबाबांक जाप दिवंची पडली. ती इतली चीप बसयणी आशिल्ली की ती दिवन जातकच चार वर्सां उपरांत 'कोंकणी

भाशेचें जैत' ह्या पुस्तकाच्या प्रास्ताविकांत (२७ आब्रिल १९३०), ''मराठीच्या पाखयान कोंकणी आड हाडिल्लो दरएकलो मुद्दो मुळासैत हुमटून अुडैल्ल्या कारणान कोंकणी अुलैतल्यांचो मार्ग कांट्याखुट्यांमेकळो, झळझळीत आनी नितळ बरो जाला'' अशें शणै गोंयबाब म्हणटातूच, पूण ताचे उपरांत धा वर्सांनी लेगीत ते काळजार हात मारून सांगतात की, ''...तांतूंत (कोंकणी भाशेचें जैत हातूंत) कोंकणिच्या दुस्मानाच्या तोंडाक हांवें गडगंज कुलूप लायलां. तें निखळावपाची वा फोडची तांक सगळ्या संवसारांत कोणाक ना.'' (आर्किटेक्ट श्री. विठ्ठल नारायण मयेंकार हांकां बरयल्ली चीट.) हो इतलो गडगंज आत्मविस्वास आसपाचें कारण म्हळ्यार, खंयच्याय विशयाचो पुराय अभ्यास करून आनी ताच्या मुळामेरेन वचून मत मांडपाची तांची धाटणी. खंयच्याय एका मुद्द्याचो आदार अमूक एका पुस्तकांत आयला म्हूण कोणें सांगलें म्हूण तांणी तें मुकाट्यांनी मानून घेतलेंना. तांणी तें पुस्तक खासा आपणें मेळोवन वाचलें आनी तांतलें खरें फट कितें तें सांसपून पळेलें. म्हणूनच कितल्याशाच जाणांचे पोकळ, आयकीव मुद्दे भरीव आदारासैत तांणी उरफाटे तांच्याच ताळ्यांत रकयले.

भौ. रघुनाथ गणेशशणै तळवडकार हांणी गोंयचे आवयभाशेसंबंधान फोंडें गोंयच्यान उजवाडा येवपी 'स्वयंसेवकां'त ऑक्टोबर १९२५ ते जानेर १९२६ मेरेन तीन खिर्स्तींनी एक लेख बरयलो. ताका तांणी मडगांवच्या 'हिंदु'तल्यान १० जुलै १९२६ ते ४ सेतेंब्र १९२६च्या काळांत सुमार सात खिस्तींनी जाप दिली. ती 'गोंयची आवैभास' ह्या नांवान ह्या खण्डांत आयल्या. तांतूंत आवयभास म्हळ्यार कितें आनी गोंयची आवयभास खंयची हाचेर उजवाड घालून दुबाव आशिल्ल्यांनी नाना फडणिशी उपाय करून पळोवंची सुचोवणी केल्या. आनी ''गोंयकाराची आवैभास सदींच स्वतंत्रतायेच्या धेंकाची. धर्तरिचे खंयचेय कुशीर जरी गोंयकार पावलो तरी ताच्या मेंदूंतली बस्का ती सोडीना. देखून, परके भाशेक ताचे मेंदूंत रिगून ताची आवैभास जांवक अंदाजा जायना'' असो भरवंसो उक्तायला. भौ. रघुनाथबाबांनी कोंकणांत आसपावणें गोंय हो मराठणाचोच वांटो कसो पयलीं मानतालें हें दाखोवपाक पेरिप्लुसांत (पेरिप्लूस हें पुस्तक इजिप्ताच्या दक्षिण तोंकार वेरेविक बंदरांत रावपी एका ग्रेग वेपाऱ्यान इ.स. ८० ते ८९ मजगतीं बरयलां.) पुरावो मेळटा अशें म्हळें तेन्ना शणै गोंयबाबान पेरिप्लूस धवळून पळेलें आनी ताची विस्कावणी करून भौ. रघुनाथबाबाच्या म्हणण्यांत कसो अर्थ ना हें दाखोवन दिलें. आनी ते भायर हेर देशी आनी विदेशी विद्वानांचीं मत्तां आपल्या आदारा खातीर सादर केलीं. हें करपाखातीर अर्थांतूच इतिहास धवळचो पडलो आनी पुस्तकां,

तांब्यापटे, फातरपटे, नाणीं, तारखावळी हांचो सोद घेवंचो पडलो. जितले जितले ते मुळाक गेले तितले तितले तांकां कोंकण हो मराठणाचो कुडको न्हय म्हणपाचे आनीक आनीक आदार मेळत गेले. आनी ते भौ. रघुनाथबाबांच्या फुड्यांत दवरून तांणी सांगलें, "मोटे तोखणायेची आनी अभिमानाची गजाल ही कि, जे मुस्तींत मराठण हें नांवूय जल्मा येंवक नासलें तेच मुस्तींत अपरान्त म्हणचे अुत्तर कोंकण आनी गोमन्त म्हणचे दक्षिण कोंकण वा गोंय हीं अुतरां महाभारतासारक्या ग्रंथाच्या बरप्याचे संवकळीचीं जाल्लीं."

मुखार जेन्ना भौ. रघुनाथबाब कोंकणी ही मराठीची गांवगारी तरा म्हणपाचें दाखोवपाक डॉ. ग्रियर्सनाचो आदार घेतात तेन्ना परथून शणै गोंयबाब मूळ पुस्तकाकडेन वेतात आनी ग्रियर्सन म्हणटात तातूंत आनी रघुनाथबाब सांगतात तातूंत कितली तफावत आसा तें उक्तें करून दाखयतात.

मुखार रघुनाथबाब मरे मिचेल ह्या एवरोपेवाचें कोंकणी संबंदान मत्त कितें आसलें तें दाखोवपाखातीर ताचें एक अवतरण दितात. तातूंत क्रिस्तांव धर्मान बाटयल्ले लोक हे साप दुबळ्या खारव्यांच्या आनी शेतकामत्यांच्या वर्गांतले आसले आनी चड करून तांची गांवगारी मराठी तांकां उपदेश करपाखातीर ख्रिस्ती उपदेशकांनी घेतली जावंये अशें ताचें मत्त सांगतात. ताका जाप दितना गोंयचे बाटवणेचो इतिहास शणै गोंयबाबांक धवळचो पडलो. आनी वयली गजाल ही मुंबय आनी ठाणेच्या कोळयांचे बाटोवणेची आसून गोंयांक ती लागू जायना. इंग्लेजांची बाटोवणेची रीत ही बाबापुता करून करपाची तर पुर्तुगेजांची मस्तेपणाची आनी आगळिकेची आसली आनी तेदेवेळार जी जात मुखेल लेखताले त्या बामणांक आनी चाड्ड्यांक आदीं बाटोवन ती देख हेर जातींक दिवपाचें पुर्तुगेज पाद्रींचें मत्त आशिल्लें हें दाखोवन दिवपाखातीर तांणी बाटयल्ल्या दरेका तालुक्याचे वसाहतीचें संख्याशास्त्र अभ्यासलें. एका एका तालुक्यांत दरेके जातीच्यो कितल्यो गांवकाऱ्यो आसल्यो आनी तांचे कितले वांगड जाताले हाचो बारकायेन हिशेब मांडून खंयच्या गांवांत कितल्या लोकांक बाटयले आनी त्या वेळार कशे तरेचे उत्सव मनयले हाचीय खबर तांणी बारीकसाणीन दिली. कोणाकूय ही कथेंत आडकथाशी दिसूं येता. पूण सकयल्या वर्गाच्या विद्येभायऱ्या लोकांचे गांवगारी भाशेचो उपेग करून तिचीं पाद्रींनी अशुद्ध व्याकरणां रचलीं हो मुद्दो आयलाच जाल्यार ताचो पुराय कीस काडून जांकां बाटयले ते विद्येभायरे नाशिल्ले आनी आपूण खंयची भास शिकतात हें पाद्रींक भोव बरें खबर आशिल्लें हें दाखोवन दिवन हो मुद्दोय पोल करून उडोवपाखातीर तांकां इतलें विस्तारान बरोवचें पडलें. भौ. रघुनाथबाबांनी

तीनूय खिस्तींनी बरयल्ल्या लेखाचो समाचार घेवन शणै गोंयबाब हुस्क्यामेकळ्या मनान 'आमचे आवयभाशेचे (कोंकणी भाशेचेच) दिसानदीस जयजयकारूच जातले' ही भविश्यवाणी उच्चारतात आनी ही भविश्यवाणी खरी जाल्ल्याचो प्रत्यय आमी सगळ्या जाणांनी फाटल्या कांय वर्सांनी घेतला.

भौ. रघुनाथबाबांक जाप दिवन शणै गोंयबाबांनी ज्या 'हिंदुं'तल्यान बरप केलें त्याच 'हिंदु'कारांनी फुडल्या वर्सा हो वाद मुखार चलयलो. आनी भाशेचीं लक्षणां समजावन दितना लिपीचो प्रस्न, भास एकरुपी आसपाची गरज, गोंयचो विस्तार आनी आवांठ हांची चर्चा करून मराठी ही गोंयची वेपारी भास आसा, गोंयकारांचो हिंदु धर्म मराठी भाशेचेर आदारून आसा बी अशीं मत्तां उक्तायलीं. शणै गोंयबाबांनी ह्या सगळ्या प्रस्नांक आदारासयत जाप दिली. आनी ती केपेंच्या 'भारत' ह्या पत्रांतल्यान सेतेंब्र-ओतुब्र १९२७त उजवाडायली. 'कोंकणिचो शुद्धकार' आनी 'किर्कोळ मुद्द्यांची निस्तरावणी' हीं दोन बरपां तांणी पयलेच फावट ह्या पुस्तकांत बरयल्यांत काय दिसता. तीं हेर खंयचेकडेन आदीं छापून आयल्यांतशें दिसना.

जैतांतली सगळी बरपावळ वाचतकच एक ध्यानांत येता की शणै गोंयबाब उखल्ली जीब लायली ताळ्याक अशे तरेचें हुतहुतेंपण खंयचेच कडेन करिनात. (आनी प्रसंगाक तिखट बरोवंक फाटीं सरलेनात तरी आपल्या विरोधकाचो केन्ना अपमान करिनात.) तर आपले म्हणणेक आदार म्हणून इतिहासीक, पुराणीक, देशी, विदेशी जितले कितले आदार आसतीत ते त्या त्या पुस्तकाच्या पानांचो नंबर दिवन मुखार दवरतात.

शणै गोंयबाबांची ही बरपावळ एके वटेन चालू आसतना दुसरे वटेन कोंकणी चळवळ मूळ धरूंक लागिल्ली. १९३९ वर्सा श्री. माधव मंजनाथ शानभाग हांणी फुडाकार घेवन कारवारा पयली कोंकणी परिशद भरयली. दुसऱ्या वर्सा उडपींत परिशद भल्ली आनी तिसरी परिशद १९४२ वर्सा मुंबयंत प्रो. आर्मांद मिनेझीस हांचे अध्यक्षतायेखाला मोट्या दबाज्यान जाली. ह्यावेळार शणै गोंयबाब येवकार अध्यक्ष आशिल्ले. त्या वेळार तांणी केल्ल्या उलोवपाचें पुस्तक छापून आयलें. ताचें नांव आसा 'येवकार अध्यक्षालें अुलोवप'. ह्या उलोवपांत तांणी कोंकणी भास आनी कोंकणी मनीस हांची व्हडवीक गायल्या आनी मराठण आनी कर्णाटक हांचेपासून कोंकण वेगळें कशें हें आदारासैत दाखोवन दिलां. तेन्नामेरेन उजवाडा आयिल्ल्या कोंकणी साहित्याची वळख करून दिल्या आनी कोंकणीचे व्याकरणी बांदावळीचेरूय भाष्य केलां. आनी आमी बाबत कुळां न्हयत, आमकां परक्या

भासांच्या लोकीकार वांचपाची गरज ना, त्यो आमगेल्यो आवैभासो न्हयत अशें निक्षून सांगलां. शिरगणतेची चिकित्साय करून आमी सुमार पंचवीस लाख लोक आसात हें दाखोवन दिलां आनी आमगेलो आंकडो ल्हान म्हणून आमी हुस्को करपाची गरज ना. हाचेपरस ल्हान आंकड्यांचीं राष्ट्रां धर्तरेच्या मोट्या आंवाठाचेर राज्य चलयतात तें आमी पळयतात हाची जाणविकाय करून दिल्या. कोंकणाक खाशेलो राष्ट्रीक इतिहास आनी पुर्विल्ली उंच संस्कृताय आसा देखून, हेय नदरेन मराठणापरस कोंकण वेगळें आनी मराठीपरस कोंकणी वेगळी हें तांणी निक्षून सांगलां. कोंकणी लिपी संबंदान उलयतना तांणी देवनगरी ही कोंकणीची सभावीक लिपी अशें मत मांडलां आनी येन्नादर आमी देवनगरी लिपी लागीं करुंया नाजाल्यार आमी फाटीं उरतले अशी शिटकावणी दिली तरी "हांवें हें म्हगेलें मत्त तुमच्या फुड्यांत मांडलां. हातूंत म्हगेलो हटवाद ना. तुमकां धा-जाणांक जें मानता तेंच तुमी करात. पणून कोंकणी भास एकरुपी करून ती व्हडविकेक हाडात" अशें नमळायेन सांगलां. हातूंत शणै गोंयबाबांचो लोकशायेवेलो विश्वास उक्तो जाता. कोंकणीचे वैली भास आनी सकयली भास अशे वेगळेचार जावंक जायनात तर ती सगल्यांक सारकीच समजूंक जाय आनी आमकां सगळ्यांक कोंकणी भाशेचें पूर्ण स्वराज्य भोगूंक मेळूंक जाय ही वान्सा तांणी उक्तायल्या. पूण इतले नमळायेच्या उलोवपांत विरोधकांक शिटकावणी दितना ते तितलेच खर जाल्यात आनी आमी कोणाक भियेनात, आमचे लिखणे इतलीच आमची तरवार घसघशीत खसखशीत बरी चलता. येयात कोण येतात ते आमचेकडेन झुजूंक अशें उक्तेपणान सांगपाक ते बाडगवंक नात. सगळ्या संवसाराचो जयजयकार जावं असो वैश्वीक हावेस उक्तावन तांणी आपलें उलोवप सोंपयलां आनी कोंकणी मनीस आपल्या गांवाचो आनी देसाचो विचार करताना विश्वाविशींय येवजिता हाचो प्रत्यय हाडून दिला. तांच्या ह्या उलोवपांतल्यान कोंकणी चळवळीक उत्साहाचें आनीक एक ल्हार आयलें हातूंत दुबाव ना. हें पुस्तक परिशद जाले उपरांत खूब उसरां छापून आयलें. १९४६त तें छापखान्यांत आसतनाय गोमंतक मराठी साइत्य संमेलनाची तिसरी बसका आचार्य काकासायब कालेलकार हांचे येजमानके खाला जाली. तांणी केल्ल्या उलोवपाचो कोंकणाचेर कितें परिणाम जातलो ताची चिकित्साय शणै गोंयबाबांनी करची अशी मागणी गोमन्तक छापखान्याचे धनी भौ. काशिनाथ श्रीधर नायक हांणी केली. आनी जाता नज अशी परिस्थिती आसतनाय शणै गोंयबाबांनी ती मानून घेतली. शणै गोंयबाब तेदेवेळार हांतुणार आशिल्ले. दोतोर दि लिमान तांकां कसलीच तकालस घेवपाक मना केल्लें. तरी आसतना काकासायबांच्या उलोवपाक लेखून

तांणी निबंद बरयलो आनी ताका अैन वेळार हें नांव दिलें. हो अैन वेळ कसलो? जिणेची आमोरी जाल्या हें दिसतालें. आतां खंयच्याय वेळार रातीचो गुपाट काळोख जावं येता अशा अैन वेळार हो निबंद तांणी बरयल्लो. ह्या ''अैन वेळाचे'' आनीकय कांय अर्थ आसूं येतात. बंदेपण पुरो जालें! उबगण आयली! जीव सामको वाजवाजलो! अशे आवतिकायेन आसतना हिंदुस्तानाचें उफेण स्वराज्य आमची खेम घेवंक उडक्यो मारीत आमचेसरीं धांवत येता. हो अैन वेळ आसूं येता. ह्या वेळार ह्या स्वराज्याक वेंग मारात आनी भाग्यवंत जायात हें ते सांगतात. ह्या अैन वेळार हिंदुस्तानाचे मुखेल सत्तेतळा कोंकण देसाचो कारभार कोंकणी भाशेंत खासाखवान चलोवंचो आनी आपणाल्या घरादारांत आपणे धनीपणान नंदचे हावेस बाळगुंचे. तेखातीर होच ऐन वेळ आसा हेंय तांकां सुचोवचें आसूं येता. ही तांचे लिखणेंतल्यान आयिल्ली निमणी बरपावळ म्हणुनूय तिका म्हत्व आसा. तांतूंत तांणी कोंकणाच्या फुडाराचेर मत्तां दिल्यांत. धनीपणान राज्यकारभार चलयतनांच गोंयच्या तरण्या भुरग्यांनी फकत किर्कोळ चाखऱ्यांच्या फाटल्यान लागनासतना वेपार उद्देगाकय लागीं करूंक जाय. आमची तागडी केन्नाच लोखणेवंक फावना. स्वराज्यांत आमगेल्या राजकारणाक घटाय हाडूंक ही तागडीच आमकां चड उपकारा पडटली. हे विचार आज साठ वर्सां उपरांतूय आमकां कितले लागू पडटात हें वेगळें सांगचें लागना. धर्मधोशींचो म्हारू हिन्दुस्तानाक पुरो जालो. ताका आनीक खुबळावंया नाका. ताका सातांसमुद्रांचे खरीक पुरुंया अशें तांणी म्हणिल्लें पूण सबंद हिंदुस्तानाची आयची आवतिकाय पळेल्यार हो म्हारू दिसानदीस चड मातत आसा हें आमकां दिसून येता. ह्या निबंदांत शणै गोंयबाबांनी गोंयचें राजकारण, अर्थकारण, धर्मकारण, समाजकारण ह्या सगळ्याचेर आपलीं मत्तां उक्तायल्यांत. हांतूंत तांची आपले भाशेविशींची आनी देसाविशींची तळमळ पुरायेन उक्ती जाल्या. आपले जिणेंतली ही निमणी बरपावळ हाची जाणविकाय तांकां जाल्ली आसा. आनी जिणेंत त्राण नासतना लेगीत पुराय प्राण लिखणेंत हाडून तांणी हो निबंद बरोवन सोंपयला हाची जाणविकाय वाचप्याक जाता.

कोंकणी भाशेचें जैत आनी येवकार अध्यक्षांलें उलोवप हीं दोन पुस्तकां शणै गोंयबाबांचीं मुखेलपणान कोंकणी भाशेविशींचीं मत्तां उक्तायतात. येवकार अध्यक्ष्यांल्या उलोवपांत ते एकेकडेन डॉ. ग्रियर्सनांचें मत्त सांगतात की दोन भासांतलीं उतरां सारकीं आसलींय जाल्यार त्यो भासो एक म्हणूं नजत. तांची व्याकरणी बांदावळ एक आसल्यारूच त्यो एक. ना जाल्यार वेगळ्यो म्हणूंक जायत. तेचखातीर जायत घडये तांणी कोंकणीचे व्याकरणी बांदावळीक हात घालो. ताचे आदीं तांणी

कोंकणी भुरग्यांक शिकपाखातीर कोंकणी मुळावें पुस्तक उजवाडायल्लें. त्या पुस्तकाच्या दरेका पाठांतल्यान कोंकणीच्यो वेगळ्यो पती तांणी भुरग्यांक समजत अशे तरेन मांडिल्ल्यो. पूण तांकां शिकोवपी शिक्षकांक उपकारा पडचें म्हूण ताचे नेम विस्कटावन सांगपी कोंकणी नादशास्त्र हें पुस्तक तांणी बरयलें. तांतूंत स्वर, व्यंजनां, तांच्यो विंगड विंगड कुरवो, त्या कुरवांप्रमाण बदलपी नाद आनी तांकां आशिल्ले कांय आडवाद, उतरांचीं गांठवलां हांची फोडणिशी करून सांगल्या. तेच भाशेन कांय कोंकणी उच्चारांचो हिंदुस्तानी हेर भासांनी म्हळ्यार कानडी, तेलंगी, तामीळ, गुजराथी, बंगाली, हिन्दी, आसामी, बिहारी, ओडिया बी भासांनी खंय ताळमेळ बसता तेंय दाखोवन दिलां. हें पुस्तक चडशें शिक्षकांक उपकारा पडपा सारकें आनी मुळावें पुस्तक बरोबर घेवन वाचपाचें आसा. ताचे उपरांतचे कोंकणीची व्याकरणी बांदावळ हें पुस्तक म्हळ्यार शणै गोंयबाबांच्या सखोल अभ्यासाचें फळ. तांणी कोंकणी उच्चारांचें मूळ सोदलें. एकूच उतर स्वराचो उच्चार बदलल्यार ताचो अर्थ बदलता हें दाखोवन दिलें. हो उच्चार दाखोवपाक माथ्यार उबे आडयेचो उपेग तांणी केलो. (तांचे उपरांत छापिल्ल्या आर्विल्ल्या साहित्यांत आमकां ह्यो उब्यो आडयो दिश्टी पडनात आनी आमी संदर्भावेल्यान त्या उतरांचे उच्चार करतात ही गजाल वेगळी. देखीक, पेर फळ आनी पेरीचें झाड. केन्ना केन्ना म्हाका दिसता की अ, अे, आनी ओ चे दरेकी दोन वेगळे उच्चार दाखोवपाक आमी एका उच्चाराखातीर अक्षराखाला हिन्दींत दितात तशी टिम्ब (़) दिवपाची पद्धत आपणायली जाल्यार? खासा शणै गोंयबाब कुरवांनी बदल जावंक जाय ह्या मत्ताचे आसले. 'अैन वेळार' हातूंत तांणी म्हळां की कोंकणीच्या उच्चारांभाशेन देवनगरी लिपी आमी चिके निवळावंक जाय हातूंत दुबाव ना. पूण ते खातीर कुरवांची चड कंगरखीस करून उपकारना. हे कंगरखीस बरोवपांत वेळ होगडावन, येवजण्यांचो ओग आडखळटा आनी थांबता. आमगेल्या बरप्यांनी देवनगरी लिपी सादे सोपे रितीन बेगीन निवळावची आनी ते तरेन बरोवंक लागचें.) उच्चारांभायर लिंग, वचन, विभक्ती, काळ, धातु, धातुअव्ययां हांचीय तांणी विस्कटावणी केली. ती करतना तांणी संस्कृत व्याकरण मुखार दवल्लां जातलें. पूण परिभाशा कोंकणीक लागू पडटा अशी आनी समजूंक सोपी अशी तांणी वापरली. मूर्धन्य उच्चाराक ते माथयो हें उतर वापरतात. ओष्ठय हाका ओंठयो आनी दंत तालव्य हाका दांत खोंपयो/दांत-ताळवो अशीं उतरां वापरतात. तेचभाशेन प्रथम पुरुष, द्वितीय पुरुष म्हणचे बदला ते सरळ पयलो पुरुश, दुसरो पुरुश अशीं सादीं संवकळीचीं उतरां वापरतात.

ही बांदावळ मुखार दवरून तांणी कोंकणीची बांदावळ कितली वेगळी आनी तेखातीर कोंकणी ही मराठीपसून कशी आनी कितली वेगळी हें दाखोवन दिलें.

एकंदरीत भाशेविशीं केल्ल्या लिखाणांतल्यान शणै गोंयबाबांनी कोंकणीची बसका आनी बांदावळ कशी आसा हाची फोडणिशी केली आनी भास म्हणून ती हेर हिंदुस्तानी भासांइतलीच कशी एक खेरीत आनी स्वतंत्र भास आसा हें शास्त्रशुद्ध रितीन आनी तर्कशुद्ध मांडणेन दाखोवन दिलें आनी ती उलोवपी लोक हे बाबत कुळां न्हयत हें खुद्द ती उलोवप्यांक आनी सगळ्या संवसाराक आड्डून सांगलें. देखुनूच तांचे उपरांतच्या चारपांच पिळग्यांनी एकार एक जैतां झोंबून घेवन 'आमी येवजूं तें करूं' ही शणै गोंयबाबांची म्हणणी खरी करून दाखयली.

पणजी, ६ जून, २००३ - **शांताराम वर्दे वालावलीकार**

# मांडावळ





# उजवाडावप्याचीं दोन उतरां

भौमानेस्त शणै वामन रघुनाथ वर्दे वालावलीकार हाणीं गोंयच्या 'हिंदु' आनी 'भारत' ह्या सातोळ्यांनी आनी मुंबैच्या 'नवयुग' आनी 'विविधज्ञानविस्तार' ह्या म्हैनाळ्यांनीं गोंयचे आवै-भाशेसंबंधान बरैल्ली बरपावळ आज वाचप्यांच्या हातांत दिवपाचो योग आयला. ही बरपावळ पुस्तकाच्या रुपान उजवाडा हाडपाची म्हाका उमळशीक लागिल्ली; पणून ती इतले बेगीन तडीक वचत अशें मात म्हाका दिसूंक नासलें. कित्याक, 'वसणुके'चें पैलें खंड वाचप्यांच्या हातांत दिता आसताना दुसऱ्या खंडासंबंधान तांकां दिल्ल्या उतराक आदीं पाळो दिवन मागीर ह्या कामाक हात घालचो असो हावें विचार केल्लो. पणून 'वसणुके'चें दुसरें खंड बरौपाचें काम सुमाराभायर वाडलें; तांतूंतूच मराठिच्या कांय अभिमान्यांनीं पैल्या खंडाचेर आपलें मत्त दिंवच्या निमतान आनी हेर तरेन कोंकणी भाशेआड कांय मुद्दे फुडें हाडले. ह्या मुद्द्यांभितल्ल्या कांय मुद्द्यांक शणैबाबांनी ह्या आदींच सणसणीत जाप दिल्ली. तरी आसताना ती मुजरत दोळ्यांआड करून कोंकणी-मराठी वादासंबंधान कांय नकळ आशिल्ल्या वाचप्यांक ते गदळांवक वावुल्ले. तेन्ना, शणैबाबांली आदली बरपावळ एकठावन आनी फुडें आइल्ल्या नव्या मुद्द्यांक तांचेकडच्यान जाप बरौन घेवन ती पुस्तकाच्या रुपान उजवाडा हाडपाचो हावेस हांवें धल्लो आनी तो आज तडीक गेल्लो पळौन म्हजेसारकीच कोंकणी भाशेच्या भक्तांकूय खोस जाल्याबगर रांवची ना, हाची म्हाका खात्री आस.

'वसणुके'चें दुसरें खंड केन्ना भायर सरतलें म्हणपाची जायते जाण चौकशी करतात. तशेंच, पैल्या खंडाच्या मराठी आनी इंग्रजी भाशांतराचीय जायत्याजाणांनी तिष्टत लायल्या. 'वसणूके'च्या दुसऱ्या खंडांत आजवेर आपले कर्तुत्वदशेन व्हडविकेक चडिल्ल्या जणएकल्या गोंयकाराचो इतिहास येवपाचो आशिल्ल्या कारणान तें बरौंचें काम सुमाराभायर वाडलां म्हणपाचें वैर सांगलांच; हें दुसरें खंड तयार जावन भायर सरतकूच, दोनूय खंडांचें इंग्रजींत भाशांतर करून तें एकाच पुस्तकांत उजवाडा हाडपाचो हांवें विचार केला. 'वसणुके'चें मराठी भाशांतर करपांत कोंकणी भाशेचे नद्रेन कांय आदाव ना. तेंच इंग्रजींत भायर सरत जाल्यार देवनगरी लिपी नकळ आशिल्ल्या गोंयच्या क्रिस्तांव भावांक ताचो जायतो उपयोग जातलो आनी तांकां कोंकणी भाशेची आतांचेकूय चड ओड लागतली. देखून 'वसणुके'चें

मराठी भाशांतर करपाचो विचार हांवें सोडून दिलो.

ही तेजवंत बरपावळ वाचप्यांच्या हातांत दिंवचे आदीं ह्या वादाक आरंभ केल्ल्या मराठिच्या अभिमान्यांचे म्हाका पैलीं उपकार मानूंक जायत. कित्याक, मराठी भाशेच्या अभिमानान कोंकणी आड फुडें हाडिल्ल्या मुद्द्यांचे अपरुखीं ही बरपावळ जल्मा येवपाचें कारणूच नासलें; देखून, हांव आदीं तांचेच उपकार मानतां. तशेंच, गोंयच्या 'हिंदु' आनी 'भारत' ह्या सातोळ्यांच्या आनी मुंबैच्या 'नवयुग' आनी 'विविधज्ञानविस्तार' ह्या म्हैनाळ्यांच्या संपादकांचेय हांव उपकार मानतां. गोमन्तांतले नामनेचे चित्रिक भौमानेस्त बाब रामचंद्र पांडुरंग कामत हाणीं ह्या पुस्तकांत घालचेखातीर भोवबरें चित्र काडून दिलें, ह्या खातीर तांगेले उपकार मानून शणैबाबांली बरपावळ वाचूंक-उमळशीक लागिल्ल्या वाचप्यांली वाट हांव मेकळी करतां.

मुंबै, २७ आब्रील १९३०. का श्री. नायक

# नम्रतायेची मागणी

कोंकणी ही गोंयकारांली आवै-भास म्हणपाची गजाल सूर्यासारकी घणघणीत आसून ती तशी न्हंय म्हणपाचो वितंडवाद खासा कांय गोंयकारांनीच घालचो हें विचित्र दिसता. आपणाल्या मेंदूंत ती भास दिसरात एकसारकी घोळटा हें बरेभाशेन जाण जावनूय ते दाटून पिसाय पांगुरतात आनी अर्था-भायरे, ताळतंत नाशिल्ले नस्तेच मुद्दे फुडें हाडून हांशाक म्हारग जातात. तांगेली दरएकली म्हणणी फावोशी जाप दिवन आनी गडगंज आधार दाखौन लटकी म्हणपाची सिद्ध केल्या आसतानाय ते आपणालेंच फुटकें धोलकें बडैतात. तांचेकडेन भौनभौन तोंड वाजौन खडपसूक जांवचेभाशेक, तांचेआड कोंकणीन आजवेर जें जैत जोडलां तें तांगेल्या म्हऱ्यांत सासणाचें घसघशीत बरें मांडून फुडल्या कामाक लागपाची कल्पना, कोंकणी भाशेचे पोटतिडकेचे भक्त भौमानेस्त बाब काशीनाथ श्रीधर नायक हांगेल्या कपळांत पैलीवैली आयली. आज वाचप्यांच्या हातांत दिल्लें हें पुस्तक तेच सुंदर कल्पनेचें सोबीत फळ आस. कोंकणी पुस्तकां उजवाडा हाडपांत दुडवांची गांठ करचेलें इल्लेंय आदवसाण नासताना आवै-भाशेचे निखटे सेवेखातीर सेवा करपाचें व्रत कडकडीत चलौन काशीनाथबाब समाधान मानून घेतात ह्या खातीर तांकां धन्यवाद दिंवचे तितले थोडेच जातले. तांगेल्या ह्या व्रताचे पुण्यतायेन कोंकणी भाशेचें बळगें दिसानदीस वाडूंक जायतो पालव मेळटलो हांतूंत दुभाव ना.

ह्या पुस्तकांत, मराठिच्या पाख्यान कोंकणी आड हाडिल्लो दरएकलो मुद्दो मुळासैत हुपटून उडैल्ल्या कारणान कोंकणी भास उलैतल्यांचो मार्ग कांट्यां-खुट्यांमेकळो, झळझळीत आनी नितळ बरो जाला. ताणीं आतां आपणांले निजाचे आवै-भाशेची सेवा हुस्क्यामेकळी करून, संवसारांतल्या भासांचे पंगतींत तिका नामनेचो पाट जोडून दिंवक वावुरचें अशी तांचेकडेन म्हजी नम्रतायेची मागणी आस.

गोमन्ताश्रम, विले-पारलें, **शणै गोंयबाब.**
२७ आब्रील १९३०.

# गोंयची आवै-भास

भौमानेस्त रघुनाथ गणेशशणै तळवडकार हाणीं गोंयचे आवै-भाशेसंबंधान 'स्वयंसेवकां'त तीन खिस्तिंनी बरैल्लो लेख वाचलो. पैली खिस्त 'स्वयंसेवका'च्या १९२५च्या वैतुंब्राच्या आंकांत ६४ तीं ६८ पानांचेर आयल्या. हांतूंत सामान्यतायेन भाशेची आनी संवसारांतल्या आवै-भासांची व्हडवीक आनी बळगें सांगलां. आवै-भाशेबदला परकी भास एकाद्या जनपदाचे सकनळयेंत बळयांच चोंदचो यत्न केल्यार तो केन्नाच फळाक येना. तर दर एकल्या जनपदांत थैंची निजाची आवै-भास घट तगून रावता; ती केन्नाच मरना अशें तांचे ह्मणणेचें सार आस. हें सिद्ध करूंक ते फिलिपीन जुंवावळीर परकी इस्पाञ्जोल भास जायते शेंकडे वावरुनूय तगली ना आनी वेल्साचेर ८०० वर्सां इंग्रजी शेक चलुनूय थैंची आवै-भास नाशी जाली ना, अशीं उदाहरणां दितात. ही तांची ह्मणणी लटकी कोण ह्मणत? आवै-भाशेचें बळगें आनी कस निजाचोच खर हांतूंत दुभाव ना. ती कितलीय दळिद्री आसली, तिका तिच्या खाशेल्या राजांची पोसणूक नासली, तिचेर परकी राजांचो शेक आसलो आनी तिच्या घरा-दारांत परके भाशेन सत्तेच्या वा हरशिल्या तुतनायकान कांयकाळ शेबै घाली तरी ती आपलें यजमानपण निखालुस होगडायना. ती कर्णसिद्ध, सिद्धनाथ, चंद्रनाथ ह्या दोंगरांच्या मुळसांभाशेन सदींच थीर आसता. तिच्या म्हऱ्यांत परक्यो भासो भांगरां-शिंगरां घालून, आखे-तिखे करून आनी मान-कमर मोडून नाचल्यो तरी ती गणमणना. ती त्या रंगयाळ्या भासांक घरच्या **धेडयां**वरी लेखता. ती आपलो यजमान्निचो माना-भौमानाचो पाट तांकां बसूंक दिना. हें इतलें जाण जावनूय रघुनाथबाबांनीं आपली म्हणणी आपल्याच ताळ्याक लावन घेवन उस्तरें घालैलें ह्मणून अजाप जाता. जो नेम ते फिलिपीन आनी वेल्स भासांक लागू करतात तोच नेम गोंयचे आवै-भाशेकूय लागू जाता म्हणपाचें ते विसल्लेशे दिसतात. गोंयां आज फिर्ङी आनी मराठी ह्या परक्या भासांनीं कितलींय जरी धुमशेणां घालीं तरी अखेरेक **थैंची निजाची यजमान्न कोंकणी भासूच तग धरून रावतली आनी माथें उबारतली** ह्मणपाचें रघुनाथबाबांनींच घाल्ले रुजवातीवैल्यान सिद्ध जाता. अशें आसताना कोंकणीक पेल्यान धुकलून ते **परके मराठिचो** पाखो घेतात हाचेवैल्यान, आपल्या तोंडांतलें उतर ते आपुणूच दाटून उस्तऱ्यां घालैतात अशें जालें ना? **गोंयची**

आवै-भास जी **कोंकणी** ती तांच्या मुखेल नेमाक आडवाद आसून, संवसारांतल्या हेर सगळ्या आवै-भासांकूच तो नेम लागू जाता, अशें तांचें एकाद्रें मत्त ना मू?

परकी भास कितलीय आगळीक करून बळयांच लोकांच्या माथ्यार उबाल्ल्यार ती तांकां तोलना अशें रघुनाथबाब ह्मण्टात, तें खरें आस. तें फिर्डीक जितलें लागू जाता तितलेंच मराठीकूय लागू जाता. गोंयकार हिंदुंनी आनी क्रिस्तांवांनी **परकी मराठी** आनी **परकी फिर्डी** कितलीय आपलीशी ह्मळी तरी तांचो उच्चार निजाच्या मराठ्या आनी पुर्तुगेजांभाशेन करचेलें तांच्या नशिबांत ना. अशें आसताना हिंदुंनी, शिगम्याच्या दिसांनी, माचयेर उबे रावन आनी पड्ड्यावसल्यान फुडो करून **'म्हाजी प्रिया खोटें हाये?'** ह्मणून मराठी नटयेची खुशाल वाट पळौंची आनी ती तरतरीत धांवन येनाशी पळौन पिंर्जळून आनी खुबळून, तिडकीन **'हवन करों तुमचें'** ह्मणून देवाक गाराणें घालचें आनी नाटक पळौंक बशिल्ल्यांचें भस्म उबौंचें.

रघुनाथबाब मराठी भाशेक बळयांच जरी गोंयचे आवै-भाशेच्या पाटार बसौंक सोदतात तरी अखेरेक **खरें** तेंच तांच्या तोंडांतसून आपशीं भायर सरता. ते ह्मण्टात कि, फाटल्या धा-वीस वर्सांपरस आज गोंयां मराठी भाशेंत जें सुधरप जाल्लें दिसता ताचें एक कारण इंग्रजी सरादींतले मराठी शिकिल्ले लोक गोंयां मास्तरकी करूंक येंवक लागल्यात हें आस. हाचो उक्तो अर्थ असो जाता कि, गोंयकारांक तांची आवै-भास शिकौंक गोंया भायले लोक जायत; त्याबगर तांकां ती शिकूंक येना. आपली आवै-भास शिकूंक परक्या लोकांची गरज लागची हें एक अजापूच ह्मणूंक जाय. गोंयां मोटे व्हडले पुर्विल्ले संस्कृतायेचे उंच बामण आसत. तांच्यान आपल्याच लोकांक जर आपली खाशेली आवै-भास शिकौं नज आनी ती शिकूंक तांकां परके लोक, ताणी बरैल्लीं पुस्तकां, वर्तमानपत्रां आनी नाटकांचे प्रयोग हांचेर आधारून रांवचें पड्टा, तर ते जिका आपणांची आवै-भास ह्मण्टात ती तशी खरेपणानशीं नासून **परकी भास** म्हणचे **धेडी-भास** आस अशें ह्मणचें पड्टा; मराठी ही तांची निजाची आवै-भास आशिल्ली जाल्यार ती शिकौंक तांकां मराठणांतले **परके लोक** नाका आसले ह्मणपाचें उक्तेपणान सिद्ध जाता.

फिर्डी शिकिल्ले गोंयचे हिंदु मराठी पुस्तकां रचिनात अशें रघुनाथबाब ह्मण्टात. परंत तांतूंत अजाप ना. जे भाशेचें घर तांच्या मेंदूंत ना ते भाशेंत बरौंक तांकां स्फूर्त जायत तरी कशी? आनी अशानशीं ताणीं कितेंय बरैलें जाल्यार निजाच्या मराठ्यांक तें मानत कशें? पुस्तकां रचतल्याचे भाशेंत एकेतरेची **घरगुताय** आसूंक जाय. तशी घरगुताय दिसून आयल्यारूच लोकांक ताचीं पुस्तकां वाचीनशीं दिसतात. परंत बरौंचेली भास आवै-भास आसल्याबगर **ती घरगुताय कोणाक शिकून येना**.

माथें खरपून आनी कान खाजौन परके भाशेंत पुस्तकां बरेलीं ह्मणून तीं रुचीक जायनात. ती अडेची करणी जाता. 'अडेचो जोगी आनी कट्टेच्यो मुद्रा' ह्मण्टात तशी ती हांशाक म्हारग. तांतूंत नांव-लोकीक मेळना. गोंयकारांनी मराठी आनी फिर्ङी ह्यो आपल्यो आवै-भासो म्हणून कितलीय हुयेल माल्ली तरी ज्ञानोबा, मुक्तेश्वर, वामनपंडित, जिल विसेन्त, सा द मिरान्द आनी कामोंय्स जावपाचें ताणीं सप्नांतूय हाडचें न्हय. गोंयां आशिल्ल्या **अडेच्या मराठ्यांची** आनी **अडेच्या पुर्तुगेजांची** गजाल आसूंच; परंत गोंयाभायर मराठणांत, कर्णाटकांत, मलबारांत, उत्तर हिन्दुस्तानांत आनी पुर्तुगालांत वचून जांच्यो पिडयो जाल्यात, जे थैं तिजल्यात आनी कर्मेल्यात ताणीं त्या थैंच्या भासांनी कितलोसो उजवाड घाला म्हणपाचो सरांव घेतल्यार कितें दिसता? ताणीं खैंचेच परके भाशेंत अजून नांव काडूंक ना अशें ह्मळ्यार अतिताय जांवचीं ना; आनी हाचें कारण उक्तें आस. गोंयकारांची आवै-भास सदींच स्वतंत्रतायेच्या धेंकाची. धर्तरेचे खैंचेय कुशीर जरी गोंयकार पावलो तरी ताच्या मेंदूंतली बस्का ती सोडिना. देखून, परके भाशेक ताच्या मेंदूंत रिगून ताची आवै-भास जांवक अंदाजा जायना. जी भास आयकतकूच वा वाचतकूच अर्थ केल्याबगर सटकरून कपळांत भरना, उतरां येवजिल्याबगर जे भाशेंत उलौंक येना, जे भाशेंत न्हिदेंत सप्नां पडनात ते भाशेक बळयांच आवै-भास ह्मणून वेंग मारून बसल्यार कोणूच नामना जोडूंक पावना. देखून, गोंयकारांक संवसारांत वैर माथें काडचें आसल्यार ताणीं परक्या भासांक आपले बुद्दिची स्वतंत्रताय विकून खांकनवाळ बंदे जांवचे भाशेक आपणांले **आवै-भाशेचो ह्मणचे कोंकणिचोच ताथो-माथो करचो**. ते भाशेंत बरौंक तांकां स्फूर्त जातली. ते घरगुतायेन आनी मेकळेपणान बरैतले, नामना जोड्टले आनी जल्मभुंयेचो लोकीक गाजैतले.

गोंयकार क्रिस्तांव कोंकणीक आपली आवै-भास म्हण्टात हें रघुनाथबाबांक मानना. ते आपणांली आवै-भास वळखनात ह्मणून रघुनाथबाब तांकां दुर्भागी समजतात. जी भास आपुण आपले आवैच्या दुदाभरशीं पियेल्यांत आनी जी आपल्या मेंदूंत घट बस्का मारून बसल्या ती आपली आवै-भास न्हंय; तर परक्यांनी बरैल्लीं पुस्तकां घोंकून जी भास बळयांच अडेची शिकची लागता ती आवै-भास हो एक उफाट्टोच न्याय ह्मणचो.

गोंयकारांली निजाची आवै-भास कोण ह्मणपाचें पळौंचें आसल्यार, **नाना फडणिशी उपाय** करून, एकाद्रो मनीस सुस्त न्हिदलासो पळौन, ताच्या माथ्यार थंड किरांव उदकाचो कळसो रकौंचो; ह्मण्टकूच, तो फडफडून जागो जावन गजाल मारीत उठ्ठकूच तागेली आवै-भास कोण ती रोखडीच कळटली आनी लटक्या

भावनांच्या फिटफिट्या तणांच्या आशयांचेर कोणाकूच आधारून रांवचें पडचें ना.[१]

गोंयचे आवै-भाशेची दुसरी खिस्त 'स्वयंसेवका'च्या १९२५च्या नोवेंब्राच्या आंकांत ९१ तीं ९७ पानांचेर आयल्या. गोंयच्या क्रिस्तांवांनी कोंकणी सरस्पतिची भक्ती चलैल्ली रघुनाथबाबांक मानना. मराठिच्या भरभराक कोंकणी भास हें एक आडमेळेंकशें तांकां दिसता. कोंकणी सरस्पतिची भक्ती चलूंक दिल्यार **गोंयची आवै-भास मराठी नासून कोंकणी आस** अशी जी क्रिस्तांवांची ह्मणणी तिका बळगें चड्लें ह्मणपाचो तांकां भय जाला. देखून, कोंकणिचो मान उणो करचेखातीर, क्रिस्तांव बरप्यांचीं कांय अवतरणां दिवन, ताणीं तांचीं फकाणां माल्ल्यांत. परंत निखट्या फकाणांचो कांयच उपयोग जायसो ना. फकाणां माल्लीं म्हणून ती कोंकणी भास न्हंय अशें जायना. क्रिस्तांवांचे बरौंचे रितींत रघुनाथबाबांक चुकी दिसतात जाल्यार, त्यो सुधरूंक ताणीं खासा पेंगट बांदचें. ताणीं मनार घेतल्यार क्रिस्तांवांची बरौंची रीत तांच्यान जायती निवळांव येत. हांवें हालींच मुंबैच्या फुर्तादाच्या मांडार एक कोंकणी पुस्तक पळेलें. ताचें नांव 'भावार्थी क्रिस्तांवांचो दिस्पट्टो सांगाती' अशें आस. हें १९८ पानांचें पुस्तक १९२२ वर्सा, खानापुरा, भौमानेस्त फ्रान्सिस पेदरू बोर्जिस हाणीं देवनगरी बरपांत छापून उजवाडा हाडलां. हांतूंतली भाशेची मोडणी पळेतकूच, गोंयकार क्रिस्तांव भोव बरी कोंकणी भास बरैतीत अशी आस्तां रिगून ह्याका खोस जाली.

गोंय पुर्तुगेजांच्या शेकातळा गेलें आनी थैंचे लोक **थोडी वेगळे तरेची** मराठी (?) भास उलैतात ह्मणून गोंय स्वतंत्र देस जावंक पावना; तें मराठणांचोच कुडको जावन रावतलें अशी रघुनाथबाबांची वान्सा आनी ह्मणणी. हाचेवैल्यान, **कोंकणी भास** मराठीकूय **थोडीय जाली तरी वेगळी** आस ह्मणपाचें तांकां मान्य असून तें तांच्यान लिपौन दवरूं नज हें उक्तें दिसता. आतां गोंय स्वतंत्र देस जांवक पावना अशें ते ह्मण्टात. ही तांची वान्सा सगळ्याच गोंयकारांक रुचतशी दिसना. जे घटकेक हिमालयासाकून कुमारीमेरेन आनी कराचीसाकून ब्रह्मदेसामेरेन सगळें भरतखंड स्वतंत्र जायत तेच घटकेक आमचें गोंयूय आपशींच स्वतंत्र जातलें आनी **भरतखंडाचें एक इंद्रिय** म्हणून ताच्या विशाळ कारभारांत **स्वतंत्रतायेन** आंग घालतलें हें रघुनाथबाबांनी आनी तांच्या मत्ताच्या हेरांनी ध्यानांत दवरचें. **स्वतंत्रताय जोडचेखातीर गोंयाक मराठणाचो कुडको जावपाचें अपेसपण करचें** निखालुस कारण ना. गोंय हें मराठणाचो कुडको **केन्नाच नासलें, आतां ना, फुडाराक जांवचें ना आनी जांवक फावना.**

रघुनाथबाब आतां नाजूक भावनांची पोटली चिके खुंटयाळ्याक उमकळावन, इतिहासाच्या गडगंज आधारार मराठी ही गोंयची आवै-भास म्हणपाचें सिद्ध करूंक पळेतात. ते ह्मण्टात कि, 'कोंकणांत आस्पावणें गोंय हें हालींच मराठणाचो कुडको कसो लेखतात अशें न्हय, तर भौच पुर्विल्ल्या काळापासून क्रिस्ता आदल्या शेंकड्यांतूय तें मराठणाक दशिल्लें म्हणपाचो इतिहासीक पुरावो आस. अपरांत वा शूर्पारक देस आनी सगळें कोंकण हो मराठणाचोच वांटो कसो पैलीं मानताले ह्मणपाक पेरिप्लुसांत पुरावो मेळटा. पेरिप्लुसांत देस, उत्तर आनी दक्षिण कोंकण ह्या तिगांकूय मेळून आर्यक हें नांव दिलां. ह्या आर्यकांत दक्षिण आनी उत्तर कोंकणांतल्या आनी देसांवैल्या कांय शारांचो आस्पाव जाल्ल्या कारणान ह्या तिनूय थळांतले लोक एक आसून तांची भासूय एकूच आसली ह्मणपाचें उक्तें दिसता.' रघुनाथबाबांनी हो मजकूर पेरिप्लुसाचे खैंचे प्रतींतसून घेतला म्हणपाचें समजना. मराठिच्या खवदळ्ळेल्या आनी बुचकळ्ळेल्या व्हाळांत पेयता आसताना, एकाद्रो तो तांच्या हाताक लागला अशें मानल्यार, मोलादीक आनी लकलकीत मोतयां बदला तांचे मुठींत रेब्यान माखिल्ले शेंकारे आयले, अशें ह्मळ्याबगर रांव नज. मराठी व्हाळांत पेंवचे भाशेक ताणीं निवळ झरीक तोंड लाइल्लें जाल्यार तांकां दुदसागरासारकें गोड बरें उदक पियेंवक मेळटलें आसलें. अरियकेसंबंधान पेरिप्लुसांत जी खरी खबर आस, ती गोंयकार वाचप्यांखातीर हांव सकला दितां. ती वाचतकूच, **रघुनाथबाबांनीं बरैल्लो मजकूर साप चुकला** ह्मणपाचें तांच्या अणभवाक येतलें. म्याकक्रिंडल नांवाच्या एवरोपेवान पेरिप्लुसाचें भाशांतर १८७९ वर्सा केलां. तांतूंत फुडलो मजकूर आस. 'बरकेच्या (द्वारकेच्या) भुंयसागरा[२] उप्रांत बरुगझाचो (भडोच) भुंयसागर आनी अरियकेचें भुंयखांड[३] लागता. मोंबरोसचें राज्य आनी सगळें हिंदुस्तान हांचे सरादीवैलो अरियके हो म्हाल आस. स्किथियाचे (सकलाटीवैल्या सिंधुनदाचे व्हाळयेच्या आवांठांतलो देस) सरादीकडल्या, अरियकेचे भितल्ले कुशिच्या वांट्याक अबेरीय (अभीर) ह्मण्टात आनी अरियकेच्या समुद्राकडचे देगेक सुरस्त्रेने (सुराष्ट्र = काठेवाड) ह्मण्टात. त्या मुलखांत धान्य, तांदूळ, तिळेल तेल आनी लोणी जायतें; तशेंच, हिंदुस्तानच्या कापसाचें विणिल्लें मलमल आनी भरभरीत लुगट जायतें. थैं गोरवांचे हिंड जायते. थैंचे लोक वाडायेन उंच आनी रंगान काळे. ह्या म्हालाचें राजपाटण मिन्नगर; थैंसून जायतें सुती लुगट बरुगझाक (भडोच) धाडटात. ह्या मुलखांत अजूनमेरेन शिकंदरान घाल्ले घुरयेचीं यादस्तिकां, पोरणीं देवळां, शिबिरांच्यो बुनयादी आनी मोट्यो बांयों तशाक तशो राखून दवल्ल्यात. हे समुद्राचे देगेचो विस्तार बरबरिकोन (सिंधुनदाच्या पुर्विल्ल्या

सातां तोंडांभितल्ल्या मदल्या चौथ्या तोंडाचेर वसैल्लें शार) साकून बरुगझा (भडोच) सामखिल्या, अस्तकवप्रा (हस्तकवप्र = तुर्ताचें भावनगराकडचें हाथब) लागशिल्या पपिके भुंयमाथ्यामेरेन[४] तीन हजार स्तदिय (सुमार तीनशीं मैल) आस. पपिकेउप्रांत दुसरो एक भुंयसागर लागता. तो उत्तरेवसल्यान गेला आनी ताचेर समुद्राच्या ल्हारांचो मार बसता; ताच्या तोंडालागसार बइओनेस (पेरम) हें जुंवें आस; आनी सामखी ताच्या माथ्याकडसून मइस (मही) ही मोटी न्हंय समुद्रांत व्हांवता. बरुगझाक (भडोच) वचणे भोंवडेकार जुंव्याक दावो घालून, भुंयसागरांतसून वैलेवशीन वेतात. ह्या भुंयसागराची रुंदाय सुमार तीनशीं स्तदिय (तीस मैल) आस. निमाणें, तें जुंवें समुद्रा-मळबाचे धारेंत पडून भोंवडेकारांक दिसनाशें जाता; आनी मागीर ते बरुगझाक (भडोच) पायणे न्हंयेच्या तोंडावसल्यान पूर्वेक व्हडीं ताण्टात. हे न्हंयेक नम्रदियुस (नर्मदा) म्हण्टात.'[५] 'बरुगझ (भडोच) साकून समुद्राची देग उत्तरेकडसून सामखी दक्षिणेमेरेन पातळ्ळ्या आनी त्याखातीर ह्या मुलखाक दखिनबदेस (दक्षिणापथ) म्हण्टात. कित्याक, थैंच्या लोकांचे भाशेंत दक्षिण दिशेक दखन ह्मण्टात.'[६]

पेरिप्लुसाचो बरपी हो एक ग्रेग वेपारी क्रिस्ताच्या पैल्या शेंकड्यांत इजिप्ताच्या दक्षिण तोंकार बेरेनिके बंद्रांत रावतालो. ताचें नांव कितें तें अजून उजवाडाक येंवक् ना. पेरिप्लुस हें पुस्तक क्रिस्ताच्या ८० आनी ८९ वर्सांमजगत बरैलां अशें म्याकक्रिंडलाचें मत्त आस.[७] वैर दिल्लीं अवतरणां वाचप्यांक कठीन लागतलीं. हिंदुस्तानांतल्या गांवांचीं, शारांचीं आनी न्हंयांचीं नांवां हिंदुस्तानाभायले लोक सदींच लुडबीं उलैतात आनी बरैतात ह्मणपाचो अणभव ह्या विसाव्या शेंकड्यांतूय आमकां येता. देखून, वैल्या अवतरणांतलीं लुडबीं नांवां वाचून वाचप्यांनी वोगीच काचाबूल जांवचें न्हंय. ताणीं भितल्लें सार ध्यानांत घेंवचें, आनी तें इतलेंच कि, पेरिप्लुसकाराच्या समजाभाशेन अरियके हो देस नर्मदा न्हंयेचे उत्तरेक आसून तिचे दक्षिणेक दक्षिणापथ ह्मणचे कुमारीमेरेनची सगळी समुद्राची देग आसली. हाचेवैल्यान दक्षिणेंतलें कोंकण, मराठण, कर्णाटक, मलबार आनी हेर जनपद हे पेरिप्लुसकाराले अरियकेंत आस्पावनासले हें उक्तेपणान सिद्ध जाता. अशें आसताना, रघुनाथबाबांनी ते अरियकेचें उत्तर कोंकण, दक्षिण कोंकण आनी मराठण हांचेकडेन नसतेंच नातें लावन तीं तिनूय मेळून एक अशें जें ह्मळां तांतूंत कांयच अर्थ ना.

पेरिप्लुसकाराल्या बरपाभाशेन अरियके देस जरी नर्मदेचे उत्तरेक आशिल्लो ह्मणपाचें उक्तें दिसता तरी पंडित भगवानलाल इंद्रजी ताचें नातें कोंकणाक जोड्टात. अरियके ह्या उतराचो संबंध ते अपरान्त ह्या उतराकडेन लावन ह्मण्टात कि,

'वात्स्यायनाच्या कामसुत्राच्या टिकाकाराभाशेन अपरान्त ह्मळ्यार पश्चिम समुद्राची तड. गोकर्णासाकून दमणगंगेमेरेन वा एकाद्रें त्यायपेल्यान उत्तरेक तापी न्हंयेमेरेनच्या आजच्या कोंकणाक अपरान्त देसाचो मेळ जमता... म्हगेल्या मत्तान, हिंदुस्तानाचे पश्चिम तडिचें ग्रेग नांव जें अरियके तें अपरान्तिका ह्या उतराचें भष्टल्लें रूप आस. प्राकृतांत ताचें अबरातिका वा अवराइका जालें जांवये.'[८] जर्मन पंडित डॉ. बुहलर हेय वैले ह्मणणेक आपली मान्यताय दाखैतात.[९] म्हाका दिसता कि ज्या पक्षाक पेरिप्लुसकारान अरियके देसाची सुवात नर्मदेचे उत्तरेक दाखैल्या त्या पक्षाक तागेल्या मनांत चडकरून **आर्यावर्त** हें उतर घोळटालें जांवये. आर्यावर्त हें उतर आर्य आनी आवर्त हे दोन दुवे सांदौन जालां. ताचो अर्थ **आर्यांची रांवचेली सुवात वा देस** असो जाता. ग्रेग भाशेंत रांवचेली सुवात वा देस ह्या अर्थाचो'इके' (ikê) हो प्रत्यय आस-सो दिसता. हो प्रत्यय जोडून लारिके (Larikê) ह्मणचे लाटांचो देस,[१०] लिमुरिके, लिमिरिके वा दमिरिके (Limurikê, Limyrikê, Damirikê) ह्मणचे तामिळांचो देस[११] अशीं हिन्दुस्तानांतल्या कांय देसांचीं नांवां ग्रेग भुंयवर्णनकारांनी घडल्यांत. तेच भाशेन, आर्य आनी इके हे दोन दुवे सांदौन आरियके वा अरियके (Âriakê, Ariakê) हेंय नांव ताणीं घडलां हांतूंत दुभाव ना. मनुस्मृतींत आर्यावर्ताची फोडणिशी करता आसताना ह्मळां कि, 'पूर्वसमुद्रासाकून पश्चिमसमुद्रामेरेन आनी हिमालयासाकून विंध्यपर्वतामेरेनच्या आवांठांतले सुवातेक विद्वान लोक **आर्यावर्त** म्हणून समजतात.'[१२] कशेंय आसूं. पंडित भगवानलाल आनी डॉ. बुहलर हांगेले ह्मणणेभाशेन अपरान्तक वा अपरान्तिका हाचेवैल्यान अरियके हें उतर जल्मा आयलें आनी हें थळ नर्मदेचे उत्तरेक नासून दक्षिणेक आसलें अशें एकाद्रें सिद्ध जालें जाल्यारूय, ताचो **कोंकण** असोच अर्थ जाता. मराठण असो जायना.

कोंकण आनी मराठण हांचें नातें सोदून काडूंक रघुनाथबाबांनीं आनी हेरांनी पेरिप्लुसकार आनी क्लावदियुस प्तोलेमाय्युस ह्या परक्या मनशांकडेन धांवपाचें निखालुस कारण ना. तांकां जाय जाल्यार त्या ग्रेग बरप्यांचे आदले आनी फाटले खासा हिंदुस्तानांतलेच बरपी इल्लेतिल्ले नात; तांचीं पुस्तकां धवळ्ळ्यार **कोंकण हें मराठणाचो कुडको केन्नाच नासलें** ह्मणपाची तांची खात्री जायत.[१३]

आमचीं मोटीं व्हडलीं इतिहासाचीं पुस्तकां ह्मणचे महाभारत आनी रामायण. हांतूंतल्या महाभारताची तुर्ताची प्रत क्रिस्ताआदीं सुमार अडेचशीं-तिनशीं वर्सां बरैल्या अशें विद्वानांचें मत्त आस. डॉ. सर रामकृष्णशणै भाण्डारकार ह्मण्टात कि, रामायण आनी महाभारत ह्या दोनूय वीरकाव्यांत महाराष्ट्र (मराठण) हें उतर ना.[१४] तांच्या मत्तान गोदावरी न्हंयेचे धडेर ज्या दंडक रानांतले पंचवटींत दशरथाचो पुत

राम कांयकाळ राविल्लो तें दंडक रान हेंच मराठण.[१५] मोटे तोखणायेची आनी अभिमानाची गजाल ही कि, जे मुस्तींत **मराठण हें नांवूय जल्मा येंवक नासलें** तेच मुस्तींत अपरान्त ह्मणचे उत्तर **कोंकण** आनी **गोमन्त** ह्मणचे **दक्षिण कोंकण** वा गोंय हीं उतरां महाभारतासारक्या ग्रंथाच्या बरप्याचे **संवकळिचीं जाल्लीं**. भीष्मपर्वाच्या ९व्या अध्यायांत धृतराष्ट्राक संजय भरतखंडांतल्या न्हंयांची आनी देसांची वर्णना सांगता; तांतूंत हीं दोनूय नांवां आयल्यांत.[१६]

दंडक रान हें जरी मराठणाचें पुर्विल्लें नांव आसलें तरी तांतूंत कोंकणाचो आस्पाव जायनासलो ह्मणपाचें महाभारतावैल्यान समजता. सगळ्यांत धाकलो पांडव सहदेव दक्षिणेंत दिग्विजय करता आसताना, ताणें शूर्पारक आनी तालाकट जिखून, उप्रांत दंडक रान आपल्या शेकातळा हाडलें अशें ह्मळां.[१७] हांतूंत शूर्पारक ह्मणचे आतांचें सुपारें मुंबैचे उत्तरेक सुमार ३७ मैलांचेर आस. रघुवंशाच्या ४थ्या सर्गाच्या ५३व्या शिळोकांतल्या 'अपरान्त' ह्या उतराची फोडणिशी करता आसताना, मल्लिनाथ टिकाकार यादव कोशांतलें एक वाक्य दिता तें अशें : 'अपरान्तास्तु पाश्चात्यास्तेच शूर्पारकादयः' हाचेवैल्यान शूर्पारक हें अपरान्तांतलें (उत्तर कोंकणांतलें) मोटे नामनेचें मुखेल शार आसून तीं दोनूय उतरां एकाच अर्थान उपकारायताले हांतूंत दुभाव ना.[१८] ज्या पक्षाक शूर्पारक (अपरान्त) आनी दंडक हीं नांवां सभापर्वाच्या ३१व्या अध्यायांत वेगळीं वेगळीं दाखैल्यांत त्या पक्षाक तांच्याच अर्थाचीं अनुक्रमान **कोंकण** आनी **मराठण** हींय **एकामेकांपासून वेगळीं ह्मणपाचें सिद्ध जाता.**

क्रिस्ताआदीं सुमार अडेचशीं वर्सां, मगधाचो (बिहार) मौर्य राजा अशोक हाणें आपल्या साम्राज्यांतल्या मुखेल शारांनी फातरांचेर पाली भाशेंत धम्म-लिपयो कोत्रांवक लाइल्ल्यो. तांतूंतले पांचवे धम्म-लिपयेंत, ताणें बुद्धाच्या धर्माचो उपदेस करूंक खैं खैं थेर (उपदेसक) धाडले ह्मणपाची खबर दिल्या; तांतूंत 'योग-कंबोज-गंधारानं रिस्तिकपेतेणिकानं ये वा पि अंञे अपरंत' अशीं उतरां घाल्यांत.[१९] हांतूंत रिस्टिक ह्मणचे मराठणांतले लोक, पेतेणिक ह्मणचे गोदावरी न्हंयेचे धडेवैल्या पैठणांतले लोक आनी अपरंत ह्मणचे उत्तर कोंकणांतले लोक अशें सर रामकृष्णशणैचें मत्त आस.[२०] हाचेवैल्यान, **उत्तर कोंकण, पैठण आनी मराठण हीं तिनूय, एकामेकांपासून वेगळीं** ह्मणपाचें आपशींच सिद्ध जाता.

महावंस नांवाचें एक वीरकाव्य क्रिस्ताच्या पांचव्या शेंकड्याचे अखेरेक पाली भाशेंत रचलां; तांतूंत लंखेच्या राजांची तारखावळ आयल्या. बौद्ध धर्माची खबर सांगता आसताना तांतूंत ह्मळां कि, अशोकाचे राजवटिच्या सतराव्या वर्सा मोग्गलि बामणाचो पुत थेर तिस्स हाणें तिसरी धम्मसंगीति नांवाची सभा भरौन

एकसारके णव म्हैने बौद्ध धर्माचेर उलौप केलें आनी त्या धर्मासंबंधान लोकांच्या मनांतले दुभाव काडून उडैले.[२१] ती धम्मसंगीति उलगतकूच, ताणें आपल्या धर्माच्या फुडाराची तजवीज केली. परक्या मुलखांनीं बुद्धाचो धर्म पातळांवचो वेळ आयला अशें ताणें येवजिलें आनी धर्माचो उपदेस करूंक जैं थैं थेर धाडले. तांतूंत वनवासीक रक्खित, अपरंतकाक योन धम्मरक्खित आनी महारट्ठाक महाधम्मरक्खित हे थेर धाडले अशें ह्मळां.[२२] हांतूंत वनवासी ह्मणचे तुर्ताचें उत्तर कर्णाटक. हांगा सुमार पावणेदोनशीं वर्सांआदीं आमच्या सौंदेकार राजाचो शेक चलतालो. गोंयचे सरादीकडसून दक्षिण-पूर्वेक सुमार ६५ मैलांचेर वनवासी आनी ९० मैलांचेर सौंदें आस. अपरंतक ह्मणचे उत्तर कोंकण आनी महारट्ठ ह्मणचे मराठण. हाचेवैल्यान, पांचव्या शेंकड्याचे अखेरेक हे तिनूय जनपद एकामेकांपासून वेगळे लेखताले अशें सिद्ध जाता.

क्रिस्ताच्या तिसऱ्या शेंकड्याचे अखेरेक बरैल्ल्या दीपवंसांतूय अपरंतकापासून महारट्ठ वेगळो लेखला.[२३]

बृहत्संहिता नांवाचें एक पुस्तक वराहमिहिर जोतिशान क्रिस्ताच्या सव्या शेंकड्यांत रचलां. तांतूंतल्या चौदाव्या अध्यायांत हिंदुस्तानांतल्या जनपदांचीं नांवां दिल्यांत. तांतूंत विदर्भ, वनवासी, कोंकण, कर्णाट, नासिक्य, दंडकावन, अपरान्तक,अश्मक हीं नांवां एकामेकांपासून वेगळीं दिल्यांत.[२४] हाचेवैल्यान, ते मुस्तींत तांच्या अर्थाचीं अनुक्रमान वऱ्हाड, उत्तर कर्णाटक, दक्षिण कोंकण, दक्षिण कर्णाटक, नासिक, मराठण, उत्तर कोंकण आनी खानदेस हे जनपद एकामेकांपासून वेगळे लेखताले अशें सिद्ध जाता.

सव्या शेंकड्याचे अखेरमेरेन कोंकणाचे अपरान्त आनी गोमन्त म्हणचे उत्तर कोंकण आनी दक्षिण कोंकण अशे दोनूच वांटे आसून, हांतूंतल्या गोमन्ताक निखटें कोंकण ह्याय नांवान लोक वळखताले अशें दिसता. हे मुस्तींत दोनूय कोंकणांची लांबाय उत्तरेक दमणगंगेसाकून दक्षिणेक गंगावली न्हंयेमेरेन समजताले जांवये. परंत सातव्या शेंकड्यांत ह्या मुखेल दोनूय कोंकणांचे भितल्लेभितर वांटे जावन, त्याभायर दक्षिणेक ताणें आपले पांय मलबाराच्या तोंकामेरेन पातळायले अशें दिसता. हे भाशेन, ते मुस्तींत, दोन कोंकणांचीं सात कोंकणां जावन, सप्तकोंकण ह्मणपाची चाल पडली आनी मुदलच्या निजाच्या कोंकणाक म्हणचे गोमन्ताक 'महासप्तम' म्हणचे 'सातां कोंकणांतलें मोटें कोंकण' हें नांव मेळ्ळें. महासप्तम हें नांव पैलेंवैलेंच बादामिचो चालुक्य राजा विजयादित्य हाच्या शक ६२७च्या (क्रि.सन ७०५) तांब्यापट्यांत आमकां वाचूंक मेळटा. तांतूंत 'महासप्तमे इरिदिगे

विषये' अशें म्हळां.[२५] हांतूंत इरिदिगे म्हणचे रेडी गांव. हो तेरेखोलाचे उत्तरेक समुद्राचे वेळेर सुमार एका कोसाभितरआस. वैल्या संस्कृत अवतरणाचो सगळो अर्थ 'सातांभितल्ल्या मोट्या कोंकणांतल्या रेडी म्हालांत' असो जाता. सप्तकोंकण हें नांव इकराव्या आनी बाराव्या शेंकड्यांतूय घोळणुकेंत आसलें ह्मणपाक पुरावो आस. कल्याणिचो चालुक्य राजा पैलो जगदेकमल्लदेव (हाका जयसिंह हेंय नांव आसलें) हाचो शक ९४६ (क्रि.स. १०२४) वर्साचो तांब्या-पटो आस. तांतूंत तो म्हण्टा, 'द्रविड देसाचो राजा बळिष्ट चोल हाका जिखून आनी 'सप्तकोंकणाधीश्वराणां सर्वस्वं गृहित्वा' म्हणचे 'सातां कोंकणांच्या राजांचो सगळो म्हालम्हतो घेवन' आपणें कोलापुरा पेणें केलां आनी थैंसून आपुण उत्तरेकडचो देस जिखूंक वेतलों.'[२६] काश्मीरचो नामनेचो कवि कल्हण हाणें ११४८ वर्सा, राजतरंगिणी नांवाचें काश्मीरच्या राजांचे तारखावळेचें भोव बरें पुस्तक रचलां. तांतूंत तो ह्मण्टा कि, 'काश्मीरचो पराक्रमी राजा ललितादित्य मुक्तापीड (हो आठव्या शेंकड्याचे पैले पन्नासींत राज्य चलैतालो) हो दिग्विजयाक भायर सरून बंगालांतसून पूर्व समुद्राचे वेळेवैल्यान दक्षिणेंत गेलो. तेन्ना कर्णाटकी लोकांनी ताचे सामखार आपल्यो तकल्यो बागैल्यो, त्या वेळार रट्टा नांवाची कानडी राजकन्या दक्षिणापथाचेर आपलो शेक चलैताली. ती दुर्गेसारकी बळिष्ट आसून तिणें विंध्य पर्वतावैले मार्ग कांटेखुटे काडून झळझळीत, निवळ बरे केल्ले. तिणेंय आपली तकली बागौन, ललितादित्याच्या साळकांसारक्या पांयांच्या, तिवतिवीत नाखटांच्या वांटकुळ्या हारशांत आपलें रूप तुकुतुकु करून पळौन ती धादोशी जाली... मागीर ताच्या जैताची तोखणाय गाण्या समुद्राच्या ल्हारांच्या गाजपांत, तो जिखपी राजा पश्चिमेवसल्यान गेलो. थैं फोपळिंनी भरिल्ल्या कुळागरांचे सांवळेन काळीं किट्ट दिसण्या **सातां कोंकणांत** पावन, तो सातां घोड्यांच्या रथार बशिल्ल्या सूर्यावरी लकलकलो. थैंसून तो द्वारकेक गेलो.'[२७] ह्या अवतरणांत दक्षिणापथ हें उतर मराठणाबदला घालां हें वाचप्यांक सांगचें लागना. हांतूंत **मराठणापासून सात कोंकणां वेगळीं दाखैल्यांत**. हाचेवैल्यान बाराव्या शेंकड्यांत **तीं आनी तांतूंतलें महासप्तम म्हणचे गोमन्त वा गोंय हीं मराठी भाकरेचो कुडको नासलीं** म्हणपाचें उक्तेपणान सिद्ध जाता.

आमचो कोंकणदेस आनी ताची पाटां-राणी गोंय हीं मराठणाचे कुडके न्हंयत ह्मणपाचें रुजू करूंक हांवें जे हिंदुस्तानांतले आनी भायले इतिहासीक पुरावे दिले ते जायते जाले. ते वाचून, रघुनाथबाब आनी तांच्या मत्ताचे हेर गोंयकार ह्याफुडें मराठिचो आवै-भास ह्मणून पाखो घालच्या नादांत, कोंकणदेस आनी मराठण हीं

पुर्विल्ल्या महाभारताच्या काळापासून एक आसलीं ह्मणपाच्यो नसत्योच काणयों इतिहासाच्या पवित्र नांवार विकचे नात ह्मणपाची आस्त हांवें धल्ल्यार फुकट वच्ची ना अशें दिसता. हांव तांकां पर्थून आनीक सांगतां कि, भुंयवर्णना[३१] आनी थळवर्णना[३२] ह्या दोनूय नद्रांनी पळौंक गेल्यार, **मराठणापासून कोंकण सामकेंच वेगळें** ह्मणपाचें उक्तें दिसता. अशें आसताना, आपले बुद्दिची स्वतंत्रताय मराठणाक विकून, सूर्य-चन्द्र आस-सर ताचे बंदे जावन रांवची तांची तजवीज आसली जाल्यार, **ताणीं खुशाल मराठणाचीं उष्टीं-खरकटीं मडकुलां विसूळचीं.** तांकां **मराठणाचें भांगरावत केन्नाच आपलेंशें करूंक मेळचें ना** हें ताणीं ध्यानांत दवरचें. **तांकां धड कोंकणीय ना आनी धड मराठीय ना,** अशे ते **मर्दीच उमकळटले**.

कोंकणी आनी मराठी हांचे भितर अंतर कांयच ना ह्मणपाचें दाखौंक मर्फी आनी मरे मिचेल ह्या एवरोपेवांच्या बरपांतलीं अवतरणां रघुनाथबाब दितात. परंत हांव तांकां विचारतां कि, आमच्या पोरसांतल्या आळवाची खाज कशी कितें ह्मणपाची सांगूंक भायल्या लोकांचे आधार कित्याक जायत? आमच्या खासा पोरसांतलें आळूं मराठणांतल्या आळवाकूय वेगळें म्हणपाचें आमी गोंयकार जितलें जाणत तितलें भायले लोक जाणत व्हय? आमी उलैतात ती भास भायल्या लोकांनी मराठीच ह्मळी ह्मणून ती मराठी जाता? खासा रघुनाथबाबांच्या मेंदूंत जी भास घोळटा आनी जी ते घरा-दारांत उलैतात ती तांकां मराठीच दिसता जाल्यार, ताणीं तेच भाशेंत आपलो आवै-भाशेवैलो लेख 'स्वयंसेवकां'त कित्याक बरैलो ना? पैशिल्या पुणेंकारांले आनी पैठणकारांले भाशेंत कित्याक बरैलो? रघुनाथबाबांनी आपल्या मेंदूंतले भाशेंत तो बरैल्लो जाल्यार भोव बरें जातलें आसलें. शेक्सपियर म्हण्टा तशें नांवांत कितें आस? गुलाबशेंवत्याक आबोलें म्हळें ह्मणून ताचो घमघम इल्लोय उणो जांवचो पडला व्हय?[३३]

कोंकणी आनी मराठी हांचेभितर अंतर जायतें आस म्हणपाचें एकाद्या एवरोपेव पंडितान सांगतकूच रघुनाथबाब धादोशी जातीत जाल्यार तसलो एक नामनेचो पंडित म्हज्यान दाखौन दिंव येत.

इंग्रज पंडित डॉ. जॉन विल्सन हाणीं कोंकणी ही एक स्वतंत्र भास आसून, **मराठीपासून गुजराथी जितली वेगळी तितलीच मराठीपासून कोंकणी वेगळी** अशें आपणालें मत्त दिलां. तें जायं जाल्यार रघुनाथबाबांनी वाचून पळौंचें.[३४]

कोंकणी ही मराठिची एक गांवगारी तरा म्हणपाचें दाखौंक रघुनाथबाब डॉ. ग्रियर्सनाचो आधार दितात. कोंकणाचे वेळेवैले कारवार, गोंय, वेंगुर्लें, मालवण,

राजापुर, रत्नागिरी ह्या थळांनी घोळण्यो वेगळ्यो वेगळ्यो भासो ह्यो मराठिच्यो पोटभासो म्हणपाचें ग्रियर्सनान मार्मिकायेन सिद्ध केलां अशें ते म्हण्टात. परंत खैंच्या पुस्तकांत आनी खैंच्या पानार तें मात ते सांगनात. गोंयकार वाचपी ग्रियर्सनाचीं पुस्तकां खैं वाचूंक पावतात? तांगेल्या तोंडांत कितेंय चोंदल्यार ते गिळटले असो रघुनाथबाबांचो समज ना मू? ताणीं ग्रियर्सनाच्या नांवार मराठी उलैतल्यांचो आंकडो दिता आसताना, मालवण आनी गोंय हांगा १५,५९,००० मराठी उलैणे लोक आसत अशें म्हळां. परंत ग्रियर्सनाच्या खासा पुस्तकांत पळौंक गेल्यार, तांतूंत मालवण आनी गोंय हीं उतरां नासून, 'कोंकणी (including Portuguese territories and Madras Presidency) - १५,५९,०२९' म्हणचे 'पुर्तुगेज मुलुख आनी मद्रास इलाखो मेळून कोंकणी उलैणे लोक १५,५९,०२९' अशें म्हळां.[३५] हाचे आदले तीन आंकडे दिता आसताना, ग्रियर्सनान दरएकले खेपे कोंकणी म्हणनासताना **मराठी** हें उतर घसघशीत बरें घालां.[३६] रोखडेंच फुडल्या पानार, मराठी उलैतल्यांचो आनी कोंकणी उलैतल्यांचो कुल्लीं आंकडो ताणें **वेगळो वेगळो** दिला.[३७] हाचेवैल्यान, त्या दोनूय भासांचो घुस्पागदळ करपाची ताची निखालुस तजवीज नासली म्हणपाचें उक्तेपणान सिद्ध जाता.

कोंकणी आनी मराठी हातूंतलें अंतर दाखैणें, ग्रियर्सनाच्या पुस्तकांतलें एक अवतरण रघुनाथबाबांनी दिलां; परंत ताचो अर्थ कसो जाता तो ताणीं ध्यानांत घेतलोनासो दिसता. अवतरणाचें पैलेंच वाक्य अशें आस: 'कोंकणी is a मराठी dialect having branched off from the common parent प्राकृत at a relatively early period.'[३८] हाचो सोपे रितीन समजणो अर्थ: 'कोंकणी ही मराठिची एक गांवगारी तरा आस. ती आनी मराठी एकेच प्राकृत आवैक जाल्यात. त्या दोगांय भितर कोंकणी ही आपले आवैकडसून मराठिचे आदीं वेगळी सल्ल्या.' ह्या वाक्यांत कांय उतरांची मांडणी अशी आस कि, ती त्या वाक्याच्याच आंगार उफाट्टी भुजता. कोंकणी आनी मराठी ह्यो एकेच आवैच्यो धुवो जाल्यार कोंकणी ही आपले मराठी भैणीआदींच प्राकृताकडसून वेगळी सल्ल्या जाल्यार, ती मराठिची गांवगारी तरा कशी जायत ह्मणपाचें वाचप्यांनीच चिके आपल्या मनाक विचारून पळौंचें. ग्रियर्सनाच्या अवतरणांत कोंकणीक जरी मराठिची गांवगारी तरा म्हळी तरी त्याच कलमांत सकला तो कितें ह्मण्टा पळ्यात: 'The line between dialects and languages is, of course, difficult to draw; but in the case of मराठी and कोंकणी there cannot be any doubt. They are both derived from the same प्राकृत and are both dialects of the same form of

speech.'[३९] हाचो अर्थ: 'गांवगाऱ्यो तरा आनी भासो हांचे मजगत खरेपणानशीं वेळ काडूं नज; परंत मराठी आनी कोंकणी हांचे गजालींत दुभावाक कांयच सुवात ना. **त्यो दोनूय एकाच प्राकृतापासून जाल्यात आनी दोनूय एकेच भाशेच्यो गांवगाऱ्यो तरा आसत.**' हाचेवैल्यान **मराठी भासूय गांवगारी तरा** आस म्हणपाचें ग्रियर्सनाचें मत्त वाचप्यांनी ध्यानांत धरचें. तशेंच **कोंकणी भास मराठिची गांवगारी तरा** न्हंय हेंय ताणीं ध्यानांत दवरचें. ग्रियर्सनाच्या पैल्या वाक्यावैल्यान एक मोटी गजाल सिद्ध जाता ती ही कि, ज्या पक्षाक कोंकणी भास मराठीआदीं प्राकृताकडसून वेगळी सल्ल्या त्या पक्षाक तिच्या आंगांत तशीच तांक आसली जांवये. कित्याक, वेगळो संवसार करचेलें काम फुक्याचें न्हंय. परंत कितें करतली सभागीण? ती निजाची कितलीय बळगेंकारीण आसली तरी तिच्या अद्रुष्टान, महासप्तमांतले आळशी, आयतेंखायरे, निखट्या तोंडाच्यो सुक्यो लातबडायो मारणे अशा लोकांकडेन तिची गांठ पडली. ते तिका कितलेशे केळैतले तें समजना? ती बाबडी वेगळो संवसार करीतपासून जी उबन्त पडल्या ती अजून तशीच उल्ल्या. तिचे फाटसून मराठी फुडें सरून, मेळत ताच्या घरा-दारांत रिगून जें थैं शेक चलौंक लागली. हाचें कारण, तिका पैठणचे वावराडे मानाय मेळ्ळे. सुस्त आनी मेंग्या सुखवाशांच्या गळ्यांत ती पडली ना. कोंकणीकूय त्या वेळार खांब्याखुऱ्यांचे कष्टी लोक मेळिल्ले जाल्यार, मराठीक आज कोणूच विचारचो नासलो. **सगळ्या मराठणाचेर आमगेली कोंकणी भास शेक चलैतली आसली**. परंत महासप्तमांतले लोक पडले वानरांचे आवतिकायेचे. डार्विनान वानरांपासून मनीसजात जाल्या अशें जें म्हळां तें त्याच लोकांक चड लागू जायत. ताणीं वानरांभाशेन फक्कत परक्यांचो अणकार करचो; आनी परक्यांचे जाण्टेले, परक्यांचे पराक्रम आनी परक्यांची भास हीं आपलीं आपलीं म्हणून नाचचें आनी तितल्यान धादोशी जांवचें. तांकां आपले शकर्मी स्वतंत्रतायेन येवजूंक आनी वावरूंक निखालुस तांक ना.

कोंकणी संबंधान मरे मिचलाचें मत्त कितें आसलें तें दाखौंक, रघुनाथबाबांनी ताच्या बरपाचें एक अवतरण दिलां ताचो अर्थ असो : 'क्रिस्तांव धर्मांत बाटैल्ले लोक साप दुबळ्या खारव्यांच्या आनी शेतकामत्यांच्या वर्गांतले आसले; आनी चड करून तांची गांवगारी मराठी (तांकां उपदेश करूंक) तांच्या उपदेसकांनी घेतली जांवये.' मरे मिचलाचें हें मत्त आमचे गोंयचे बाटौणेक लागून नासतलें. तें मुंबैच्या आनी ठाणेंच्या कोळयांचे बाटौणेक लागून आसूंये. अशें आसून, तो मजकूर ताणें गोंयाकूच लागून बरैल्लो आसलो जाल्यार, ताणें मोटी व्हडली चूक केली अशें

म्हळ्याबगर रांव नज. मरे मिचेल हो १९व्या शेंकड्यांतलो इंग्रज प्रॉटेस्टंट पाद्री. इंग्रजांचें बाटौणेचें राजकर्ण भेंकरेपणाचें. 'आदीं राज्य, मागीर धर्म' हें तांचें मुखेल सूत्र. देखून तांकत ते रितीन लोकांचीं मनां खुबळायनासताना ल्हवुल्हवु, बाबा-पुता करून, लंच दिवन, म्हारां-चाम्हारांक बाटौंचें हें तांचें धोर्ण. ते भाशेन, मरे मिचेल इंग्रजान आपल्या मनाचो समज करून घेवन, फिडर्‍यांनीय तेच रितीन सोळाव्या शेंकड्यांत गोंय बाटैलां अशें तो म्हण्टा जांवये. परंत ताणें गोंयचे बाटौणेचो इतिहास वाचिल्लो जाल्यार, तो ही दोंगराएदी चूक करचो नासलो. खरेपणानशीं पळौंक गेल्यार, फिडर्‍यांचें बाटौणेचें राजकर्ण इंग्रजांचे उफाट्टें, म्हणचे मस्तेपणाचें आनी आगळिकेचें आसलें. कामोंय्साचे भाशेंत सांगचें जाल्यार, 'A Fé, o Império' म्हणचे 'पैलीं धर्म, मागीर साम्राज्य' हें तांचें सूत्र आसलें.[४०] ते क्रिस्ताचो धर्म वाढौंक धनदौलतिची आनी राज्याची पर्वा करिनासले. ताणीं केल्ली गोंयची बाटवण म्हण्टात ती सोळा आनी सतराव्या शेंकड्यांत तीसवाडी जुंवावळ, साष्ट आनी बारदेस मेळून तीन म्हालांत. हांतूंतल्या कुल्लीं गांवांचो आंकडो १४४ भरता. हांतूंतल्यो सगळ्यो गांवकाऱ्यो ताणीं बाटैल्ल्यो. ह्या गांवकाऱ्यांतल्या वांगडांचें गणित करून पळेल्यार, ताणीं कोण कोण जाती बाटैल्यो आनी तांचें प्रमाण कशें आसलें म्हणपाचें आपशींच समजता. तीसवाडी जुंवावळीवैले हेळें, गांवसी, तळावली आनी गोलथी ह्या चारूय गांवांनी बामणांच्यो गांवकाऱ्यो आसून थैंचे वांगड कितले ते आज समजनात; म्हणून त्यो चारूय गांवकाऱ्यो आमी सोडून दिल्यो तरी, बाकी उरिल्ल्या १४० गांवांत बामणांचे वांगड ३६५ भरतात. चाड्ड्यांचे वांगड तिनूय म्हालांनी ३५६ भरतात आनी सुदीर, गावडे, कुंळबी आनी हेर जाती हांचे तिनूय म्हालांनी १७६ वांगड भरतात. ह्या हिशेबांत बामणांचो पांवडो पैलो, चाड्ड्यांचो दुसरो आनी सुदीर, गावडे, कुंळबी आनी हेर जातिंचो तिसरो लागता. वैल्या तिनूय म्हालांत, पुर्विल्ल्या काळांत बामण आनी चाड्डे ह्या दोन जातींक उंच लेखताले आनी आतांय लेखतात हें कोणाक सांगचें लागना. बामण आनी चाड्डे हांचे वांगड एकठायल्यार ७२१ भरतात. हांचे कुशीक सुदीर, गावडे आनी हेर जाती हांच्या वांगडांचें प्रमाण शंबरांत सुमार साडे योकणीस इतलेंच पट्टा. हाचेवैल्यान, फिडर्‍यांनी उंच जाती कि उण्यो जाती अदिक बाटैल्यो तें उक्तेपणान समजता. तशेंच, पाद्रिंनी उंच जाती सोडून सकैल्या जातिंची भास घेंवक कांय कारण नासलें म्हणपाचें सिद्ध जाता. इतिहासाचीं पानां धवळ्ळ्यार, पुर्तुगेज पाद्री सगळ्यां आदीं बामणांकूच बाटौंक अदिक वावुरताले अशें दिसता. एक फावट मुखेल जात बाटैली तशी तिची देख घेवन, हेर सकैल्यो जाती सोपेपणान बाट्टल्यो

हें पुर्तुगेज पाद्रिंचें मत्त आसलें. देखून, गोंयां ताणी पैल्योवैल्यो घुर्यो बामणांचेरूच घाल्यात म्हणपाचें पुर्विल्ले दुकुमेंत कंकासून सांगतात. तांचेफुडें मिचेलाच्यो काणयों कोण आयकून घेत? बामणांक बाटैतकूच पाद्रींक पैलोवैलो पुत जल्मल्ल्याभाशेन खोस जाताली. १५४८ वर्सा जेजुइत पाद्री गास्पार बार्जेव हाणें धाकटे गोंयच्या लखू बामणाक बाटैलो तेन्ना गोंयच्या पुर्तुगेजांनी जो उत्सव केलो तो आतांच्या एकाद्या राजा-म्हाराजाक ना जाल्यार व्हिसरैक फावोसो नामनेचो जालो. बार्जेवान सां पावलाचे इगर्जेंत लखूक, ताचे बायलेक आनी नातवाक वांगडाच मोट्या आट्यापाट्यान बाल्तिम दिली; त्या वेळार खासा गोवेर्नादोर लखुचो पाद्रीञ्ज म्हणचे धर्मां-बापुय जाल्लो. ताच्या मुदलच्या कोंकणी नांवांत चडसो बदल जांवचो न्हय म्हणून ताका लूकस हें लातीं भाशेंतलें नांव दवल्लें. बाल्तिम दिवन जातकूच, ताका एका भोव बरो साज घांल्ल्या सुंदर आरबी घोड्याचेर बसौन, शारांतसून न्हवच्याभाशेन भोंवडायलो. ताचे वच्चेले मार्ग ताळयांनी, धव्याफुल्ल तरण्या चुट्टांच्या सुयांनी आनी रसमी लुगटांनी सजगैल्ले. वाटेर ताका सगळे फिर्ङी फिदाल्ग सलाम करताले आनी मोट्यान 'वीव्ह' दिताले. नाळिंचे फार-पेट जाताले; आनी सगळ्या इगर्जांतसून घणाघणा करून एकसारक्यो घांटी वाजताल्यो. हो उत्सव आठ दीस चलिल्लो.[४१] एका बामणाचे बाल्तिमेक एदो व्हडलो उत्सव करपाचें कारण, हेर जातिंनीं भुरकुटून बाटूंक फुडें सरचें इतलेंच आसलें. दुसरें कांय ना. १५५९ वर्सा, कोंस्तान्तीन ब्रागांस व्हिसरैचे मुस्तींत, बामणांनी भरिल्लें चोण्ण जुवें, पाद्रिंनी मोट्या शटकपणान, फिर्ङी सत्तेच्या बळार एका दिसांत कशें बाटैलें ह्मणपाचें इतिहास सांगताच. त्या वर्सा, आगोस्ताचे २९वेर चोण्णेंच्या ५१६ बामणांक बाल्तिम दिली. हाच्या फुडल्या वर्सा, ह्मणचे १५६०त, आगोस्ताचे ८वेर चोण्णेच्या १२०० बामणांक उजरावन काडले. ह्याच वर्सा आनी ह्याच म्हैन्यांत, दिवाडी जुंव्याचेरूय हावळ येवन, थैंच्या १५०५ बामणांक आगळिकेन बाटैले. १५६० वर्स हें बाटौणेच्या चकचयाळ पिकाचें वर्स म्हळ्यार कामायता. ह्या एका वर्सांत तीसवाडी, चोण्ण आनी दिवाडी मेळून १३०९२ लोकांक बाटैले खैं. तांतूंतलो मोटो व्हडलो आंकडो बामणांचो आसलो. १५५८ चो सेतेंब्र धरून १५६१ च्या सेतेंब्रामेरेनच्या तीन वर्सांत, निखट्या पावलिस्तांनींच तीसवाडी जुंवावळीर २०७३७ लोक बाटैले. त्या भायर, दोमिनिकान आनी फ्रांसिस्कान पाद्रिंनी बाटैले ते वेगळेच. १५६० वर्सा माय म्हैनो लागत्यार, पावलिस्तांनीं आपलो पांय साष्टींत रिगैलो. थैं ताणीं पैलो मनीस बाटैलो तो मंगेशकार कुट्ठाळो बामण. ताका ताणीं पेद्र मास्कारेञ्ज हें नांव दवल्लें. साष्टिच्या काम्राच्या १२ गांवांभितल्लो कुट्ठाळ हो एक गांव आसून,

मास्कारेञ्ज हो त्या काम्राचो कुळकर्णी आसलो. 'ओरिएन्त'काराल्या मत्तान कुश्ठाळे हे सगळ्या कोंकणांतले मुखेल बामण.[४२] कोंकणांतल्या हेर बामणांक तेच वाचूंक, बरौंक आनी हिशेब करूंक शिकैतात; आनी तांकां सगळ्यांक **शणै** पदवी लागता अशें 'ओरिएन्त'कार सांगता.[४३] सगळे साश्टींत कुश्ठाळ गांवांत क्रिस्तांव धर्माचें पैलेंवैलें मीस जालें आनी तांतूंत साश्ट बाटौंचेखातीर पाद्रिंनीं देवाक गाराणें घालें. पाद्री आपणांक बाटौंक सोदतात हें कुश्ठाळ्यांक सोंसना जालें. बाटौणेक आडमेळीं हाडूंक ते जायते वावुल्ले. ताणीं एक दीस थैंच्या विगाराक खूब लडेफोग घालो. परंत फिडर्यांचे सत्तेफुडें आनी आगळिकेफुडें तांचें शाणपण चलना जालें. १५६३ वर्सा, पाद्रिंनीं साश्टिचें माथें जें मडगांव ताचेर घुरी घाली. हांगाची गांवकारी सगळी बामणांची. १५६३ आनी १५६४ वर्स मेळून थैं १२०० लोक बाटैले. फुडें, थैं इगर्ज बांदचें येवजिलें. परंत थैंचे बामण बळिष्ट. ते आयकना जाले. ते आडमेळीं हाडूंक लागले. तेन्ना खासा दों गास्पार द लियांव पेरैर हो आर्सेभिस्प थंय वचून ताणें थैंच्या बामणांच्या काळजांत रोंबिल्ल्या भाशेन, दामोदराच्या देवळाच्या सोंडयासामखार जमनींत एक बाण रोंबून तेच सुवातेर इस्पिरित सान्ताची इगर्ज बांदुंक जाय ह्मणून तांकां कळैलें. हे भाशेन, बामणांची पर्वा करिनासताना, मस्तेन इगर्ज बांदून थैं १५६५ वर्सा पैलें मीस जालें. १५६७ वर्सा, रायतुरचो कपित दियोग फेर्नांदिस उ दु फोर्ति हाणें एका रातयांत वेरणेंचे म्हाळशेचें देवूळ धरून साश्टींतलीं सुमार ३०० देवळां जाळून भस्म केलीं आनी साश्ट बाटौंचें काम नेटान चलैलें.

बाटौणेच्यो ह्यो थोड्योशो पती हांवें तांत्रिकान सांगल्यो. हाचेवैल्यान, पुर्तुगेज पाद्रिंचो दोळो बामणांचेर कसो आसलो आनी तांकां बाटौंचेखातीर ते भुलसावणी, भुरकुटावणी, तड्डुकां, शटकपणां, मस्ती आनी आगळीक कशी उपयोगांत हाड्टाले म्हणपाचें उक्तें दिसता. सार सांगचेलें इतलेंच कि, पाद्रिंचे अदिकशे आनी सुरै फार खारवी, सुदीर आनी गावड्यांचेर पडनासताना बामणांचेरूच पडल्यात आनी तांचीच भास शिकूंक ते वावुल्ल्यात हांतूंत दुभाव ना.[४४]

'ओरिएन्त'कार सांगता कि, १५७६ वर्सा पावलिस्तांनीं साश्टींत कोंकणी भाशेची एक साळ घाल्ली. तांतूंत पैलेंवैले आठ पावलिस्त ती भास शिकताले. तांचो मुखेल पाद्री आलेशांद्र वालिग्रान हाणें तांकां ताकीद दिल्ली कि, तीस भास शिकपाबाजत ताणीं दुसरें कसलेंच काम हातांत घेंवक फावना; ताणीं आपले भितर कोंकणी बाजत दुसरी कसलीच भास उलौंक जायना; साश्टींतल्या लोकांकडेन नेमिल्ल्या वेळार ताणीं कांय वरां कोंकणी भाशेंत उलौंक जाय; ताणीं देवनागरी

बरौंक आनी वाचूंक शिकूंक जाय. हे रितीन स म्हैन्यांत ते ती भास बरौंक आनी वाचूंक शिकले आनी ते भाशेंत क्रिस्तांव धर्माचो उपदेस करूंक लागले. तें पळौन गोंयकारांक अजाप जालें खैं. 'ओरिएन्त'कार म्हण्टा कि, 'हे भाशेची पैली अडचण म्हण्टात ती उच्चारांत आस; कित्याक, तिचे वर्णावळींत आमचे वर्णावळीकूय अदिक वर्ण आसून; ते आमच्या वर्णांकूय वेगळे; ते उच्चारूंक जिबेक एके तरेचो नेट दिंवचो पट्टा. तरी आसताना, ज्या पक्षाक आमी साष्टींत आमच्या वर्णांनीं त्या वर्णांची तूट भरून काट्टांत त्या पक्षाक देसी लोकांच्या कानांक जिस्त लागणो, निजाचो, फावो तसो उच्चार आमचे भितल्ल्या जायत्याजाणांक करूंक समजता. दुसरी अडचण आमच्या कानांची. कित्याक, कानारी (कोंकणी) लोक चड सरसरीत उलैतात आनी पावलाकणकणीं उतरां तोट्टात; हाचो परिणाम असो जाता कि, तांचें उलौप आमकां समजता त्यापरस आमचें उलौप तांकां अदिक सोपेपणान समजता. उलैता आसताना अक्षरांचीं अक्षरां जरी ते खातात तरी जोडगिरां आनी हकार उच्चारूंक ते भौच जतनाय घेतात; आनी तशें ताणीं करूंक नाशिल्लें जाल्यार, उतरांचो अर्थ सामकोच बदलतलो आसलो. 'केळें' हें उतर 'ळ' बदला रोमान दोट्टी एल् (ll) घालून बरैतकूच एके जातचें 'खांवचें फळ' असो अर्थ जाता. तेंच एकोडें एल् (l) घालून बरैल्यार 'केलें' म्हणचे 'करणी केली' असो अर्थ जाता, आनी के अक्षरांत हकार घालून बरैल्यार 'खेलें' म्हणचे 'तोंडांत उडैलें' असो जाता... एवरोपेव लोकांक ही भास उच्चारता आसताना सगळी अडचण पट्टा ती जोडगिरांची.[४५] ह्या अवतरणावैल्यान, सोळाव्या आनी सतराव्या शेंकड्यांत पुर्तुगेज पाद्री कोंकणी भास शिकूंक कशे वावुरताले, तिचे खांची-गोंयडे ते कशे जाण आसले आनी तिच्यो बारकायो कशे ध्यानांत घेताले म्हणपाचें समजुं येता. ह्या चड निवळ्ळेल्या विसाव्या शेंकड्यांतूय गोंयच्या, मराठणांतल्या आनी सगळ्या हिंदुस्तानांतल्या खारव्यांक आनी गावड्यांक बरौंक-वाचूंक येना म्हणपाचें सगळो संवसार जाण; अशें आसताना; चार शेंकड्यांआदीं, गोंयां तांच्याच पूर्वजांची भास पुर्तुगेज पाद्रिंनी घेतली आनी तांचेकडसून ती ते शिकले म्हळ्यार कोणाकूच खरें दिसत? गोंयां **पाद्री कोंकणी भास शिकले ती बामणांकडसून**; कित्याक, त्या वेळार एकले बामणूच बरौंक-वाचूंक जाण आसले हें हांवें सांगचें लागना. मरे मिचेल हो कसोय जाल्यार परको पाद्री. तो आमच्यो गोंयच्यो - घरच्यो - खबरी कसो जाण जायत? ताणें कितेंय बरैलें जाल्यार तो एक आथवो मनीस म्हणपापेल्यान ताची अपुर्बुद्द कोणाच्यान करुं नज. परंत आठूय पार जांच्या मेंदूंत कोंकणी भास घोळटा ते **रघुनाथबाब गोंयकार** मराठी भाशेचो पाखो घालच्या नादांत कितेंय बरौंक लागल्यार

सोसुं नज. ते म्हण्टात, 'जेजुइतांनी पळेलें कि फिर्ङी भाशेंत धर्म पातळांवचें काम चड कठीन. देखून, देसी लोकांचेच भाशेंत तो पातळांवचो यत्न करूंक जाय. परंत ती भास शिकतले म्हळ्यार तांकां व्याकर्ण खैंच मेळना. म्हण्टकूच कोंकणांत **सकैल्या वर्गाच्या लोकांत** जी भास घोळटाली तीच वांकडी-तिकडी समजून घेवन थैंच्या **विद्येभायऱ्या (अशिक्षित) लोकांक** तेच भाशेंत ते क्रिस्ताचो निरोप सांगत भोंवक लागले... **विद्येभायऱ्या लोकांत** जी भास घोळटाली तिचीं ताणीं अशुद्ध व्याकर्णां केलीं. आपुण कसले भाशेचें व्याकर्ण करतांत तेंय ते नकळ आसले.' वैर जें 'ओरिएन्त'काराचें अवतरण दिलां ताचेवैल्यान, पुर्तुगेज पाद्री आपुण गोंयां कसली भास शिकतांत म्हणपाचें भोव बरें जाण आसले हें वाचप्यांक आतां सांगचें लागना. ते भाशेक ताणीं कानारी, ब्राह्मणी, ब्राह्मणी-कानारी, कोंकणी वा दुसरें कसलेंय नांव दिलें तरी ती **'गोंयकारांले दिसपट्टे घोळणुकेंतली भास'** हें ते पूर्णतायेन जाण आसले. मराठीक तरी फाटल्या शंबर वर्साआदीं एकूच नांव खैं आसलें? तिका प्राकृत, मरहट्टी, मऱ्हाटी अशा तरेकतरा नांवांनी लोक वळखताले. मागीर, कोंकणी भाशेकूच अदिक नांवां पडलीं म्हणून दुशण कित्याक? तशेंच, सोळाव्या शेंकड्यांत ते भाशेचें व्याकर्ण नासलें म्हणून तांतूंत अजाप कसलें? मराठी भाशेचें तरी त्या वेळार व्याकर्ण खैं आसलें? आनी खैंचे देसी भाशेचें आसलें? दोळे उगडून पळेल्यार, हिंदुस्तानांतल्या तुर्ताच्या सगळ्या देसी भासांत आमचे **कोंकणी भाशेचेंच व्याकर्ण पैलेंवैलें जालां** आनी जेजुइत पाद्री तोमास इस्तेव्हंव हाणें तें सोळाव्या शेंकड्याचे अखेरेक रचलां.[४६] मराठिचें पैलें व्याकर्ण म्हण्टात तें एका पुर्तुगेजान १७७८त फिर्ङी भाशेंत केलां.[४७] जेजुइत पाद्री कोंकणांतल्या **विद्येभायऱ्या सकैल्या वर्गाची** भास शिकले आनी तांतूंत ते लोकांक क्रिस्तांव धर्म शिकौंक लागले अशे हे रघुनाथबाबांचे म्हणणेन, ते आपल्या पुर्विल्ल्या जाण्टेल्यांचो मोटो व्हडलो, **मकलासी फावनाशिल्लो अपमान** करतात अशें म्हळ्याबगर रावं नज. तीसवाडी, साष्ट आनी बारदेस हांगाचे सोळाव्या शेंकड्यांतले बामण **विद्येभायरे आनी सकैल्या वर्गाचे** अशें रघुनाथबाबांनी म्हळ्यार गोंयकारांक बरें दिसत मू?

कोंकणी ही रानवट लोकांची भास अशें दाखौंक रघुनाथबाबांनी भौ. चिंतामण वि. वैद्यांचें एक अवतरण दिलां. तें अवतरण चडकरून मराठणाक लागूआसत. तें आमचे स्वतंत्र आनी सजनी कोंकणी भाशेक लागू जायना. कोंकणी भास उलैणे **गोंयकार रानवट न्हंयत**. रघुनाथबाबांक ती भास नाका आसत जाल्यार, आनी तांकां तांक आसल्यार ताणीं खुशाल आपल्या मेंदूंतसून ती निखळावन उडौंची. परंत हेर सगळ्या कोंकणी-उलैतल्यांक **रानवट, विद्येभायरे आनी उण्या वर्गाचे**

म्हणूंक तांकां अधिकार ना.

रघुनाथबाब कोंकणी भाशेक बळयांच मराठी नांव दिवन म्हण्टात, 'गोंयां मराठींत अंतर घडून येंवक जायतीं कारणां जाल्यांत. गोंय एकसारके चार शेंकडे पुर्तुगेजांचे ताबींत पडलें. तें राज्यकारभाराचे नद्रेन मराठणाकडसून कुशीक उल्लें आनी मराठी भाशेंत मराठणांत वेळोवेळ जें सुधरप जालें तें एकामेकांकडेन वेव्हाराची घोळणूक नाशिल्ल्यान गोंयाक कळ्ळें ना.' हाचेर जाप इतलीच कि, चारशीं वर्सां पुर्तुगेजांचो शेक चलता तो तीसवाडी, साष्ट आनी बारदेस ह्या तिनूच म्हालांचेर. फोंडें म्हालाचेर न्हंय. देखून त्या तीन म्हालांची गजाल आमी सोडुनूच दिंवया. फोंडें म्हालाचेर पुर्तुगेजांचो शेक चलूंक लागल्यार आज फक्त १६३ वर्सां जातात. हे मुस्तींत राज्य चलैतल्यांची मस्ती दिसानदीस जिरिल्ली. ते सोळाव्या शेंकड्यांतले भाशेन धर्माच्या नांवार कोणाक चडशी पिडणूक भोगैनासले. पुर्तुगालचो शाणो राजकर्णी प्रधान मार्केज द पोम्बाल हाणें, फोंडें म्हाल फिडर्ग्यांच्या हातांत पडचे आदीं दोन वर्सां म्हणचे १७६१त, जेजुइतांक पुर्तुगेज साम्राज्यांतसून आनी त्या भरशीं गोंयांतसून आमडून घाल्ले.[४८] ताचे आदीं ८६ वर्सां म्हणचे १६७५ त मायाचे ६ वेर शिवाजीन फोंडें म्हाल आदिलशहेकडसून घेतिल्लो.[४९] १६६६ त घेतलो अशें रघुनाथबाब म्हण्टात तें खरें न्हंय. तो म्हाल घेतकूच, थैं धर्माजी नागनाथ हो मराठ्यांचो मुखेल देसाधिकारी कारभार चलैतालो; आनी त्या वेळार, **मराठ्यांले साडेतीन घटकांचे खिणयाळे सत्तेन अंत्रुजकारांक उबगण हाडून, आदल्या मुसलमानी राज्याची माये-मोगान याद काडूंक लायली** म्हणपाचें, भाणस्तारी लागशिली हडकोळणेंची काळी फातर, क्रि. सन १६८८ वर्सा पासून आजतकत एकसारकीं २३८ वर्सां, मार्गान येत्या-वेत्या लोकांक ताळो पोकळ करून सांगता.[५०] हे भाशेन, फोंडें म्हाल मराठ्यांल्या हातांत पडून मराठणाकडेन ताचो वेव्हार घोळूंक भोव बरी संद मेळिल्ली. त्याभायर, रघुनाथबाबांचे म्हणणे भाशेन, तो म्हाल पुर्विल्ल्या काळापासून मराठणाचो निजाचोच कुडको आसलो. अशें आसताना, फोंडेंचे मराठींत (?) मोटें व्हडलें अंतर पडूंक कारण कितें जालें? ती कोंकणी कशी जाली? म्हाका जाल्यार फोंडें म्हालांतल्या लोकांची भास गोड लागता. हांव जेन्ना जेन्ना अंत्रुजेंत पावतां तेन्ना तेन्ना बामणापासून कुळवाड्यामेरेन सगळ्यांची भास कान दिवन आयकतां आनी तांतूंतलीं कांय कांय सुरबूस उतरां आनी वाक्यां म्हजे भोंवडेचे पटयेंत मुजरत बरौन दवरून, वेळ येत तेन्ना, म्हज्या बरपांत तांचो मोट्या कौतुकान आनी अभिमानान उपयोग करतां; ते भाशेंत एके तरेचें गीत घुमघुमता. साळोरेच्या सुराभाशेन तिचो नाद नाजुक, मंजुळ बरो जाता. असली ही घरांतली सुंदर देवता कुस्कुटावन, कांय

फोंडेंकारांक परके राबस मराठिचें पिशें लागिल्लें पळौन अजाप जाता.

'फिडर्चांनी मराठी भास सासणाची नाशी करून उडौंचे खातीर म्हादेवाचो अवतार घेतलो; तरी आसताना, हिंदुंनी तरेकतरा अडचणींत जायत्या संकष्टांक तोंड दिवन, आपली आवै-भास राखली' अशें रघुनाथबाब म्हण्टात. ही तांगेली म्हणणी व्हिसरै फ्रांसिस्क द ताव्र हाच्या १६८४च्या (१६८५ न्हंय) एका आल्व्हाराक लागून आस अशें ते दाखैतात. हांवें तो आल्व्हारा मुजरत वाचून पळेलो; परंत तांतूंत मराठिचें नांव-गिराणूय ना. ताव्राच्या आल्व्हारांत फुडलीं उतरां आसतः 'Os naturaes dellas (destas terras) deponham o uso do *idioma natural*, e se appliquem todos a fallar a lingua portugueza.' हाचो अर्थः 'ह्या मुलखांतल्या लोकांनीं **निजाचे देसी भाशेंतलो** वेव्हार सोडून दिंवचो आनी सगळ्यांनी पुर्तुगेज भास उलौंक लागचें.'[५१] आतां तीसवाडी, साष्ट आनी बारदेस हांगाची निजाची देसी भास पळौंक गेल्यार **कोंकणी**; तेच भाशेंत १६८४ त थैंचे लोक उलैताले आनी आतांय उलैतात; **मराठींत उलैनात** म्हणपाचें वाचप्यांक सांगचें लागना.

'गोंयची आवै-भास मराठी न्हंय जाल्यार, थैंचे हिंदु लोक आपलो बरपी वेव्हार मराठींत कसो चलैतात?' असो रघुनाथबाबांलो प्रस्न आस. हाची जाप अशीः **कोंकणीक आवै-भास म्हळ्यार हिंदुंच्या माथ्यार जायतें ओजें पट्टा.** तिका तेल-थेंबो घालचो पट्टा. तिचे केंस-कान वळौंचे पट्टात. तिका फुल-चामळ माळचें पट्टा. तिका न्हेसूंक-पांगरूंक दिंवचें पट्टा. तिका जेंवक-खांवक घालचें पट्टा. तिचो जायतो ताथो-माथो करचो पट्टा. तिची कसालत थोडी न्हंय. तिचे खातीर खूब कष्ट काडचे पट्टात.तशी गजाल मराठिची न्हंय. तिगेले निजाचे पुत भायलेभायर तिची जाय तशी मशागत करतात. तिकाच आपली आवै-भास म्हणून तिचें उष्टें खातकूच, खाशेले आवैखातीर त्रास काडचेले चुकले. आंगावैलें ओजें धुकल्लें. जापसालदारकी उणी जाली. आयतें खांवक मेळ्ळें. आळशी लोकांक आनीक दुसरें कितें जाय? जीव वचना म्हणून हात-पांय बडौन संवसारांतले दीस कशेय काडले जाले हो तांचो वेदान्त आनी हेंच तांचें राजकर्ण. परंत तें आवै-घातकें आनी मोटें पातकें राजकर्ण म्हणपाचें तांच्या ध्यानांत येना आनी सांगल्यारूय समजना.

पुर्तुगेज सरकारान गोंयां ज्यो मराठी साळो घाल्यात ताचें कारण ती भास गोंयची ह्मणपाचें ताणें वळखलें खैं. तशेंच बुलेतींत पुर्तुगेज आनुसांचीं मराठी भाशांतरां छापतात ताचेंय कारण तेंच खैं. गोंयां सरकारचो दुभाशी आस तो कोंकणिचो दुभाशी

न्हंय खैं. अशें रघुनाथबाब वाचप्यांक सांगतात. हांतूंतले पैले म्हणणेक जाप ही कि, गोंयां ज्यो मराठी साळो घाल्यात त्यो गोंयकारांली आवै-भास मराठी म्हणून घालूंक नात; तर मराठीक बुल्लुसलेले कांय हिंदु आपुण तीच भास शिकतले म्हणून हटाक पेटल्यात देखून घाल्यात. आतां वेंचणुकेच्या वेळार मराठींत मत्तां दिंवक मेळचीं म्हणून ते वावुरतात. आनी तांतूंत तांकां दोतोर फ्रोयलानबाबांनीं ना जाल्यार दुसऱ्या कोणेंय एकाद्रें येस जोडून दिलेंय जाल्यार, कोंकणी भास जंववेर तांच्या मेंदूंत घोळटा तंववेर तांची आवै-भास मराठी जांवक पावना म्हणपाचें ताणीं ध्यानांत दवरचें. **मराठी आवै-भास जावंक एकूच उपाय** आस तो हो कि हिंदुंनी आपलो कोंकणी मेंदू साप कांतून, खरवडून उडौन, रिते जाल्ले सुवातेर मराठी घुडघुडें बसौंचें. परंत हें काम केन्नाच जायसारकें ना. देखून, **गोंयचे निजाचे आवै-भाशेन भियेंवचें लागना**. पुर्तुगेज सरकारान गोंयां जरी मराठी-पुर्तगेज साळो घाल्यात तरी **मराठीक तें गोंयची आवै-भास समजना** म्हणपाचो म्हाका जो अणभव सुमार २७ वर्साफाटीं आयला तो वाचप्यांक कळैल्याबगर म्हज्यान रांव नज. १८९९ वर्साच्या सुमाराक, कुंभारजुवेंचे बारांव तोमास मैरांव हे गोंयच्या साळांचे इंस्पेक्तोर आसले. त्या वेळार मराठी-पुर्तुगेज साळांनी उपकारा पडचेखातीर, O Mestre Portuguez म्हणून एक पुस्तक हांवें बरैल्लें. तांतूंत भाशांतर करूंक शिकौंचेखातीर व्याकर्णाचे नेम, उतरांचे अर्थ आनी वाक्यांचे धडे घाल्ले. ताचे पुर्तुगेज प्रस्तावनेंत हांवें **अजाणपणान** मराठीक a lingua vernacula म्हणचे **देसी भास** हीं उतरां लाइल्लीं. बारांवानीं ती प्रस्तावना वाचतकूच, म्हजी **चूक** दाखौन म्हळें, '**गोंयची देसी भास कोंकणी**; ती मराठी कशी जायत?' म्हाका तें खरें दिसलें. हांव ती गजाल अजून विसरूंक ना. हाचेवैल्यान, पुर्तुगेज सरकार आनी अधिकारी **मराठीक गोंयची आवै-भास समजनात** म्हणपाचें उक्तें दिसता. बुलेतींत आनुसांचीं मराठी भाशांतरां येतात ताचें कारण नित्तोच सांगिल्लो हिंदुंचो हट. गोंयच्या अडेच लक्ष क्रिस्तांवांक जाल्यार तीं भाशांतरां समजनात. तेन्ना, मराठी ही गोंयची आवै-भास कशी जायत? गोंयां सरकाराचो दुभाशी आस तो कोंकणिचो दुभाशी न्हंय म्हणून सांगप म्हणचे मोटी व्हडली फटास मारप. दुभाशाक पुर्तुगेज भाशेंत Lingua do Estado म्हणचे 'संस्थानाची जीब' अशें नांव आस. हे जिबेक पुर्तुगेज जिबेची म्हणणी तिचेपासून वेगळ्या परक्या जिबांक समजांवक येंवक जाय आनी परक्या जिबांच्यो म्हणण्यो पुर्तुगेज जिबेक समजांवक येंवक जायत. मागीर त्यो परक्यो जिबो कोंकण्यांच्यो आसूंत, मराठ्यांच्यो आसूंत, फ्रांसेजांच्यो आसूंत ना जाल्यार रुसांच्यो आसूंत. अशें आसून, एकाद्रे परके जिबेची म्हणणी पुर्तुगेज जिबेक कळौंक आयली ना

जाल्यार, त्या दुभाशाक 'संस्थानाची जीब' ही पदवीच फावना. हाचेवैल्यान, पुर्तुगेज सरकारचो दुभाशी हो कोंकणिचो दुभाशी न्हंय अशें ह्मणपांत निखालुस अर्थ ना हें वाचप्यांक सांगूंक नाका.

रघुनाथबाब फुडें म्हण्टात, 'खरेपणानशीं कोंकणी ह्मणपाची स्वतंत्र भास केन्नाच नासली; ते भाशेचें पुस्तक कोणेंच हिंदी पुतान बरौंक ना.' हाचेर, तांचे वळखिचो डॉ. ग्रियर्सन कितें म्हण्टा तेंच आमी पळौंया. 'Konkani is said to have developed an indigenous literature before the Portuguese conquest. This conquest aimed at the introduction of Christianity, and the old manuscripts were burnt by the invaders as containing pagan doctrines. The zeal of the missionaries caused the temples to be burnt and at the same time destroyed the old literature so that no traces are now left. They even tried to exterminate the language, and in 1684, a royal proclamation was issued forbidding the use of Konkani among the natives.'[५२] हाचो अर्थ: 'पुर्तुगेजांचे जिखेआदीं कोंकणी भाशेंत देसी सरस्पत घडिल्ली अशें म्हण्टात. पुर्तुगेजांनी क्रिस्तांव धर्म रिगौंचो नेम धल्लो आनी पुर्विल्ल्या हाता-लिखतांत बावल्यां-भक्तिचो धर्म भल्ला म्हणपाच्या समजान ताणीं तीं जाळ्ळीं. पाद्रिंनीं पोटतिडकेन देवळां जाळूंक लायलीं आनी त्याच वेळार, पुर्विल्ली सरस्पत नाशी केली; देखून आतां तिची कांयच नाट उरूंक ना. ते ती भासूय ना करून उडौंक वावुल्ले आनी १६८४ त एक सरकारी हुकूम काडून देसी लोकांभितर ताणीं कोंकणिचो वेव्हार मना केलो'. हाचेवैल्यान पुर्तुगाजांचे जिखेआदीं म्हणचे पंद्राव्या शेंकड्यांत कोंकणी भाशेंत बरैल्लीं पुस्तकां आसलीं अशें ह्मणुं येता. परंत एकाद्रीं तीं नासलीं अशें धरून चल्ल्यो. आनी सोळाव्या शेंकड्यांत, पैलींवैलींच जेजुइत पाद्रिंनी ते भाशेंत तीं रचलीं अशें म्हळें म्हणून खैंचेकडेन कितें भंगलें? मराठी भाशेंततरी स्वतंत्र सरस्पत केन्नाच्यान घडूंक लागली? कितलींशीं युगां जालीं? मुकुंदराज कवीक मराठी सरस्पतिचो 'बापुय' म्हण्टात. परमामृत आनी विवेकसिंधु हीं ताचीं मराठींतलीं पैलींवैलीं पुस्तकां खैं. तेराव्या शेंकड्यांत तीं उजवाडाक आयलीं. आनी कोंकणी सरस्पत सोळाव्या शेंकड्यांत घडूंक लागली. दोनूय सरस्पतिंच्या घडपांभितर अंतर फक्कत तीनशीं वर्सांचें. हाचेवैल्यान, कोंकणी सरस्पत वर्सांनी चिके धाकटी दिसली जाल्यारूय, त्याखातीर मारून मोटोसो आकान्त कित्याक? धाकटी आसली म्हणून दिसानदीस ती वाडचीना म्हण्टा व्हय?[५३]

रघुनाथबाबांली .तिसरी खिस्त 'स्वयंसेवका'च्या १९२६च्या ज्यानेराच्या

आंकांत १३६ तीं १४३ पानांचेर आयल्या. तांतूंत ते कोंकणी भाशेक पाद्रिंनीं **'रचिल्ली'** आनी **'तयार केल्ली'** भास म्हण्टात. अशें आस जाल्यार, शिकपाचो यत्न केन्नाच करिनासताना रघुनाथबाबांच्या मेंदूंत साप नेण्टेपणापासून ती कशी रिगली? ह्या प्रस्नाची जी जाप ते दितीत तीच **कोंकणी भास** ही अडेची रचिल्ली भास नासून संवसारांतल्या हेर भासांसारकी **निजाचीच भास** आस म्हणपाचें सिद्ध करूंक पुरोशी जायत. **भासो केन्नाच रचून जायनात** हें ताणीं ध्यानांत दवरचें.

कोंकणी भाशेची विटंबणा करच्या नादांत रघुनाथबाब आपणाल्या पुर्विल्ल्या व्हडविकेच्या जाण्टेल्यांक **विद्येभायरे** आनी **उण्या वर्गाचे** इतलेंच म्हणून वोगे रावनात; तर ते आपले पवित्र जल्म-भुंयेचीय विटंबणा करूंक फुडें सल्ल्यात. **मराठेसारके परके भाशेचो पाखो घेंवचेखातीर केदें आवै-घातकेपण आनी केदें देस-घातकेपण हें !** जे भुंयेक महाभारतासारक्या ग्रंथान व्हडविकेन लेखून हिंदुस्तानांतल्या जनपदांचे नामावळेंत भौमानाची सुवात दिल्या त्या **गोमन्ताचे - गोंयाचे** - हात-पांय कातरून उडौन, ताका रघुनाथबाब थोटकें मोडकें करूंक पळेतात! ते म्हण्टात, 'तुर्ताक पुर्तुगेजांचे ताबींत आशिल्ल्या तीसवाडी जुंव्याबाजत गोंयचे हेर म्हाल पैकीं वेगळे आसून मराठ्यांचे ताबींत आसले आनी तांचे फाटीक इतिहासीक पाथावळ आस इतलेंच न्हंय, तर, खासा गोंयाचें आनी ह्या म्हालांचें शास्त्राकूय नातें नासलें. उदाहरणाक आजचो फोंडें म्हाल हो निजाचोच मराठी म्हाल आसून तो फक्कत १७६३ त पुर्तुगेजांक मेळ्ळो.' हाचेर हांव विचारतां कि गोंयचे हेर म्हाल पैलीं वेगळे आसून ते मराठ्यांचे ताबींत आसले म्हणपाक आधार कितें? मराठी राज्य उबारणो शिवाजी हो फक्कत तीनशीं वर्सांआदीं ह्मणचे १६२७त जल्मलो. ताणें फोंडें ह्माल घेतलो तो १६७५त; आनी तोय थोडींच वर्सां मराठ्यांच्या हातांत आसलो. त्याआदीं, आमचे भुंयेचो आवांठ आनी विस्तार केदो आसलो म्हणपाचें रघुनाथबाब जाणत तरी? १५५५ वर्सा, आब्रिलाचे ३०वेर, धाकटे गोंयच्या किल्ल्यांत व्हिसरै पेद्र मास्कारेञ्जस आनी अदिलशाही राजपुत अबदुल्ला (हाका फिर्डी इतिहासांत मेयालकांव ह्मळां) हांचे भितर जें लिखित जालें तांतूंत पंद्राव्या शेंकड्याचे अखेरेक **मुसलमानांच्या शेकातळा** गोंयचो विस्तार केदो आसलो म्हणपाचो मजकूर आयला. तांतूंत म्हळां कि ते मुस्तींत, दक्षिणेक चिताकुल्याचे (सदाशिवगडाचे) न्हंयेसाकून (हिका आतां काळी न्हंय म्हण्टात) उत्तरेक आचरेंचे न्हंयेमेरेन आनी पूर्वेक घांटासाकून पश्चिमेक समुद्रामेरेन **सगळें कोंकण गोंयच्या धनिपणातळा** आसलें; त्याभायर दाभोळ आनी ताच्या आवांठांतलो मुलुख होय हे शिंवे-मेरेंत आस्पावतालो.[५४] हाचेवैल्यान, तुर्ताचे

दापोली, खेड, चिपळूण, संगमेश्वर, रत्नागिरी, राजापूर, देवगड, मालवण, वेंगुर्ले, हे णवूय तालुके आनी सावंतवाडी, कुडाळ, बांदें, पेडणें, बारदेस, भतग्राम, सतर, हेमाडबारशें, साष्ट, चंद्रवाडी, बाळ्ळी, काणकोण, शिवेश्वर आनी रघुनाथबाबांचो फोंडें म्हालूय तीसवाडी जुंवावळीवैल्या गोंयच्या शेकातळा आसलो म्हणपाचें सिद्ध जाता. मुसलमानांआदीं १३६६ पासून १४७० मेरेन सुमार १०४ वर्सां आमची भुंय **विजयनगराच्या कानडी** राजांच्या शेकातळा आसली. तांगेल्या एका तांब्या-पट्यांत आमचे भुंयेक **'गोवाभिधां कौंकणराजधानीम्'** म्हणचे **'गोंय नांवाचें कोंकणाचें राजपाटण'** अशें सणसणीत म्हळां.[५५] त्याआदीं, १३१८ पासून १३६६ मेरेन सुमार ४८ वर्सां, आमची भुंय कांय काळ **दिल्लिचे सुलतान**, कांयकाळ उत्तर कर्णाटकांतले **कानडी कदंब** आनी कांयकाळ **कलबर्ग्याचे बाहमनी सुलतान** हांच्या शेकातळा आसली. १२६० पासून १३१८ मेरेन, उणींपुणीं साट वर्सां, ती **काठेवाडी द्वारकेकार**[५६] **यादव राजांच्या** शेकातळा आसली. त्याआदीं, इकराव्या शेंकड्याच्या लागत्यापासून तेराव्या शेंकड्याचे मजगतीमेरेन, सुमार अडेचशीं वर्सां, आमच्या गोंयाचेर **कानडी कदंब राजा** राज्य चलैताले. ते मुस्तींत आमच्या कोंकणाक पुर्विल्ले कानडी भाशेंत (हळे कन्नड) 'कोंकणमोंभेत्नूरुमं' म्हणचे **'९०० गांवांचें कोंकण'** हें नांव आसून[५७] ताचें राजपाटण कांय काळ साष्टींतलें **चंद्रपुर** (चांदर) आनी उप्रांत **गोपकपत्तन** (व्हडलें गोंय) आसलें. ह्या आमच्या कोंकणाक चेवलाचे दक्षिणेक कुंडलिका न्हंयेसाकून आरंभ जातालो. कदंबांआदीं आमची भुंय, आठव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दापासून इकराव्या शेंकड्याच्या आरंभाचीं कांय वर्सांमेरेन सुमार अडेचशीं वर्सां, **'सिंहलक्ष्माभृतांवरः'** (लंखेच्या राजांभितर उंच) अशा **सीलार**[५८] **राजांकडेन** आसून **बाळ्ळी** हें तिचें राजपाटण आसलें. त्यावेळार तिच्या विस्ताराची वर्णना **'समुद्रतीर सह्यान्तदेस'** म्हणचे 'समुद्राची वेळ आनी सह्य पर्वताची अखेर हांचे मदलो देस' अशी केल्या.[५९] सीलारांआदीं आमची भुंय, सव्या शेंकड्याचे अखेरेपासून आठव्या शेंकड्याचे मजगतीमेरेन सुमार देडशें वर्सां, **बादामिच्या कानडी चालुक्य राजांकडेन** आसली. हे भाशेन, सव्या शेंकड्याचे अखेरेपासून पंद्राव्या शेंकड्याचे अखेरेमेरेन सुमार णवशीं वर्सांचो तांत्रिक इतिहास हांवे वाचप्यांच्या म्हऱ्यांत मांडलो. सोळाव्या शेंकड्याच्या लागत्यापासून सुमार पावणेदोनशीं वर्सां, आमचे भुंयेचो कांय वांटो **मुसलमानी विजापुरी** शेकातळा आनी कांय वांटो **फिर्ग्री** शेकातळा आसलो. १६७५त, **मराठो** म्हणून गाजिल्ल्या शिवाजी भौंसुल्यान विजापुरी सुलतानाकडसून फोंडें म्हाल घेतलो. प्ररंत तो ताच्या

वंशाकडेन चड काळ तगलो ना. सौंदेकार कानडी राजा सदाशिव नायक हो विजापुरी सुलतानांचो खंडकार आसून तोय ह्याच सुमाराक स्वतंत्र जांवक वावुरतालो. ताणें १६७९ त आपली सत्ता कोंकणांत समुद्राचे वेळेमेरेन पातळाइल्ली. शिवाजी भायर पड्टकूच, नायकान संभाजीकडेन कांय काळ पौठ घांसली आनी तांतूंत ताका येस आयलें. १६८५ च्या सुमाराक ताणें आपणाक राजा ही पदवी घेतली. १६८७त दिल्लीचो मोंगल पात्शाय अवरंगझेब हाणें विजापुरी राज्य आपल्या शेकातळा ओडलें; तेन्ना, नायकाकडेन आशिल्लो मुलुख ताचेच ताबींत दवरून ताका अवरंगझेबान आपलो खंडकार केलो. फुडें १६८९ त अवरंगझेबान संभाजीक वळवळावन जिवानशीं माल्लो त्याच सुमाराक, नायकान मराठ्यांच्या हातांतलो फोंडें म्हाल झोंबून घेतलो जांवये. कित्याक, १६९५त इतालियान भोंवडेकार जेमेली कारेरी हो सौंदेकाराच्या मुलखांतसून भोंवडी करतालो; ताणें आपले भोंवडेचे वर्णनेंत सौंदेकाराक मोंगलांचो खंडकार म्हळा; त्याभायर, फोंडेंचो किल्लो मोंगलांच्या हातांत आसून, तांच्या मुलखाची सराद गोंय शाराक तेंकल्या अशें तो म्हण्टा.[६०] हाचेवैल्यान, १६७५ पासून १६८९ मेरेन सुमार १४ वर्सां, फोंडें म्हाल मराठ्यांकडेन आसलो म्हळ्यार कामायता. उप्रांत १७३९ त, सदाशिव नायकाची पुत बसवलिंग हाचेकडसून मराठ्यांनी पर्थून फोंडें म्हाल घेतलो.[६१] परंत हेय खेपे तो तांचेकडेन अदिक काळ तगलो ना. १७५०च्या सुमाराक, बसवलिंगाचो पुत इम्मडी सदाशिव हाचेकडेन मराठ्यांचें लिखित जावन फोंडें म्हाल ताणीं ताका पर्थून दिलो. हाचेवैल्यान, तो म्हाल सुमार ११ वर्सां मराठ्यांच्या हातांत उल्लो. हो सगळो इतिहास ध्यानांत घेतल्यार, सव्या शेंकड्याचे अखेरेपासून १७५० मेरेनच्या साडे इकराशीं वर्सांच्या काळांत, मराठ्यांनीं सगळ्या गोंयाचेर न्हंय, तर निखट्या फोंडें म्हालाचेर सुमार २५ वर्सां राज्य चलैलां अशें म्हणुं येता. आतां वाचप्यांनीच येवजून पळौंचें कि, २५ वर्सांचे मराठी सत्तेन जर फोंडें म्हाल निजाचोच मराठी जावन ताचे फाटीक मराठी पाथावळ लागता, तर मराठ्यांपरस ज्या मुसलमानांनी, कानड्यांनी, काठेवाड्यांनी आनी लंखाकारांनी त्या म्हालाचेर चडकाळ शेक चलैला तांचोच वांटो तो कित्याक जांवचो न्हंय? त्या पुर्विल्ल्या राजांची गजाल आसुनीच. मराठ्यांभाशेन ते सगळे काबार जाले. तुर्ताक पुर्तुगेजांची सत्ता फोंडें म्हालाचेर मराठी सत्तेचे सुमार साडेस पेटिनीं अदिक म्हणचे १६३ वर्सां चलता. तेन्ना ताका रघुनाथबाबांच्या न्यायान निजाचोच पुर्तुगेज म्हाल नाजाल्यार पुर्तुगालचो वांटो कित्याक म्हणचो न्हंय? वेगळ्यावेगळ्या राजांची सत्ता चल्ली म्हणून गोंयची आवैभास वेगळी जायत अशें म्हणूंक पुरावो ना हें रघुनाथबाबूच म्हण्टात. तरी

आसताना, अंत्रुजेचेर मराठ्यांनी सुमार २५ वर्सां राज्य चलैलें म्हणून तो म्हाल आनी सगळें गोंय निजाचेंच मराठी, तांची इतिहासीक पाथावळ मराठी आनी थैंची आवै-भासूय मराठी हो हट मात तांच्यान सोडुं नज. गोंयचो वीट आइल्ल्याभाशेन, रघुनाथबाब अंत्रुजेचें आनी गोंयाचें शास्त्राकूय नातें ना म्हण्टात. ताणीं उपकार करून, हडकोळणां वचून, थैंचे फातरीवैली तिसरी वळ मुजरत वाचची. ते वळींत तांकां **'गोमंतक प्रांत अनंत-उर्जदेश'**[६२] हीं उतरां वाचूंक मेळटलीं आनी आपणें मोटी चूक केली अशें दिसतलें.

'आमी कोंकणांत रावतांत म्हणून आमची आवै-भास कोंकणी जाल्यार, वऱ्हाडी, हैदराबादी, बेळगांवी, नागपुरी अशो व्याकर्णासैत वेगळ्यो वेगळ्यो नव्यो भासो तयार करच्यो पड्ल्यो' म्हणपाचें रघुनाथबाबांक मोटें **संकष्ट** पडलां. परंत ताणीं परक्यांची खंत काडपाचें कारण ना. वैल्यो परक्यो भासो, भासांचे योग्यतायेक पावल्यो आसतीत जाल्यार, आनी तांच्या पायांत नेट आसत जाल्यार, त्यो आपशींच फुडें सरतल्यो. रघुनाथबाबांचे चिंतेच्या म्हालवजार वाट पळौंक बसच्यो नात. ताणीं आपलेच कोंकणी आवै-भाशेची चिंता काडची आनी तांकता जाल्यार तिची सेवा करची. जो कोण संवसार-कुटुंबी जावन फुक्याचें उदारपण दाखौंक वेता ताका संवसाराचो संवसार चलौंक येना तें एक जालेंच; परंत खासा आपले घरचोय संवसार होगडावता हें रघुनाथबाबांनी ध्यानांत दवरचें. संवसार आनी हांव एकूच हो वेदान्त सांगूंक सोपो, उलौंक बरो आनी आयकूंक गोड; परंत ऐन त्या वेळार **'तूं तो तूं; हांव तो हांव'** होच अणभव येता; आनी ह्याच न्यायान गोंयकारांनी मराठी भाशेक आज कितलीय जरी आवै म्हळी तरी अखेरेक तांचे **खरे आवैचोच जयजयकार** जावन, **लटके आनी अडेचे आवैक** गोंयसून एकदीस **सासणाची मांद्री कवळची पड्ली** हांतूंत निखालुस दुभाव ना. **'उदकाकूय रगत दाट'** ह्या अर्थाची इंग्रजी म्हणणी आमचे आवै-भाशे संबंधान खरी जातली.[६३]

कोंकणी भाशेचीं फकाणां मारच्या नादांत, पुंडलीकबाब बंटवाळ ह्या आवै-भक्ताच्यो रघुनाथबाब बचेऱ्यो, उडणायो आनी भिकारभासो करतात. ताणीं बरैल्ल्या कोंकणी पुस्तकाखातीर तांकां लोक हांसले खैं; तांकां पिसो म्हळो खैं आनी हे भाशेन तांकां चणचणीत बरें थापट बसलें खैं. तांची भगल मारता आसताना, रघुनाथबाब तांकां **'साहित्यसम्राट'** ही मोट्या भौमानाची पदवी दितात. हांतूंत रघुनाथबाबांच्या मनाचें मोटें उदारपण दिसता खरें. परंत तांचेच म्हणणे भाशेन तांगेले पदवेक वाळटी लागल्या खं. ताणीं ही वाळटी लागिल्ली पदवी जायत्या जाणांक दिल्या. परंत आपले **आवै-भाशेच्या मंगळकाऱ्यांत सगळें सांडून ताणीं**

कुसके आनी फुटके नाल्ल कित्याक वांटले? निजाच्याच मोट्या मनाच्या गोंयकारांक ही करणी सोबना. मराठी भास लागीं केली म्हणून गोंयकारांनी मराठणांतल्या लोकांची बारीक नदर आनी मोटवें मन केन्नाच घेंवचें न्हय. पुंडलीकबाबांक तांचे भाशेखातीर मंगळूरकार हांसले म्हणपाची रघुनाथबाबांची खबर खिणभर खरी मानल्यारूय (म्हाका ती खरी दिसना) तितल्यान मंगळूरकार आपले आवै-भाशेक उबगले आनी ताणीं तिची सेवा करचेलें पवित्र काम सोडून दिलें अशें मात कोणें समजुंचें न्हंय. पुणेंचे भौ. विठ्ठल रा. शिंदे हांचो एक लेख २३ मार्स १९२६च्या 'केसरीं'त आयला. ताणीं फाटल्या दोन वर्सांत बंगालासाकून मलबारामेरने भोंवडी केल्ली खैं. ते म्हण्टात, 'रा. ब. डॉ. चव्हाण हाणीं कोंकणी भाशेवैलीं आपलीं कांय उलौपां छापून उजवाडाक हाडल्यांत. तांतूंत मराठिचें कोंकणीकडेन नातें नासून कोंकणी ही स्वतंत्र आनी मराठी आदली भास जांवये अशें म्हळां. मंगळूर आनी कालेकुट हांगाच्या कांय बामणांक हालीं रा. ब. चव्हाणांभाशेनूच मराठीकडसून सुटून वेगळो संवसार चलौंची ओड लागिल्ली म्हाका दिसली.'[६४] शिंदे हे आपुण मराठे म्हणून सांगतात. सगळ्या हिंदुस्तानांत मराठी भास पातळ्ळ्यार तांकां भांगराकूय हळडुवें. कोंकणांतसून आनी मलबारांतसून ती हालता म्हळ्यार तांकां वायट दिसूंक फावो. परंत तांच्या वायट दिसपाची आमी कोंकण्यांनीं कित्याक खंत काडची? तांचें अवतरण वाचून म्हाका मोटी खोस जाता ती ही कि, दक्षिण कर्णाटकांत आनी मलबारांत चारशीं वर्सांफाटीं बृहद्गोमन्तक म्हणचे मोटेलें गोंय वसैणे आमचे भाव आपले आवै-भाशेचे सेवेक पोटतिडकेन लागल्यात. शिंद्यांसारक्या मराठ्यान आनी मराठिच्या अभिमान्यान दिल्ली ही गवाय आयकतकूच रघुनाथबाबांनीं आनी तांचेसारक्या मनाच्या गोंयकारांनीं मंगळुरांत आपली आवै-भास मेली म्हणून खातकुतल्यो जांवक दिंवच्यो न्हंयत आनी साकर वांटची न्हंय. दक्षिण कर्णाटकांत हिंदु गोंयकारूच कोंकणिचे सेवेक लागल्यात अशें न्हंय; तर क्रिस्तांव गोंयकारूय मोटे भक्तीन कोंकणी सरस्पतिची पुजा करतात म्हणपाचें बारकायेन केल्ले चौकशेवैल्यान म्हाका कळ्ळां. रघुनाथबाबांनीं मर्दनगडार चडून तांकां खुशाल 'वाळटी लागिल्ले पिशे साहित्यसम्राट' म्हणचें. ते तांची कुस्कुट पर्वा करिनात.

पुंडलीकबाबांच्यो मस्कऱ्यो मारून जातकूच, रघुनाथबाब, पवित्र यादस्तेचो गोंयचो विद्वान पुत दोतोर जुजे जर्सन द कुञ्ज हांचेर आपल्या तोंडाची नाळ पेटैतात. तांकां ते बाटके क्रिस्तांव, हटुळगे आनी गोवानीज हीं उतरां लावन इंग्रज सरकारान मुजरत बरौंक लाइल्ल्या आनी विद्वानांक मान्य जाल्ल्या तांच्या

The Konkani Language and Literature (कोंकणी भास आनी सरस्पत) ह्या भोव बऱ्या निबंधाक ते **'चोपडें'** म्हणून कुस्कुटायतात. हाचेवैल्यान, खासा रघुनाथबाबांची योग्यताय केदी मोटी आसूंक जाय ती समजना. दो. जर्सनबाब हाणीं म्होरो आनी पुर्विल्लो इतिहास हांचे संबंधान केल्लो सोद आनी बरैल्लीं पुस्तकां रघुनाथबाबांक आपले सगळे जिणेंत निखटीं वाचूंक आनी पचौंक तांकत कि ना म्हणपाचोच दुभाव दिसता. आजिय, एवरोप आनी अमेरिक ह्या तीनूय खंडांत जर्सनबाबांनी जोडिल्ली नामना खैं आनी रघुनाथबाबांनी तांची केल्ली बकच्छाय खैं ! दो. जर्सनबाब हे निखालुस धर्मकोल्ली नासून, मोट्या मनाचे, गुणेस्त, विद्वान बामण गोंयां जल्मून ताणीं थैंचो उजळ लोकीक संवसारभर गाजैलो म्हणपाचें रघुनाथबाबांक समजून येत तेन्ना आपणें **मोटें व्हडलें पातक केलें** अशें तांकां दिसल्याबगर रांवचें ना. १८८१त जर्सनबाबांनी बरैल्ल्या कोंकणी भाशेच्या निबंधांत, १६७८ वर्सा देवनगरी अक्षरांनी छापिल्लो **कोंकणी** लेख[६५] दिल्लो. उप्रांत ३४ वर्सांनी साताऱ्याच्या रा.ब. पारसनिसांनी १९१५त 'नवयुगा'च्या दुसऱ्या वर्साच्या आठव्या आंकांत तो लेख 'मराठी' म्हणून दिलो; परंत ताणीं आपले म्हणणेक आधार कांयच दाखैलो ना. तेन्ना, रघुनाथबाबांनी अपुर्बायेन पागण घाल्ल्या **'साहित्यसम्राटा'**न 'नवयुगा'च्या १९१६च्या आगोस्ताच्या आंकांत ७६८ तीं ७७२ पानांचेर, **गडगंज पुरावो** दिवन **तो लेख मराठी नासून कोंकणी** आस म्हणपाचें सिद्ध केलें.[६६] रघुनाथबाबांचे म्हणणेभाशेन, जर्सनबाब म्हण्टात म्हणून तो लेख कोंकणी इतलोच पुरावो दिवन **'साहित्यसम्राट'** वोगो रावंक ना. तर, ज्या Hortus Indicus Malabaricus (मलबारचें हिंदी पोरसूं) ह्या पुस्तकांत मुदलाक तो दिला तांतूंतूच तो **ब्राह्मणी** भाशेचो म्हळा म्हणपाचें लातीं भाशेंतलें घसघशीत बरें अवतरण दिलां. त्याभायर, सोळा, सतरा आनी अठराव्या शेंकड्यांत **कोंकणी भाशेक** एवरोपेव लोक **ब्राह्मणी भास**[६७] म्हण्टाले म्हणपाचेंय आधार दिवन सिद्ध करून दाखैलां. रघुनाथबाब आवै-भास म्हणून मराठिचो पाखो घालतात त्या मानान ती भास तांकां सारकी येनाशी दिसता. ती सारकी आइल्ली जाल्यार, ते अर्दुकडें कितेंय बरौंचे नासले. एकाद्रें, 'नवयुगां'तलो लेख तांकां सारको समजुनूय, **'साहित्यसम्राट'**क बळयांच पिशें लावन चणचणीत बरें थापट मारचेखातीर, वाचप्यांचो चुकिचो समज करूंक ते वावुल्ल्यात जांवये. परंत हो तांचो बेत सामकोच कोंसळ्ळो म्हळ्यार कामायता. गोंयच्या वाचप्यांकडेन पेरिप्लुस आनी ग्रियर्सन नासतीत. परंत १९१६तल्या 'नवयुगा'चे आंक आसल्याबगर रांवचे नात. फोंडें, मडगांव, पणजी, म्हापशें, सांगें, केपें, दिवचल, सांकळी, माशेल, पेडणें हांगाच्या

दरएकल्या पुस्तका-घरांत ते आसुंकूच जायत. ते मुजरत वाचतकूच, **'साहित्यसम्राटा'**चो लेख **आधारांनी उपाट भल्लोलो** आसून रघुनाथबाबांनी आपणांक हातार नाडले अशें वाचप्याक दिसल्याबगर रांवचें ना. ते रघुनाथबाबांच्यो आवै-भाशेवैल्यो तीनूय खिस्ती पर्थून वाचतले आनी आपणांक खैं खैं कशे कशे फटैले म्हणपाचें बारकायेन पळेतले आनी फुडाराक तांच्या बरपाचेर ते पातयेंवचे नात. रघुनाथबाबांचें केदें लुस्कान हें ! **'साहित्यसम्राटा'**चो लेख गडगंज आनी खऱ्या आधारांनी इतलो भल्ला कि, खासा रा. ब. पारसनिसांक आनी हेर मराठी इतिहास-सोदप्यांक ताचे आड कांयच बरौंक तांकलें ना, हें वाचप्यांनी ध्यानांत दवरचें.

**'साहित्यसम्राटा'**क पिशें लावपाचो बेष्टो यत्न करून जातकूच, रघुनाथबाब आपले नाळिच्या बिळांतसून कोंकणी भाशेचेर गुळो सोट्टात आनी कोंकणी कारखाने बंद जाल्याबगर गोंयाक बरे दीस येंवचे नात अशें म्हण्टात. **कितली नष्टी वान्सा ही !** परंत 'कावळ्यांच्या स्रापांनी गोरवां मरनात' म्हणपाचें हांवें वाचप्यांक सांगचें लागना. **आमचे आवै-भाशेचे दिसानदीस जयजयकारूच जातले** हें ताणीं ध्यानांत दवरचें.

निमाणें, रघुनाथबाब अखेरची एक **सुरै फटास** मारून आपलो लेख सोंपैतात. ते म्हण्टात कि, तोमास इस्तेव्हंव ह्या सोळाव्या शेंकड्यांतल्या इंग्रज पाद्रीन मिस्र मराठिचें एक व्याकर्ण बरैलां आनी तो मराठिचो पैलो व्याकर्णकार आस. मराठिच्या पैल्या व्याकर्णाचो वाद 'नवयुगां'त १९१७ वर्सा चलतालो. त्या वेळार, 'भारद्वाज' नांवाच्या एका मराठी बरप्यान क्रिस्तांव पुराणकार तोमास इस्तेव्हंव पाद्री हाणें सोळाव्या शेंकड्याच्या सोंपत्यार रचिल्लें **कोंकणी** भाशेचें व्याकर्ण हेंच मराठिचें पैलें व्याकर्ण अशें म्हळ्ळें. ही ताची म्हणणी, रघुनाथबाबांच्या **'साहित्यसम्राटा'**न 'नवयुगा'च्या १९१७च्या नोवेंब्राच्या पैल्या आंकांत ७७ तीं ७९ पानांचेर एक लेख बरौन, आधार दिवन, चिरून तिस्त्यो करून उडैली आनी तोमास इस्तेव्हंव हो **मराठिचो पैलो व्याकर्णकार नासून कोंकणिचो पैलो व्याकर्णकार आस** म्हणपाचें सिद्ध करून दाखैलें.[६८] **'साहित्यसम्राटा'**च्या मुद्द्यांआड कोणाच **निजाच्या वा अडेच्या मराठ्याक** अजून एक अक्षरूय बरौंक तांकूंक ना. रघुनाथबाबांनी तो लेख वाचला जांवये. परंत मराठिच्या मोगान, ते दाटून तें **व्याकर्ण सगळें-मराठी न्हंय पणून अर्दें-मराठी म्हणून सांगतात.** सगळें-मराठी म्हणूंक तांकां धीर जायनासो दिसता. खासा व्याकर्ण रचणो पाद्री मराठी आनी कोंकणी ह्या दोनूय भासांतलें अंतर भोव बरें वळखतालो; आनी ताणेंच आपल्या व्याकर्णाक

Arte da Lingoa Canarin (कानारी म्हणचे **कोंकणी भाशेची विद्या**) अशें म्हळां जाल्यार तें मराठी वा अर्दें-मराठी म्हणूंक रघुनाथबाब कोण? भौमानेस्त रोकि कुर्रेय आफोंसबाब मराठी क्रिस्तांवपुराणाक कोंकणी म्हण्टात म्हणून तांची ते अपुर्बुद्द करतात; आतां खासा रघुनाथबाबूच **कोंकणी** व्याकर्णाक मिस्र मराठी म्हणूंक लागल्यात; तेन्ना तांची अपुर्बुद्द कोणें करची? वाचप्यांनी 'नवयुगां'तलो लेख मुजरत वाचून पळौंचो;[६८] म्हणटकूच, रघुनाथबाबांची फटास तांकां घसघशीत दिष्टी पट्टली.

आवै-भाशेचो हो लेख जायतो रुंदावलो. आतां अदिक बरौंक हांव बसना. रघुनाथबाबांच्यो तीनूय खिस्ती आनीकूय विसकून पळौं येताल्यो; परंत तांतूंत म्हजो आनी वाचप्यांचो वेळ फुकट वचून त्या मानान चडशी नफा जांवची ना म्हणून त्या कामांत हांव पडना. चडकरून सगळ्या घसघशीत दिसण्या मुद्द्यांचो हांवें निर्णय केलो अशें म्हाका दिसता. मराठी भाशेक आवै-भाशेच्या पाटार बसौंच्या बोवाळांत रघुनाथबाबांनी गोंयच्या इतिहासाक पांयांतळा माड्डावन गुड्डावन जिवानशीं माल्लोलो, तो निखटें कपळ कणकणावन, नाखाकडेन कांदो धरून, सापसाची धुंवरी दिवन वा खर-निबर मात्रा जिबेर घांसून जिवो जायसो नासलो. ताका अमृताचीच गरज आसली. तें अमृत, म्हजे आवै-भाशेच्या प्रसादान, म्हजे हस्तकून वेळार ताच्या ताळ्यार पडून **ताणें आतां दोळे उगडल्यात**; आतां **फुडाराक ताचो जीव घेंवक कोणाकूच तांक जांवची ना म्हणपाची म्हाका खात्री आस**.

निमाणें, गोंयकारांक सांगचेलें इतलेंच कि, तांचे भितल्ल्या ज्या कोणांक आपणांली आवै-भास मानना आनी जांकां परके भाशेचीच रूच लागल्या ताणीं खुशाल तिच्या नादाक लागचें. परंत तशें करता आसताना, जिचेपासून चड नफा जायत अशीच भास ताणीं वेंचून काडची. परकीच भास घेंवची आसली जाल्यार ती दाटून दुबळी कित्याक लागीं करची? म्हाका दिसता, मराठीय परस तणतणीत आनी घट बरे इंग्रजी भाशेक आपलीशी करून तिचो अभ्यास ते पोटतिडकेन करतीत जाल्यार संवसारांतले विद्येची कोठी तांच्या फुड्यांत आपशींच उक्ती जातली. परंत ती भास शिकता आसताना, ताणीं आपली जल्म-भुंय इंग्लंडाचो कुडको म्हणून इतिहासाच्यो काणयो सांगपाची गरज ना. तशें केल्यार, तें उफाट्टें तांच्या आंगार भुजतलें म्हणपाचें ताणीं ध्यानांत दवरचें. इंग्रजी शिकपाची तांकां वान्सा नासून मराठिचोच मोग लागला जाल्यार, ती भास कितलीय दुबळी आसली तरी आपणांक जाय देखून आपुण ती शिकतल्यों अशें ताणीं खुशाल म्हणचें. तांचे वाटेक कोण वचना. परंत तशें म्हण्टा आसताना, ती आपली आवै-भास आनी गोंय हो मराठणाचो

कुडको असल्या अडेच्या, आंगार येण्या, नसत्या आनी नष्ट्या वादांत ताणीं पडचें न्हंय. तांतूंत ते सदींच घोळाक पट्टले.

मराठी ही खरेपणानशीं म्हजी आनी म्हज्या अपुर्बायेच्या गोंयकार भावांची **आवै** आशिल्ली जाल्यार तिची माया करूंक म्हाका कोणें शिकौंची वा आग्रो करची गरज निखालुस नासली. आवैची भक्ति करपांत संवसारांतलो कोणूच पुत म्हाका फाटल्यान धुकलीत अशें म्हाका दिसना. जे भुंयेवैल्यो फातुल्ल्यो, रेंव आनी झाडकांचो सुको पालो-लेगीत अपरूप वस्तींवरी हांव लेखतां ते भुंयेची आवै-भास खरेपणानशींच मराठी आशिल्ली जाल्यार तिका हांव घिस्पटावन उडैन अशें केन्नाच जातलें आसलें? हांव तिका म्हज्या काळजाच्या देवाऱ्यांत देवतेभाशेन पुजेक लायतलों आसलों. परंत **म्हजें मन म्हाका सांगता कि, मराठी ही म्हजी आवै न्हंय. कोंकणी हीच म्हजी खासा आवै. देखून, निखट्या काळजाचोच न्हंय, तर म्हज्या सगळ्या देहाचो देवारो घडौन आज उणींपुणीं तीन तपां हांवें तो तिचे सेवेक ओंपला;** आनी म्हाका आस्ता आस कि, म्हजे गोंयकार भावूय, ह्याफुडें **वाऱ्यावैले बायलमनशेक** आवै म्हणून पोटलून बसनासताना, आपणाचे खाशेले आवैक मायेचे नद्रेन पळौन तिचो फावो तसो ताथोमाथो करतले.

आवैक उपाशीं रडत घराभायर धांवडावन परकेक लागीं करची आनी तिका पोळयांचें जेवण घालचें अशें धड मेंदुचो संवसारांतलो कोणूच मनीस सांगत अशें म्हाका दिसना.अशानशीं तशें कोणूय म्हाका सांगूंक येत जाल्यार, ताची तकली थाऱ्यार ना अशें समजून, ताचेकडेन वाद घालचे भाशेक 'दोनूय हारी आपणाकूच' अशें म्हणून हांव वोगो रावन. अखेरेक, मराठी वा संवसारांतली दुसरी कसलीच परकी भास, कितलीय कपलफोडणी केल्यार महासप्तमांतल्या लोकांची आवै-भास जायसारकी नासून, **कोंकणी भाशेचोच जयजयकार जातलो** म्हणपाचें भौनभौन सांगून म्हजी लिखणी हांव म्हजे आवै-भाशेचे दुसरे सेवेक लांवक चल्लों.[६९]

टिपो :

१. हिंदु, मडगांव, ता. १० जूल १९२६, पान ६.
२. भुंयसागर = golfo.
३. भुंयखांड = terra firme.
४. भुंयमाथें = promontorio.
५. Periplus of the Erythraean Sea, Indian Antiquary, vol.8, pp.140-141.
६. Ind. Ant., vol. 8, p. 143.
७. Ind. Ant., vol. 8, pp. 107-108.
८. Ind. Ant., vol. 7, p. 259.

९. Ind. Ant., vol. 7, p. 263.
१०. Ind. Ant., vol. 13, p. 325.
११. Ind. Ant., vol. 8, p. 144.
१२. आ समुद्रात्तु वै पूर्वादासमुद्रात्तु पश्चिमात् । तयोरेवान्तरं गिर्योरार्यावर्तं विदुर्बुधाः ॥२२॥ मनुस्मृति, अ. २.
१३. हिंदु, मडगांव, ता. २४ जूल १९२६, पान २.
१४. Early History of the Dekkan, Bombay 1884, p. 9.
१५. Early History of the Dekkan, p.3.
१६. गोमन्ता मंदकाः संडा विदर्भा रूपवाहिकाः । ४३ । अपरान्ताः परान्ताश्च पंचालाश्चर्ममंडलाः ।४७। महाभारत, भीष्मपर्व, अ. ९.
१७. ततःशूर्पारकं चैवं तालाकटमथापिच । ६५ । वशेचक्रे महातेजा दंडकांश्च महाबलः ।६६। म.भा. सभापर्व, अ. ३१.
१८. Antiquarian Remains at Sopara and Padana by पंडित भगवानलाल इंद्रजी, Bombay 1882, p. 2.
१९. The inscriptions of अशोक, edited by डॉ. देवदत्तशणै भाण्डारकार, Calcutta 1920, p. 17.
२०. Early History of the Dekkan, p. 9.
२१. महावंस edited by G. Turnour, Ceylon 1837, पांचवो परिच्छेद, p. 42.
२२. महावंस, बारावो परिच्छेद, p. 71.
२३. दीपवंस edited by Hermann Oldenberg, London, 1879, भाणवारम् अट्ठमम्, शि. ७-८, p. 54.
२४. बृहत्संहिता, कूर्मविभाग, अ.१४, शिळोक ८. १२, १३, १६, २०, २२.
२५. Ind. Ant. vol.9, p. 131.
२६. Ind. Ant. vol.8, p. 18.
२७. आक्रम्य क्रमुकश्यामान् कोंकणान् सप्त ताप्रयन् ।
तुरगानिव तिग्मांशुः प्रतापस्तस्य पप्रथे ।१६०।
राजतरंगिणी, ४ थो तरंग, शिळोक १४९-१५५; १५९-१६१.
२८. Catalogi Codicum Manuscriptorum Bibliothecae Bodleianae by Th. Aufrecht, pars octava, Oxonii, 1864 p. 352 b.
२९. Alberuni's India by Dr. E. Sachau, London 1910, vol. 1, p. 203.
३०. Da Asia, Lisboa 1777, decada 1, parte 2, livro 9, capit. 1, pp. 295-296.
३१. भुंयवर्णना = Geografia.
३२. थळवर्णना = topografia.
३३. हिंदु, मडगांव, ता. ७ अगोस्त १९२६, पान २-३.
३४. By this designation (Konkani) is meant the language of the country commencing with the Goa territories and extending considerably to the south of Karwar and even Honawar. The speech of this district differs from Marathi as much as the Gujarati differs from Marathi. It is manifestly in the main formed, however, on the basis of the Sanskrit, and compared with other vernacular dialects throws some

light on their formation from the Sanskrit, and on some of their peculiar grammatical forms. (Tribes and Languages of the Bombay Presidency by the Rev. John Wilson, D.D., F.R.S., Ind. Ant., vol. 3, p. 225.)

३५. Linguistic Survey of India by G. A. Grierson, Calcutta, 1905, vol.7, p.2.

३६. Linguistic Survey, vol. 7, p. 2.

३७. Linguistic Survey, vol. 7, p.3. कोंकणी उलैतल्यांचो कुल्लीं आंकडो १५,६५,३९१ दिला.

३८. Linguistic Survey, vol. 7, p. 164.

३९. Linguistic Survey, vol. 7, p. 164.

४०. Os Lusiadas, Canto 1, E. 2.

४१. Oriente Conquistado a Jeṣu Christo, Lisboa, 1710, tomo 1, conquista 1. div. 1, parag. 43.

४२. Oriente Conquistado, tomo 1, conq. 1, div. 2, par. 61.

४३. Oriente Conquistado, tomo 2, conq. 1, div. 1, par. 13.

४४. हिंदु, मडगांव, ता. १४ आगोस्त १९२६, पान २-३.

४५. Oriente Conquistado, tomo 2, conq. 1, div. 2, par. 9

४६. नवयुग, मुंबै, नोवेंब्र १९१७, पा. ७८, ७९. (परिशिष्ट अ पळयात.)

४७. Linguistic Survey, vol. 7, p. 18.

४८. An Historical Sketch of Goa by Rev. Denis L. Cottineau de Kloguen, Madras 1831, p. 75.

४९. Shivaji and His Times by जदुनाथ सरकार, Calcutta 1919, p. 326.

५०. 'पुर्वि मुसलमानाच्या राज्यामध्येतरि अनंतउर्जेसि लोकास आंगभाडे घेत नव्हते; तेणेकरून व्यावहारिक लोके सुखे येत; तेणेकरून राजगृहि हासिल होय; आता हे हिंदुराज्य जाहाले पासोन आंगभाडे घेउ लागले; तेणेकरुनि राजगृहि हासिलासि धका बैसला.' भारत-इतिहास-संशोधक-मंडळ, पुणें, वार्षिक इतिवृत्त, शके १८३५, पा. २१२-२१३.

५१. Ensaio Historico da Lingua Concani, Nova Goa, 1858, Cap. 16, p. 71.

५२. Linguistic Survey, vol. 7, p. 166.

५३. हिंदु, मडगांव, ता. २१ आगोस्त १९२६, पा. २-३.

५४. Archivo Portuguez-Oriental, Fasciculo 5, Nova Goa 1865, parte 1, documento 153, p. 268.

५५. JBBRAS., vol. 4, pp. 107 & 115.

५६. 'द्वारवतीपुरवराधीश्वर'. JBBRAS., vol. 12, pp. 7 & 42.

५७. JBBRAS., vol. 9, p. 297.

५८. सीलार वा शिलाहार राजा लत्तलपुरकार (लोटलेच्या) राष्ट्रकूट सम्राटांचे मुंडकार आसले. Bomb. Gaz., vol. I, pt. 2, p. 537.

५९. JBBRAS., vol. 1, p. 217.

६०. Churchill's Travels, vol. 4, pp. 214, 216, 217. Bombay Gaz., vol. 15, pt. 2, pp. 131, 132.

६१. भारतवर्ष, पुस्तक २, अंक ४, पंतप्रधान यांची दुसरी शकावली, पृ. १५.
६२. भारत-इतिहास-संशोधक-मंडळ, पुणें, वार्षिक इतिवृत्त, शके १८३५, पा. २१२.
६३. हिंदु, मडगांव, ता. २८ आगोस्त १९२६, पा. २.
६४. केसरी, पुणें, २३ मार्स १९२६, पान. ११.
६५. परिशिष्ट ब पळ्यात.
६६. परिशिष्ट क पळ्यात.
६७. Linguistic Survey, vol. 7, p. 163.
६८. परिशिष्ट अ पळ्यात.
६९. हिंदु, मडगांव, ४ सेतेंब्र, १९२६, पा. २-३.

# भाशेचीं लक्षणां

१९२५ वर्साचे अखेरेक, भौमानेस्त बाब रघुनाथ गणेशशणै तळवडकार हाणीं कोंकणी भाशेचेरआपणालो नाळखानो मोट्या किंवाट्यान पेटैलो त्यावेळार, ताणीं आपले दारु-गुळ्याचे कोठयेंतलो एकूय गुळो बाकी दवल्लो ना, अशें लोकांक खिणभर दिसलें आनी त्या गुळ्यांचें तेज पुर्तुगेज साम्राज्यभर लकलकचे खातीर, तांची वर्णना पुर्तुगेज भाशेंत करूंक मडगांवच्या 'हिंदु'च्या विद्वान संपादकांनीं तांकां सुचैलें. परंत १९२६ त तांगेल्याच पत्रांत त्या गुळ्यांची धाय दिशांनी पूड उबतकूच, पुर्तुगेजींत तांची वर्णना करचेलो बेत सामकोच फाटीं पडलोसो दिसता. फुडें १९२७ च्या माय म्हैन्यापासून खासा 'हिंदु'कार कांय नवे गुळे तयार करून कोंकणी भाशेचेर सोडूंक लागले. तशेंच तांगेल्या पाख्याचे कांय बरपी रघुनाथबाबांच्या गुळ्यांची पुड एकठांय करून आनी तिचे इल्ले इल्ले मुलशांव घडून ते सोडूंक लागले. परंत ह्या गुळ्या-मुलशांवांचो परिणाम कोंकणी भाशेचेर निखालुस जायसो ना म्हणपाचें तांच्या अणभवाक हाडल्याबगर म्हज्यान रांव नज.

कोंकणी ही भास न्हंय म्हणपाचें सिद्ध करूंक, २६ जूल १९२७ च्या 'हिंदु'च्या आंकांत, ६व्या पानार, 'हिंदु'कारांनी **भाशेचीं कांय लक्षणां** दिल्यांत. तांतूंतलें पैलें लक्षण हें कि 'भाशेक लिपि आसूंक जाय; कोंकणीक आपली खासा लिपि ना आनी तिचे उच्चार हेर कसलेच लिपींत बरौंक येनात; देखून ती भास न्हंय.' ही तांगेली सगळ्यांत मोटी व्हडली फटास म्हणूंक जाय. **देवनगरी ही कोंकणिची लिपि** म्हणपाचें बरे भाशेन जाण जावन ते दाटून अजाणपण कित्याक पांगुरतात तेंच म्हाका समजना. कोंकणीक लिपि ना जाल्यार **मराठीकूय लिपि ना** अशें म्हणुं येता. मराठी भास जे लिपींत बरैतात ती तिणें आपणाल्या कुळारसून वरदक्षणेक हाडल्या अशें ते समजतात व्हय? देवनगरी लिपिचेर जितलें मराठिचें हक आस तितलेंच कोंकणिचें आनी हिंदुस्तानांतल्या हेर सगळ्या आर्य भासांचें हक आस हें खरें उलैण्या जणएकल्या मनशान कबूल करूंक जाय.

'हिंदु'कार म्हणटात कि, कोंकणिचे उच्चार हेर कसलेच लिपींत बरौंक येनात. परंत हेय म्हणणेंत निखालुस जीव ना. मराठी तरी संवसारांतल्या हेर लिपिंनी बरौंक खैं येता? रोमी अक्षरांनीं ती ते सारकी बरौन दाखैतीत व्हय? ती त्या अक्षरांनीं बरैली जाल्यारूय, तिचे वेगळे वेगळे उच्चार दाखौंक आदींपैलीं कितल्योशो कुर्वो

आनी चिन्हां तयार करचीं पडलीं; आनी इतलेंय जावन तिचे उच्चार धड जातीत म्हणपाचें खरेपण सांगुं नज. संस्कृत भास रोमी अक्षरांनी बरौंक आजवेर एवरोपी विद्वानांनी जायत्यो कुर्वो आनी चिन्हां घडल्यांत; तीं 'हिंदु'कारांनी एकाद्रीं पळेल्यांत जातलीं. तरी आसताना तिचे उच्चार सारके बरे दाखौंक येनात. भाशेचे खाशेले लिपींतूय तिचे उच्चार सारके बरौंक येनात; म्हण्टकूच, परके लिपींत ते बरौंक आयले नात जाल्यार अजाप ना. मराठी 'सवड' ह्या उतरांत पैल्या दोन अक्षरांचो उच्चार **सगळो** जाता आनी निमाण्या अक्षराचो उच्चार **अर्दो** जाता. परंत हे उच्चार वाचप्याच्या फक्कत कपळांतूच आसतात; ते बरपांत दिष्टी पडनात. तेच भाशेन, 'काव्यांत = कवितेंत आनी काव्यांत = युक्तींत, पुण्यांत = पुणें शारांत, पुण्यांत = पातकाचे उफाट्टे दशेंत आनी पुण्यांत = पुण्यतायेचो अखेर' ह्या उतरांच्या[१] उच्चारांची वेगळिकाय आनी अर्थांची बारकाय वाचप्याक फक्कत तर्कान समजुं येता. ह्या उदाहरणांवैल्यान, **मराठीक खासा आपणाले लिपींतूय आपले उच्चार सारके बरौंक येनात म्हणून भास हें नांव फावना** हें 'हिंदु'कारांले म्हणणेन सिद्ध जायना व्हय? ताणीं दिल्ल्या लक्षणाभाशेन इंग्रजी हीय भास जायना. जे भाशेच्या साम्राज्याचेर सूर्य केन्नाच अस्तमना आनी जी मराठी सारक्या हजार भासुकल्यांक तोंडांत उडौन हूं म्हण्टा म्हणसर जिरैत ते बळिष्ट इंग्रजीकूय भास हें उतर फावना. इंग्रजींत a, e, i, o, u ह्या पांचूय स्वरांचे जे तरेकतरा उच्चार जातात ते **चड करून** वाचप्याच्या कपळांतूच आसचे लागतात; ते बरपावैल्यान समजनात. उदारहणाक, age हांतूंत a चो उच्चार ए जाता; cat हांतूंत a चो उच्चार अॅ जाता; part हांतूंत a चो उच्चार आ जाता; pen हांतूंत e चो उच्चार ए जाता; verse हांतूंत पैले e चो सगळो अ आनी दुसरे e चो अर्दो अ सारको उच्चार जाता; write हांतूंत w चो उच्चार जायना आनी i चो उच्चार आय जाता; written हांतूंत i चो उच्चार इ जाता; pot हांतूंत o चो उच्चार ऑ जाता; port हांतूंत o चो उच्चार ओ जाता; but हांतूंत u चो उच्चार अ जाता; put हांतूंत u चो उच्चार उ जाता; duty हांतूंत u चो उच्चार यू जाता; rough चो उच्चार रफ जाता; thoughचो उच्चार दो जाता; through चो उच्चार थ्रू जाता. हे भाशेन, इंग्रजींत बरौंची रीत एक आसल्यार उच्चारची रीत वेगळीच म्हणपाचें उक्तें दिसता. पुर्तुगेज भाशेचीय अशीच गजाल. Casa आनी semente ह्या उतरांनी s चो उच्चार अनुक्रमान ज आनी स आसून ते वाचप्यांच्या कपळांतूच आसतात; ते अक्षरांवैल्यान समजनात. रोमी अक्षरांची निखटी वळख आसून पुर्तुगेज भास शिकूंक नाशिल्ल्या कोणेंय मनशान casa ह्या उतराचो **कास** असो उच्चार केल्यार, 'हिंदु'कार ताची अपुर्बुद्द करतीत व्हय? फ्रांसेज

आनी जर्मन भाशेचीय हीच गजाल. त्यो उच्चारांभाशेन केन्नाच बरौंक येनात. बरौंची रीत एक आसली जाल्यार उच्चार दुसरेच जातात. संवसारांत आज जितल्यो म्हणून भासो घोळणुकेंत आसत तितल्यांचीय हीच गत. मागीर एकले कोंकणी भाशेकूच दुशण कित्याक?

'कोंकणी सरस्पत एकरुपी ना. कोंकणांतल्या वेगळ्या वेगळ्या म्हालांनी तिचें रूप वेगळें वेगळें दिसता. मंगळूरकारांलें बरप गोंयकारांक वाचूंक येंवचें ना आनी गोंयकारांलें उलौप मंगळूरकारांक बरौंक येंवचें ना. गोंयांतल्या गोंयांतूय हीच अवस्ता. देखून कोंकणीक भास हें नांव फावना' हो 'हिंदु'कारांलो दुसरो मुद्दो.[२] ह्या मुद्द्यांतलें भाशेचें लक्षण पळौंक गेल्यार, जिची सरस्पत एकरुपी न्हंय ती भास न्हंय अशें म्हणचें पट्टा. संवसारांतल्यो हेर भासो आनी 'हिंदु'कारांली खासा मराठी भास ह्या लक्षणाक कितलोसो पाळो दितात तो पळौंया. तांगेले चड संवकळेचे आनी अपुर्बायेचे मराठी सरस्पतिचेंच रूप आमी बारकायेन चोंवया. मराठी सरस्पत सामान्यतायेन तेराव्या शेंकड्यांत जल्मा आयली असो समज चलता. तेन्ना, जल्म-काळांत तिगेलें रूप कशें कितें आसलें तें सटकरून दोळ्यांत भरचे खातीर, ते वेळच्या दोगां चित्रिकांनी काडिल्लीं तिचीं दोन चित्रां हांव वाचप्यांच्या फुड्यांत दवरतां; तीं ताणीं चिके बारकायेन पळौन कितें तें मत्त थारांवचें. देवगिरिचो यादव राजा सिंघण हागेलो जोतिशी चांगदेव हाणें चाळिसगांवा लागसार बांदिल्ल्या मठांत क्रि.स. १२०६ (शक ११२८) वर्सांचें एक बरप आस; तें डॉ. भाऊ दाजी लाड हाणीं १८६४त पैलेंवैलें उजवाडा हाडलें. तांतूंतलो कांय मजकूर असो :-

'इयां पाटणी जे कणे उघटे तेहाचा जो सिंदू जो राउला होता ग्रोहका पासीं तो मढा दिन्हला ब्राह्मणाजेंदिकहे ब्रह्मोत्तरतं ब्राह्मणी दिन्हले ॥ ग्राहकापासिं दामाचा वीसोवा असु पाठीं गिधव ग्राहकापासि ॥ पंच पोफली ग्राहकापासि पहिवहिले आधणे आदाणा चीलो मठा दिन्हला जेतिघाणे वाहति तेतियां प्रतिपलि पली तेला । जेमविजेने मढीचे नमाय नवावे मापा उगठा अर्ध अर्ध मापाचे हारिभूपाचे स्तूक तथा भूमिः चतुराघाट विशुद्ध ३०६ ग्राम बाले कामतामध्यत्र था कलपंडिताकालतु मीचउरा धामोजीची सोढीआ ॥'[३]

ह्या मजकुरा संबंधान डॉ. भाऊ म्हण्टात कि, संस्कृतापरस हाचो अर्थ लागूंक चड कठीन.[४] तेराव्या शेंकड्यांतले मराठी सरस्पतिचें हें एक चित्र जालें. आतां दुसरें चित्र खासा ज्ञानेश्वरींतलें क्रि.स. १२९०तलें (शक १२१२) पळ्यात: -

'ऐसेनि गंभीरपणें । स्थिरावलेनि अंतःकरणें । आथिला तोचि जाणें ।
मानूं इथे । ६१ । अहो अर्जुनाचिये पांती । जे परिसणया योग्य होती ।

तिहीं कृपा करूनि संतीं । अवध्यान द्यावें । ६२ ।[५]

ह्या दोन चित्रांच्या रुपांवैल्यान, **मराठी सरस्पतिच्या जल्म-काळांत** म्हणचे तेराव्या **शेंकड्यांतूय तीं एकरुपी नासून भौरुपी आसली** म्हणपाचें सणसणीत सिद्ध जाता; आनी **अजुनूय ती भौरुपीच आस.** देशस्थांली मराठी चित्पावनांले मराठीकूय वेगळी. काराड्यांली मराठी घांटयांले मराठीकूय वेगळी. म्हारांले मराठीकूय चाम्हारांली मराठी वेगळी. खानदेसी मराठीकूय हैदराबादी मराठी वेगळी. कोल्हापूरी मराठीकूय वऱ्हाडी मराठी वेगळी. अशे मराठिचे भेद आनी तिगेलीं तरेकतरा रुपां सांगूंक गेल्यार जायतीं आसत. 'हिंदु'कार मराठी भोव बरी शिकल्यात आनी पुर्तुगेज शिकिल्ले कांय क्रिस्तांव जशे 'गोंयचे पुर्तुगेज' जातात तशेच तेय **'गोमांतकस्थ महाराष्ट्रीय = गोंयचे मराठे'**[६] जाल्यात हें जरी खरें आसलें तरी एकाद्र्या खानदेसी गावड्याची सरस्पत तांकां वळखूंक येत कि ना म्हणपाचो म्हाका मोटोच दुभाव आस. हे भाशेन, तेराव्या शेंकड्यापासून अजूनमेरेन मराठी सरस्पत बरपांत तशीच उलौपांत एकरुपी केन्नाच जांवक ना आनी फुडाराकूय ती तशी जावपाची आस्त ना, हें उक्तें दिसता; आनी त्या खातीर, 'हिंदु'कारांल्या लक्षणा भाशेन **मराठीक भास हें नांव फावना** म्हणपाचें सिद्ध जाता. मराठी परस हजार वांट्यांनी बळिष्ट अशो इंग्लेज, फ्रांसेज आनी जर्मन भासो हांचो इतिहास 'हिंदु'कार वाचून पळेतीत जाल्यार, तांची पुर्विल्ली सरस्पत केन्नाच एकरुपी नासली आनी आर्विल्लीय सरस्पत एकरुपी ना म्हणपाची तांची खात्री जातली आनी तांगेल्या लक्षणाभाशेन त्योय भासो न्हंयत अशें ते म्हण्टले. परंत संवसारांत तांची अपुर्बुद्द जातली. हाचेवैल्यान, सरस्पत एकरुपी आसल्याबगर भाशेक भास हें नांव फावना म्हणपाचो तांगेलो मुद्दो घसांयच करून कोंसळून पट्टा.

कोंकणी भास एकरुपी न्हंय म्हणपाचें सिद्ध करच्या नादांत 'हिंदु'कार म्हण्टात कि, म्हगेलीं जायतीं उतरां काणकोणकारांक ग्रेग भाशेसारकीं समजनात आनी मों. दालगादांचीं उतरां हेमाडबारशेंकारांक पुस्तूसारकीं उच्चारूंक येनात; उफाट्टें, मराठी उतरांचो उच्चार आनी अर्थ काणकोणकारांक आनी हेमाडबारशेंकारांक सारकेच वळखिचे आनी समजूंक सोपे लागतात.[७] म्हगेलीं उतरां आनी बरौंची रीत काणकोण धरून गोंयच्या आनी गोंया भायल्या लोकांक कशी कितें लागता म्हणपाचो म्हाका जितलो अणभव आस तितलो 'हिंदु'कारांक ना हें ताणीं आदींपैलीं कबूल करूंक जाय. मराठिचो पाखो घालचे खातीर, म्हगेली भास तांकां एकल्याक आनी तांगेल्या तटांतल्या बचकोभर 'गोंयच्या मराठ्यां'क ग्रेग, पुस्तू आनी आफ्रिकेंतले लांडी भाशेपरस समजूंक चड कठीन लागतली आनी अद्रूण लागूंक फावो म्हणपाचें हांव

कबूल करतां; परंत तांगेल्या इल्ल्याशा तटाभायल्या लोकांकूय ती तशीच दिसता ही म्हणणी मात खरी न्हंय; आनी ह्या संबंधाचे सणसणीत पुरावे म्हजेकडेन आसत. १९१२ वर्साच्या सुमाराक जेन्ना 'मोगाचें लग्न' पैलेंवैलेंच उजवाडा आयलें तेन्ना गोंयचीं आनी गोंया भायलीं जायतीं तोखणायेचीं पत्रां म्हाका आयलीं. तांतूंत काणकोणच्या एका बामणान बरैल्लें पत्र म्हजेकडेन आस. तांतूंत म्हळां कि, 'मोगाचें लग्न' वाचता आसताना घरांतल्या बायलां-भुरग्यांनी हांसून खळखळ केलो आनी सगळ्यांच्या पोटांत पेंडके आयले. म्हगेली भास ग्रेग भाशेसारकी कठीन लागिल्ली जाल्यार, ती आयकून काणकोणच्या सुपुल्ल्या भुरग्यांच्या लेगीत पोटांत हांशाचे पेंडके येंवचे नासले हें सांगपाची गरज ना. 'मोगाच्या लग्ना' सारको फकाणी खेळ सोडून दिवन इतिहासासारको गटख़ळाचो विशय घेतलो तरी म्हगेली भास कितली सोपी लागता म्हणपाचो अणभव फाटल्या (१९२७च्या) माय आनी जून म्हैन्यांत लोकांक आयला. त्या वेळार, मुंबै, बामणांले सभेंत, 'गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक' ह्या इतिहासा संबंधान म्हजीं कांय उलौपां जालीं म्हणपाचें 'हिंदु'कारांनी एकाद्रें आयकलां जातलेंच. ह्या दरएकल्या उलौपाक मुंबैसाकून गोकर्णामेरेनच्या कोंकणांतले जायते कोंकणे जमताले आनी सभेचें साल दरखेपे गच्च भरतालें. उलौप सुमार पावणे दोन वरां जातालें आनी एदोय वेळ ते लोक हाल-धोलनासताना चित्रासारके बसून म्हगेली म्हणणी सस्ततायेन आयकून घेताले. उलौप चल्लां आसताना एकलोय मनीस उबगून वा विटून साल सोडून भायर वचनासलो. हाचेवैल्यान, म्हगेले कोंकणी भाशेचीं उतरां, उच्चार आनी अर्थ तांकां कळनासलो अशें म्हणूंक कोणाकूच अंदाजा जांवची ना. म्हगेलीं उलौपां आयकूंक कांय मडगांवकारूय येताले. 'हिंदु'कारांनी तांकांच मुजरत विचारचें आनी हांव म्हण्टां तें खरें वा लटकें म्हणपाचें समजून घेंवचें. म्हगेलीं उलौपां अध्यक्षांक आनी आयकतल्यांक इतलीं बरीं लागलीं कि ताणीं तीं बेगीन छापून काडूंक जायत आनी तांचीं भाशांतरां मराठींत आनी इंग्रजींत अगत्य जांवक जायत म्हणपाचें मेकळेपणान उलौन दाखैलें. गोमन्तक छापखान्याचे धनी भौ. काशीनाथबाब नायक हाणीं तीं हालींच छापूंक घेतल्यांत आनी वळख-देख नाशिल्ले जायते लोक तीं छापून केन्ना भायर सरतलीं म्हणपाचें मोटे उमळशिकेन विचारतात.[८] हीं उलौपां पुस्तकाच्या रुपान उजवाडा येतकूच, कोंकणी भाशेची, गोंयाची आनी गोंयकारांची योग्यताय केदी मोटी आस ती निखट्या गोंयाचेच नद्रेक न्हंय तर सगळ्या संवसाराचे नद्रेक येतली हें 'हिंदु'कारांनी ध्यानांत दवरचें.

कोंकणी भास गोंयांतल्या गोंयां सगळेकडेन सारकी समजना. परंत मराठी

भाशेचे उच्चार आनी अर्थ गोंयांतल्या खैंच्याय म्हालांत सगळ्यांक सारके बरे समजतात; देखून, गोंयां कोंकणी भास शिकैनासताना मराठीच शिकौंक जाय अशें 'हिंदु'कारांल्या एका म्हत्वाच्या मुद्दयाचें सार आस.[१] हो तांगेलो मुद्दो एकल्या गोंयाकूच न्हंय, तर सगळ्या हिंदुस्तानाक लावन तो ताका मान्य जाता जाल्यार पळेसारको आस. हिंदी राष्ट्रसभेच्या उत्सवाक वर्सानवर्स देजेंब्र म्हैन्याचे अखेरेक हिमालयासाकून कुमारीमेरेनचे आनी कराचीसाकून ब्रह्मदेसामेरेनचे तरेकतरा दुदभासो आशिल्ले हिंदी लोक जमतात म्हणपाचें तांकां सांगचें लागना. तांतूंतल्या जायत्या जाणांच्यो दुदभासो एकामेकांक ग्रेग आनी पुस्तूसारक्यो समजूंक कठीन म्हणपाचें ते जाणतूच. तशेंच, ते सभेचे माचयेर हिंदुस्तानांतल्या भासांपरस इंग्रजी भाशेंत जीं उलौपां जातात तीं सगळ्यांक सारकीं बरीं समजतात म्हणपाचो अणभव तांकां केन्नाय आयला जातलो; ना जाल्यार, ते सभेक गेल्ल्या लोकांकडसून तरी ताणीं आयकला जातलों. हाचेवैल्यान, तांगेल्या मुद्दयाभाशेन, हिंदी भासो हिंदी लोकांक एकामेकांक कळनात म्हणून उंवाळून उडौन, सगळ्यांक समजणी **इंग्रजी भासूच हिंदुस्तानभर शिकौन तिका दुदभास करची** अशें म्हणचें पट्टलें. तशेंच, वैर सिद्ध केल्ले भाशेन, मराठी सरस्पत सगळेकडेन सारकी चलनाशिल्ल्या कारणान, खासा मराठणांत ती सगळ्यांक सारकी कळना. तिचे परस इंग्रजी भास तांकां अदिक़ बरी कळटा; देखून, थैंच्या सगळ्या साळांनी मराठी बदला इंग्रजी शिकौन तीच थैंची दुदभास करूंक जाय अशें म्हणचें पट्टलें. परंत सगळ्यां आदीं **अडेच्या सवाय मराठी** 'हिंदु'कारांक ही म्हणणी मान्य जांवची ना. कोंकणी भास गोंयांतसून ना-नपश्यात करून उडौंच्या कोल्लांत अतितायेचे कसलेय मुद्दे धिटायेन फुडें हाडूंक तांकां पर्वा दिसना; परंत तेच मुद्दे उफाट्टे मराठिच्या कांठ्यार बसतकूच ते खैंचे लिखणेन बरैले अशें तांकां जातलें.

'हिंदु'कार म्हण्टात कि, मराठी भास गोंयकारांक सारकी बरी समजता. परंत हाचो म्हाका दुभावूच आस. गोंयच्या क्रिस्तांवांक जाल्यार ती निखालुस येना; आनी जे कोण हिंदु ती मोट्या कष्टान शिकतात तांकांय तांतूंतलीं जायतीं उतरां समजनात. ते किराभाशेन पुणेरी उतरां तोंडान घोळैतात आनी बरैतात खरे; परंत तांचो अर्थ कितें जाता तो जायत्या जाणांक निखालुस समजना. उदाहरणाक, पुणेरी पत्रांतलीं 'आधुनिक, सकृद्दर्शन, एकसमयावच्छेद, सापेक्ष' आनी हेर अगडबंब कुंभकर्णी उतरां मराठी शिकिल्ल्या शंबरांतल्या णव्याण्णोय गोंयकारांक धड समजतात कि नात तेंच सांगुं नज. तांकां मराठिचे उच्चार सारके करूंक येतात हेय म्हणणेंत कांय जीव ना. डॉ. सर रामकृष्णशणै भाण्डारकारांसारक्या पुण्यांत सगळो

जल्म घालैल्ल्या **कोंकणी** विद्वानाच्या मराठी उच्चारांत कोंकणी भाशेचे सूर मेकळेपणान आयकूंक येताले; म्हण्टकूच, सगळो जल्म गोंयां घालौन पुणेरी पत्रांतली उष्टी भास घोळैण्या हिंदुंचे मराठी उच्चार कशे जातात ते ताणीं लिपौंची गरज ना. कोंकणी सूर जशे मराठीक सोबनात तशेच मराठीं सूर कोंकणीक सोबनात हें हांवें सांगूंक जायशें ना.

कोंकणी भास आतांचेकूय अदिक एकरुपी करपाक उपाय आस; आनी तो 'हिंदु'कारांसारक्या गोंयच्या विद्वानांच्या हातांत आस. गोंयचे बुद्दिचे ते मेंदू आसत; देखून ताणीं आपणाले निजाचे दुदभाशेक जिवानशीं मारून, तिगेली सुवात मराठणांतले परके भाशेक दिवंक नस्तेच मुद्दे फुडें हाडून, आपणाली बुद्द विद्वाटचे बदला, ते आपलें 'हिंदु' पत्र कोंकणी भाशेंत चलैतीत जाल्यार, पांच-धा वर्सांभितर ती भास अदिक एकरुपी जाल्ली तांकां दिसल्याबगर रांवची ना म्हणपाची म्हाका खात्री आस. ह्या वेळार तांकां एक सुचौप करचेंशें दिसता तें हें कि, ह्या फुडें **'गोमांतकस्थ महाराष्ट्रीय'** म्हणचे **'गोंयचे मराठे'** हें तांकां सोबनाशिल्लें आनी चुकिल्ल्या अर्थाचें उतर ताणीं आपणाक लावन घेंवचें न्हंय. गोंयच्या क्रिस्तांवांक 'पुर्तुगेज' हें उतर सोबना म्हणून जशे ते हांसतात तशेच तांकां 'मराठे' हें उतर सोबना म्हणून क्रिस्तांव हांसतात, हांसतले आनी हांसूंक जायत. 'हिंदु'कार आनी तांच्या तटांतले लोक हे 'गोंयचे मराठे' न्हंयत. तांकां मराठणांतसून धरून बांदून कोणें गोंयां हाडूंक नात. ते आनी तांगेले कदीम काळचे जाण्टेले गोंयचे भुंयेंत जल्मल्यात, थैंच्या चिखलांत रुजिल्ल्या भाताचें शीत जेवल्यात आनी थैंच्या वाऱ्या-उदकान वाडल्यात. ते निजाचे **गोंयकार, कोंकणे** म्हणपाचें ताणीं विसरचें न्हंय. आपणाल्या मेंदूंत दिसरात कसली भास वावुरता ती ताणीं येवजून पळौंची आनी तिचेच सेवेक पोटतिडकेन लागचें. खाशेले भाशेचो जीव घेवन परक्यांली भास गोंयां मातैल्यार तांकां कसलीच पुण्यताय जोडची ना हें ताणीं ध्यानांत दवरचें.

'हिंदु'कारांल्या एका मुद्द्याक जाल्यार आत्साण-पात्साण निखालुस ना. तो सामकोच पचकवणी जाला. गोंयचो विस्तार आनी आंवाठ केदो आनी कितें म्हणपाची फोडणिशी हांवें 'हिंदु'च्या २८ आगोस्त १९२६च्या आंकार, दुसऱ्या पानार, इतिहासाचे गडगंज आधार दिवन केल्ली म्हणपाचो उगडास तांकां आनी तांगेल्या वाचप्यांक आसतलोच.[१०] अशें आसताना, बळयांच पिसाय पांगरून आनी नस्तोच वाद घालून, ते आपणाल्या वाचप्यांक आपले वांगडा सारक्या मार्गावैले आड रानांत धुकलतात; तेन्ना तांकां कितें म्हणचें तेंच म्हाका समजना. पेडणें म्हाल पुर्तुगेजांच्या, इंग्लेजांच्या, भौंसुल्याच्या वा कोणाय देमणफट्ट्याच्या

शेकातळा आसलो तरी तो निजाचो गोंयचो - महासप्तमांतलो - हें तांगेल्या काना-कानसुलांनी भौनभौन आइकून हांवें सांगूंक जाय व्हय? पेडणें म्हाल आनी सावंतवाडी संस्थान कोणायच्या शेकातळा आसलीं तरी **तांची दुदभास कोंकणी; मराठी न्हंय**; हें ताणीं आतां घट बरें ध्यानांत धरचें. 'हिंदु'कारां भाशेन सावंतवाडच्या लोकांनी मराठींत पत्रां बरैलीं आनी शिगम्याच्या नाटकांत गणपतिचें सवँग येतकूच 'चारी वेदांमधें हा**गन**', साही शास्त्रांमधें हा**गन**, अठराही पुरानांमधें हा**गन**, भल्या-भल्यांच्या तोंडांमधें हा**गन**' अशें म्हळें म्हणून तांगेली दुदभास मराठी जायना. तांगेल्या मेंदूंत दिसरात जी भास घोळटा आनी घरा-दारांत तिनूय-त्रिकाळ जी भास ते उलैतात तीच तांची खरी दुदभास; आनी ती कोंकणी बाजत हेर कसलीच न्हंय म्हणपाचें सगळो संवसार जाण. ती भास ताणीं आनी 'हिंदु'कारांनी लिपौन दवरची गरज ना. 'हिंदु'कार शेजारच्या सगुणशेट पसरकाराकडेन **गोड** विकतें मागतात तेन्ना तांकां तो **गोड** म्हणुनूच तें विकतें दिता. तांगेल्या घरच्यो बायलो तें **गोड** म्हणुनूच पोळी-पिठांत घालतात आनी 'हिंदू'कार तें **गोड** म्हणुनूच खातात. हे भाशेन, सगुणशेटिल्या तोंडांत, 'हिंदु'कारांल्या तोंडांत आनी तांगेल्या बायलांल्या तोंडांत जें **गोड** म्हणून वावुरता तें ताणीं आपणाले हिशेब पटयेर **अडेचें 'गूळ'** म्हणून घालतकूच तांगेली दुदभास मराठी जाली अशें समजल्यात ते? तिट्यावैले खुबे आनी तिसऱ्यो हाडून **'हीं काशाचीं फळें?'** म्हळ्यार जितलें हांशाक म्हारग जाता तितलेंच आमी गोंयकारांनी आमगेली दुदभास बळयांच मराठी वा पुर्तुगेज म्हळ्यार जाता हें 'हिंदु'कारांक जितले बेगीन समजत तितलें बऱ्याक पडत अशें म्हाका दिसता. ते आनी तांगेले तटकार मराठिची नस्तीच पिसाय धरिनासताना, पोटतिडकेन कोंकणिचे सेवेक लागतीत जाल्यार निखटें पुणेंच न्हय, तर सगळ्या मराठणाच्या मेंदूंतली मराठी भास निखळावन तांतूंत ते कोंकणी भास भरतले आनी मराठणाचें नांव बदलून **बृहद्गोमन्तक = मोटेलें गोंय** करतले म्हणपाचें म्हाका खरेंपण आस. ताणीं नेटान त्या वावराकूच लागचें; म्हण्टकूच तांकां येस आयल्याबगर रांवचें ना. गोंयच्या मेंदूंतली दुदभास निखळांवचें काम जांकां सोंपें दिसता तांकां मराठणाच्या मेंदूंतली दुदभास निखळांवक कठीन वचत अशें म्हणुं नज. तितले खातीर पुणें वा मराठण पुर्तुगेजांच्या शेकातळाच वचूंक जाय अशें ना. खासा 'हिंदु'कार आज मराठ्यांच्या वा इंग्रजांच्या शेकातळा नासतानाय मराठी भाशेन तांकां आपले बंदे करूंक नात व्हय? तेच रितीन, कोंकणीच्यानूय मराठणाक आपलें बंदें करूं येत. ह्या कामाक 'हिंदु'कारां सारके वावराडेच लोक जायत. आयतें-खायरे, अभिमाना-भायरे, आळशी, मेंगे आनी अबर्गत असल्यांचे हस्तकून

मात हें काम जायशें ना.

निमाणें, सरकारान गोंयां कोंकणिच्यो साळो घाल्यार आपणाक खोसूच जायत अशें 'हिंदु'कार म्हण्टात. परंत ही खोस तांकां कोंकणिच्या माये-मोगान न्हंय, तर मराठिच्या कोल्लान जातली म्हणपाचें उक्तें दिसता. गोंयचे लोक कोंकणी भास देवनगरी अक्षरांनी शिकूंक लागतकूच ते एक दोन वर्सां भितर 'मराठे' जातले म्हणपाचो तांकां मोटो विस्वास आस.[११] आपणालें गोंय कशेंय भाशेन मराठणाचें बंदें जावन ताणें पुणेंकारांलीं उष्टीं-खरकटीं उतरां तोंडांत घोळैल्लीं पळौन, 'हिंदु' पत्राच्या जल्माचें सार्थक जातलें अशें तांकां दिसता जांवये. परंत ही वान्सा बऱ्याची न्हंय. आपलें निजाचें उंच कोंकणेपण होगडावन मराठो जांवचें हांतूंत खऱ्या अभिमानाची इल्लीय आशी ना. तो दशा-होगडायणो अभिमान. असलो उंवाळ्ळोलो अभिमान संवसारांत खैंचेचकडेन कोण धरिना. देखून, 'हिंदु'कारांनी तो बेगीन सोडून दिंवचो. गोंयच्या भुरग्यांक कोंकणी भास शिकैल्यार ते ती भास सोडून मराठीक लागीं करतले असो 'हिंदु'कारांक खरेपणानशीं विस्वास आसलो जाल्यार, कोंकणी आड नस्ते नस्ते मुद्दे ते कित्याक फुडें करतात? म्हाका दिसता कि, तांगेलो तो विस्वास फक्त वैल्याचारांचो आस. भितर्यां तांगेलें काळीज फुकफुकता; आनी हांतूंत नवल ना. कोंकणी भास शिकैल्यार गोंयकार 'मराठे' जातले हे म्हणणेंत निखालुस जीव ना म्हणपाचें तांगेल्या मनांतलो देव तांकां भितल्लेभितर फुतफुतून सांगता आसतलो; देखुनूच आज दोन तीन म्हैने मराठी खातीर सगळें आकास-पाताळ ते एक करूंक लागल्यात.

मराठी भाशेचें म्हत्व सुमाराभायर फुगौन दाखौंक 'हिंदु'कारांनी २१ जून १९२७च्या आंकांत, ५व्या पानार मराठी ही वेपारी भास आसून गोंयचें पोट ते भाशेचेर आधारून आस अशें म्हळां. गोंयचे हिंदु मराठींत सगळो वेपार-उद्योग करून तांदूळ-गोटो हाट्टात म्हणून क्रिस्तांवांक वेळार शीत-पेज आनी कडी मेळटा; परंत तेच हिंदु गोंयाचेर खोंट मारून पैस वेतीत जाल्यार, क्रिस्तांव उपाशीं पडून तांकां मराठी भास शिकल्याबगर दुसरी गत उरची ना अशें तांगेले म्हणणेचें सार आस. मराठिच्या पिशा कोल्लान ज्या हिंदुंचे पांय आपले पवित्र भुंयेचेर - आपले आवैचेर - खोंट मारूंक खर्जुतात ते मुदलाक गोंयकारूच न्हयत. ते एकाद्रे 'गोमांतकस्थ महाराष्ट्रीय = गोंयचे मराठे' आसतले. असल्या अपेशी आनी आवै-घातक्या लोकांची पर्वा आमगेली भुंय निखालुस करिना. तांगेली इत्सा आसल्यार, ताणीं एका खिणाचीय वाट पळेनासताना, आपणाली मराठी भास खांकेक मारून खुशाल गोंयाभायरे जांवचें. म्हण्टकूच, तांचेबगर आनी तांचे भाशेबगर

आमचे भुंयेचें निखालुस अडचना आनी ती उपाशीं मरना म्हणपाचें तांच्या अणभवाक येतलें आनी आपणें खैंची पिसाय केली अशें तांकां जातलें.

मराठी ही खैंच्या काळांत वेपारी भास आसली म्हणपाचें 'हिंदु'कार म्हाका सांगतीत व्हय? मराठे लोक वेपार करूंक जाणत तरी? तांकां केन्नाच फावनाशिल्लें वेपारी हें नांव 'हिंदु'कारांनी तांगेल्या आंगाक बळयांच दसैल्लें पळौन खासा मराठेच तांची अपुर्बुद्द करतले. तांदळांच्यो पांच-धा पांटल्यो सामखार मांडून, हळद-मिरसांग, कोचिचें तेल, पेत्रोल आनी खोबऱ्याच्यो वाटयो विकल्यो म्हणून कोणूय वेपारी जायना. तो एक पसरकार म्हणुं येत. असले पसरकार मराठणांत गांवा कणकणीं आसले म्हणून तितले खातीर थैंचे लोक आनी तांगेली भास वेपारी जाली अशें म्हणुं नज. खासा मराठणांतलो सगळो वेपार गुजीर, मारवाडी आनी कानडी हांगेल्या हातांत घोळटा म्हणपाची खबर 'हिंदु'कारांक एकाद्री नासतली. परंत मराठण रावलें कडेक. आमगेल्या खासा गोंयचोच वेपार कोणाल्या हातांत आस तें ते जाणत व्हय? आमगेलें सगळें सणंग-सूत, तांदुळ-गोटो आनी मणेरी म्हाल मुंबैचे गुजीर, खोजे, मेमण आनी बोहरी आनी घांटावैले कानडी शिवलिंगप्पा हांचेकडसून येता म्हणपाची सगळ्यांचे जाणापरिची, घणघणीत गजाल तांच्यान लिपौन दवरुं येत व्हय? तशेंच गुजरांची आनी कानड्यांची दुदभास मराठी म्हणपाचें तांच्यान सिद्ध करुं येत व्हय? ना मू? मागीर गोंयची वेपारी भास मराठी म्हणपाच्यो कोल्याच्यो काणयों ते कोणाक सांगतात? तांगेल्या मनांत आपणाल्या वाचप्यांक खरी खबर सांगची आसली जाल्यार, **गोंयची वेपारी भास मराठी नासून गुजराथी आनी कानडी आस** अशें सांगून, त्या भासांच्यो साळो गोंयां घालूंक सरकाराक आग्रो करचो. म्हण्टकूच तांतूंत गोंयकारांचें हित जातलें. गुजराथी भास जाल्यार गोंयकारांनी मुजरत शिकची. गोंयच्या येत्या आनी वेत्या वेपाराक तिचो जायतो उपयोग जाता. ती भास पदराक आसल्यार, गोंयसून भायर वचणो गोंयकार केन्नाच उपाशीं मरचो ना. अशी गजाल मराठिची न्हंय. मराठीक बळयांच वेपारी भास म्हणून, गोंयच्या पसरकारांनीं आपले खाजीक आपणांल्या हिशेबाच्या पटयांनी **गोडा बदला गूळ** बरैतकूच ती भास वेपारी जायना आनी भायर वचण्या कोणाच गोंयकाराचें पोट भरूंक ती उपकारा पडना.

गोंयकारांचो हिंदु धर्म मराठी भाशेचेर आधारून आस असोय 'हिंदु'कारांलो एक मुद्दो आस.[१२] परंत तांतूंत कांयच जीव ना. ते आपणांली संध्या, पुजा आनी अनुष्ठानां मराठींत करिनात. तांगेले सोळा संस्कार मराठींत जायनात.हीं सगळीं कामां संस्कृतांत जातात. म्हण्टकूच, गोंयचो हिंदु धर्म मराठिचेर उमकळून रावला अशें

म्हणपांत कसलें शाणपण आस? देवळांतलीं कथा-पुराणां मराठींत करतात; देखून तांगेलो हिंदु धर्म मराठिचेर उमकळटा अशेंय ते म्हण्टात. परंत हीं 'आधुनिक-सकृद्दर्शनी-एकसमयावच्छेदी-जेहत्तीं' कथा-पुराणां चलतात तेन्ना शंबरांतले णव्याण्णोय आयकतले झेमेतात आनी सर्वळींतल्यो बायलो घरच्या संवसाराच्यो मोट्यान गजाली करतात म्हणपाचें चित्र 'हिंदु'कारांच्या दोळ्यां सामखार घसघशीत उबें आसतलेंच. हें अशें जांवचें कारण कितें म्हणपाची ताणीं केन्नाय येवजणी केल्या व्हय? आयकतल्यांच्या मेंदूंतली भास कथा-पुराणां सांगतल्यांच्या तोंडांतले भाशेक जमिल्ली जाल्यार दोगांयचीं अंतस्कर्णां एक जावन, आयकतल्यांक त्या कथा-पुराणांची रूच लागतली आसली. परंत भास एक नाशिल्ल्या कारणान ती आयकतल्यांच्या कपळांत सार्की रिगना;आनी तितलेच खातीर दादले झेमेतात आनी बायलो फरफरतात हें ताणीं कबूल करूंक जाय. परके मराठी बदला निजाचे कोंकणी भाशेंत कथा-पुराणां सांगूंक लागल्यार, वैलें चित्र रोखडेंच बदलता कि ना तें पळ्यात. अडेचे भाशेक बळयांच निजाची भास म्हणून वेंग मारून कथा-पुराणांक बसला आसताना न्हिदो उसपुंच्यो हांतूंत कुस्कुट शाणपण ना. गोंयच्या इगर्जांनीं पाद्री कोंकणींत उपदेस करतात तेन्ना थैं जमिल्ले क्रिस्तांव तो थंडपणान आयकून घेतात म्हणपाचें 'हिंदु'कारांनीं जायते खेपो पळेलां जातलें. अशें जांवचें कारण कितें तें हांवें सांगूंक जायशें ना. सार घेंवचेलें इतलेंच कि, गोंयचो हिंदु धर्म मराठिच्या नाड्यार चडौंक 'हिंदु'कार कितलेय वावुल्ले तरी थैं चडूंक तो तयार ना. तो सदींच संस्कृत आनी कोंकणी भासांच्या उंच शिंवासनार बसतलो.

फाटल्या आगोस्तांत (१९२७) गोंयच्या कायदे-मंडळाच्यो ज्यो सभा जाल्यो तांतूंत भौमानेस्त बाब कोस्त, सालिस द आंद्राद, गोमिस पेरैर आनी मिगेल मौर ह्या विद्वान क्रिस्तांव भावांनींय मराठिचो जायतो पाखो घेतलो खैं.[१३] भौ. सालिसबाबांनी जाल्यार ती भास वेपारी आस म्हणून सांगून आपणालें अजाणपण मात बेष्टें उजवाडा हाडलें. 'हिंदु' पत्र ताणीं वाचिल्लें जाल्यार आनी तांतूंतली मराठी भास तांकां समजल्ली जाल्यार, ते भाशेक एक खिणभरूय ते आपणाल्या म्हन्यांत उबी करचे नासले म्हणपाचें म्हाका खरेंपण आस; आनी अजुनूय 'हिंदु'कार तांकां आनी हेर क्रिस्तांव भावांक १७ माय १९२७च्या 'हिंदु'चें २रें पान वाचून दाखौन अर्थ सांगतीत जाल्यार परके घातमारे मराठिचो पाखो घेवन आपणें **मोटी पिसाय** केली अशें ते सणसणीत उलौन दाखैतले. 'कायदेमंडळांनी आनी सरकारी खात्यांनी सगळो वेव्हार देसी भाशेंत जांवक लागतकूच कांय उलौपी मोने आनी कांय वाचपी कुड्डे जातले. जुवीज आपणांल्या त्रिबुनालावैल्यान मराठी उलैल्ले आयकूंक येतकूच

कांय आदवोगादांक भायल्या मुलखाची वाट धरची लागतली. गोवेर्नादोराचे सुवातेर पगडेकार (?!) वा रुमालकार बशिल्ले दिसतकूच क्रिस्तांवांक आपलीं चेपीं माण्डवी न्हंयेंत भिरकटांवचो वेळ येतलो आनी तशें घडलें ना जाल्यार तीं चोळयातळा तरी लिपौंची चाल पट्टली.' हो मजकूर कोणएकल्या भोंवडेकारान 'हिंदु'कारांक धाडिल्ल्यावरी दाखैला; परंत असल्याच अर्थाचो मजकूर 'हिंदु'च्या पैल्या वा दुसऱ्या वर्साच्या एका आंकांत खासा संपादकी नात्यान 'हिंदु'कारांनी बरैल्लो म्हणपाचो म्हाका उगडास जाता. ज्या सालिसबाबांनी कायदे-मंडळाचे सभेंत मराठी सरस्पतिची मोटी तोखणाय करून ती एक वेपारी भास आस़ अशें म्हळ्ळें तांकांच मुजरत वैलो मजकूर वाचून दाखौन फोडणिशी करून सांगतकूच तांगेल्या तोंडाची नुरा कशी कितें जाता ती चिके बारकायेन ध्यानांत घेवन, तिची वर्णना 'हिंदु'कार आपणाल्या फुडल्या आंकांत करतीत जाल्यार भोव बरें जायत.[१४]

'हिंदु'कारांच्या नष्ट्या आनी आत्मघातक्या वावरान गोंयची भास एकाद्री मराठी जांवक पावली जाल्यार तांगेले क्रिस्तांव भाव ते भाशेंत फाटीं उरतले अशें तांकां दिसता व्हय? जे लोक पुर्तुगालचे कोर्तींत आपल्या उलौपान आनी तांतूंतल्या भरखूम मुद्द्यांनी निजाच्या पुर्तुगेजांकूय फाटल्यान धुकलतात ते लोक गोंयच्या उण्या अद्रुष्टान थैं मराठी भास घोळ्ळी जाल्यार ते भाशेंत निपुणाय जोडून खास़ा पगडेकारांल्या पगड्यांच्यो वादऱ्यो आनी तिस्त्यो करून उडौंचे नात अशें 'हिंदु'कारांक दिसता आसत जाल्यार ती तांची मोटी चूक आस. पगडेकारांली उष्टी भास तोंडांत घोळैण्या 'हिंदु'कारांक पगडेकार म्हळ्यार धर्तरेवैले मोटे देव कशे दिसतात आसतले. परंत वेळ आयलो जाल्यार, तांगेल्या पगड्यांचीं कोंकीं आपणाल्या चेप्यांत गुटलावन तांचो साप घुस्मटमार करची तांक क्रिस्तांव भावांच्या मेंदूंत आस हें पगड्यांक बुल्लुसलेल्या 'हिंदु'कारांनी विसरचें न्हंय. गोंयच्या हिंदुंचे तकलेंत जे तरेचो उंच मेंदू भल्ला तेच तरेचो उंच मेंदू क्रिस्तांव भावांचे तकलेंत भल्ला हें 'हिंदु'कारांनी ध्यानांत दवरचें.

'हिंदु'कारांनी कसाबपणान आपणाले निजाचे दुदभाशेचेर सोडिल्ले अरिष्टांचे गुळे हांवें म्हजे तांकीभाशेन फोडून उडैलेच.गुळ्यांभरशीं ताणीं पेटैल्ल्या हेर सुरसुऱ्यांचे वाटेक हांव वचना. फुगत्यो शेळेल्यो म्हण्टकूच सुरसुरीं करून पेटौंची वज भुरग्यांक आसता. ते भाशेन ताणीं तीं खुशाल पैटौंचीं. तांगेल्या ह्या भुरगेपणाच्या खेळान कोंकणी भाशेचें कशेंच तरेन लुस्कान जायशें ना. ती आतां दिसानदीस वैर सरून एक दीस 'हिंदु'कारूय कोंकणींत बरौंक लागतले म्हणपाचें आज सांगून दवरतां.[१५]

* * *

वैल्या वादाक निमाणी जाप दिवन आपणालीच ह्मणणी खरी आशिल्ल्याभाशेन दाखौंक 'हिंदु'कार पुर्तुगेज सरकाराच्या आलासऱ्याक धांवतात. पुर्तुगेज सरकाराची कसलीच करणी ते चडकरून केन्नाच तोखेनात म्हणपाचें तांगेले आजवेरचे बरपावळीवैल्यान उक्ताडाक आयलां. तरी आसताना, त्या सरकाराचें वारें मराठिचेर एकाद्रें चुकुनूय पडल्यार, ती भास रोखडीच पावन जाल्ल्यावरी दिसून 'हिंदु'कार सणसणीत सिद्धान्त काडूंक फुडें सरतात. १९२७ च्या देजेंब्रांत, सरकारान रेजिस्त सिव्हिलाची क्रांय माहिती मराठींत छापिनाफुडें, मराठी हीच गोंयची दुदभास ह्मणपाची सरकाराची खात्री जाली आनी कोंकणी दुदभास म्हण्टल्यांक ताणें भायलेभायर भोव बरी जाप दिली अशें 'हिंदु'कार म्हण्टात.[१६] परंत त्याच सरकारान गोंयची दुदभास कोंकणी म्हणून तिचो रीग पुर्तुगालच्या इस्कोल कोलोनियालांत केला म्हणपाचें ते विसरतात.[१७] त्या भायर, सरकारान कसलीय एकाद्री करणी करतकूच तिका शास्त्राचो आधार मेळ्ळो असो 'हिंदु'कारांलो समज आस व्हय? तशें आसल्यार, पुर्तुगेज सरकारान गोंयां सोरो रिगौन, आज सवायचारशीं वर्सां तें तागेलें म्हात्म्य एकसारकें चडैता; देखून, सोरो हें गोंयचें अमृत जालें अशेंच म्हणचें पडलें. दुसरें, त्याच सरकारान हिंदुस्तानांतल्या सगळ्या हिंदूंक आजवेर कागदां-पत्रांत 'जेन्तीव' हें उतर लावन तांगेल्या देवळांक 'पागोद' म्हळां. म्हण्टकूच, हीं दोनूय उतरां 'हिंदु'कारांनी पवित्र वस्तीभाशेन लेखून, तावजींत घालून गळ्यांत बांदचीं पडलीं. परंत तीं कानार पडनाफुडें, ते सुमाराभायर पिंर्जळटात, फडफट्टात आनी गोंयच्या कायदे-मंडळाचे सभेंत ह्या संबंधान सणसणीत प्रस्न विचारूंक जाय म्हण्टात तें कितें?[१८] आपणाले खाजीर पट्टा ती सरकाराची करणी शास्त्राभाशेन आनी बादिकार जाता ती पाखंडा भाशेन असोच 'हिंदु'कारांलो समज ना मू?

टिपो :

१. महाराष्ट्र-साहित्य-पत्रिका, मुंबै, व. १, आं. ३, पा. २६०.

२. हिंदु, मडगांव, २६ जूल १९२७, पा. ६.

३. JRAS., New Series, vol. 1, p. 416.

४. JRAS., vol. 1, p. 418.

५. ज्ञानेश्वरी, अ. १.
६. हिंदु, ३१ माय १९२७. पा. ४.
७. हिंदु, २६ जूल १९२७, पा. ६.
८. ह्या उलौपांचें पैलें खंड २३ वैतुंब्र १९२८ दिसा उजवाडा आयलें.
९. हिंदु, २६ जूल १९२७. पा. ६.
१०. कोंकणी भाशेचें जैत, पा. २३-२६.
११. हिंदु, २६ जूल १९२७, पा. ६.
१२. हिंदु, २१ जून १९२७. पा. ५.
१३. हिंदु, २३ आगोस्त १९२७, पा. ४.
१४. हो यत्न 'हिंदु'कारांनी अजून करूंक ना.
१५. हो लेख केपेंच्या 'भारत' पत्रांत १९२७च्या सेतेंब्र-वैतुंब्र म्हैन्यांच्या सुमाराक तीन आंकांत आइल्लो.
१६. हिंदु, १३ देजेंब्र १९२७, पा. ५.
१७. हिंदु, ३१ माय १९२७. पा. ५.
१८. हिंदु, ३१ जूल १९२८, पा. ४.

# कोंकणिचो शुद्धकार

कोंकणी आनी मराठी ह्या दोनूय भासांभितर अंतर जायतें आस म्हणपाची खात्री आसतानाय, कोंकणिचो अपमान करचेखातीर, 'हिंदु'कार तिका दाटून **'अशुद्ध मराठी'** म्हण्टात. 'इंग्रजी हिंदुस्तानांतले मराठी मास्तर गोंयां येंवक नाशिल्ले जाल्यार, 'गोंयच्या मराठ्यां'क आपणाली आवै-भास शिकूंक मेळटली आसली कि ना म्हणपाचो दुभावूच आस... गोंयच्या भुरग्यांक मराठी भास शिकौंक गोंयकार शणै दवल्ल्यार, तांगेली घरा-दारांत उलौंची भास **'अशुद्ध मराठी'** आशिल्ल्याकारणान, भाशेचे शुद्धतायेचे नद्रेन त्या भुरग्यांचें जें लुस्कान जातलें तें ध्यानांत घेतल्याबगर रांव नज' ही 'हिंदु'कारांली म्हणणी.[१] हे म्हणणेभाशेन येवजूंक गेल्यार, संवसारांतल्यो जायत्यो भासो अशुद्ध म्हणच्यो पट्टल्यो. सगळ्यांआदीं हो फार मराठिचेच फाटीर चणचणीत बसतलो. तिका **अशुद्ध कोंकणी** म्हळ्यार तिगेली कूस सांवारूंक 'हिंदु'कारांक काळीज जायत मू? 'घोडो, गाडो, रेडो' हीं शुद्ध कोंकणी उतरां मराठ्यांनी 'घोडा, गाडा, रेडा' अशीं उच्चारचीं हें कोंकणी लोकांले नद्रेन अशुद्ध न्हंय? हेच पद्धतीन येवजूंक गेल्यार, 'इश्प्लिकासांव, एदुकासांव' हीं उतरां उलैण्या पुर्तुगेजांचे नद्रेन 'एक्स्प्लेनेशन, एजुकेशन' हीं उतरां उलैण्या इंग्रजांली भास अशुद्ध न्हंय? तिकाय 'हिंदु'कारांनी **अशुद्ध पुर्तुगेज** कित्याक म्हणची न्हंय?

कोंकणी भास ही जशी 'अशुद्ध मराठी' तशीच गोंयची भुंय हीय 'अशुद्ध मराठण' आशिल्ल्या भाशेन तांतूंतल्या गांवांचीं नांवां विद्रूप करून बरौंची खोड कांय 'गोंयच्या मराठ्यां'क लागल्या हें पळौन तांगेले पिसायेखातीर हांसूंक येता. ते पानवेलीक पनवेल, ताळगांवाक तळेगांव, बांदोड्याक बांदिवडें, शिरोड्याक शिरवडें, नागझरीक नाझगर, दिंवचलेक डिचोली, कोरगांवाक कोरेगांव, व्हडल्या गोंयाक थोरलें गोवें, म्हाड्डोळाक महाडदळ, भाणस्तारीक भाणस्तरी, फोंड्याक फोंडा, पिर्योळाक प्रियोळ, आराब्याक आरोबा, मुरगांवाक मार्मगोवा, बारदेसाक बारदेश, साष्टीक सासष्टी आनी गोमन्तकाक गोमांतक म्हण्टात ! निजाच्या माणकुल्या नांवांची अळशिकावणी दशा करून उडौंक तांकां कितें फावो तेंच समजना. ते गोंयकारांल्या कुळनांवांचेय फाटीक लागल्यात. तींय ते आपले भाशेन शुद्ध करतात. जोयशी, तेलिंग, परोब, देसपरोब, म्हांबरे हांचे बदला ते जोशी, तेलंग, प्रभु, देशप्रभु, महाबरे हीं उतरां बरैतात. गांवावैल्या आडनांवांतलो 'कार' काडून

ताचे बदला 'कर' घालतात. शणै बदला शेणवी घालतात. दिसपट्ट्या वेव्हारांत आनी पुर्तुगेज दुकुमेन्तांत शणै हें भौमानाचें उतर घालूंक जे केन्नाच विसरनात तेच मराठी बरौंक लागतकूच आपणालें नाव दाटून उगडें बोडकें करून ताची दशा होगडायतात. विठ्ठल गोविंदशणै पानवेलकार ह्या भारीभुशणाच्या नांवाबदला ते विठ्ठल गोविंद पनवेलकर अशें बरैतात.[२] बाब हें भौमानीक उतर सोडून पंत आनी राव ह्या उतरांक ते वसवसतात. एका वेळार पुर्तुगेज लोकांचेरूय बाब हें उतर आपलो शेक चलैतालें आनी 'सिञ्जोर बाबा' म्हणटकूच ते गर्वान फुगताले. अजुनूय तांगेले पिळगेक बाब हें उतर लायलें ना जाल्यार अपमान जाल्ल्यावरी दिसता. अठराव्या शेंकड्यांत ह्या बाबान मराठी लोकांचेरूय आपलो छाप बसैल्लो म्हणपाचें ते-वेळच्या पत्रांवैल्यान उक्ताडा येता. चडकरून रामचंद्रबाब सुखठणकार हांगेल्या नांवांतल्या बाबाचोच हो प्रताप जांवये. निखट्या नांवांत तरी त्या लोकिकवंत आनी कर्तुत्वी पुरशाचो अणकार करपाची इत्सा त्या वेळार जायत्या मराठ्यांक जाल्ली; आनी त्या खातीरूच जनार्दनबाबा पेशवे, फत्तेसिंगबाबा गायकवाड, रघोजीबाबा भोंसले, दौलतरावबाबा शिंदे, हरिपंतबाबा पटवर्धन, बाळोजीबाबा कुंजर, रामचंद्रबाबा फडके, विठ्ठलरावबाबा पटवर्धन यादवाडकार, धोंडोपंतबाबा गोडबोले हीं आनी असलीं नांवां आज आमकां वाचूंक मेळटात. परक्यांचेर आपलें तेज घालपाची गोंयकारांली ही शक्त ह्या विसाव्या शेंकड्यांत दिसानदीस नाशी जावन उफाट्टे ते दरएक गजालींत परक्यांलें बंदे जावपांत आनी कुड्डेपणान तांगेलो अणकार करपांत भुशण मानतात हें पळौन मोटो खेद जाता.

गोंयची 'अशुद्ध मराठी' शुद्ध करचेखातीर 'हिंदु'कार पुणेंकारांक कितलेशे काकळुती येतात. कोंकणी 'पठ्ठाळो' हाचे बदला मराठींत 'पठ्ठाळा' करतकूच जालें अशें ते तांकां सांगतात. पुणेंकारांबाजत कोंकणिचें मराठी-करप जांवचें ना असो तांगेलो समज आस. देखून ताणींच तें काम माथ्यार घेंवक जाय अशें 'हिंदु'कार म्हण्टात. आपले सारक्या गोंयकारांनी कोंकणी उतरांक मराठी आंगलें घाल्यार 'ह्या लोकांक मराठिची वळखूच ना' अशें म्हणून पुणेंकार आनी हेर लोक चाळैतले म्हणपाचें तांकां भें दिसता.[३] हाचेवैल्यान, पुणेंकार आनी मराठणांतले हेर लोक हांचे संबंधान 'हिंदु'कारांक अजून मोटो उबारो आस-सो दिसता. ते जायते शेकले-भाजले तरी आसताना तांगेल्या कपळाच्यो किडी अजून मरनात. गोंयच्या गावड्यांक शुद्ध करूंक ताणीं आनी हेर गोंयकारांनी सातारचे जे ब्रह्मचारी पुंजाइल्ले तांगेल्या दांड्यांचो मार अजून तांचे फाटीर उदेला थैंच आस; आनी इतले म्हणसर, कोंकणी भास शुद्ध करूंक ते पुणेंच्या गृहस्थांक पांयां पट्टात; परंत हेय गृहस्थ भितर्यां कशे

तरेचे आसत म्हणपाचो अणभव तांकां येंवक नासो न्हंय. सातारच्या ब्रह्मचाऱ्यांक सांवारून धरचेखातीर पुणेंकारांनी आनी तांगेल्या पाख्याच्या हेर मराठ्यांनी **गोंयच्या खऱ्या पक्षाचो जो घुस्मटमार केलो** ताची वर्णना खासा 'हिंदु'कारांनीच आपणाल्या पत्रांत अज्रंवर करून दवल्ल्या; तिची जाय जाल्यार ताणीं आतां उटावणी करची. लंचखायरे म्हणून गोंयकारांची नसतीच बिर्मत घेतिल्ली ती सातारच्याच ब्रह्मचाऱ्यांनी न्हंय? गोंयच्या बायलांच्यो मस्कऱ्यो केल्ल्यो त्योय ताणींच न्हंय?[४] आनी असल्या ह्या ब्रह्मचाऱ्याक ऐन फजेतेच्या वेळार पोटलून धरून आलासरो दिल्लो तो पुणेंच्याच एका मुखेल पत्रान न्हंय?[५] तशेंच, त्या ब्रह्मचाऱ्यांच्या पाख्यान मेळ्यांचो मोग चलौन, 'हिंदु'कारांक तोंड धांपून धुमक्यांचो मार घाल्लो तो मराठणांतल्याच पत्रांनी न्हंय?[६] परंत गावड्यांले शुद्धिचे वेळचीं पुणेंकारांलीं हीं कर्तुपां, मराठिच्या मोगान, 'हिंदु'कार आतां साप विसरून, **कोंकणिची शुद्धि** करूंक ते तांगेल्या पांयांर लोळटात हें एक नवलूच म्हणूंक जाय. तांकां पुणेंकारांकडसून आनीकूय घणे खावन पावलाकणकणीं ताजो अणभव शिकचो आस-सो दिसता.

कोंकणी भास मराठी करूंक 'हिंदु'कार पुणेंकारांची सायबाजात्रा करतात खरे; परंत ती तांकां निखालुस येना जाल्यार ते तिची मराठी कशे करतीत? पठ्ठाळो हें उतरूच मुदलाक तांगेल्या मेंदूंत घोळना जाल्यार ते ताचो 'पठ्ठाळा' कसो करतीत? ही अडचण निस्तरांवक एकूच उपाय आस तो हो कि, 'हिंदु'कारांनी कोंकणींत पुस्तकां रचून तीं पुणेंकारांक आनी हेर मराठ्यांक आदीं शिकौंचीं. हे तरेन ते एक फावट कोंकणी भास शिकतकूच तांकां 'हिंदु'कारांले पद्धतीन 'तो पिसो भुरगो वेता' हाचें 'ता पिसा भुरगा वेतो'[७] 'ताच्या पोटांत जाता' हाचें 'त्याच्या पोटांत जातें', 'रामशणैलो चलो पेटलांत दुडू दवरता' हाचें 'रामशणैला चला पेटलांत दुडू दवरतो,' 'फटकिरो फटगो इल्लेंशें फट उलैता' हाचें 'फटकिरा फटगा इवलेंशें फट उलवितो,' 'तो कितें उलैलो?' हाचें 'ता कितें उलविला?' अशीं शुद्ध मराठी वाक्यां करूंक भौच सोपें जातलें आनी मराठी भास लसलसून फसफसून माततली. हे पद्धतीन मराठीबाजत संवसारांतल्यो सगळ्यो भासो अशुद्ध लेखून त्यो शुद्ध मराठी करूंक इल्लोय कळाव लागचो ना आनी सगळ्या संवसाराची आवै-भास मराठी जांवक पावतली. मराठिच्या हिताखातीर मराठ्यांक कोंकणी भास शिकैता म्हणसर, 'हिंदु'कार आनी तांगेले तटकार हाणीं कांय काळ मराठी ग्रंथकार आनी बरपी जांवचेलो आपलो हावेस चिके आळाबंदा हाडचो. हो तांगेलो हावेस आजवेर केन्नाच फळाक येंवक ना आनी फुडाराकूय फळाक येवपाचें निखालुस आदवसाण ना. मराठणांतले

लोक भोव बरें जाणत कि, गोंयकारांली भास मराठीकूय वेगळी आसून ते जी कसली मराठी म्हणून बरैतात तांतूंत आपणालींच उष्टीं उतरां आनी उष्टे विचार चावडावन मांडिल्ले आसतात. तेन्ना, ताणीं उष्टायल्लें आपलेंच उष्टें पर्थून गिळून आपलें तोंड दाटून कित्याक भष्टांवचें? चडकरून इतलेच खातीर, कापावैली निखटी कुरैची तिकीट दिसनाफुडें गोंयच्या बरप्यांचे लेख मराठणांत कैराच्या पांटुल्यांत पड्टात जांवये.[८] अशें आसताना, 'हिंदु'कारांनी मराठी साहित्यकारांक बेष्टेंच कित्याक शिणचें आनी तांचेर रागार-फुगार कित्याक जांवचें तें समजना. गोंयच्या मराठी बरपांत आपले शकमिचें, निजाचें इल्लेंय तेज आशिल्लें जाल्यार तें आपशींच मराठणाचे नद्रेंत भरून तागेले दोळे दिपकायतलें आसलें. तें कितलेंय सांदी-कोनशांत लिपौन दवरिल्लें जाल्यार आपल्याच वेगान उक्ताडा येतलें आसलें. 'म्हाका पळ्यात, म्हाका पळ्यात' म्हणून ताका मराठणाची पांयांपडणी करपाची गरज नासली. वज्राचो खडो खैंच्याय कैरा-वाऱ्यांत धांकिल्लो आसलो तरी तो घिसघिसून लोकांले नद्रेंत भरताच. ताका भिकाऱ्यांभाशेन 'बाबाऽऽ धर्म करात' म्हणून वाळवो पेंचची गरज पडना.

गोंयकारांली मराठी बरपावळ निजाच्या मराठ्यांक मानना हें जरी खरें आसलें तरी हालींच्या वर्तमानाक कांय पुणेंकार तांगेल्या मराठिच्या अभिमानाची आनी मराठी बरपाची सुमाराभायर तुस्त करूंक लागल्यात. कांय जाण म्हण्टात कि, खासा मराठणांतल्या लोकांपरस गोंयच्या हिंदूंक मराठिचो चड अभिमान आस.[९] हाचेवैल्यान, 'खासा पापाकूय पापाचो चड अभिमानी' (E' mais papista do que o proprio Papa) अशी जी पुर्तुगेज म्हणणी आस ती गोंयकारांक जिस्त लागू जाता अशें म्हणूंक जाय. दुसरे कांय म्हण्टात कि, गोंयकारांल्या तोंडांत दिसरात कोंकणी भास घोळटा आसतानाय तांगेली लिखणी निभेळ आनी तेजिष्ट बरी मराठी भास वियेता; आनी आपणांल्या मराठ्यांची सदींची उलौंची आनी बरौंची भास मराठी आसुनूय तीआपणांक शुद्ध बरी मांडूंक येना.[१०] हे भाशेन, खासा मराठणांतल्या निजाच्या मराठ्यांकूय **गोंयचे अडेचे आनी बाटके मराठे सवाय-मराठे** जाले अशें म्हणचें पड्टलें. परंत हे म्हणणेंत कुस्कूट जीव ना. बाबडे सादे-भोळे आनी मन-मेकळे गोंयकार असले हे फुलार चोबाळणेन फुलतात आनी जायते फावटीं पेंगटाचें सोडून माथ्याक रेवडावन बेष्टे हांशाक म्हारग जातात. पुणेंकारांले म्हणणेंत तांगेल्या सुवराथाबाजत खरेपणाची इल्लीय आशी आशिल्ली जाल्यार, मडगांवच्या 'हिंदु' पत्राक वर्सानवर्स 'दोळ्यांकडेन काळोख आयलोरे सायबा ! नाखाकडेन मात्सो कांदो धरात !' म्हणून कित्याक खासावीस जांवचें पड्टलें आसलें ? मराठणांतल्या पावणेदोन कोटी लोकां भितर हजार देड हजार लोकूय तांगेले पटयेकार

जांवक फावनात? वैर सांगिल्ल्या चोबाळण्या पुणेंकारांनी 'हिंदु'ची पर्वणी आनी पिर्डणी आयकूंक नाशी न्हंय. ते ताका पालव दिंवक आजवेर कितलेशे वावुल्ल्यात म्हणपाचें 'हिंदु'कार चिके येवजून पळेतीत व्हय? पुणेंकार गोंयकारांची चोबाळणी करतात ती वोगीच न्हंय.तांतूंत तांगेलें सुवराथी राजकर्ण भल्लां. गोंयां आपणांल्या मराठी पत्रां-पुस्तकांच्या खपाक पेठ जोडून मराठी ब्रह्मचाऱ्यांक, **माष्टरांक**, खेळगड्यांक, हरदासांक, पुराणिकांक, मेडेजोयशांक आनी पिंगळ्यांक असुदाय चरूंक सासणाचें मळ मेळचें हीच तांगेली वान्सा. गोंयकारांल्या हिताची तांकां भोव चिंता. देखून अपुर्बायेच्या **गोंयकारांनू, उठात ! एन्नादर जागे जायात !** भोळो भावार्थ सोडून दियात. संवसारांतलीं तड्डकां पारखात. लोकांनी भुरकुटायल्यार भुरकुटूं नाकात. तुमगेलें हित कित्यांत आस तें पळ्यात. मराठीखातीर वोगीच तुमगेली शक्त होगडांव नाकात. तुमी तिचेखातीर कितलेंय नाख आदळ्ळें तरी ती तुमगेली जांवची ना. तिचो छंद घेंवचे भाशेक तुमी तुमगेले खाशेले आवैचोच ताथो-माथो कित्याक करिनात? तिका दोळे सुजैत कोनशांत कित्याक बसैतात?

पुणेंकारांले चोबाळणेचें भितल्लें रूप कशे तरेचें आस तें शिटूक नद्रेच्या 'हिंदु'कारांनी पारखूंक नाशें न्हंय. तांकां तांगेले हालवारे वैल्याचारांचे आनी पोले दिसतात. ते म्हण्टात, 'मराठे आज जरी गोंयच्या मराठिच्या भक्तांक आखुळटात-माखुळटात तरी तितल्यान गोंयकारांक ते आपले वांगडचे आनी सारके योग्यतायेचे लेखतात अशें समजल्यार चूक जातली... मराठ्यांले नद्रेंत गोंय भरूंक ना.'[११] परंत हे म्हणणेंत 'हिंदु'कारांली एक भयांकृत चूक जाता. गोंयकारांक मराठी भास येना ही गजाल सूर्याच्या ओता इतली जरी घणघणीत आसली तरी तितलेखातीर मराठे तांकां आपले वांगडचे आनी सारके योग्यतायेचे लेखिनात असो आरोप तांचेर केल्यार 'हिंदु'कार आपली नसतीच बिर्मत घेतात म्हणून मराठे केंच करून तांचेर तिडकल्याबगर रांवचे नात. ते म्हण्टले, 'गोंयकारांक मराठी भास येना म्हणून आमी जर तांकां सकैल्या पांवड्याचे लेखचे तर आमकांय कोंकणी भास येना म्हणून ताणीं आमकां सकैल्या पांवड्याचे कित्याक लेखचे न्हंयत? जर्मनांक इंग्रजी भास येना म्हणून इंग्रजांनी तांकां उणे योग्यतायेचे लेखल्यार इंग्रजांक जर्मन भास येना म्हणून तांकांय तसलेच योग्यतायेचे लेखूंक नाकात व्हय? ह्या न्यायान, दुसऱ्याली भास आपणाले आवै-भाशे सारखी वा मुदलींच येना म्हणून संवसारांतले सगळे लोक एकामेकांपरस सकैल्या पांवड्याचे जावन उंच पांवड्यार बशिल्लो एकलोय मनीस खैंचेकडेन शास्त्राक दिष्टी पडचो ना.' मराठ्यांली ही म्हणणी लटकी कोण म्हणत? **आपणालो उंच, उजळ आनी व्हडविकेचो इतिहास विसल्लेल्या 'हिंदु'कारांक**

ते आनीकूय म्हण्टले किं, 'ज्या गोंयकारांनी एकसारकीं सवायदोनशीं वर्सां आमचेर सत्ता चलैली आनी संवसारांतल्या सात नवलांतलें नवल म्हण्टात तसलें सुंदर कैलास देवूळ वेरूळच्या दोंगरांत कांतौन आपले बुद्दिचें आनी बळग्याचें अज्रंवर यादस्तिक उबारून दवल्लें [१२] तांकां आमी खैंच्या तोंडान आमचेकूय उणे योग्यतायेचे लेखूं? हो पुर्विल्लो इतिहास घडीभर कडेक दवरून अगदीं आर्विल्ली ताजी तट्टटीत गजाल पळौंक गेल्यार, १७६१ त पानपतच्या झुजा-मळार अहमदशहा अबदालीन मराठणाच्या गळ्यांतलें मंगळसूत्र तोडून हांतांतलीं कांकणां फोडून उडैलीं [१३] आनी शाहिराचे म्हणणे भाशेन 'धड आहेव न रांडकी न कैसें केलें भगवंतानें'[१४] अशी जे भुंयेची दशा केली ते भुंयेच्या गळ्यांत गोंयच्या ज्या पराक्रमी पुतान आपले तरवारिच्या बळग्यान सौभाग्याची गळसरी पर्थून बांदली, हातांत कोंपरामेरेन वज्रचुडे पर्थून भल्ले आनी कपळभर यशाच्या कुकमाचो तिळो घसघशीत बरो लायलो त्या जिवबादादा गोंयकाराक,[१५] तागेल्या भाव-बंदांक आनी तांकां वियेल्ले भाग्यवंत आवैक - गोंयाक - आमचेपरस सकैल्या पांवड्याची लेखूंक आमकां अंदाजा कशी जायत?' 'हिंदु'कारांनू, चिके कान दिवन **आयकात ही मराठ्यांली म्हणणी.** तुमी समजतात तितले ते बेइमान जांवक नात. तुमी तांची नसतीच बिर्मत घेंव नाकात आनी उतरा-पावलाक 'आमी उणे, आमी पिशे, आमी मेंगे, आमी अबर्गत, आमी सकैल्या पांवड्याचे' म्हणून अपेसपणाच्यो होवयो दिसरात गांव नाकात. ह्या होवयांचो परिणाम गोंयचे तरणे पिडयेच्या मनार कितलो घातमारो जाता तें तुमी अजून बारकायेन चिंतून पळौंक नाशें दिसता. आंगांत एकाद्री पिडा नासताना ती आस म्हणून एकाद्रो वैज कोणाकूय सांगत जाल्यार, तो बेष्ट्या संशयानूच वायटांत पडून, वेळ पांवचे आदीं हुंडी वाटायता हें तुमी ध्यानांत दवरात. तुमी वर्तमानपत्रकार हे गोंयचें बरें-वायट पळेणे वैज आसत. गोंयकारांक खरेपणाचीच कसली पिडा भोगता आसली जाल्यार तिची बारकायेन चिकित्साय करून वायटाकाराक भेष्टायनासताना, तुमी तांकां ओखद दियात; परंत जी पिडा मुदलाकूच ना ती तांकां जाल्या म्हणपाचो तुमचो आनी तांचो लटको समज करून तांचो जीव तुमी घेंव नाकात. **'समज तारता आनी समज मारता'** हीं उतरां तुमी तुमगेले गांठीक घट बरीं मारात. 'मनीस समजाळ आस. जसो जागेलो समज तसो तो जाता'[१६] ही श्रीकृष्णाची मोलादीक आनी अणभवीक म्हणणी तुमी तुमगेल्या काळजाच्या पट्यार खोल बरी कोत्रायात.

टिपो :

१. हिंदु, ३१ माय, १९२७, पा. ४.

२. मराठी भाशेच्या अभिमानान 'गोंयचे मराठे' शणै ह्या भौमानीक उतराचीय वाट लांवक लागल्यात. मराठी भास शिकतकूच आपणालो मुदलचो मेंदू कांतून उडौन मराठ्यांल्या मेंदुनूच येवजूंक जाय असो तांगेलो समज जालासो दिसता. मराठ्यांनीं दिसाक रात म्हळी आनी रातीक दीस म्हळो जाल्यार 'गोंयच्या मराठ्यां'नींय तशेंच म्हणूंक जाय; तशें म्हळेंना जाल्यार, मराठी भास सारकी बरी उलौंक येना म्हणून मराठी लोक तांकां चाळैतले आनी हांसतले म्हणपाचो तांकां थर्त भय दिसता. कोंकणी भाशेंत शणै हें उतर बामणांल्या नांवांक उंच पदवे भाशेन लागता. तें केळोशी-कुशाळकार, साष्टीकार, बारदेसकार आनी पेडणेंकार ह्या चारूय पंगडांक भौंच पुर्विल्ल्या काळापासून लागत आयलां. अशें आसताना, ती एक जात आस म्हणपाचें मराठणांतले लोक समजतात आनी मराठी वाक्यांत 'ब्राह्मण, शेणवीं' असो ताचो उपयोग करतात. गोंयच्या बाटक्या मराठ्यांनींय मराठी दांत्यार दळूंक बसतकूच तशोच होवयो म्हणूंक जायत. नाजाल्यार, ते मराठे, बृहन्मराठे आनी बृहद्दंडकारण्ये कशे जातीत? आनी मराठी ही तांगेली आवैभास म्हणपाचें सिद्ध जावन ते नांवा-लोकिकाक कशे चट्टीत? मराठणाची मुद्रा आपणाल्या कपळार खोल बरी दागून घेंवचे खातीर गोंयच्या कांय बामणांनीं आपलें उंच बामणपण होगडावन सुदीर जांवची तयारी केल्या; देखून, मराठी लोकांनीं तांगेली फाट थापटून 'बृहद्दंडकारण्यदेशाभिमानी' आनी 'बृहद्दंडकारण्यभाषाभिमानी' अशो नव्यो नव्यो खडपांसारक्यो अरिष्टांच्यो पदव्यो तांगेल्या गळ्यांत बांदूंक जायत आनी फुडेंफाटीं ते बांदतले हांतूंत दुभाव ना. गोंयच्या भुरग्यांनीं ल्हानपणापासून मराठी मेंदून येवजूंक जाय म्हणून 'हिंदु'चे संपादक भौमानेस्त दत्तात्रय व्यंकटेश पै हे गोंयचे भुंयवर्णनेच्या दुसऱ्या वांट्यांत **शणै ही बामणांची एक पोटजात आस** म्हणपाचें तांकां एन्नादर शिकौंक लागल्यात!* शाबास! असो मराठिचो अभिमान धरून आपुण कोण म्हणपाचें विसल्ल्यारूय आमगेलें गोंय मराठणांत विर्गळून आनी एकजीव, एकरूप जावन सगळ्या संवसारांत माथें उबारतलें हांतूंत दुभाव ना!

* गोमंतकाचा भूगोल, भाग २, मडगांव १९३०, पा. ६६.

३. हिंदु, ११ जून, १९२९, पा. ५.

४. हिंदु, ५ फेब्रेर, १९२९, पा. ९-१०.

५. हिंदु, २ वैतुंब्र, १९२८, पा. ६-७.

६. हिंदु, ९ वैतुंब्र, १९२८, पा. ६.

७. बाणकोटी सुदीर शुद्ध मराठी उलौंचे खातीर 'तो' बदला 'ता' करतात. 'पठ्ठाळो'चें 'पठ्ठाळा' करपासारकेंच हें आस.

८. हिंदु, ११ जून, १९२९, पा. ४.

९. हिंदु, ११ जून, १९२९, पा. ४.

१०. हिंदु, ३० आब्रील, १९२९, पा. २.

११. हिंदु, १३ आगोस्त, १९२९, पा. ४.

१२. गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक, पा. २८-२९.

१३. दक्खनची सौभाग्य-गळसरी तुटली त्या समयाला । पा. ११२.
नव लाख बांगडी फुटली असा हाहाकार । दक्षिण बुडाली सती पडल्या महामूर ।...
सोन्याची जळली भट्टी उरलें खापर ॥ पा. १२२.
ऐतिहासिक पोवाडे, भाग १ संपादक य. न. केळकर, पुणें १९२८, पानपतचा पोवाडा, शाहीर सगनभाऊ.

१४. ऐतिहासिक पोवाडे, भाग १, शाहीर सगनभाऊ, पा. ४११-४१२.

१५. शिंद्यांचे सरदार जिवबादादा एक वीर भारती । पा. २५५.
जिवबा बोले गर्जुन मोंगल काय आणिला जिन्नस । उडविन बाविस टोप्या झेंडे नेऊन लाविन आकाशास । पा. २५८.

रावरंभा मोंगल आला खर्ड्याच्या वरता धडाधड तोफा सोडिता । मोडली हुजरात । पळूं लागले समस्त । परशुराम आले हातघाइस । जिवबादादा भले शुर मर्द ऐका त्याची मात । आले तोफेचे दणके देत । गोळ्या पाठिमागें गोळ लाविला हाती पळ आरडत। शिपायाची तंगडी उडुन जात । ... बुधवारच्या दिवशीं ज्यानें मोंगल मोडिला । नेऊन खर्ड्यामधि कोंडिला । ... रातचा मोंगल पळुन गेला ।... येश आलें दौलतरायाला। पा. २६३-२६४. शाहीर बाळा लक्षुमण.

जिवबांची मर्दुमकी निराळी । मोंगलाची केली टवाळी । पा. २२४ शाहीर प्रभाकर.

- ऐतिहासिक पोवाडे, भाग १, खर्ड्याची लढाई.

''श्रीमंत (दुसरे बाजीराव पेशवे) बोलले कीं, 'त्यांस (परशुरामभाऊंस) जखम लागली आहे, खर्ड्याचे स्वारीस अघाडीस होते. (लढाईचें) तोंड त्याणीं लाविलें.' त्याजवर गोविंदराव पिंगळे श्रीमंतांचे रूबरू बोलले कीं, उगीच पुढें दहापांचांनिशीं गेले. तिकडून (निजामाकडून) पांच सात असामी आले म्हणोन मागें पळाले, तेव्हां जखम लागली.''

- ऐतिहासिक-लेख-संग्रह, संग्राहक वासुदेव वामन शास्त्री खरे, भाग ११, लेख ४४७३, पा. ५६६२.

''खांसा स्वारी मोंगलावर झाली. भोंसले व परशुरामभाऊ व होळकर स्वारीबरोबर होते. मुख्यत्वें दौलतराव शिंदे यांजकडील जिवुबादादा बक्षी मोंगलाचा पराभव करून मशिरास घेऊन पुण्यास आले. मोठी फत्ते झाली.''

- काव्येतिहास-संग्रह, पत्रें, यादी वगैरे, यादी ३३२, पा. ३०५.

१६. श्रद्धामयोऽयं पुरुषो यो यच्छ्रद्धः स एव सः ।३। भगवद्गीता अ. १७.

# किर्कोळ मुद्द्यांची निस्तरावणी

मराठिच्या कांय अभिमान्यांची म्हणणी अशी आस कि, सोळाव्या शेंकड्यांत गोंयां रायतूरचे कोलेजींत इंग्रज जेजुइत कवी पाद्रि थॉमस स्टीफन्स हाणें जें नामनेचें क्रिस्तांव पुराण मराठींत रचलें तें थैं मराठी भास चड घोळणुकेंत आसल्या बगर केन्नाच रचुं नज आसलें. तांगेलो मुद्दो असो आस कि, त्या पुराणांतली भास आनी ओपारी ध्यानांत घेतकूच, तो कवी, मुकुंदराज, ज्ञानेश्वर, आनी एकनाथ ह्या कविंचे पंगतीक बसौंचे योग्यतायेचो आसून तो ती भास गोंयच्या बामणांकडसून शिकला; इतलेंच न्हय, तर तें पुराणूय ताणें बाटिल्ल्या बामणांकडसून रचून घेवन आपल्या नांवान उजवाडा हाडलां. फाटल्या शेंकड्यांत कांय इंग्रज विद्वानांनीं मराठी पंडितांच्या पालवान मराठी ग्रंथ रचून आपल्या नांवान उजवाडा हाडले, तशेंच पाद्रि स्टीफन्सान आपणालें पुराण गोंयकार बामणांच्या पालवान रचून आपल्या नांवान उजवाडा हाडलें खैं. ह्या मुद्द्यावैल्यान ते असो सिद्धांत काड्टात कि, सोळ्याव्या शेंकड्याचे अखेरेमेरेन गोंयां शुद्ध मराठी भास घोळटाली; परंत उप्रांत ती भंगून आतांची कोंकणी भास जल्मा आयली. पाद्रि स्टीफन्स गोंयच्या बामणांकडसून मराठी शिकलो हांतूंत निखालुस दुभाव ना. तशेंच, बाटिल्ल्या बामणांकडसून पुराणाची बुनेद मारून, पारे घालून आनी पाष्ट उबारून घेवन ताची रेखणी ताणें खासा आपल्या हातांनी केली हेंय जायत्या वांट्यांनी खरें आसूंक जाय. परंत हाचेवैल्यान, गोंयां सोळाव्या शेंकड्याचे अखेरमेरेन शुद्ध मराठी घोळटाली आनी उप्रांत कोंकणी भास जल्मा आयली हे म्हणणेंत निखालुस जीव ना. खासा स्टीफन्स कवी पुराणाचे प्रस्तावनेंत म्हण्टा कि, 'हें सर्व मराठिये भासेन लिहिलें आहे... पण **सुध मराठी मधिमा लोकासि नकळे** देखुनु... सोंपीं **ब्राह्मणाचे भाशेचीं** उतरें ठाईं ठाईं मिसरित करुनु कवित्व सोंपें केलें.'[१] हाचेवैल्यान सणसणीत सिद्ध जाता कि, पाद्रि स्टीफन्साच्या वेळार **गोंयां मराठी भास सगळ्याच लोकांक सारकी कळनासली**. तशेंच, मराठीपरस **बामणांली भास** म्हणपाची वेगळीच आसून ती **सगळ्या जातच्या गोंयकारांक समजताली**; देखून तांतूंतलीं उतरां मेकळेपणान जें थें घालून ताणें आपलें मराठी पुराण गोंयकारांक समजूंक सोपें केलें. हांतूंत सगळ्यांक समजणी **बामणांली भास म्हणचे कोंकणी भास** हें आनीक वेगळें सांगपाची गरज ना. आतांच्या कांय गोंयकार बामणांक मराठी शिकतकूच संगीत नाटकां रचपाचो जसो

नाद लागता तसोच सोळाव्या शेंकड्यांतल्या तांगेल्या कांय पूर्वजांक मराठी पुराणां वाचतकूच ते भाशेंत होवयो करपाचो नाद लागतालो जांवये. परंत तितले खातीर तांगेली आवै-भास मराठी आसली म्हणपाचें सिद्ध जायना. फाटल्या शेंकड्याचे अखेरेक न्यायमूर्ति काशीनाथशणै तेलिंग निजाच्या इंग्रजायपरस भोव बरें इंग्रजी बरैताले म्हणपाचें खासा इंग्रजांनीच कबूल केलां. हाचेवैल्यान, तेलिंगांची आनी तांचे वांगडा सगळ्या गोंयकार बामणांची आवै-भास इंग्रजी म्हळ्यार हांशाक म्हारग जातलें हें हांवें सांगपाची गरज ना.

मराठिच्या अभिमान्यांची दुसरी एक म्हणणी अशी आस कि, तुर्तांक गोंयां मराठी भास जायती मातल्या, थैं गांवाकणकणीं मराठी साळो जाल्यात, थैं मराठी बरपी जायते आसत आनी दोन तीन मराठी वर्तमानपत्रांय चलतात; देखून, आतां गोंयकारांनीं मराठीकूच आवै-भास कशी लेखून तीच दिसानदीस घोळौंची. हाचेर तुर्तांचे गोवेर्नादोर-जेराल सिञ्जोर जेनेराल क्राव्हैर लोपिस हे कपळाच्यो शिरो तणतणावन आनी नाखार बोट धरून तांकां म्हण्टले कि, 'चीप रावात! तुमगेले मराठीयपरस आमगेले पुर्तुगेजिचें हक गोंयाचेर अदिक आस. पुर्तुगेज भास एकसारकीं सवायचारशीं वर्सां गोंयाचेर सत्ता चलैता. पुर्तुगालचो वाल्मिकी लुइज द कामोंय्स हाका, गोंयचे माण्डविचें आनी जुंवारिचें पवित्र उदक न्हावन, माडां-फोपळिंचे थंड सांवळेक बसून रसाळ आंबे-पणस खावन, भांयगिणिचें गोड उदक पियेवन आनी बोचुड्डे-मडवळणिचें मंजूळ गीत आयकून, नामनेचें पुर्तुगेज कवित रचूंक स्फूर्त जाल्या. बार्बोज बोकाज कवी गंवडाळचे तारीर बसून सितेच्या कवडुल्याभाशेन पुर्तुगेजींत जायते काळ पर्वला. तोमास रिबैर कवी 'से'चे इगर्जेचे मोटे घांटिच्या लाळ्याकडेन दोळे लावन 'वाज गे घांटी, वाज सोनुले, वाज गुणुले, वाज' म्हणून पुर्तुगेजींत कितलोसो काकळुती आयला. गोंयचें सरकारी दप्तर पुर्तुगेजींत चलत आयलां. गोंयची न्याय-नीत पुर्तुगेजींत जाता. गोंयां पावलाकणकणीं पुर्तुगेज पाशाणा-बरपां मेळटात. गोंयचे दरएकले इगर्जेचे, इर्मितिचे आनी कपेलाचे कुशीक पुर्तुगेज साळ दिष्टी पट्टा. गोंयां देड-दोन दुजी पुर्तुगेज वर्तमानपत्रां आनी म्हैनाळीं भायर सरतात. गोंयचे माचिलांचे भोय आनी पणजें-रायबंद्राच्या तिट्यावैलीं नुस्तेंकारांलेगीत भोव बरी पुर्तुगेज कातरतात. देखून गोंयकारांनी पुर्तुगेज हीच आपणाली आवै-भास लेखून तिची पुजा करची. सि. लोपिसबाबांभाशेन इंग्रजी हिंदुस्तानाचे व्हिसरै लॉर्ड आयर्विन हेय मराठण, कर्णाटक, गुजराथ, सिंध, पंजाब, काश्मीर, बंगाल, मद्रास, मलबार आनी हेर प्रांतांक सांगतले कि, 'तुमी आतां तुमगेल्यो भासो पेल्यान धुकलून इंग्रजीकूच आवै-भास करात. कित्याक, ह्या

पावंणे दोनशीं वर्सांत हिंदुस्तानांत इंग्रजी भास इतली मातल्या कि, खासा ग्रेट ब्रिटनायपरस थैं इंग्रजी उलैतल्यांचो, बरैतल्यांचो आनी समजतल्यांचो आंकडो अदिक मोटो आस. थैं काशीनाथशणै तेलिंग, नारायणशणै चंदावरकार, सेठ फिरोजशहा मेहता आनी बाबू सुरेंद्रनाथ बानर्जी हांचेसारके नामनेचे इंग्रजी उलौपी जाल्यात. थैं गांधी म्हात्म्यासारके रसाळ इंग्रजी बरपी आसत. थैं देवी सरोजिनी नायडूसारकी कोगूळ इंग्रजींत गोड-म्होंवें कवित रचता. त्या भायर आज सगळ्या संवसाराची वेपारी भास इंग्रजी आस. देखून तिका आवै-भास केल्यार तुमी बऱ्याक पावशात.' हाचेर मराठिचे अभिमानी कसली जाप दितले ती आदीं दिवन मागीर ताणीं गोंयकारांक उपदेस करूंक फुडें सरचें.

मराठिच्या अभिमान्यांची तिसरी सांगणी अशी आस कि, 'तुर्ताक हिंदुस्तानांत एकचाराचें ल्हार फुगून वैर सल्लां. हिंदुस्तानाची एकलीच एक भास जाल्याबगर ताचो एकचार सारकोबरो जायसारको ना. हिंदुस्तानांत आदींच जायत्यो भासो आसात; तांतूंत आनीक नवी भर घालची न्हंय.' हो उपदेस खऱ्यांनींच भांगराचो आस. नव्या भासांची भर घालचे परस आसत त्योय भासो ना करून उडौन तांचे सुवातेर सगळ्या हिंदुस्तानाची एकूच भास जायत जाल्यार भांगरापरस हळडुवें जायत. गांधी म्हात्म्यांल्या मत्तान हिंदी हीच हिंदुस्तानाची भास जांवक फावोशी आस. हें खरें आसल्यार, हिंदुस्तानांतले सगळ्यांत जाणटे आनी गिन्यानी मनीस आपापल्यो भासो पैस भिरकटावन उडौन हिंदिच्याच नादाक कित्याक लागनात? कवी रविंद्रनाथ टागोर आपणाली गीतांजली बंगालींत कित्याक रचतात? गांधी म्हात्मे आपणाली जीण गुजराथींत कित्याक बरैतात? केसरीकार टिळक आपणालें गीतारहस्य मराठींत कित्याक भायर फोट्टात? हाणीं हो उद्योग हिंदींत केल्यार बऱ्याक पडचें नासलें व्हय? परंत उपदेस सदींच नेणट्या आनी अजाण मनशांखातीर आसता. जाणट्या आनी गिन्यांनी मनशांक ताची निखालुस गरज लागना. मराठिच्या अभिमान्यांक हिंदुस्तानाच्या एकचाराची खरेपणान पोटतिडक आसली जाल्यार तांकां म्हजी पैली सांगणी ही आस कि, ताणीं आपलें ढोंगीपण पेल्यान भिरकटावन हांव सांगतां ती करणी करून दाखौंची आनी मागीर आमकां कोंकण्यांक उपदेस करूंक फुडें सरचें. तरूच हांव तांगेली फाट मोटे तोखणायेन थापटीन. लोकिवंत इस्पाञ्जोल नवलकथाकार मिगेल सेर्व्हान्तिस हाणें सोळाव्या शेंकड्यांत 'दों किशोत द ला मांश' ह्या सरदाराले धुवेकडसून जे तरेचीं इस्पाञ्जोल पुस्तकां जाळून उडौंक लायलीं ते तरेचीं पुस्तकां मराठिच्या संवसारांत सुमाराभायर भल्ल्यांत; तांची ताणीं आदींपैलीं होळी पेटौंची. हे होळयेन संवसाराच्या गिन्यानांत इल्लीय तूट पडनासताना मराठी

पुस्तकांच्यो आरमारी जायत्यो ल्हव जातल्यो. मागीर जीं थोडीं-भोव म्हत्वाचीं पुस्तकां उरतीत तांचीं ताणीं हिंदींत भाशांतरां करून मूळ मराठी पुस्तकां ना करून उडौंचीं. ताणीं मराठी भाशेंत उलौप आनी येवजप सोडून दिवन हिंदी भाशेची संवय लावन घेंवची. मराठी भाशेंत केन्नाच्च कोणाकडेन उलौंचे नात म्हणपाचो सपूत ताणीं घेंवचो. नव्या जल्मा येतल्या भुरग्यांक जमनीर पडना फुडें हिंदी भाशेंत आल्लय करून तांगेल्या कानार मराठी उतर केन्नाच पडना जांवची जतनाय घेंवची. जणएकल्या मराठी मनशान हो नेम सुमार तीस वर्सां कडकडीत चलैतकूच, हिंदी ही एकाद्री तांगेली निजाची आवैभास जावन हिंदुस्तानाचो एकचार घडौपांत तांगेलें नांव सगळ्यांमुखार येंवये आनी तांगेल्या उपदेसाचो आनी देखिचो परिणाम हेर हिंदी लोकांचेर भोव बरो जावन सगळ्या **हिंदुस्तानाची एकलीच एक हिंदी भास जांवक** पांवये. मागीर हिंदुस्तानांतले लोक भाशेच्या निमतान तरी एकामेकांक उणे लेखून द्वेस मातौंचे नात. मराठणान हें काम मुजरत आपल्या माथ्यार घेंवचें.

गोंयच्या कांय बाटक्या मराठ्यांली म्हणणी अशी आस कि, 'कोंकणी भाशेचीं जायतीं रुपां आसून गोंयांतूच तिच्यो छाप्पन भासो घडौं येतीत. गोंयच्या जाती-जातींतल्या आनी म्हाला-म्हालांतल्या कोंकणींत जायतें अंतर आस. भाशेचे गजालींत क्रिस्तांव आनी हिंदु हांगेलें केन्नाच जमचें ना. तांगेल्या झगड्याक पाल्ंव लिपयेपासून लागतलें. क्रिस्तांवांक रोमी लिपि जाय जाल्यार हिंदूंक देवनगरी जाय. तुर्ताक दरएकले जातींत अभिमान जागो जाला; म्हण्टकूच मेळत तो आपणाली भास फुडें करून धोंस घालतलो. जैं तीन कोटी लोकांली मराठी भास कशी वांचत म्हणपाचो हुस्को जाला थैं राजाचो आलासरो नाशिल्ल्या मूठभर लोकांली आनी धिकेंभर प्रांताची स्वतंत्र भास कशी जांवक पावत? देखून गोंयकारांनी मराठीकूच माथ्यार उबारची.' हे बाटके लोक चड शाणे दिसतात. तांगेल्या घुडघुड्याचे सुकिल्ले कट्टेएद्या इल्ल्याशा मेंदूंत सगळ्या संवसाराचे बुट्टेचीं मोडां दिसरात खुबळटात आनी आतां फुडें कशें जातलें म्हणून तांगेल्या आंगाक कामागर्जे बगर चरचरीत शेळो घाम सुट्टा. ह्या बाटक्यांक म्हगेली सांगणी इतलीच आस कि ताणीं राजवाक सोरोप समजून वोगीच खासावीस जांवचें न्हंय आनी जीव घालौंचो न्हंय. तांकां जीं संकष्टांकशीं दिसतात तीं चिटक्यामिटक्यांच्या पोरसांत कावळ्यांक भेष्टांवक दवरिल्ल्या तणाच्या हावक्यांपरस चड भयांकृत न्हंयत. ताणीं कोंकणिच्या म्हऱ्यांत जीं संकष्टां उबीं केल्यांत तीं काल-पैरच्या अठराव्या शेंकड्याचे अखेरमेरेन मराठीकूय भेष्टायतालीं आनी अजून भेष्टायतात.

मराठिचें सगळ्यांत व्हडलें अरिष्टांचें संकष्ट म्हळ्यार मराठणांतले संस्कृत पंडित.

हांकां संस्कृत भाशेसामखार मराठी भास कुंड्यापाश्ट दिसताली. ते संस्कृताक सजनी बायलेची ओपार दिवन मराठिक गांवावैले चेडये सारकी लेखताले.[२] ते तिका ना करूंक पळेताले. हो तांगेलो उद्योग ज्ञानेश्वराच्या वेळापासून एकसारको पांचशीं वर्सां चलिल्लो आनी तांचेकडेन पौठ घांसून मराठी कवींक सामखी पुरो-वाट जाताली. तरी आसताना, अखेरेक ताणीं त्या पंडितांक हार करून तांकां खैंचे खैं धिस्पटावन घाले आनी मराठिची घुडी वैर उबाल्ली. तेराव्या शेंकड्याचे अखेरेक मराठिचें म्हत्व चडौंचे खातीर ज्ञानेश्वरान पंडितांक सांगचें पडलें कि, 'म्हगलें उलौप मराठी खरें; परंत अमृत असले संस्कृत भाशेकडेनूय वडा मारून तें तिका जिखीत अशे तरेचीं रसाळ उतरां हांव भितर घालतलों.[३] ही वडा ताणें खरी करून दाखैली. आज मराठणांतले पंडित लेगीत मराठ़ी ज्ञानदेवीची संस्कृत म्हुर्त घडौंक लागल्यात. सोळाव्या शेंकड्यांत पंडितांलें ध्यान संस्कृतावैलें मराठी वसल्यान ओडून घेंवक एकनाथाक जाल्यार ताळो पोकळ करून खडपसूक जायसर वाद घालचो लागलो. तो म्हण्टा, 'संस्कृत ग्रंथकार मार कोण व्हडले कवी? आनी मराठींत तांचो दुकळ पडला? संस्कृत भास कोणें देवान केल्या? आनी मराठी भास कितें चोरांच्या माथ्यार बसून आयल्या?'[४] सतराव्या शेंकड्याचे मजगतीं मराठीक शिवाजी राजालो आलासरो मेळ्ळा आसतानाय, अठरावो शेंकडो लागत्यार श्रीधरस्वामीक पंडितांची सायबाजात्रा करून तांकां समजांवचे पडले. तो म्हण्टा, 'मराठी भास़ म्हणून तुमी तिका सोडून दिंव नाकात. कृष्णा आनी वेणी ह्या न्हंयांच्यो धडो वेगळ्यो आसल्यो तरी तांतूंतलें उदक सारकेंच. संस्कृत म्हळ्यार उंसाचो रोस आनी मराठी ही ताची साकर.[५] अटराव्या शेंकड्याचे मजगतीं मराठी साम्राज्याचो सूर्या कडकट्टालो; तरी आसताना, मराठी भाशेचे नष्टे दीस सरूंक नासले. तिचेकडेन पळौन संस्कृत पंडित अजून बोंचो मुड्डिताले आनी आंवंय आंवंय करून अळशिकून नाख खळवटायताले. तेन्ना ती तांगेल्या दोळ्यांत घस्स करून भरचे खातीर मोरोपंतान एक उपाय काडलो. तिका ताणें माथ्याच्या आंबाड्यासाकून पांयांच्या नाखटामेरेन संस्कृत जरी-बुट्यांची पैठणी न्हेसैली. अशें आसतानाय तिगेल्या रुपाक पंडित भुलना जाले. निमाणें, तांगेलो समज घालचे खातीर तो म्हण्टा, 'वाल्मीक रुशीन रामाली जीण संस्कृतांत रचली आनी हेर कविंनीं मराठींत रचली म्हणून कसलेंच लुस्कान जायना. सुतान गुथिल्ली मोतयांची माळ रसमान गुथिल्ले माळेपरस कान्तीन इल्लीय उणी दिसना. थिकां बसेल्ल्या भांगराच्या वाडग्यांत गायचें दूद जितलें रुचीक लागता तितलेंच पळसाच्या दोण्यांत लागता.'[६]

'कोंकणी भाशेचीं जायतीं रुपां आसत; तिच्यो छाप्पन भासो जातीत आनी

तिका लागून जाती-जातींत झगडीं माततलीं' म्हणपाचे पिर्डणेक हांवें फाटीं सणसणीत जाप दिवन मराठी भासूय ह्या अडचणींतसून अजून निभावंक ना आनी केन्नाच निभांवचेली आस्त ना अशें सिद्ध केलां. तरी आसताना हे **निसूक बाटके मराठे आपणालेंच रडकुळें पेंपारें वाजैतात**; तेन्ना तांगेल्या तोंडाक लागून उपकारना हेंच खरें. बाटक्यांनी दाखैल्ल्या अडचणींक भियेवन आमी कोंकण्यांनी जर आमगेली आवै-भास सोडची आनी मराठीक पोटलून धरची तर मराठीकूय त्योच अडचणी भेष्टायतात म्हणून मराठ्यांनी आपणाली भास मारून उडोन हिन्दी भाशेक कित्याक लागीं करची न्हंय, ह्या प्रस्नाची जाप ते म्हाका दितीत व्हय? हिंदुस्तानाक स्वराज्य मेळ्ळ्यार धर्मा-धर्मांत आनी जाती-जातींत झगडीं माततलीं म्हणून परके इंग्लेज, पुर्तुगेज आनी फ्रांसेज हांगेली सत्ता सूर्य-चंद्र आससर हिंदुस्तानाचेर चलची हे म्हणणेंत जितलें शाणपण आस तितलेंच आपणाले आवै-भाशेखातीर धोंस जातली म्हणून परक्यांले भाशेक लागीं करपांत आस. भावांकडेन झगडचें पट्टा म्हणून हे बाटके आपणाल्या घरा-दाराचें आनी भाटा-बेंसाचें हक सोडून दितीत व्हय?

**टिपो :**

१. The Christian Puranna of Fr. Thomas Stephens, S.J., Mangalore 1907, Author's Preface, p. 93.

२. **प्राकृतवाणी वेश्या** व्याप्य समस्तान् विराजते लोके । श्रीरामचंद्र निपजति सद्मन्यास्ते **सती हि गीर्वाणी** । Compendium of Molesworth's Marathi and English Dictionary by Baba Padmanji, Bombay 1863, प्रस्तावना, p. 10. note.

३. माझा मऱ्हाठाचि बोल कौतुकें । परि अमृतातेंही पैजां जिंके । ऐसीं अक्षरें रसिकें । मेळवीन । १४ । अ. ६. ज्ञानेश्वरी.

४. संस्कृत ग्रंथकर्ते ते महाकवि ? । मा प्राकृतीं काय उणीवी? । संस्कृत वाणी देवें केली? । प्राकृत काय चोरापासूनि आली ? । - एकनाथ

५. प्राकृत भाषा म्हणोनी । अव्हेर न करावा पंडितजनीं । जैशीं कृष्णा वेणीचीं तिरें दोन्ही । परी उदक जाण एकची ॥ संस्कृत इक्षुरस अपार । त्याची प्राकृत हे साखर । - श्रीधर

६. रामाचें रचिलें चरित्र मुनिनें वाल्मीकिनें संस्कृतीं । नाहीं हानि कदापि अन्य कविंहीं तें वर्णितां प्राकृतीं । मुक्तांचा रचिलाचि हार वहिला जो रेशिमाच्या गुणं । तो कार्पासगुणेंकरून करितां काय प्रभला उणें? । पातां गोक्षीर कातंस्वरमणिचषकें देतसे जेविं गोडी । सारज्ञाला पलाशद्रुमदलपुटकें सेवितां ते न सोडी । - मोरोपंत

# परिशिष्टां :

(अ) 'मराठी भाषेचा आद्य व्याकरणकार.'

(ब) क्रि. स. १६७८ त छापिल्लो पैलो कोंकणी लेख.

(क) 'हिंदुस्तानांत मुद्रणकलेचा प्रवेश.'

(ड) 'कोंकणी व मराठी.'

# 'मराठी भाषेचा आद्य व्याकरणकार.'

'मराठी भाषेच्या आद्य व्याकरणकाराचा मान फादर स्टिफन्स यासच देणें रास्त होय; कारण, त्यानें मराठी भाषेचें व्याकरण केलें व तें त्याच्या मरणानंतर इ.स.१६४० त छापिलें गेलें' असें 'विविधज्ञानविस्तारा'च्या १९१७ तील जुलै महिन्याच्या अंकांत २८९ पृष्ठावर रा. 'भारद्वाज' यांनीं म्हटलें आहे. सद्दहु व्याकरणाची प्रशंसा केलेला एक इंग्रजी उताराही त्यांनी तेथें दिला आहे. तो वाचून पाहतां, मि. साल्दान्ज यांनीं मंगळूर येथें १९०७ सालीं प्रसिद्ध केलेल्या क्रिस्तांव पुराणांतील तो आहे असें समजलें. मि. साल्दान्ज यांनीं त्या पुराणाला स्टिफन्स कवीचें लहानसें चरित्र जोडलें आहे. त्यांत कवीच्या उपलब्ध असलेल्या एकंदर लेखांची व ग्रंथांची यादी दिली आहे. ह्या यादींतील चवथ्या सदरांत वरील व्याकरणाची माहिती देतांना मि. साल्दान्ज यांनीं सदराचा मथाळा A Grammar of the Konkani Language (कोंकणी भाषेचें व्याकरण) असा स्पष्ट घातला आहे. असें असून रा. 'भारद्वाज' यांनीं तें व्याकरण मराठी भाषेचें असल्याबद्दल मुद्दाम आपला गैरसमज करून कां घेतला तें समजत नाहीं.

खुद्द ग्रंथकारानें त्या व्याकरणाला 'मराठी भाषेचें व्याकरण' असें नांव दिलेलें नाहीं. ग्रंथकाराला मराठी भाषा चांगली येत होती असें त्याच्या क्रिस्तांव पुराणावरून दिसतें व 'मराठी' हा शब्दही त्याच्या पूर्ण परिचयाचा होता हें त्याच पुराणाच्या प्रस्तावनेंत व पहिल्या अध्यायाच्या १२१-१२५ ओव्यांत त्यानें तो शब्द वापरला आहे ह्यावरून सिद्ध होतें. पुराणाच्या शेवटच्या अध्यायांत, 'येतुकेयाचें ससार वेंचुनु । काडिली टिका गांठुनु । भासा मराठी मिसळुनु । केला ग्रंथु । ११८ ।' असें ग्रंथकार म्हणतो. ह्यावरून, त्यानें केलेलें व्याकरण मराठीचेंच असतें तर अस्सल नांव सोडून देऊन भलतेंच नांव देण्याला त्याला काय कारण झालें हा प्रश्न उद्भवतो. परंतु असा प्रश्न उद्भवूं देण्याची मुळींच जरुरी नाहीं. ग्रंथकारानें आपण रचतों तें व्याकरण कोंकणी भाषेचेंच ह्या पक्क्या समजुतीनें तें रचलें आहे व त्याला 'मराठी भाषेचें व्याकरण' असें नांव न देतां Arte da Lingoa Canarin (कानारी भाषेची विद्या) हें नांव दिलें आहे.[१] येथें कानारी ह्या शब्दावरून तें व्याकरण कानडी भाषेचें आहे असें मात्र कोणी समजूं नये. सोळा, सतरा व अठराव्या शतकांतील पुर्तुगेज व इतर युरोपियन ग्रंथकार कोंकणांतील लोकांना कानारी असें म्हणत असत

व त्यांच्या भाषेला **कानारी**, **ब्राह्मणी** किंवा **ब्राह्मणी कानारी** असें म्हणत असत. अझूनही पुर्तुगेज लोक गोमंतकांतील क्रिस्तांवांना कानारी हा शब्द लावतात. कोंकणी लोकांना व त्यांच्या भाषेला हा शब्द लावण्याचें कारण पुर्तुगेज लोकांना हिंदुस्तानची भूवर्णनात्मक माहिती नव्हती असें नव्हे; तर, ते हिंदुस्तानांत पोंचले तेव्हां दाभोळपासून सदाशिवगडपर्यंतची कोंकणपट्टी विजापूरच्या अदिलशाही अमलाखालीं असून कर्णाटकाचा बराच मोठा भाग त्या अमलांत समाविष्ट होता; एवढ्यावरूनच, सगळ्या अदिलशाही मुलुखाला व तेथील प्रजेला त्यांनीं कानारी म्हणजे कर्णाटकी हें नांव लावलें व तेंच दोन तीन शतकेंपर्यंत कायम राहिलें. सोळाव्या शतकाच्या पूर्वार्धांतील सुप्रसिद्ध पुर्तुगेज इतिहासकार जुवांव द बार्रुस हा हिंदुस्तानच्या पश्चिम किनाऱ्याचें वर्णन करितांना एके ठिकाणीं म्हणतो, 'कोंकणांतील लोकांना तेथील लोक कोंकणी असें म्हणतात; तथापि आमचे लोक त्यांना कानारी असें म्हणतात.'[३] ह्यावरून, राज्यकर्त्या पुर्तुगेज लोकांच्या रूढीस अनुसरून त्यांच्या आश्रयास असलेल्या इंग्रज पाद्री स्टिफन्सनें आपल्या कोंकणी व्याकरणाला 'कानारी भाषेची विद्या' असें नांव दिलें तर त्यांत नवल नाहीं.

वरील व्याकरणाची पहिली आवृत्ति गोमंतकांत रायतूर (पुर्तुगेज लोकांनी अपभ्रष्ट केलेलें रूप राशोल) येथें १६४०त निघाली. ती छापण्यापूर्वी, क्रिस्तांव धर्माविरुद्ध त्यांत कसलाच मजकूर नसल्याबद्दल इंकिजिसांवाच्या सभेनें आपली खात्री करून घेऊन तें प्रसिद्ध करण्यास कांहीं मान्यतापत्रें दिलीं आहेत; त्यांतील १४-१२-१६३९च्या पत्रांत त्या व्याकरणाला Arte da Grammatica em Lingua Canarin Bramana (ब्राह्मणी कानारी भाषेच्या व्याकरणाची विद्या) असें म्हटलें आहे.[४] ग्रंथकारानें हें व्याकरण पुर्तुगेज भाषेंत लिहिलें आहे व मि. साल्दान्ज यांनीं केलेल्या प्रशंसेला तें सर्वथा पात्र आहे. पुर्तुगेज भाषा जाणणाऱ्या प्रत्येक कोंकणी गृहस्थानें तें अवश्य वाचावें. कोंकणी ही माझी मायभाषा असल्यामुळें मी तर ह्या व्याकरणाचें भक्तिपूर्वक अध्ययन केलें आहे; आणि हिंदुस्तानांतील इतर कोणत्याही देशी भाषेला न मिळालेला व्याकरणग्रंथाचा **पहिला** मान पाद्री थॉमस स्टिफन्स ह्या इंग्रज जेजुइत कवीनें आमच्या मायभाषेला जोडून दिला म्हणून त्याच्याविषयीं माझ्या मनांत अत्यंत कृतज्ञता वसत आहे.

'हल्लीं या व्याकरणाच्या दोनच प्रति शिल्लक आहेत' असें रा. 'भारद्वाज' म्हणतात. परंतु तें खरें नव्हे. मि. साल्दान्ज यांनीं दिलेल्या माहितीप्रमाणें ह्या दोन प्रति म्हणजे **पहिल्या आवृत्तीच्याच** होत.[५] ह्या व्याकरणाची दुसरी आवृत्ति, गोमंतकांत, पणजी येथें, १८५७ सालीं, पुर्तुगेज सरकारचे त्यावेळचे विद्वान्

चिटणीस, प्रख्यात इतिहास-संशोधक व कोंकणी भाषेचे उद्धारक, मरहुम सिञ्जोर कुञ्ज रिव्हार यांनी प्रसिद्ध केली; आणि माझ्या मतें गोमंतकांतील प्रत्येक विद्याभिलाषी गृहस्थाच्या संग्रहास ह्या व्याकरणाची निदान एक तरी प्रत असल्यावांचून राहणार नाहीं.

वर दिलेल्या माहितीवरून पाद्री थॉमस स्टिफन्स हा मराठीचा आद्य व्याकरणकार नसून **कोंकणीचा आद्य व्याकरणकार** आहे हें सिद्ध होतें.

आतां मराठीचा आद्य व्याकरणकार कोण ह्या विषयीं विचार करूं. अनेकभाषाकोविद डॉ. ग्रियर्सन ह्यांच्या Linguistic Survey Of India ह्या सर्वमान्य ग्रंथावरून ह्या प्रश्नाचा निकाल लागतो. ह्या ग्रंथाच्या सातव्या खंडांत मराठी भाषेचीं व्याकरणें व वाचनपुस्तकें यांची यादी दिली आहे. त्यांत सर्वांच्या शिरोभागीं Grammatica Marasta, a mais vulgar que se pratica nos reinos de Nizamxa e Idalxa (निजामशाही व अदिलशाही ह्या राज्यांतील बहुजनांच्या वहिवाटींत असलेल्या मराठीचें व्याकरण) ह्या पुस्तकाचें नांव दिलें आहे. १७७८ सालीं ह्याची पहिली आवृत्ति निघाली व १८२५ सालीं पुर्तुगालची राजधानी लिज्बोव एथें दुसरी आवृत्ति निघाली.[६] परंतु हें रचणाराचें नांव प्रसिद्ध नाहीं. पुस्तकाची भाषा पुर्तुगेज आहे ह्यावरून रचणारा बहुधा पुर्तुगेज गृहस्थ असावा असें अनुमान करण्यास हरकत नाहीं. विशेष माहिती सप्रमाण पुढें येईपर्यंत ह्याच गृहस्थाला मराठीचा आद्य व्याकरणकार म्हणावें लागतें.[७]

**टिपो :**

१. The Christian Puranna, Biographical Note, p. 37.
२. Grammatica da Lingua Concani, Nova Goa 1857, p. 1.'
३. 'A todo o maritimo que contamos até a serra Gate (घांट), que vai ao longo da costa, com que elle faz huma comprida e estreita faixa de terra, chamam elles Concan (कोंकण), e aos povos propriamente Conquenijs (कोंकेणी), posto que os nossos lhe chamam Canarijs (कानारी).' DaAsia, Lisboa 1777, Decada 1, parte 2, livro 9, capitulo 1, pp. 295-6.
४. Grammatica da Lingua Concani, p. 1.
५. The Christian Puranna, Biographical Note, p. 37.
६. Linguistic Survey of India, Calcutta 1905, Vol. 7, Introduction, p. 18.
७. नवयुग. मुंबै, नोवेंब्र १९१७, वर्स ५, आंक १, पा. ७७-७९.

# क्रि. स. १६७८ त छापिल्लो पैलो कोंकणी लेख

स्वस्ति श्रीशालिवाहन शक १५९७ राक्षस स(सं)वत्सर चैत्र बहुळ १० कोची राजपाटंणीं बैसिके रंगभट्ट तथा विनायक पंडित आपूभट्ट तेग वैद्य तानिं कोचिचा(च्या) कुमदोर आंड्रिकि फ्रांड्रे[१] त्याचा(ताच्या) निरोपान ह्या मलबार देशा(सां)तु आशिले(ल्ले) ओषधमात्र वृक्ष वालि झाडखंड ओळखतेल्या मनुष्यांक (मनशांक) मुसारो देवूनु ते ते गांवांतु पेट्टवून तिं तिं वोखद(दां) आणवून त्यां त्या झाडांचें फल फूल पान वी(बी)ज समस्त त्या त्या रुतुकाळावरि स(सं)पादून तिं तीं चितारिली(लीं). त्या उपरांत आमिं आमगेल्या वैद्यग्रंथाचा(च्या) निघंटा प्रमाणिं त्यां त्या ओषधाचे गुण वा अनुभवान जो जो गुण आमका(कां) कळेलो तो वा त्यां आ(ओ)खदांचीं नांवं(वां) पळेउनु आजि दा(दो)नि वर्षं(र्सां) सकाळि(ळिं) सा(सां)जे आमिं लागि रावूनु हा(हो) लिव्रूं स(सं)पादून दिला तें लटिक अशि म्हणुंचाक नज अशि म्हणु आमि आमंची निसाणि कर्णु दिली. ते(तें) सत्य म्हणु मानुचें जाइद म्हणु नागर बरपान ह(हें) बरवूनु दिलां. श्री :

रंगभटु. विनायक प(पं)डित. आपुचे ओप.[२]

टिपो :

१. Henricus van Rheede.

२. Hortus Indicus Malabaricus adornatus per Henricum van Rheede, van Draakenstein, Anno cIɔ Iɔc Lxxviii (1678).

# हिंदुस्तानांत मुद्रणकलेचा प्रवेश

'नवयुगा'च्या दुसऱ्या वर्षाच्या आठव्या अंकांत रा. ब. दत्तात्रय बळवंत पारसनीस ह्यांनी 'मराठी मुद्रणकलेचा संशोधक कोण?' ह्या विषयावरील लेखांत, इ.स. १६७८ सालीं छापिलेला 'पहिला मराठी लेख' दिलेला आहे. तो वाचून पाहतां, त्यावर मराठी भाषेचा शिक्का मारणें चुकीचें व अन्यायाचें आहे, असें वाटतें. लेखांतील कांहीं थोडे शब्द वगळले असतां एकंदर भाषासरणी कोंकणी आहे हें उघड दिसतें. असें असून कोंकणीलाच मराठी असे म्हणावयाचें असेल तर नाइलाज आहे.

माझे देशबंधु, प्रसिद्ध पौरस्त्य पंडित व नाणकशास्त्रज्ञ प. वा. डॉक्टर जुजे जर्सन द कुञ्ज ह्यांनी १८८१ सालीं 'कोंकणी भाषा आणि वाङ्मय' (The Konkani Language and Literature) ह्या विषयावर एक उत्कृष्ट निबंध लिहिला आहे. त्यांत ४३ व्या पृष्ठावर A परिशिष्टांत, रोजच्या व्यवहारांतील कोंकणी भाषेचा नमुना दाखविण्यासाठीं वरील लेख दिला आहे.[१] ह्यावरून तो लेख अस्सल कोंकणी असल्याबद्दल पस्तीस वर्षांमागेंच सिद्ध झालें आहे, असें म्हणण्यास हरकत नाहीं.

'मलबारांतील हिंदी बागाईत' (Hortus Indicus Malabaricus) ह्या नांवाच्या ज्या पुस्तकांत वरील लेख छापिला आहे त्या पुस्तकांत आरंभीं त्या लेखाचा लॅटिन तर्जुमा असून त्याच्याखालीं पुढील मजकूर आहे : -

Traductum ex *lingua Bramanum* per subscriptum Vinaique Pandito in linguam Lusitanicam & ex lingua Lusitanica in Latinam per me Christianum Herman de Donep, Secretarium civilem civitatis Cochinensis.

**ह्याचा अर्थ** :- खालीं सही केलेल्या विनायक पंडिताकडून (वरील लेखाचा) **ब्राह्मणी भाषेंतून** पुर्तुगेज भाषेंत तर्जुमा केला गेला व मी ख्रिस्तियन हेरमन दे दोनेप, कोची शहरांतील मुलकी खात्याचा चिटणीस याजकडून पुर्तुगेज भाषेंतून लॅटिन भाषेंत तर्जुमा केला गेला.

ह्या उताऱ्यांतील **ब्राह्मणी भाषा** हा प्रयोग लक्षांत ठेवण्यासारखा आहे. सोळा, सतरा व अठराव्या शतकांत पुर्तुगेज व इतर युरोपियन ग्रंथकार कोंकणी भाषेला ब्राह्मणी भाषा ह्याच नांवानें बहुधा ओळखत असत. प्रसिद्ध पुर्तुगेज इतिहाससंशोधक

कुञ्ज रिव्हार हे आपल्या कोंकणी भाषेच्या ऐतिहासिक निबंधांत म्हणतात, 'सोळा व सतराव्या शतकांत ज्या पुर्तुगेज धर्मोपदेशकांनीं कोंकणी भाषा उर्जित दशेला आणली ते तिला सामान्यपणें ब्राह्मणी किंवा कानारी भाषा असें म्हणत असत. हिंदु लोकांत ब्राह्मणांनाच लिहिणें वाचणें येत असे; म्हणून त्यांच्यावरून ब्राह्मणी भाषा हा प्रयोग व्यवंहारांत आला हें उघड आहे. आतां, कानारी भाषा हा प्रयोग उत्पन्न होण्याचें कारण, कोंकणप्रांत कर्णाटकाच्या हद्दीबाहेर असला तरी, पुर्तुगेज लोक कोंकणांतील रहिवाश्यांना कानारी असें म्हणत असत; ह्यावरून त्यांच्या भाषेला ते कानारी भाषा असें म्हणूं लागले.[२]

इंग्रज जेजुइत कवि थॉमस स्टिफन्स ह्यानें गोमंतकांतील रायतूरच्या पाठशाळेंत असतांना, इ.स. १६१४ त बायबलाचें ओंवीबद्ध मराठी भाषांतर केलें. हें भाषांतर गोमंतकांत 'क्रिस्तांव पुराण' ह्या नांवानें प्रसिद्ध आहे. पुराणाच्या प्रस्तावनेंत कवि म्हणतो, 'हें सर्व मराठिये भासेन लिहिलें आहे... पण सुध मराठी मधिमा लोकासि नकळे देखुनु, ह्या पुराणाचा फळु बहुतां जनांसि सफळु होउंसि, काय केलें, मागिल्यां कवेस्वरांचीं बहुतेकें अवघडें उतरें सांडुनु सांपुचेयां कवेस्वरांचिये रितुप्रमाणें आणियेकें सोंपीं **ब्राह्मणांचे भासेचीं** उतरें ठाईं ठाईं मिसरित करुनु कवित्व सोंपें केलें.'[३] ह्या उताऱ्यावरून **मराठी भाषेपासून ब्राह्मणांची भाषा वेगळी** असा कवीचा अभिप्राय उघड दिसतो. ही ब्राह्मणांची भाषा म्हणजे दुसरी तिसरी कोणतीच नसून गोमंतकांतील ब्राह्मणांची अर्थात् गौड ब्राह्मणांची भाषा जी कोंकणी तीच होय. गोमंतकांत प्रचारांत असलेल्या कोंकणी भाषेंतील शब्द आपल्या पुराणांत मिसळले असतां तें लोकांस सुगम होईल असा कवीचा हेतु दिसतो; व तो पूर्णपणें सिद्धीसही गेला आहे ह्यांत संशय नाहीं. आज गोमंतक, कारवार, मंगळूर इत्यादि प्रांतांतील क्रिस्तांव लोकांना मराठीचा गंधही नसतां वरील पुराणाचा अर्थ बराच लागतो; ह्याचें कारण त्यांत ब्राह्मणी म्हणजे कोंकणी भाषेंतील शब्दांची रेलचेल आहे, हेंच होय.

ह्या सर्व विवेचनावरून 'मलबारांतील हिंदी बागाइतां'त १६७८ सालीं छापिलेला देवनागरी लेख मराठी नसून ब्राह्मणी उर्फ कोंकणी आहे हें संशोधकांस सांगणें नकोच.

कोचीचा डच सुभेदार हेनरीकूस फान ऱ्हीड (आंड्रिकि फ्रांड्रे) ह्याच्या आज्ञेवरून रंगभट्ट, विनायक पंडित व आपुभट्ट ह्या तीन वैद्यांनीं इ.स. १६७५ सालीं, 'मलबारांतील हिंदी बागाईत' हा ग्रंथ संपादून दिला ह्याविषयीं सदर्हू लेख हें एक सर्टिफिकेट आहे. आतां हे तिघे वैद्य कोण व कोठले? ह्या संबंधानें एथें थोडासा विचार केला असतां अस्थानीं होणार नाहीं असें वाटतें. सर्टिफिकेटांतील भाषा

कोंकणी आहे, ह्यावरून तें लिहिणारे वैद्यराज दक्षिणेंतील गौड ब्राह्मण आहेत, ह्यांत मुळींच शंका नाहीं. कोचींतील द्रविडांना कोंकणी भाषा येत नाहीं. गोमंतकांतील द्रविडांचीही तीच स्थिति आहे. ते तिला आपली मायभाषा असें समजत नाहींत. त्यांना परप्रांतांतून गोमंतकांत येऊन स्थाईक झाल्यावर बराच काळ लोटला असेल. परंतु कोंकणी भाषेच्या खास मन्दिरांत राहून अझून ती त्यांना शुद्ध बोलतां येत नाहीं. यदाकदाचित् त्यांनीं ती बोलण्याचा यत्न केलाच, तर ब्राह्मणेतरांप्रमाणें 'वैतलो', 'येयलो' इत्यादि त्यांचे शब्दप्रयोग ऐकून हंसूं येतें. तेव्हां द्रविडांकडून कोंकणी भाषेची अपेक्षा करणें व्यर्थ आहे. दुसरी एक गोष्ट लक्षांत ठेवण्यासारखी आहे ती ही कीं, सर्टिफिकेट लिहिणाऱ्या तिघां वैद्यांपैकीं विनायक पंडिताला पुर्तुगेज भाषा चांगली येत होती; त्यानें त्या सर्टिफिकेटाचा पुर्तुगेज भाषेंत तर्जुमा करून दिला. ह्यावरून अडीचशें वर्षांमागच्या सोंवळ्या काळांतही म्लेंच्छ भाषेचा विटाळ न मानण्याएवढा उदारपणा गौड ब्राह्मणांमध्यें होता ह्याबद्दल कौतुक वाटतें. गोमंतकांतील द्रविडांची गोष्ट पाहिली तर ह्या ओंवळ्या विसाव्या शतकांतही पुर्तुगेज भाषेला शिवणें त्यांच्या जिवावर येतें व तिच्यापासून ते अलिप्त राहतात.

सर्टिफिकेट लिहिणारे तिघेही वैद्य गौड तर खरेच; परंतु त्यांच्या भाषेच्या मोडणीवरून ते गोमंतकस्थ वैष्णव ब्राह्मण असावे असें वाटतें. सोळाव्या शतकांत पुर्तुगेज लोकांनी गोमंतकांत धर्मच्छळ मांडिला त्या वेळीं तेथील बरीच मंडळी पहिल्यानें मलबारांतील कालिकोट शहरीं गेली, व तेथून मग कोची व इतर ठिकाणीं जाऊन स्थाईक झाली. फ्रेंच प्रवासी फ्रांसिस्क पिरार्द हा १६०१ वर्षाच्या सुमारास हिंदुस्तानांत आला होता. तो आपल्या प्रवासवृत्तांत एके ठिकाणीं म्हणतो 'मी पुष्कळ वेळां कालिकोटच्या ब्राह्मणांना बोलतांना ऐकिलें; ते म्हणतात कीं, गोमंतक बेट आमचें होतें; म्हणून, तें घेणारे पुर्तुगेज लोक हे आमचे कट्टे शत्रु होत. ह्या ब्राह्मणांपैकीं जे तेजस्वी असून ज्यांच्या आंगांत स्वाभिमान आहे त्यांना पुर्तुगेज लोकांची सत्ता चालते त्या ठिकाणीं राहणें आवडत नाहीं. कारण, पुर्तुगेज लोक त्यांना वाईट रीतीनें वागवितात व तुच्छ मानितात. ह्यासाठींच त्यांच्यापैकीं पुष्कळ लोक कालिकोट येथें रहावयास गेले व तेथें ते सांप्रत विशेष सुरक्षित व स्वतंत्र आहेत.'[४]

धर्मच्छळाची आठवण ताजी असेपर्यंत गोमंतकांतून निघालेले ब्राह्मण पुर्तुगेज लोकांचा तिरस्कार करीत असत हें स्वाभाविक आहे. परंतु कालगतीनें त्यांची तिरस्कारबुद्धि नष्ट होऊन ते कोचीस जाऊन राहिल्यावर त्यांचा व पुर्तुगेजांचा सलोखा झाला असावा असें दिसतें. कारण, कोचींतील पुर्तुगेज वसाहतीचें पुढें पुढें ह्याच

ब्राह्मणांशी मोठें व्यापारी दळणवळण सुरू झालें, व १६६३ त डच लोकांनीं ती वसाहत बळकावल्यावर ते ब्राह्मण डच लोकांशी व्यापार करूं लागले,[५] असें कोची एथील डच पाद्री जाकोबुस कान्तेर फिशर ह्यानें १७२० च्या सुमारास लिहिलेल्या एका ग्रंथावरून समजतें. हा ग्रंथकार त्या ब्राह्मणांचें वर्णन करितांना म्हणतो, 'त्यांच्यांत स्मार्त व वैष्णव असे दोन भेद आहेत... ब्राह्मणांनीं व्यापारधंदा किंवा नोकरी करितां कामा नये; परंतु व्यापारधंद्याविषयींचा निर्बंध त्यांच्याकडून पूर्णपणें पाळला जात नाहीं. त्यांच्यापैकीं बरेच लोक वैदिकी करितात व त्यांना राजेलोकांचा आश्रय आहे; तसेंच कांहीं पंडित किंवा वैद्यराज आहेत.'[६]

आज 'कोचीमध्यें जी लोकसंख्या आहे, तींत गौडसारस्वत किंवा कोंकणी लोक म्हणून ज्यांस म्हणतात, त्यांचा भरणा विशेष आहे,' असें केरळकोकिळकार म्हणतात.[७] परंतु १८९८ सालीं त्रावणकोर व कोचीचे रेसिडेंट नामदार रीससाहेब ह्यांनीं केलेल्या एका भाषणावरून कोची एथें स्थाईक झालेले गोमंतकस्थ ब्राह्मण **कोंकणी ब्राह्मण** ह्या नांवानें तेथें **अधिक परिचित** आहेत असें दिसतें.[८] ईश्वरी संकेतानें गोमंतक सोडून वनवासास लागलेले आमचे देशबंधु केवळ स्वाभिमानाच्या व हिंमतीच्या जोरावर पुढें आले व आज कोचीच्या राज्यांत मानमान्यतेंत ते बरेच वर चढले आहेत, हें ऐकून आम्हा गोमंतकस्थांना आनंद होतो.

वरील विवेचनावरून, गोमंतकांतील ब्राह्मण मलबारांत केव्हां, कसे व कां पोंचले व तेथें त्यांचा उत्कर्ष कसा झाला इत्यादि प्रश्नांचा उलगडा होतो. असो.

आतां हिंदुस्तानांत मुद्रणकलेचा प्रवेश केव्हां झाला ह्या संबंधानें विचार करूं. हा विचार करितांना, प्रथम पुर्तुगेज लोकांचा इतिहास आपण धुंडाळिला पाहिजे. कारण, युरोपियन संस्कृतीचे तसेच विकृतीचे हिंदुस्तानांतील पहिले अग्रेसर पुर्तुगेज लोकच होत, हे इतिहासप्रसिद्ध आहे.

इ.स. १६९६ सालाच्या सुमारास, पुर्तुगेज जेजुइत पाद्री फ्रांसिस्क दे सौज ह्यानें 'जेजू क्रिस्तानें जिंकलेली पूर्वदिशा' (Oriente Conquistado a Jesu Christo) ह्या नांवाचा एक मोठा ग्रंथ लिहिला आहे; त्यावरून हिंदुस्तानांत मुद्रण कलेचा प्रवेश केव्हां झाला हें निश्चितपणें समजतें. सदरहू ग्रंथकार म्हणतो कीं, इ.स. १५५६ सालीं सप्टेंबरच्या १३ तारखेस, पुर्तुगालहून आलेलीं चार गलबतें गोमंतकाच्या बंदरांत पोंचलीं; त्यांचा सरनाईक (कापितांव-मोर) दों जुवांव दे मिनेजिस हा होता. गलबतांतून आलेल्या धर्मोपदेशक मंडळींत जुवांव दे बुस्तामान्ति हा छापखानेवाला होता.[९] तसेंच, दुसरे एके ठिकाणीं, सां फ्रांसिस्क शावियेर (सुप्रसिद्ध सेंट झेवियर लोकांना धर्मोपदेश कसा करीत असे तें वर्णन करितांना हाच

ग्रंथकार म्हणतो कीं, लहान मुलांच्या सोईसाठीं शावियेरानें ख्रिस्तीमताचें एक पुस्तक रचिलें होतें; तें गोमंतकांत १५५७ सालीं छापिलें गेलें.[१०]

'ओरिएन्त'कारानें दिलेली वरील माहिती लक्षांत घेऊन, लोटलीचे[११] विद्वान क्रिस्तांव ब्राह्मण सिञ्जोर जुजे आंतोनिय इज्माएल ग्रासीयस हे मुद्रणकलेविषयीं लिहिलेल्या आपल्या एका सर्वमान्य ग्रंथांत म्हणतात, 'सुधारणेचें मोठें साधन जो छापखाना तो युरोपांतून प्रथम जेजुइत लोकांनी येथें आणिला… आणि अविश्रांत संशोधनाचे अंतीं आम्ही म्हणूं शकतों कीं, हिंदुस्तानचा मोठा प्रेषित सां फ्रांसिस्क शावियेर ह्यानें रचलेलें व त्याच्या मरणानंतर पांच वर्षांनी म्हणजे १५५७ सालीं छापलेलें प्रश्नोत्तररूपी ख्रिस्तीमत हेंच त्या छापखान्यांतून प्रगट झालेलें पहिलें पुस्तक होय.'[१२] पुढें १५६१ त, जुवांव किंकेनिय ह्या मुद्रणकारानें 'परमार्थसार' (Compendio Espiritual) ह्या नांवाचें एक पुस्तक छापिलें. नंतर १५६३त सुप्रसिद्ध पुर्तुगेज वैद्यराज गार्सिय द ओर्त ह्याचें *Colloquios dos Simples e Drogas Medicinaes* नांवाचें औषधि वनस्पतीविषयींचें पुस्तक छापिलें गेलें.[१३] ह्यानंतर उत्तरोत्तर पुष्कळ लहान मोठीं पुस्तकें छापिलीं गेलीं.

'नवयुगा'च्या पहिल्या वर्षाच्या चवथ्या अंकांत, २८७ पृष्ठावर, Giovanni Gonsalvez याचें ख्रिस्तीमत हें पहिलें छापलेलें तामिळ पुस्तक असून त्यानें प्रथम १५७७ सालीं तामिळ अक्षरें पाडलीं, असें म्हटलें आहे. ह्या गृहस्थासंबंधानें 'ओरिएन्त'कारानें थोडीशी माहिती दिली आहे. तो म्हणतो, 'जुवांव गोंसालव्हिस हा लोहारकामांत व विशेषेंकरून घड्याळें करण्याच्या कामांत प्रवीण होता. तो तीं आश्चर्यकारक कुशलतेनें करीत असे. हिंदुस्तानांत मलबारी अक्षरांच्या आकृति पहिल्यानें त्यानें पाडल्या व त्यांच्याद्वारें पुष्कळ पुस्तकें छापिलीं गेलीं. तो स्पेन देशांतला रहिवासी होता. त्यानें जेजुइत पंथांत २५ वर्षें घालविलीं व शेवटीं गोमंतकांतील सांव पावलाच्या पाठशाळेंत तो १५७९ त मरण पावला.'[१३] ह्या उताऱ्यांत, गोंसालव्हिसानें **मलबारी** अक्षरांच्या आकृति पाडल्या असें म्हटलें आहे; त्यावरून तीं तामिळ भाषेचींच अक्षरें असतील असें नक्की म्हणवत नाहीं. तामिळ अक्षरांच्या आकृतींविषयीं 'ओरिएन्त'कार दुसरे एके ठिकाणीं म्हणतो, '१५८२ सालीं, गोमंतकांत पाद्री जुवांव द फारीय हा मरण पावला.[१४] तामूल भाषेचीं अक्षरें कोरून व ओतून पेश्कारीच्या किनाऱ्यावर (Pearl-fishery Coast) मुद्रणकलेचा आरंभ करणारा हा पहिला पुरुष होय.'[१५]

ह्याप्रमाणें, हिंदुस्तानांतील मुद्रणकलेच्या प्रवेशाविषयीं मला मिळाली तेवढी माहिती वाचकांपुढें ठेवली आहे; ती त्यांना ग्राह्य होईल अशी आशा आहे.[१६]

टिपो :

१. परिशिष्ट ब पळ्यात.
२. Ensaio Historico da Lingua Concani, Nova Goa 1858, C.3, page 40.
३. The Christian Puranna, Author's Preface, p. 93.
४. Viagem de Francisco Pyrard de Laval, Nova Goa 1858, parte 2, c. 2, p. 32.
५. Letters from Malabar by Jacobus Canter Visscher, Madras 1862, letter no. 22, p. 132.
६. Letters from Malabar, pp. 132, 135.
७. केरळकोकिळ, पु. १२, अं. ५, पृ. १०१.
८. केरळकोकिळ, पु. १२, अं. ५, पृ. ११०.
९. Oriente Conquistado, tomo 1, conquista 5, div. 2, par. 22.
१०. Oriente Conquistado, tomo 1, conq. 1, div. 1, par. 23.
११. **लोटली** हा गांव गोमंतकांत साष्ट महालांत आहे; तो विद्वान् ब्राह्मणांविषयीं प्रसिद्ध आहे गेल्या शतकांतील नामांकित इतिहाससंशोधक फिलिप नेरी शावियेर हा क्रिस्तांव ब्राह्मण तेथेंच जन्मला. इ.स. ७४८ पासून ९७३ पर्यंत सतत सवादोनशें वर्षें महाराष्ट्र, कर्णाटक व इतर देशांना आपल्या सत्तेखालीं वागविणाऱ्या **महाप्रतापी राष्ट्रकूट सम्राटांची जन्मभूमि हीच होय**. (गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक, मुंबै १९२८, पैलें खंड, पा. २८-३८).
१२. A Imprensa em Goa nos Seculos 16, 17, 18, Nova Goa 1880, pp. 3, 5.
१३. A Imprensa em Goa, p. 7.
१४. Oriente Conquistado, tomo 2, conq. 1, div. 2, par. 33.
१५. Oriente Conquistado, tomo 2, conq. 1, div. 2, par. 69.
१६. नवयुग, मुंबै, आगोस्त १९१६, वर्स ३, आंक १०, पान ७६८-७७२.

# कोंकणी व मराठी

'विविधज्ञानविस्तारा'च्या जुलै १९२६ च्या अंकांत २८९-३०१ पृष्ठांवर रा.रा. विठ्ठल रामजी शिंदे, बी.ए., ह्यांचा 'कोंकणी व मराठी' हा लेख प्रसिद्ध झाला आहे. त्यांत, कोंकणी भाषा मराठीहून भिन्न व स्वतंत्र नाहीं, हें दाखविण्याचा प्रयत्न केला आहे. असें करतांना, हजार बाराशें वर्षांपूर्वी ती भाषा कोंकणांत प्रचारांत असणें संभवनीय नाहीं; ती भाषा कोंकणांत प्रांतिक अथवा स्थानिक भाषा नसून **उपरी आणि जातीय भाषा** आहे; ती तेथें फार तर हजार बाराशें वर्षांपूर्वी गेलेल्या **उपऱ्या लोकांची** आहे; हे उपरे लोक म्हणजे 'नवीन कदंब' वंशाचा संस्थापक पहिला मयूरवर्मा ह्यानें इ.स. ६/७ व्या शतकांत आणलेले ब्राह्मण असावेत व **ते काठेवाडांतले सारस्वत** असावेत; इत्यादि मुद्दे उपस्थित केले आहेत. परंतु हे बहुतेक मुद्दे **अनुमानांच्या व गृहीतांच्या** पायावर उभारलेले असल्यामुळें अगदींच डळमळीत झाले आहेत हें पुढील विवेचनावरून स्पष्ट होईल.

रा. शिंदे आपल्या लेखाच्या पांचव्या कलमांत म्हणतात, 'कोंकणांतच ही भाषा आढळते एवढ्याच आकुंचित अर्थानें ती भाषा हल्लीं प्रांतिक गणली जात आहे. पण मूळांत ही भाषा कोंकणी नव्हती. म्हणजे कोंकण प्रांताशीं हिचा पूर्वापर संबंध नाहीं. हजार बाराशें वर्षांपूर्वी ही भाषा कोंकणांत प्रचारांत असणें संभवनीय नाहीं. त्या वेळीं हा सारा किनारा कानडीनें हस्तगत केला होता, हें इतिहासावरून व उपलब्ध शिलालेख व ताम्रपटांवरून दिसतें... केवळ मध्ययुगीन संस्कृति जरी विचारांत घेतल्या, तरी ठाण्यापासून खालीं गोकर्णापर्यंत... कानडीचें साम्राज्य होतें.' आतां हें विधान कितपत खरें आहे तें पाहूं.

बाराशें वर्षांपूर्वी म्हणजे सुमारें आठव्या शतकांत कोंकणांत राष्ट्रकूटांचे मांडलीक शिलाहार ह्यांचा अम्मल चालू होता. शिलाहारांचा मूळपुरुष शणफुल्ल ह्यानें इ.स. ७६५च्या सुमारास राष्ट्रकूट राजा कृष्णराज याजकडून समुद्रतीर आणि सह्याद्रि यांच्यामधील देश म्हणजे कोंकण जोडलें.[१] त्याचे **वंशज दक्षिण कोंकणांतील शिलाहार** ह्या नांवानें प्रसिद्ध आहेत. ह्या वंशांतील शेवटचा पुरुष रट्टराज ह्याचा शके ९३० (इ.स. १००८) वर्षाचा एकच ताम्रपट उपलब्ध आहे. तो **संस्कृतांत** आहे. कानडींत नाहीं.[२] ह्यावरून दक्षिण शिलाहारांच्या दरबारांत कानडी भाषा चालत होती असें म्हणण्यास आधार नाहीं.

शणफुल्लाच्या वंशजांचा अम्मल कोंकणांत चालू असतानाच, शिलाहार पहिला कपर्दि ह्यानें शके ७३५च्या (इ.स. ८१३) किंचित् अगोदर, सांप्रतच्या ठाणें व कुलाबा जिल्ह्यांत राष्ट्रकूटांचा मांडलीक ह्या नात्यानें आपला अम्मल चालू केला.[३] ह्याचे वंशज **उत्तर कोंकणांतील शिलाहार** ह्या नांवानें प्रसिद्ध आहेत. ह्या शिलाहारांचा अम्मल सुमारें तेराव्या शतकाच्या मध्यापर्यंत टिकला. मुंबईजवळच्या साष्टी बेटांतील लेण्यांत ह्यांच्या अमदानींतील जे तीन लेख आहेत ते, व त्यांचे इतर शिलालेख व ताम्रपट **संस्कृतांत** कोरलेले आहेत. ह्यावरून त्यांच्याही दरबारांत कानडी भाषा चालत होती असें म्हणतां येत नाहीं.

नवव्या शतकांत, खानापुर तालुक्यांतील हळसीच्या कदंब राजांनीं दक्षिण शिलाहारांकडून गोमंतकाचा कांही भाग बळकावून चांदर (चंद्रपूर) ही आपली राजधानी केली व पुढें अकराव्या शतकाच्या पहिल्या चरणांत त्यांनी सर्व दक्षिण कोंकण हस्तगत करून तेथें आपला पूर्ण अम्मल बसविला. हा अम्मल सुमारें चौदाव्या शतकाच्या मध्यापर्यंत चालत होता.[४] ह्यांच्या अमदानींतील जे शिलालेख व ताम्रपट उपलब्ध आहेत ते **बरेचसे कानडींत व थोडे संस्कृतांत** आहेत.

तेराव्या शतकांत कोंकणांत देवगिरीच्या यादवांचा अम्मल सुरू होऊन इ.स. १३१८ त त्याची समाप्ति झाली. यादवांचीं शासनें **कांहीं संस्कृतांत व कांहीं कानडींत** आहेत.

कदंब व यादव यांचे कानडी लेख बहुधा कर्णाटकांत आढळतात. त्यांचे कोंकणांतील बहुतेक लेख **संस्कृतांत** लिहिलेले आहेत.

ह्या विवेचनावरून आठव्या शतकाच्या आरंभापासून तेराव्या शतकाच्या अखेरीच्या पर्यंत सहाशें वर्षांच्या काळांत केव्हांही, कोंकण किनाऱ्यावर कानडीचें साम्राज्य होतें असें म्हणण्यास ताम्रपट व शिलालेख तयार नाहींत, हें उघड दिसतें. दुसरें, दरबारांतील भाषा संस्कृत, कानडी किंवा दुसरी कोणतीही असली, तरी तेवढ्यावरून लोकांच्या बोलण्यांतील भाषाही तीच असली पाहिजे असें म्हणण्यांत अर्थ नाहीं. महाराष्ट्रावर आज सुमारें १०८ वर्षें इंग्रजांचा अम्मल असून तेथील दरबारी भाषा इंग्रजी आहे, व प्रस्तुत तिचेंच साम्राज्य जिकडे तिकडे चालत आहे. परंतु तेवढ्यावरून पुढल्या हजार बाराशें वर्षांनंतरचा कोणीही संशोधक म्हणूं लागेल कीं, १९ व्या शतकांत महाराष्ट्रांत मराठी भाषा प्रचारांत असणें संभवनीय नाहीं, तर तें योग्य होणार नाहीं. ह्याच न्यायानें, रा. शिंद्यांच्या म्हणण्याप्रमाणें, हजार बाराशें वर्षांपूर्वी सारा कोंकणकिनारा कानडीनें हस्तगत केला होता असें जरी क्षणभर गृहीत धरिलें, तरी तेथें तद्देशीय लोकांची मायभाषा जी **कोंकणी** ती प्रचारांत नव्हती असें

म्हणणें वाजवी होणार नाहीं.

पांचव्या कलमाच्या शेवटीं रा. शिंदे म्हणतात, 'मौर्य, कदंब, चालुक्य इत्यादि उत्तरेकडील राजवट्यांचा पसारा इ.स. पूर्वी निदान २०० वर्षांपासून पुढें ह्या (कोंकण) किनाऱ्यावर होऊं लागला. तोंपर्यंत द्राविडी भाषांच्या साम्राज्याच्या केंसालाही धक्का नव्हता; व पुढेंही कित्येक शतकें राजकीय साम्राज्य ढांसळलें तरी भाषाविषयक द्रावीडच अम्मल जनतेमध्यें चालू होता. थोडक्यांत सांगावयाचें म्हणजे **कोंकणी ही कोंकणांत प्रांतिक अथवा स्थानिक भाषा नसून उपरी आणि जातीय भाषा आहे हें सिद्ध होतें.**' ह्या विधानांतील तात्पर्य एवढेंच कीं, सुमारें २१२६ वर्षांपूर्वी व त्यानंतर कित्येक शतकें कोंकणकिनाऱ्यावर द्रावीड भाषा चालत होती; म्हणून कोंकणी ही तेथील स्थानिक भाषा नसून **आगन्तुक आलेली परकी भाषा** आहे. परंतु हें विधान जेवढें कोंकणकिनाऱ्याला लागू आहे, तेवढेंच महाराष्ट्रालाही लागू आहे. महाराष्ट्रांत तरी मूळचे आर्य लोक व त्यांची आर्यभाषा कोठें होती? कोंकणी भाषा ही जर कोंकणांत उपरी म्हणावयाची, तर **मराठी भाषा ही महाराष्ट्रांत उपरी कां म्हणूं नये**, ह्याचें कारण रा. शिंदे सांगूं शकतील काय?

कोंकणी ही कोंकणांत उपरी भाषा आहे हें दाखविण्याकरितां रा. शिंदे सातव्या कलमांत आणखी सांगतात कीं, 'तिचा संबंध उत्तरेकडील कोणत्या तरी प्राकृताशीं पोंचतो; आणि विशेषेंकरून तिच्यांत कांहीं फार जुनीं संस्कृत रूपें मराठीहूनही जास्त आढळतात.' ह्या विचारसरणीनें **मराठी भाषाही महाराष्ट्रांत उपरी** होत नाहीं काय? तिचाही संबंध उत्तरेकडील कोणत्या तरी प्राकृताशींच पोंचतो. कोंकणीपेक्षां तिच्यांत फार जुनीं संस्कृत रूपें थोडीं असलीं म्हणून काय बिनसलें? फार झालें तर, कोंकणीपेक्षां मराठी ही दक्षिणेंत अर्वाचीन एवढें म्हणतां येईल.

कोंकणी ही कोंकणांत उपरी आहे असें सांगून, ही भाषा कोणत्या राष्ट्राची, असा प्रश्न रा. शिंदे आठव्या कलमांत करितात; व ती मराठ्यांची अर्थात् मराठी आहे असें ठरविण्याकरितां ते बरेच वादग्रस्त मुद्दे पुढें आणितात. पहिल्या प्रथम ते रट्ट, राठोड किंवा राष्ट्रकूट, मोरे, कदंब इत्यादि 'क्षत्रियवंशांना **मराठे** हेंच एक सामान्य नांव देणें मुळींच अयोग्य होणार नाहीं,' असें सांगतात. पण ह्याला आधार काय तो ते देत नाहींत. वरील वंशांपैकीं **रट्ट, राठोड किंवा राष्ट्रकूट ह्यांना कोंकणी,**[५] **मोऱ्यांना काठेवाडी व कदंबांना कानडी कां म्हणूं नये** ह्याचें कारण ते सांगतील काय? ह्या क्षत्रिय वंशांची सत्ता कांहीं काळ कोंकणावर चालत होती म्हणून त्यांच्यावर मराठेपणाचा शिक्का मारला म्हणजे, कोंकणांतील भाषा जी कोंकणी ती मराठ्यांची

भापा किंवा मराठीची शाखा होईल काय? रा. शिंदे दुसरें एक विधान करितात कीं, 'सारस्वतांपेक्षांही पूर्वीं हजार पांचशें वर्षें दक्षिणेंत मराठे आले.' पण ह्याला आधार काय? मराठ्यांपूर्वीं कोंकणांत सारस्वत ब्राह्मण आले होते असें म्हटल्यास, तें रा. शिंदे साधार खोडून टाकतील काय? आठव्या कलमांतील एकंदर विचारसरणी बहुतेक पोकळ पायावर उभारलेली असल्यामुळें, रा. शिंद्यांनी काढलेला सिद्धांत, म्हणजे 'कोंकणी ही मराठीचीच शाखा ठरते व तिचा स्वतंत्रपणा नष्ट होतो,' ह्यांत कांहींच भरींवपणा राहात नाहीं. मी. रा. शिंद्यांना खात्रीपूर्वक सांगतों कीं, **कोंकणी ही एकट्या सारस्वत ब्राह्मणांचीच भाषा नसून ती चारही वर्णांची आहे.** आज गोमन्तकांतील सगळ्या जाती ती भाषा बोलतात. जगांतील कोणतीही भाषा घेतली, तरी तिच्यावर त्या त्या देशांतील सुशिक्षितवर्गाचीच छाप विशेष बसलेली असते; त्याप्रमाणें कोंकणी भाषेवर सारस्वत ब्राह्मणांची छाप बसली असल्यास त्यांत नवल नाहीं. परंतु तेवढ्यावरून ती **त्यांच्याच जातीची भाषा असें म्हणण्यांत अर्थ नाहीं.** ती सारस्वतांनी कोंकणांत प्रथम आणिली नाहीं. तर कोंकणांत जे मूळचे रहिवासी होते त्यांची अनार्य भाषा व सारस्वतांची आर्यभाषा ह्या दोहोंच्या मिश्रणानें ती बनली आहे, असें म्हटलें असतां मोठी चूक होईल असें मला वाटत नाहीं.

सारस्वत ब्राह्मण हे कोंकणांत अगदीं अलीकडे आले आहेत असें सिद्ध करण्याकरितां रा. शिंदे ९ व्या व १० व्या कलमांत त्यांचा संबंध मयूरवर्मा नांवाच्या एका कदंब राजाकडे लावूं पाहातात. ते म्हणतात, 'मयूरवर्मा नांवाच्या एका मांडलीक राजानें सुमारें इ.स. ६/७ व्या शतकांत **नवीन कदंब** वंशाची गादी गोव्याकडे स्थापिली. तो वैष्णवपंथी होता. त्याने राजपुतान्यांतून सुमारें दोन हजार ब्राह्मण आणविले, अशी दंतकथा आहे. सारा कोंकण प्रांत परशुरामानें समुद्र हटवून निर्माण केला व तो त्यानें ब्राह्मणांस दान दिला... पण ते आचारभ्रष्ट व कृतघ्न झाल्यानें पुन: दुसरे ब्राह्मण आणविले... हे दुसरे ब्राह्मण कदाचित् मयूरवर्म्यानेंच आणिले असावेत, व ते काठेवाडांतले सारस्वत असावेत. परशुरामानें आणिले, ही केवळ पौराणिक कल्पना असावी.' मागें सांगितल्याप्रमाणें गोमन्तकाच्या कांहीं भागांत कदंबांनीं आपली गादी स्थापिली ती फक्त नवव्या शतकांत. त्यापूर्वी नाहीं. ह्या गोष्टीला ताम्रपटाचा आधार भरपूर आहे.[६] तथापि त्यांनीं गोमन्तकांत राजपुतान्यांतून किंवा काठेवाडांतून ब्राह्मण आणविले ह्या म्हणण्यास शिलालेखांचा किंवा दंतकथेचाही आधार नाहीं. शिवाय, गोमन्तकांतील ब्राह्मण, आपणांस कदंबांनीं कोंकणांत आणिलें, असें मुळींच समजत नाहींत.

कर्णाटकांत कदंबांची तीन घराणीं होऊन गेलीं. त्यांपैकीं पहिल्याचा मूळपुरुष मयूरशर्मा असून, बादामीचा चालुक्य राजा पहिला कीर्तिवर्मा ह्यानें इ.स. ६व्या शतकाच्या उत्तरार्धांत त्याचा वंशवृक्ष उपटून टाकिला.[७] ह्या मयूरशर्म्यानें कर्णाटकांत कोणी ब्राह्मण आणविले होते ह्याला शिलालेखांचा किंवा दंतकथेचाही आधार नाहीं. दुसरें घराणें धारवाड जिल्ह्यांतील हानगळच्या कदंबांचें. ह्याचा मूळपुरुष मयूरवर्मा. हा तीन डोळ्यांचा व चार हातांचा असून, त्यानें अहिच्छत्रांतून १८ ब्राह्मण आणून कुंतल देशांत स्थापिले, असा हानगळ तालुक्यांतील करगुदरी गांवांतील इ.स. ११०८ च्या शिलालेखांत उल्लेख आहे.[८] ह्या घराण्याचा विश्वसनीय इतिहास अकराव्या शतकाच्या मध्यापासून मिळतो. उत्तर व दक्षिण कर्णाटकांतील हविग, कोट, सकलापुरी व शिवल्ली हे ब्राह्मण ह्या मयूरवर्म्याकडे आपला संबंध जोडतात, व त्यानें सातव्या शतकाच्या अखेरीस आपणांस उत्तर हिंदुस्तानांतून कर्णाटकांत आणिलें, असें समजतात.[९] सह्याद्रिखंडाच्या ७व्या अध्यायाच्या ५९-६१ श्लोकांत असें लिहिलें आहे म्हणतात कीं, सुमारें इ.स. ७०० व्या वर्षी मयूरवर्म्याचा बाप शिखिवर्मा ह्यानें अश्रद्धेमुळें पतित झालेल्या परशुरामनिर्मित ब्राह्मणांची जागा भरून काढण्यासाठीं हविगांना कर्णाटकांत आणिलें.[१०] मयूरवर्म्याला दुसऱ्या एका लेखांत मुकण्ण कदंब म्हणजे तीन डोळ्यांचा कदंब हें नांव दिलेलें असून, त्यानें अहिच्छत्रांतून अग्निहोत्रानें पवित्र झालेले ३२ गोत्रांचे १२००० ब्राह्मण आणून, त्यांना म्हैसुरांतील स्थानुगुढपुर (आतांचें ताळगुंद) एथें अग्रहार देऊन स्थापिलें, असें म्हटलें आहे.[११] कदंबाचें तिसरें घराणें म्हटलें म्हणजे खानापुर तालुक्यांतील हळसीचें. ह्या घराण्यांतील पुरुष नवव्या शतकांत दक्षिण कोंकणाच्या कांहीं भागांत अम्मल चालवीत होते, हें वर सांगितलेंचआहे. ह्यांचा मूळपुरुष जयंत किंवा त्रिलोचन म्हणजे तीन डोळ्यांचा कदंब. ह्यानें दक्षिणेंत ब्राह्मण आणल्याची आख्यइका नाहीं. तथापि हा व हानगळचा मयूरवर्मा ह्यांच्या वर्णनसादृश्यावरून ते एकच असावेत असा कांहीं विद्वानांचा तर्क आहे. कसेंही असो. तीन डोळ्यांच्या व चार हातांच्या कोणी तरी कदंब राजानें दक्षिणेंत ब्राह्मण आणलेच असतील तर ते हविग व त्यांचे पोटभेद होत. **सारस्वत नव्हत.** कारण हविग ब्राह्मणच तशा प्रकारच्या दंतकथेशी आपला संबंध जोडीत असून, सारस्वत ब्राह्मणांत तिचा मुळींच अभाव आहे. ह्यावरून मयूरवर्म्याच्या आधारावर सारस्वत ब्राह्मण कोंकणांत सहाव्या किंवा सातव्या शतकांत आले असें म्हणणें, व त्यावरून कोंकणी ही उपरी लोकांची भाषा असून ती मराठीपासून भिन्न व स्वतंत्र नाहीं असा सिद्धांत काढूं पाहणें व्यर्थ आहे.

११ व्या कलमांत रा. शिंदे म्हणतात, 'ज्या प्राकृतांतून मराठीचा उद्भव झाला त्याच प्राकृतांतून कोंकणीचाही झाला, ही गोष्ट दालगादो ह्यांनाही कबूल आहे. ह्या सर्व ऐतिहासिक परिस्थितीचें अवलोकन केल्यावर कोणालाही, कोंकणी ही मराठीपासून भिन्न आहे किंवा स्वतंत्र आहे, असा आग्रह धरतां येणार नाहीं.' ह्यांत एकाच प्राकृतापासून कोंकणीचा व मराठीचा जन्म झाला ह्या मुद्द्यावरून, कोंकणी ही मराठीपासून भिन्न नाहीं व स्वतंत्र नाहीं, असा रा. शिंद्यांचा आग्रह दिसतो. परंतु त्यांचाच मुद्दा गृहीत धरून मी त्यांना असें विचारतों कीं, आई एकच असली म्हणून तिच्या एकंदर मुली सारख्या रूपाच्या, रंगाच्या व स्वभावाच्या असून त्यांचा जीवही एकच असावा लागतो की काय? मी त्यांना खात्रीनें सांगूं शकतों कीं, त्या मुली कदाचित् जुळ्या जन्मलेल्या असल्या तरी त्यांच्यांत थोडें तरी अंतर असल्यावांचून राहात नसतें. मग निरनिराळ्या काळीं गर्भसंभव होऊन जन्मलेल्या मुलींत मोठेंच अंतर राहील, हें सांगण्याची जरुरी नाहीं. वस्तुस्थिति अशी असतां, कोंकणी ही मराठीपासून अभिन्न आहे असा दुराग्रह धरण्यांत काय बरें अर्थ आहे?

१३व्या कलमांत रा. शिंदे, 'कोंकणी ही भाषा कोंकणांतल्या मूळ रहिवाशांची नसून, तेथें फार तर हजार बाराशें वर्षांपूर्वी गेलेल्या **उपऱ्या लोकांची** आहे' असें म्हणतात. कोंकणी भाषा ही कोंकणांत **उपरी** ठरवावयाला ती कोणा तरी **उपरी लोकांच्या** गळ्यांत बांधल्यावांचून गत्यंतर नाहीं, ही रा. शिंद्यांची अडचण उघड दिसते; आणि त्या अडचणींतून पार पडण्यासाठीं, **सारस्वत ब्राह्मण हे कोंकणांत अगदीं अलीकडे आगन्तुक आलेले परकी लोक आहेत असें ते म्हणतात.** परंतु हा मुद्दा सिद्ध करतांना ते बरेच घोंटाळतात, हें चाणाक्ष वाचकांच्या लक्षांत आल्यावांचून राहणार नाहीं. ९ व्या व १० व्या कलमांत त्यांनीं ते ब्राह्मण सहाव्या किंवा सातव्या शतकांत कोंकणांत आले, असें दर्शविण्याचा प्रयत्न केला. परंतु पुढें १७ व्या कलमांत, ते ब्राह्मण १३ व्या शतकांत कोंकणांत उतरले असावे, असें ते प्रतिपादन करितात. ते म्हणतात, 'संयुक्तप्रांत, बहार, आणि बंगाल ह्या प्रांतांवर इ.स. १३०० शतकांत मुसलमानांनी अनेक स्वाऱ्या करून तेथील लोकांचा अनन्वित छळ केला... म्हणून ते लोक उत्तरेस नेपाळांत, व दक्षिणेंत ओरिसा प्रांतांत जीव घेऊन पळाले. त्याच धांदलींत गौड सारस्वत ब्राह्मणही त्याच मार्गानें **प्रथम** गोदावरीच्या तीरावर आणि नंतर कोंकणांत उतरले असावे.' ते भविष्य काळाच्या 'ल' प्रत्ययावरून आणखीही अनुमान काढितात कीं, 'मराठीचा आणि सारस्वत ब्राह्मणांचा समागम इ.स. १२०६ आणि १२९०च्या दरम्यान घडला असावा, व त्यानंतर हे लोक, ही नवीन अर्धवट संपादलेली ज्ञानेश्वरीच्या काळची जुनी मराठी

घेऊन, कोंकणांत गेले असावेत.' नंतर शके ९६१ (इ.स. १०३९) वर्षी श्रीपति नांवाच्या ज्योतिषानें लिहिलेल्या 'रत्नमाला' नांवाच्या ग्रंथांत 'वेगोवित्तर' हा शब्द असून त्याच अर्थाचें कोंकणींत 'वेगुवि' (?) हें क्रियाविशेषण आहे ह्या आधारावर, रा. शिंदे २१व्या कलमांत म्हणतात कीं, 'इ.स. १०४० त जे सारस्वत ब्राह्मण व मराठे गोदावरीच्या आसपास मिळूनच होते, तेच वरील कलम १७मध्यें दर्शित केल्याप्रमाणें इ.स. १२०६-१२९०च्या दरम्यान विभक्त होऊन, सारस्वत हे कोंकणांत शिरून त्रावणकोरपर्यंत खालीं उतरले.' हीं अवतरणें वाचल्यावर, रा. शिंद्यांच्या विधानांत पहिल्या प्रथम जो एक ठळक विसंगतपणा दिसतो तो हा कीं, जे सारस्वत ब्राह्मण १३व्या शतकांत मुसलमानांच्या जुलुमामुळें बंगाल सोडून **प्रथमच** गोदावरीच्या तीरावर आले, ते अकराव्या शतकाच्या पूर्वार्धांत (इ.स. १०४० त) म्हणजे सुमारें २०० वर्षें अगोदर गोदावरीच्या आसपास मराठ्यांशीं मिळून कसे असूं शकतील? दुसरें, बहार आणि बंगाल ह्या प्रांतांतून ओरिसाच्या बाजूनें दक्षिणेंत गेलेले गौड सारस्वत ब्राह्मण पहिल्यानें महाराष्ट्रांत जाऊन नंतर कोंकणांत शिरण्याचें कारण काय असावें? त्यांच्या कोंकणांत जाण्याच्या रस्त्यावर महाराष्ट्र देश आड येत होता काय? रघुवंशांत कालिदासानें रघुराजाच्या दिग्विजयाचा रस्ता दिला आहे; त्यांत तो राजा हिंदुस्तानच्या पूर्वसमुद्रावरील उत्कल (ओरिसा) व कलिंग (उत्तर सरकार) येथील राजांना जिंकून नंतर दक्षिणेंत उतरला व कावेरी नदी ओलांडून पाण्ड्यांच्या राज्यांत (मदुरा व तिनेवेल्ली तालुक्यांत) शिरला: तेथून तो मलबारांत गेला; नंतर मुरला नदी (गंगावली असावी) उतरून तो अपरान्तांत (कोंकणांत) गेला, असें म्हटलें आहे.[१२] महाभारतांत वनपर्वांत पाण्डवांच्या तीर्थयात्रेचें वर्णन केलें आहे; त्यांत, ते पाण्डव हिंदुस्तानच्या पूर्व किनाऱ्यावर कलिंग देशांत गेले व तेथून समुद्रकांठचीं तीर्थें करीत समुद्रास मिळणाऱ्या गोदावरीच्या मुखाजवळ आले; नंतर दक्षिणेंत उतरून द्रावीड देशांतील समुद्रकिनाऱ्यावर गेले; तेथें अगस्त्यतीर्थाला जाऊन, तेथून पश्चिम किनाऱ्यावर एकामागून एक तीर्थें करीत ते शूर्पारकाला म्हणजे उत्तर कोंकणांतील वसई जवळील सुपाऱ्याला गेले, व नंतर काठेवाडांत प्रभासाला गेले, असें म्हटलें आहे.[१३] ह्यांत रघुराजाच्या किंवा पाण्डवांच्या रस्त्यांत महाराष्ट्राचा किंवा दण्डकारण्याचा मुळींच उल्लेख नाहीं. असें असून, ते ओरिसाच्या वाटेनें खालीं दक्षिणेंत उतरून तेथून नेमकेच कोंकणांत पोंचले. त्याचप्रमाणें, त्यांच्याच रस्त्यानें कोंकणांत जाणाऱ्या सारस्वत ब्राह्मणांना पहिल्यानें महाराष्ट्रांत गेल्यावांचून थेट आपल्या मुक्कामास पोंचता येण्यासारखें नव्हतें काय? ते मुद्दाम ज्ञानेश्वरकालीन महाराष्ट्राला भविष्यकाळाच्या 'ल' प्रत्ययाचा अहेर करून

# पानां अडेचीं - पणून गरजेचीं

१९४२ वर्सा, मुंबै, कोंकणी परिशदेची तिसरी बसका जाली. तिचे येवकार-अध्यक्ष ह्या नात्यान **शणैबाबां**नी केल्लें अुलोवप छापून अुजवाडा हाडचें काम येवकार-समितिचें आसलें; परंत तें करचे आदींच ती विसर्जन जाली आनी तें काम **'गोमन्तक'** छापखान्याच्या वांट्याक आयलें. तें तो आज तडीक व्हरता.

हें अुलोवप छापून जालें, त्याच वेळार, म्हळ्यार, गेल्ल्या वैतुब्रांत, **आचार्य काकासायब कालेलकार** हांणी 'गोमन्तक मराठी साहित्य संमेलना'चे तिसरे बसकेच्या येजमानकेच्या पाटावरसून केलें अुलोवप हातांत पडलें. त्या अुलोवपाचे आमच्या कोंकणाचेर जे परिणाम जातले ते ध्यानांत घेवन, ताची चिकित्साय केल्ली बरी अशें **शणैबाबां**क आमी कळैलें. तें मान्य करून, प्रकृत भंगल्या आसतनाय आनी वैजान विसव घेवंक सांगलां आसतनाय तांणी, जाता-नज करून **'अैन वेळार'** हो निबंद बरोवन काडलो. पणून आमचेकडसून मात तो वेळार छापून जालो ना; आनी जेन्ना तो छापून जालो, ताचे अुप्रांत चारूच दिसांनी, म्हळ्यार, ता. ९ आब्रील १९४६ दिसा, मंगळारा, सकाळच्या ८-३० घंट्यांर **शणैबाबां**चो जैतवंत, तेजवंत आनी पुण्यवंत आत्मो हो संवसार सासणाचो सोडून गेलो, हें कळोवंक आमचो जीव खेदान जडावता.

* * *

**शणैबाबां**ले लिखणेंतसून अुतरल्लो **निमाणो** निबंद ह्या अुलोवपाक जोडला. ताचो माथाळो तांणी **'अैन वेळार'** असो घाला. तो अर्थान अुपाट भल्ला. आपणालें मर्ण लागीं पावलां हें तांणी पारखिल्लें. देखून, त्या अर्थान तो माथाळो तांणी घालो जातलो; ते हातरुणार पडिल्ले, तांच्यान अुठुं-बसुं नज आसलें. जाल्यारूय, संवसारांतले राटावळिंकडेन तांगेलें ध्यान आसलें. हिंदुस्तानाच्या राजपाटणांत व्हडल्यांत व्हडलो बदल करूंक घाला, हें ते जाणा आसले; ताचो परिणाम आमगेल्या कोंकणाचेर कितें जातलो हाची येवजण तांच्या मेंदूक लागिल्ली. अेकाद्रो ह्याय अर्थान तो माथाळो तांणी दिला आसुंये. मेळून खैंचोय अर्थ घेतलो जाल्यारूय सगलोच अैन वेळ ! ह्या वेळार, जितलें सांगुं येत तितलें तांणी ह्या निबंदांत सांगलां.

तो बरैतना कोंकण, कोंकणी आनी कोंकणी भास हांचे भायर तांकां कांयच दिस नासलें, येवज नासलें. दिसाचे चोविसूय घंटे तांचो ध्यास्त तांकां लागिल्लो. हाचो तांचे प्रकृतीर वायट परिणाम जातालो. देखून, तो ध्यास्त सोडून, कुडीन, मनान आनी मेंदून हुसक्या मेकळे जावन पूर्ण विसव घेयात अशें वैज जीव तोडून भोवनभोवन तांकां सांगताले. परंत ते सांगणेचो परिणाम जावचे भायर ते पाविल्ले. हातांत घेतिल्लीं कामां अर्दकुट्यार सोडून वच्चें पट्टा, हे खंतीन तांच्या जिवाचे अुतळताप जाताले. मनांतले विचार मांडूंक तांचो आत्मो अुचांबळ जाल्लो. तो कितेंच आयकूंक तयार नासलो. देखून, वैजाचे सांगणेभाशेन लिखणी थांबोवन वांचचे भाशेक, हाताक थोडोभोवूय नेट आसा-सर, ती चलै-चलैतांच मरपाचें तांणी थारायलें. हे भाशेन, हो निबंद म्हळ्यार तांगेले सगळे बरपावळिचें सार आसा. ह्या सारांत तांणी आपणालें अंतस्कर्ण ओतलां. हांतूंत, आवै-भुंयेच्या आनी भाशेच्या मोगान आनी हुस्क्यान तळमळिल्लो तांगेलो आत्मो घणघणीत दिसता. तो आत्मो, आमगेल्या कोंकणाचे अुदेते पिळगेच्या मनांत कर्तुत्वदशेची जोत पेटोवन आमचो फुडार अुजळ करतलो, हांतूंत दुबाव ना.

सुतां-पुनव, शक १८६८.
ता. १२ आगोस्त १९४६. अुजवाडावपी.

वैर सांगिल्ले भाशेन, गेल्ल्या वर्सा तयार जावनूय कांय कारणान तशेंच अुरल्लें हें पुस्तक आज भायर सरता.

ता. १० देजेंब्र १९४७. अुजवाडावपी.

## अुलोवप करतना --

कोंकणी परिशद, तिसरी बसका,
'सर कावसजी जहांगीर हॉल,'
कोट, मुंबै, ता. ४ आब्रील १९४२.



-- कोंकण्यांनु, ''म्हजो अणभव आनी येवजण्यो हांवें तुमकां सांगल्यो. आजवेर पळेल्ल्या, वाचिल्ल्या, आयकल्ल्या आनी अणभविल्ल्या गिन्यानाचें सार हांवें तुमच्या फुड्यांत दवलें. म्हज्या आनी तुमच्या मनाची फटवण करूंक हांवें तुमकां नाका-जाल्ल्यो फटाशी सांगूंक नात. म्हजी दरअेकली म्हणणी तुमी तुमचे बुद्दिचे साणीर घांसून पळ्यात आनी कसाक लागल्यार घेयात.''

**-- शणै गोंयबाब.**

(गोमन्तोपनिषत्, २-३४०)

# कोंकणी परिशद

## तिसरी बसका

## १९४२

# येवकार-अध्यक्षांलें अुलोवप

'सर कावसजी जहांगीर हॉल'
मुंबै ४ आब्रील १९४२

भौमानेस्त कोंकण्यांनू – भावांनू आनी भैणिंनू – तुमकां मायेमोगान हे परिशदेक हांव येवकार दितां. हिंदुस्तानाचे शिंवेर भयांकृत झुजाचो फार-पेट चल्ला आसतना, धडधड्यान आनी कलकल्यान हात-पांय गळसणायनासतना, तुमी मोट्या धिरान आज हांगा जमिल्ले पळोवन, म्हाका जी खोस जाता आनी आशेचे अुमाळे येतात ते सांगून अुपकारनात. आवै-भाशेच्या मोगान तुमी सगळो भय-भाडो विसरून धिरिश्ट जाले ! केदो चमत्कार हो !

तुमी कोंकणे ह्या नात्यान हे परिशदेक आयल्यात. अशे तरेन एकठावपाची शक्त तुमकां कशीआयली? तुमकां कोंकणो म्हळ्यार तुमचो-सो कित्याक दिसता? ताका पळोवन तुमचो जीव कित्याक भुरकुट्टा? हिंदुस्तानांतल्या हेर लोकां परस कोंकणो नाखा-दोळ्यान वेगळो आसा व्हय? ना मू? म्हणटकूच हेरांआदीं ताकाच तुमी वेंग कित्याक मारतात? असलें कसलें एकचाराचें नातें तुमचे भितर भल्लां? तुमगेले आवै-भाशेचें – कोंकणिचें –.

कोंकणी अुतर आयकनाफुडें तुमचे कान फुलतात. मराठीन, कानडीन वा हेर दुसरे भाशेन कित्याक फुलनात? कोंकणी भास अुलैल्ली आयकून तुमी कोंकण्याक वळखतात. हर्शीं तो आनी मराठो तुमकां सारकोच. कोंकण्याक कोंकणो, मराठ्याक मराठो आनी कानड्याक कानडी म्हणु वळखपाची कुरू पळोवंक गेल्यार तांगेल्यो वेगळ्यो-वेगळ्यो भासो. म्हणटकूच, कोंकण्याक मराठो वा कानडी म्हणपांत कसलो अर्थ?

भावांनू आनी भैणिंनू, आवै-भाशेच्या अुतरांनी कसलो मंत्र भल्ला तो तुमी

जाणात? नागसूर आयकनाफुडें भरप्याच्या पेटाऱ्यांतलो सोरोप फोडा करून कसो नाचता आनी धोलता तो तुमी पळेलाच. त्या नागसुरावरीच आवै-भाशेच्या दरअेका अुतरांत मंजूळ सूर भल्ला. हो सूर आयकून मनीस जायते फावटीं आपलें धेयभान विसरता आनी गुल्ल जाता. मनीस आपलो देस सोडून पैशिल्ल्या मुलखांत पावतकूच हाचो अणभव ताका भौनभौन येता. आवै-भाशेचें अुतर आयकूंक तो आंवडे गिळटा. तुमी जाणात? साडेचारशीं वर्सांफाटीं पुर्तुगेजांलीं तारवां जेन्ना पैलींवैलींच कालेकुटच्या बंदराक लागलीं, तेन्ना त्या गिरेस्त शारांतलो अेक मुसलमान वेपारी वास्कु गामालें तारूं पळोवंक गेलो. तो अुत्तर आफ्रिकेंतल्या तूनिस शारांतलो आसून ताका कांय अेवरोपी भासो येताल्यो. तारवांत पांय दिनाफुडें, तें पुर्तुगेजांलें तारूं म्हणपाचें ताणें वळखलें आनी गामाक पुर्तुगेज भाशेंत मोट्या फुरफुऱ्यान म्हळें –

> Boa ventura ! boa ventura ! Muitos rubis, muitas esmeraldas ! Muitas graças deveis de dar a Deus que vos trouxe a terra onde há tanta riqueza [1]
>
> – बरें नशीब ! बरें भाग्य ! जायती केम्प, जायती पाच ! ज्या मुलखांत अितली गिरेस्तकाय भल्ल्या थैं तुमकां देवान पावैले, देखून तुमी ताचे खूब अुपकार मानूंक जायत !

हीं पुर्तुगेज अुतरां आयकून गामाचो आनी ताचे वांगडच्यांचो जीव कितलो भुरकुटलो तो मनांतूच येवजून समजूंक जाय. पुर्तुगालसून भायर सल्ल्यार तांकां अिकरा म्हैने जाल्ले आनी हे अितले लांब मुजतींत तांणी समुद्राचें भयांकृत गाजप, म्हसमिच्या खापऱ्यांलें घोगरें घुरघुरप वा अदीकूच जाल्यार मुसलमानांलें आरबी अुलोवप आयकल्लें. तांकां कालेकुटच्या पैशिल्या बंदरांत आपणाले खासा आवै-भाशेचे गोड-म्होंवे सूर आयकूंक येनाफुडें अितली खोस जाली कि तांच्या दोळ्यांतसून सळसळीत दुखां व्हांवलीं ![१]

आवै-भाशेचीं अुतरांच न्हयत, तर आपणालो सीम-शेजारीय पैशिल्या मुलखांत आपणाक मेळ्ळो जाल्यार जीव कितलो भुरकुट्टा म्हणु सांगचो ! गामाक तारवार मेळिल्ल्या मुसलमाना संबंदान पुर्तुगेज कवी कामोंय्स कितें म्हणटा आयकात-

> Que alegria não pode ser tamanha,
>
> Que achar gente vizinha em terra estranha.
>
> – परक्या मुलखांत आपणाक आपलो शेजारी-सामारी मेळचो, हाचे अेदी कसली खोस जायना जायत?[२]

पणून भावांनू आनी भैणिंनू, ही मुंबै आमकां परकी न्हय. हो परको मुलूख न्हय. ही आमगेलीच भूंय. हें आमगेलेंच कोंकण. दमण-गंगे साकून मलबारा मेरेन आमगेलें कोंकण शेकानशेक पातळ्ळां. हो हेवशीन पळयात म्हाल-म्हातारो सह्याद्री चड पुर्विल्लो म्हळ्यार 'धर्तरेचो जल्म जाल्लो तेन्ना हो जलमल्लो. असलो हो पर्वत मळबाक माथें लावन बसला आनी तागेली अपुर्बायेची माणकुली धूव म्हळ्यार हें आमगेलें कोंकण ताचे मांडयेर बसलां ! आनी हो अस्तमतेचो समुद्र पळ्यात कसो रात-दीस ताचे पांय धुता आनी ताका अर्घ्यां दिता ! केदी भाग्यवंत आनी कितली गिरेस्त ही आमगेली आवै ! असले आवैचीं आमी भुरगीं ! केदें भाग्य आमचें हें !

भाग्यवंत कोंकण्यांनू – भावांनू आनी भैणिंनू – ह्या मुंबै शारांत आज जरी आमी सगळ्यांच्या सकला आसांत तरी एका वेळार आमी सगळ्यांच्या माथ्यार आसले. आज पारसी, गुजीर, खोजे, मेमन, मारवाडी, सिंधी आनी मराठे आमचे फुडें पावल्यात आनी आमी कोंकणे सगळ्यां फाटल्यान अुल्ल्यांत. आमचेर किरकावळें पडलां. पणून अशी गजाल कांय शेंकड्यां आदीं नासली. णववो शेंकडो धरून तेराव्या शेंकड्या मेरेन हांगा आनी सगळ्या अुत्तर कोंकणांत आमगेलें स्वराज्य चलतालें. शिलाहार हे आमगेले निजाचे कोंकणे राजा. हे चाड्डे (चतूरथी) क्षत्रिय. हे मुदलचे गोंयचे जांबावलेचे. चंद्रवाडी, बाळ्ळी, हेमाड, अश्टाग्रहार आनी काकोडें मेळून पांच म्हालांक पंचम्हाल वा जांबावली म्हणटात. ही शिलाहारांली जल्म-भूंय. हांगाआनी सगळ्या दक्षीण कोंकणांत आठवो शेंकडो धरून अिकराव्या शेंकड्या मेरेन शिलाहारांलें जाणटें घराणें राज्य चलैतालें. हांगेलें राजपाटण वलिपत्तनांत म्हळ्यार बाळ्ळींत आसलें. हांगाचे राजा आपणाले जल्म-भुंयेक सिंहल म्हळ्यार लंखा म्हणटाले. तांगेल्या तांब्या-पट्यांनी 'सिंहलक्ष्माभृतांवरः' म्हळ्यार 'लंखेच्या राजांभितर अुंच' ही पदवी तांकां लायल्ली मेळटा. अुत्तर कोंकणांतलेय शिलाहार आपणांक 'लंकेश्वर' म्हळ्यार 'लंखेचे राजा' म्हणोवन घेताले.[३] कोलापुरचे शिलाहार जांबावलेच्या शिलाहारांलेच दायजी-गोत्री आसले. अिकरावो शेंकडो सोंपत्यार अुत्तर कोंकणी शिलाहार आपणांक 'तगरपुरवराधीश्वर' म्हळ्यार 'अुंच तगरपुराचे राजा' आनी कोलापुरचे शिलाहार आपणांक 'तगरनगरभूपालक' म्हळ्यार 'तगर शाराचे राजा' ही पदवी लावंक लागले. पुण ही अडेची दिसता. कित्याक, तांगेल्या जाणट्या घराण्यान एकाय बरपांत ही पदवी लावन घेवंक ना. तीनूय घराण्यांच्यो हेर पोरण्यो पदव्यो एकामेकांक जमतात. हाचेवैल्यान, तीं एकामेकांलीं दायजी-गोत्री आसून मुळचीं दक्षीण कोंकणांतलीं, जांबावलेचीं, हांतूंत दुबाव ना. त्या वेळार अुत्तर शिलाहारांल्या दिवाणांत पाटां-

प्रधान, राजगुरु, भाण्डारी बी सगळे दक्षीण कोंकणांतले विद्वान आनी कर्तुत्वी मनीस आसले. तांतूंत संगलैय पै, सीहप्पैय, तिक्कपैय, रुद्रपैय, महादेवैय प्रभु, लक्ष्मण नायक, लक्ष्मणैय प्रभु, अनंत पै प्रभु बी नांवां गाजतात. मुंबै लागशिली सास्ट ही गोंयचे सास्टीवैल्यान तांणीच वसैल्ली; आनी गोंयच्या गांवांचीं नांवां दिवन तांणी मुळगांव, राय, शिरगांव, दोंगरी, आंबेली, जुवें, साळगांव, पाली, आगशी, कांदोळी, कोलवें, सोनावळी बी नवे गांव वसैल्ले.[४] हीं सगळीं नांवां अजून थैं तगल्यांत आनी गाजतात.ह्या कोंकण्यां भितल्ल्या लक्ष्मण नायकान वा लक्ष्मण प्रभून बाराव्या शेंकड्यांत मुंबै वाळकेश्वराचें देवूळ बांदलें; तें राम कामती नांवाच्या पुण्यवंत कोंकण्यान क्रि.स. १७०३त सरी केलें. हो कोंकणो गोंयचो, अंत्रुजेंतलो, कुंडैचो. मुंबैच्या अिंग्रजी दिवाणांत हाणें जायती नामना जोडली. वाळकेश्वराचें देवूळ म्हळ्यार सगळ्यांत व्हडलें आनी पुर्विल्लें आसून, अजून तें दक्षीण कोंकणांतल्याच कोंकण्यांल्या सत्तेतळा आसा.[५] तांगेली सत्ता थैं हजार वर्सांफाटीं चलताली म्हणपाचो तो अेक गडगंज पुरावो वा ती अेक नाटूच म्हळ्यार जाता. ह्या देवळांतल्या म्हादेवान कोंकण्यांलें स्वराज्य तशेंच तांचेर आयल्लें परराज्य हीं दोनूय पळेल्यांत. सार सांगचेलें अितलेंच कि आज जैं ही परिशद भल्ल्या ती मुंबै आमकां परकी न्हय. ती आमगेलीच कोंकण्यांली भूंय.

आमगेले परिशदेचो जल्म तीन वर्सांफाटीं जालो. कितलें भाग्यवंत भुरगें हें ! कारवारा हाका पाळण्यांत घालें तेन्ना कितल्योश्योच बायलो थैं जमिल्ल्यो खैं. बायलो, दादले, जाणटे, नेणटे, भुरगे, म्हातारे, क्रिस्तांव, हिंदू, मुसलमान बी सगळ्यांनी हाच्या पाळण्याक झोंपै काडली आनी गोड बरी आल्लय गावन अर्थ-अपुर्बाय भागैली. कारवारच्यान हें अुडपी गेलें आनी थंयूय ताची तोखणाय जाली. अंदूं तें मुंबै आयलां आनी हांगाय ताका सगळ्यांनी माथ्यार धल्लां. कारवारचे वावराडे वकील **भौ. माधवबाब शानभाग** हे दोळ्यांत तेल घालून, जागरणां-जुगरणां काडून, दीस-रात ताची जतनाय घेतात, देखून ताणें ही गत घेतल्या. ना जाल्यार, ताची कठीन अवस्ता आसली. श्रीकृष्णाचो जीव घेवंक कंसमामा वावुरतालो; तशेच आमगेले परिशदेचेय कांय मामा तिचो आनी कोंकणी भाशेचो जीव घेवंक वावुरतात ! परक्या लोकां परस घरच्याच लोकांक ती नसाय जाल्या. कित्याक तें समजना. हे नात्या-पात्याचे लोक परक्या लोकांल्या नाखांत काडयो घालून आमगेले परिशदे आड आनी आवै-भाशे आड तांकां खुबळायतात आनी झगडूंक फुडें काड्टात. परक्या लोकांक आमगेलें घर केन्नाय पाड जाल्लेंच जाय. देखून, आमगेल्या घरभेद्यांल्या लटक्या प्रचाराचो तांकत तितलो मोटो जागर करून आमचें लुस्कान

करूंक ते सदींच अेका पांयार अुबे आसतात ! ते ह्या घरभेद्यांलो आत्मघातको **अेकाच मजकुराचो** प्रचार वेगळींवेगळीं माथाळीं दिवन, आपल्या वर्तमानपत्रांत जाग्याची तूट आसतनाय, अेकाच आंकांत दोन तीन फावटीं छापतात ! होच प्रचार घरभेद्यांल्या कसल्याय हिताचो आनी न्याय-नितिचो जाल्लो जाल्यार, हे परके लोक तांकां दारांत अुबे करचे नासले; आमडून घालतले आसले ! हाचो अणभव तांकां जायत्यो खेपो आयला, अजून येता आनी येतलो. पोरूं जाल्ले गणते वेळार ह्या घरच्या लोकांनी आमकां कितलीं आडमेळीं हाडलीं तीं सांगून अुपकारनात. आमी कोंकण्यांनी आमगेली आवै-भास कोंकणी म्हणु लावन दिल्ली तांकां नाका. आमी ती कोंकणी मराठी वा मराठिची पोट-भास म्हणु लावन दिवची असो तांगेलो हट. ह्या हटाक पेटून, कांय म्हैन्यांफाटीं सोलापुरा भरिल्ले मराठी साअित्य परिशदेंत तांणी अेक थारावणी करून घेतल्यां. तांतूंत म्हळां कि निक्तेच जाल्ले गणतेंत मुंबैच्या आनी चडकरून दक्षीण कोंकणांतल्या जायत्या लोकांनी आपणांली जल्म-भास वा पाळण्यांतली भास कोंकणी म्हणु सांगिल्ल्या कारणान, मराठी परस ती सामकीच वेगळी आनी स्वतंत्र आसा अशें चुकिचें लावप जालां. १९३१त अशीच चूक जाल्ली खैं. तशी पर्थून १९४१चे गणतेंत जावची न्हय म्हणु थारावणेकार म्हणटा कि कोंकणी ही आतांचे पुस्तकी मराठिचेंच अेक पोरणें रूप आसून मराठिंतूच ती लेखूंक जाय.[६] थारावणेकाराली ही म्हणणी अुफाट्टी ताच्याच ताळ्यांत शिरकता. कोंकणी भास ही आतांचे मराठिचें पोरणें रूप जाल्यार, आतांची मराठी ही कोंकणिची साप भंगिल्ली तरा म्हणूंक जाय. कित्याक, प्रमाण कोंकणी पासून आतांची मराठी सामकीच वेगळी दिसता. पणून असलो वाद जाय कित्याक? आमच्यान गडगंज पुरावे दिवन सिद्द करुं येता कि **मराठी परस कोंकणी वेगळी आनी स्वतंत्र आसून ती मराठिची पोट-भास न्हय.**

आमगेले घरभेदी चडकरून नाचतात आनी अुट्टात ते डॉ. सर रामकृष्णशणै भाण्डारकारांल्या नाड्यार. हे पंडीत आमगेले भाशेक भौनभौन 'गोवानीज मराठी' आनी अेक फावट 'कोंकणी मराठी' म्हणटात. ह्या पंडितांआदीं आनी अुप्रांत जायत्या विद्वान अेवरोप्यांनी आमगेले भाशेसंबंदान लेख बरैल्यात. पुण तांणी तिका हीं दोनूय नांवां खैंच लायल्लीं दिसनात. देखून, हीं नांवां येवजून काडपाचो पैलोवैलो मान सर भाण्डारकारांकूच फावो. पुण हांतूंतलें 'गोवानीज' हें अुतर तांगेले विशाळ विद्येक सोबना. कित्याक, तें विद्रूप आनी व्याकरणा-भायरें आसा. अिंग्रजी व्याकरणाच्या नेमान Goa हाका an हें विशेशणी कूस लावन Goan हें शुद्ध रूप जाता. हाका आनीक दुसरें ese हें विशेशणी कूस लावची गरज अुरना. Indian

आनी European हांकां ese कूस लावन अनुक्रमान Indianese आनी Europeanese हीं अुतरां घडल्यार जितलीं विद्रूप आनी बुरशीं दिसतात तितलेंच 'गोवानीज' हें अुतर दिसता. अशें आसतना, पंडीत भाण्डारकारांनी तें अुखलून धल्लें हाचें अजाप जाता. तें खासा तांकांय लागू जाता हें तांच्या ध्यानांत आयलें ना जावंये. तांगेलेच भाशेंत अुलोवंक गेल्यार, तांकां 'गोवानीज' म्हणचें पट्टलें. ते खासा जरी मालवणा जल्मल्ले, तरी तांगेले पूर्वज गोंयच्या शेतांतल्या चिखलांत रुजिल्ल्या भाताचें शीत आनी पेज जेवन ल्हान-व्हड जाल्ले. **ते सास्टींतले केळोशीकार बामण**. गोत्र कौशीक. कुळदेवी शांतादुर्गा. हिचें देवूळ आतां अंत्रुजेंत कवळ्यां आसा. हे भाशेन, पंडीत भाण्डारकार हाडा-मासान जरी 'गोवानीज' आसले, तरी तांणी गोंयचें तोंड केन्नाच पळोवंक नासलें आनी थैंचे भाशेचो धड अभ्यासूय करूंक नासलो म्हणपाचें तांगेल्याच बरपाचे पुरावे दिवन सिद्द करुं येता. ते म्हणटात कि प्रमाण मराठी अुतरांत निमाण्या अक्षरा आदलो **अ** स्वर फक्त लांब अुच्चारतात. परंत 'गोवानीज' पोट-भाशेंत तो **आ** जाता. देखीक पाताळ, कापाड, खडाप हीं अुतरां ते दितात.[७] पुण असो अुच्चार कोणूच गोंयकार करिना. तो पातळ, कापड, खडप असोच अुच्चार करता. माथ्याक आमी 'माथां' आनी कड्याक 'कडां' म्हणटांत खैं ![८] परंत हीय डॉ. भाण्डारकारांली चूक. आमी **माथें**, **कडें** अशेंच म्हणटांत. 'हांव करतालों' ह्या अर्थान 'हांव करां' अशें आमी म्हणटात खैं![८] तशेंच क्रियापदाचें प्रयोजक रूप आमी 'करयणां वा करअिणां' अशें करतांत खैं![८] पुण ह्योय डॉ. भाण्डारकारांल्यो चुकी. आमी करोवंक, सोडोवंक न्हाणोवंक अशेंच म्हणटांत. 'हांगा' ह्या अर्थान आमी 'हंय' म्हणटांत खैं![८] हें आयकून डॉ. भाण्डारकारांक गोंयचीं नेणटीं भुरगींय हांसतलीं ! असल्यो चुकी दाखोवंक गेल्यार जायत्यो मेळटीत. डॉ. भाण्डारकारांल्यो ह्यो चुकी अितलेंच दाखैतात कि तांणी कोंकणी भाशेचो अभ्यास बरो करून करूंक नासलो आनी ह्या खातीर ते भाशेसंबंदान मत्त दिवंक तांकां फावोसो अधिकार नासलो. तांणी हो अभ्यास बरो करून केल्लो जाल्यार, कोंकणी भाशेक ते 'मराठिची पोट-भास' आनी 'गोवानीज मराठी' वा 'कोंकणी मराठी' अशें केन्नाच म्हणचे नासले. ते तिका स्वतंत्र भास कशी लेखतले आसले आनी आपुण 'मराठो' म्हणचे बदला, **कोंकणो** म्हणून काळजार हात मारून अभिमानान सांगतले आसले. जरी ते चुकीन कोंकणीक मराठिची पोट-भास म्हणटात तरी 'म्हत्वाच्या जायत्या गजालींत मुखेल मराठी पासून ती वेगळी' हें तांगेलें मत्त[९] ध्यानांत धरी-शें आसा. हीच गजाल डॉ. ग्रियर्सन चड फोडून सांगतात. ते म्हणटात कि 'कोंकणीन अुच्चारांचे वाडिचें पोरणें पेणें जायत्या गजालिंनी

राखून धल्लां, आनी प्रमाण मराठीय परस तांतूंत क्रियापदांवैल्यान घडिल्लीं तरेकतरा रुपां दिश्टी पट्टात. जायतीं रुपां तिगेले खाशेले बडिचीं आसून दुसरीं रुपां मराठींतलेय परस वेगळे तरेन अुपकारायतात.[१०] अशें आसतनाय डॉ. ग्रियर्सन कोंकणीक मराठी म्हणटात! हाचें कारण ते सांगतात कि 'मराठी आनी कोंकणी ह्यो दोनूय अेकाच प्राकृतापासून ज़ाल्यात आनी दोनूय अेकेच भाशेच्यो पोट-भासो आसात. जाल्यारूय, कोंकणीक कोंकणी म्हणचे बदला मराठी म्हणचें कारण अितलेंच कि चड करून अुत्तरेकडच्या पुणें आनी सातान्याच्या पोट-भासांतसून जाल्ले भाशेंत राष्ट्रीक सरस्पत बरैल्या; कोंकणांतल्या पोट-भासांतसून जाल्ले भाशेंत बरोवंक ना.'[११] हांगा डॉ. ग्रियर्सनांलो अेक व्हडलो चुकिचो समज जाला हांतूंत दुबाव ना. कोंकणाची राष्ट्रीक सरस्पत ते मराठी समजतात. कोंकण आनी मराठण मेळून अेक राष्ट्र अशें ते धरतात. परंत अितिहासाच्या कसाकं ही म्हणणी लागना.

हालिंच्या ह्या शंबर-सवायशीं वर्सांत भूंय-वर्णनेच्या आनी अितिहासाच्या पुस्तकांनी 'कोंकण आनी देस मेळून मराठण' असलो साप लटको मजकूर मराठी लोक आपल्या भुरग्यांल्या ताळ्यांत चोंदतात खरो. परंत तो भुरग्यांक फटोवंक अुपकारता. अितिहासाच्या वाखरार ताच्यो तिस्त्यो जातात ! महाभारताच्या वेळापासून आजवेरच्या सगळ्या देशी-परदेशी पुस्तकांनी **मराठणापासून कोंकण वेगळें** लेखलां, अितलेंच न्हय, तर ज्या वेळार कोंकण गाजतालें त्या वेळार आनी त्या अुप्रांत जायते काळ, मराठणाचें मूळरूप जें महारट्ठ हाचो धड जल्मूय जावंक नासलो. हें नांव तिसऱ्या शेंकड्याच्या सोंपत्यार बरैल्ल्या दीपवंस नांवाच्या पुस्तकांत पैलेंवैलेंच आमकां दिश्टी पट्टा.[१२] त्याआदीं ना. त्या भायर, आमगेलो भौच पुर्विल्लो म्हाल-म्हातारो सह्याद्री मळबा मेरेन हात अुबारून, धर्तरिचो जल्म जायतपासून आजवेर सगळ्या संवसाराक मोट्या ताळ्यान कळैता कि **मराठण आनी कर्णाटक हांचे पासून कोंकण वेगळें**. हो पर्वत पळोवंक गेल्यार, मराठण आनी कोंकण हांचे मदली सीम थारायणो निजाचोच गडगंज नीस म्हळ्यार जाता. हाका कोण निखऴायत? कोणाक अितली तांक आसा?

कोंकण देस मराठणापासून वेगळो म्हणपाचें अुकतें जालें. आतां ताका तागेली खाशेली राष्ट्रीक सरस्पत आसा कि ना ती पळोवंया. **राष्ट्रीक सरस्पत दों तरांची आसता: तोंडी आनी पुस्तकी.** हांतूंतली **तोंडी सरस्पत** म्हळ्यार आमगेलो लोक-वेद (folk-lore). हो भौच गोड आनी गिरेस्त आसून, कोंकणी लोक अुलोवंक लागले तेन्नाच्यान अेकसारको घोळत आयला. हाका अमकींच हजार वर्सां जालीं अशें म्हणुं नज. तो चड पोरणो. तांतूंत रुचीक काणयो, म्हणण्यो, गितां, मांडे,

जोती, धवळां, ध्रुपदां, धालो, हुमाणीं, आल्लयो बी तरेकतरा सांटो भल्ला. तांतूंतलो कांय हालीं छापून अुजवाडा येवंक लागला. 'गंवाची सोजी,' 'बऱ्याक गेल्यार बिर्मत फुट्टा,' 'असली बाये कसली.' 'दादलो बेअिमान कि बायल बेअिमान.' 'अिंदिरेल्यो शिरवळ्यो' ह्यो आनी असल्यो जायत्यो काणयो कोंकणी कोठयेंत भल्ल्यात. संवसारांतले खैंचेय भाशेक त्यो सोब हाट्टीत.

कोंकणींत खोल अणभवान भल्लल्यो म्हणण्यो जायत्यो आसात. तांतूंतल्यो कांय, मंगळुरचे पाद्री अे. जे. दे सौज, आसगांवचे पंडीत सेबास्तियांव रोदोल्फशणै दाल्गाद, मुंबैचे डॉ. व्ही. पी. चव्हाण आनी रावबहादूर श्रीपादबाब तालमकी हांणी अुजवाडा हाडल्यात. पाद्री सौज आनी रावबहादूर तालमकी हांणी कांय गितां, हुमाणीं आनी आल्लयो बी छापून काडल्यात. कांय कोंकणी म्हणण्यो अश्यो आसात कि तांचेवैल्यान काणयो बरोवं येतीत. पुर्विल्ल्या कोंकणी अितिहासाचेर त्यो घणघणीत अुजवाड घालतीत. देखीक, 'म्हाळपैक जोर आनी सगळ्या घराक पेज' आनी 'म्हाळपैचें काण सांडटा आनी म्हाका मेळटा म्हळ्यार जाता?' ह्या म्हणण्यांवैल्यान हजार वर्सांफाटल्या, कदंब रायांल्या वेळच्या, कोणाय म्हाळपै कडेन आमगेलें मन धांवता.

कोंकणी भाशेंत अुलोवपाच्यो मोडी अितल्यो भल्ल्यात कि तांचो अर्थ तांतूंतल्या निखट्या अुतरांवैल्यान जायना. तो मनानूच समजूंक जाय. अिंग्रजींत 'गिव्ह अप' म्हळ्यार 'सोडूंक' असो अर्थ जाता. अुतराक अुतर घालून 'वैर दिवंक' असो ताचो अर्थ केल्यार अुपकारना. अशीच गजाल कोंकणी भाशेची आसा. 'दोळ्यांर हात काडूंक,' 'बें म्हणूंक,' 'मुस्कां आमडूंक,' 'कपळाक पियां चडूंक,' 'भुतान घाडी लिपोवंक,' 'कांबी तासूंक,' 'फोव घालूंक,' 'कावळ्यां आवै' बी शेंकड्यांनी अुलोवपा-मोडी ह्यो कोंकणी भाशेच्या आंगा-खांदावैल्यो मोलादीक वस्तीच म्हळ्यार जातात. आमी आमगेली कोंकणी भास पेल्यान धुकलून मराठीक, कानडीक वा हेर खैंचेय भाशेक आवै-भास म्हणूं जाल्यार, ह्या वस्तिंचो करंड आमकां होगडावतलो. कित्याक, भांगराच्या वस्तींवरी ह्यो वस्ती आटोवन तांच्यो मराठी आनी कानडी वस्ती करूंक मेळच्यो नात. 'फोव घालूंक' म्हळ्यार सडीक धपके घालूंक - मारूंक - असो अर्थ जाता. मराठींत हाची वस्त करूंक गेल्यार 'पोहे घालण्यास' अशी जातली. परंत कोंकणींतलो अर्थ तांतूंत येवचो ना.

आमगेलो लोक-वेद म्हळ्यार रत्नांची खण. ही खण आमी जितली जितली अुसतूं तितलीं तितलीं वज्रां, केम्पू, पाच बी रत्नां आमगेल्या हाताक लागतलीं. आमी पेंगट बांदून वावरुंकूच जाय.

आतां आमगेली **पुस्तकी सरस्पत** पळोवंया. ही सरस्पत सोळाव्या शेंकड्या आदीं आसली कि ना हें म्हज्यान सांगुं नज. परंत ह्या शेंकड्यांत अेवरोपी पाद्रिंनी तिका फुडें काडली हे आमचेर तांचे मोटे अुपकार जाले. कोंकणी पुस्तकी सरस्पती परस मराठी पुस्तकी सरस्पत फक्कत तीनशीं वर्सांनी जाणटी आसा.[१३] मुकुंदराजान ती तेराव्या शेंकड्यांत पैलीवैली घडली आनी आमगेली सरस्पत सोळाव्या शेंकड्यांत मुखार सल्ली. गुजराथी पुस्तकी सरस्पत नरसी मेहत्यान पंद्राव्या शेंकड्यांत फुडें काडली; म्हळ्यार आमगेले पुस्तकी सरस्पती परस फक्कत शंबर वर्सांनी ती जाणटी. अिंग्रज सरकाराच्या धर्मान, फाटल्या शंबर वर्सांपासुनूच ह्यो सरस्पती घसाघ्रस वाडूंक लागल्यात. येवजूंक गेल्यार, कोंकणी पुस्तकी सरस्पत हेरां भासां परस चडशी फाटल्यान ना. आतां अितलेंच कि हेरां भासांक जशे खांपे वावराडे मेळ्ळे, तशे कोंकणी भाशेक मेळ्ळे नात. ते मेळिल्ले जाल्यार, हीय भास आज कितलीशीच फुडें सरतली आसली.

सोळावो शेंकडो धरून, कोंकणी पुस्तकी सरस्पतीन पैस पैस धेंपां घालीं नाय जाल्यार, ल्हवू-ल्हवू पावलां घाल्यांत हांतूंत अिल्लोय दुबाव ना; आनी हें सगळें काम परक्या अेवरोपी पाद्रिंनी आनी आमगेल्या खासा क्रिस्तांव भावांनी केलां हें ध्यानांत धरूंक जाय. आमगेले हिंदू भाव हालींच ह्या पन्नास वर्सांपासून आवै-भाशेचे सेवेक लागल्यात आनी दिसानदीस ते क्रिस्तांव भावांच्या हातांत हात घालून नेटान वावुरतले अशीं लक्षणां दिसतात.

आतां ह्या साडेचारशीं वर्सांत आमगेली पुस्तकी सरस्पत कितली वाडल्या ती पळोवंया. सगळ्या आदीं **व्याकरण** घेवंया.

कोंकणी भाशेक व्याकरण ना अशें मेळत तो म्हणटा. परंत अशें कशें जायत? व्याकरण नासतना अेकूय भास संवसारांत ना. रानवट लोकांले भाशेक लेगीत व्याकरण आसा. म्हणटकूच, आमगेले अुंच संस्काराच्या लोकांले भाशेक व्याकरण ना अशें कशें म्हणुं येत? आमगेलो साप अजाण भुरगो लेगीत 'आंबो खाली' अशें केन्नाच म्हणना. 'आंबो खालो' अशेंच म्हणटा. म्हणटकूच, कोंकणी भाशेक व्याकरण ना तें कशें? आमगेले भाशेचें बरैल्लें व्याकरण जाल्यार, सोळाव्या शेंकड्यांत अिंग्रज जेजुअीत पाद्री थॉमस स्टीफन्स हाणें रचलां. ह्या आदीं हिंदुस्तानांतले हेर खैंचेच देसी भाशेचें आनी तांतूंत मराठिचेंय व्याकरण जावंक नासलें. म्हणटकूच, व्याकरणाचे नदरेन कोंकणी भाशेचो पांवडो त्या सगळ्या भासांच्या माथ्यार लागलो ना? कोंकणी भाशेच्या व्याकरणांचो हिशेब करूंक गेल्यार, सोळावो शेंकडो धरून आज मेरेन कोंकणी भाशेचीं सुमार १९ व्याकरणां जाल्यांत. तांतूंतलीं १० व्याकरणां अेवरोप्यांनी

आनी बाकिचीं कोंकण्यांनी रचल्यांत. थॉमस स्टीफन्स, गास्पार दे सां मिगेल, क्रिश्तोव्हंव दे जेजूस, फ्रांसिस्क जुजे व्हियैर, अिग्नासियुस आर्कामोनि, चार्लस प्रिंझिक्रिल, दियोग दु आमाराल, आंजेलुस फ्रान्सिस शावियेर माफेय, स्टेन कोनो आनी नांव कळूंक नाशिल्लो अेक अितालियान पाद्री हे अेवरोपी व्याकरणकार आनी सिमांव आल्व्हरिज, जे. पीयु नोरोञ्ज, जी. ओ. पीरिस, दुवार्ति फ्रान्सिस दान्तस, पंडीत सेबास्तियांव रोदोल्फशणै दाल्गाद, कोनेग जुजे दे सांत रीत अि सौज, व्ही. जे जानीं रांजेल,[१४] आगोस्तीञ्ज फ्रांसिस्क दे सौज, वेंकटेश रामचंद्र प्रभू आनी गोमन्तक छापखानो हे कोंकणे व्याकरणकार.

**अुतरावळी आनी कोश** : - कोंकणी भाशेच्यो अुतरावळी आनी कोशूय जायते जाल्यात. सगळ्यांत पैली अुतरावळ सिमांव आल्व्हरिज आनी तागेलो बापूय लौरेंस आल्व्हरिज हांणी १६९५त रचली. हे चोडणेंचे बामण.[१५] १८७३त अिनास शावियर दे सौज रोद्रीगिस हांणी कोंकणी-पुर्तुगेज कोश रचलो. १८८३त पाद्री आंजेलुस फ्रांसिस शाविएर माफेय हांणी अिंग्रजी-कोंकणी आनी कोंकणी-अिंग्रजी कोश रचलो. १८९३त पंडीत सेबास्तियांव रोदोल्फशणै दाल्गाद हांणी कोंकणी-पुर्तुगेज कोश रचलो. १८९९त अे. दीयस हांणी अिंग्रजी-कोंकणी कोश रचलो.[१६] हांतूंतलो पाद्री माफेय सोडून बाकी सगळे कोंकणे. १९०५त् पंडीद दाल्गादांनी पुर्तुगेज-कोंकणी कोश रचलो. अुप्रांत जे.सी.अेफ. दे सौज, अे.सी.जे. फ्रान्सिस आनी जे.अेम.पिन्त हांणी जणअेकल्यान कोंकणी-अिंग्रजी आनी अिंग्रजी-कोंकणी कोश रचले. कोंकणी-पुर्तुगेज आनी पुर्तुगेज-कोंकणी अुतरावळी (व्होकाबुलार) सुमार धा-बारा जाल्यात.

**देवा-धर्माचीं पुस्तकां** :- कोंकणींत क्रिस्तांव देवा-धर्माचीं ल्हान-व्हड पुस्तकां जायतीं जाल्यांत. विल्यम कॅरी नांवाच्या अिंग्रज पाद्रीन १८९९त 'नव्या तेस्तामेन्ता'चें कोंकणी भाशांतर देवनगरी लिपींत छापलां.[१७] सोळावो शेंकडो धरून आजवेर क्रिस्तांव धर्माच्यो दोतोनी, स्तोत्रां, मिसाच्यो पटयो बी जायत्यो जाल्यात. फ्रान्सिस पेद्र बोर्जिस हांणी 'भावार्थी क्रिस्तांवांचो दिसपट्टो सांगाती' हें पुस्तक देवनगरींत छापलां. ह्या भायर, आत्म्याचें ओर्त, सर्गाची वाट, सर्गाची चावी, फुलांचो पावस, नोवेनांचो झेलो, पोरणो तेस्तामेन्त, नवो तेस्तामेन्त, देवाचो मोग, सत्याचो रस्तो, बऱ्या मर्णाची शिकोवण, मर्णाचें आयतमन, निमाण्यो चार वस्तू, हो संवसार वा देवान आमकां कित्याक रचल्यात?, पेल्याचो मोग, सर्गिंचो अुजवाड, फुलांचो झेलो बी सुमार दोनशीं पुस्तकां क्रिस्तांव धर्मा संबंदान आसात. हांतूंतलीं पांच-स देवनगरींत आनी बाकिचीं रोमी लिपींत छापल्यांत.

क्रिस्तांव संतांल्यो जिणो सुमार धा-बारा अुजवाडा आयल्यात. तांतूंत संत फ्रांसिस्क शावियेर, भाग्यवंत पाद्री जुजे वाज, संत आगोस्तीञ्ज, संत रोक, संत आलेस, संत सेबास्तियांव, संत लौरेंस, संत आंतोन, संत फिलोमेन, संतीण आन, संतीण अिजाबेल आनी लुर्दीस सायबीण हांगेल्यो जिणो रोमी लिपींत छापल्यात.

हिंदू धर्म, नीत आनी वेदान्त हांचेरूय कांय पुस्तकां देवनगरी लिपींत छापल्यांत. १९१०त नरहरी कविलो विवेक रत्नाकर अभंग कवितांत अुजवाडा आयलो. १९३३त मुंबैच्या गोमन्तक छापखान्यान गोमन्तोपनिषत् अुजवाडा हाडलें. १९४१त साअित्य-संगीत दर्शनाचार्य पंडीत मंगेशबाब तेलंग हांगेलो भगवद्गीतासार भायर सल्लो.

**अितिहास :-** गोंयचो अितिहास आनी कुंकळ्ळेचो अितिहास रोमी लिपींत आनी गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक देवनगरी लिपींत अुजवाडा आयल्या.

**जिणो :-** नापोलियांव बोनापार्त, जिवीत मुसोलिनिचें, जेनेराल फ्रांक आनी गोंयकार भिस्म हांगेल्यो जिणो रोमी लिपींत आनी पुण्यात्मो राम कामती आनी आबे फारीय ह्यो जिणो देवनगरी लिपींत अुजवाडा आयल्यात.

**निबंद :-** अिंदियेच्यो जाती, काजार आनी देवाची अिश्टागत, बरी देख, गर्व आनी ल्हानविकाय, घोव-बायलांचो कायदो, गोंयचें शेतकामतपण, दुडवांचो सांबाळ, आमचीं कर्तुबां, भांगराची चावी, बलायकी आनी पिडा बी तरेकतरा निबंद रोमी लिपींत अुजवाडा आयल्यात. कोंकणी भाशेचें जैत देवनगरींत अुजवाडा आयलां.

**नवलकाणयो आनी काणयो :-**नखेत्र अुदेतेचें, पर्जळ गोंय शाराचो, अिस्तेफन आनी जुजे, आंजेल मारीय, लुलू, माणीक गोंय शाराचें, ओफेलिया, कुश्टोबा, आंजेलीन, गोड वीख, भाण्डार सुखाचें, अेक कुटुंब देखीवंत, बायल वर्तता बुनेद धादोसपणाची, गोब्रुची सासू-मांय, खुशालकायेचो घराबो, आल्बेर्त आनी जानी, भांगराच्या पांखांचें सुकणें, दों किशोत द ला मांश, अेक न्हवरो तेगी व्होंकलांचो मोग आनी जातिंचो फोग, अेके व्होंकलेचो दोग न्हवरे, अेदवार्द आनी फ्लोरिंद, चोडणेंचो फिदाल्ग, मोग जिविताचो वा आंद्रे आनी बेलिंद, नशिबाचो फातर, अद्रुश्ट लुलू आनी येसुचें, पावल आनी व्हिर्जीनिय, रॉबिन्सन क्रुसो, सुलोचना, शेक्सपियराच्या खेळांची माळ आनी दुसरीं कांय पुस्तकां रोमी लिपींत छापल्यांत. वोंवळां आनी काबुली द्राक्षां ह्यो मोटव्यो काणयो देवनगरी लिपींत छापल्यात.

**खेळ :-** भाटकार, दोतिचें केस्तांव, कुणबी जाकी, आमचे मुंबैकार आनी तांचो संवसार बी खेळ रोमी लिपींत आनी चवथिचो चंद्र, रायबाऱ्याची व्हाड्डीक,

मोगाचें लग्न आनी झिलबा राणो हे खेळ देवनगरी लिपींत छापल्यात. ह्या भायर स्वप्नांतलो बुवा, जीवन-जोत, निर्मळा, समाजचित्र, विशमदंपत्य, वज्रा-कुडकां आनी पोवनांचें तपलें हे खेळ माचयेर करून दाखैल्यात; पुण अजून छापूंक नात.

**वैजकी** : - घरचो वैज, बलायकेची वाट, ओस्तऱ्यांचो वैज बी रोमी लिपींत आनी ओखतांची सांगशी देवनगरींत अुजवाडा आयल्या.

**भास-शास्त्र** : - कोंकणिचो मूलादर्शु आनी कोंकणी नादशास्त्र देवनगरी लिपींत अुजवाडा आयल्यांत.

**भोंवडी** :- पुर्तुगालचे मानादीक कोंसुल काव्हालैर अे.पी.जे. फेर्नान्दिस हांणी आपली अेवरोपाची भोंवडी १९३४त रोमी लिपींत छापून अुजवाडा हाडल्या.

**संगीत** :- अेवरोपी तरेचीं कोंकणी गायनां जायतीं अुजवाडा आयल्यांत. तांतूंत कराचीवाल्याचीं कांतारां, पिन्ताचीं कांतारां, फेर्नान्दिसाचीं कांतारां बी रोमी लिपींत छापल्यांत.

**नाच** :- नाचाची चावी, पुर्तुगेज नाचाची चावी बी पुस्तकां रोमी लिपींत छापल्यांत.

**रांदप** :- गोंयकार रांदप्याचो वाट-दाखोवपी. गोंयचें रांदप, घरकान्निच्या रांदपाचो सांगात बी कांय पुस्तकां रोमी लिपींत छापल्यांत.

**जोयशिकी** :- जिवें पुस्तक वा नशिबाची चावी हें पुस्तक रोमी लिपींत छापलां.

**भुरग्यांलें मुळावें शिकोवप** :- १८९६त सेबास्तियांव तेओतोनिय दे सौज (गोमन्ती) हांणी कोंकणी पैलें पुस्तक रोमी लिपींत छापलें. हाचे फाटल्यान सुमार १५ पैलीं पुस्तकां, ६ दुसरीं पुस्तकां आनी ३ तिसरीं पुस्तकां भायर सल्ल्यांत. हांतूंतलीं ५ पैलीं पुस्तकां देवनगरी लिपींत आनी बाकिचीं सगळीं रोमी लिपींत छापल्यांत. १८९६च्या सुमाराक कुमारजुवेंच्या बारांवान कोंकणी पैलें पुस्तक देवनगरी लिपींत अुजवाडा हाडलें. हाचे अुप्रांत १९३० वर्स धरून फुडें मंगळूरचो नारायणाचार्य धर्मप्रकाश छापखानो, आलैश मार्तीञ्ज जे.दे. मेल, मुंबैचो गोमन्तक छापखानो आनी माधवशणै शानभाग हांगेलीं कोंकणी पैलीं पुस्तकां देवनगरी लिपींत अुजवाडा आयलीं. भौ. जोआकीं आंतोनिय फेर्नांदिस हांणी कोंकणी दुसरें पुस्तक रोमी लिपींत बरैलां तें अजून छापूंक ना. ह्या भायर, भुरग्यांलो अिश्ट आनी भुरग्यांलें व्याकरण हीं पुस्तकां गोमन्तक छापखान्यान देवनगरी लिपींत अुजवाडायल्यांत.[१८]

**कोंकणी वर्तमानपत्रांआनी नेमाळीं**:[१९]- अुदेतेचें साळक हें कोंकणींतलें पैलेंवैलें म्हैनाळें. अेदवार्द जुजे ब्रून दे सौज हांणी १८८९च्या फेब्रेरांत पुण्यांत

अुजवाडायलें. 'मारियान' नांवाचे मुद्दम तयार केल्ले रोमी लिपींत हें छापताले. हें धरून आजवेर ५२ वर्तमानपत्रां आनी नेमाळीं कोंकणींत जल्मल्यांत. तांतूंत ३ दिसाळीं, २९ साताळीं, ५ पंद्राळीं, १३ म्हैनाळीं आनी २ ति-म्हैनाळीं. हांतूतलीं चडशीं मुंबै आनी बाकिचीं कराची, पुणें, कारवार, मंगळूर आनी गोंय ह्या थळांनी भायर सरतालीं.आनी अजून कांय सरतात. कांय वर्तमानपत्रांतलो मजकूर निवळ कोंकणींत आनी कांयतलो कोंकणी, पुर्तुगेज आनी अिंग्रजी भाशेंत येतालो आनी येता. तांचीं नांवांय चडकरून आ लुज (अुजवाड), आ लूअ (चंद्र) अशीं पुर्तुगेज आनी कांय अिंग्रजी आसून लिपी रोमी.

५२ नगांतलीं १३ वर्तमानपत्रां आनी नेमाळीं अजून बरे तरेन चलतात. हांतूंतलें कोंकणी बुलेटिन हें दिसाळें १९३२ पासून भौ. आंतोनिय विसेन्त दे क्रुज हे मुंबै रोमी लिपींत अुजवाडायतात.

आव्हि मारीय (१९१९), गोवा मेल (१९१९), गोवा टाय्म्स (१९३१), पर्जेचो आदार (१९३२), वावराड्यांचो अिश्ट (१९३३), आमचो संवसार (१९३८), गोमन्तक (१९४०) आनी सारस्वत (१९४१) हीं आठ साताळीं. हांतूतलीं पैलीं सात रोमी लिपींत आनी सारस्वत हें कानडी लिपींत अुजवाडायतात.

राखणो (१९३९) हें पंद्राळें कानडी लिपींत अुजवाडायतात.

रोटी (१९१४), आग्रुस देअी (१९३०) आनी कॅथलीक अिंडिया (१९३८) हीं तीन म्हैनाळीं रोमी लिपींत भायर सरतात. हांतूंतलें रोटी म्हैनाळें कराचीक अुजवाडायतात आनी दर म्हैन्याक ताच्यो सुमार ८००० प्रती खपतात.

थांबिल्ल्या वर्तमानपत्रां भितल्लें मुंबैचें आ लुज साताळें १८९५ पासून १९१६ मेरेन २२ वर्सां चलतालें. मंगळूरचें कोंकणी दिवें हें पंद्राळें १९१२ पासून १९४० मेरेन २९ वर्सां चलतालें. आलेक्सबाब पाअिस, बी.अे., अेलअेल.बी., हे वकील ताचे संपादपी आसले. काशिनाथबाब नायक हांगेलें नवें गोंय ति-म्हैनाळें १९३४ पासून १९३७ मेरेन मुंबै बरे तरेन चलून थांबलें. हें देवनगरी लिपींत छापताले.

कारवारचे सुबरायबाब नाडकर्णी हांगेलें नवयुग साताळें १९४०त देवनगरी लिपींत भायर सरतालें. तें रोखडेंच थांबलें.

ह्या भायर २ हाताळीं मुंबै देवनगरी लिपींत भायर सरतालीं: आवै आनी सांगाती. आवै ति-म्हैनाळ्यांत दिनकरबाब देसाय, अेम.अे., अेलअेल.बी., नंदबाब तेलींग, बी.अे., जयवंतबाब कुळकर्णी, अंबूबाय कुळकर्णी, मनोरमाबाय वागळे बी दादल्या-बायलांले सुंदर बरे लेख येताले. दिनकरबाब हे मोटे फकाणी बरपी. तांगेलो 'शिवण्णा' केन्नाच विसरूंक जावचो ना. 'किरवटीक ती पुडिची बाटली ।

पोट म्हळ्यार च्याची किटली । अेक दीस किरवट सुटली । सांते बाजारांत । भरिल्ल्या सांते बाजारांत ।' असो त्या शिवण्णालो अवतार.[२०]

सांगाती ति-म्हैनाळें मुंबै रावतले भिरंवडेंचे (रत्नागिरी जिल्हो) कांय क्रिस्तांव भाव चलैताले. संपादपी जे.डी. पिन्त आनी अेफ.जे. मारतीरिस. अुजवाडावपी डॉ. अेफ. पी. मारतीरिस.

हीं दोनूय हाताळीं थांबलीं. आतां 'नवो अुजवाड' नांवाचें तिसरें हाताळें १९४१च्या सेतेंब्रापासून 'धि घाट मिशन कॅथलीक अॅसोसिएशन' नांवाचो वांगड दर म्हैन्या देवनगरी लिपींत अुजवाडायता. हांतूंत भिरंवडें, सांवतवाडी, मालवण, वेंगुर्लें, बेळगांव, खानापूर, आजरें बी गांवचे बरौपी बरैतात.

**कोंकणी रंग-भूंय :-** ही रंग-भूंय घडल्यार सुमार ५० वर्सां जातीत. त्याआदीं १८९० मेरेन आमगेले क्रिस्तांव भाव कोंकणींत जागर करताले. १८११त अेल. रिबैर हांणी 'अितालियान भुरगो' हो पैलोच कोंकणी खेळ मुंबै करून दाखैलो. १८९२त अेल.रिबैर, ताळगांवचे कायतानीज्ज फेर्नांदिस आनी मडगांवचे जुवांव आगोस्तीज्ज फेर्नांदिस मेळून तिगांनी 'गोवा पुर्तुगेज ड्रामाटिक अॅसोसिअेशन' नांवाचो खेळगड्यांचो वांगड घडलो. हांतूंतले जुवांवबाब फेर्नांदिस आतां म्हाल-म्हातारे जावन आमचे भितर नंदतात हें आमगेलें मोटें भाग्य. १९०३त हांची आनी म्हजी पैलीवैली वळख जाली. हांसोवन हांसोव पोटांत पेंडके हाट्टीत असले हे फकाणी आसात. १८९२ धरून १८९५ मेरेन खेळांचे आनीक दोन क्लब मुंबै अुगडले: 'रिबैर आनी द क्रुज ऑपेरा' आनी 'गोअन नॅशनल ड्रामाटिक क्लब.' १८९५त जुवांवबाबांनी 'बेल ऑफ काव्हेल' (काव्हेलांतली सुंदराबाय) हो खेळ 'थिओली' खेळा-घरांत करून दाखैलो. आतां जैं 'टाय्म्स् ऑफ अिंडिया'चें ऑफिस आसा थैंच हें खेळां-घर आसलें. १९०४त 'गोअन यूनियन क्लब' घडून ताच्या पाख्यातळा जुवांवबाबांनी 'भाटकार' नांवाचो हांसैणो खेळ करून दाखैलो. हो खेळ खासा तांणीच रचला. तांगेली भायर पडिल्ली घरकान्त्र रेजिनाबाय हिणें त्या खेळांत भाटकान्निचें सवंग घेतिल्लें. तें भौ बरें जालें. आनीकूय दोगी बायलांनी सवंगां घेतिल्लीं. गोंयच्या बायलांनी खेळाचे माचयेर येवचें म्हळ्यार त्या वेळार व्हडलें पातक. देखून, जुवांवबाबांले सोयरे आनी पाद्री खूब चाळावले. तांकां तांणी दुशण लायलें. तरी आसतना, तांणी आपणालें काम धिटायेन फुडें चलैलें. भाटकार, सतरिची बंडाय, बेबदो, जेराल्दीन, काव्हेलांतली सुंदराबाय आनी वावराडी हे तांगेले खेळ लोकांक भौच मानताले खैं. ह्या खेळांच्या धर्मान कोंकणी भाशेचो मान जायतो वाडलो. ते भाशेंत चार-चौगांत अुलोवंकूय लोक आदीं लजताले! पुण हे खेळ

जातकूच, लोकांक तिची रूच लागली आनी तांणी तिका माथ्यार घेतली! जुवांवबाबांनी आपले खेळ वांदरें, अिगतपुरी, भुसावळ आनी गोंय ह्याय थळांनी करून दाखैल्यात.[२१] तांगेले देखीन, आतां आमगेले क्रिस्तांव भाव तरेकतरा खेळ करून दाखैतात. १९२३त मंगळूरच्या क्रिस्तांव भावांनी 'कोंकणी ड्रामाटिक सोसायटी' घडली. 'सां फ्रांसिस्क दे आसिसी' आनी हेर जायते खेळ ती करून दाखैताली. 'कॅथलीक यंग मेन्स गिल्ड ऑफ बोलार' ही संस्था 'बेर्थोल्द' बी कोंकणी खेळ करताली.[२२] 'धि गोवा हिंदू ॲसोसिअेशन' आनी 'गोमन्तक हिंदू विद्यार्थी मंडळ' ह्या मुंबैच्या कोंकणी संस्थांनी 'मोगाचें लग्न,' 'पोवनांचें तपलें' आनी 'झिलबा राणो' हे खेळ करून दाखैल्यात.तांतूंत भौ. श्रीधरबाब प्रभू हांगेलें काम भौच तोखणायेचें जातालें. 'अुनियांव आकादेमिक' हे पणजेचे संस्थेन 'चवथिचो चंद्र,' 'रायबाऱ्याची व्हाड्डीक' आनी 'मोगाचें लग्न' हे खेळ करून दाखैल्यात. 'चंद्र' आनी 'व्हाड्डीक' हे दोनूय खेळ पणजेच्या नोर्माल अिस्कोलाचे विद्वान प्रोफेसोर रामचंद्रबाब नायक हांगेले लिखणेंतसून भायर सल्ल्यात. तांगेले लिखणेंत 'मोलियेर' बियेच्या रुपान बसला हांतूंत दुबाव ना. अिल्ले-शे सादे गजालिकूय गोड फकाणाचें आंगलें-तोपरें घालून, लोकांल्या पोटांत ते पेंडके हाट्टात. दोंगरकेरी अुमानाथराव, येरदूर नागेशराव, मस्केरी गंगाधर, तलगेरी वेंकटराव आनी बैंदूर देवराव हेय भौ बरे खेळ रचतात. अुमानाथरावांलो स्वप्नांतलो बुवा, नागेशरावांली जीवन-जोत, गंगाधररावांली निर्मळा, वेंकटरावांलें समाजचित्र आनी देवरावांलें विशमदंपत्य हे खेळ १९३६ पासून आजवेर 'सरस्वती ॲमट्यूर्स' हे संस्थेन मुंबै आनी पोट-शारांत करून दाखैल्यात. वेंकटरावांनी अयेशा आनी देवरावांनी सोयरिके-संभ्रम हे खेळ बरैल्यात खैं. पुण अजून माचयेर येवंक नात. अुमानाथरावांलो वज्रा-कुडकां हो सुंदर खेळ माचयेर करून दाखैला खैं. हे भाशेन, कोंकणी रंग-भूंय दिसानदीस घवघवूंक लागल्या हांतूंत दुबाव ना.

**कवीत** :- कोंकणींत कवितूय नामनेचें जावंक लागलां. हें कवीत साद्या-सोप्या संवकळिच्या अुतरांनी भल्लां. हीं अुतरां आयकतल्याच्या अंतस्कर्णाक गच्च वेंग मारतात. तीं थैंच्यान सुटनात. हेर देशी भासो संस्कृत भाशेंतलीं जड अुतरां जायां घेवन अडेची सोबनाशिल्ली गिरेस्तकाय दाखैतात; तशी आमगेली भास पोल्या बडवाचारांची न्हय. तिका 'आधुनिक सकृद्दर्शनी अद्यतन सद्यतन' अुतरांचें अडेचें ओजें नाका. ताका ती अळशिकता आनी विट्टा. आमगेल्या कवितांतलें अेक अेक अुतर म्हळ्यार गोड-गोड साकर ! आमगेले मांडे[२३] कितले रुचीक ! आयकात !

संवसार चारुच रे दिसांचो । अुगडास वचना मनांतलो –
आनी केल्ल्या करण्यांचो । मारयानीन । कश्टां-दगदगांची ।।
कित्याक वळवळायताय, सायबा । कुडी आत्म्यासैतू? ।
जायते कश्टू तुवें सोसलेय । मारयानीन । गरजेविरेतू ।।

- **आदव्होगाद लुअिस मानवेल मिनेझिस**

* * *

आज दीस मजो संतोशाचो ।
मळबार अुजवाड नखेत्रांचो ।।
अुमो दितां हांव मोगाचो ।
अुल्लास घालून रे सुखाचो ।।

* * *

आमोरेच्या[२४] वेळा, रे मोगा । मोगरेक फुलतात कळे ।
तसले तुजे दोळे रे मोगा । चोयतात म्हजेकडेन ।
चोय रे मोगा, चोय रे मोगा !
मोगाचे दोळे लाय रे म्हाका ।।ध्रु।।
दर्याच्या ल्हारारी । चंद्राच्या अुजवाडारी ।
त्या तुज्या केंसांच्या फांतयेरी ।
जुरार[२५] जातां तुजे मुखारी ।
चोय रे मोगा, चोय रे मोगा ।

* * *

वाट पळैतां, दुखां गळैतां, दोळे गेले सुजून !
आतां येत, मागीर येत
म्हणुन बसुन काडली रात
दिवलेंतली पांचवि वात - गेली पळै जळून !
फांत्या-पारा बेगिन अुठुन
मोगरेचे कळे खुटुन
सोबित हार काडलो गुथुन - गेलो पळै सुकून !
वाऱ्यान दिसता वाजलें दार
म्हणून गेलें घेवन हार

पारव्यांचें जोडें मुखार - जीव गेलो सुकून !
आतां धीर धरुं नजो
अेक ध्यास्त लागलो तुजो
सांबाळ ! तोल सुटलो म्हजो - धर आतां जिखून !

**– बयाभाव**

***

हांस फुला, मोगरे-फुला । म्हगल्या मोगा-फूल
म्हाका तुगली भूल !
मोगरे-फुला सारकें तुजें । धवें मोव आंग
मोगरें म्हणू नांव तुका । कोणें घालेंसांग !
तुवें म्हाका वेंग माळ्ळी । ना गो तुजी चूक
कित्याक म्हळ्यार तूंच पळै । हांव आंब्या-रूक !

**- दिनकर देसाय**

* * *

अुठात अुठात व्होवळ्यांनो । भायल्यान जालें फांतें
नखेत्र अुबें जालें । व्होंकलबाय आमचें
आऽलिया-लिया-लो ! होऽलिया-लिया-लो !

***

आमगेल्या सुपुल्ल्या भुरग्यांलीं गितां पळ्यात कितलीं गोड ! आयकात !

बाय पिसोळ्या, यो गो यो । म्हज्या बराबर खेळच्याक
आमगेर लाडू करतलीं । दितां तुका हांव खावच्याक
फुलां-चिटांची ही आंगी । सदींच अेकुच तूं घालता
दुसरी आंगी ना व्हय गो । ही तूं केन्ना अुंबळटा?
म्हगेली बावली हांव हाट्टां । तुगेलीय गो तूं हाड
लगीन दोगांयलें लावंया । माटव मोगरेचें झाड !

**– जयवंत कुळकर्णी**

भुरग्यांले अपुर्बायेचें आनी कौतुका-तोखणायेचें श्रीकृष्णालें गीत पळ्यात कितलें रसाळ! हांतूंत भुरग्यांली लाडकुबाय थबथबता !

फालें जालें, वाट्यां वाडलें, यो रे जेवच्याक ।
धार काडली, दूद हाडलें, ताने दिवच्याक ।।ध्रु।।
अुट रे बाळा, वेळ जाली वांसरां सोडच्याक ।
चर्डूं[२६] आयलीं चंडू घेवनू पळे खेळच्याक ।।
चंबू भरनू हाडला पळे तोंड धुवच्याक ।
मिठा-पुडी तयार केली दांत घांसच्याक ।।
पंजि[२७] घेवनू तयार जाल्या पांय पुसच्याक ।
कानडी[२८] घेवनू धावनू आयल्या तोंड चोवच्याक ।।
म्हाबळ भट्ट आयला पळे पंचांग सांगच्याक ।
दांतोणी तेल घेवनू आयली शेंडी वळोवच्याक ।।
फूल घेवनू राधा आयली शेंडयेर माळच्याक ।
गंद घेवनू कुब्जा आयली तुका लावच्याक ।।
अक्षर घेवनू आयली पळे तिळो कोरच्याक ।
व्होड वेळ जालो, यो रे बाळा, अुमा घेवच्याक[२९] ।।

**-संत सहजानंद (आनंदराव बेट्रबेट)**

* * *

आमगेलें वेदान्ती कवीत पळ्यात कितलें सादें ! पुर्विल्ल्या अुपनिशदांवरी तांतूंतलीं अुतरां सोपीं; पुण अर्थ खोल. आयकात !

घोंगो[३०] आयलो घोंगो। संवसार नाका भोंगो ।
दोळ्यां दिसता, हातां मेळना । न्हय म्हुणु कोण सांगो ।।ध्रु।।
घोंग्या हातांत सुडियो[३१]। सोब्बार करता मोडियो[३२]।
बशिल्लेकडचो आपुण हालना । भोंवता गुडियानगुडियो [३३]।।
मुगा अेदें माथें । मळबा अेदें सातें [३४] ।
पांय कांय नात, गांवभर भोंवता । चार्मूर[३५] करता जोतें ।।
चोवच्या गेल्यार भोळो । ब्रह्मांड करता गोळो ।

सान परंत आश्चर्य भारी । काळजापक्षीं काळो ॥
सांसवा अेदो दोळो । केंसा सपूर[३६] गळो ।
कोटी सूर्य चंद्र माडोवनू । निडलार[३७] केला तिळो ॥
आंगाक नाना रंगू । चोवच्या भारी चांगू ।
चोयतां चोयतां मनांत येता । हाजोच कोरका संगू ॥

**– बंकनाथपुराधीश श्रीमत्परमहंस**
**श्रीशिवरामाश्रम स्वामी**

* * *

आमगेलें भगवद्गीतेचें भाशांतर पळ्यात कितलें सोपें आनी रोखडें समजता तसलें !

जे रे जसे भजतात माका तसो तांकां पावतां हांव ।
पार्था पळै सगळे लोक मज्या मार्गांत घेतात धांव ।।
आपल्याक तारच्याक आपुणच, आपल्याक केन्नाय हिणौ नये ।
आपलो बंधु आपुणच, शत्रुय आपुण म्हणये ॥
सूर्य, चंद्र, ऊजो हांच्या तेजाक प्रकाश जओं ना ।
जओं गेल्ले परतुन येनात तें घाम[३८] मजें अर्जुना ॥
भक्तिभाव धरन मनांत शरण वच तूं ताका ।
ताजें फळ मोक्ष शांति मेळतली रे ती तूका ॥

**—साहित्य-संगीतदर्शनाचार्य**
**वीणाविशारद पंडित मंगेशबाब तेलंग**

गोकर्णासाकून मलबारामेरेनच्या कोंकणी बरप्यांनी कानडी लिपींत कांय पुस्तकां अुजवाडायल्यांत; तांची खबर दिवंक मेळ्ळी ना, म्हणु वायट दिसता.

ह्या पुराव्यांवैल्यान कोंकणिची राष्ट्रीक सरस्पत आसा कि ना हें तुमच्या ध्यानांत येतलें आनी दिसानदीस ती कशी वाडूंक लागल्या तेंय तुमकां दिसतलें. म्हणटकूच, डॉ. ग्रियर्सनांलेच तर्क-रितीन कोंकणी भाशेक मराठिची पोट-भास म्हणुं नज. कोंकणी लोकांनी कानडी, मराठी, पुर्तुगेज आनी अिंग्रजी भास जायतीं वर्सां घोळैली, वा त्या भासांतले फातर-पटे आनी तांब्या-पटे कोंकणांत आसले, म्हणु थैंची राष्ट्रीक सरस्पत कानडी, मराठी, पुर्तुगेज वा अिंग्रजी जायना. आमगेली राष्ट्रीक पुस्तकी सरस्पत आज जरी ल्हान आसली, तरी दिसानदीस ती वाड्टली. ती आपुण वाडची

ना म्हणना. संवसारांतल्या सगळ्या भासांची पुस्तकी सरस्पत कोंकणीवरीच आदीं ल्हान आसली. दिसानदीस वाडून ती मोटी जाली. हीच गजाल कोंकणिची.

ह्या साडेचारशीं वर्सांत ल्हानव्हड सुमार ५०० पुस्तकां कोंकणी भाशेंत जाल्यांत. पुर्तुगेज आनी ब्रिटिश सरकाराचोय आलासरो तिका मेळूंक लागला. ज्या पुर्तुगेज सरकारान तिका अेक फावट भश्टकार घाल्लो तेंच सरकार तिका आतां पोटासरीं धरून तिची अपुर्बाय करूंक लागलां. धा वर्सां फाटीं ताणें मुजरत अेक हुकूम काडून[३१] ह्या शारांत धोबीतळ्यार 'अिंस्तितूत अिन्दो-पुर्तुगेज' संस्थेच्या पाख्यातळा आपल्या खर्चान अेक कोंकणी साळ घालूंक लायल्या. हे साळेंत सुमार १०० भुरगीं शिकतात. ही साळ बरे तरेन चलता. पुर्तुगालच्या सरकारानूय पुर्तुगाला कोंकणी भाशेची अेक साळ अुगडिल्ली आनी तांतूंत कोंकणी व्याकरणकार कोनेग जुजे सांत रीत िअ सौज शिकैताले. परंत ती साळ आतां थांबली खैं. गोंयच्या लोकांकूय आपल्या भुरग्यांलें मूळ शिकप कोंकणी भाशेंत जावचें हाची मोटी अुमळशीक लागल्या; आनी ह्या खातीर हालींच कांय म्हालगड्या क्रिस्तांव आनी हिंदू भावांनी सरकाराकडेन मागणी घाल्या. सरकार ही मागणी ध्यानांत घेतलें आनी गोंयच्या दर अेका गांवांत कोंकणी भास शिकोवची बेगीन मांडणी करतलें हांतूंत दुबाव ना. आमगेले मोटे मोटे विद्वान लोकूय कोंकणी भाशेचें म्हत्व वळखून, तिका माना-भौमानाचे नदरेन पळोवंक लागल्यात. मुंबैच्या हायकोर्टाचे नामनेचे वकील आनी न्या. डॉ. सर नारायणशणै चंदावरकारांले मावळे शामराव विठ्ठल कायकिणी हे कोंकणी भाशेक केदो मान दिताले म्हणु सांगूं ! तांकां तिचो कितलो अभिमान ! सुमार ४० वर्सांफाटीं म्हळ्यार १९०३त तांची आनी म्हजी पैलीच वळख जाली. त्या वेळार ते म्हाल-म्हातारे जाल्ले; परंत कोंकणिचें नांव घेनाफुडें, तरण्या भुरग्या भाशेन, म्हजेकडेन गजालींक बसले. गोल्डस्मिथालें She Stoops to Conquer हाचें कोंकणी रुपान्तर हांवें केल्लें आनी ताका 'भिडेस्त रायुबाब' हें नांव दिल्लें. ताचो थोडोसो वांटो हांवें तांकां वाचून दाखैलो. तो तांकां अितलो मानलो कि तांणी सुमार वीस-पंचवीस प्रतिंची मागणी आदींच घालून दवल्ली. म्हजो जीव कितलो भुरकुटलो म्हणु सांगूं ! मागीर तांणी आपणाले अिश्ट रावबहादूर घनश्याम नीळकंठशणै नाडकर्णी हांचेकडेन म्हाका धाडलो. तांकांय हांवें 'रायुबाबा'लो कांय वांटो वाचून दाखैलो. तांकांय तो मानलो आनी तांणीय सुमार वीस प्रतिंची मागणी घालून दवल्ली. परंत मूळ पुस्तकांतल्यो अेवरोपी चाली कोंकणी हिंदू चालींक सोबना जाल्यो. देखून, हांवें तें पुस्तक केन्नाच छापलें ना. हट्यंगडी नारायणराव हेय नामनेचे वकील आनी राजकर्णी वर्तमानपत्रकार; अिंग्रजी आनी

कानडी भाशेंत ते पाटांगडे आसले. परंत तांकां कोंकणिचो केदो व्हडलो अभिमान. 'सारस्वत क्वॉर्टर्लीं'त तांगेले जायते कोंकणी लेख आनी आदगत्यो (म्हणण्यो) देवनगरी लिपींत छापल्यात. कोंकणी भाशेंत आपापणां भितर पत्रां बरोवंक लजतल्यांची तांणी भगल माल्ल्या. ते म्हणटात "व्हाणो घालून घेतल्यार हांसतीत, म्हणु आमगेली चंद्रभागी वैशागांत तापिल्ले भुंयेचेर, आनी पावसाडींत पांय-बुडच्या चिखलांत चमकता. बायलेलें नांव काडल्यार हांसतीत, म्हणु तिगेलो बामण तिका 'होयी, आयकलें व्हय?' अशें आपैता. कोंकणीन बरैल्यार हांसतीत, म्हणु आपापणा भितर कानडीन पत्रां बरोवन घेतात." कोंकणी भाशे संबंदान ते म्हणटात,

"धड्या नशिबान जावं नाजाल्यार पाड्या नशिबान जावं, **कोंकणी भास मरूंक ना** आनी तिका आमी जिवी करपाची गरज ना. आमगेल्या घरगुती बरपांत तिचो अुपयोग करचो ही अेक नवी चाल जातली; परंत ती अगत्याची आसा; कित्याक, आमगेल्या पुर्विल्ल्या जाणट्यां परस आज आमी अेकामेकांक भौनभौन पत्रां बरैतांत. आमी आमगेल्या नात्यापात्याकडेन कोंकणींत अुलैतांत; तशेंच बरोवपूय सबावीक आसा. कोंकण्याक गरजे-ताकतीक कानडी वा मराठी, तामील वा बंगाली भास शिकची लागूं. तो दक्षीण आफ्रिकेंत पावलो जाल्यार ताका होटेण्टोट शिकची पडूं आनी बसऱ्या गेल्यार तो आरबी शिकूं. परंत त्या खातीर ताणें आपणाली **कोंकणी भास विसरची न्हय.** कोंकण्यांक अेकठांय राखून धरपाचीं जीं बांदपां आसात तांतूंतलेंच कोंकणी भास हें अेक आसा."

कितलीं मोलादीक अुतरां हीं. ह्या अुतरांचो परिणाम कोंकणी मठांच्या स्वाम्यांचेर, संन्याशांचेर आनी हेर लोकांचेर भौ बरो जालो. चित्रापुर मठाचे विद्वान स्वामी श्रीमदानंदाश्रम आपले धर्मोपदेस कोंकणींत करूंक लागले. आनंदाश्रमाचे स्वामी रामदास कोंकणींत देवाली भक्ती शिकोवंक लागले. हरदास कल्याणपुर संजीवराव कोंकणींत किर्तनां करूंक लागले. मंगळूरचे विद्वान बिस्प कोंकणींत पत्रां बरोवन हे भाशेची मंजूळकाय तोखेवंक लागले. गोंयच्या जायत्या विद्वानांनी हट्यंगडी नारायणरावांले लेख वाचूंक नात; परंत तांगेल्याय अंतस्कर्णांत कोंकणी भाशेचो मोग वियेवंक लागला. आमगेले अेक विद्वान तत्त्वगिन्यानी पंडीत म्हणटात,

"कोंकणी ही आमगेल्या पुर्विल्ल्या जाणटेल्यांनी फुलैल्ली भास. देखून तीच आमगेल्या आत्म्याक भौ बरी अुपकारता तसली आसा."[४०]

आमगेली गोंयची पंडिता प्रोपेर्सियाबाय म्हणटात,

"जिणें आमकां आपले म्हुर्तीं भाशेन आनी सारकायेन घडले, ती ही भास कितलीय दुबळी आसली जाल्यार आमगेली भावना अुकती करून दाखोवच्या कामांत सदींच चड गिरेस्त आसता. कित्याक, ते भाशेंत आमच्या आत्म्याचेर चड फळादीक आनी

तगतले छाप अुठिल्ले आसतात. ही भास जेन्ना आमगेल्या आज्या-पणज्यांली आसता, तेन्ना ती अजापाचे रितीन चड फळादीक जाता. कित्याक, आमच्या आंगांत आमकां कळनासतना आशिल्ल्या पुर्विल्ल्यांल्या भाण्डारांत जीं चमत्कारांचीं बळगीं सांटावल्यांत, तीं जागोवची तांक तिका आसता.''[४१]

हे भाशेन, आमगेल्या विद्वानांनी, पंडितांनी आनी पंडिताबायनी आमगेले भाशेक माथ्यार धरिनाफुडें, तिचो आतां दिसानदीस जयजयकारूच जावंक लागला. आतां आमगेले जायते लोक सभांनी कोंकणींत अुलैतात आनी लग्रा-कार्यांचीं व्होवळीक-पत्रां कोंकणींत छापतात. कोंकणी परिशदेचो जल्म जायतपासून फाटल्या तीन वर्सांत दक्षीण हिंदुस्तानांत कोंकणी भास नेटान फुडें सरूंक लागल्या. थैंचे कोंकणी लोक आनी तांगेल्यो धर्मीक आनी संवसारीक संस्था आपणांले हिशेब आनी बरपां आतां कोंकणींत दवरूंक लागल्यात. ह्या आदीं हो वेव्हार ते कानडी, मलयाळी आनी मराठी भासांनी करताले. केदो व्हडलो बदल हो ! आतां आमी आमगेल्या घरच्या आनी भायल्या विरोध्यांली पर्वा करची गरज ना. तरी आसतना, तांगेले बडबडीन कोंकणी लोकांलो चुकिचो समज जावंक फावना म्हणु तांगेली म्हणणी विसकून ती कितली पोली आसा तें दाखोवंक जाय.

डॉ. ग्रियर्सन आमगेले विरोधी न्हयत. जाल्यारूय, तांगेले कांय म्हणणेन आमगेल्या खरेल्या विरोध्यांक जेल चडून आमगेले भाशेक ते मराठिची पोट-भास म्हणटात आनी तिका तशी लेखूंक गणतिच्या अधिकाऱ्यांक गळवज्ञा येतात ! **तांकां चीप बसोवंक जाय.**

कोंकणी भाशेक मराठिच्या पोटांत भरच्या नादांत तिगेले विरोधी म्हणटात कि तिका हालीं मेरेन नांवूच नासलें. पणून केन्ना मेरेन हें ते सांगनात. तिका 'कानारी भास,' 'ब्राह्मणभास' अशें म्हणटाले खैं. मराठीक तरी धड नांव खैं आसलें? तिका 'प्राकृत,' 'देकानिक' बी म्हणटाले. अितालियान पाद्री आर्कामोनि हाणें सतराव्या शेंकड्यांत **आमगेले भाशेचें नांव** 'कोंकानिक' अशें दिलां; आनी मराठी भाशेचें नांव 'देकानिक' अशें दिलां.[४२] पुण आमगेले भाशेक नांव नासलें अशें खिणभर मानलें जाल्यार, खैंचेकडेन कितें भंगलें? संवसारांतल्या भासांची राणी जी संस्कृत तिका तरी हजारांनी वर्सां नांव खैं आसलें? अशें आसतना, ऋग्वेदासारके नामने-तोखणायेचे ग्रंथ तांतूंत जाले. संस्कृत व्याकरणकार पाणिनि हाच्या वेळार, म्हळ्यार सुमार पावणेतीन हजार वर्सांफाटीं, वेदांचे भाशेक नांवूच नासलें. पाणिनीन तिका छंद, ब्राह्मण, मंत्र, निगम अशीं नांवां दिल्यांत.[४३] ताणें आपणाले वेळचे संस्कृत भाशेक निखटें 'भाषा' हेंच अुतर लायलां.[४४] ताचे फाटल्यान जायत्या काळान

तिका संस्कृत हें नांव लागू जालें.

कोंकणी भास मराठिची पोट-भास करच्या हावेसान तिगेले विरोधी सांगतात कि पोरणे मराठींत आनी आजचे कोंकणींत जायतें सारकेपण आसा. ह्या खातीर, ७०० वर्सां फाटलीं कांय अुतरां ते आमच्या मुखार दवरतात. पणून अितले जंवजाळ कित्याक जायत? आजचे घडयेक हिंदुस्तानांतल्यो आर्य आनी द्रवीड भासो पारखून पळेल्यार, तांतूंत आरबी, अिराणी, पुर्तुगेज आनी अिंग्रजी अुतरां मस्त मेळटीत; देखून, तांकां ह्या भासांच्यो पोट-भासो म्हळ्यार जायत? खासा मराठी संबंदान जॉन बीम्स म्हणटात कि मराठी कोशांत मोल्स्वर्थान जीं अुतरां दिल्यांत तांतूंतलीं चडशीं हिंदी आसात.[४५] म्हणटकूच, मराठीक हिंदिची पोट-भास म्हळ्यार जायत? बीस्म आनीकूय म्हणटात कि आपल्या पुस्तकांत वर्णिल्ल्या सात भासांतली (हिंदी, पंजाबी, सिंधी, गुजराथी, मराठी, ओडियी, बंगाली) अुतरावळ विसकून पळेतकूच आमकां पैल्याच फाराक दिसता कि तांतूंतलीं जायतीं अुतरां सगळ्यांक सामान्य आसात. हो, कर, आ, जा, खा, पी, मर, मार, सुन, देख हे धातू थोड्याशा बदलान त्या सगळ्या भासांनी सारकेच घोळटात. नामांचो आंकडो जाल्यार तांचे परस मोटो आसून, तांचे भितल्ली वेगळीक साप किर्कोळ म्हळ्यार जाता.[४६] म्हणटकूच, ह्या सात भासांक अेकामेकांल्यो पोट-भासो म्हळ्यार जायत? ह्या संबंदान, बिहारी आनी हिंदी भासांक लागून, डॉ. ग्रियर्सन म्हणटात कि **दोन भासांतलीं अुतरां सारकीं आसलींय जाल्यार, त्यो भासो अेक म्हणुं नजत. तांची व्याकरणी बांदावळ अेक आसल्यारूच त्यो अेक, नाजाल्यार वेगळ्यो** म्हणूंक जायत. भासांच्या वेगळेपणाचें लक्षण, त्यो अुलैतल्यांक अेकामेकांक समजनाजावपाचेर आधारून ना; तर, शास्त्रीक नदरेन तांचें वेगळेपण थारावंक, दुसरींय बळिश्ट कारणां ध्यानांत घेवंक जायत; आनी तांतूंत व्याकरणी बांदावळ हें सगळ्यांत पैलें आनी मुखावैलें कारण आसा.[४७] कोंकणी भाशेचे विरोधी हांगाच अडचणींत पड्टात. **तांच्यान कोंकणिची आनी मराठिची व्याकरणी बांदावळ सारकीच म्हणपाचें सिद्द करुं नज**. अशें आसतना, बळयांच तशें ते म्हणटीत जाल्यार, ह्या भासांचे पंगतीक गुजराथी, बंगाली, हिंदी, सिंधी बी सगळ्यो आर्य भासो बसोवन, त्यो अेक आसात वा अेकामेकांल्यो पोट-भासो आसात अशें म्हणचें पड्टलें.

म्हत्वाच्या जायत्या गजालींत मराठीपासून कोंकणी वेगळी हें डॉ. भाण्डारकारांलें तशेंच डॉ. ग्रियर्सनांलें मत्त तुमी आयकलांच. डॉ. ग्रियर्सनांनी तें चड फोडून सांगलां खरें; पुण विसकून सांगूंक ना. भास-शास्त्री डॉ. सुमित्रबाब कत्रे हांणी ह्या विशयाचो खोल अभ्यास केला. ते म्हणटात कि **मराठीपासून कोंकणी**

वेगळी.[८८] हांवेंय ह्या विशयाचो कांय अभ्यास केला आनी म्हजी ग्रात्री आल्या कि कोंकणी भास मराठिची पोट-भास नासून, मराठी परस चड पुर्विल्ली आसा आनी तिचें चड लागशिलें नातें वेदीक आनी संस्कृत भाशेकडेन आसून पुर्विल्ल्या पाली आनी हेर सगळ्या प्राकृत भासांकडेन तिची संवकळ आसा.

पैल्याच फाराक अुच्चारांत मराठी परस कोंकणी वेगळी. कोंकणींत **अ** च्या बसक्या अुच्चाराभायर ओडिल्लो मोटवो आनी लांबोडो अशे दों तरांचे अुच्चार घोळटात; ते मराठींत नात. **अे** आनी **आॅ** चे अुकते अुच्चार मराठींत नात. कोंकणींत अुतरांतल्या **अ**, **अे** आनी **ओ** स्वराच्या अुच्चाराभाशेन तांचो अर्थ बदलता. हीय चाल मराठींत ना.

कोंकणींत कांय पुल्लिंगी अेकवचनी नामां, विशेशणां, सर्वनामां, भूतकाळी, भूतभूतकाळी, रीतभूतकाळी आनी भविश्यकाळी पुल्लिंगी अेकवचनां, तशींच **अ**, **अीं** आनी **अू** न सोंपिल्ल्या स्त्रीलिंगी नामांचीं, भौवचनां, **अी** आनी **अू** न सोंपिल्ल्या स्त्रीलिंगी विशेशणांचीं भौवचनां, **अी** न सोंपिल्ल्या स्त्रीलिंगी सर्वनामांचीं भौवचनां आनी भूतकाळी, भूतभूतकाळी, रीतभूतकाळी आनी भविश्यकाळी स्त्रीलिंगी भौवचनां, **आॅ** न सोंपतात. ही चाल मराठींत ना. तांतूंत चडकरून **आ** घोळटा.

कोंकणींत मोनें **अ**, **अीं** आनी **अूं** न सोंपिल्ल्या नपुंसकलिंगी नामांचें भौवचन **आं** स्वरान सोंपता. मराठींत ताचे बदला **अें** घोळटा. कोंकणींत अुतराचो अुच्चार बदलून वचन बदलुं येता. असली चाल मराठींत ना.

कोंकणींत दुसरे आनी चौथे विभक्तींत **क** वा **का** कूस, तिसरे विभक्तींत अेकवचनी **न** कूस, पांचवे विभक्तींत अेकवचनी आनी भौवचनी **सून, थावन, थान, आन, च्यान, साकून, थाकून, पासि, पास्ट** आनी **कूय** हीं कुसां घोळटात. मराठींत तीं नात. **गेलो** आनी **लो** कुसान सोंपिल्लीं धनविशेशणां कोंकणींत आसात तशीं मराठींत नात. **हीं कुसां वेदीक भाशेंतसून आयल्यांत**. सातवे विभक्तिचीं **आ, अि, अे** आनी **अै** कुसां आनी **गेर** अव्यय कोंकणींतले वरी मराठींत नात.

कोंकणी काळांची घडण मराठी घडणे परस सामकीच वेगळी. कोंकणी तरेचो नित्शयी भविश्य मराठींत ना. संस्कृत **जन्** पासून जाल्लो **जा** धातू कोंकणींत घोळटा तसो मराठींत घोळना. मराठींत **जाहाला > झाला** हें अुतर कोंकणींतसून घेतलां. **जा** धातुच्या पालवान घडिल्ले दुबावी भविश्य मराठींत नात. कोंकणी तरेचो विध्यर्थ मराठींत ना. कोंकणी तरेचे प्रयोजक आनी नामधातू मराठींत नात.

'सन्सप्तमी' अर्थाचीं **की, कच, च** आनी **री** कुसां लागिल्लीं धातु-अव्ययां

तशींच **अुंक** कुसाचीं धातु-अव्ययां कोंकणींतलेवरी मराठींत नात.

कोंकणी न्हयकाराची तरा मराठींतले परस जायती वेगळी. हे भाशेन, कोंकणी आनी मराठींतले वेगळेचार दाखोवंक गेल्यार कितलेशेच आसात. ह्या संबंदाची बारकायेची चिकित्साय **'कोंकणिची व्याकरणी बांदावळ'** ह्या पुस्तकांत केल्या, ती वाचून पळोवची.

संस्कृतांतसून तद्भव जाल्लीं अुतरां, हिंदुस्तानांतले खैंचेय आर्य-भाशेपरस, कोंकणींत चड आसात. हे नदरेन पळेल्यार, कोंकणिचो पांवडो मराठिच्या माथ्यार जायतो वैर लागता. संवसारांतलें सगळ्यांत पैलें, चड म्हत्वाचें आनी चड घोळटेंतलें अुतर म्हळ्यार पैल्या पुरशाचें अेकवचन. कोंकणींत हें अुतर **हांव** अशें घोळटा. मनीसजातिचो जणअेक जीव जल्मनाफुडें 'हांव-हांव' करून आड्डता. ह्या आड्डपाक संस्कृतांत 'को ऽ हम् को ऽ हम्' - हांव कोण? हांव कोण? म्हणटात. हांतूंतलें 'अहम्' हें अुतर वेदीक आनी संस्कृत भाशेंत हजारांनी वर्सां गाजता आनी ताचेंच चड लागशिलें तद्भव 'हांव' हें अुतर कोंकणींत घोळटा. मराठींत हाचे बदला 'मी' म्हणटात. अपभ्रंशांत पैल्या पुरशाचें दुसरे, तिसरे आनी सातवे विभक्तिचें अेकवचन मअिं अशें मेळटा; ताचेपासून मराठी 'मी' जालां खैं.[४९] **हांव** ह्या अुतरावैल्यान, रगताचे नदरेन वेदीक आनी संस्कृत भाशेकडेन कोंकणिचें कितलें दाट नातें लेखता आनी मी ह्या अुतरावैल्यान **मराठिचो पांवडो कोंकणी सकला** कितलो लागता तो अुकतो दिसता.

संवसारांतलें पैल्यावैल्या म्हत्वाचें हांव हें अुतर भौ थोड्या बदलान पश्चिम हिमालयी, काश्मिरी, पंजाबी, सिंधी, कच्छी, बिहारी, बंगाली, ब्रज, मारवाडी, निमाडी आनी गुजराथी भासांनी घोळटा. पश्चिम हिमालयींत हा**अुं**, हा**ओं**, अ**अुं** आनी **आंव** म्हणटात. पोगुली, डोडासिराजी आनी रामबनी काश्मिरींत अअुं आनी आंव म्हणटात. पोगुली, डोडासिराजी अनी रामबनी काश्मिरींत अ**अुं** म्हणटात. सिंधींत आनी डोग्री पंजाबींत आअूं, कच्छींत आंअूं, बंगालींत आमि, बिहारींत हम, निमाडींत हअुं, ब्रज आनी मारवाडी भाशेंत हूं आनी गुजराथींत हूं म्हणटात.[५०] ह्या अुतराचो हो दाट अेकचार पळोवन, **ह्या भासांकडेन मराठीय परस कोंकणिचें चड लागशिलें नातें** आसून, चड पुर्विल्ल्या काळांत त्यो अुलैतल्या लोकांले पूर्वज अेकाच आवांठांत नंदताले आनी वावुरताले अशें म्हणुं येता.

हालिंच्या आर्यभासांचें संस्कृत भाशेकडेन कितल्या वांट्यान आनी पांवड्यान नातें लेखता तें पळोवपाचीं जीं लक्षणां आसात तांतूंत तद्भव अुतरां हें अेक आसा. ह्या लक्षणान ज्या वांट्यान जे भाशेंत संस्कृतांतलीं तद्भव अुतरां चड आसतीत त्या

वांट्यान ती भास संस्कृत भाशेची चड लागशिल्या दाट नात्याची हांतूंत दुभ[illegible] अुरना. हालिंच्या वर्तमानाक मराठींत आनी हेर कांय भासांनी संस्कृत अुतरां राशिं[illegible] घेवंक लागल्यात; पुण तितल्यान त्यो भासो संस्कृताच्यो दाट नात्याच्यो जायना[illegible] तीं अुतरां म्हळ्यार तांगेल्यो हालिंच्यो जायांच्यो वस्ती. खाशेल्यो न्हयत. त्य[illegible] काडून घेतल्यार त्यो साप दुबळ्यो गवरी दिसतल्यो !

तद्भव अुतरांचो बारकायेन सोद केल्यार, कोंकणी भाशेच्या पालवान वेदांतल्य[illegible] कांय कठीन अुतरांचोय अर्थ लावंक सोपें पडत अशें दिसता. ऋग्वेदांतलो अे[illegible] ऋषी हो संवसार कसो जालो, कसो आसलो आनी कोणें घडलो म्हणपाची खोल येवजणी करतना म्हणटा, 'तुच्छेना**भ्व**पिहितं यदासीत्' म्हळ्यार 'जेन्ना तुसान **आभु** गुटलायल्लें आसलें.' (ऋग्वेद १०-१२९-३.) हांगा '**आभु**' म्हळ्यार कितें? कोंकणींत ह्या अुतराचें तद्भव 'हाबू' अशें मेळटा. देखीक 'सांतूबाब मेळत ते गजालिचो हाबू करता;' म्हळ्यार ती गजाल समजूंक कठीन, येवजूंक कठीन, मेळूंक कठीन अशें करून दाखैता. असली गजाल पळोवंक गेल्यार सगळ्या संवसारांत अेकूच आसा. ती म्हळ्यार वेदान्ताचे भाशेंत ब्रह्म. ऋषी म्हणटा कि 'तुसान (पोले मायेन) हाबू (ब्रह्म) जेन्ना गुटलायल्लें आसलें.'

ह्या पुराव्यांवैल्यान आमगेले भाशेचें कुळार वेदांच्या कुळवंत, गिरेस्त, नांवादीक आनी लोकीकवंत घराण्यांतलें आसा म्हणपाचें घणघणीत दिसता. ह्या खातीर आमकां कोंकण्यांक आमगेले भाशेचो मोटो अभिमान आनी गर्व दिसूंक फावो. आमी कोंकणे बाबत कुळां न्हयत. **आमकां परक्या भासांच्या लोकिकार वांचपाची गरज ना. त्यो भासो आमगेल्यो आवै-भासो न्हयत.** देखून, आमी आमगेले भाग्यवंत आवैचे मांडयेर बसुंया आनी माथें वैर अुबारून सगळ्या संवसाराकडेन पळोवंया. कामोंय्सालीं अुतरां चिके बदलून त्या अुंच कविच्या ताळ्यान हांव म्हणन —

E na lingua, na qual quando imagina,
Com **tadbhavas**, crê que ê a **Vedina**.

— कोंकणी भास बारकायेन येवजून पळेल्यार, तांतूंतल्या संस्कृत तद्भव अुतरांनी जिंत्रूप वेदीक कशी दिसता.

हे भाशेन, मराठीय परस आमगेली भास अुंच पांवड्याची आनी स्वतंत्र आसतना, तिचे दुस्वासी विरोधी - निजाचे तशेच अडेचे मराठे आनी चडकरून '**गोवानीज मराठे**' - तिचो जीव घेवंक तरेकतरा हटवाद घालतात आनी हटमटवळां करतात तें पळोवन, पावुणशीं वर्सांफाटीं ओडियी भास ना करूंक बंगाली लोक जी

धोंस आनी धुमशेणां घालताले तांचो अुगडास जाता. बंगाली म्हणटाले कि ओडियी ही बंगालिची फक्त पोट-भास आसून तिका स्वतंत्र भास लेखचो कसलोच अधिकार ना; **ती पोट-भास नासलीय जाल्यार, पोट-भास जावंक जाय; कित्याक, तशें जाल्लें आमकां जाय**. दुसरें, बंगालच्या लोकां मुखार ओडिसाचो लोक अितलो थोडो आसा कि तांचे खातीर आनी तांगेल्या अिल्ल्याशा आवांठा खातीर वेगळी भास आनी वेगळी लिपी चलोवन कित्याक अुपकारना. ओडिसाची वेगळी भास चलैल्यार, थैंच्या लोकांक बंगाली शिकूंक आनी ते भाशेंत जी म्हत्वाची विशाळ सरस्पत सांटावल्या तिचो लाव घेवंक मेळचो ना.[५१] कितली भुरगेबूज ही ! हाचेर पंडीत बीम्स पांखाक तेल लायल्ल्यावरी जाप दितात कि ओडियी भास फक्त कांय लक्ष लोक अुलैतात अितलेच खातीर चिड्डूंक जाय जाल्यार, डच, ड्यानिश वा पुर्तुेज भासूय ना-नपश्यांत करूंक जाय. बास्क भाशेचीय तशीच वाट लावंक जाय आनी रोमाअिक वा आतांची ग्रीक भासूय ना करूंक जाय अशें म्हणचें पट्टलें. तशेंच, रशियन लोक पोलिश भाशेचीं पाळां-मुळां हुमटूंक सोदतात वा ऑस्ट्रियन लोक झेक भास ना करूंक वावुरतात तांगेली करणी न्याय-नितिची आसा अशें म्हणचें पट्टलें.[५१]

बंगाली भाशेंतले विशाळ सरस्पतिचो लाव घेवचे खातीर ओडिसाच्या लोकांनी आपणांली आवै-भास सोडून दिवची जाल्यार, खासा बंगाल्यांनीच आशाळविशाळ जर्मन भाशेचो लाव घेवंक आपणांली बंगाली भास मारून अुडैल्यार बरें जावचें ना? जर्मन भाशेंत बंगाली भाशे परस हजार वांट्यांनी नामनेची सरस्पत भल्ल्या हें कोणाक सांगूंक नाका. बंगाली लोकांनी कितलेंशेंच नाख आपटून रगत व्हांवैलें आसतनाय, ओडियी भास अजून स्वतंत्रतायेन नंदता. ही तिका आनी तिगेल्या पुतांक भारी-भुशणाची गजाल म्हणूंक जाय.

बंगाली लोकां भाशेन कोंकणिचे विरोधी आमकां सांगतात कि कोंकणी भास अुलैतल्यांलो आंकडो साप ल्हान. तांतूंत भुरग्यांलीं मुळावीं पुस्तकांय छापून येवंक कठीन. म्हणटकूच शास्त्रीक ग्रंथ छापचें काम त्याय परस कठीन. तें बेठें खर्चाक म्हारग. देखून आमी कोंकणिचो नाद सोडून दिवचो. परंत ही बुद्द चड शटकपणान भल्ल्या. कशेंय जावं. आमगेली भास वैर काडूंक **आमगेलो आंकडो** फावो-सो आसा कि ना तें आमी पळोवंया.

फाटल्या वर्सा जाल्ले गणतेचो आंकडो अजून म्हाका समजूंक ना. परंत कांय पर्वा ना. १८९१तले भाशीक गणते वैल्यान, दक्षीण कोंकणांतल्या कोंकणी अुलैतल्यांलो आंकडो १६,६५,३९१ आसलो.[५२] हे भाशेक डॉ. ग्रियर्सन खरेली

कोंकणी (true Konkani) म्हणटात.[५३] दर धा वर्सांनी धा टकें वाडल्यार, ५० वर्सांनी म्हळ्यार १९४१त हो आंकडो सुमार २५ लक्षांचेर पावंक जाय. खरेले कोंकणिचे अुत्तरेक बाणकोटी आनी संगमेश्वरी कोंकणी आसून १८९१त तिचो आंकडो १३,३४,५८७ आसलो. ही कोंकणी खरेले कोंकणीक चड जमता खैं.[५४] ह्या ५० वर्सांत धा टक्यांच्या हिशेबान हो आंकडो सुमार २१ लक्षांचेर पावंक जाय. हे तरेन, खरेली कोंकणी आनी तिका जमतली बाणकोटी आनी संगमेश्वरी मेळून कुल्ली आंकडो सुमार ४६ लक्ष जाता. बाणकोटाचे अुत्तरेक दमणगंगे मेरेन १८९१त अुत्तर कोंकणिचो आंकडो १०,१६,२३० आसलो. तो ह्या ५० वर्सांत धा टक्यांच्या हिशेबान सुमार १६ लक्ष जावंक जाय. म्हणटकूच, दमणगंगेसाकून सगळ्या कोंकणांतल्या कोंकणी अुलैतल्यांलो कुल्ली आंकडो सुमार ६२ लक्ष जाता. अुत्तर कोंकणीक डॉ. ग्रियर्सन मराठिचो 'कोंकण स्टँडर्ड' हें नांव दिवन, खरेली कोंकणी आनी देशी हांचे मदगतची ती आसा अशें म्हणटात.[५५] जाल्यारूय, खरेले कोंकणिची तिचे वैली सत्ता अजून मुणूंक ना. मराठी 'मुलुखगिरी' तळा ती चेपल्या आसतनाय, कोंकणी **ओ**कार, तिसरे विभक्तिचें अेकवचनी **न** कूस, सातवे विभक्तिचें अेकवचनी **आ** कूस, नपुंसकलिंगी भौवचनी **आं** कूस आनी क्रियापदांचीं कांय रुपां अुत्तर कोंकणींत अजून घोळटात. डॉ. ग्रियर्सनांनी थैंचे कोंकणिच्यो ज्यो पती दिल्यात तांतूंत कोळी, कुणबी, आगरी, ठाकरी, चित्पावनी, संगमेश्वरी, बाणकोटी, कातकरी, वारली, वाडवळी, सामवेदी, मांगेली बी जातिंच्या अुलोवपांत म्हगेले म्हणणेचो पुरावो घसघशीत मेळटा. देखीक, 'त्या सावकार**ान**' 'दुकाळ **आयला**' 'घरा **जातांय न निमगितांय**' 'डुकरां जीं टर्फ**लां** खात' '**धाकल्या पुतान**' 'सुद **आयली**' 'अुधळापण**ान**' '**सांगन**' 'बापाशीन **मानायांक**' 'त्या गिरेस्त**ान**' 'भुक**न मरतां**' 'पोटभर **खावन पिवन**' 'आपल्या **अेकल्याच्यान**' 'दोन पुत' 'वां**टो**' 'मो**टो** दुकाळ पडि**लो**' 'कळवळ**लो**' 'जा**लो**' 'लाग**लो**' 'दोन पो**रां**' 'गे**लो**' 'धाड**लो**' 'भुकेन **मरतां**.'[५६] क्रि.स. १६५९त पुर्तुगेज जेजुअीत पाद्री फ्रांसिस्क वाज द गिमारांय्स हाणें अुत्तर कोंकणी भाशेंत बरैल्ली स्वामी क्रिस्ताली जीण खरेल्या कोंकणी अुतरांनी अुपाट भल्ल्या. तांतूंत बायल, घोव, धूव, दवर, आयले, निमाणीं, त्याच दिसा, आंकवारी, सपण, निसण, अुतरां, आपै, धवळां, जैं, थैं, खैं. देंवले, नेमां, पिंजलें बी अुतरां मेळटात.[५७] मराठिचे 'मुलुखगिरी' तळा अुत्तर कोंकणी भास घुसमटून दिसानदीस मरूंक पावल्या; आनी आमी कोंकण्यांनी अेन्नादर कांय अुपाय केलो ना जाल्यार, जो थोडो-भोव कोंकणी छाप तिचेर अुल्ला तोय साप पुसून वेतलो.

तुर्ताक अुत्तर कोंकणी कुशीक दवरून, डॉ. ग्रियर्सनांले तर्क-रिती भाशेन,

**खरेले कोंकणिचीच येवजणी केल्यार, ती अुलैतल्या लोकांलो आंकडो आज २५ लक्ष आसा.** हो ध्यानांत घेतल्यार, तिका बरे तरेन केळोवंक आनी तिगेलो खर्च चलोवंक कांयच कठीन ना. तांतूंत केदेय व्हडले शास्त्रीक ग्रंथ छापून अुजवाडावं येतीत. दक्षीण कोंकणांतले लोक विद्येचे आनी कळांचे निजाचेच मोटे शोकी. ते हिमटे न्हयत. विद्येखातीर ते अुदकावरी दुडू खर्चितीत. देखून, आमगेल्या विरोध्यांनी आमचे खातीर कसलीच चिंता करची लागना. तांणी आपल्याच संवसाराची जाळवणी करची. हिंदुस्तानांतल्यो कांय हेर आर्य भासो अुलैतल्यांले आंकडे पळेल्यार, आमगेलो आंकडो जायतो वैर आसा अशें तुमकां दिसतलें. देखीक, १९२१चे गणतेंत काश्मिरी भास अुलैतल्यांलो आंकडो १२,६८,८५४ आसून, आसामी भास अुलैतल्यांलो आंकडो १७,२७,३२३ आसलो.[५८] देखून, **आमगेलो आंकडो ल्हान म्हणु आमी चिंता करची गरज ना**. ल्हान आंकड्यांचींच राष्ट्रां धर्तरेच्या मोट्या व्हडल्या आवांठाचेर साम्राज्य चलैतात, हें आमी आमगेल्या दोळ्यांनी पळेनात? त्या भायर, अुत्तर कोंकणीक मराठी 'मुलुखगिरीं' तसून सोडैतकूच, आमगेलो कुल्लीं आंकडो पावूण कोटिचेर पावतलो, हें आमी विसरूंक जायना. देखून आज आमी नेटान वावरून आमगेली भास अेकरुपी आनी घटमूठ करचे तजविजेक लागुंया.

हांगा आनीक अेक गजाल आमी ध्यानांत धरुंया. **लोकांलो ल्हान-व्हड आंकडो, व्याकरणी बांदावळ आनी अुतरावळ हांचेरूच शेजारी भासांचें वेगळेपण आधारून आसता, अशें ना. त्यो भासो राष्ट्रान आनी सरस्पतीन वेगळ्यो आसल्यारूय वेगळ्यो लेखतात.** ह्या संबंदान डॉ. ग्रियर्सन म्हणटात कि आसामिची अुतरावळ आनी व्याकरणी बांदावळ पळेल्यार, ती बंगाली भाशेची पोट-भास न्हय अशें कोणूच म्हणचो ना. चितागांवची पोट-भास आनी प्रमाण बंगाली हांचे मदगत जें दाट नातें दिसता तेंच आसामी आनी बंगाली हांचे भितर दिसता. जाल्यारूय, आसामी ही स्वतंत्र भास आसा हांतूंत वाद ना. कित्याक, खाशेलो अितिहास आशिल्ल्या स्वतंत्र राष्ट्राची ती भास आसून, तांतूंत बंगाली परस वेगळी आनी वेगळ्याच सबावगुणाची सुंदर बरी सरस्पत घडिल्ली आसा. हे तरेन, आमकां अेक देख मेळटा कि **अेकामेकांल्यो शेजारी भासो अेकामेकांक कळना जाल्यारूच वेगळ्यो लेखिनात; तर राष्ट्रान आनी सरस्पतीन वेगळ्यो आसल्यारूय त्यो वेगळ्यो लेखतात.**[५९]

हेय नदरेन, कोंकणी भास मराठी परस सामकीच वेगळी हें सिद्द करुं येता. भूंय-वर्णनेचे नदरेन कोंकण देस मराठणापासून वेगळो हें सिद्द जालें. कोंकणिची

व्याकरणी बांदावळ मराठी परस जायती वेगळी हें सिद्द जालें. कोंकणीक भासेन्ना राष्ट्रीक सरस्पत आसा हें सिद्द जालें. त्या भायर, **कोंकणाक स्वतंत्र राष्ट्र ह्या नात्याचो खाशेलो अितिहास आनी संस्कृताय आसा. हीं दोनूय, मराठी अितिहास आनी संस्कृताय हांचे परस जायतीं वेगळीं.**

कोंकणी शिलाहारांलें स्वराज्य कोंकणांत आठव्या शेंकड्याचे मदगतीपासून तेराव्या शेंकड्याच्या सोंपत्या मेरेन सुमार ५०० वर्सां चलतालें, हाचो थोडोसो अितिहास तुमी आयकलाच. ह्या भायर, गोंयचे सास्टींतले लोटलेचे राष्ट्रकूट आठव्या शेंकड्याचे मदगतीपासून धाव्या शेंकड्याच्या सोंपत्या मेरेन सुमार २२५ वर्सां सगळे दक्षिणेचे सम्राट जाल्ले. तांगेलें **कोंकणी साम्राज्य** अुत्तरेक विंध्य पर्वत धरून दक्षिणेक कांची मेरेन पातळ्ळलें. तांगेल्या मुलखाक 'साडेसात लक्षांची रट्टपाटी' म्हणटाले आनी तांतूंत मराठणूय आसपावतालें. ते आपणांक 'लत्तलूरपुरपरमेश्वर' म्हळ्यार '**लोटली शाराचे मोटेले धनी**' ही पदवी लायताले. लोटली ही तांगेली मूळभूंय.[६०] आजूय कोंकणांत सावंतवाडी कोंकण्यांलें सुपुल्लें स्वराज्य चलता.

**कोंकणाची संस्कृतायूय चड पुर्विल्ली आनी अुंच पांवड्याची.** मराठणाक जेन्ना नांवूय नासलें तेन्ना आमगेलें कोंकण अुंच संस्कृतायेन नंदतालें. अपरान्त आनी गोमन्त हे ताचे दोन वांटे आसून तांतूंत सुपारें (शूर्पारक) आनी गोंय (गोवा) हीं चड नामनेचीं थळां वेपार-अुद्योगान गाजतालीं. गोमन्ताक सातव्या शेंकड्यांत महासप्तम म्हळ्यार महाकोंकण - सातां कोंकणांतलें मुखेल कोंकण - हें नांव पडलें.[६१] कोंकणाचो अितिहास बारकायेन ध्यानांत घेतल्यार, चड पुर्विल्ल्या काळापासून आजवेर बुद्दीन आनी तेजान हें म्हा-कोंकण वा दक्षीण कोंकण जायतें गाजता. कोंकणांत बुद्ध धर्माची पैलीवैली जोत पेटैतलो पुण्ण ह्याच दक्षीण कोंकणांत, गोंयच्या जांबावलेच्या आवांठांत, अडेच हजार वर्सांफाटीं जल्मलो. त्या वेळार जांबावलेक सुनापरान्त - भांगराचो अपरान्त - म्हणटाले. गोतम बुद्धा वेळच्या मज्झिमनिकाय आनी संयुतनिकाय ह्या दोनूय ग्रंथांत हें अुतर आयलां. हाकाच फुडाराक शिलाहार राजांनी सिंहल म्हळ्यार लंखा हें नांव दवल्लें. पुण्ण अुत्तर हिंदुस्तानांत स्रावस्ती शारांत वचून बुद्धाक मेळ्ळो आनी ताचेकडसून तागेल्या धर्माची दिक्षा घेवन भिक्खू जावन सुनापरान्तांत आयलो आनी थैंच्या लोकांक ताणें तो धर्म शिकैलो. थैंच्यान तो अुत्तर कोंकणांत सुपाऱ्या वचून थैं ताणें त्या धर्माचो अुपदेस केलो.[६२]

जांबावलेच्या आवांठांत पुर्विल्ल्या काळांत पुण्ण जसो बुद्ध धर्माचो कोंकणांतलो पुण्यवंत धर्मदूत जालो, तसोच ताचे शेजारचे सास्टींत, आर्विल्ल्या

काळांत सांकवाळे पाद्री जुजे वाज हो क्रिस्तांव धर्माचो लंखेचो भाग्यवंत धर्मदूत जालो. सुमार पावणेदोन हजार वर्साफाटीं, बुद्ध धर्माचे अेकसारके धपके बसून वेद-धर्म जेन्ना मरचेकडेन पावलो, तेन्ना तो वाटावंक कर्तुत्वदशेचे जे हिंदू वावुरताले तांतूंत परशुरामस्वामी नांवाचो अेक नामनेचो,पुरुश आमगेल्या कोंकणांत जावन गेलो. ह्या कोंकण्यान हिंदुस्तानाभायल्या वंशाच्या कांय अनार्य लोकांक शुद्ध करून हिंदू केले आनी तांच्या गळ्यांत जानवीं घालीं. ह्या परशुरामस्वामीक आतां त्रेतायुगांतल्या भार्गव रामा भाशेन लेखतात.[६६] हे भाशेन, **आमगेलें कोंकण म्हळ्यार धर्मिश्ट, धर्मदुतांली आनी धर्म-राखण्यांली पवित्र भूंय. हांगाचे लोक धर्मिश्ट आनी न्याय-नितिचे.** हांगाच्या भाटांनी माडांवैले सुकिल्ले नाल्ल सकला पडले, आंब्यांवैले आंबे गळ्ळे आनी पणसांवैले पणस कोंसळ्ळे तरी तांकां कोण हात लायना. ते जैंचे थैं अुरतात आनी धनयाचे धनयाक मेळटात. शेजाऱ्याच्या घरा-दारार 'मुलुखगिरी' करचेली नश्टी वान्सा आनी वज आमगेल्या कोंकण्यांक ना. 'न मे स्तेनो जनपदे' - 'म्हगेल्या राज्यांत कोणूच चोर ना' अशी बडाय पुर्विल्ल्या काळांत अश्वपती नांवाचो राजा मारतालो खैं.[६७] तशीच आमगेल्या कोंकण देसाच्यानूय मारुं येता. हांगाचे लोक मनाचे मोटे अुदार आनी हाताचे सदळ. हिमटेपण ते केन्नाच वळखून नकळत. आयल्ल्या-गेल्ल्या परक्यालो सत्कार करपांत तांकां लागतले लोक सगळ्या संवसारांत कोण मेळचे नात. **कोंकण देस म्हळ्यार चौदा विद्यांचें आनी चौसट कळांचें कुळार**. हांगा पाटांगडे विद्वान, शूर वीर आनी कर्तुत्वी पुरुश जायते जावन गेले आनी अजून आसात. त्या सगळ्यांली नामावळ करूंक कोणाक तांकत? कोंकण देसाच्या तेजवंत वंशाक मळबांतले दूदगंगेचीच ओपार फावो. तांतूंत कितलींशीं केणां आनी कितलींशीं नक्षत्रां लकलकतात. तांचें मेज-माप कोण घेत? कालिदासालीं अुतरां चिके बदलून हांव अितलेंच म्हणन –

क्व महाकोंकणो वंश: क्व चाल्पविषया मति:
तितीर्षुर्दुस्तरं मोहादुडुपेनास्मि सागरम्
.........................................
प्रांशुलभ्ये फले लोभादुद्बाहुरिव **वामन:**

– हो मोट्या व्हडल्या समुद्रासारको म्हा-कोंकणाचो वंश खैं आनी म्हगेली अिल्लीशी मत खैं ! पलतड मारूंक कठीन असलो हो समुद्र अिल्ल्याशा पनेळांत बसून हांव अुपूंक सोदतां ही पिसाय न्हय? हांव कसोय जाल्यार मोटवो वामन आनी म्हा-कोंकणाचो वंश म्हळ्यार व्हडलो रूख. हाच्या

फळांक हात पावोवंक शेकानशेक लांबरुंद मानायूच जाय. हांवें वामनान वसवसान म्हगेले हात कितलेय वैर अुबाल्ले म्हणु कित्याक अुपकारता?

सार सांगचेलें अितलेंच कि **कोंकणाक खाशेलो राष्ट्रीक अितिहास आनी पुर्विल्ली अुंच संस्कृताय आसा. देखून, हेय नदरेन मराठणा परस कोंकण वेगळें आनी मराठी परस कोंकणी वेगळी.**

वेगळी जाल्यार जावं. ''पणून दोगांयचें मूळ अेक हें कोणाच्यानूच न्हयकारुं नज. हांगा वाद आनी हट अुपकारना. भाशेच्या तत्वांच्या नेटार हो वाद खुबळावचो न्हय. सुख आनी सोय पळोवन मराठी लागीं करची. अशें केलें ना जाल्यार, दरअेका गांवांत, वेगळ्या वेगळ्या अुलोवपांत वर्तमानपत्रां काडचो वेळ येतलो आनी शेजारच्या गांवांतसून आयिल्लें पत्र लेगीत वाचूंक कठीन पट्टलें. देखून, अितलेंच करचें कि मराठींत कोंकणी अुतरां घालून तांचो मान-भौमान चडोवचो. म्हणटकूच, कोंकणी आनी मराठी ल्हवूल्हवू अेकठांय जातल्यो.''[६८] ही हिताची बुद्द अेकले कोंकणी विद्वान आमकां दितात. असले हे बुद्दीक लागुनूच, आमगेली वेदां अितली जुनाट, कुळवंत आनी भारी-भुशणाची भास आज आमकां आसून नासून सारकी जाली. मराठीक, कानडीक आनी हेर भासांक आवै-भासो लेखून आमी आमगेल्या खाशेल्या हका-मोलाच्या घरांत परके जाले. आमी आमगेल्या कोंकणांत आयतेकार मानाय जाले. आमी घरचे धनी अुल्ले नात. आमी परक्यांल्या मेंदून येवजचें आनी तांगेल्या पोश्यान अुदक पियेवचें अशी आमगेली बंद्यांली आवतिकाय जाली. मराठींत, कानडींत आनी हेर भासांनी अुलैतना-बरैतना आमकां कितली अडचण येता ती लिपोवन दवरून अुपकारना. झरिच्या व्हाळावरी आमगेलो मेंदू सळसळना. आमच्यो अुंच आनी मोलादीक येवजण्यो परक्या भासां सारक्या मदल्या खडपांचेर आनी फातरांचेर आदळून, फुटून ना जातात. परक्या भासांनी आमी हुस्क्या-मेकळे बरोवंक पावनात. आमगेली बुद्द फुलना. आमी भौनभौन आंग काडून फाटल्यान पळेतांत. आमगेलीं वाक्यां चुकूंक नात मू? आमगेलीं अुतरां वांकडीं पडूंक नात मू? आमगेलें बरप निजाच्या मराठी आनी कानडी लोकांक मानत मू? ते आमकां खोड धरचे नात मू? ते आमकां हांसचे नात मू? अितल्यानूच आमगेलो जल्म फुकट वेता. आमी परक्या भासांच्या बंदेपणांत मरतांत. हें असलें अपेशी मर्ण आमकां कुळवंत आवैच्या भुरग्यांक सोबता मू ? आमगेले कोंकणे विद्वान आमकां साप अजाण भुरग्यांवरी लेखून, केकें-मेमें दाखोवन भुरकुटावन समजायतात कि मराठींत कोंकणी अुतरां घालून तांचो मान चडैतकूच जालो ! बरें आसा. पणून हांव

तांकां विचारतां कि 'मी करतों' हाचे बदला 'हांव करतां' अशें म्हळ्यार निजाच्या मराठ्यांक मानत मू? तशें आसत जाल्यार सगळ्या मराठणान आमी कोंकणे अुलैतात तशें अुलोवचें आनी बरोवचें आनी आपणांली आवै-भास मराठी म्हणचे बदला कोंकणी म्हणची. आमकां तरी आनीक कितें जाय? आमगेले कोंकणे विद्वान हाचेर सडसडीत जाप दितीत व्हय? पुण तांकां तितली तांक खैं आसा? ते कितलेय विद्वान जाले जाल्यार मराठिचे आनी मराठणाचे **बंदे**. तांकां मराठी साअित्य परिशदेच्या पोश्यान अुदक पियेवंक जाय. तांकां विचारून किरावरी शिकैल्ली जाप ते आमकां दितीत. स्वतंत्रतायेन वावुरचेलें तांच्या नशिबांत ना. तांणी जल्मवेर मराठणाचें मानायपण करचें !

गोंयचें पुर्तुगेज सरकार हालीं कोंकणी भाशेची अपुर्बाय करता हें पळोवन, **आमगेल्या कांय विरोध्यांल्या पोटांत चाबूक लागलां !** हे विरोधी आपुण मोटे राजकर्णी समजतात. कोंकणीक अुकतेपणान विरोध करूंक तांकां धीर जायना. देखून, हिंदू धर्माचें निमित करून, हो धर्म बुडैलो म्हणु पुर्तुगेज सरकारा आड ते वोगीच बोटां मोट्टात ![६९] खरी गजाल पळेल्यार, पुर्तुगेज सरकारान आपल्या खर्चान गोंयां मराठी-पुर्तुगेज साळो घालून, कोंकणी परस मराठिचोच आजवेर जायतो ताथोमाथो केला आनी करता. परंत हे विरोधी बेअिमान. ते त्या सरकाराचे अुपकार मानिनात. तांगेली वान्सा सरकारान कोंकणीक ना करून मराठीक माथ्यार घेवन नाचचें! परंत सरकार हें करिना, देखून ताका ते दबकायतात. दोनशीं वर्सां फाटले वसैचे जिखेची याद करून ताका ते भेश्टायतात ![६९] परंत हे भुरग्यांले खेळ ! कोंकणी भास ही आमगेली कोंकण्यांली - कोंकण्या क्रिस्तांवांली, कोंकण्या मुसलमानांली आनी कोंकण्या हिंदुंली - पुर्तुगेजांली न्हय. तांकां बेश्टी दटावणी कित्याक? पुर्तुगेज सरकार आतां कोणाल्याच धर्माक पिडापीड करिना. ताची बिर्मत वोगीच घेवं नाकात. **वसैचें झूज पर्थून झुजचें आसल्यार, तें पुर्तुगेजां आड न्हय, तर आमच्या कोंकण्यां आड, कोंकणी भाशेच्या निमतान, अुकतेपणान झुजात.** तांतूंत वोगीच सरकाराक आनी देवा-धर्माक शिरकटावं नाकात. **आमी कोंकणे झुजूंक तयार आसांत**. आमी पुर्विल्ल्या वेदांतल्या झुजमाऱ्या आनी विद्वान ऋषिंल्या वंशांतले. आमी श्रीकृष्णाल्या, श्रीधर्मराजाल्या आनी श्रीरामचंद्राल्या वंशांतले. आमी पाणिनी, पतंजली, कालिदास, परशुरामस्वामी, भट्टोजी दीक्षित, न्यायमूर्ति काशीनाथशणै तेलींग, डॉ. भावू दाजी, रावबहादूर शंकरशणै पंडीत आनी मोंसिञ्जोर सेबास्तियांवशणै दाल्गाद हांगेल्या वंशांतले. आमी शिलाहारांल्या, राष्ट्रकुटांल्या, शंकपार्य आंगऱ्यांल्या, राण्यांल्या आनी सावंतांल्या

वंशांतले. आमी कोणाक भियेनांत. आमी कलि-काळाचीय पर्वा करिनांत. आमगेली लिखणी तशीच तरवार घसघशीत-खसखशीत बरी चलता. **येयात कोण येतात ते आमचेकडेन झुजूंक !**

भाग्यवंत कोंकण्यांनू – भावांनू आनी भैणिंनू – आमी व्हडल्या कुळांतले आनी आमगेली भास वेदांच्या घराण्यांतली. परंत तिचे खातीर आनी आमचे खातीर आमी आजवेर कितें केलां आनी करूंक जाय तें चिके येवजून पळोवंया. आमगेली भास व्हडली खरी. परंत तांतूंत आमचे भितल्ले जायते जाण अुलैनात, बरैनात आनी आपणांल्या भुरग्यांक तांतूंत मुळावें बरपूय शिकैनात, हें आमच्यान लटकें म्हणुं नज. आमगेल्या चार-पांच वर्सांच्या सुपुल्ल्या भुरग्यांक आमी कोंकणी शिकैनासतना मराठी, कानडी, पुर्तुगेज आनी अिंग्रजी साळांनी घालतांत. हे तरेन **आमी तांकां बरप शिकैनांत; तर तांगेलो तरणो मेंदू फातरा वरी घट करतांत. तांगेली मत भंगैतांत आनी तांगेलें आयुश्य अुणें करतांत.** हांव तुमकां **मराठिचोच अणभव सांगतां**. आमगेल्या गोंयां सुमार अडेचशीं मराठी साळो आपल्या खाशेल्या खर्चान थैंचे कोंकणे हिंदू चलैतात खैं. तांतूंत सुपुल्ल्या भुरग्यांक 'श्रीगणेशा' पासून शिकैतात. परंत ती भास तांगेल्या कपळांत सटकरून भरना आनी तांकां ती सारके रितीन अुलोवंक-बरोवंक येना, म्हणपाचो अणभव एका शिकोवप्याक आयला. हो शिकोवपी मराठणांतलो आसून, गोंयां शिकोवपाचें काम करूंक लागून सुमार वीस-पंचवीस वर्सां जातीत. तो म्हणटा कि चौदा-पंद्रा वर्सांचीं जाणटीं भुरगींय 'मला आजी आपवतो आहे' 'आम्ही खेळावयास जातात' 'मी नाहीं बोलली' 'मी नाहीं आली होतीं' 'फाल्यां सुटी आहे' 'मला आज कळाव होणार' 'तो आज येणार नाहीं कोठें' 'त्याच्या पोटांत जातें' अशे तरेची मराठी अुलैतात. एका शिकोवप्याले बायलेक बरें नासलें खैं. तिका सांसवां जाय जालीं. परंत शिकोवपी हें अुतर नकळ आसलो. 'मोहरी' हें मराठी अुतर तो जाणा आसलो. ताणें एका गड्याकडेन दोन पैशे दिवन 'मोहरी' हाडूंक सांगली. परंत 'मोहरी' म्हळ्यार कितें तें तो गडो आनी बाजारांतलो एकलोय कोंकणो पसरकार नेणा आसलो. गडो सगळो बाजार भोंवलो आनी 'मोहरी' खैंच मेळना जावन, माथ्यार हात घेवन घरा आयलो! ह्या पुराव्या वैल्यान, मराठी ही कोंकणी भुरग्यांली आवै-भास नासून तें तांगेल्या गळ्यांत बांदिल्लें दांत्याचें पेड म्हणूंक जाय. जे भाशेंतल्या अुतरांचो समज सटकरून पडना आनी जी पाठ करून शिकुनूय सारकी बरी अुलोवंक-बरोवंक येना, तिका आवै-भास कोण म्हणत? हाचे अुफाट्टें, साळेंत केन्ना शिकनासतना, जाणट्यांक तशीच नेणट्यांक जी भास भौ बरी समजता, अुलोवंक येता आनी लिखणी हातांत धल्ल्यार

बरोवंकूय येता, तीच तांगेली निजाची आनी खरेली आवै-भास. देखून, सुपुल्ल्या कोंकणी भुरग्यांलें मुळावें शिकप सदींच कोंकणी भाशेंत जावंक जाय हांतूंत निखालूस वाद ना. सांसंव हें अुतर आयकना फुडें, कोणाय कोंकणी भुरग्याल्या दोळ्यां सामखार ताचें चित्र घसघशीत बरें अुबें रावता. ताचो रंग आनी रूप तागेल्या दोळ्यांक दिसता, अितलेंच न्हंय, तर ताचो वास तागेल्या नाखाक येता आनी रुचूय ताचे जिबेक कळटा. हाचे अुफाट्टें, 'मोहरी', 'mustard' वा 'mostarda' म्हळ्यार, कुड्ड्यान काळोखांत सांसपिल्ल्यावरी ताची गत जाता. तें रानांत पट्टा.

**सुपुल्ल्या कोंकणी भुरग्यांक कोंकणी भाशेन शिकैल्यार सटकरून समज पडून, शिकपांत तीं बेगीन फुडें सरतात**, म्हणपाचो अणभव मडगांवचे 'सेवासमितीक' आयला.[७०] गोमन्तक छापखान्यान अुजवाडायल्लें कोंकणी पैलें पुस्तक तांतूंत ल्हान चलयांक शिकैतात. १९३६ वर्सापासून ह्या मुंबै शारांत 'गोवा अेमिग्रंट्स फंड कमिटी'न पुर्तुगेज सरकाराच्या खर्चान कोंकणी भाशेची साळ अुगडल्या. तांतूंत कोंकणी पंचायत-समितीन रचिल्लें आनी रोमी लिपींत छापिल्लें कोंकणी पैलें पुस्तक शिकैतात. पांच वर्सांच्या ल्हान भुरग्यांपासून वीस वर्सांचे जाणटेय थैं शिकतात. हे सगळे कोंकणी क्रिस्तांव भुरगे. तांकां कोंकणी भास सोपेपणान समजता आनी बरोवंक वाचूंक बेगीन येता, म्हणपाचो अणभव आयला. हाचे वैल्यान, आमगेल्या भुरग्यांक कोंकणी भास कितली आदावाची आसा तें सांगूंक नाका. ही भास सोडून तांकां मराठी, कानडी वा हेर भासो शिकैल्यार तांगेलें मोलादीक आयुश्य फुकट वेता. त्या भासांचीं अुतरां घोंकून तांचो अर्थ पाठ करपांत तांचो वेळ आनी बळ होगडावता. हें लुस्कान तांगेले कोंकणी आवै-भाशेन जायना. कित्याक, कोंकणी अुतरांची चित्रां तांगेल्या दोळ्यां मुखार नाचतात. तीं आनी तांचो अर्थ तांकां घोंकचो लागना. देखून, भौ. माधवबाब शानभाग म्हणटात तें अिल्लेंय लटकें न्हय. कोंकणी भास शिकून, नवी आनी आथवी भास शिकपाचें भुरग्यांल्या माथ्यावैलें ओजें सकला देंवता. ही ल्हान-समान नफा न्हय.

काशयेच्या हिंदू विद्यापिठाच्या रुपेरी अुत्सावांत, गांधी म्हात्म्यांनी अिंग्रजी भाशेसंबंदान हालींच जें कितें म्हळां तें खासा हिंदुस्तानांतल्या हेर भासांकूय लागू आसा. म्हात्मे म्हणटात कि **आवै-भास सोडून हेर भास शिकल्यार भुरग्यांले बुद्दिचें बळगें अुणें जाता. दुसरी भौंस म्हळ्यार भुरग्यांले वाटेंतलें आडबारेंच.**[७१] १९४० वर्सा म्हात्म्यांनी हिंदुस्तानांत तुर्ताक चड गरज आशिल्ल्या वावराचीं तेरा कलमां कळीत केलीं. तांतूंतलें बारावें कलम आवै-भाशेचो मोग (मातृभाषाप्रेम) अशें आसून, ते म्हणटात कि ''राष्ट्राची सेवा करतल्यांनी **लोकांल्या मनांत**

आपणांले आवै-भाशेचो मोग रूजोवचो. हिंदुस्तानांतल्या सगळ्या भासांचो तांकां आदर आसचो. तांगेली खाशेली आवै-भास कसलीय आसली जाल्यार, तें जैं-जैं वेतीत थैं-थैंच्या लोकांली आवै-भास तांणी शिकून, तांगेलो आवै-भाशेचो आदर तांणी चडोवचो.''[७२] हाचेवैल्यान हिंदुस्तानांतल्या वेगळ्या वेगळ्या लोकांल्यो आवै-भासो राखून धरपाचें अगत्य गांधी म्हात्म्यांक कितलें आसा तें घणघणीत दिसता.

निरक्षरी लोकांक अक्षरी करूंक आवै-भाशे सारको हेर अुपायूच ना. राष्ट्रांतल्या सगळ्या लोकांक बरोवंक-वाचूंक आनी हिशेब करूंक येतकूच, तें दोळे आशिल्लें राष्ट्र जाता. नाजाल्यार तें कुड्डें राष्ट्र. राष्ट्राचें शेत-कामत आनी वेपार-अुद्योग चलोवंक, तशेंच आपलें आनी राष्ट्राचें हित सादूंक, जणअेका मनशाक - दादल्याक आनी बायलेक - बरप येवंकूच जाय. ह्या संबंदान रशियाच्या सॉव्हयेट सरकाराची मांडणी देख घेयसारकी आसा. रशियांत १६० वैर राष्ट्रां आसून तांतूंतल्या भुरग्यांले मुळावें शिकोवप दरअेका राष्ट्राचे आवै-भाशेंत जावंक जाय असो थैं कायदो केला. ह्या कायद्याक पाळो मेळूंक आदीं जायत्यो नडी आयल्यो. भासो सुमार दोनशीं आसून कांय भासांक लिपीच नासली. देखून नव्यो लिपी घडच्यो पडल्यो आनी मागीर तांतूंत साळेंत शिकोवपाचीं मुळावीं पुस्तकां रचचीं लागलीं. हे तरेन थैं आतां मेरेन ७४ नव्यो लिपी घडल्यात आनी कांय पोरण्यो लिपी निवळायल्यात. वेगळ्यावेगळ्या भासांचे टायपरायटर आनी ल्हव-लिपीय घडल्यात. मुळाव्या प्रमाण पुस्तकांत दरअेका राष्ट्राचो खाशेलो अितिहास आनी ताची थळावी तशीच आस्पती-भूंयवर्णना शिकोवची मांडणी केल्या. रशियांत आतां आठ पासून बारा वर्सांचीं भुरगीं निरक्षरी मेळनात. थैं दोंबाऱ्यांक लेगीत तांगेली रोमानी भास शिकोवची जतनाय घेतल्या. हांगेलो आंकडो साप ल्हान म्हळ्यार ६१ हजार आसा. रशियांत तरेकतरा राष्ट्रां, धर्म आनी भासो आसतनाय, तांगेले वेगळेचार राखून तांतूंतसून अेकजाती अेकचार घडिल्लो पळोवन अजाप जाता आनी कौतूक दिसता. हो अेकचार राखूंक थैंच्या लोकांक आपणांले आवै-भाशेचें शिकप जातकूच रशियन भास शिकची पट्टा. तांगेलें ताळवें शिकप रशियन भाशेंत जाता. ही भास सरकारी आसा, देखून जणअेकाक येवंकूच जाय. तरी आसतना, दरअेका राष्ट्राचो कारभार तागेले आवै-भाशेंतूच करची मांडणी केल्या. हे रितीन, दोंबाऱ्याक लेगीत तागेले रोमानी भाशेंत छापिल्ले सरकारी कायदे, कळीत-पत्रां आनी जाळवण्यो वाचूंक मेळटात. हे भाशेन, थैं अेकलोय मनीस सरकारी कारभारांतसून वेगळो पडिल्लो दिसना.[७३] लोकांक तांगेले आवै-भाशेंत शिकोवपाचें

कारण, तांकां ते भाशेंत समज बेगीन पट्टा, ते बेगीन बरपाक्षरी जातात आनी गिन्यानाचीं दारां तांच्या फुड्यांत शेकानशेक पासाक लागतात, हेंच आसा.

भुरग्यां-शिकोवपाची खोल येवजणी करतली पंडिता प्रोपेर्सियाबाय अणभवीक अुतरांनी जें सांगतात तें जणअेकान ध्यानांत धरूंक जाय. पंडिताबाय म्हणटात, ''भुरग्याले आयुश्याचे मुस्तायकेंत तागेली आवै-भास म्हळ्यार संवसारांतल्यो तागेल्यो जिखो जोडपाचें अेक सगळ्यांत अुंच शस्त्र आसा. धाकटुल्यांलें आत्मपण घडूंक आनी पूर्ण करूंक तीच अेकली पालव दिता.''[७४] आमगेले विद्वान तत्त्वगिन्यानी पंडीत म्हणटात, ''भुरग्याक जी भास निजाची येना ते भाशेंत तागेल्या बोंगेतल्या आत्म्याक अुलोवंक लावचो हें कसाबपण आसून, आमगेले आवै-भाशे आड तो अेक गुन्यांव आसा.''[७५] देखून, आमी आमगेल्या दर अेका गांवांत कोंकणी साळो घालून तांतूंत आमगेल्या भुरग्यांक शिकोवची मांडणी करूंक जाय.ह्या खातीर आमी मुळावीं वाचचीं पुस्तकां, तशींच गणीत, व्याकरण, भूंय-वर्णना, अितिहास बी हेर पुस्तकां भुरग्यांल्या साद्या-सोप्या अुतरांनी रचून अुजवाडावंक जायत.

**कोंकणिची लिपी** : - हें नांव काडिना फुडें जायत्या जाणांल्या काळजांत कच्च जाता. ते आंग काट्टात. कांय जाण म्हणटात कि कोंकणीक लिपीच ना. परंत **वेदांची जी लिपी तीच कोंकणिची लिपी** हें ते विसरतात. पणून ही लिपी आमगेल्या जायत्या भावांक, म्हळ्यार क्रिस्तांवांक, मुसलमानांक आनी हिंदुंकूय येना. कांय क्रिस्तांव भाव कोंकणी भास रोमी लिपींत बरैतात. मुसलमान भाव फारशी लिपींत बरैतात आनी कांय हिंदू भाव कानडी लिपींत बरैतात. बाकिचे लोक देवनगरी लिपींत बरैतात. हे तरेन, अेकान बरैल्ली कोंकणी भास दुसऱ्याक वाचूंक येना. हाचो परिणाम वायट जाता. कोंकणींत ज्यो नव्यो येवजण्यो वैर सरतात त्यो सगळ्या कोंकणी लोकांक समजूंक पावनात. कोणेंय कोंकणी ग्रंथकर्त्यान कसलेंय पुस्तक बरैलें जाल्यार, लिपी समजना जावन, ताची रूच हेरांक घेवंक मेळना. कोंकणी लोकांलें गिन्यान वाडूंक जाय जाल्यार ही दशा बदलूंक जाय. कोणेंय कसलो ग्रंथ बरैलो जाल्यार, तो सगळ्यांक वाचूंक येवंक जाय. हाकां अेकूच अुपाय, म्हळ्यार कोंकणिची अेक लिपी थारावंक जाय. परंत जायतीं वर्सां वेगळ्या वेगळ्या लिपिंनी बरोवची संवंय जाल्ल्यान, त्यो त्यो लिपी अेकदम सोडून दिवंक कठीन वेतलें. परंत अुपाय ना. आमगेली भास अेकरुपी जावन ती घसघशीत वाडूंक जाय, आमगेल्या लोकांल्या शिरंत्रांनी नवें गिन्यान पावंक जाय, आनी संवसारांत

आमगेले भाशेक आनी आमकां मान मेळूंक जाय जाल्यार, तिची अेकूच लिपी थारावंक जाय. दोन तीन लिपी चलूंक दिल्यो जाल्यार, **कोंकणी भाशेच्यो दोन-तीन भासो जावंक पावतल्यो; तिका प्रमाण रूप येवचें ना आनी कोंकणी राष्ट्राच्या अेकचाराक व्हडली नखनामी जातली.**

म्हाका रोमी आनी देवनगरी लिपी येता. कानडी आनी फारशी येना. हांवें म्हगेलीं कांय पुस्तकां रोमींत आनी कांय पुस्तकां देवनगरींत बरैल्यांत. म्हाका सगळ्या लिपिंचो आदर आसा. परंत आमच्या आनी कोंकणी भाशेच्या हिताक पट्टा तें आमी करूंक जाय. ह्या संबंदान आमगेलीं अणभवी आनी विद्वान मनशां कितें म्हण्टात तें पळोवंया. पंडिता प्रोपेर्सियाबाय, ह्या विशयाचो खोल अभ्यास करून म्हणटात, ''**आमगेली भास लातीं अक्षरांनी बरैल्यार तिचो मंजूळ नाद भंगता, तिचें अेकरुपी अेकलेपण आनी पूर्ण वाडपाची तांक ना-शी जाता, आनी ज्यो अेवरोपी भासो आमी आदीं शिकतांत तांतूंतले अुच्चार आनी अुतरां तिचे खातीर जायां घेवन आमी ती विद्रूप करतांत**; तशेंच, गोंयां तुर्ताक भुरग्याले भाशे संबंदान जे विशाळ प्रस्न वैर सल्ल्यात, ते सगळे अेके देवनगरी वर्णावळिनूच बरे तरेन सुट्टीत, म्हणपाचें खरेपण ह्या शिकपान म्हाका आयलें.''[७६] दिवाडेचे विद्वान कोंकणे पाद्री कोनेग आंतोन जुजे दे अेरेदिय सदींच म्हणटाले कि गोंयच्या मुळाव्या साळांनी **कोंकणी भास देवनगरी लिपीन शिकोवंक जाय.** तांकां कोंकणी भाशेचो मोटो अभिमान आसून, अिगर्जांनी ते कोंकणींतूच अुपदेस करताले. तांगेलो ताळो खणखणीत आनी गोड. पणजी, मडगांव, म्हापशें, धाकटें गोंय आनी हेर जायत्या अिगर्जांनी तांणी कोंकणींत अुपदेस केला.[७७] म्हैसूरचे आर्थर जे. अेच. कुलास म्हणटात, ''कोंकणी भाशेक खाशेली लिपी ना अशें म्हणप कोण कोंकणी पुत आनी धूव सोसून घेत? कोंकणी आवै आर्य कुळांतली. देखून तिची लिपी देवनगरी... केमाल पाशान तुर्की भाशेक आरबी बदला रोमी लिपी घेतल्या; तशीच कोंकणीक ती लिपी घेवची अशी कांय जाणांली म्हणणी... परंत **कोंकणी भास रोमी लिपींत बरोवंक आनी वाचूंक चड कश्ट. ती देवनगरींत बरोवंक आनी वाचूंक चड सोपी.** कित्याक, तिचे अुच्चार देवनगरींत बरोवंक बरे येतात; तशे रोमी लिपींत येनात. देखून, देवनगरी लिपीच आमी वेंगेंत मारुंया आनी तिची अुमा घेवन तिका बरो येवकार दिवंया.''[७८] आमगेले विद्वान तत्वगिन्यानी पंडित म्हणटात, ''**आमगेले भाशेचे जिवणेक रोमी परस देवनगरी लिपी खऱ्यानीच चड मानता तसली आसा** आनी आमगेलें बरप थीरपणान थारावंक तीच अेकादुकली अुपकारा पट्टली. परंत तिचे कुशीक रोमी लिपीय

अुपकारायल्यार जाता.''[७९]

हे तरेन, आमगेल्या विद्वान कोंकणी क्रिस्तांव भावां-भैणिंलें मत्त देवनगरीचे कुशीन आसा, हें अुकतें दिसता. देखून, **हीच लिपी आमी कोंकणी भाशे खातीर थारायल्यार बरी.** आतां जायतीं कोंकणी वर्तमानपत्रां आनी नेमाळीं रोमी लिपींत अुजवाडा येतात आनी आजवेर जायतीं पुस्तकां हे लिपींत अुजवाडा आयल्यांत तांचें कशें जावचें? म्हाका दिसता कि जीं पुस्तकां रोमींत छापल्यांत तीं फुडले खेपेच्या वेळार, देवनगरींत बदलून छापची मांडणी करची. रोमी वर्तमानपत्रां आनी नेमाळीं हांणी पांच वर्सांची मुजत घेवन, रोमी आनी देवनगरी लिपींत मजकूर छापचो आनी ल्हवू-ल्हवू आपल्या वाचप्यांक देवनगरिची सवंय लावन, निमाणें अेके देवनगरी लिपींतूच सगळो मजकूर छापची मांडणी करची. हीच मांडणी कानडी लिपिकूय लागू करची. म्हणटकूच पांच-धा वर्सांचे अखेरेक, आमगेली कोंकणी सरस्पत अेकाच रंगाचें घसघशीत कापड न्हेशिल्ली दिसतली आनी तांतूंत ती बरी सोबतली. आमगेल्या भुरग्यांक शिकोवचीं मुळावीं पुस्तकांय आमी आतांपासुनूच देवनगरी लिपींत छापची मांडणी केल्यार बरी.

देवनगरी लिपीपासून सगळ्यांत व्हडली अेक नफा आसा ती ही कि आमकां हिंदी भास शिकूंक सोपी पट्टली. चड लागीं पाविल्ल्या स्वराज्यांत, हिंदी भास ही राष्ट्रभास आशिल्ल्यान, सगळ्या हिंदुस्ताना वांगडा आमकां कोंकण्यांकूय शिकची पट्टली. देखून, **अेन्नादर आमी देवनगरी लिपी लागीं करुंया.** ना जाल्यार आमी फाटीं अुरतले. हांवें हें म्हगेलें मत्त तुमच्या फुड्यांत मांडलां. हांतूंत म्हगेलो हटवाद ना. तुमकां धा-जाणांक जें मानता तेंच तुमी करात. पणून कोंकणी भास अेकरुपी करून ती व्हडविकेक हाडात.

क्रिस्तांव भावांनी देवनगरी लिपी लागीं करतकूच, ते आपशींच मराठिच्या मार्गांत पावतले आनी कोंकणी भास सोडून दिवन मराठी शिकूंक लागतले, असो आमगेल्या **कांय विरोध्यांलो गोड भ्रम** आसा.[८०] परंत तांतूंत जीव ना. म्हाका आनी ह्या सभेंतल्या जायत्या जाणांक देवनगरी लिपी आनी मराठी भासूय सुमाराची येता. परंत आमी आमगेली कोंकणी आवै-भास सोडून दिवंक ना. घांटावैंल्या आनी सावंतवाडी-मालवणच्या आमगेल्या क्रिस्तांव भावांक देवनगरी लिपींत मराठी बरोवंक भौ बरें येता. पुण तांणीय आपली माये-मोगाची कोंकणी सोडून दिवंक ना. तांगेल्या संस्थांचो सगळो बरपी वेव्हार ते कोंकणींतूच चलैतात.

**कोंकणी वाक्यांची बांदावळ:**- आमगेले क्रिस्तांव भाव - चडकरून गोंयचे क्रिस्तांव - कोंकणी वाक्यांची बांदावळ अेवरोपी तरेची करतात. देखीक, 'अेक

भाटकार आसलो, तो भाटांत वेतालो आनी आंबे काट्टालो' अशें बरोवचे बदला ते 'आसलो अेक भाटकार, तो वेतालो भाटांत आनी काट्टालो आंबे' हे वा अशे तरेन बरैतात. ही रीत हिंदुस्तानांतल्या आर्विल्ल्या आर्य भासांचे रिती भायली आसा. ती कोंकणी भाशेक सामकीच आथवी दिसता. देखून, आमगेले बरोवपी आर्य भासांची रीत चलैतीत जाल्यार बरें जायत.

**भाशेचो मान :-** संवसारांतल्या सगळ्या भासांनी 'तूं' हें अुतर आसा. पुण बरोवपांत आनी अुलोवपांत अेकामेकांक 'तुमी' म्हणची चाल आसा. ही माना-भौमानाची चाल आमी कोंकणेय चलैतांत खरे; पणून आनीकूय चड मेकळेपणान चलोवंक जाय. म्हणटकूच, आमगेल्या अुलोवपाक आनी बरोवपाक भारी-भुशणाची कान्त मारतली. 'अरे' हें अुतर आमी आमगेल्या कोशांतूच दवल्ल्यार बरें. शिश्टांनी जाल्यार तें अेकामेकांक लावचें न्हय. हेंय अुतर हिंदुस्तानांतल्या सगळ्या आर्य भासांनी आसा; पुण तें चडशें घोळैनात.

**प्रमाण कोंकणी:-** कोंकणिच्यो जायत्यो तरा आसून ती अेकरुपी न्हय अशें कांय म्हणटात. संवसारांतली आजची गिरेस्त भास जी अिंग्रजी तिच्योय जायत्यो तरा आसात. तश्योच हिंदुस्तानांतले दरअेके देशी भाशेच्योय जायत्यो तरा आसात. आमगेली कोंकणीच संवसाराभायली अशें न्हय. तिच्योय तरा आसात. देखून, तांचो अेदो आकान्त कित्याक? अिंग्रजी आनी हेर भासांचें अेकरूप दिसता तें फक्त बरोवपांत. अुलोवपांत न्हय. आमगेली कोंकणी भास बरोवपांत जितली घोळत तितलें तिचेंय अेकरूप जावंक कळाव लागचो ना. तिच्यो कितल्योय तरा आसल्यो जाल्यार, डॉ. ग्रियर्सन म्हणटात कि तिगेलो सामान्य सबावगुण सगळ्यांत सारको आसा. देखून तिच्यो आनीक पोट-भासो करची गरज ना.[८१] कोंकणी अेकरुपी करूंक भौ. माधवबाब शानभाग हांणी जो अुपाय सुचैला तोच खरो. आमी जणअेकलो आमगेल्यो भांगराच्यो म्होरो बाजारांत हाडुंया. तिजोरेंत चावये-कुलपांत दवरुंया नाका. म्हणटकूच, तांची थैं पारख जावन, जी म्होर बरी चलता ती आपशींच लोक हातांत घेतलो. म्हजी म्होर बरी, म्हजी म्होर खरी अशें म्हणून हटवाद करपाची निखालूस गरज ना. भौ. दिनकरबाब देसायांले म्हणणे भाशेन, आमी अेक कोंकणी म्हैनाळें देवनगरी लिपींत काडून तांतूंत फक्त काणयो आनी नवल-काणयो दिवच्यो आनी त्यो कोंकणी लोकांनी आपणाक येता ते तरेन बरोवच्यो आनी तश्योच छापच्यो. म्हणटकूच थोड्याच वर्सांनी सगळ्या कोंकणी लोकांक रुचता आनी मानता तसली प्रमाण कोंकणी वैर सरतली.

**कोंकणी पुस्तकां रचप:-** कोंकणी बरोवप्यांनी परक्या भासांतल्या पुस्तकांचीं

भाशांतरां आनी रुपांतरां करचे बदला, भोंवतणच्या निजाकडेन ध्यान दिवन आपले मतींतसून स्वतंत्र सरस्पत घडची हें सगळ्यांत बरें. ही सरस्पत अशी जावची कि परक्या भासांनी तिका आंवडे गिळचे.

शास्त्रीक पुस्तकांचीं भाशांतरां आमकां करचींच पट्टलीं; परंत काणयो, नवल-काणयो आनी खेळ हांचीं भाशांतरां कित्याक? आपणाल्या समाजाची रीत-रवाज पळोवन, तिचें चित्र काडूंक चड सोपें न्हय? तांक आशिल्ल्यान हीं स्वतंत्र चित्रांच रंगोवचीं.

परक्या भासांतल्यो काणयो, नवल-काणयो आनी खेळ हांचीं भाशांतरां करचीं जाल्यार, तांतूंतल्यो चाली-रिती राखून करचीं. पुण तीं आमकां रुचचीं नात. देखून, रुपांतरां केल्यार बरीं. पणून हें काम भाशांतरा परस चड कठीन. जाका तांकता ताणेंच करचें. रुपांतरां करचीं जाल्यार अशीं करचीं कि तांकां पांयांच्या नाखटां पासून माथ्यावैल्या केंसांमेरेन कोंकणी भेस घालून, सामकींच निजाचीं कोंकणी करून सोडचीं. तीं परक्या भासांतलीं अशें सांगल्या बगर केन्नाच कोणाक कळचें न्हय. परंत हीं रुपांतरां मूळ खैंच्या पुस्तकाचीं हें पुस्तक-कर्त्यान प्रस्तावनेंत अगत्य कळोवचें. तशें केलें ना जाल्यार 'मुलुखगिरी' केल्ल्यावरी जाता आनी कर्त्याची दशा वेता. कोंकण्यांक हें सोबना.

परक्या भासांतल्या पुस्तकांचीं भाशांतरां अुतराक अुतर घालून करूंक जायनात. तशें केल्यार, परके तशेंच कोंकणी भाशेचीय दशा वेता. जायते फावटीं अनर्थ जाता. देखीक, 'he gave up the ghost' ह्या अिंग्रजी वाक्याचें कोंकणी भाशांतर 'ताणें भूत वैर दिलें' अशें करिनासतना, 'तो मेलो' अशें करूंक जाय. तशेंच, 'तो बाहेर पडला' ह्या मराठी वाक्याचें कोंकणी भाशांतर 'तो भायर पडलो' अशें करिनासतना 'तो भायर सल्लो' अशें करूंक जाय. 'भायर पडलो' म्हळ्यार 'मेलो' असो अर्थ जाता.

**भाशेंत जड-जडाव:-** दरअेके भाशेंतल्या बरोवप्याक आपलें बरोवप गिरेस्त दिसचें अशें दिसता. ताचो समज असो आसता कि लोकांक सटकरून समजनात तसलीं जड-गुळो अुतरां भाशेंत घालतकूच ती गिरेस्त जाता. कांय बायलो जायांचें भांगर हाडून आंगार घालतात, तसलीच ताची गत. ह्या अडेच्या भांगरान त्या बायलांक कोण गिरेस्त म्हणना आनी सोबूय येना. भास जड-जडावाची करची, म्हळ्यार पुर्विल्ल्या भासांतलीं अुतरां भितर शिरकटावचीं. ह्या नादान अेवरोपी बरप्यांनी लातीं आनी ग्रेग भासांतलीं जायतीं अुतरां आपल्या भासांनी

शिरकटायल्यांत. आमच्या हिंदुस्तानांतल्याय भासांनी संस्कृत अुतरां शिरकटायल्यांत आनी शिरकटायतात. बंगाली लोकांक ही जायती वज आसा ग्रं. सादीं-सोपीं अुतरां घोळटेंत आसतना, ते बळयांच अगडबंब संस्कृत अुतरां आपल्या बरपांत घालतात. हे तरेन, लोकांले घोळटेंतली भास वेगळी आनी बरोवची भास वेगळी अशी अवस्ता थैं जाल्या. हाचो परिणाम असो जाला कि जायत्या बंगाल्यांक आपणाली सरस्पत धड पळोवंक मेळना. हिंदी बरप्यांकूय हो वसो लागला. 'हो बरपी जेन्ना हातांत लिखणी धरता, तेन्ना धेयभान विसरून संस्कृतान सामको बेबदो जाता खैं.'[८२] ह्या शिरकटायल्ल्या संस्कृत अुतरांनी भाशेक सोब येवचे बदला, तिच्या आंगाक चामखूळ आनी वाळकां जाल्ल्यावरी दिसतात. सतराव्या शेंकड्यांत 'यमक्या' वामनाच्या वेळापासून मराठीकूय हें पिशें लागलां. त्या आदीं मुकुंदराजापासून तुकारामामेरेन सुमार ३०० वर्सां सादी मराठी घोळटाली. तांतूंतूय तुकारामालें कवीत भौच सादें आनी सोपें. ताचे फाटल्यान मराठिचो घुस्मटमार जावंक लागलो. मोरोपंतान जाल्यार संस्कृत कपयो मारून मराठिची गोजडीच शिंवली ! 'हा भवदर्थोन मान्य हो गा या' असली तागेली भास! मोरोपंताली मराठी अितली कठीन जाल्या कि आमगेलो कोंकणो पंडीत महामहोपाध्याय महेश्वरबाब सुखठणकार हाका तागेल्या आर्यांची सोप्या संस्कृतांत फोडणिशी करची गरज पडली ! 'मराठिच्या शिवाजी'न जाल्यार मोरोपंतालोच मानो घोळैलो आनी हालिंच्या वर्तमानाक मराठींत 'सकृद्दर्शनी अद्यतन आधुनिक अुपस्थित दिनांक प्रभृति' अुतरांनी अच्छेव मांडला ! असल्या अुतरांनी भास जड-जडावाची जाता खैं! हांवें जायते मराठी बरोवपी आनी अुलोवपी पळेल्यात कि भाशेक अडेची जडसाण हाडूंक ते संस्कृत अुतरां घालतात खरे; परंत तांकां तांचो अर्थूच समजना. केन्नाकेन्ना ते अर्थाचो अनर्थ करतात. गुजराथी भाशेच्या कांठ्यारूय हें जड-जडावाचें भूत हालीं बसूंक लागलां. गुजराथी भास म्हळ्यार वेपाऱ्यांली वेव्हारीक भास. सादी-सोपी गोड भास. तांतूंत बळयांच संस्कृत अुतरां भरसून तांणी ती अडेची पंडिती भास कित्याक करची तें समजना. काश्मिरी लोकांनी मात आपणाली भास निवळ बरी राखल्या. काश्मिरा संस्कृत पंडीत जायते आसात. परंत तांगेलो सगळो कोश तद्भव अुतरांनी भल्ला. तांतूंत तत्सम अुतरां निखालूस नात म्हळ्यार जाता.[८३] आमी कोंकणे संस्कृत शिकून पाडांगडे पंडीत जावंया, परंत तांतूंतलीं अुतरां कोंकणी भाशेंत गरज नासतना शिरकटावन, आमकां ती भास येता, म्हणपाचे पोले बडवाचार केन्नाच दाखोवंया नाका. आवै, बापूय, धूव, भाव, भैण, गिन्यान हीं गोड कोंकणी अुतरां आसतना आमी बळयांच माता, पिता, कन्या, भ्राता, भगिनी, ज्ञान हीं

संस्कृत अुतरां कित्याक अुपकारावचीं? कसली रूच आनी कसली सोब आसा तांतूंत? असल्या ह्या जायांच्या जड-जडावान विद्येची आनी गिन्यानाची वाड जावंक अडचण येता. भास अुलैतल्याक आनी आयकतल्याक, बरैतल्याक आनी वाचतल्याक सगळ्यांक सारकी रोखडी समजूंक जाय. थोड्याशा पंडितांक समजली म्हणु जायना. कास्टी न्हेशिल्ल्या गावड्याक लेगीत ती समजूंक जाय. ताका लेगीत दिसूंक जाय कि कोंकणी भास आपणाली. आमी हे गजालींत अिंग्रजांली देख घेतल्यार बरी. 'लॅटिनिझम'चो म्हळ्यार लातींकाराचो तांकां मनापासून वीट. तांगेल्या बिब्लांतली भास पळ्यात कितली सादी-सोपी. आपणाले भाशेंतलीं मुळचीं अँग्लो-सॅक्सन वा पेरणीं अिंग्रजी अुतरां राखून दवरूंक ते मोटी जतनाय घेतात. तांगेलीं freedom, welcome, daily, weekly हीं कितलीं सादीं अुतरां. ह्याच अर्थाचीं जीब मोडून पूड करतात तसलीं हिंदी लोकांलीं स्वातंत्र्य, स्वागत, दैनिक, साप्ताहिक बी अुतरां पळ्यात! आमी कोंकणे असली पिसाय करुंया नाका. संस्कृत ही आमगेली आजी खरी. कोंकणी ही तिगेली अपुर्बायेची म्हालगडी धूव खरी. परंत तितले खातीर आमी आमगेले आजयेक मेळत तेन्ना नागोवंया नाका. आमी आदीं आमगेल्या भाटांत माडांक नाल्ल आसात कि नात ते पळोवंया; आनी थैं अेक सुकिल्लो बोंडोय दिसलो ना जाल्यार, मागीर आजयेच्या भाटांतल्या माडांचेर चडुंया. परंत आमगेलीं भाटां पिकाळ आसात. तीं आमगेले आवैक वरदक्षणेक मेळ्ळ्यांत. देखून, भौनभौन आजवळच्या दायजाचेर दोळो दवरची आमकां गरज ना. आमी संस्कृत अुतरां लागीं केलींय जाल्यार तांकां मोव-शें कोंकणी आंगलें-तोपरें घालून मोवाळ करुंया. वोगीच आमची जीब मोडून पूड करुंया नाका.

कोंकणी भाशेंत अर्थान अुपाट भरिल्लीं तरेकतरा जायतीं अुतरां आसात. आमी तीं सोदुनूच काडूंक जायत. ह्या कामांत आमकां परक्यो भासो शिकूंक नाशिल्ल्यो कोंकण्यो बायलो आनी कोंकणे गावडे चड अुपकारा पट्टीत. आमगेली बरप शिकूंक नाशिल्ली पुर्विल्ली कोंकणी बायल म्हळ्यार कोंकणी भाशेचो जिवो तट्टीत कोश आनी लोक-वेदाची गिरेस्त खण. म्हाका म्हगेले आवैन, भैणीन आनी घरकान्नीन कितल्याशाच कोंकणी अुतरांची फोडणिशी करून सांगल्या. हे तांगेले अुपकार हांव केन्नाच विसरचो ना. ह्यो तिगीय बायलो साळेंत केन्ना वचूंक नासल्यो आनी 'श्रीगणेशा' केन्ना शिकूंक नासल्यो; परंत कोंकणी भाशेंतल्यो त्यो पंडिताच अशें हांव समजतां. असल्यो पंडिता आतां दिसानदीस अुण्यो जावंक लागल्यात. आतां आमगेल्यो धुवो जमनीर पडनाफुडें मराठी, कानडी, पुर्तुगेज आनी अिंग्लेज भासो पाठ करूंक लागल्यात आनी कोंकणी विसरूंक लागल्यात ! गावड्यांलीय हीच गजाल.

**कोंकणी अुतरावळ:** - कोंकणी भाशेंत जायतीं **देश्य** म्हळ्यार **कोंकणांतलीं मूळदेशी थळावीं** अुतरां घरावीं जावन रावल्यांत. देखीक घग्घरो > घागरो. संघाडी > सांगड. सिंबाडी > सिंबरो. कोलित्त > कोलती. गोहो > घोव. बाअुल्ली > बावली.[८४] असलीं अुतरां आमच्यान सोडुं नजत.

कोंकणींत संस्कृतांतलीं तशाक तशीं, बदल जायनासतना अुरिल्लीं, म्हळ्यार **तत्सम अुतरां** भौ थोडीं. अुदक हें तत्सम अुतर कोंकणींत जायतें घोळटा. असलीं पोरणीं तत्सम अुतरां आमी राखूंक जायत. पणून नवीं तत्सम अुतरां गरज नासतना घेवचीं न्हयत.

कोंकणींत संस्कृत मूळरूप बदल्ललीं म्हळ्यार **तद्भव अुतरां** जायतीं. हांणीच आमगेले भाशेची गिरेस्तकाय चडैल्या. देखीक अहम् > हांव. चिद्रूप > जिंत्रूप. माकीन (८-२७-८[८५]) > मगेलो, म्हगेलो. त्वाकीन > तुगेलो. आस्माकीन > आमगेलो. यौष्माकीण > तुमगेलो. देवकार्य > देवकारें. मंगलकार्य > मंगळकारें. भवति > बाय. भगवती > बाय. भगवतील > बायल. अंबा > बा. अंबार्या > अव्वाय्या > अव्वैय > आवै. भगोस् > अहो. भोस् > हो, अहो. मातुलानी > मावळण. अघोस् > अगो, गो. तृण > तण. भगवान् > बावा; भगवो. प्रभात > फांतें, फालें. ज्ञान > गिन्यान. मधु > म्होंव. लघु > ल्हव. ज्ञानवाद > जाणवाय. कुण्डल > कोंडलें. मशक > मुसक, मूस. मण्डपिका > मानडबी. क्रयविक्रय > किरे-विकरे. नवनीत > लोणी. लिह् > ल्हेंव. लू > लूंव. लाभ > लाव. मार्ग > मागो (केंसांचो.) मर्यादा > मेर. वेणु > वेळू. सरस्वती > सरस्पती. स्कंध > खांदो. वेला > वेळ (समुद्राची.) कर्णपूर > काराफूल (बायलांली कानांत घालची भांगराची अेक वस्त.) कर्णपालि > काराब (बायलांली कानांत घालची भांगराची अेक वस्त.) वज्र, वंच > वच. अपि > बी. (देखीक, गोड, साकर, तांदूळ बी.) प्रलोकय > पळे. कुलगृह > कुळार. जयघंटा > जघांट. वौषट्, वषट् > वशाड (देखीक, ताचें वशाड पडूं! मुदलाक देवांक आनी पितरांक निवेद दाखैतना होरावचें हें भौमानाचें अुतर आसलें. आतां तेरेखोलाचे अुत्तरेक तें स्राप दिवंक अुपकारायतात!) द्वीप > जुवें. मानव > मानाय. वीर्य > विरी. स्वयंभू > सैमा. तिलक > तिकली. महानस > भाणस. परुत् > पोरूं. व्यापार > वावर. त्रपुसी > तवशें. पीठ > पेड. ऋजु > अुजू. खद्योत > काजुलो. न कृधि > नाका. कथयन्ति > कहयिं > खैं (देखीक, तो आज कारवारा गेलो खैं.) आर्ये > आरे (बायलांक अुलो करतना लावचेलें भौमानाचें अुतर.) वोढव्या > वोडवी (लग्न जावचेली व्होंकल.[८६]) नौवित्त, नौवित्तक, नौवितक > नायतो (नवायत मुसलमान.[८७])

श्रावक > सवराक, शिवराक.[८८] ब्रह्महत्या > बिर्मत.[८९] पद्म > पोमो. ब्रह्मा (९-९६-६) > बोमो, बोंबो. फेन (१०-६१-८) > फेण. अीरय (१०-५९-१०) > अिरीरी कर (बैलाक.) दूक (१०-५९-९) > दुकी. त्रिक (१०-५९-९) > तिकी. अवर (१०-५६-७) > आयलो (आलतडचो.) पर (१०-५६-७) > पेलो (पलतडचो.) शक्मना (१०-५५-६) > शकमीं (तांकीन, बळान.) मनुष (१०-४९-७) > मनीस. द्रोण (१०-४४-४) > दोणो. स्कम्भ (१०-४४-४) > खांबो. कुह (१०-४०-१) > खैं. दुहिता (९-११३-३) > धूव. कृष्ण (१०-१६-६) > काळो. आभरत् (९-११३-३) > आहडल् > हाडलो. शकुन (१०-१६-६) > सुकणें, सवणें. आभु (१०-१२९-३) > हाबू (ब्रह्म.) कत् (१०-१०-६) > कितें. प्रपा (१०-४-१) > पोंय (अुदकाची.) सुतुक (१०-३-७) > शिटुक. अित् (१०-२-३) > अिच् > च (देखीक, स: अित् - तोच.) मण्डूक (९-११२-४) > मांडकी. कर्मार (१०-७२-२) > कामेरी. स्वादु (९-९७-४) > सुवादीक. पुत्र (९-९७-३०) > पुत. चमू (९-९७-४६) > चेंबू. कलश (९-९६-२४) > कळसो. अूध (९-९३-३) > होंटी. सदा (९-९०-६) > सदीं. वायु (९-७-७) > वाय, वाव. पृष्ठ (९-८३-२) > फाट. कर्हि (८-६२-५) > कह्हि > खैं. अग्रि (८-९२-१) > आग. साकम् (९-७-७) > साकून (वांगडा आसून.) ओजस् > ओजो (८-८५-१७) > अुजो. अुपरि (१०-७५-३) > वैर. वृक्ष (१०-८१-४) > रूख. बुसम् (१०-२७-२४) > भूस (कैर.) पराक (१०-२२-६) > पेलो (पलतडचो.) पुरः (१०-१७-५) > फुडें. देवर (१०-४०-२) > देर. गृह (१०-४०-३) > घर. कृषि (१०-३४-१३) > कसप. अंगार (१०-३४-९) > आंगारो, विंगळो. सपत्नी (१०-३३-२) > सवत. मति (१०-३३-२) > मत (बुद्द.) अद्य (१०-३२-८) > आज. प्रतर (१०-७९-३) > पदर. श्रथर्यति विथुर्यति (१०-७७-४) > सतर-वितर जाता. ब्राह्मण (१०-७१-८) > बामण. तात > तातो, दाद, दादा. तातल > दादलो. भाषा > भास. असलीं अुतरां आमी राखूंक जायत.

संस्कृत तद्भव अुतरांवरी, परक्या भासांतलींय कांय अुतरां तद्भव जावन कोंकणी घरांत बसल्यांत. देखीक बरोवप, दुडू, भांगर हीं कानडी तद्भवां. बांक, बुराख, चावी, चेपें, कल्सांव, कदेल, जनेल, आमोरी हीं पुर्तुगेज तद्भवां. अखेर, आलायदो, तबलें, तबकडी, तुरो, किल्लो हीं आरबी तद्भवां. अजून, जमीन, घुमट, तस्त, अफीण, सतार हीं अिराणी तद्भवां. तिकीट, अिजनेर हीं अिंग्रजी तद्भवां.

ह्या पायर ह्या परक्या भासांतलीं तत्सम अुतरांय कोंकणींत आसात. देखीक पुर्तुगेज पाय, मांय. अिंग्रजी स्टेशन, सायकल, मोटर.

संस्कृत तद्भवांवरी परकी तद्भवां, कोंकणी भाशेंत अितलीं घरावीं आल्यांत कि तीं आमी सोडूं म्हळ्यार सुटचीं नात. चावी हें पुर्तुगेज तद्भव आमच्यान कशें सोडुं येत? तें कोंकणींत सैमा आयलें म्हळ्यार जाता. ताचे बदला आमी संस्कृत अुतर घडोवन अुपकारना. तें तशेंच फुडें चलोवंक जाय. परंत पाय, मांय, अि[illegible] असलीं पुर्तुगेज तत्सम अुतरां आमी बेगीन विमानांत बसोवन तांगेल्या कुळारा - पुर्तुगाला - धाडून दिवंक जायत. तांची आमकां गरज ना. तांचे बदला आमगेलीं भौच पुर्विल्लीं आनी चड घोळटेंतलीं आवै, बापूय, भाव हीं सुंदर बरीं अुतरां घोळोवंक जायत. सार सांगचेलें अितलेंच कि ज्या परकी अुतरांची आमकां गरज ना तीं आमी सोडुंया आनी जांचे बगर आमी अडचतांत तीं आमी राखुंया. तांचे खातीर आमी संस्कृत कोश अुगडून नवीं अुतरां घडोवंया नाका. कसलेंय संस्कृत वा परकें अुतर घेवचे आदीं, आमच्या सांट्याक त्या अर्थाचें अुतर आसा कि ना तें आदीं सोदून पळोवंया आनी तें मेळ्ळें जाल्यार तेंच घोळोवंया. अुतरांची संस्कृत म्होर मारुंया नाका आनी जड-जडावाच्या नादाक लागून आमगेली सोपी भास कठीन करुंया नाका. कोंकणी भास आमी अशे तरेन फुलोवंया कि सकैल्या पांवड्या साकून वैल्या पांवड्या मेरेन अुलोवपांत तशी बरोवपांत ती सगळ्यांक सारकी समजूंक जाय. वैली भास आनी सकैली भास, पंडिती भास आनी गावडी भास अशे तिचे वांटे जावंक जायनात. **आमी गावड्यांक पंडीत करुंया आनी सगळेच पंडीत जावंया. आमी सगळे जाण कोंकणी भाशेचें पूर्ण स्वराज्य भोगुंया.**

आमच्यान शास्त्रीक अुतरां लेगीत सगळ्यांक समजतीत आनी ध्यानांत अुरतीत अशीं सादीं-सोपीं घडोवं येतीत. अुतर आयकना फुडें ताचो अर्थ सटकरून मनांत येवंक जाय. ताचे खातीर भौनभौन कोश अुगडची गरज पडूंक जायना. डॉ. रविंद्रनाथ टागोर हांणी १९३३ वर्सा असल्या देशी अुतरांची मागणी केल्ली; तिचो तुमकां अेकाद्रो अुगडास आसतलोच.[१०] हाचेवैल्यान, नवीं कठीन शास्त्रीक अुतरां घडचे बदला पोरणीं सादीं-सोपीं अुतरां घोळोवपाचें तांच्या मनांत आसलें-शें दिसता.

**कोंकणी कोठी:-** आमी कोंकणी पत्रां-पुस्तकांची अेक कोठी घडून तांतूंत आजवेरचीं सगळी कोंकणी वर्तमानपत्रां, नेमाळीं आनी ल्हान-व्हड पुस्तकां दवरूंक जायत. तशेंच, सद्या जीं पत्रां आनी नेमाळीं चलतात तांच्या अुजवाडावप्यांनी तांची अेकेक प्रत कोठयेक दिवपाची मांडणी करूंक जाय. नव्या पुस्तकांच्या

अुजवाडावप्यांनी आपणाल्या पुस्तकाच्यो दोन प्रती कोठयेक धाडून दिवंक जायत. हीं पत्रां-पुस्तकां दवरूंक सुवात आनी लोखणाच्यो आरमारी आसून तांची वुस्तवारी पळोवंक कारभारी नेमूंक जायत. हीं पत्रां पुस्तकां कांय पटी घेवन लोकांक वाचूंक मेळची मांडणी जावंक जाय. कोठयेक लागून अेक वाचपा-कूड राखून दवरूंक जाय. अुजवाडावप्यांकडसून पुस्तकाच्यो ज्यो दोन प्रती येतीत, तांतूंतली अेक प्रत कोठयेंत आनी दुसरी प्रत वाचपा-कुडिचे आरमारींत दवरूंक जाय.

भाग्यवंत कोंकण्यांनू - भावांनू आनी भैणिंनू - कोंकणी देस आनी कोंकणी भास हांचे संबंदान म्हगेली म्हणणी हे परिशदेच्या धर्मान, हांवें तुमच्या कानार घाली. तुमी ती ध्यान दिवन आयकून घेतली, ह्या खातीर हांव तुमचे अुपकार मानतां. हाचे फुडलें म्हगेलें आतांचें काम म्हळ्यार अध्यक्षांलें नांव सुचोवप. आमगेले विद्वान भाव, धारवाडच्या कर्णाटक कॉलेजाचे **प्रोफेसोर आर्मान्द मिनेझिस, अेम.अे.** हांकां हे परिशदेचे अध्यक्ष करची मांडणी येवकार-समितीन केल्या. प्रोफेसोर मिनेझिस हे विद्वान घराण्यांतले. गोंयच्या तीसवाड्यांतलो दिवाडी गांव हो विद्वान लोकांली भूंय म्हणपाचें अितिहासांत गाजता. हांगा व्हडव्हडले नामनेचे पंडीत जावन गेले आनी अजून जातात. ह्याच गांवांत प्रोफेसोर मिनेझिस, सरस्पतिची भांगराची लिखणी हातांत घेवन जल्मल्यात. हांगेले जाणटेले, आदव्होगाद लुअिस मानवेल मिनेझिस स वर्सांफाटीं भायर पडले. ते नामनेचे वकील आसून कोंकणी भाशेचे अभिमानी आसले. तांणी कोंकणींत कवीत केलां, तें गोड-म्होंवाळ जालां. ताची अिल्लीशी पत तुमकां हांवें निक्तीच वाचून दाखैल्या. त्या विद्वान बापायचे हे विद्वान पुत. बापूय कवी आनी पुतूय कवी. प्रोफेसोर मिनेझिस हांणी अजून कोंकणींत कवीत करूंक ना; पणून करतले, हांतूंत दुबाव ना. तांणी अिंग्रजींत कवीत केलां आनी तें खासा अिंग्रजांकूय मानलां. हिंदुस्तानची बुलबुल, देवी सरोजिनी नायडू, हांगेले भाशेनूच, प्रोफेसोर मिनेझिस हांगेल्या ताळ्यांत गोड सुराची पिल्लूक आसा. हे आमगेले कोंकणे बुलबुल. हांचो आमकां अभिमान दिसता. सुमार णव वर्सां फाटीं हांची आनी म्हजी पैलीच वळख जाली. १९३३ वर्सा 'गोवा अेमिग्रंट्स फंड कमिटी'न कोंकणी भाशेंत मुळावीं पुस्तकां रचूंक अेक कोंकणी समिती नेमिल्ली. तांतूंतले प्रोफेसोर मिनेझिस हे अेक वांगडी आसून तांचे वांगडा हांवूय ते समितींत वावुरतालों. प्रोफेसोर मिनेझिस तांतूंत पोट-तिडकेन मन घालून आमकां वाट दाखैताले.

अिंग्रजी आनी पुर्तुगेज ह्यो तांगेल्यो आवै-भासो न्हयत. तरी आसतना, त्यो

तांगेले जिबेर ल्हाय-लोसूण कश्यो अुसळटात. लातीं भाशेचे पंडीत म्हणु तांगेली नामना चलता. हांगाच्या सेन्ट झेवियर कॉलेजांत ते सुमार १२ वर्सां अिंग्रजी आनी लातिंचे प्रोफेसोर आसले. तांगेली शिकोवपाची रीत अितली ओड-लायणी कि शिकतल्या गड्यांचे ते अपुर्बायेचे अिश्ट जाल्ले. हांगासून ते धारवाडच्या कर्णाटक कॉलेजांत प्रोफेसोर जावन गेल्यात; आनी थंयूय ते आपणालें काम भौ बरें करतात. तांणी अिंग्रजींत जायतीं पुस्तकां रचल्यांत. तांतूंत Chorda and Discords, Chaos and Dancing Star, The Fund, Caste, The Emigrant बी पुस्तकांनी विद्वानांली तोखणाय जोडल्या. वर्तमानपत्रांनी आनी नेमाळ्यांनी तांगेले लेख जायते आयल्यात. तांतूंतले चडशे The Goan World ह्या म्हैनाळ्यांत आयल्यात. तांकां कोंकणिचो मोटो अभिमान. तांणी स वर्सांफाटीं, म्हळ्यार १९३६त, गोंयां 'Alma Nova' (नवो आत्मो) ह्या विशयाचेर सुंदर येवजण्यांनी भरिल्लें अुलोवप पुर्तुगेजींत केल्लें, तें केन्नाच विसरूंक जावचें ना. जणअेका कोंकण्यान आपणाल्या काळजाच्या पट्यार तें कोत्रावंक जाय. ते म्हणटात,

> "आमकां कोंकणाच्या पुतांक भासो आसात. पुण अेक भास ना. जैं अितले वर्तमानपत्रकार आसात, तांतूंतल्या भौ थोड्यांक विद्वान म्हणुं येत, हाचें कारण हेंच जावंये. आमकां बुद्दिची तूट ना. परंत परक्या लोकांले भाशेंत आमची सरस्पत घडना... देखून, कोंकणिचो हांव पाखो घालतां आनी ती राखुंया म्हणु सांगतां. तिका पोट-भास म्हणात वा कितेंय म्हणात. परंत ती अेक भास आसा. हे भाशेंत कोंकणाचो आत्मो आपणाल्यो भावना अुतरांनी कळैतलो आनी अुक्ताडा येतलो. हें तुमकां फकाण-शें दिसतलें. परंत म्हजी खात्री जाल्या. देखून सांगतां. कोंकणांतलो व्हडलो विद्वान मनीस कोंकणी भाशेंतूच बरैतलो... देखून, **आमी कोंकणी भास केळोवंया. आमगेले कोंकणी भाशेची माया करूंया. तिचे खातीर आमी लजुंया नाका.** आमी आमगेल्या आत्म्याक ज्यो अुसण्यो आंगट्यो, बोंदरां आनी फाळयो न्हेसैल्यात त्यो सोडोवन पैस भिरकटावंया. जें कितें अडेचें आनी लटकें आसा तें सगळें आमी धुवन अुडोवंया. आतां आमी न्हावंया आनी धुवंया. आतां अुजवाडूंक लागलें."[११]

कितली पोट-तिडकेची सांगणी ही ! असले कोंकणिचे अभिमानी विद्वान, **प्रोफेसोर आर्मान्द मिनेझिस, अेम्. अे**, हांणी हे तिसरे कोंकणी परिशदेचें यजमानपण करचें, अशी थारावणी हांव तुमचे सामखार दवरतां.

**टिपो :**

१. Pinheiro Chagas, Historia de Portugal, vol. 3 p. 227.

२. Os Lusiadas, Canto 7, E. 27.

३. वसणूक, पा. ५, ४७. Indian Antiquary, vol. 9, pp. 35, 37.

४. जैत, पा. ८१-८४.

५. पुण्यात्मो राम कामती, पा. १४.

६. महाराष्ट्र-साहित्य-पत्रिका, पुणें, व. १४, आं. ३, जूल १९४१, थारावणी १७, पा. ५४.

७. Bhandarkar, WPL. p. 156.

८. Bhandarkar, WPL. pp. 156, 210 note*, 227, 248.

९. 'differing in a great many important particulars from the main Marathi.' Bhandarkar, WPL. p. 120.

१०. 'Konkani has, in many respects, preserved an older stage of phonetical development and shows a greater variety of verbal forms than Standard Marathi. Several forms are peculiar to the dialect and others have come to be used in a different way from what is the case in standard Marathi...' Grierson, LSI. vol. 7, p. 164.

११. 'They are both derived from the same Prakrit and are both dialects of the same form of speech. The reason for our calling this language Marathi and not Konkani is that the national literature is written in a language which is mainly derived from the northern dialects of Puna and Satara and not from those spoken in the Konkan.' Grierson, LSI. vol. 7, p. 164.

१२. जैत, पा. ७, ८.

१३. जैत, पा. २२.

१४. Mariano Saldanha, História de Gramática Concani, pp. 720-727.

१५. Mariano Saldanha, História de Gramática Concani, p. 722.

१६. Grierson, LSI., vol. 7, pp. 166-167.

१७. Grierson, LSI., vol. 7, pp. 17, 167.

१८. ह्या वेगवेगळ्या विशयांवैल्या पुस्तकांची जायती-शी खबर भौ. अेफ. जे. मारतीरिस हांणी दिली.

१९. हांचो बारकायेचो तपशील अ परिशिश्टांत दिला.

२०. नवें गोंय, मुंबै, आब्रील १९३५, पान १६५-७०.

२१. Ave Maria, Bombaim, 11-1-1942, pp. 8-9.

२२. वसणूक, पा. १५१.

२३. हांतूंतले कांय मांडे भौ. जोआकीं आंतोनिय फेर्नांदिस हांणी दिल्यात.

२४. आमोरी = आव्हि मारीय (Ave Maria) म्हळ्यार नमन मोरये! आंकवार मोरये, तुका नमस्कार ! आमगेले क्रिस्तांव भाव हें स्तोत्र सकाळीं, दोनपारां आनी तीनसांजां म्हणटात. ह्या स्तोत्रावैल्यान चडकरून तीनसांजच्या वेळाक आमोरी हो अर्थ आयला. आमोरी म्हळ्यार तीनसांज.

२५. जुरार जातां = सपूत दितां.

२६. चर्ई = भुरगीं.

२७. पंजि = तुवालो.

२८. कानडी = हारशी.

२९. गोकर्णेचे भौ. विनायकबाब चिक्करमने हांगेले दयेन हें आनी फुडलें पद मेळ्ळें.

३०. घोंगो = हाअू.

३१. सुडियो = चुडयो.

३२. मोडियो = मोडामोडी, फकाणां.

३३. गुडियो = खोंपी, ल्हान घरां.

३४. सातें = सांतली, सत्री.

३५. चार्मूर = जोत्याचो चरांव-चरांव नाद.

३६. सपूर = बारीक, अशीर.

३७. निडल = कपळ.

३८. धाम = घर.

३९. Goa Government Decree No. 598 of 8-9-1932.

४०. "Konkani is the language that our ancestors evolved. Konkani is, therefore, the language that is best suited to our soul." "Oberon," The Goan World, Bombay, Christmas 1941.

४१. "E esta lingua que nos formou, a sua imagem e similhança, seja ela a mais pobre, será sempre a mais rica, em elementos de expressão, porque nela se fez, em nossos espiritos, o registo das mais fecundas e duradouras impressões. Essá lingua será assombrosamente produtiva, quando ela tiver sido a dos nossos Avós, porquanto terá o poder de acordar dentro de nós, as maravilhosas enérgias depositadas no nosso tesouro ancestral inconsciente." आबे फारीय, पान ४, ३७.

४२. Mariano Saldanha, História de Gramática Concani, pp. 718. 724.

४३. Bhandarkar, WPL. p. 287. पाणिनि, अष्टाध्यायी, छंद-१-२-६१; ब्राह्मण-२-३-६०; मंत्र-६-१-१५१; निगम-६-३-११३.

४४. पाणिनि, अष्टाध्यायी, भाषा-८-२-९८.

४५. "Molesworth... derives a considerable proportion of the words in his Marathi dictionary from the Hindi." Beames, Comparative Grammar, vol. 1, Introduction p. 34.

४६. "On analysing the vocabulary of the seven languages which form the subject of this work, we observe at the outset that a large number of words are common to them all. In all, with slight modifications, हो means be; कर, do; आ, come; जा, go; खा, eat; पी, drink; मर, die; मार, strike; सुन, hear; देख, see; and among nouns a still greater number is found with but minor differences in each member of the group." Beames, Comp. Gr., vol. 1, pp. 1, 2.

४७. "The differentiation of a language does not necessarily depend on non-intercommunicability with another form of speech. There are also other powerful factors to be considered, if we are to look at

the subject from a scientific point of view. First and foremost, there is what I have already referred to, — grammatical structure ... The vocabulary of the two forms of speech may be very similar, but the whole grammatical structure of the one (Behari) is radically different from that of the other (Western Hindi)." Grierson, L.S.I. vol. 1, pt. 1, pp. 23-24.

४८. "The differentiations noted in the formation of the direct singular of masculine nouns in their extended form and the divergent postpositions for the dative clearly mark off **Konkani as a separate language from Marathi**, preserving in many respects an earlier stage of development. Its position as a separate language (and not a mere dialect) is thereby proved..." Katre, The Formation of Konkani, p. 152, 315.

४९. Bhandarkar, WPL, p. 207.

५०. Grierson, LSI. vol. 1, pt. 2, p. 29.

५१. "Turning next to the eastern languages, Bengali and Oriya, there exists in the present day an active controversy between the literary heads of the two provinces. The Bengalis assert that Oriya is merely a dialect of Bengali, and has no claim to be considered an independent language, and they mix up with this assertion a second to the effect **that if it is not it ought to be, mainly because they wish it was**, and secondly because the population of Orissa is so small as compared with that of Bengal that they think it useless to keep up a separate language and written character for so small a province. They further urge that the maintenance of a separate language prevents the Oriyas from learning Bengali and profiting by the vast stores of valuable literature which they consider the latter to contain. Much of this chain of arguments is purely political, and may therefore be very briefly dismissed by the following remarks. If Oriya is to be suppressed because it is only spoken by a few millions of people it might also be urged that Dutch, or Danish, or Portuguese, should be obliterated also. Basque should also be stamped out, and the same argument would apply to Romaic or modern Greek, and would justify the Russians in trying to eradicate Polish or the Austrians in annihilating Czech." Beames, Comp. Grammar, vol. 1, pp. 117-118.

५२. Grierson, LSI. vol. 7, p. 3.

५३. Grierson, LSI. vol. 1, pt. 1, p. 143.

५४. Grierson, LSI. vol. 1, pt. 1, p. 143.

५५. "Konkan Standard is a form of speech intermediate between it (true Konkani) and Desi." Grierson, LSI. vol. 1, pt. 1, p. 143. LSI. vol. 7, p. 61.

५६. Grierson, LSI. vol. 7, pp. 68, 83, 113, 116, 123, 136, 142, 149, 154.

५७. वसणूक, पा. ५३-५४.

५८. Grierson, LSI. vol. 1, pt. 1, pp. 400, 403.

५९. "This form of speech (Assamese) is now admitted to be an independent language — yet if merely its grammatical form and its vocabulary are considered, it would not be denied that it is a dialect of Bengali. It is certainly as closely related in these respects to the standard form of that language as is the dialect of Bengali spoken in Chittagong. Yet its claim to be considered as an independent language is incontestable. Not only is it the speech of an independent nation, with a history of its own, but it has a fine literature differing from that of Bengal both in its standard of speech, and in its nature and content. Here, therefore, we have an example of a language differentiated from its neighbours not by mutual unintelligibility but by nationality and literature." Grierson, LSI. vol. 1, pt. 1, p. 24.

६०. वसणूक, पा. २८-२९, ३४-३६. (परिशिश्ट अ पळ्यात.)

६१. वसणूक, पा. ३, ७.

६२. पुण्णाले जिणेची तांत्रीक खबर अमावतुर, सद्धर्मरत्नकारे आनी बुद्धघोशाली पपंचसूदनी हांतूंत आयल्या. तांतूंत मकुळक वा मुलु, समुद्दगिरि वा मुदगिरि, मातुलगिरि वा मैलिगिरि आनी अंबहट्ठ ह्या चार थळांकडेन पुण्णाचो संबंद दाखैला. ह्या थळांचें सारकेंपण अनुक्रमान मुळें, मुडगिरी, मलयगिरी आनी आंबुघांट हांचेकडेन लागता. हीं थळां गोंयच्या सास्ट म्हालासाकून दक्षिणेक भटकळ मेरेनच्या सुमार ८५ मैलांच्या आवांठांत एकामेकांक लागीं आशिल्लीं दिसतात. हांतूंतलीं मुळें, आंबुघांट आनी मुडगिरी हीं तीन थळां एकामेकांपासून पांच ते सात कोसांच्या अंतरार आसात. तांतूंत मुळें आनी आंबुघांट खासा जांबावलेंत आसपावतात.[६३] बुद्ध धर्माचो हीनयान तसोच महायान मार्ग म्हा-कोंकणांत चलतालो म्हणपाचे पुरावे मेळटात. रिवण, लामगांव, हरवळें, लोटली, आंकें, हरमल, रेडी बी थळांनी हीनयान मार्गाच्यो होंवऱ्यो आसात.[६४] प्राकृत व्याकरणकार हेमचंद्राल्या द्व्याश्रयकाव्यावैल्यान समजता कि गोंयच्या कदंबांल्या दिवाणांत बौद्ध जती आसले. १९३०त नांवादीक अितिहाससोदपी पाद्री हेरस हांकां गोंयां बारदेसांत कोलवाळे महायान मार्गाची बुद्धाची एक मोटी म्हुर्त मेळ्ळी; ती सानचीच्या चैत्यांतले म्हुर्तीसारकी आसा खैं.[६५] ही म्हुर्त तुर्ताक मुंबै सेन्ट झेवियर कॉलेजाच्या अपरुपावळींत (म्यूझियमांत) आसा. ह्या पुराव्यांवैल्यान पुण्णान रिगैल्लो बुद्ध धर्म अुत्तर आनी दक्षीण कोंकणांत चलतालो हांतूंत दुबाव ना.

६३. वसणूक, पा. ९-१३. विविधज्ञानविस्तार, मुंबै, वर्स ६१, आं. ४, पा. १३५, १३६, १४१. पपंचसूदनी, संपादक धम्मधज, सयामरट्ठस्स राजधानी, बुद्धवर्ष २४६३, अि. स. १९२०, पा. ७२८-३४.

६४. वसणूक, पा. १४-१६.

६५. Journal of the Bombay Historical Society, vol. 3, No. 2, September 1930, pp. 173-185.

६६. नवें गोंय, वैतुंब्र १९३६, पा. ६१-६३.

६७. छान्दोग्योपनिषत्, ५.११.५.

६८. विविधवृत्त, मुंबै, २२-२-१९४२, पा. १२.

६९. केसरी, पुणें, २२-१०-१९४०, पा. ५, The Goa Mail, Bombay, vol. 22, No. 23 of 2-11-1940.

७०. सेवा-समिती, मडगांव, गोंय, सन १९४०-४१ चा वृत्तांत, पा. ३.

७१. "This business of crossing the hurdle of the English language before anybody could learn anything, he declared, was a game not worth the candle and dissipated the energy of nation's youth which could otherwise be much more usefully employed." The Bombay Chronicle, 22-1-1942, p. 4.

७२. "રાષ્ટ્રસેવક માતૃભાષાનો પ્રેમ લોકોમાં ઉત્પન્ન કરશે. તેનામાં હિન્દુસ્તાનની બધી ભાષાઓનો આદર હશે; તે પોતાની માતૃભાષા ગમે તે હશે પણ-જ્યાં તે વસશે ત્યાંની માતૃભાષા પોતે શીખી તે પ્રદેશના લોકોનો તેમની પોતાની ભાષા પ્રત્યેનો ભાવ વધારશે." हरिजनबंधु, पुणें, १७-८-१९४०, पु. ८, आंक २३, पा. १८०. Harijan, Poona, vol. 8, No. 27, p. 253.

७३. Changing Man by Beatrice King, pp. 38, 39, 279, 284, 295, 298, 303.

७४. "Eis porque, na aparelhagem da criança para a vida, a lingua dela é o instrumento por exceléncia das suas conquistas. Ela ajuda os pequeninos a criar e aperfeiçoar a sua personalidade." आबे फारीय, पा. ७, ४१.

७५. "It is cruelty to child to make it express its budding soul in a language that cannot come natural to it, and it is a crime against our mother tongue." "Oberon," The Goan World, Christmas 1941.

७६. "A convicção de que a transliteração para o alfabeto latino perde a bela música da nossa lingua, que ela lhe tira a unidade e a capacidade de aperfeiçoamento, porque assim o deformamos, em lhe emprestando os sons e os vocábulos das linguas europeias que primeiro aprendemos, e a de que, o devanagárico é o único alfabeto que, no momento presente, pode solucionar, com successo, todos os ingentes problemas que a Lingua da Criança suscita em Goa, vem da experiência que dêsse estudo tirei." आबे फारीय, पा. ११, ४७.

७७. नवें गोंय, जूल १९३६, पा. ३२.

७८. नवें गोंय, ज्यानेर १९३६, पा. १२०.

७९. "The Devanagari alphabet is certainly better suited to the genius of our language than the Roman, and it will perhaps help to stabilize our spelling. But the Roman alphabet also may be used side by side." "Oberon," The Goan World, Christmas, 1941.

८०. जैत, पा. ४०, नवें गोंय, जूल १९३४, पा. २२-२३.

८१. "All these differences do not, however, affect the general character

of the language, and we need not split it up into sub-dialects. Grierson, LSI., vol. 7, p. 164.

८२. Grierson, LSI., vol. 1, pt.1, pp. 129-130, 152, 167.

८३. Grierson, LSI., vol. 1, pt.1, pp. 113.

८४. Bhandarkar, WPL., p. 107. हेमचंद्र, देशीनाममाला.

८५. आड्यांतले आंक ऋग्वेदाचें मंडळ, सूक्त आनी ऋचा दाखैतात.

८६. **वोडवी** हें अुतर केळोशी-कुड्डाळकार बामणांत जायतें घोळटा. तांगेर देवकाऱ्यांत मवाम्मीं वांगडा घरांतल्या आनी नात्यांतल्या आंकवार चलयांची पुजा करतात; तांकां वोडव्यो म्हणटात. शान्तादुर्गेक ह्या वोडव्यांची चड प्रीत खैं. त्यो पुजल्यो नात जाल्यार देवकारें निका पावना खैं. हालाले गाथासप्तशतींत हें अुतर वोडही अशें आयलां. देखीक 'मिक्खंतु वोडहीओ...।४-९२।' - वोडव्यो शिकूंत. कोंकणी वोडवी अुतरावैल्यान प्राकृत वोडही अुतर जालें, हें ध्यानांत धरीशें आसा.

८७. नौवित्त, नौवित्तक, नौवितक — तारवांची गिरेस्तकाय आशिल्लो, तारवांकार. हे चडकरून आरब मुसलमान आसले. अिकराव्या शेंकड्यांत गोंयच्या कदंबांल्या आनी अन्तर शिलाहारांल्या दिवाणांत तांकां मानभौमान जायतो आसून प्रधानकेच्या जाग्यारूय नेमताले. पैल्या जयकेशी कदंबाल्या क्रि.स. १०५३ च्या तांब्या-पट्यांत चेवूल बंदरांतल्या मधुमद (महमद) नांवाच्या आरब मुसलमानाची वर्णना 'चेमूल्य अित्याव्हये वेलाकूलपुरे पुरंदरपुरे... आसीत्ताजियवंशजो मधुमदो **नौवित्त**वर्गाग्रणी:' अशी केल्या. क्रि.स. १०५९च्या तांब्या-पट्यांत मधुमदाचो बापूय आलियम (अली) हाका 'अ सीन्**नौवित्तको**धीमानालियमाख्यया' अशें म्हळां. (P. Pissurlencar, Inscriçoes Pre-Portuguesas de Goa, Bastorá 1938, pp 8, 19.) अुत्तर शिलाहार राजा अनंतदेव हागेल्या क्रि.स. १०९४च्या तांब्या-पट्यांत मुखेल प्रधान वासैद हाका 'महामात्य श्रीनौवितक वासैद:' अशें म्हळां. (K. T. Telang, Ind. Ant., vol. 9, pp. 35, 38.) हो वासैद आरब मुसलमान जावंये.

८८. शिवराक अुतराचें मूळ, भौ. नारायणबाब मुजुमदार, पेन्शनर मुनसीप, आंकलें, हांणी सोदून काडलें अशें कारवारचे भौ. सु. द. नाडकर्णी कळैतात.

८९. रा. भि. गुंजीकार, सरस्वतीमंडल, मुंबै १८८४, पा. ६३.

९०. "Appeal for vernacular words used as synonyms for scientific terms of modern usage." (21-8-1933.)

९१. "...Cultivemos, pois, o concani. Amemos a nossa lingua. Comecemos por não nos envergonharmos dela. Comecemos por despir as nossas almas de todos os farrapos de empréstimo; por lavarmo-nos de tudo que é postiço. Façamos as nossas abluções: pois a alvorada nasce." O Anglo-Lusitano, Bombaim, 20-6-1936, p.2.

# अुपकार मानप

'सर कावसजी जहांगीर हॉल'
मुंबै ५ आब्रील १९४२

भौमानेस्त भावांनू आनी भैणिंनू,

तिसरी कोंकणी परिशद, ह्या मुंबै शाराच्या लोकिकाक फावोशी, भौ बरे तरेन सुसंगीत तडीक पावली, हें पळोवन, तुमकां-आमकां, सगळ्यांक, खोस जावंक जाय, हें सांगूंक नाका. हे दीस म्हळ्यार धडधड्यांचे. ह्या वेळार, हेरां लोकांभाशेन आमगेलेय लोक वाट मेळत थैं धांवतात. पुण तांची अपुर्बुद्द कोण करीत? पणून आमी धांवन धांवन कितले धांवतले? आनी खैं म्हणु धांवतले? जैं वचत थैं संकश्ट आसाच. म्हणटकूच, धांवचें आनी पळचें तें कित्याक? आपुण आसांत थैंच थीर रावन, अेकामेकांक पालव दिवचो आनी अेकामेकांली राखण करची हीच आमगेल्या शस्त्रां नाशिल्ल्या अनाथ लोकांली धिरिश्टपणाची लागणूक आसा. हिका आमी पाळो दिवं जाल्यार, शस्त्रां हातांत धरिल्ल्या शूर शिपायकांवरीच आमी वीर म्हणु गाजूं. हें ध्यानांत घेनासतना, आमगेले जायते लोक अुद्योग-धंदो सोडून आनी सांतली-पोटली खांकेक मारून आपापल्या गांवा-घरा गेले. त्या वेळार हे परिशदेच्या जाळवणदारांले हात-पांय कितले गळसणले म्हणु सांगूं! ही परिशद ह्या वर्सा हांगा जाता कि ना हाचो दुबाव दिसूंक लागलो. कांय जाण सांगूंक लागले कि ही परिशद फुडें धुकलची. परंत आमगेल्या कांय पोड-तिडकेच्या धिरिश्ट वावुरतल्यांनी नेट धल्लो कि ही परिशद थारायल्ल्या दिसा जावंकूच जाय. परिशदेक हाताच्या बोटांचेर मेजचेले पांच-धाय लोक आयले तरी कामायता. परंत ती फुडें धुकलूंक जायना. हांतूंतूच आमगेली कर्तुत्वदशा कसाक लागली म्हळ्यार जाता. परिशदेच्या जाळवणदारांनी धरिल्ल्या नेटाक आनी तांगेल्या घट नित्शयाक पूर्ण फळ आयलें, हें कालच्या आनी आजच्या लोकांल्या आंकड्यावैल्यान अुकतें दिसता. पांच-धा लोकां बदला हजारावैर लोक हे परिशदेक जमले, हें पळोवन जिवाक खातखुतल्यो जातात आनी धन्यताय दिसता. ह्या वेळार कोणें कोणाक धन्यवाद दिवचो आनी कोणें कोणाले अुपकार मानचे हेंच समजना. हांगा तुमी म्हळ्यार आमी आनी आमी म्हळ्यार तुमी. अितलेंच न्हय तर म्हाका दिसता, हांगा तुमी हें अुतरूच ना. सगळे

मेळून आमीच आमी. हे अध्यक्ष आमगेले, हांवूय आमगेलो आनी हांगा जमिल्ले सगळे लोक आमगेले. हांगा 'तुमगेलो' हें अुतर लावंक परको-सो अेकलोय मनीस म्हाका दिसना. तरी आसतना, लोकिचाराची खुमा म्हणु, अुपचार म्हणु, हांव आमगेल्या मानादीक अध्यक्षांले - भौमानेस्त आर्मान्दबाबांले - मनापासून अुपकार मानतां. ते आपणालो मोलादीक वेळ खर्चून आनी आमगेले विनंतीक मान दिवन धारवाडच्यान हांगा आयले, हांतूंत तांगेलो आवै-भाशेवैलो खरेलो पोटतिडकेचो मोग अुकतो दिसता. तांणी अिंग्रजी भाशेंत सुंदर बरें कवीत रचलां, तशेंच ते आमगेले भाशेंतूय रचतले आनी अिंग्रजी भाशेचे जशे ते बुलबुल म्हणु गाजल्यात तशेच कोंकणी भाशेचे बुलबुल म्हणु गाजतले आनी आमगेले चड पुर्विल्ले, वेद-अुपनिशदांचे वेळचे, गोड कोंकणी भाशेक व्हडविकेक चडैतले, हांतूंत अिल्लोय दुबाव ना. म्हगेलें हें गोड भाकीत खऱ्यानीच खरेपणाक येतलें, म्हणपाचें अुतर, हांव हे अेदे व्हडले, नांवा-लोकिकाचे, अितिहासीक सभेंत, तुमकां दितां.

परिशदेच्या आप-वावुरप्यांनी आनी दुसऱ्या सगळ्या काम करप्यांनी आपापलें काम तकस घेवन बरे तरेन तडीक पायलें, ह्या खातीर हांव तांगेलेय अुपकार मानतां.

कोंकणी भाशेची रंग-भूंय कशी कितें घवघवूंक लागल्या, म्हणपाचें घसघशीत चित्र तोंडी अुतरांनी सांगचे परस, तुमी तुमगेल्या दोळ्यांनी पळेलें, हें भौ बरें जालें. काल 'मोगाचें लग्न' आनी आज 'समाज-चित्र' हे दोन खेळ पळोवन, ते माचयेर करून दाखैतल्यांचें तुमी कौतूक आनी तोखणाय करतले हाचें म्हाका खरेपण आसा. तांकां धन्यवाद फावो. तांणी आपणांलीं कामां भौ बरीं केलीं देखून हांव तांचे अुपकार मानतां.

ह्या परिशदेच्या कामांत, आमगेल्या भायल्याय अिश्टांनी आनी बरें-मागत्यांनी आमकां जायतो पालव दिलो तांगेलीं नांवां कितलीं म्हणु घेवं? त्या सगळ्यांचे हांव अुपकार मानतां.

निमाणें, भाग्यवंत कोंकण्यांनू — भावांनू आनी भैणिंनू — 'आतां आमी वांगडा रावंया, वांगडा खावंया, वांगडा घट जावंया, तेजवंत जावचेलें गिन्यान जोडुंया, अेकामेकांलो द्वेस सोडुंया, अेकामेकांक माये-मोगान ओडुंया !' कोंकण देस, कोंकणी लोक आनी कोंकणी भास ह्या तिगांयचो जयजयकार जावं ! सगळ्या भरतखंडाचो जयजयकार जावं ! सगळ्या संवसाराचो जयजयकार जावं ! झगड्या-झुजाची पिडा वचूं आनी सगळो संवसार सुखान नंदूं !

**ॐ थंडाय ! थंडाय ! थंडाय !**

# कोंकणी वर्तमानपत्रां आनी नेमाळीं हांची काळपट्टी वळेरी १८८९-१९४१

(भौ. फ्रान्सिस जॉन मार्तीरिस आनी भौ. जोआकीं आंतोनिय फेर्नान्दिस हांणी केली)

| मूळ वर्स | थळ | नांव | अुजवाडावप | भास* | लिपी | थापपी वा संपादपी | शेरो |
|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १८८९ फेब्रेर | पुणें | अुदेंतेचें साळक | आदीं म्हैनाळें मागीर पंद्राळें | कों.पु. | रोमी | अेदवार्द जुजे ब्रून दे सौज | १८९४त थांबलें |
| १८९१ | मुंबै | अु लूजो-कोंकणी | माताळें | ,, | ,, | आलैश कायतान जुजे.फ्रांसिस्क | -- |
| १८९२ | ,, | अु कोंकणी | ,, | ,, | ,, | सेबास्तियांव जेजुस दीयस | -- |
| १९८२ | ,, | अु पोव्ह गोवान | ,, | ,, | ,, | सेबास्तियांव तेओतोनिय दे सौज (गोमन्ती) | -- |
| १८९५ | ,, | आ लुज | ,, | ,, | ,, | (१) अिनासिय शावियेर रोद्रीगिस<br>(२) दियोग आंद्रे फेर्नान्दिस | १९१६त थांबलें |
| १८९५ | ,, | अु बोंबायेन्सि | ,, | ,, | ,, | फ्रांसिस्क शावियेर फेर्नान्दिस (लिबेराल) | -- |
| १८९५ | ,, | आ लूअ | ,, | ,, | ,, | लौरसीञ्ज दान्तस | -- |

* कों. - कोंकणी. पु. - पुर्तुगेज. अिं. - अिंग्रजी.

परिशिश्ट अ (फाटल्या पानावेल्यान चलता)

| मूळ वर्स | थळ | नांव | अुजवाडावप | भास* | लिपी | थापपी वा संपादपी | शेरो |
|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १८९७ | मुंबै | अु अेकु | साताळें | कों.पु. | रोमी | जुजे कायतान फ्रांसिस्क दे सौज | -- |
| १९०७ | ,, | सांजेचें नकेत्र | दिसाळें | ,, | ,, | ये. अेफ. काब्राल | -- |
| १९०७ | ,, | कातोलिक मवस्तकाय | आदीं म्हैनाळें मागीर पंद्राळें | ,, | ,, | रोलदांव नोरोञ्ज | -- |
| १९०८ | ,, | अु गोवान | साताळें | कों.पु.<br>अिं. | ,,<br>,, | (१) ओनोरात फुर्तादु<br>(२) फ्रांसिस्क शावियेर फुर्तादु | -- |
| १९१२ | ,, | कोंकणी मॅगझीन | म्हैनाळें | कों. | ,, | [illegible] | [illegible] |
| १९१२ | ,, | सेन्ट ॲन्स टेम्परन्स मॅगझीन | ,, | कों.अिं. | ,, | पाद्री सी. दीयस | [illegible] |
| १९१२ | मंगळूर | कोंकणी दिवें | पंद्राळें | कों.अिं. | कानडी | आलेक्स पाअिस, बी.अे., अेलअेल.बी. | १९४०त थांबलें |
| १९१४ | कराची | रोटी (म्हैन्याक ८००० प्रती खपतात) | म्हैनाळें | कों. | रोमी | (१) पाद्री विसेन्त लोब (२) पाद्री लुदोव्हिक पेरैर (३) पाद्री मोनीज | चलता |

* कों. - कोंकणी. पु. - [illegible]. अिं. - [illegible].

| मूळ वर्स | थळ | नांव | अुजवाडावप | भास* | लिपी | थापपी वा संपादपी | शेरो |
|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १९१६ | मुंबै | **अु आमीग दु पोव्ह** | साताळें | कों.अिं. | रोमी | सेबास्तियांव शावियेर वाज | -- |
| १९१७ | मंगळूर | **आंज** | म्हैनाळें | कों. | कानडी | पाद्री अेफ. अेम. पिन्त | -- |
| १९१९ | मुंबै | **अु आमीग दु पोव्ह गोवान** (अु गोवान आनी अु आमीग दु पोव्ह अेकठावन) | साताळें | कों.अिं. | रोमी | मानुयेल आ. फेर्नान्दिस | १९२६त थांबलें |
| १९१९ | ,, | **आव्हि मारीय** | | आदीं कों.पु.अिं. आतां कों. | ,, | आंतोनिय विसेन्त दे क्रुज | चलता |
| १९१९ | ,, | **गोवा मेल** | | आदीं कों.अिं. आतां कों. | ,, | (१) डॉ. [illegible] द गाम<br>(२) आतां अेफ. शिज आफोंस | |
| १९१९ | ,, | **पॉप्युलर मॅगझीन** | आदीं म्हैनाळें मागीर पंद्राळें | कों.पु. अिं. | ,, | जोआकीं जुजे सिलव्हेस्त्रि दे सौज | -- |
| १९२४ | ,, | **गुलिस्तान** (देफेंसोर दु पोव्ह गोवान) | साताळें | कों. | ,, | जुवांव लाजरुस दे सौज | १९३४त थांबलें |

* कों. कोंकणी. पु. पुर्तुगेज. अिं. अिंग्रजी.

परिशिश्ट अ (फाटल्या पानावेल्यान चलता)

| मूळ वर्स | थळ | नांव | अुजवाडावप | भास* | लिपी | थापपी वा संपादपी | शेरे |
|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १९२७ | मुंबै | आमचो संवसार | साताळें | कों | रोमी | जुजे कायतान फ्रांसिस्क दे सौज | - - |
| १९३० | ” | आग्रुस देअी | म्हैनाळें | कों.पु. | रोमी | (१) पाद्री आल्वारीक पेरेर<br>(२) जो आकीं फेलिक्स पेरेर | १९४३ त थांबलें |
| १९३० | गोंय | आमचो गांव | साताळें | कों. | ” | लुअीस दे मिनेझिस | - - |
| १९३० | मुंबै | गोवा टायम्स | ” | आदीं कों.अिं.<br>मागीर कों. | ” | (१) रेसिसिय आफोंस<br>(२) अे. आ. पेरेर | चलता |
| १९३२ | ” | गोमन्त | म्हैनाळें | कों.अिं. | | लुअीस दोरिस द सिल्व्ह | - - |
| १९३२ | ” | गोअन्स ओन मॅगझीन | ” | ” | ” | लुअीस दोरिस द सिल्व्ह | - - |
| १९३२ | ” | कोंकणी बुलेटिन (डेली न्यूज) | दिसाळें | कों. | ” | आंतोनिय विसेन्त दे क्रुज | चलता |
| १९३२ | गोंय | पर्जेचो आदार | साताळें | कों.पु. | ” | आदल्गाद जुजे बातिस्त वाज | चलता |
| १९३२ | ” | व्हेनेरावेल पाद्री जुजे वाज (मॅगझीन) | म्हैनाळें | ” | ” | (१) निकोलाव जुजे मिनेझिस<br>(२) कॅनोन फ्रांसिस्क शाविअेर द कोस्त | - - |

* कों - कोंकणी [illegible]

परिशिश्ट अ (फाटल्या पानावेल्यान चलता)

| मूळ वर्स | थळ | नांव | अुजवाडावप | भास* | लिपी | थापपी वा संपादपी | शेरो |
|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १९३३ | मुंबै | **गोअन ऑब्झर्व्हर** | दिसाळें | कों.अिं. | रोमी | जुवांव लाजरुस दे सौज | -- |
| १९३३ | गोंय | **वावराड्यांचो अिश्ट** | सातोळें | कों. | रोमी | (१) पाद्री लुअीस आर्सेन फेर्नान्दिस<br>(२) पाद्री ग्रासियान मोराय्स | चलता |
| १९३४ | मुंबै | **अेमिग्रण्ट** | आदीं म्हैनाळें<br>मागीर दिसाळें | ,, | ,, | अिनासिय कायतान कार्व्हाल्य | -- |
| १९३४ | | **नवें गोंय** | ति-म्हैनाळें | ,, | देवनगरी | काशीनाथ श्रीधर नायक | १९३७त थांबलें |
| १९३६ | गोंय | **गोअ नोव्ह** | साताळें | कों.पु.<br>अिं. | रोमी | वेंकटेश आळवेंकार | -- |
| १९३६ | मुंबै | **मजें मॅगझीन** | पंद्राळें | कों. | ,, | जोआकीं रोजारिय द सिल्व्ह | -- |
| १९३७ | ,, | **ॲस्पिरंट** | म्हैनाळें | कों.अिं. | ,, | फ्लोरियान आल्मैद | -- |
| १९३७ | कराची | **कोंकणी जर्नल** | साताळें | कों. | ,, | जे. दे. सौज | -- |
| १९३८ | मंगळूर | **समाजाचो दिवो** | पंद्राळें | ,, | कानडी | माशाद | -- |
| १९३८ | मंगळूर | **प्रकाश** | पंद्राळें | कों.अिं. | ,, | द कोस्त | -- |

* कों. - कोंकणी. पु. - पुर्तुगेज. अिं. - अिंग्रजी.

परिशिश्ट अ (फाटल्या पानावेल्यान चलता)

| मूळ वर्स | थळ | नांव | अुजवाडावप | भास* | लिपी | थापपी वा संपादपी | शेरो |
|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १९३८ | मुंबै | कॅथलीक अिंडिया | म्हैनाळें | कों.अिं. | रोमी | फ्रॅन्सिस्क शावियेर ऑलिव्हेर | चलता |
| १९३८ | | आमचो संवसार (गोवा टायम्स चो वांगडी) | साताळें | कों. | ,, | अेर. आ. पेरेर | |
| १९३९ | | नवें जिवित | ,, | ,, | ,, | प्रोफेसोर जुस्तीव्ज दे सोज | -- |
| १९३९ | | गोंयकारांचो अिश्ट | ,, | ,, | ,, | गेब्रिय फेर्नांन्दिस | -- |
| १९३९ | | गोवा कामगार | ,, | ,, | ,, | दे. देसाय | -- |
| १९३९ | मंगळूर | राखणो | पंद्राळें | कों.अिं | कानडी | पाद्री अेस. अेफ. मिनेझिस | चलता |
| १९४० | मुंबै | नवें गोंय (आंग्लो-लुजितानो चें वांगडी) | साताळें | कों. | रोमी | वाय आ. मास्कारेन्यास | - |
| १९४० | | गोमन्तक | ,, | ,, | ,, | डॉ. जुलियांव मिनेझिस, अेम.डी. | चलता |
| १९४० | कारवार | नवयुग | साताळें | कों.अिं.देवनागरी आनी हेर भासो | | सुब्राव दत्तात्रय नाडकर्णी | -- |
| १९४१ | मंगळूर | सारस्वत | ,, | कों.अिं. | कानडी | के. वासुदेव शाणै | चलता |
| १९४१ | पुणें | तुजें राज आमकां येवं | ति-म्हैनाळें | कों. | रोमी | पाद्री जी. लोब | -- |

* कों. - कोंकणी, पु. - पुर्तुगेज, अिं. - अिंग्लीश

# लोटलेचे राष्ट्रकूट

अितिहास-सोदप्यांक लत्तल थळाचो मेळ आतांच्या खैंच्या थळाकडेन घालचो हें जायते काळ संमजनासलें. ते तरेकतरा नांवां सुचैताले. पुण तीं तगनासलीं. डॉ. फ्लिटांनी आदीं रतनपुर हें नांव सुचैलें. मागीर निजामाल्या राज्यांतलें लातूर हें नांव सुचैलें. हें सुचैतपासून मराठी लोक राष्ट्रकुटांचेर मराठी छाप मारूंक लागल्यात ! पुण तो तगना. डॉ. फ्लिटांलो मेळ चड भोंवाड्यां-रेवाड्यांचो आनी अडेचो दिसता. तांणी गोंयच्या नकाशाकडेन चिके ध्यान दिल्लें जाल्यार, ते लत्तल थळाचो मेळ सास्टींतल्या लोटली गांवाकडेनूच घालतले आसले, हांतूंत दुबाव ना. तांकां लातूर थळाचेंय **खरेपण ना**. लत्तलूर हें अुतर लत्तल आनी अुर ह्या दोन अुतरांचें जालां. अुर म्हळ्यार पुर. अुच्चार-बदलाच्या नेमान पुर हांतूंतलें प् लिपून अुर अुल्लें.[१] लत्तल अुर म्हळ्यार लत्तल शार. मुखेल अुतर लत्तल. हाचे पासून लोत्तल > लोट्टल > **लोटल** > **लोटली**. ही सादी-सोपी, सामखिली आनी सडसडीत बरी व्युत्पत्ती दिसता. हांतूंत आळखे-विळखे आनी भोंवाडे-रेवाडे कसलेच नात. जायतेदा अुतराच्या पैल्या अक्षरांतल्या **अ** चो **ओ** जाता. देखीक, बंगालींत **र**मेश, **प्र**फुल्ल हीं अुतरां **रो**मेश, **प्रो**फुल्ल अशीं अुच्चारतात. कोंकणी भाशेंतूय अशे अुच्चार आयकूंक येतात. देखीक **क**टु > **को**डू. **क**रचें > **को**रका. त्या भायर, प्राकृतांतूय संस्कृत अुतरांतल्या पैल्या अक्षरांतल्या **अ** चो **ओ** जावची चाल आसा. देखीक, **ब**दर > **बो**र. **ल**वण > **लो**ण. **म**यूर > **मो**र. **च**तुर्थी > **चो**थ्थी.[२] हे भाशेन **ल**त्तलचें **लो**त्तल जावंक कठीन ना. फुडें **त्त** चें **ट्ट** जालें. प्राकृतांत **त** चें **ट** जावन **त**गरचें **ट**गर जालां.[३] सिंधींतूय **त** चें **ट** जाता. **पुता** बदला सिंधी लोक **पुटु** म्हणटात.[४] हे तरेन, लोत्तलचें लोट्टल जावन, अुप्रांत तांतूंतलें **ट्** गळून **लोटल** आनी निमाणें **लोटली** हें अुतर घोळटेंत आयलें. **अ** न सोंपिल्लीं गांवांचीं स्त्रीलिंगी नांवां **ऑ** नूय घोळटात. देखीक पण**ज**-पण**जी**, दिवच**ल**-दिवच**ली**, वागा**ळ**-वागा**ळी**, के**र**-के**री**, दिवा**ड**-दिवा**डी**, सांक**ळ**-सांक**ळी**. डॉ. फ्लिटांनी ही सादी आनी खरेली व्युत्पत्ती सोडून, लत्तल बदला लत्तलूर हें अुतर घेवन, लत्तलूर > लतलूर > लतलअुर > लत्लूर् > लत्तूर् > लातूर् अशी लांबूच लांब सरपळी दिल्या.[५] **ती तगना**.

राष्ट्रकूट राजा दक्षीण कोंकणांतले कोंकणे आसले म्हणपाचो आनीकूय पुरावो

मेळटा. सावंतवाडी मेळिल्ल्या शक ८५५ (क्रि.स. ९३३)च्या तांब्या-पट्यांत कृष्णराज राष्ट्रकुटालो पुत दुसरो गोविंदराज हो अिंदुबिंबशिलातलार म्हळ्यार चंद्रबिंबाच्या-चंद्रमंडळाच्या पर्वतार जल्मलो अशें म्हळां.[६] ह्या पर्वताक आतां चंद्रनाथ पर्वत वा निखटो पर्वत म्हणटात. हो पर्वत गोंयां जांबावली म्हालाचो चंद्रवाडी म्हणु जो वांटो आसा थैं आसा. शिलाहारांल्या तांब्या-पट्यांत चंद्रवाडयेक चंद्रबिंब आनी चंद्रमंडल हीं नांवां दिल्लीं मेळटात. हांचेंच अिंदुबिंब हें पड-अुतर. चंद्रवाडी म्हाल सास्ट म्हालांतले लोटले साकून लागीं आसून थैं दक्षीण शिलाहार राजा भीम आनी अुत्तर शिलाहार राजा अनंतदेव हांणी जैतां जोडिल्लीं म्हणपाचीं बरपां मेळ्ळ्यांत.[७] राष्ट्रकुटांनी कोंकणाभायर जरी आय्सपैस राज्य जोडिल्लें तरी तांकां कोंकणाचो मोग सुटूंक नासलो. तांगेल्यो राणयो आतांच्या गोंयच्या बायलां भाशेन बाळंतराक गोंयां वेताल्यो म्हणपाचो पुरावो गोविंदराजाल्या चंद्रनाथ पर्वतावैल्या जल्मावैल्यान सणसणीत मेळटा. राष्ट्रकूट दक्षीण कोंकणांतले लोटलेचे म्हणपाक तिसरो अेक पुरावो मेळटा. नागपुरच्या शक १००८ (क्रि.स. १०८६)च्या फातरखांब्या-पट्यांत वासुदेव म्हळ्ळो दंडनायक लतलौरचो आसून तागेलो आजो बोपपै आनी पणजो विठपै म्हळा.[८] ह्या कुळनांवावैल्यानूय हे मनीस कोंकणांतले गोंयचे आसले हांतूंत दुबाव अुरना. लतलौर म्हळ्यार लतलअुर-लतल शार-लोटली. वासुदेव पैचो कुळदेव नारसिंघ म्हळ्यार नरशींव म्हणु दिला.[८] हो देव पैलीं सास्टींत सांकवाळे आसलो.[९] सोळाव्या शेंकड्यांत बाटोवणे वेळार तो अंत्रुजेंत वेलंगा गेलो.[१०] नरशींव देवाल्या कुळाव्यां भितर पै कुळनांवाचें घराणें आसा खैं.

वैल्या वासुदेवालो यजमान धाडियदेव**राणक** हो 'महाराष्ट्रकूटान्वयप्रसूत' (मोट्या राष्ट्रकूट कुळांत जल्मल्लो) आनी 'लतलौर'च्यान भायर गेल्लो अशें म्हळां. ताका **राणक** म्हळ्यार राणो ही पदवी लायल्या. हाचेवैल्यान, राष्ट्रकूट कुळांतल्या मनशांक ही पदवी लागताली अशें दिसता. मराठी लोकांसंबंदाच्या कसल्याच पोरण्या कोत्रावपांत ही पदवी तांकां लायिल्ली दिसना. गोंयां अजुनूय बारदेस आनी सतरी म्हालांत राण्यांलीं जायतीं नांवादीक घराणीं आसात. तीं थैं भौच पुर्विल्ल्या काळापासून नंदतात हें सांगूंक नाका. ते आपणाक **चाड्डे** (**चतूरथी**) क्षत्रीय म्हणैतात आनी हाचो पुरावो पुर्तुगेज दप्तरांत मेळटा. बारदेसांतलो रेवाडें गांवचो सूर्योबा राणो आनी तागेली घरकान्न सुंदरीबाय हांणी ता. २०-१०-१७८७ दिसा क्रिस्तांव जावच्या वेळार आपणाली जात **चारडो** अशी दिल्या.[११] हाचेवैल्यान, **राष्ट्रकूट** धाडियदेवराणक हो गोंयचो **राणो** आसून ताची आनी हेर सगळ्या राष्ट्रकुटांली जात

चाइडे (चतूरथी) क्षत्रीय आसली हांतूंत अिळ्ळोय दुबाव अुरना. 'मराठे' म्हणोवची पिसाय गोंयां हालींच रिगल्या !

**ह्या अितल्या पुराव्यांवैल्यान लत्तल म्हळ्यार सास्टींतली लोटली आसून निजामाल्या राज्यांतलें लातूर न्हय, तशेंच, राष्ट्रकूट हे गोंयचे लोटलेचे, म्हणपाचें सणसणीत सिद्द जाता.**

टिपो :

१. वररुचि, प्राकृतप्रकाश, कगचजतदपयवां प्रायो लोपः ।२-२।

२. वररुचि, प्राप्र., ओ बदरे देन । १-६ । लवणनवमल्लिकयोर्वेन ।१-७। मयूरमयूखयोर्व्वा वा ।१-८। चतुर्थीचतुर्दशयोस्तुना ।१-९।

३. हेमचंद्र, सिद्धहेम, तगरत्रसरतूवेर टः ।८-।-२०५।

४. Bhandarkar, WPL., P. 122.

५. Epigraphia Indica, vol. 7, p. 226.

६. तस्माद् गोविंदराजोभूदिंदुबिंबशिलातले । Memoir on the सावंतवाडी State by W. Courtney and J.W. Auld, Bombay 1855, pp. 252, 258. Indian Antiquary, vol. 12, p. 247.

७. वसणूक, पा. १३, १४.

८. वसणूक, पा. ७१.

९. Bosquejo Historico das Communidades Agricolas de Goa por Felippe Nery Xavier, vol. 2, Bastorá 1907, p. 263. 'पांचवा ग्राम **शंखावळी**। सागर-नदी संगम जवळीं । क्षेत्र भजनीं तिन्ही स्थळीं । शांता **नृसिंह** विजयदुर्गा ।४५।' कोंकणाख्यान, पूर्वार्ध, अध्याय २.

१०. 'शंखवाळी देव दोन्हीं स्थळीं । केरी आणि वेलिंगासी ।६। **वेलिंगासी नरसिंह**, सांतेरी। विजयदुर्गा ती केरीमाझारी ।...७ ।' कोंकणाख्यान, पूर्वार्ध, अध्याय ८.

११. Pissurlencar, O Elemento Hindu da Casta Chardó, Bastorá, Goa, 1936, p. 10; Livro de assentos de batismos 1785-1844.

परिशिष्ट 'इ'

## कोंकणी परिशद

# तिसरे बसकेची खबर

''कोंकणी परिषदेच्या तीन बैठकींचे अहवाल व त्यांतील अध्यक्षीय भाषणांचा गोषवारा या प्रकाशनांत देण्यांत आला आहे. या शिवाय हिशोब, अनेक शाखा व शाखाधिकारी इत्यादींच्या विपुल याद्या आणि भरपूर माहिती आहे. कोंकणी भाषेचा अभिमान व प्रचारी बाणा या अहवालांत कौतुकास्पद रीतीनें ओतप्रोत भरला आहे ! कोंकणी भाषेची गोडी, आवेश, स्फूर्ति व प्रचार यांचा लाभ घेऊं इच्छिणारांनी हा अहवाल अवश्य विकत घेऊन संग्रहीं ठेवावा -- आणि मराठी व इतर भाषेच्या अभिमान्यांनींहि यापासून धडा घ्यावा, इतकी कमालीची तळमळ व कळकळ या अहवाल प्रकाशनांत दिसून येते !

**कोंकण आमचो देस । आवै कोंकणी भास ।**
**आमी सगळीं भुरगीं तीचीं । भावा-भैणां खास ।**

**गावं तेंच गीत । घालूं हातांत हात ।**
**काडूं देस-भास वैर । दुसरो ना हावेस ।**

या कोंकणी 'नमन गीतांत' कोंकणीचा अभिमान आणि शुद्ध ध्येय व्यक्त झालें आहे. परिषदेचे सेक्रेटरी... व त्यांच्या सहकाऱ्यांना या अहवाल प्रकाशनाबद्दल हार्दिक धन्यवाद.''

(''**नवशक्ति,**'' मुंबई. ता. १९-१०-४४ पान ३ वरून).

अैन वेळार -

'गोमन्तक मराठी साहित्य संमेलना'चे
तिसरे बसकेचे अध्यक्ष
आचार्य काकासायब कालेलकार हांगेल्या
अुलोवपांतलो आपरोस

- शणै गोंयबाब

# अैन वेळार

## (‘गोमंतक मराठी साहित्य संमेलना’चे तिसरे बसकेचे अध्यक्ष आचार्य काकासायब कालेलकार हांगेल्या अुलोवपांतलो आपरोस)

ह्या अुलोवपाचीं निमाणीं पानां छापून जावंक आनी गोंयच्या ‘मराठी’ लोकांनी ह्या म्हैन्यांत मुंबै शारांत आपणाल्या साअित्य संमेलनाची तिसरी बसका भरोवंक अेक जालें. मानादीक देसभक्त आचार्य काकासायब कालेलकार हे अध्यक्ष मेळूंक नाशिल्ले जाल्यार, हें संमेलन म्हळ्यार ‘फोव ना कातली सुको जागर’ अशेंच म्हणचें पट्टलें आसलें.

येवकार-अध्यक्ष आनी थारावणेकार हांगेलीं जीं अुलोवपां जालीं तांचे वैल्यान तांकां तांगेलें हित कित्यांत आसा आनी त्याखातीर कितें करूंक जाय, हें समजना अशें दिसता. तांतूंतल्या अेकल्याकूय प्रामाणीक आनी पोट-तिडकेचें मत्त ना. पुर्तुगेज सरकाराची मेळत ती करणी तांकत तितली अुस्तऱ्यां घालोवन, भायल्या लोकांलें मन ताचे आड विटोवचें आनी खुबळावचें, हांतूंतूच सगळी देसभक्ती भल्ल्या, असो ह्या लोकांलो समज. क्रिस्तांव भावांचो दुस्वास आनी द्वेस हींय हांगेल्या देसभक्तिचीं आंगां आसात. कोंकणी भास ही क्रिस्तांवांली आनी मराठी भास ही हिंदुंली खैं ! ते आपणाक ‘पुर्तुगेज’ म्हणैतात म्हणु तांगेली अपुर्बुद्द आनी हे आपणाक ‘मराठी’ म्हणैतात ही हांगेली शाणेली बुद्द ! ते पुर्तुगालाक ‘बापूयभूंय’ म्हणटात ही तांगेली पिसाय आनी हे मराठणाक ‘आवैभूंय’ म्हणून गोंय हो मराठणाचो ‘मोडुं नज-जाल्लो कुडको’ म्हणटात ही मात हांगेली जाणवाय !

हिंदुस्तान स्वतंत्र करूंक ज्या वेळार हजारांनी लोक बंदखणींत वेताले आनी शेंकड्यांनी तरणे-धाकटे भुरगे आपणाल्या जिवाची होळी घालताले, त्या वेळार गोंयचे क्रिस्तांव नाचपांत गुल्ल जाल्ले, अशें कोणअेकलो क्रिस्तांव भाव तांकां दुशण लायता खैं ! स्वतंत्रतायेच्या अेद्या व्हडल्या ह्या अभिमान्यान आपणालो जीव गोडाच्या बांद्यावरी अजून राखून कसो दवल्लो हाचें अजाप जाता. ताणेंय आपल्या जिवाची होळी कित्याक घाली ना? दुसऱ्यांक फुके-सवाय दुशण लावंक तो कित्याक वांचूंक जाय आसलो? मुंबै शारांत सुमार पंचवीस हजार गोंयचे ‘मराठी’ लोक आसात खैं. परक्यांले सत्तेंतसून हिंदुस्तान सोडोवंक तांतूंतले कितलेशे बंदखणींत

ले आनी कितल्या जाणांनी जीव होगडायले? भायल्या हिंदुंली कर्तुत्वदशा नापणाल्या माथ्यार घेवन नाचूंक ह्या गोंयच्या 'मराठ्यां'क अिल्लीय लज दिसना? ाराठी भास घोंकून ह्या 'मराठ्यां'क स्वतंत्रतायेचो मोग लागला खैं ! क्रिस्तांवांक ा ना खैं. पणून हांव हांकां विचारतां कि हे स्वतंत्रताय जोड्टले ती कसली? भायल्या हेंदुल्या पालवान गोंयसून पुर्तुगेज सत्ता निखळावन? आनी मागीर? ती सत्ता हे भापणाल्या हातांत घेवन धनीपणान गोंयचो कारभार चलैतले कि दुसऱ्यांले सुवादीन नी करून आपुण तांगेले बंदे जातले? हिंदुस्तानाक स्वराज्य मेळटकूच हांगेलो ह्ावेस अितलोच दिसता कि मराठणाक गोंय दसोवन, मराठ्यांचें आनी मराठी भाशेचें चेपण आपणाल्या माथ्यार घेवचें आनी अडेचे 'मराठी' म्हणोवन सासणांचीं सासणां बंदेपणांत काडचीं ! दमणगंगेसाकून मलबारामेरेन सगळो कोंकण देस हातांत घेवन, हिंदुस्तानाचे मुखेल सत्तेतळा ताचो कारभार कोंकणी भाशेंत खासा-खवान चलोवचो आनी आपणाल्या घरा-दारांत आपणें धनीपणान नंदचें, हें हांगेल्या सप्नांतूय येना ! हांकां बंदेपणाचीच रूच ! राजकारणांत, भासकारणांत आनी धर्मकारणांत हे फांपरमुठके बंदेच रावतले म्हणटात ! हांकां स्वतंत्र कोण करीत?

अध्यक्ष काकासायबांलें अुलोवप तांगेली गडगंज विद्या, गिन्यान आनी अणभव हांकां फावो-शेंच जालें. दुसऱ्यांली कळाकूळ वळखून तांचेकडेन अुपाट आप-भावनेन चलचें, हे तांगेले मोलादीक गुण तांतूंत घणघणीत दिसतात. तांतूंत खरेली पोट-तिडक भल्ल्या. तो बेठो वैल्याचारांचो, लोकांक दाखोवचेलो आनी फुके-सवाय बरेपण जोडचेलो ढोंगी अुमाळो न्हय. हिंदी राष्ट्राचें खरेलें हित कित्यांत आसा हें तांणी पारखलां आनी तशेच ते अुलैतात आनी चलतात. ह्या खातीर म्हाका तांची तोखणाय दिसता आनी असले हे पुरुश आमगेल्या कोंकणांत जल्मले नात म्हणु जीव म्हजो मिडमिट्टा. ते आपुण 'मराठे' म्हणटात, पुण तें खरें न्हय. **ते आमगेले निजाचे कोंकणे - म्हा-कोंकणे - आसात**, हांतूंत अिल्लोय दुबाव ना. ते सास्टिचे कुट्ठाळकार. गोंय आपणाली पुण्यभूंय अशें जें ते म्हणटात तें खरेंच. कोंकणी भाशेखातीर तांगेलो जीव कळवळटा. तांगेलो कोंकणिचो पाखो पळोवन, तांकां संमेलनाचे अध्यक्ष करून व्हडली पिसाय केली अशें संमेलनाच्या जाळवणदारांक दिसुंये.

कोंकणिचें मोवाळपण भुलभुलायणें आसून, लोकांल्या अुलोवपांत अुतरा-पावलाक कवीत आयकूंक येता आनी ताची तांक सामान्याभायली आसा, अशें काकासायबांक दिसता. गोंयां वेगवेगळ्या धर्मांचे आनी जातिंचे लोक आसात; त्या सगळ्यांलो अेकामेकां मदगतचो अेकचार घडैणी अेकलीच अेक वस्त म्हळ्यार

कोंकणी भास. तिचें साअित्य फुलैलें ना आनी सरकारी दिवाणांत तिका सुवात करून दिली ना जाल्यार, गोंयचे प्रजेच्या अेकचाराचें हें तत्त्व ना-शें जावन, तांचे मदगत वेगळेचार मातलतलो आनी तांची वाट लागतली. गोंयां पुर्तुगेज भाशेचें राज्य काडून अुडोवन, तिचे सुवातेर लोकांले भाशेचें राज्य थापचें जाल्यार, ती सुवात कोंकणी भाशेकूच दिवं येत. थैं ह्या काळांत अेकाद्रे देशी भाशेक राजभास करुं येत जाल्यार कोंकणीकूच करुं येत. सरकारी दिवाणांत आनी शिकोवपाच्या मळारूय कोंकणीक म्हालगडी केल्याबगर सोडवाट ना. अशें काकासायब म्हणटात. अिल्लेंय लटकें न्हय.

पुण ते सांगतात कि कोंकणीक सदींच मराठिचें दूद मेळूंक जाय. ह्या पासावत, गोंयां कोंकणी आनी मराठी ह्या दोनूय भासांचें शिकप खळनासतना चलूंक जाय. मराठिचे अपरुखीं कोंकणी सुकून-भागून वेतली, नाजाल्यार, रोगडी जातली.

ही म्हणणी आजवेरच्या अणभवाआड आसा, अशें काकासायबांक हांव मोट्या आदरान कळैतां. गोंयां कोंकणीभास चड पुर्विल्ल्या काळापासून अुलैतात हें खरें. पुण तितल्याच पुर्विल्ल्या काळापासून मराठिचें घोंकप थैं चलता, हें तांगेलें मत्त खरेल्या अितिहासाआड आसा. कोंकणी भास ही जितली पुर्विल्ली तितलीच मराठी भास आर्विल्ली. देखून, मराठिची चींव लुचपाची गरज तिका केन्नाच पडूंक ना. मराठी ही तिगेली आवै न्हय आनी दूदकान्नूय न्हय. अुफाट्टें, मराठीक लागीं करीतपासून तिणें कोंकणिचें रगत ये-सर जायतें दूद आजवेर लुचलां आनी ती मातल्या आनी फुगल्या. आमगेली आळसाय आनी न्हिदसुरेपण ह्या पाड-गुणांक लागून, ह्या सात-आठशीं वर्सांत, मराठीक कोंकणांत असुदाय चरूंक मेकळें मळ मेळ्ळें. हाचो परिणाम असो जालो कि दमणगंगेसाकून बारदेसांत कोलवाळचे तारीमेरेन बेनुल्लेवरी ती कोंकणी रुखाच्या कांठ्यार बसली. तिका आनिकूय आखळून-माखळून धरपाचे दीस आतां अुरूंक नात. ती कोंकणांतसून बेगीन निखळून वचूं अशें आमकां जालां. तिका आवै-भाशेचो मान दिवचो अशें आमकां मनापासून दिसना. स्वराज्यांत हिंदुस्तानांतल्यो हेर भासो जश्यो आमकां येवंक जायत तशीच मराठीय येवंक जाय आनी तितले पुरतीच आमी ती शिकूंक जाय. हाचे परस चड ताथोमाथो तिका फावना. आमगेले भुंयेंत कोंकणी आनी मराठी ह्यो दोन भासो आवै-भासांवरी लेखच्यो म्हळ्यार दोन पनेळांचेर पांय दिवपासारकें आसा. हाणें आमचो घात जातलो. देखून, आमी आमगेल्या निजाच्या, जुनाट कोंकणी पनेळाचेरूच बसुंया. तांतूंतसून आमी सगळो संवसार अुपूं, अितलो तो तिजिल्लो,

ग्रट आनी गडगंज आसा. आमी निर्बुद्दपणान अितले काळ ताची धंग घेतली ना आनी तो अुबन्त अुडैलो, तरी आसतना, ताचे आंगची निजाची विरी अिह्लीय अुणी जावंक ना. सादे काणयेपासून कठीन शास्त्रीक विशयांमेरेन सोपेपणान बरोवं येत, अितली तांक कोंकणी भाशेक आसा. हाचें कारण, पुर्विल्ले वेदीक भाशेचें हुनहुनीत, खतखतीत, तेजिश्ट आनी ओजिश्ट रगत तिच्या शिरंत्रांनी घोळटा. तिची भास-शास्त्रीक किसोवणी केल्यार, म्हगेले म्हणणेचें खरेपण ध्यानांत येवंक कळाव नाका. असले आमगेले कुळवंत आनी गिरेस्त आवै-भाशेक मराठिच्या अडेच्या, किवनेल्ल्या, शेळ्या, पाराथ्या आनी चायांबोयांच्या दुदाची निखालूस गरज ना. मराठी बेनुल्ली लागून कोंकणी भास भंगल्या आनी भंगतली. काकासायबांनी हें बारकायेन येवजून पळोवचें.

गोंयकारांनी फक्कत कोंकणी लागीं धरून मराठी सोडली जाल्यार गोंयचो वेपार-अुद्योग झिणकट्टलो, अशें काकासायबांक दिसता. पणून मराठी ही खैंच्या काळांत वेपारी भास आनी मराठण हो खैंच्या काळांत वेपारी देस आसलो, हें ते सांगतीत व्हय? मराठी लोक हालिंच्या ह्या पन्नास वर्सांतूच वेपारांत हुळहुळूंक आनी सुडबुडूंक लागल्यात. तांगेली व्हडली बडाय आनी बडवाचार म्हळ्यार 'मुलुखगिरी.' शेजाऱ्या-सामाऱ्यांचेर नुलैत घुरी घालून तांगेले गिरेस्त बाजार असुदाय नागोवचे आनी तांगेलो वेपार-अुद्योग भंगोवचो, ही मराठ्यांली व्हडली 'कर्तुत्वदशा.' तांकां थंडायेचो वेपार कसो मानत? हाचे अुफाट्टें, आमी कोंकणे वेपार-अुद्योगांत चड पुर्विल्ल्या काळापासून गाजतांत. संस्कृतायेच्या हेर मळांनी जशी आमी कीर्त जोडल्या तशीच वेपारांतूय जोडल्या. आमगेलो चतुर साबाजी[१] आनी रामचंद्र मल्हार[२] हांणी मराठणाक राज्यांतल्या अुत्पन्नाची मांडणी कशी करची आनी वेपारी हिशेब कशे दवरचे, हें शिकैलां. **वेपार-अुद्योगांत आनी फडणिशींत मराठणाचे आमी शणै**, हें काकासायब विसल्ले व्हय?

सोळाव्या शेंकड्यांत पुर्तुगेजांले पिडणुकेक आनी नागोवणेक अुबगून जे लोक गोंय सोडून गेले, तांतूंत कांय ताण वेपारी आसले. तांतूंत **देवराय कामती** हो म्हालगडो आसून सगळें कोंकणभर गाजतालो. पुर्तुगेजांल्या जुलमाफुडें कसलोच अुपाय चलना जावन, हेर जायत्या कुटुंबांसैत तारवांनी बसून तो मलबारा गेलो. तांकां थैं 'अरवद वक्कल' (अरवुत्तु वोक्कल) म्हळ्यार 'सास्टकार' हें नांव पडलें. राज्यांचीं राज्यां विकतीं घेतीत असले गिरेस्त लोक तांतूंत आसले. गोंयसून भायर सरच्या वेळार, देवरायान भांगराच्यो म्होरोच म्होरो व्हेल्ल्यो. त्यो अुबारूंक दोनशीं मानाय लागिल्ले खैं ! तो कोची वचून थैंच्यान दोन कोसांवैल्या अंडिक्कडव

नांवाचे सुवातेर रावलो. हें थळ पैलीं सामकें रान आसलें; तें कोचिच्या राजाकडसून विकतें घेवन, ताचो सुंदर गांव करूंक ताणें जायतो दुडू मोडलो आनी राजाक मेळचेलो मान जोडलो! तांतूंत '**कुत्तुविळक्क**' हो अेक आसा. कोचिच्या राज्यांत हो मान देव, राजा आनी मठाचे स्वामी हांकांच मेळटा. कामतिल्या वंशांत तो अजून चलता. कोचींतूय कामतीन वेपार-धंद्यांत कुबेरावरी गिरेस्तकाय जोडली. ताणें अंडिक्कडव रानाचें अिंद्रभुवन केलें, म्हणु मलबारी लोक ताका '**आनंदपुरत्ति कामती**' (**आनंदनगरांलो कामती**) अशें म्हणटाले. हें नांव तागेल्या घराण्याक अजून चलता.[३]

कामती सकला दुसरो ताण वेपारी म्हळ्यार **पै**. तो कोचीसाकून पांच कोसांवैल्या बारांपळ्ळी गांवांत वचून रावलो. हो गांव परूरच्या राजाले सत्तेतळा आसलो. ताचेकडसून पैन तो विकतो घेतलो. तेन्नाच्यान मलबारी लोक ताका '**कर्ताव**' ही मोट्या माना-भौमानाची पदवी लावंक लागले. अिंग्रजींत लॉर्ड आनी पुर्तुगेजींत फिदाल्ग म्हणटात तसले तरेची ही पदवी. पैच्या वंशांत ती अजून चलता.[४] ह्या भायर, **म्हाळ पै, बाब परोब** आनी हेर कांय वेपाऱ्यांनी कोचींत अेक मोटी सुवात विकती घेवन, थैं तांचे वांगडा गेल्ले वाणी, शेट आनी गावडे हांचेसैत ते रावले. हे वसणुकेक **कोंकणकेरी** हें नांव पडलें.[५]

सतरा-अठराव्या शेंकड्यांत डच अीस्ट अिंडिया कंपनिचो मलबारांतलो सगळो वेपार आमगेल्या कोंकण्यांलेच गुजारतीन चलतालो.[६] आतांय मलबारांतले म्हालगडे वेपारी म्हळ्यार आमी कोंकणेच. हालिंच्या वर्तमानाक **रामचंद्र म्हादेव कामत गांवसकार** हो नांवादीक वेपारी कोचींत जावन गेलो. तसोच कालेकुटा **अुद्यावर भवानीराव** हो जायतो घणघणलो. हांगेल्यो पेडयो अजून बरे तरेन चलतात. १८०१त डॉ. बुकाननाक तुळु कोंकणांतले कोंकणे चडकरून वेपारी दिसले.[७]

सतरा-अठराव्या शेंकड्यांत मुंबै शारांत **राम कामती** हो नामनेचो वेपारी जालो. तागेलो वेपार हिंदुस्तानांत मद्रास-कलकत्त्यामेरेन आनी भायर अिराणच्या बंदर-आब्बासांतूय चलतालो. त्या खातीर ताचीं खासा कांय तारवां आसून, कांय भाड्यानूय तो घेतालो. तांचेवैले तांडेल अिंग्रज आसताले.[८]

अठराव्या शेंकड्यांत गोंयां दिवाडे **पोंवळेकार** आनी कुमारजुव्यां **रामकुश्टशणै घोडेकार (राम पुर्तुगेज)** हे वेपारी जायते गाजले. पणजे धेंप्यांलो अुद्योग जायत्या काळापासून घणघणटा. तांगेलो वेपार पुर्तुगाल, आफ्रिका आनी चीनमेरेन चलतालो. तांचेवरीच केणी, काकुले हे नांवादीक वेपारी थैं आसात. मडगांवां बोंबी नायक हे नामनेचे वेपारी जावन गेले. तांगेली पेडी अजून बरे तरेन

चलता. म्हापशां जोयशी, खलप, बांदेकार, म्हात्मे, दणायत बी घराणीं वेपारी लोकिकान गाजतात.

बेळगांव-शापुरा सुंठणकार, गिंडे आनी सराफ, कारवारा शिरूर आनी मुंबै कलबाग हीं घराणीं वेपारानूच नामनेक चडल्यांत.

हे भाशेन, आमी कोंकणे वेपार-अुद्योगांत जायते कर्मेल्यांत आनी तिजल्यांत. आमकां तो मराठणान आनी मराठी भाशेन शिकोवचो लागना. हालिंच्या वर्तमानाक आमगेले तरणे-धाकटे भुरगे किरकोळ चाखऱ्यांच्या नादाक लागून, पुर्तुगेज आनी अिंग्लेज भासो घोंकतात आनी आज्या-पणज्यांली गडगंज तागडी खुटयेक लायतात, हें बरें न्हय. संस्कृतायेच्या हेर आंगणांत जशे आमी सगळ्यां मुखार आसूंक जायत, तशेच वेपार-अुद्योगांतूय आसूंक जायत. आमगेली तागडी सदींच लकलकीत, झळझळीत दवरूंक जाय. ती केन्नाच लोखणेवंक फावना. स्वराज्यांत आमगेल्या राजकरणाक घटाय हाडूंक ही तागडीच आमकां चड अुपकारा पट्टली. आमी ती हिंदुस्तानभर, सगळो संवसारभर, घोळोवंया. हे गजालींत आमी गुजीर, सिंधी आनी मारवाडी लोकांली देख घेतल्यार बरी. मराठ्यांली देख आमकां निखालूस अुपकारना.

गोंयची समाजीक जीण भोंवतणच्या प्रांतांकडेन जिंत्रूप अेकरुपी आसा; तीय मराठिचे अपरुखीं भंगतली. ह्या पासावत, गोंयकारांनी कोंकणी आनी मराठिचो सांगड मोडूंक जायना, अशें काकासायब म्हणटात. हिंदू धर्माच्या निमतान, हिंदुस्तानांतल्या सगळ्याच हिंदुंली समाजीक जीण चडकरून अेकरुपीच दिसता. जाल्यारूय, वेगवेगळे प्रांत, थैंची थळावी आसपत, वारें आनी अुदक हांकां लागून प्रांता-प्रांताच्या सबाव-गुणांत आनी समाजीक चाली-रितींत जायतें अंतर पडलां आनी थैंची समाजीक जीण भौरुपी जाल्या, हें विसरून अुपकारना. अशेंच अंतर कोंकणी, मराठी आनी भोंवतणच्या प्रांतां मदगत आसा. तें जिंत्रूप अेकरुपी कशें म्हणुं येत? कोंकणी आनी मराठी समाजांच्या सबाव-गुणांत आनी चाली-रितींत जाल्यार, जायतें अंतर आसा. कोंकणो मनीस मनाचो मोटो, हाताचो अुदार, अभिमानी आनी अिमानी. मराठो तसो न्हय. कोंकण्याक दुसऱ्यालो अपहार करची वान्सा ना. तो सात्वीक आनी प्रामाणीक. दुसऱ्याल्या भाटांतले सुकिल्ले नाल्ल सकला येरादारिच्या मार्गार पडले, तरी तो ताका हात लावचो ना. मराठ्याक शेजाऱ्याच्या घरा-दारार 'मुलुखगिरी' करची वज. कोंकणो मनीस पोटाक नासत जाल्यार अुपाशीं मरत; पणून भीक मागचो ना. मराठी द्रविडांक आनी हेरांक झोळी घेवन 'ॐभवती' करची मोटी खोड. कोंकणांत भिकारी भोंवतात ते सगळे चडकरून मराठणांतले.

'रघुपति राघव' रामदासबावा, 'दत्त जनार्दन' अेकनाथबावा, मेडे-जोयशी, पिंगळी, कावडकार, घोणसा-बैलकार, नांगरकार, भौरुपी, ठाकूर बी मराठणांतले तरेकतरा लोक गोंयां बाराय म्हैने रूंयरूंय करून भोंवतात. मराठ्यांली ही नश्टी देख घेवन, हालिंच्या वर्तमानाक, कांय गोंयकारूय भीक मागूंक शिकल्यात हें बरें न्हय. मराठणांत जाती-जातींत अेकामेकांक अुणाक लेखूनं धोंस आनी धुमशेणां घालचीं मोटी खोस. सोळाव्या शेंकड्यापासून हें पाडाखपण थैं रुजवणा आयलें. थैंच द्रविड लोक हेर सगळ्या जातींपरस आपुण चड अुंच म्हणु दाखोवंक तांका कुसकुटावंक लागले. कलियुगांत खेत्री आनी वाणी काबार जावन, बामण आनी सुदीर ह्यो दोनूच जाती अुल्ल्यो, म्हणपाचें ते लोकांक सांगूंक लागले आनी हे भाशेन जाती-जातींत धोंस मातली; ती अितली कि अेकनाथासारके संत म्हळ्ळे पुरुश हेर जातिंनी बामणांलो द्वेस केल्यार तांचो कुळक्षय आनी निसंतान जातलें म्हणपाचे भयांकृत स्राप तांकां दिवंक लागले![१] मराठणांतली ही धोंस अजून सोंपूंक ना. मराठी भाशेच्या धर्मान, हालिंच्या पन्नास वर्सांत, ती गोंयांतूय रिगल्या. पुणेरी पत्रां वाचून तांतूंतसून समाजाची थंडाय भंगैणें आनी जीवघेणें हें वीख थंय पावलां. थैं ह्याआदीं, हिंदुस्तानांतल्या हेर प्रांतांभाशेन, जातींत सकैले-वैले अशे पांवडे आसले आनी अजून आसात खरे; पणून अेकामेकांलो दुस्वास आनी द्वेस नासलो. वेगवेगळ्यो जाती अेकामेकांलीं हकां आनी मान वळखून सन्मथान आनी थंडायेन चलताले. पुण आतां ते भांगराचे दीस फाटीं पडले. थैं हिंदुहिंदु मदगतूच धोंस रिगल्या अशें न्हय; तर हिंदू आनी क्रिस्तांव हांचे मदगतूय ती रिगल्या आनी तिका मूळ म्हळ्यार आमी हिंदू. मराठणांत हिंदू आनी मुसलमान हांचीं भौनभौन झगडीं जातात तांच्यो खबरी मराठी पत्रांनी वाचून, तशेच तरेचीं झगडीं गोंयां हिंदू आनी क्रिस्तांव हांचे मदगत रुजोवन मोटो बोवाळ करचो, आनी त्या निमतान, भायल्या हिंदूंक धोंगसून, आपल्या नांवाचो जागर करून, देसभक्त आनी धर्मवीर म्हणु फुके-सवाय कीर्त जोडची, अशें आमगेल्या कांय हिंदुलें हें राजकर्ण आसा. दुसरें कांय ना. आमगेल्या क्रिस्तांव भावांसारके भांगराच्या गुणांचे मनीस संवसारांत हेर खैंचेचकडेन मेळचे नात. तांचेकडेन नाका-जाल्लें पाडाखपण कित्याक? आमगेल्या ज्या अुदार मनाच्या पुर्वजांनी ह्याच कोंकणांत अनार्यांक शुद्ध करून हिंदू धर्मांत घेतले, तांगेले पिळगेन ह्या विसाव्या शेंकड्यांत राष्ट्रीक अभिमानाच्यो आनी अेकचाराच्यो गोड-गोड गजाली सांगून, मराठणांतल्या 'धर्मविरां'ली नश्टी देख घेवन, धर्माच्या नांवान गोंयां धोंस घाल्यार सोबता मू? धर्म-धोंशिचो म्हारू हिंदुस्तानाक आतां पुरो जालो. तो आनीक आमच्या कांठ्यार बसोवंया नाका.

ताका आमी खुबळावंया नाका. ताका बेल्यांत भरून सातां समुद्रांचे खरीक पुरुंया. हिंदुस्तानाक मेळचेल्या स्वराज्यांत हिंदी लोकांक सुखा-समाधानान नंदचें आसल्यार, तांणी धर्माच्या नांवान धोंस घालून अेकामेकांल्यो तकल्यो फोडूंक फावनात. मद्रासच्या आवांठांत जैं हिंदू आनी मुसलमानांलें झगडें केन्नाच नासलें, थैं मराठणान हालींच हिंदुंलो अेकचार करच्या निमतान, धर्म-धोंशिचें अुंवाळ्ळलें, बुरशें पील व्हरून सोडलें खैं ! देखून, मराठणाची नश्टी देख आमकां नाका. तिणें आमगेल्या कोंकणी समाजाक रोंटो लागून तो पोखरतलो आनी काबार जातलो. आमगेल्या समाजाक सासणाचीं सासणां बरे तरेन वांचचें आनी नंदचें आसा, हें आमी विसरुंया नाका.

गोंय म्हळ्यार सोऱ्याचीं बल्लांचीं बल्लां ताळ्यांत रकोवन, संवसारांतले सगळ्यांत वैले म्हाणायाचेर बसलां, अशें म्हणटात खैं ! थैंचें सरकार वंशपिडयांनी सुरांडें खैं ! सोरो-पियेवपांत धर्मगुरुचेंय आंग आसा खैं! काकासायब हें आमकां सांगतात. हांव सोऱ्याचो आनी सुरांड्यांचो पाखो घालिना. गोंयांतसून सोरो ना-नपश्यात जावंक जाय हें खरें. पणून, पैले आनी वैले म्हाणायाचे पंगतीक सगळें हिंदुस्तानूच आज बसलां, ताची वाट कितें? तेंय सोऱ्याच्या बल्लांत बुचकळटा आनी घुसमट्टा! हांगा कोणें कोणाक हांसचें आनी कोणें कोणाक रडचें? हिंदुस्तानांतले सुरांडे आनी बेबदे अेवरोपी सत्तेचो हो नश्टो पणािम. ही सत्ता निखळून तिचे सुवातेर स्वराज्य जायत, तेन्नाच हिंदुस्तानांतलो सोरो आळाबंदा येत. तंव म्हणसर, तो दिसानदीस माततलो आनी अच्छेव घालतलो. १४९८त कालेकुटा पुर्तुगेजांलीं तारवां पावलीं तेन्ना, थैंचो कोतवाल तीं पळोवंक गेलो खैं. गामान ताका भौमानान सोऱ्याचें कोप दिवंक काडलें खैं. पुण ताका तो आफडना जालो ! पुर्तुगेज कवी कामांय्स हो ही गवाय दिता.[१०] फुडें सोळाव्या शेंकड्यांत अिंग्लेज जेजुअीत पाद्री स्टीफन्स आपणाल्या क्रिस्तांव पुराणांत बरैता कि **गोंयच्या लोकांक सोरो भश्टो दिसता**. ('पाद्री म्हणे यां देसिंच्या नरां अपवित्र दिसे मधु मधुरा.'[११]) अशे जे लोक आदीं सोऱ्याक आफडनासले, तांगेलीच पिळगी आज बेबदी जावन खळयांनी लोळूंक लागल्या! सगळें हिंदुस्तानभर होच अळशिकावणो देखाव आमकां दिसता. पणून अेक गजाल म्हज्यान मोट्या अभिमानान सांगुं येता ती ही, कि अेकसारकीं साडेचारशीं वर्सां सुरांड्या पुर्तुगेजांली सत्ता जरी आमच्या गोंयाचेर चलता, तरी थैंचे हिंदू फाटल्या पन्नास वर्सांमेरेन सोऱ्याक आफडनासले! बामणापासून गावड्यामेरेन सगळेच लोक सोऱ्याची शिताडी आंगार अुसळ्ळ्यार माथ्यावैल्यान न्हाताले ! अजुनूय थैंचे देंठले गावडे आनी वेळीप सोऱ्याक आनी सुरीक आफडनात.

आचार्य धर्मानंदशणै कोसंबी हांगेले म्हणणे भाशेन, मराठी संगीत नाटकांक लागून गोंयचे हिंदू सोरो पियेवंक लागले ![12] हे भाशेन, तांगेल्या बेबदेपणाचें म्हापानक मराठणाच्या आनी मराठी भाशेच्या माथ्यार फुट्टा, हांतूंत अिल्लोय दुबाव ना. हांगा दुसरी अेक गजाल येवजून म्हाका मोटें अजाप जाता कि मराठणाचेर परकी मुगलांची सत्ता नाथून स्वराज्य चल्लां आसतनाय, १७७६त पुण्यां, नाना फडणिसाच्या वेळार, नारायण पेठेंतले हिंदू सोऱ्याचे शिसे ताळ्यांत रकैताले![13]

ह्या आनी दुसऱ्या पुराव्यांवैल्यान, मराठी समाज आनी संस्कृताय आनी कोंकणी समाज आनी संस्कृताय हांचे मदगत केदें व्हडलें अंतर आसा, तें घणघणांत अुकतें दिसता. दोनूय जिंत्रूप अेकरुपी म्हळ्यार, आपणें आपणाक वोगीच फटोवन आनी नाडून घेवचें. आमगेली संस्कृताय मराठी संस्कृताये परस कितली तरी अुंच पांवड्याची. तिच्या नाखटाची सर मराठणाक केन्नाच येवची पडल्या? देखून, मराठी समाजीक जिणेची देख आमकां निखालुस नाका. तिची गरज आमकां ना. तिचो वांगड धरून आनी सांगड बांदून, आमगेली अुंच पांवड्याची जीण जायती सकला आदळ्ळी आनी भंगली. आतां आमी सादर जावंया आनी मराठी वशापासून सांबाळून रावंया. आमी आमगेलें घर झळझळीत, निवळ राखुंया. ह्या कामाक कोंकणी भास आमकां जायती जाली. मराठी भाशेच्या अुपकारांचें ओजें आमकां नाका.

गोंयच्या देवळांतल्या कलंवतां-भावणींसारक्या सेवेकारी पचकुऱ्यांली जीण पळोवनूय, काकासायबांलो जीव कळवळटा. देवळांतल्या सोरपां-विंचवांवरीच थैं हीं सेवेकाऱ्यां आसात, अशें तांकां दिसता. तांगेली जीण निवळावंक गेल्यार, देवळांनी गावपा-नाचपाचे विद्येन जें तांगेलें पोट भरता तें भरचें ना; देखून तांणी हेर वावरा-कश्टान आनी अुद्योग-धंद्यान तें भरूंक जाय. तांगेलो समाज निवळूंक चडश्यो पिडयो नाकात. समाज-निवळावपी, राष्ट्राचे मुखेली आनी बुदवंत साधु-संत हांणी मनार घेतल्यार, तीस वर्सांभितर तांगेली पातकी चाल गोंयांतसून ना-नपश्यात करूं येत, अशें ते म्हणटात. गोंयावरीच मराठणांतल्या कांय देवळांनी असलीं पचकुऱ्यां आसात, तांकां मुरळ्यो म्हणटात खैं. अितल्यानूच शिंदळकेंतसून तें सुटना. दुसऱ्या बाजीरावाच्या आनी नाना फडणिसाच्या वेळार, पुण्यां जायत्यो **सजनी बायलो** अुकत्या माथ्यान शिंदळकी चलैताल्यो ![14] पंडरपुरा आज कितल्या वर्सांपासून 'बालहत्याप्रतिबंधकगृह' चलता! तांतूंत भुरग्यांची दिसानदीस चट्टी भर मराठणांतल्यो **सजनी बायलोच** घालतात.[15] असलीं बाळंतेराचीं घरां मराठणांत आनीक जायतीं आसात खैं ! तीं आमकां कितें सांगतात? मराठणांत ओतो आयिल्ली

शिंदळकी आनी तीय सजनी बायलांलीच न्हय? गोंयच्या निजाच्या चेडयां परस ह्यो सजनी बायलो चड पातकी. ह्यो आपणालें पातक लिपोवंक कुसव्यांतलो गाब कुसव्यांतूच घळघळायतात, मारतात वा अर्दवळणो मरतुकडो करतात.[१५] गोंयच्यो चेडयो जल्मवेर अेकूच मींड करून, ताचेकडेन सजनी बायलांचे पवित्रतायेन चलतात. त्यो आपणाली करणी पातकी लेखिनासतना, आपणालें संतान पुण्यतायेच्या हका-मोलाचें समजून, माये-मोगान ल्हान-व्हड करतात. तांगेले हे करणेच्या धर्मान, नामनेचे गवय, गवयणी आनी वाजंत्री नांवा-रुपाक येवन, संगीत कळेंत गोंयचो लोकीक संवसारांत घणघणायतात. हें येवजून, कोणा कोंकण्यालें काळीज अभिमानान फुगचें ना? गोंयच्या जातवान चेडयांच्या धर्मानूच, मराठणांतलेवरी **सजनी शिंदळकी** थैं पतिकूय दिस्टी पडना. ह्या खातीर म्हाका अभिमान दिसता. पणून मराठणाच्या आनी मराठी भाशेच्या वांगडा-सांगडाचें पिशें जितलें जितलें गोंयच्या कांठ्यार बसत, तितलें तितलें **मराठी सजनी अळशिकेंत** तें बुडल्याबगर रावचें ना, हें येवजून म्हाका मोटो खेद जाता आनी म्हजो जीव निरशेता. गोंयच्यो जातवान चेडयो मराठी अडेच्या सजनी चेडयां परस जायत्यो बऱ्यो, अशें आज जरी म्हाका दिसता, तरी सुमार पसतीस वर्साफाटीं चिके अपुर्बुद्दपणान आनी हुतहुर्तेपणान, हांवें तांगेले चालीआड कडकडीत मजकूर बरैल्लो. त्या वेळार, म्हैसुरच्या म्हाराजान मुजरत कायदो करून, आपल्या राज्यांतल्या अेकाय देवळांत कलंवतांक लागीं धरचीं न्हयत, अशी बंदिस्ती केल्ली. अशीच बंदिस्ती आमगेल्या स्मार्त आनी वैशणव स्वामिंनी गोंयां करची, अशी हांवें तांकां विनंती केल्ली.[१६] पणून कांयच अुपयोग जालो ना.

कर्णाटकांत ही चाल पुर्विल्ल्या काळापासून चलता. थैंच्यानूच ती आमगेल्या कोंकणांत पावली हांतूंत दुबाव ना. मराठी भाशेचो वांगड आनी सांगड कोंकणाक जोडचे आदीं जायते काळ, ती थैं थिरावल्या. आतां असो अेक प्रस्न अुबो रावता कि गोंयच्या कलंवतां-भावणिंली चाल मोडून तांकां सजनी बायलो केल्यो जाल्यार, शिंदळकी मना जायत व्हय? अुत्तर हिंदुस्तानांतल्या देवळांनी असलीं सेवेकाऱ्यां नात. थैं शिंदळकी चलना व्हय? अेवरोपांत, अमेरिकेंत आनी मुसलमानी मुलखांत देवा-धर्माच्या घरांनी हीं पचकुऱ्यां नात. थैं शिंदळकी चलना व्हय? येवजूंक गेल्यार, शिंदळकी नाशिल्लो अेकूय गांव संवसारांत मेळत-सो दिसना. ती चड पुर्विल्ल्या काळापासून मनशांल्या ह्या संवसारांतूच न्हय, तर देवांल्या सर्गारूय अच्छेव घालता. अेकाद्री सर्गावैल्यानूच ती धर्तरिर पावली जावंये. वेदांच्या वेळार, अुर्वशीसारक्यो सर्गावैल्यो रुपेस्त चेडयो धर्तरेवैल्या मनशांक भुलसायताल्यो आनी

पिसायताल्यो, हें आमी वाचिनांत? सर्गार ह्या चेडयांचे अवचीतवाडे जायते आसूंक जायत. थैं तांचीं भिरींच भिरीं पडल्यांत जातलीं. धर्तरिवैल्या धर्मशास्त्र्यांनी आनी धर्मवाद्यांनी तांचो फावोसो लावूय घेतला, हांतूंत तांगेली मोटी चतुराय दिसता. शिंदळकी म्हळ्यार पातकी, अळशिकावणी अशें म्हणून तांणी ती थिसपटावंक ना. धर्तरिर बरे तरेन चलतल्या आनी बऱ्यो करण्यो करतल्या मनशांक मरतकूच सर्गार ताज्या तट्टीत रुपेस्त चेडयां वांगडा किटकिटूंक मेळटलें, म्हणपाचें आंयस तांणी दाखोवंक ना? आनी ह्या आंयसाचे आस्तेन जायते नश्टे मनीस, वैल्याचारांक तरी, बऱ्या मार्गाक लागिल्ले आमी पळेनांत? खोल येवजूंक गेल्यार, शिंदळकी हो समाज-शास्त्रांतलो चड गटखळिचो प्रस्न दिसता. शिंदळ बायलांक सजनी केल्यार, सजनी बायलो तांगेली रिती सुवात आडायतल्यो, हांतूंत दुबाव ना. देखून, चलता तीच दशा बरी म्हणूंक जाय. जाय जाल्यार, चेडयांची चलणूक तांकत तितली निवळावची, पुण अेवरोपी तरेचे अुपाय आमकां नाकात. ह्या चाळीस वर्सांत अिंग्लंड, डेन्मार्क, स्वीडन, नॉर्वे बी मुलखांनी चेडयांले अवचीतवाडे जायते अुणे जाल्यात खैं.[१७] हाचो अर्थ, थैंची शिंदळकी थांबली आनी थैंच्यो चेडयो पुण्यशीळ जाल्यो असो केल्या अुपकारना. जल्मवेर शिंदळकी चलोवन, गुरवार जावचो अिल्लोय भय अुरनासतना जोगिणिची घुडी अुबारपाचो फुके-सवाय अुपाय तांगेल्या हाताक लागला ! हाका 'संतान-आळावप' (Birth control) म्हणटात. पुण खरेपणानशीं हें 'गुरवाचार-आडावप' (Conception prevention) आसा. ह्या अुपायान आपल्या मुलखांतली शिंदळकी ना-शी जाली म्हणून कोण बडाय मारतले जाल्यार खुशाल मारूंत; पणून ते आपुण आपणाक फटोवन घेतात अशें म्हणचें पट्टा. ह्या अुपायान वा शास्त्रान चेडयांची शिंदळकी मना जातली अितलेंच न्हय, तर सजनी बायलोय आपणाक जाय तितलींच भुरगीं जल्मा घालून माणकुलो संवसार चलैतल्यो आनी सुखाक पावतल्यो खैं ! पुण हो निवळ भ्रम आसा.हें शास्त्र ल्हवू-ल्हवू हिंदुस्तानांतूय रीग करूंक पळेता, हें बऱ्याचें लक्षण न्हय. ह्या शास्त्रान चेडयांची शिंदळकी चलतलीच; त्या भायर सजनी बायलोय शिंदळ जातल्यो. कुटुंबाची पवित्रताय भंगतली आनी पुर्विल्लीं कुळवंत घराणीं ना-शीं जातलीं. घरची घरकान्न म्हळ्यार घरा-दाराची सोबीत आनी पवित्र देवता. पुण ती बुरशी, पोजडी आनी पातकी अवदिसा जातली. कुटुंबाचें खरेलें सुख विबाट्टलें. घोव बायलेचेर आनी बायल घोवाचेर पातयेवची ना. अेकामेकांल्या दुबावान तांचेभितर भौनभौन झगडीं लागतलीं. तांगेलो संवसार अडेचो, सय-सुवाद नाशिल्लो, पचपचीत जातलो. तांगेल्या संबसाराक कुटुंब हें नांवूच सोबचें ना. संतान आळावंक गुरवाचार-आडे

(Contraceptives) अुपकारावन, बायलांचो कुसवो भंगतलो. गुरवार जावची तांगेली तांक मंदावतली आनी तांकां भुरगें-बाळ जावंक पावचें ना. तांचें निसंतान जातलें. हिंदुस्तानांतली लग्नाची पवित्र चाल काबार जातली. आंकवार आनी आंकवारी लग्न जावन, भुरग्यां-बाळांच्या संवसाराचो भार आंगार घेवचे भाशेक, जल्मवेर शिंदळकी चलोवन, 'बाळ-ब्रह्मचारी' म्हणून शेबै घालतल्यो ! अेवरोपांत, चड करून अिंग्लंडांत आनी हॉलंडांत, लग्नाची चाल जायती मोडल्या खैं.[१८] हे भाशेन, ह्या घातमाऱ्या शास्त्रान नफे परस लुस्कानकीच जायती आसून, शिंदळकी मना जावचे बदला माततली; देखून तें आमकां नाका. गांवा कणकणी चेडयांचे अवचीतवाडे आसात तेच बरे. तांची दशा तांकत तितली आमी निवळावंया. तांकां अळशिकुंया नाका. अुबगुंया नाका. पुण चड मातुंकूय दिवंया नाका.

गोंयां कोंकणी खातीर देवनगरी आनी रोमी ह्यो दोनूय लिपी घोळोवच्यो पट्टल्यो, अशें काकासायब म्हणटात. कोंकणी वांगडा मराठी भासूय आवै-भाशेच्या पाटार बसोवची अशें जें ते म्हणटात तसलीच ही म्हणणी. आवै-भास आनी लिपी ह्या दोनूय गजालींत आमकां तांगेलें 'विशिष्ट अद्वैत' (दुकलेपणाचो लेप काडिल्लें अेकलेपण) भौच नट्टलें. आमकां 'अेकमेवाद्वितीयम्' (दुकलेपण नाशिल्लें अेकलेपण) हेंच तत्व चलोवंक जाय आनी दुकलेपण पैस आमडून अेकल्याचोच माया-मोग (अनन्यभक्ति) आमी पोटतिडकेन करूंक जाय. आमगेलें मन दोंशीं-तीशींकडेन जळपूंक फावना. दुकलेपणान आमगेली आवै-भास लसलसून वाडूंक पावची ना. कोंकणी भास देवनगरी लिपींत घोळोवंक जाय हाचें चड म्हत्वाचें अेक कारण अशें आसा कि **वेदीक भाशेची म्हालगडी धूव** अशें जें तिचें रूप आमकां आज घसघशीत दिसता तें म्हेळूंक फावना आनी पुसून वचूंक जायना. अुबन्त अुडैल्या आसतनाय, ती आजवेर तगून अुल्ल्या, हाचें कारण वेदीक भाशेकडेन तिचें दाट नातें हें आमी ध्यानांत धरून, तें अखंड चलोवंक जाय आनी ह्या पासावत देवनगरी लिपीच आमी घोळोवंक जाय. ह्या संबंदाची येवजणी फाटल्या १५३-१५५ पानांचेर केल्या, ती वाचून पळोवची.

कोंकणिच्या अुच्चारांभाशेन देवनगरी लिपी आमी चिके निवळावंक जाय, हांतूंत दुबाव ना. पुण त्याखातीर कुरवांची चड कंगरखीस करून अुपकारना. हे कंगरखिसीन बरोवपांत वेळ होगडावन, येवजण्यांचो ओग आडखळटा आनी थांबता. मनांतल्या येवजण्यांवांगडा आपणाली लिखणी तुरतुरीत धांवंक जाय, फाटीं अुरूंक फावना, हें आमी विसरूंक जायना. काकासायबांक हे गजालिचो जायतो अणभव आसा. देखून तांगेली बुद्द आमगेल्या बरप्यांनी मुजरत घेवन,

देवनगरी लिपी सादे-सोपे रितीन बेगीन निवळावची आनी ते तरेन बरोवंक लागचें

गोंयां घोळटा तीच कोंकणी मुखेल आनी प्रमाण समजची, अशें काकासायब सांगतात. पुण हांतूंत हटवाद आनी कोल्ल अुपकारना. हें काम कोंकणी लोकांल्या सन्मथान जावंक जाय. तरूच आमगेली भास घवघवीत वाट्टली. ह्या संबंदान फाटल्या १५६ पानाचेर अुपाय सांगला, तो बऱ्याक पडत अशें दिसता.

भाशेंतलें साअित्य कशें आसचें, ह्या संबंदान काकासायबांली म्हणणी भौव मोलादीक जाल्या. समाजाची जीण निर्मळ जावन चकचयाळ वाडचेखातीर साअित्याचें सगळें बळ अुपकारावचें अशें ते म्हणटात. खऱ्यानीच, कोंकणी बरप्यांनी होच हावेस धरूंक जाय. बरोवंक जाय म्हणु कसली तरी आरशी-बुरशी, कुसकी-नासकी आनी अळशिकावणी घाण आमी लोकां सामकार मांडूंक जायना. समाजांत जीं घाणयारीं आनी पातकी चित्रां दिसतात तीं, वाचप्यांक खिणभर पोटभर हांसोवंक आनी तांगेल्या चिरकुटपणाक अुमाळे हाडूंक, आमी दाटून चितरावंक जायनात. तशें केल्यार, आमी बऱ्या समाजाक वायट देख लावन तो कुसैतांत. हें म्हा-पातक म्हणूंक जाय. वाल्मिकीन रामायण रचून गुणेस्त आनी सगळ्या संवसाराक देखवंत अशीं मनशां जल्मा घालीं, तशींच आमी घालूंक जायत. चोर, शिंदळ, रांडये, जुगाड्डे, सुरांडे, खुनमारे, नागोवणे, नाड, तड्डकी, ढोंगी, अपहारी, आंगार-पडे, बगलांठे, बिर्मते, फटकिरे असल्यांल्यो नश्ट्यो आनी पातक्यो करण्यो तोखेवन आनी फुलोवन सांगून, तसलीं मनशां आमी निर्मूंक जायनात. आमगेलो समाज दिसानदीस निर्मळ जावन लसलसून मातत, अशेच तरेची देख आमी आमगेल्या साअित्यान ताका लावंक जाय. जाल्यारूच, आमगेलो मेंदू खरेलो पिकाळ आनी लिखणी खरेली फळादीक जाली म्हणची.

साअित्यांत अुर्वशीक म्हाणाय दिवंक काकासायबांक मानना. पुण संवसारांत चेडयो आसात तंववेर, तिका धिसपटावन कशें जायत? तिका हजारांनी मींड (मीढु[१९]) करूंक दिवन, आमगेल्या साअित्यांत किटकिटूंक लावंया नाका. पणून तिणें आपणाल्या नाजूक पांयांत घागऱ्यो बांदून केरव्या नाचाची पावली माल्ल्यार, आमी दोळे कित्याक धांपचे? आनी तिणें दाव्या पोल्यार हात धरून आपणाल्या ताळ्यांतली गोड सुरांची मंजूळ पिल्लूक वाजैल्यार, आमी कानांक गुड्डे कित्याक मारचे? कसलें लुसकान आसा?

अुर्वशीबदला म्हैशासुरमर्दिनीक मखरांत पुजची, अशें काकासायब सांगतात. ती संवसाराची आवै, संवसाराक पोसणी अनपुर्णाबाय, पणून तेजिश्ट आसून, तीच संवसाराच्या मुखावैली सरस्पत; तिचेच दयेचो प्रसाद घेवचो, अशें ते म्हणटात.

ांत **झुजमारी देवी** ह्या पेल्यान तिचो लोकीक गाजिल्लो कोणें आयकूंक ना. तिचेकूय ाड पुर्विल्ली, **अुमा** (संवसाराक राखणी), **अंबा** (संवसाराची खरेली बा, आवै) ानी **शान्त रुपाची देवी** आज अडेच हजार वर्सांवैर आमगेल्या कोंकणांत गांवा ाणकणी नंदता आनी आमकां प्रसाद-पाखळी दिता, ती काकासायब कशे विसल्ले? ; देवीअितली पुर्विल्ली देवी वेदीक बरपावळींत आनी सगळ्या हिंदुस्तानांत दुसरी कोण दिसना. संवसारांतली पैलीवैली देवी ती हीच म्हळ्यार जाता. केन अुपनिशदांत हेची वर्णना 'हिमवताची धूव भौच सोबीत अुमा' (बहुशोभमाना अुमा हैमवती[२०]) अशी केल्या. डॉ. सर भाण्डारकरांक अितिहासीक नदरेन दुर्गेचीं तीन रुपां दिसतात: ैलें, वैर सांगिल्लें शान्त रूप (bland form). हें तोखेवन, ते तिका अुपकारीक आनी व्हडविकेच्या लक्षणाची (beneficent and majestic character) म्हणटात. दुसरें अुग्र रूप. काली, चंडी, चामुंडा बी ह्या रुपाच्यो देवी. ह्याच पंगडांतली म्हैशासुरमर्दिनी. तिसरें चिटवाळें रूप. आनंदभैरवी, त्रिपुरसुंदरी आनी ललिता ह्यो देवी ह्या रुपाच्यो.[२१] गोंयां कालिका, चामुंडा आनी म्हैशासुरमर्दिनी ह्या अुग्ररुपी देविंचीं देवळां भौच थोडीं. बाळ्ळी गांवांत म्हैशासुरमर्दिनिचें अेक देवूळ आसा. तिकाय थैं सांतेरी आनी शांतादुर्गा म्हणटात. हाचेवैल्यान, शान्तरुपी देवी लोकांले कितले भक्तिची आनी संवकळिची जाल्या ती अुकती दिसता. कुडाळासाकून कारवारामेरेन सांतेरिचें देवूळ वा देवळी नाशिल्लो अेकूय गांव मेळत-सो दिसना. सगळ्यो जाती तिका पुजतात आनी सगळ्यांक ती राखण दिता. आमगेल्या कोंकणाबादत सगळ्या हिंदुस्तानांत **सांतेरी ह्या नांवान** दुर्गेची पुजा हेर खैंचेचकडेन चलना. हे भाशेन, अेवरोपी वेपारी रितीन अुलोवचें जाल्यार, **ह्या नांवाक** कोंकणाच्या हका-मोलाचें 'ट्रेड-मार्क' रूप आयलां. दुर्गेचें हें पैलेंवैलें रूप कोंकणाचे चड भक्तिचें आनी संवकळिचें जावचें कारण, तिका दुसरीं दोन रुपां येवचे आदीं तें थैं पावलां आनी थापलां, हांतूंत दुबाव ना. तिगेल्या दुसऱ्या म्हळ्यार अुग्र रुपाचीं कांय नांवां महाभारतांत पैलींवैलींच दिल्लीं मेळटात.[२२] तिसऱ्या चिटवाळ्या रुपाचीं नांवां तांतूंत नात. तें चड आर्विल्लें रूप. आतांचें महाभारत, शकाआदीं पांचशीं वर्सांच्या सुमाराक, जालां खैं.[२३] हाचेवैल्यान, दुसरीं दोन रुपां जाणापरींत येवचे आदीं कांय काळ, म्हळ्यार क्रिस्ताआदल्या सुमार सात-आठव्या शेंकड्यांत, वा चिके आदींय, आमगेले पुर्वज शांतरुपी दुर्गेची भक्ती घेवन कोंकणांत आयले आनी थिरावले अशें म्हणूंक अडचण ना. आर्यांनी कोंकण वसोवची म्हुर्तमेड रोयली ती ह्याच वेदीक काळांत म्हणपाची नाट हे भक्तींत आमकां घसघशीत दिसता. हे म्हणणेक आनिकूय पुरावे वेदीक बरपावळींत मेळटात.

श्रीकृष्णाचीं नांवां आमकां कृष्ण, देवकी-कृष्ण, वासुदेव-कृष्ण, गोपाळ-कृष्ण आनी राधा-कृष्ण अशीं मेळटात. हांचो थोडो-भौ अितिहास डॉ. रा भाण्डारकारांनी दिला. हांतूंतलें पैलें नांव ऋग्वेदांत आयलां. तांतूंत, कृष्णाक अेक फावट धा हजार सैन्यासैत पळोवन, अिंद्र आपणाल्या सैन्याक म्हणटा, 'अंशुमती न्हंयेचे गाळींत, रानांत लिपून बशिल्लो तो तुरतुरीत चलणो आनी मळबावरी तेजिश्ट कृष्ण म्हाका दिसता. बळिश्टांनू, तुमी ताचेकडेन झुजचें अशी म्हजी अिच्छा आसा.'[२४] हांगा मळबावरी तेजिश्ट म्हळ्यार **निळ्या रंगाचो**. अजुनूय आमी कृष्णाच्या आंगाचो रंग निळो समजतांत आनी त्याच रंगान ताच्यो म्हुर्ती रंगैतात. हाचेवैल्यान, अिंद्र जाचेकडेन झुजिल्लो तो कृष्ण म्हळ्यार श्रीकृष्ण हांतूंत दुबाव ना. अिंद्र आनी कृष्ण हांच्या ह्या झगड्याची खबर हरिवंशांत गोवर्धन-गिरि-यज्ञांत आयल्या. तांतूंत अिंद्राच्या नांवान यज्ञ करची पुर्विल्ली चाल मोडून, कृष्णान गोवर्धन दोंगराची पुजा करून, ताका गोरवांच्या मासाचो आनी हेर निवेद्य दाखैलो. देखून अिंद्र खुबळ्ळो आनी झगडें जालें.[२५] हे कथेंत कृष्ण अेकेकडेन आपणाल्या वांगडच्यांक म्हणटा कि, 'आमी रानांत भोंवतले गोरवां-राखणे.' (वयं वनचरा गोपा:[२६]) दुसरेकडेन म्हणटा कि 'राखण्यांसैत गोरवां मदगत रानांत भोंवतलो हांव.' (अहं स अेव गोमध्ये गोपै:सह वनेचर: ।५०।[२७]). ह्या कारणान गोपाळ-कृष्ण हें नांव ताका मेळ्ळें. ताच्या जल्माचे खबरींत ताच्या बापायचें नांव वसुदेव आनी आवैचें नांव देवकी अशें दिलां.[२८] देखून, बापायच्या नांवावैल्यान वासुदेव-कृष्ण आनी आवैच्या नांवावैल्यान देवकी-कृष्ण हीं नांवां ताका पडलीं. बाराव्या शेंकड्यापासून फुडें, ताका राधा-कृष्ण हें नांव मेळ्ळें. पुण हरिवंश, विष्णुपुराण आनी भागवतपुराण हांतूंत राधेचें नांवूय ना.[२९] जावं. ह्या सगळ्या नांवांत देवकी-कृष्ण म्हळ्यार 'देवकेलो पुत कृष्ण' ह्या नांवाचो पांवडो दुसरो लागता. हें नांव पैलेंवैलेंच 'कृष्णाय देवकीपुत्राय' अशें छान्दोग्य अुपनिशदांत आमकां मेळटा.[३०] ह्याच अुगडासान 'वेदांनी गाल्ली देवकी' अशी देवकेली तोखणाय कृष्ण अुपनिशदांत केल्या.[३१] आवैच्या नांवावैल्यान पुताक वळखपाची चाल पुर्विल्ल्या अुपनिषदांत चड घोळटाली अशें दिसता. बृहदारण्यकांत जे गोत्रताटे दिल्यात, तांतूंत 'अमके आवैलो पुत' अशे तरेचीं नांवां जायतीं आसात. देखीक कात्यायनीपुत्र, गौतमीपुत्र, भारद्वाजीपुत्र, कौशिकीपुत्र, बी.[३२] देवकीपुत्र वा देवकी-कृष्ण हें नांव अशेच तरेचें. **ह्या नांवान** चड पुर्विल्ल्या काळापासून श्रीकृष्णाची भक्ती कोंकणांत गोंयां चलता, हो मुद्दो म्हत्वाचो आसा. सगळ्या हिंदुस्तानांत **ह्या नांवाचें** श्रीकृष्णाचें देवूळ हेर खैंचेचकडेन ना. सांतेरीवरी **ह्या नांवाकूय** कोंकणाच्या हका-मोलाचें 'ट्र

'ड-मार्का' रूप आयलां. सोळाव्या शेंकड्यांत तीसवाडी जुंवावळीर, दिवाडे लागसार, चोडणें जुंव्यार, देवकी-कृष्णाचें पुर्विल्लें मोटें देवूळ आसलें. हांगाच्या अेका वाड्याचें नांव देवकी (पुर्तुगेज अुच्चार Deoguim - देवोगीं) अशें आसा.[३३] जामदग्न्य वा वत्स, भारद्वाज, अत्रि, काश्यप, कौंडिन्य बी गोत्रांचे बामण ह्या देवाचे कुळावी.[३४] बृहदारण्यकाच्या गोत्रताट्यांत हीं गोत्रां दिल्यांत.[३५] स. १५५९-६०त बाटोवणे वेळार[३६] देवकी-कृष्णाची म्हुर्त बतग्रामांत मयां व्हेली[३७] आनी थैंच्यान कांय काळान अंत्रूज म्हालांत माशेलांत व्हरून थैं देवूळ बांदून पुजेक लायली. थैंच ती अजून आसा. ती काळात्री फातराची आसून दावे हाण्डीर कृष्णाची नागडी म्हुर्त आसा. हे फोडणिशेवैल्यान, श्रीकृष्णाचीं वासुदेव-कृष्ण आनी गोपाळ-कृष्ण हीं नांवां चड संवकळिचीं जावचे आदीं, म्हळ्यार छान्दोग्य अुपनिशदाच्या वेळार वा चिके आदीं, क्रिस्ता आदल्या सुमार सात-आठव्या शेंकड्यांत, घोळटेंत आशिल्लें देवकी-कृष्ण हें नांव घेवन आमगेल्या पुर्वजांनी तागेली भक्ती कोंकणांत रिगैली, हांतूंत दुबाव ना. आर्यांनी कोंकण वसोवची म्हुर्तमेड रोयली ती ह्याच वेदीक काळांत म्हणपाची ही दुसरी घसघशीत नाट.

म्हुर्ती आनी बावलीं करची चाल अुत्तर हिंदुस्तानांत ऋग्वेदाकाळापासून चलता. तेन्नाचे म्हुर्तकार अिंद्राच्यो म्हुर्ती करून 'हो म्हगेलो अिंद्र धा गायांच्या मोलाक कोण विकतो घेता?' अशें म्हणून मार्गांनी वा लोकांल्या दारांनी भोंवताले.[३८] क्रिस्ता आदल्या पैल्या शेंकड्यांत, पाणिनिल्या 'अल्पाच्तरम् । २-२-३४' सुत्राची फोडणिशी करतना पतंजली म्हणटा कि धनपति, राम (बळराम) आनी केशव (वासुदेव-कृष्ण) हांच्या **देवळांनी** अुत्सावाच्या वेळार कांय वाजंत्रां वाजैतात. तशेंच, 'जीविकार्थे चापण्ये । ५-३-९९' ह्या सुत्राची फोडणिशी करतना तो म्हणटा कि कांय लोक धा-जाणांले पुजेक शिव, स्कंद आनी विशाख हांच्यो म्हुर्ती दवरून, तांचे जोडीर आपणाली पोटगी चलैतात.[३९] क्रिस्ता आदल्या सातव्या शेंकड्यांत पाणिनी 'अिवे प्रतिकृतौ । ५-३-९६' सुत्रांतल्या 'प्रतिकृति' म्हळ्यार म्हुर्त, बावलें, चित्र ह्या अुतराचो संबंद 'जीविकार्थे' म्हळ्यार पोटगी वा संवसार चलोवंक ह्या अुतराकडेन दाखैता. हाचेवैल्यान, ताच्याय वेळार ती चाल चलताली, हांतूंत दुबाव ना. द्वारका शार बांदच्या वेळार, थैं **अिष्ट देवाखातीर** देवूळ बांदूंक, श्रीकृष्ण आपणाल्या ठवयाक (स्थपति) सांगता.[४०] ह्या पुराव्यांवैल्यान, देवांच्यो म्हुर्ती घडची आनी देवळां बांदची चाल चड पुर्विल्ली, म्हणपाचें अुकतें दिसता. बुद्धधर्मी होंवऱ्यो आनी चैत्यां हांचे देखीन, देवळां बांदची चाल वेदधर्मांत रिगली; त्या आदीं, यज्ञ-यागांखातीर माटव बांदून, ते अुलगतकी ते मोडून अुडैताले असो

समज चलता. पुण वैले फोडणिशेभाशेन, यज्ञ-यागांच्या माटवांवरी देवळांय बांदची चाल त्या वेळार चलताली, हांतूंत दुबाव ना. वैल्या चड पुर्विल्ल्या काळांत, देवकी-कृष्णाली म्हुर्त आनी ताचें देवूळ आमगेल्या कोंकणांत थापन जालीं. माशेलांतली आतांची म्हुर्त, मुदलाक थापन जाल्ली तीच, अशें म्हणुं नज. तरेकतरा अरिश्टांमुखार ती तगत म्हणु सांगुं नजे. म्हुर्त दुसरी, तिसरी, चौथी घडुंये. पुण **देवकी-कृष्ण हें नांव** कोणाच्यानूच बदलुं नज. तें वेदकाळांतले भाशेन, आजचे घडकेकूय तशाक तशें तगून, कोंकणभर गाजता.

तिसरी नाट म्हादेवाच्या लिंगाची. हें लिंग पुजपाची चाल वेदीक काळापासून चलता. श्वेताश्वतर अुपनिशदांत हाचो पुरावो मेळटा. 'जो अेकलो दरअेकल्या स्त्रीलिंगाचेर आनी सगळ्या रुपांच्या स्त्रीलिंगांचेर बसता' हें वाक्य[४१] पुरुशलिंग आनी स्त्रीलिंग हांचें जुवळप दाखैता, अशें डॉ. सर भाण्डारकार म्हणटात.[४२] महाभारतांत अनुशासनपर्वाच्या १४व्या अध्यायांत म्हळां की मनशां ज्या देवाच्या लिंगाची पुजा करतात असो अेकलोच देव म्हळ्यार म्हादेव. म्हादेव आनी अुमा हीं दोगांच ह्या संवसारांतल्या जिवांचीं आवै-बापूय. कित्याक, ह्या दोगांल्योच कुरवो तांकां आसतात. शंख, चक्र, वा हेर कोणाच देवाल्यो कुरवो नासतात.[४३] म्हादेवाच्या देवळांनी आतां जीं लिंगां पुजेक लायिल्लीं आसतात, तांकां सकला स्त्रीलिंगाच्या आकाराची बसका आसून, तांतूंतसून अभिशेकाचें अुदक व्हांवंक पनेळावरी वाट केल्ली आसता. श्वेताश्वतरांतल्या लिंगाक असली पनेळी वाट आसली वा ना, हें सांगुं नज. पणून, तांतूंतलें वैलें वाक्य वाचून, आतांच्या लिंगांवरी तीं जुवळणीं आसून, ते-वेळचे लोक तीं पुजताले, हांतूंत दुबाव ना. गोंयां मंगेश, नागेश, दामोदर, रामनाथ, सप्तकोटीश्वर बी देवांलीं लिंगां जुवळणीं, पनेळी आसात. पुण ही चाल, काशयेच्या विश्वनाथाच्या लिंगाचे देखीन, क्रिस्ताच्या सातव्या शेंकड्या अुप्रांत थैं रिगल्या अशें दिसता. ह्या शेंकड्या मदगत, चिनी यात्रेकार हिवेनत्स्यंग हाणें काशयेच्या देवळांत शंबर फूट अुबार (अुणीपुणी ६७ हात) म्हादेवाची तांब्याची म्हुर्त पळेल्ली.[४४] म्हणटकी, त्या वेळार थैं आतांचे सारकें पनेळी लिंग नासलें. तें अुप्रांत केन्नाय थंय मांडलां जातलें; आनी ताचीच देख गोंयां पावली, हांतूंत दुबाव ना. ही देख घोळचे आदीं, वेगळे तरेचीं लिंगां थैं पुजताले, हाचो घसघशीत पुरावो मेळटा. ह्या लिंगांक सकला स्त्रीलिंगाची जुवळणी पनेळी बसका ना. १९२७च्या मायांत, असोळडें गांवांत, भौ. शेळडेकारांल्या घरा लागसार अेक आनी चांदराचे अिगर्जे लागसार अेक, अशीं दोन लिंगां म्हाका दिस्टी पडलीं. तीं थैं अजून आसूंक जायत. असोळडेचें लिंग काळात्री फातराच्या

चौकोनशी पेडांत आनी चांदराचें लिंग तसल्याच फातराच्या खांब्यांत मदींच घडलां. दोनूय लिंगांचें रूप सारकें. तीं अडेचीं बसोवंक नात. दोनूय फातर संसले. १९२७च्या


असोळडेंचें लिंग

आब्रिलांत, हरवळें गांवांत ब्राह्मी बरप आशिल्लें होंवरेंत, मदलें लिंग चांदराच्या लिंगावरी काळात्री खांब्यांत मदींच घडिल्लें दिसलें.[४५] पुण ताचेर रेगट्यांच्यो कुरवो दिसल्यो नात. झरून गेल्यो जावंये. हें लिंग क्रिस्ताच्या सुमार पैल्या शेंकड्यांतलें आसतलें.[४६]


चांदराचें लिंग

असलीं लिंगां गोंयां आनिकूय मेळूंक जायत. असोळडेचें आनी चांदराचें लिंग खैंच्या शेंकड्यांतलें तें सांगुं नज. पुण तीं सातव्या शेंकड्या आदलीं आसून, चड पुर्विल्ल्या काळांत तसलीं लिंगां कोंकणांत पुजताले, म्हणपाची सणसणीत गवाय दितात. तशेंच, ही चाल श्वेताश्वतर अुपनिशदांत वर्णिल्ले चाली आदली हांतूंत दुबाव ना. आतां ती कितली आदली आनी पोरणी, हें पळोवंक जाय.


हरवळेंचे होंवरेंतलें लिंग

सिंधू न्हंयेचे गाळींत, मोहेन्जो-दारो आनी हरप्पा ह्या थळांनी अुस्तिल्ले मोडावळींत, जायतीं स्त्रीलिंगां आनी पुरुशलिंगां वेगळींवेगळीं अुकताडा आयल्यांत. स्त्रीलिंगां फातराच्या मुदयांचीं, अर्द्या अिंचापासून अठ्ठेचाळीस अिंच व्यासाचीं आसात. हीं दोनूय लिंगां वेगळीं वेगळीं पुजताले अशें दिसता. कित्याक, तीं अेकाचेर अेक बसोवंक नात.[४७] हे फोडणिशेवैल्यान असोळडें, चांदर आनी हरवळें हांगांचीं लिंगां घडपाची चाल, सिंधू न्हंयेचे गाळींतल्या पुरुशलिंगांचे चाली सारकीच आनी तितलीच चड पुर्विल्ली आनी पोरणी आसून, श्वेताश्वतरांतली चाल घोळूंक लागचे आदीं, घोळटेंत आशिल्ली पुरुश-लिंगाची चाल घेवन, आमगेले पुर्वज कोंकणांत आयले, हांतूंत दुबाव ना. हें पुरुशलिंग म्हळ्यार **मांगिरिश**. हें अुतर महान् आनी गिरिश ह्या दोन अुतरांचें गांठवल. यजुर्वेदांत रुद्र ह्या नांवान म्हादेवाक **गिरिश** हें अुतर पैलेंवैलेंच लायिल्लें मेळटा. स्तोत्रकार ऋषी रुद्राक म्हणटा, 'अगा गिरिशा (दोंगरार पातळ्ळल्या देवा), तूं मेळचेखातीर, तोखणायेच्या मंगळ अुतरांनी आमी तुका सांगतांत.'[४८] शतपथ ब्राह्मणांत ताका **महान्देव** हें अुतर पैलेंवैलेंच लायिल्लें मेळटा.[४९] हाचेंच **महादेव** हें अुतर जालें. हें आश्वलायन गृह्यसूत्रांत मेळटा.[५०] हे भाशेन, महान्देव नांवावरी महान्गिरिश म्हळ्यार मोटो गिरिश हें रुद्राचें नांव वेदीक

काळांत घडून, ताचेंच फुडें मांगिरिश जालें. पंदरा-सोळाव्या शेंकड्यांत रचिल्ल्या मांगीशमाहात्म्यांत हें अुतर आयलां आनी ताचें मांगीश कशें जालें, म्हणपाचो कथा सांगल्या : अेकफावट कैलास पर्वतार पार्वतीन म्हादेवाक खेळांत हार करतकीत, तो तिडून रागान गेलो. पार्वती ताका सोदूंक गेली. तो कोंकणांत अघाशी (आगशी, जुंवारी) न्हंयेचे धडेर पावलो. पार्वतीय थैं पावली. तिका पळोवन, वागाचें रूप घेवन, मोट्यान धेंक घालून, तो तिच्या आंगार धांवलो. तेन्ना भियेवन, 'त्राहि मां गिरिश' (गिरिशा म्हाका तार) अशें म्हणचे बदला, जीब आडवी पडून, 'मांगीश' अशें तिणें म्हळें.[५१] हाचेंच फुडें मंगेश हें अुतर घोळटेंत आयलें. पुराणां आनी म्हात्म्यां हांतूंतल्यो कथा झारेकारावरी झारून, भितल्ली भांगराची कणी सोदून काडची पड्टा. शेटिच्या आगट्यांतलो सगळोच गोबर गांठीक मारून अुपकारना. हे नदरेन, मांगीशम्हात्म्यांतले कथेंत अिल्लेंशें पणून भौच मोलादीक रत्न हाताक लागता तें मांगिरिश हें अुतर. यजुर्वेद आनी शतपथ ब्राह्मण ह्या चड पुर्विल्ल्या ग्रंथांत तें झगझगता. पुण वेदीक अितिहास विसरून गेल्ल्या कारणान, मांगिरिश ह्या अुतराचें मूळ सांगूंक, म्हात्म्यकाराक वैली कथा रचची लागली. कशेंय जावं. ताणें तांतूंतलें मोलादीक रत्न होगडायलें ना, हें कोंकणाचें मोटें भाग्य. अुच्चार-बदलान महान्‌गिरिश हाचें म्हांगिरिश जावन, हा मोवाळून मांगिरिश जालें. मागीर तांतूंतले रि ची यि जावन आनी लिपून, मांगिश हें अुतर घडलें.[५२] हाचेंच मांगीश, मंगेश अशें जालें. सन १५६७च्या पुर्तुगेज दप्तरांत मांगेनात (Mamgenato) अशें नांव दिलां.[५३] पंदराव्या शेंकड्यांत बांदोडेंच्या नागेशा बदला नागनाथ हें नांव घोळटालें,[५४] तशेंच, मांगिशा बदला मांगिनाथ वा मांगेनाथ हें नांव घोळटालें जावंये. हे फोडणिशेवैल्यान, शतपथ ब्राह्मण रचल्या अुप्रांत, आमगेले पुर्वज महान्‌गिरिशाची भक्ती घेवन कोंकणांत आयले, हें अुकतें दिसता. ह्या महान्‌गिरिशाचें लिंग आतांचेवरी जुवळणें, पनेळी नाथून, निखटें पुरुशलिंगी आसलें (फाटलें पान पळयात). म्हणटकी, श्वेताश्वतरांतली चाल घोळूंक लागचे आदीं, ते कोंकणांत आयल्यात हांतूंत दुबाव ना.

तांणी वसैल्ल्या गांवाचें नांव **कुट्‌ठाळ**. हें चड पुर्विल्लें. कुशस्थल अुतराचें हें तद्‌भव.[५५] पुर्तुगेज अुच्चार कोरतालीं (Cortalim). स. १६९०त पुर्तुगेज जेजुअीत पाद्री फ्रांसिस्क दे सौज आपणाल्या ग्रंथांत मांगीशम्हात्म्यांतली कथा दिवन म्हणटा कि सास्टींत आयिल्लो पैलो कुट्‌ठाळो बामण (Bramane Cortaló) बंगालचो आसून, थैंच्या कुट्‌ठाळ (Cortalim) गांवचो आसलो. ताणें आपणाले जल्म-भुंयेचो अुगडास राखचेखातीर, सास्टींतले नवे वसणुकेक कुट्‌ठाळ हें नांव दिलें.[५६]

ण बंगालांत कुशस्थल वा कुट्ठाळ म्हळ्ळो गांव ना. परशुरामान **पंचगौडांतले** ामण गोंयां **कुशस्थलींत** थापले अशें सह्याद्रिखंडांत म्हळां.[५७] तशेंच स. १६९०त ाधव काराडो ह्या बामणांक गौड देसी (गौडदेशे वसन् विप्राः) म्हणटा[५८]. हांतूंतल्या ौड अुतराचें नातें बंगालाकडेन लावन, थैंच कुशस्थल आसा, म्हणपाचो लोकांलो ामज सतराव्या शेंकड्यांत जाल्लो-सो दिसता. तोच, पाद्री सौजाल्या ग्रंथांत दिस्टी ट्टा. सह्याद्रिखंड आनी मांगीशम्हात्म्य हांतूंत **कुशस्थली** हें अुतर घालां. ाह्याद्रिखंडांत **कुशस्थल** अशेंय अुतर मेळटा.[५९] कुशस्थली ह्या नांवाचें शार काठेवाडांत रैवत (गिरनार) दोंगराच्या मुळसांत द्वारके लागसार आसलें.[६०] ह्या नांवावैल्यान सास्टींतली कुट्ठाळ वसैणे बामण मुळचे द्वारकेचे असो लटको समज जाला. पुण ती वसैणो देवशर्मो म्हळ्ळो वत्सगोत्री बामण **कान्यकुब्जी** आसलो अशें जें मांगीशम्हात्म्यकार म्हणटा तें ध्यानांत घेवंक जाय.[६१] तो द्वारकेचो आशिल्लो जाल्यार, म्हात्म्यकार ताका कान्यकुब्जी म्हणचो नासलो. कान्यकुब्ज म्हळ्यार आतांचें कनोज. ग्रीक भूंयवर्णनाकार टॉलेमी हाणें क्रिस्ताच्या दुसऱ्या शेंकड्यांत हें नांव कानोजिजा (Kanogiza) अशें दिलां. रामायणांत हें नांव कान्यकुब्ज अशें आयलां.[६२] विश्वामित्राचो आजो कुशनाभ हाणें हो देस आनी ताचें राजपाटण महोदय वसैल्लें. हाच्या बापायचें नांव कुश.[६३] हागेलें थळ वा देस ह्या अर्थान कुशस्थल वा कुशस्थली हें नांव पडलें. कुशस्थल म्हळ्यार कनोज.[६४] हे भाशेन, **मुळचें नांव कुशस्थल आसून अुप्रांतचें नांव कान्यकुब्ज.** म्हणटकी, कुशस्थल नांव घोळटालें तेन्ना, आमगेले पुर्वज कोंकणांत आयले आनी ह्या थळाचो अुगडास राखचेखातीर, तांणी तें नांव आपणाले नवे वसणुकेक दिलें हांतूंत दुबाव ना.

कुट्ठाळ वसैतल्या बामणांक कुशस्थल नांवाचो अितलो अभिमान आसलो कि फाटल्या कांय वर्सांमेरेन ते आपणांक चडकरून 'कुशस्थली ब्राह्मण' (कुट्ठाळे बामण) म्हणैताले. पुर्तुगेजांनी कुट्ठाळो हाचें कोरतालो (Cortalo) केलें. स. १६१० (शक १५३२)त पूर्णानंद म्हळ्ळया अेका संन्याशान चिदानंद शिश्याखातीर अवधूतगीतेचेर टिका केल्या. तांतूंत चिदानंदाली खबर दिल्या ती अशीः '**कुशस्थली ब्राह्मण**वंशामाझारीं । जन्म घेऊन **वत्स** गोत्रांतील गणेशाचा आत्मज जो **गुळगुळा** गोविंद त्याचे पोटीं बल्लाळ ह्या नांवानें आला होता. त्या बल्लाळानें पूर्णानंद स्वामींची सेवा करून त्यांचे प्रसादानें चिदानंद हे नांव मिळविलें.'[६५] हाचेवैल्यान, चिदानंदालें मुळचें नांव बल्लाळ (बाळाजी) गोविंद गुळगुळे आसून, तो कुट्ठाळो बामण म्हणैतालो, हें अुकतें दिसता. अठराव्या शेंकड्यांतले, राजपुतान्यांतल्या कोटें संस्थानांतले, शिंदे सरकाराचे नामनेचे वकील

आनी सावकार बाळाजी यशवंत (१७३६-६१) आनी ताचो पुत लालाजी बाळाजी (१७६१-१८१९) हे चिदानंदाल्याच घराण्यांतले. हांकां पंडीत गुळगुळे म्हणटात. सतराव्या शेंकड्यांतलो लखम सांवतालो नांवादीक वकील पितांबरशणै गुळगुळे हो हांगेलोच दायजी-गोत्री. स. १८८१चे गणतेंत चित्रापुर मठाच्या बामणांनी कुशस्थली ब्राह्मण हें नांव लावन दिलां.[६६] हालिंच्या पन्नास वर्सांतूच ते 'सारस्वत' अुतराचो चड जागर करूंक लागल्यात.

कुट्ठाळकार बामणांत कनोजी बामणांले गुण आनी अवगुण अजून घसघशीत दिसतात. चौकस आनी हुशार पुर्तुगेज पाद्री सौज हाणें अडेचशीं वर्सांफाटीं तांगेले तीख बुद्दिची आनी भारीभुशणाची तोखणाय केल्या.[६७] हे गुण तांगेल्या पुर्वजांल्या आंगांत अुपनिशदांच्या वेळारूय लकलकताले. मिथिलेच्या जनकराजाले सभेंत ब्रह्मविद्येचेर वाद जाताले. तांतूंत पंचाळचे म्हळ्यार कनोजांतलेय बामण आसून मोटे चतुरायेन अुलैताले. गार्गी वाचक्नवीसारकी बायलमनिसूय खोल अर्थाचे गटखळिचे प्रस्न विचारून, याज्ञवल्क्यासारक्या तिजिल्ल्या ब्रह्मवाद्याक 'बें' म्हणूंक लायताली. तिगेल्या अेका प्रस्नाची जाप दिवंक येना जावन, 'चड विचारुं नाका, तुजी तकली गळटली!' अशें याज्ञवल्क्यान तिका म्हळें.[६८] पुण तीय तिजिल्ली पंडिता. ती ताका बाडगना जाली. तिणें दुसऱ्या अेका प्रस्नांत ताका म्हळें, 'दुस्मानाचो जीव-घेण्या बाणांवरी दोन प्रस्न तुजेर हांव सोट्टां. तांची जाप दी.' हे भाशेन नाखीरयेवन, मोट्या किंवाट्यान तांगेले वाद चलताले. बायल-मनीस म्हणु गार्गी फाटीं रावनासली. तिचेचवैल्यान, जिबेर ल्हाय-लोसूण अुसळटल्या लापीट बायलांक कोंकणींत अजून 'मोटी पंचाळ बायल ही!' अशी ओपार मारतात. पंचाळ म्हळ्यार पंचाळांतली कनोजी बायल. आमगेले आवै-भाशेन अडेच हजार वर्सांआदले ओपारिची ही नाट ह्या विसाव्या शेंकड्यांतूय तशाक तशी राखून दवल्ल्या, हांतूंत तिची तेजिश्ट विरी घणघणीत अुकताडा येता. आड-पाख्याचे गुण मेकळ्या मनान आनी तोखणायेन मान्य करपांत पंचाळ गार्गी मोटी अुदार दिसता. याज्ञवल्क्याचेर तिणें जीव-काड्या दोन प्रस्नांचे बाण सोडिल्ले जाल्यारूय, तिच्या मनासारकी जाप मेळनाफुडें, तिणें ताका भरिल्ले सभेंत जैत-पत्र दिलें![६८] पंचाळ गार्गीक आज हजारांनी वर्सां सगळें हिंदुस्तान दिसपट्ट्या ब्रह्मयज्ञांत मोट्या भौमानान तर्पण करता.[६९]

कुट्ठाळकारांलें अेके गजालींतलें नीत-बळ जाल्यार खऱ्यानीच तोखणाये-कौतुकाचें दिसता. भोंवतणच्या लोकांनी बुद्ध आनी जैन धर्मांतलें शिवराकाचें पिशें वा वैल्याचाराचें अडेचें सवंग घेतलां आसतनाय, कुट्ठाळे बामण आज हजारांनी

वर्सां, सुवादीक झळकें आनी सागोती, कोणाची पर्वा करिनासतना, अुकतेपणान खातात. चित्रापुर मठाच्या कुट्ठाळ्यांनी मात ही जुनाट वेदीक चाल मोडून, ते शिवराक जाल्यात खैं. कसली व्हडवीक जोडूंक ती समजना. कनोजी बामणांनी ही पुर्विल्ली चाल अजून चलैल्या, देखून तांकां धन्यवाद फावो. ते अुकतेपणान झळकें आनी साग़ोती खातात.[७०] तांकां कोणूच अुणे लेखिनात. अुफाट्टें, सगळे खरेले आनी सवंगी शिवराक लोक तांणी रांदिल्लें जेवण जेवतात; तांकां जात पडना. कनोजी बामण ह्या शिवराकांक आपले परस अुंच लेखिनात; अितलेंच न्हय तर तांच्या हातच्या अुदकाकूय आफडनात! हेरांपरस आपुण अुंच आनी मोटे समजपाचो हो कनोजी सबावगुण कुट्ठाळ्यांच्या आंगांत अुपाट भल्ला. तांकां तोखेणो 'ओरिअेन्ति कोंकिस्ताद'कार पाद्री अडेचर्शी वर्सांफाटीं म्हणटा कि 'तांगेले म्हणणे भाशेन, हेर सगळे बामण आपणा मुखार रानवट आनी गावडे आसात!'[७१] हो तांगेलो सबावगुण अितलो अतितायेक पावला, कि ते खासा आपणा मदगत अेकामेकांक अुणे लेखून अेकामेकांलो द्वेस आनी दुस्वास करतात ! हाचो परिणाम असो जालो, कि स. १७०८त, तांगेल्या पुर्विल्ल्या जुनाट कवळें मठाचीं दोन भेंकलां जावन, कवळें-मठकार आनी शिराळी (चित्रापुर)-मठकार अेकामेकांक विंगड समजूंक लागले![७२] जाल्यारूय, दुखांत सुख अितलेंच कि ह्या भेंकलांकारांनी आपणांले वेदीक काळांतले शांतादुर्गा (सांतेरी) आनी मांगिरिश (मंगेश) हे देव अजून सोडून दिवंक नात. ह्या देवांक ते आपणाले कुळदेव समजून, मोट्या अभिमानान आपुण तांचे कुळावे म्हणटात. ह्या देवांलें नातें ते सोट्टीत जाल्यार, तांगेलो वेदीक दुवो तुटून, तांची अवस्ता कुंड्यापास्ट जातली !

निमाणें, सार घेवचेलें हें, कि शतपथ ब्राह्मण रचल्या अुप्रांत, श्वेताश्वतरांतली जुवळण्या लिंगाची चाल घोळचे आदीं, आनी कान्यकुब्जाचें कुशस्थल वा कुशस्थली हें नांव चलतालें तेन्ना, देवशर्मो म्हळ्ळ्या वत्सगोत्री कान्यकुब्जी बामणान कोंकणांत सास्ट म्हालांत, जुंवारी न्हंयेवैल्या अेका थळाक कुशस्थल हें नांव दिवन, थैं मांगिरिशाचें पुरुशलिंग थापलें. ह्या कामांत ताका दुसरो कान्यकुब्जी कौंडिन्यगोत्री बामण शिवशर्मो हाणें पालव दिलो.[७३] आर्यांनी कोंकण वसोवची म्हुर्तमेड रोयली, ती ह्याच चड पुर्विल्ल्या वेदीक काळांत, म्हणपाची ही तिसरी घसघशीत नाट. कांय काळान देवशर्मो आनी शिवशर्मो हांगेली संतत वाडून, तांचे चोवीस वांगड जाले आनी तांणी कुट्ठाळ गांव आनी थैं थापिल्लो देव जायतो गाजा-घडघडाक हाडलो. सगळ्या हिंदुस्तानांत आमगेल्या कोंकणाबादत **मांगिरिश ह्या नांवाचें** देवूळ हेर खैंचेचकडेन ना. हे भाशेन, ह्याय नांवाक सांतेरी आनी

देवकी-कृष्ण ह्या नांवांवरी कोंकणाच्या हका-मोलाचें 'ट्रेड-मार्क' [illegible] आयलां.

चौथी नाट रवळनाथाली. कुडाळासाकून कारवारामेरेन दरएेका गांवांत रवळनाथाचें ल्हान-व्हड देवूळ आसताच. सगळ्यो जाती ताका पुजतात. वनग्रामांत मुळगांवां ह्या देवाचें देवूळ आसा. सोळाव्या शेंकड्यांत बाटोवणे वेळार [illegible] म्हालांतसून ह्या देवाची म्हूर्त मुळगांवां हाडून पुजेक लायली. ह्या देवाचे कुळावी झांटये, घोंटके, प्रभु (परोब), कवडे, बोके बी कुळनांवांचे[७४] बारदेसकार [illegible] वैश्णव बामण आसात. देवाची पुजा गुरव करता. म्हूर्त काळात्री फातराची. माथ्याक मुकूट (जटयांचो जावंक जाय). चार हातांची. उजव्या दोन हातांनी तरवार आनी त्रिशूळ. दाव्या दोन हातांनी वाटी आनी डमरू. फाटले कुशीक घोडो आसा. दिवचले रवळनाथाच्या देवळांत अशीच म्हुर्त आसा. तिच्या गळ्यांत मनशांच्या शिरांची माळ आसा. फाटले कुशीक घोडो ना. दसऱ्या दीस, देवळाफुडल्या आंगणांत, सांजेवेळचें खेत्र जाता. तेन्ना दिवचलच्या म्हाराच्या आंगांत भार येवन, तो कपळार तरवार मारून घेता आनी रगत गळैता. देवाची पुजा खेत्री गांवकार करता. रवळनाथाचें हें ध्यान म्हादेवाचे म्हुर्तिचे वर्णनेक जमता. 'त्रिशूलखड्गखट्वांगडमर्वंकचतुर्भुजा' म्हळ्यार त्रिशूळ, तरवार, खट्वांग (हाताचे कांबिच्या हाडाक बसैल्लें माथ्याचें कट्टें. रवळनाथाच्या हातांतली वाटी ती हीच जावये आनी डमरू धरिल्ली चार हातांची म्हुर्त अशी म्हादेवाची वर्णना आमी वाचतांत. यजुर्वेदांत म्हादेवाक रुद्राच्या नांवान 'कपर्दी' म्हळ्यार 'जटयांचो शेंडो वा कोबलें आशिल्लो' हें विशेशण लायलां.[७५] तशेंच 'अश्वपती' म्हळ्यार 'घोड्याचो धनी' आनी 'गणपती' म्हळ्यार 'भुतावळिचो धनी' हीं विशेशणां लायल्यांत.[७६] हे भुतावळीक 'सत्वानः' म्हळ्यार 'सावदां, चाखरमाने' अशेंय म्हळां.[७७] मुळगांवच्या रवळनाथांत 'घोड्याचो धनी' ह्या विशेशणाची रुजवात मेळटा. रवळनाथाचे भुतावळीक कोंकणींत 'रवळनाथाचीं कुळां' म्हणटात. हे भाशेन, रवळनाथ आनी म्हादेव हांचीं सगळीं लक्षणां जमतात आनी रवळनाथाचें रूप यजुर्वेदांत दिसता. ताचे पुजेंत आनी गाराण्यांत 'रवळनाथ भूतनाथ' अशें ताचें नांव दोट्टी अुच्चारतात. अथर्ववेदांत 'भूतपति' म्हळ्यार 'भुतावळिचो धनी' (Lord of spirits) हें अुतर आयलां.[७८] भूतपति म्हळ्यार भूतनाथ. हे भाशेन, तागेलें रूप अथर्ववेदांतूय दिसता. हे फोडणिशेवैल्यान, रवळनाथ हो चड पुर्विल्ल्या वेदीक काळांतलो देव हांतूंत दुबाव ना. आतां, हें नांव ताका केन्नाच्यान पडलें तें पळोवंक जाय. रवळनाथ हांतूंतलें **रवळ** हें उतर **राहुल** ह्या विशेशनामाचें तद्भव दिसता. क्रिस्ताच्या

तेसऱ्या शेंकड्यांत बुद्धधर्मी महायानमत्त फुडें काडणो बामण नागार्जुन हागेल्या गुरुचें नांव **राहुलभद्र** आसलें. ह्याय बामणान बुद्धधर्म घेतिल्लो. खासा गोतम बुद्धाच्या पुताचें नांव राहुल आसलें. म्हणटकी, हें नांव बुद्धाआदीं जायते शेंकडे, म्हळ्यार वेदीक काळांतूय घोळटेंत आसूंक जाय. ह्याच काळांत केन्नाय तरी, आमगेले पुर्वज **राहुलनाथ** हें नांव आनी तागेली भक्ती घेवन कोंकणांत आयले, अशें म्हणूंक अडचण ना. आर्यांनी कोंकण वसोवची म्हुर्तमेड रोयली ती ह्याच वेदीक काळांत, म्हणपाची ही चौथी घसघशीत नाट. सांतेरी, देवकी-कृष्ण आनी मांगिरिश ह्या नांवां भाशेन **रवळनाथ हेंय नांव** कोंकणाच्या हका-मोलाचें दिसता. ह्या **नांवाचीं** देवळां सगळ्या हिंदुस्तानांत हेर खेंचेचकडेन नात. **ह्याय नांवाक** कोंकणाच्या 'ट्रेडमार्का'चें रूप आयलां. कोंकणांत हें नांव लोकांचे अितले संवकळिचें जालां कि गिरेस्तापासून दुबळ्यामेरेन सगळ्या जातींत हें घोळटा. रवळू, रवळोबा, रवळनाथ हें नांव दरअेका गांवांत जायत्या जाणांक आसता.

पांचवी नाट ब्रह्मदेवाले भक्तिची. ऋग्वेदाच्या काळांत आर्यांल्या देवांलो आंकडो तेत्तीस आसलो.[७९] तांतूंतलो म्हालगडो देव ब्रह्मो.[८०] 'तो देवां मदगत पैलो, संवसार-घडणो आनी संवसार-पोसणो' अशें मुण्डक अुपनिशद म्हणटा.[८१] हे भाशेन, ऋग्वेदाच्या वेळापासून ह्या अुपनिशदाच्या वेळामेरेन, म्हळ्यार क्रिस्ता आदल्या सुमार सात-आठव्या शेंकड्यामेरेन, ह्या देवाली भक्ती जायती चलताली अशें दिसता. क्रिस्ता आदल्या चौथ्या शेंकड्यांतल्या चूळनिद्देस म्हळ्ळ्या पाली पुस्तकांत 'ब्रह्मदेवाचें व्रत करतल्यांचो देव ब्रह्मो' अशें म्हळां.[८२] हाचेवैल्यान, त्याय शेंकड्यांत तागेले भक्त आसले हांतूंत दुबाव ना. पुण त्या आदल्या पांचव्या-सटव्या शेंकड्यांत, गोतम बुद्धाच्या वेळार, ताचे भक्तीक सुकतडो लागिल्लो आनी बुद्धधर्मी श्रमण ताची भगल मारताले, अशें **आचार्य धर्मानंदशणै कोसंबी** पाली पुस्तकांचे आधार दिवन सांगतात. ब्रह्मदेव मोटो खरो; पुण ताचें अेकूच देवूळ आज अजमिरा लागसार पुश्करा अुल्लां आनी दुसरें ल्हानशें देवूळ बंगालांत खेंचेयकडेन तरी आसा, पुण तें चडशें जाणापरींत ना, अशें ते म्हणटात.[८३] हेर देवांभाशेन ब्रह्म्याचीं देवळां हिंदुस्तानांत आज चकचयाळ दिसनात हें खरें. पुण तीं केन्नाच्यान बांदचीं मना जालीं, हें समजना. आठव्या शेंकड्यांतल्या कांतोवपांत, ब्रह्म्याचे वायट चलणुकेखातीर म्हादेवान ताका स्राप दिलो, म्हणपाचें अेक चित्र आसा.[८४] म्हणटकी, ह्या आदींच देवळांतले पुजेचो मान ताका होगडावल्लो-सो दिसता. कर्णाटकांत बादामिचे सटव्या शेंकड्यांतले होंवरेंत ब्रह्म्याची सुंदर कांतैल्ली म्हुर्त आसली. तशीच, मुंबै लागसार घारापुरिचे होंवरेंत आठव्या शेंकड्यांतली

विशाळ सोबीत म्हुर्त आसली. ह्यो दोनूय आतां मुंबैच्या 'प्रिन्स ऑफ वेल्स म्यूझियमां'त दवल्ल्यात.[८५] पुण ह्यो देवळांनी पुजेक लायिल्ल्यो न्हयत; होंवऱ्यांनी सोबेक लायिल्ल्यो. देवळांतली पुजा जरी मना जाल्ली, तरी चूळनिद्देसाच्या पुराव्या भाशेन, ब्रह्म्याचो मान सामकोच अुणो जावंक नासलो, म्हणपाचें होंवऱ्यांतल्या ह्या म्हुर्तीवैल्यानूय रुजू जाता. आमी अजून, आमगेले सकाळचे संद्येंत, अुदेत्या सुर्याच्या बिंबांत चार तोंडांची, चार हातांची आनी हांसार बशिल्ली ब्रह्मदेवाची म्हुर्त चिंतून, गायत्री देवतेचें ध्यान दिसपट्टें करतांत,[८६] हें विसरूंक जायना. म्हणटकूच, ब्रह्म्याचीं जीं थोडीं देवळां आज दिसतात तीं, **तीं बांदची चाल मना जावचे आदलीं**, हांतूंत दुबाव ना. पुण हीं देवळां पैलींवैलीं जेन्ना आनी ज्या थळांत बांदिल्लीं, तेन्नाचीं आनी त्याच थळांत आसात, अशें म्हणु नज. म्हुर्तीय मुदलच्योच आसतीत अशेंय म्हणुं नज. दुस्मानांल्यो घुरयो, झगडीं-झुजां, रणखेंवां, धर्म-कोल्ल्यांल्यो आगळिको, राज-बदल, वारें-वावटळी, विजो, हुंवारां, भुंयकांप आनी हेर जायत्या तरेकतरा अरिश्टांक लागून, पुर्विल्लीं देवळां जैंचे थैं अुरनात आनी म्हुर्तीय तगनात, म्हणपाचें अितिहास सांगता आनी दोळ्यांकूय दिसता. जाल्यारूय, ह्या देवां-देवळांचे कुळावी, म्हाजन, नाजाल्यार भक्त, तांकल्यार मुदलच्या थळांत, मुदलची म्हुर्त परथून थापतात, वा दुसऱ्या थळांत तीच वा त्या नांवाची म्हुर्त पुजेक लायतात, हाचे पुरावे मेळटात. सोळाव्या शेंकड्यांत तीसवाडी जुंवावळ, सास्ट आनी बारदेस हांगाच्या देवां-देवळांचेर पुर्तुगेज धर्म-कोल्ल्यांनी जी हावळ हाडली, तिका लागून, थैंचीं देवळां अंत्रूज म्हालांत आनी बतग्रामांत परथून बांदची मांडणी जाली, हो गडगंज पुरावो आमकां घणघणीत दिसता. हीं देवळां ह्या नव्या थळांनी फाटल्या साडेचारशीं वर्सांत बांदलीं, म्हणु तीं आनी तांतूंतले देव **आर्विल्ले नवे** जायनात. ते आनी तांचीं देवळां मुदलच्या थळांनी केन्ना थापिल्लीं, तें सांगुं नज. देखून, **तीं पुर्विल्लीं पोरणींच** म्हणूंक जायत. हे नदरेन पळेल्यार, ब्रह्म्याचीं जीं थोडीं देवळां आज आमकां दिसतात, तीं ताचीं देवळां बांदची चाल मना जावचे आदली, म्हळ्यार बादामिचे होंवरे आदलीं **चड पुर्विल्लीं**, हांतूंत दुबाव ना. हाचो सणसणीत पुरावो आमकां आमगेल्या कोंकणांत, गोंयां मेळटा. विद्वान अितिहास-सोदपी आचार्य धर्मानंदशणै हांकां पैशिल्या राजपुतानांतल्या आनी बंगालच्या ब्रह्म्याचो अुगडास जालो, पुण खासा **तांगेल्या घरांत - गोंयां - ब्रह्म्याचें चड पुर्विल्लें देवूळ आसा**, हाची चत्राय अुल्ली ना हें अजाप. हें देवूळ सतर म्हालांत ब्रह्मकर्मळी म्हळ्ळ्या गांवांत आसा.[८७]

स. १८६९त हुशार आनी चौकस पुर्तुगेज कामदार आ. लोपिस मेन्दिस

हांणी ह्या देवळाचो बारकायेचो तपशील दिला. तांतूंत म्हळां कि, 'हें देवूळ समुद्राचे फाटीकडसून १६८७ फुटांचे अुंचाटेर, ब्रह्मा-देव म्हळ्ळ्या शेताच्या दक्षीण तोंकाक आसा. तें चिरेबंदी, चुन्यान जोडिल्लें आसून, नळ्यांनी शिंवलां. भितर ब्रह्म्याची म्हुर्त आसा. गोंयच्या देवळांनी पळेल्ल्या सगळ्यांत सुंदर कांतोवपा भितल्लें हें अेक कांतोवप जालां. ह्या गांवांतले हिंदू सांगतात कि पुर्तुगेजांनी केल्ले बाटोवणे वेळार, तीसवाडी जुंवावळींतल्या कर्मळी गांवांतसून ही म्हुर्त हाडली. त्या गांवावैल्यान ह्या गांवाक कर्मळी-ब्रह्मा अशें नांव पडलें. ही म्हुर्त अेकाच संसली काळात्री फातराची, ५८॥ अिंच (अुणीपुणी साडेतीन हात) अुंच, २७ अिंच रुंद आनी ३ ते १०॥ अिंच दाट आसून, काळात्री तीन-फातरी अुफेण पेडाचेर थापल्या. हें पेड १७॥ अिंच अुंच आनी ४८॥ अिंच रुंद आसा. सतर म्हालांतलीं ४४ देवळां आनी नवे जिखेंत पळेल्लीं जायतीं देवळां हांचे भितर ब्रह्म्याच्या नांवान थापिल्लें हें पैलेंच देवूळ मेळ्ळें.'[८८] 'ह्या देवाचे म्हाजन देसाय-परोब कुळनांवाचे चाड्डे खेत्री आसून, तांगेले पुर्वज तीसवाडचे कर्मळेसून आयल्यात जावंये; कित्याक, थैंच्या बाटिल्ल्या गांवकारांले पुर्वज परोब कुळनांवाचे आसले, म्हणपाचें कागदां-पत्रांवैल्यान कळटा; पुण कर्मळेंतलीं जीं देवळां पुर्तुगेजांनी मोडलीं तांतूंत ब्रह्म्याच्या देवळाचें नांव ना,' अशें काव्हालैर पांडुरंगशणै पिसुर्लेंकार कळैतात. बारकायेन सोद करतकी अशें दिसता कि तीसवाडचे कर्मळेंत ब्रह्म्याचें देवूळ नासलें आनी थैंचे गांवकार सतरींतले ब्रह्मकर्मळे वचून रावंक नात. **सतरिचे देसाय-परोब कदीमकाळापासून सतरींतले आनी ब्रह्म्याली म्हुर्तूय थैंचीच**. ती तीसवाडची न्हय. ब्रह्मकर्मळेचे दक्षीण-पश्चिमेक सुमार सवाय मैलाचेर **बोंबेडें** (पुर्तुगेज अुच्चार Bomberem - बोंबेरें) म्हळ्ळो गांव आसा. तो ह्या मुद्द्याचेर घणघणीत अुजवाड घालता. हें अुतर मूळ **ब्रह्मवटवक** हाचें तद्भव. हाचे अुत्तरेक सुमार अेका अुल्याचेर **आंबेडें** (पुर्तुगेज अुच्चार Amberem - आंबेरें) म्हळ्ळो गांव आसा. हो गांव सातव्या शेंकड्याच्या पैल्या अर्दांत, चालुक्य राजा दुसरो पुलिकेशी हागेल्या मावळ्यान महेश्वर नांवाच्या बामणाक दान दिल्लो. तांब्या-पट्यांत ह्या गांवाचें नांव **आम्रवटवक** अशें आसा. हाचें आंबेडें हें तद्भव.[८९] आंबेडें हाचें मूळ **आम्रवटवक**, तशेंच **बोंबेडें** हाचें मूळ **ब्रह्मवटवक**, हांतूंत अिल्लोय दुबाव ना. **ब्रह्म्याचें** कोंकणी तद्भव **बोंबो**, हें नांव गोंयां जायतें घोळटा. ब्रह्म्याची म्हुर्त आनी देवूळ हांचेवैल्यान ब्रह्मवटवक हें थळाचें नांव घोळटेंत आयलें. सातव्या शेंकड्यांत हें नांव घोळटालें, म्हणटकी, त्या आदींच थैं ब्रह्म्याची थापणूक जाल्या जातली. हांगाच्यान कसल्या तरी कारणान तो अुत्तरेक सवाय मैलाचेर ब्रह्मकर्मळे

पावलो जातलो. कशेंय जावं. ह्या सवाय मैलाच्या आवांठांत ताची थापणूक सात... शेंकड्या आदीं जाल्या. त्याबगर ब्रह्मवटवक वा बोंबेडें हें गांवाचें नांव पडूंक ... हे भाशेन, ब्रह्म्याचें म्हत्व जायतें गाजतालें तेन्ना, आमगेल्या कांय पुर्वजां... कोंकणांत, गोंयां, सतर म्हालांत ताचें देवूळ बांदून ताची भक्ती चलैली, हां... दुबाव ना. आर्यांनी कोंकण वसोवची म्हुर्तमेड रोयली ती ह्याच वेदीक काळांत, म्हणपाची ही पांचवी नाट जाली.

ब्रह्मकर्मळेच्या देवळाची बांदावळ ध्यानांत घेतल्यार, ती चड पुर्विल्ली म्हणुं नज. हाचीं कारणां वैर दिल्यांत. ब्रह्मदेवाची म्हुर्तूय आमगेल्या पुर्वजांनी अुत्तर हिंदुस्तानांतसून हाडिल्ली, म्हणपाचोय निर्वाळो दिवं नज. ती तांणी हांगाच घडल्या जातली. तशेंच, मुदलाक तांणी घडिल्ली तीच ही म्हुर्त अशेंय म्हणुं नज. पणून अितलें खरें कि ब्रह्म्याचीं देवळां बांदची चाल मना जावचे आदीं ती घडल्या. देखून ती चड पुर्विल्ली हांतूंत दुबाव ना. सावंतवाडच्या अपरुपावळ-घरांत ब्रह्म्याच्यो कांय म्हुर्ती आसात, अशें काव्हालैर पिसुर्लेंकार कळैतात. १९२७ त आब्रिलाचे २९वेर, अश्टाग्रहार म्हालांत रिवण गांवांत, भौ. गंगाधर गोपाळशणै कोरगांवकार हांगेल्या घरालागसार, भाटांत पिपळाच्या पेडासरीं, काळात्री फातराची ब्रह्म्याची अेक मोडकी म्हुर्त हांवें पळेल्ली. ती थैं अजून आसा वा ना हें सांगुं नज. ह्या म्हुर्तीवैल्यान, कुडाळासाकून कारवारामेरेनच्या आवांठांत ब्रह्म्याचीं आनिकूय कांय देवळां आसलीं अशें दिसता.[१०] तीं, तीं बांदची चाल मना जावचे आदलीं चड पुर्विल्लीं आसूंक जायत. ह्यो म्हुर्ती, तांच्या म्हाजनांनी वा भक्तांनी परथून ठांयबसणेक कश्यो लायल्यो नात, तें समजना.

ब्रह्मकर्मळेच्या ब्रह्म्याचे म्हाजन देसाय-परोब कुळनांवाचे **चाड्डे** (चतूरथी) खेत्री आसात, ही गजाल अितिहासीक म्हत्वाची आसा. हाचेवैल्यान, ते थैंचे भौच पुर्विल्ले गांवकार हांतूंत दुबाव ना. अडेच हजार वर्सां आदल्या **वेदीक** काळांत बामणां वांगडा खेत्री कोंकणांत आयिल्ले हाचो हो घसघशीत पुरावो. राष्ट्रकूट, शिलार (शिलाहार), राणे (राणक - राजा), मोरये (मौर्य), **कोंकणे** संकपाळ आंगरे,[११] परोब (प्रभु), सांवत (सामन्त - राजा लागशिले, राजाचे नातेवर्गी), रावत (राजपुत्र > राअुत्त > राअुत[१२]), देसाय (देशपति), फळ-देसाय, गांवस, पळ बी नांवादीक खेत्री घराणीं. ब्रह्मकर्मळेच्या देसाय-परबां भाशेन, चड पुर्विल्ल्या काळांत, वांगडाच वा चिके फाटीं-फुडें, कोंकणांत वसल्यांत. तांगेलीं कुळनांवां कांय क्रिस्ता आदलीं, कांय अुप्रांतचीं, अधिकाराच्या कामधंद्यान जोडिल्लीं. तांगेली जात **चाड्डे खेत्री**. सतर म्हालांत पर्ये गांवच्या देवळांत सांतेरी, मावली, म्हाळसा

ब्री देवां वांगडा, चड पुर्विल्ल्या काळापासून, अेक कळस पुजतात, ताका **चाट्टो** म्हणटात.सतरिच्या पिसुल्लें गांवचे गांवकार आपुण, **चाट्टु वंशाची** पिळगी म्हणु, देवपणाच्या वेळार राखणेचें कौल घेवंक, ताच्या नांवान गाराणें घालतात.[९३] हे भाशेन, चाट्टो हें अुतर भौच पुर्विल्लें, मोट्या माना-भौमानाचें, देवाचे व्हडविकेचें, जिंत्रूप देव म्हणु पुजेक लायिल्लें आसतना, हो अुजळ आनी भारी-भुशणाचो अितिहास विसरून, आमगेले अुंच आनी कुळवंत खेत्री, हालिंच्या देड-दोनशीं वर्सांक, आपुण 'मराठे' म्हणोवंक लागल्यात, ही व्हडली पिसाय ! (फाटलें पान १८० पळ्यात). **हे तांगेले करणेन, ते वैल्या पांवड्यारसून सकला घालून घेतात**. आतां तरी तांणी मोट्या अभिमानान काळजार हात मारून, **चाट्टु म्हणोवचें**, आनी अडेचें 'मराठे' अुतर सोडून दिवचें. तांतूंत तांगेलो अितिहास ना आनी सोब ना. **ते मराठणांतसून कोंकणांत येवंक नात. ते वेदीक काळांतले.** पुराणीक काळांतले न्हयत. देखून, तांगेल्या देव-धर्मीक देवकाऱ्यांत तांकां **वेदीक मंत्रूच** लागू जातात; पुराणीक मंत्र लागू जायनात. अशें आसतना, परके नाड, तड्डकी, सुवार्थी, धोंसके लोक तांकां अुणाक लेखून, तांच्या माथ्यार पुराणीक मंत्रांचें ओजें अुबारूंक लागल्यार, तांकां तांणी फाट-फुडो पळेनासतना, कोंकणाच्या आड्याभायर सासणाचे आमडून घालचे. आनीक वाट पळोवची न्हय.

खेत्र्यांभाशेन वाणीय, चड पुर्विल्ल्या वेदीक काळांत, बामणां वांगडा कोंकणांत आयिल्ले हाचो पुरावो, कोंकणांत बुद्ध धर्माची जोत पेटैणो **पुण्ण** हागेले जिणेंत मेळटा. सुनापरान्तांत (गोंयच्या जांबावली वांठाराच्या आंवाठांत), वाणयांल्या गांवांत (**वाणिज**गामे), गोतम बुद्धाले जिणे-काळांत, हो जल्मल्लो. हो **वाणी** आसून वेपार-अुद्योग करतालो. बुद्धाले जिणे-काळांत रचिल्ल्या मज्झिमनिकाय आनी संयुत्तनिकाय ह्या पाली ग्रंथांत सुनापरान्त हें अुतर आनी पुण्णाली खबर आयल्या.[९४] तशीच, क्रिस्ताच्या पांचव्या शेंकड्यांतलो नामनेचो बुद्धधर्मी ग्रंथकार बुद्धघोश हागेले मज्झिमनिकायावैले पपंचसूदनी नांवाचे अट्ठकथेंत (अर्थकथा - अर्थाची फोडणिशी) सुनापरान्त हें अुतर आनी पुण्णाली खबर आयल्या.[९५] सुनापरान्त (सुवर्णापरान्त) म्हळ्यार भांगराचो अपरान्त. अपरान्त म्हळ्यार हिंदुस्तानाचे अस्तमतेच्या तोंकार वसिल्लो देस. हाका **कौंकण** म्हणटात.[९६] हे भाशेन, सुनापरान्त म्हळ्यार हिंदुस्तानाचे अस्तमतेच्या तोंकार - कोंकणांत - वसिल्लो भांगराचो देस. हांतूंतल्या आनी हाचे लागशिल्या कांय थळांच्या नांवांवैल्यान, हो देस जांबावली वांठाराच्या आवांठाक जिंत्रूप जमता हांतूंत दुबाव ना. (फाटलें पान १४६ पळ्यात.) बुद्धाले जिणे-काळांत हांगा **वाणयांली वसणूक** आसली. म्हणटकी, ताचे

आदल्या दोन-तीनशीं वर्सांवैल्या **वेदीक काळांत** ती जाल्या, हें अुकतें दिसता. खलप, बांदेंकार, पोंवळेंकार, नाटेकार, शिरसाट, आळवे, मुंज, सुंवार, फट्टे, गाड, फळारी, फुलारी, सांबारी, नेवगी, खाडये, काणेकार (कांदेकार?) बी[९७] आतांच्या नांवादीक आनी कुळवंत घराण्यांचे पुर्वज ह्याच पुर्विल्ल्या काळांत कोंकणांत आयल्यात. ते मराठणांतसून येवंक नात. ते वेदीक काळांत आयिल्ल्या कारणान, तांगेल्या देवकाऱ्यांत तांकां वेदीक मंत्रूच लागू जातात. अशें आसतना, परके नश्टे, धोंसके लोक तांकां पुराणीक मंत्रांची पिडापीड करतीत जाल्यार, तांणी तांकां कोंकणाच्या आड्याभायर सासणाचे धांवडावचे.

आतां आमगेले वाणी, चाड्डे आनी बामण, हिंदू तशेच क्रिस्तांव, हांणी गावडे आनी हेर सुदीर लेखिल्ल्या भावांक आपणाल्या अुंच पांवड्यार चडोवन, सगळ्यांनी मेळून, कोंकण, कोंकणे आनी कोंकणी भास ह्या भौच सोबीत तिर्कुटाची भांगराची घुडी संवसारांत जयजयकारान फडफडावची. ह्या कामाक होच सुगुर्व्याचो वेळ. बऱ्यांतल्या बऱ्या म्हुर्ताची घडका भरत आयली. कुभा (काबूल) न्हंयेसाकून ब्रह्मदेसामेरेन आनी कैलासासाकून कुमारीमेरेन **सासणाच्या अखण्या** आनी **संसल्या हिंदुस्तानाचें अुफेण स्वराज्य** आमची खेम घेवंक अुडक्यो मारीत आमचेसरीं धांवत येता. ताका वेंग मारात, ताका आंवळून धरात आनी सासणाचे भाग्यवंत जायात! बंदेपण पुरो जालें ! अुबगण आयली ! जीव सामको वाजवाजलो!

आमगेल्या आर्य पुर्वजांनी पुर्विल्ल्या वेदीक काळांत कोंकण देस वसैलो, हाच्यो कांय घसघशीत नाटी वैर दिल्यो. आमगेले पवित्र आनी कुळवंत कोंकणी भाशेंतूय कांय नाटी मेळ्ळ्यात; त्यो, **कोंकणिचे व्याकरणी बांदावळींत** दिल्यात. पैले नाटिची म्हळ्यार शांतरुपी देविची फोडणिशी अजून चिके करची अुल्ल्यां, ती करतां.

शांतरुपी देविचें चड पुर्विल्लें नांव **शांतिकारि** आसलें-शें दिसता. स. १२४७ (कलियुग संवत् ४३४८) च्या, षष्ठदेव कदंबाल्या गोंयच्या तांब्या-पट्यांत, **शांतिकारि देवी** हें नांव आयलां आनी व्हडल्या गोंयां (गोपकपुरींत) तिचें देवूळ आसलें, म्हणपाचें अुकतें दिसता.[९८] तें चड पुर्विल्लें आसूंक जाय. अुच्चार-बदलाच्या नेमान शांतिकारिचें **सांतेरी** हें कोंकणी रूप जालें.[९९] हे देविच्यो म्हुर्ती फातराच्यो वा हेर कसलेय धातुच्यो घडिल्ल्यो नासतात. त्यो जमनींतसून ल्हान दोंगरांवरी वाड्टात. तांकां कोंकणींत रोयणी म्हणटात. रोहण म्हळ्यार दोंगर,[१००] ह्या अुतराचें रोयण हें तद्भव. **रुह्** पासून **रोय** जाता, तशेंच रोहणचें रोयण जालें. तिका सैमा (स्वयंभू) हें विशेशण अुपाट अर्थान लागू जाता. गोंयां ह्यो रोयणी अितल्यो आसात कि

तांकां मित ना. तांकां वेळोवेळ शेड सारैली ना जाल्यार, त्यो सुमाराभायर खूब वाट्टात. त्यो ल्हान पर्वतांच्या (दोंगुल्ल्यांच्या) आकाराच्यो लांब, रुंद आनी अुंच आसतात. देखून तांकां **पार्वत्यो** म्हळ्यार **पर्वताल्यो धुवो** हें नांव अर्थानशीं फावता.अुमेक हिमवत् पर्वताली धूव ह्या अर्थान **पार्वती** हें नांव पडलां, आनी ह्याच अर्थान रोयणिची पुजा करतात. केन अुपनिशदांतले कथेंत अग्नी, वायू आनी अिंद्र ह्या देवांक 'हिमवताची भौच सोबीत धूव अुमा' दिसली, अशें जें म्हळां, तें अुकशमेच्या (Parable) रुपान. ती खरेपणानशीं **रोयण** आसली जावंये. जीव नाशिल्ल्या जिनसांत जीव भरून, ताचेकडसून कसलीय शिकवण दिवची, हें अुकशमेचें मुखेल लक्षण.अग्नी, वायू आनी अिंद्र हे अेक फावट अेका झुजांत मेळिल्लें जैत आपणाल्या पराक्रमाचें आनी बळग्याचें फळ, अशें म्हणून लातबडायो मारूंक लागले. तेन्ना, अुमेन तांकां तें जैत ब्रह्म्यान जोडिल्लें, तुमचें न्हय, देखून, ताचीच व्हडवीक तुमी गायात, अशें सांगून **थंडायले**.[१०१] ह्या अर्थान आनी नदरेन पळेल्यार, अुमेक शांतिकारि म्हळ्यार **थंडाय करणी** हें अुतर फावोशेंच लागता. हे अुकशमेंतली शिकवण वा सार हें कि अिंद्र बी देव फाटीं पडून ब्रह्म मुखार आयलें; म्हळ्यार लोक ब्रह्म्याक चड म्हत्व दिवन ताचे भक्तीक लागले. हेर देवांक पेल्यान कडसरावन, तांचे सुवातेर ब्रह्म्याक बसोवंक वावुरतल्या **नव्या मत्ताच्या** कोणेंय बुदवंत ऋषीन, ही अुकशमा केन अुपनिशदा आदीं जायते काळ, रचल्या जातली. ती भौनभौन आयकून, लोकांल्या मनार तिचो परिणाम जावन, कांय काळान ती खरेपणानशींच घडल्ल्यावरी तांकां दिसल्यार अजाप ना. केन अुपनिशदा वेळार हें नवें मत्त लसलसून मातून, अुकशमेच्या धर्मान नांवा-रुपाक आयिल्ल्या आनी देवपदाक चडिल्ल्या ब्रह्म्याच्या भक्तांचो आंकडो जायतो वाडिल्लो-सो दिसता. ब्रह्म्यावरीच, जी अुमा पार्वती पैलीं अुकशमेच्या निमतान नांवा-रुपाक आयली, तीच मागीर खरेपणानशीं देवता जावन, लोक तिची भक्ती आनी पुजा करूंक लागले. हिंदुस्तानांतले आनी हेर संवसारांतले जायतेशे देव चडकरून अुकशमांच्या आनी साद्या काणयांच्या निमतानूच नांवारुपाक आयल्यात. कांय थोडे देव मुळचे रगता-मासाचे खरेले मनीस आसून, तांगेल्या सामान्याभायल्या अलोकीक गुणांनी आनी कर्तुत्वांनी देवपदाक चडल्यात. कृष्ण, राम, गोतम बुद्ध, महावीर आनी जेजू क्रिस्त हे आमचे सारकेच मनीस आसून, आमीच तांकां देवाऱ्यांत बसैल्यात. खासा आमगेले जिणे-काळांत, आमच्या दोळ्यांनी पळेल्ल्या गांधी म्हात्म्यांक आमी देवाऱ्यांत बसोवंक लागल्यांत. सार सांगचेलें अितलेंच, कि अुकशमेंत अुमा हें नांव मेळिल्ली रोयण कांय काळान म्हळ्यार

केन अुपनिशदाआदीं कांय शेंकडे, देवपदाक चडली.

शांतिकारि (थंडाय करणी) > सांतेरी अुमेच्या नांवान रोयणिची पुजा करची चाल पैलीवैली कौशिक गोत्री बामणांनी चलैली. बृहदारण्यकाच्या गोत्रताट्यांत ह्या गोत्राचें नांव आयलां.[१०२] ह्या गोत्राच्या बामणांनी अुमेची भक्ती चलैल्ल्या कारणान, हिका कौशिकी अशेंय म्हणटात. कोंकणांत, गोंयां, सास्ट म्हालांत, केळोशी गांवांत, सांतेरिचें पैलेंवैलें देवूळ थापन जालें. शेजारच्या कुट्ठाळ गांवांत मांगिरिशाचें देवूळ थापणे देवशर्मो आनी शिवशर्मो हांगेलो नातेवर्गी कौशिकगोत्री लोमशर्मो हाणें तें थापलें. हाका केळोशी गांव दिलो अशें म्हळां.[१०३] होय कान्यकुब्जी म्हळ्यार कुट्ठाळो आसलो. कांय काळान, तागेली संतत वाडून, तांचे बारा वांगड जाले आनी तांणी केळोशी गांव आनी थैं थापिल्ली देवी जायती तरतराक हाडली. केळोशी वा ह्या अर्थाचो गांव कनोजांत आसा वा ना तें समजना. पणून, हो गांव वसैल्ल्या कारणान, लोमशर्म्याले पिळगेक **केळोशीकार** हें नांव पडलें. हेरशीं, ते **हाडाचे कुट्ठाळे** आनी तांगेल्याय आंगांत कनोजी बरे-वायट गुण अुपाट भल्ल्यात.

केळोशिचे देवीक शांतादुर्गा म्हणटा: हें सांतेरी अुप्रांतचें नांव. हांतूंत **थंडाय करणी देवी** हो मुळचो खरेलो अितिहासीक अर्थ येना. शांतादुर्गा म्हळ्यार थंड सबावाची दुर्गा; झुजमारी, रणखेवी अशी अुग्र देवी न्हय; अितलोच अर्थ जाता. हे देविचें मुळचें खरेलें नांव **सांतेरी**. स. १५६७त पुर्तुगेज सरकारान सास्टींतल्या देवां-देवळांची जी वळेरी केल्या, तांतूंत केळोशिच्या स देवांत **सांतेरी** (Santery) हें नांव घालां.[१०४] शांतादुर्गा न्हय. म्हणटकी, थैं सोळाव्या शेंकड्यांत आनी त्या आदीं, रोयणीक धातुचें मुखें लावन सांतेरी ह्या नांवान पुजताले, अशें दिसता. बाटोवणे वेळार, सैमा रोयण जाग्यावैली हालोवन अंत्रूज म्हालांत, आतांच्या कवळें थळांत, हाडूंक कठीन. हांगाय रोयण नासली. देखून, थैं तेन्नाच्यान धातुची म्हुर्त पुजेक लायली, हांतूंत दुबाव ना. केळोशीकारांले देखीन, सास्टींत आनी शेजारच्या म्हालांनी जैं जैं रोयण दिसत थैं थैं लोक तिका धातुचें मुखें लावन सांतेरी ह्या नांवान पुजूंक लागले. १५६७च्या सुमाराक सास्टींतल्या वेगळ्यावेगळ्या गांवांनी सांतेरिचीं २९ देवळां आसलीं.[१०५] बतग्राम म्हालांत दिवचले आनी पिळगांवां अश्योच रोयणिच्यो मुखें लायिल्ल्यो सांतेरी आसून तांकां शांतादुर्गा म्हणटात. भुंयेंतसून वैर सरिल्ल्यो ह्या अर्थान तांकां **भूमका** अशेंय म्हणटात. पणून रोयण आनी सांतेरी हीं नांवां चड पुर्विल्लीं आनी घोळटेंतलीं.

कवळ्यां आतां जी अभिशेक-म्हुर्त पुजेक लायल्या, ती ४७ वर्सांफाटीं

थापल्या. सन १८९८त बेळगांवच्या कांय पठाण नागोवण्यांनी देवूळ नागोवन, थैंची आदली म्हुर्त फारायली. आतांची म्हुर्त चार हातांची आसून, तिच्या अुजव्या हातातळा विष्णू आनी दाव्या हातातळा शिव हांच्यो हात जोडिल्ल्यो म्हुर्ती आसात. आदले म्हुर्तिचीय घडण अशीच आसलीशी दिसता. शांतादुर्गेचो कौशिक गोत्री कुळावी महामहोपाध्याय महेश्वरभट्ट सुकठणकार आनी तागेलो नातू सोयरूभट्ट हे अठरा आनी योकणिसाव्या शेंकड्यांत रचिल्ल्या स्तोत्रांनी तिचें ध्यान आनी वर्णना हे घडणेक फावोशीच करतात.[१०६] स्कंद पुराणांत अशी कथा आसा कि चड पुर्विल्ल्या काळांत विष्णू आनी शिव हांचें अेकसारखें दोन हजार वर्सां भयांकृत झुज लागून, तांगेल्या शस्त्रांच्या अुज्यान संवसाराचो गोबर जाता-सो जालो. तेन्ना दुर्गेन तांकां थंडावन आपल्या हातांतळा धल्ले.[१०६] हेच कथेच्या आधारान आदली आनी आतांची म्हुर्त घडल्या. स्कंद पुराण जरी भौच आर्विल्लें, तरी तांतूंतले कथेचो गाबो चड पुर्विल्लो. ती मुळची अेक अुकशमा आसा. विष्णू आनी शिव वा हरी आनी हर हांचें भयांकृत झुज, म्हळ्यार तांगेल्या भक्तांचे नश्टे वाद आनी झगडीं. देव-धर्मी आनी राजकर्णी मत्तांक लागून, आतां जशे लोकांले तट जावन धोंस आनी धुमशेणां माततात, तशींच पुर्विल्ल्या काळांतूय मातताली. हरी आनी हर हांची भक्ती विष्णू आनी रुद्र ह्या नांवांनी ऋग्वेदा काळापासून चलताली.[१०७] तेन्ना, तांगेल्या भक्तांत केन्नातरी, मेळ्यांचो वाद आनी झगडीं लागप सबावीक आसा. तांकां समजावन थंडावंक, कोणेंय अुपकारीक आनी शाण्या ऋषीन वेदीक काळांतूच वैली अुकशमा रचल्या जातली. तांतूंत, झगड्यां-झुजांनी संवसाराचें भयांकृत लुकसान जाता, देखून तीं करचीं न्हयत, अशी मोलादीक शिकवण ताणें दिल्या. ती फळादीक जावन झगडीं थांबलीं, म्हणपाची घसघशीत नाट आमकां मेळटा. चालुक्य राजा मंगलीश हाणें सटव्या शेंकड्यांत बादामींत कांतैल्ले होंवरेंत हरिहराची म्हुर्त आसून, तांतूंत विष्णू आनी शिव हांचो मेळ जाल्ल्यावरी दाखैला.[१०८] हाचो अर्थ असो कि त्या वेळार आनी ताचे आदीं जायते शेंकडे, लोकांलीं झगडीं थांबून, हरी आनी हर मेळून अेकूच देव अशें ते मानूंक लागले आनी तशे तरेच्यो तांच्यो **जोडम्हुर्ती** करून पुजूंक लागले. शाण्या आनी मायेस्त ऋषीन रचिल्ले अुकशमेच्या धर्मानूच असल्या जोडम्हुर्तिंची घडण नांवारुपाक आयली. हें सांगूंक नाका. शांतादुर्गेचे म्हुर्तिची घडणूय तागेलेच अुकशमेच्या धर्मान नांवारुपाक आयली, हांतूंत दुबाव ना. झगड्यांनी संवसाराचेर अरिश्ट येता अशें सांगून, दुर्गेन हरिहरांक म्हळ्यार तांगेल्या भक्तांक थंडायले आनी आपल्या हातांतळा धल्ले, होच अर्थ, कवळेंची अभिशेक-म्हुर्त पळोवन ध्यानांत येता. हे म्हुर्तिच्या रुपाक शांतादुर्गा

(थंड दुर्गा) ह्या नांवापरस शांतिकारि (थंडाय करणी) > सांतेरी हें नांव अपार अर्थान फावता. जाल्यारूय, केन अुपनिशदांतले अुकशमे भाशेन अिंद्र, अग्नी वी देवांक **थंडायणी** आनी मायेस्त ऋषिचे अुकशमे भाशेन हरी आनी हर हांगेल्या भक्तांक **थंडायणी** मेळून **देवी अेकूच, अुमा पार्वती**. महेश्वरभट्टूय आपणाल्या स्तोत्रांत शांतादुर्गेक **अगात्मजा** म्हणून, **पार्वतीरूपा** असो अर्थ करता.[१०९] हेंच अुपकारीक, व्हडविकेच्या लक्षणाचे, शांतरुपी पार्वतिची भक्ती, वेदीक काळांत, आमगेल्या पुर्वजांनी कोंकणांत रिगैली, हांतूंत वाद ना. हिचीं सांतेरी आनी शांतादुर्गा हीं दोनूय नांवां आमगेल्या कोंकणाबादत हिंदुस्तानांत हेर खैंचेचकडेन घोळनात. ह्या दोनूय नांवांचीं देवळां थैं नात. देखून, **ह्या नांवांक**, चड पुर्विल्ल्या काळापासून, कोंकणाच्या हकाचें 'ट्रेड मार्का' रूप आयलां.

स. १७२१त शांतादुर्गे संबंदान कोंकणाख्यानकार म्हणटा कि 'मूळमाया आदिशक्ति । **असुरमर्दिनी** लीलाव्यक्ति । दैवत **चामुंडा** द्वय हस्ती । असुरकंटीं प्रगटली ।७२।'[११०] हाचेवैल्यान, शांतादुर्गेची म्हुर्त ताणें पळोवंक नासली-शी दिसता. हेरशीं, तो तिका असुरमर्दिनी, चामुंडा म्हणचो नासलो. शांतादुर्गेक हीं झुजमारीं, अुग्र नांवां कशीं लागतीत? चामुंडेचें चड पुर्विल्लें देवूळ व्हडल्या गोंयां (गोपकपुरींत) आसलें. बाटोवणे वेळार, थैंची म्हुर्त बतग्रामांत पिळगांवच्या वरगांव वाड्यार व्हरून पुजेक लायली. ती काळात्री फातराची, सुमार देड फूट अुंच आनी धा हातांची आसून, तिच्या दाव्या पांयातळा अेक मनीस (असुर?) माड्डायला आनी लागींच अेक सुणें आसा. अशे तरेचें शांतादुर्गेचें ध्यान केन्नाच नासलें आनी ना. वरगांवच्या देवळांत, म्हालदाराचे भितल्ले आनी भायले वशीन मेळून दोन फातर-पटे आसात. देवूळ बांदून, तें परथून सरी करपाचीं तीं दोन बरपां आसात. पैलें स. १६२७ (शक १५४९ प्रभव) आनी दुसरें स. १८०२ (शक १७२४ दुंदुभि) वर्साचें. पैल्यांत देविचें नांव 'श्रीमती **गोमंतवासिनी** श्रीचामुंडा' आनी दुसऱ्यांत 'श्रीदेवि च्यामुंडा गोम(मं)तकवासीनी' अशें दिलां. हाचेवैल्यान, कोंकणाख्यानकारान केल्ली शांतादुर्गेची वर्णना चुकल्या, अशें म्हणचें पट्टा.

सार सांगचेलें हें कि सगळे वेदीक बरपावळींत आनी सगळ्या हिंदुस्तानांत पैलीवैली नांवारुपाक आयिल्ली देवी जी अुमा पार्वती तिका पार्वतिच्या म्हळ्यार रोयणिच्या रुपान आनी शांतिकारि म्हळ्यार सांतेरी ह्या नांवान, आमगेल्या पुर्वजांनी, वेदीक काळांत, कोंकण वसोवच्या पैल्यावैल्या सुगुर्व्याच्या म्हुर्तार पुजेक लावन, कोंकणाची राखणायत (Patron) देवी केली आनी सगळें कोंकणभर तिचीं देवळां बांदची चाल घालून, सगळ्या लोकांक तिची भक्ती लायली, ही कोंकणाच्या

अतिहासांत व्हडली म्हत्वाची गजाल घडली. आमगेल्या पुर्विल्ल्या भाग्याची ही णघणीत नाट, ह्या विसाव्या शेंकड्यांतूय, आमच्या दोळ्यांक दिसता; पुण आमी तो ध्यानांत घेनांत. आमकां तिची धंगूच ना. काकासायब थोमणो मारून म्हणटात कं आमगेल्या लोकांक भूतकाळ जिवो दवरून तांतूंत वांचपाची वज. देखून, आमी पोरणें कांय विसरनांत आनी नवें भौच थोडें शिकतांत. हो थोमणो आमकां व्रेपणानशींच लागू जाल्लो जाल्यार, म्हाका मोटी खोस जातली आसली. भूतकाळाचें अेकूच भूत न्हय, तर ताचे वांगडा म्हारू, देवचार, दियाब, देमणो, मसणो बी सगळे भुतावळीक राट आनी आरथ दाखोवन, म्हज्या कांठ्यार हांव बसैतलों आसलों आनी भुरकुटून-मुरगुटून, आंगांत भार हाडून, कुदतलों-नाचतलों आसलों. पणून आमच्या अुंवाळ्ळल्या, पाड्या नशिबान **आमी कोंकणे आमगेलें पुर्विल्लें भूत साप विसरल्ल्यांत**. हें येवजून, म्हजों जीव निरशेता आनी म्हाका खेद जाता. आमी फक्त आतांचो काळ - आतांची घडकाच - पळेतांत. आजी आमी सगळे तरेन खांकनवाळ जाल्यांत. देखून, आमगेले भाग्यवंत पुर्वजूय तशेच आसले अशें आमकां दिसता. आमी वर्तमानकाळावैल्यान भूतकाळ पारखतांत. आज राजकारण, धर्मकारण आनी भासकारण हांतूंत आमी सुतकी जाल्यांत. आमी पेल्यान रावन, कोणाक आफडनासतना, हेर लोक कितें करतात तें मोन्यांनी पळेतांत आनी तांगेल्या बंदेपणांत वावुरतांत. हे भाशेन, आमगेले कर्तुत्वी पुर्वजूय आमचे सारकेच सुतकी आनी बंदे आसले अशें तांगेलें चित्र आमचे सामकार अुबें रावता. आमकां अुंच हावेसाची देख मेळना, आमगेलो जीव कसल्याच सात्वीक अुमाळ्यांनी फुरफुरना, निखट्या बंदेपणांतूच दीस काडूंक आमी जल्मा आयल्यांत आनी सासणांचीं सासणां आमकां अशेच तरेन वांचूंक जाय, अशी सापअुणाक आनी हीण भावना आमच्या मनाची जाल्या. ही असली भावना जावंक नाशिल्ली जाल्यार, आमी निजाचेच हुशार आनी बुदवंत कोंकणे, आज सगळ्या हिंदुस्तानाचें राजकरण, धर्मकारण आनी भासकारण हांतूंत मुखावैले म्हालगडे चतुर येरेंकार जावन, हिंदुस्तानाचें भाग्यवंत तारूं केन्नाच खेंचे भाटयेक लागूंक दिनासतना सुसंगीत, सायसंगीत आनी हुस्क्यामेकळें चलैतले आसले. पणून भंगले आमी. आमी आमगेल्या अुजळ भूतकाळाचें सुंदर भूत विसल्लें. आमी तें पैस आमडून घालें आनी आज सगळे तरेन कर्मकट्टे, भिकाड्डे जाले. अजून हांव म्हगेल्या आस्तवंत आनी अुमेदिच्या तरण्या-धाकट्या भुरग्यांक आगरो करून आड्डून सांगतां कि येन्नादर तें भूत अुपकार करून सोदून काडात आनी तुमच्या कांठ्यार बसयात. तुमी तुमगेलो पुर्विल्लो भाग्याचो अितिहास बारकायेन विसकून पळ्यात आनी ते भाशेन, तुमी तुमचो आतांचो आनी

फुडलो काळ थारायात. तुमच्या धंग-नासपान, न्हिदसुरेपणान, आळसायेन आनी घळयेपणान जे परके सुवराथी लोक तुमच्या घरांत रिगून तुमच्या हड्ड्यार बसल्यात आनी धनीपणान चलैतात तांगेलो फटाशिंचो तड्डुकी अितिहास तुमी अुश्टावं नाकात. तांगेल्या मेंदून तुमी येवजुं नाकात. तांगेल्या पोश्यान तुमी अुदक पियेवं नाकात. तांकां तुमी कोंकणाच्या आड्याभायर बेगीन धांवडायात आनी तुमगेले निजाचे तेजिश्ट आनी ओजिश्ट बुद्दीन येवजात आनी वावरात. म्हणटकी, तुमी बऱ्याक पावतले. काकासायबांनी आमकां अशीच बुद्द दिवंक जाय आसली. ती तांगेल्या कोंकणपणाक भौ बरी सोबतली आसली.

निमाणें, विद्वान आचार्यांक हांव साप ल्हानविकायेचो, अजाण मनीस भौच नमळायेन आनी आदरान कळैतां कि कोंकणी साअित्यांत आमकां आर्विल्ले झुजमारे म्हैशासुरमर्दिनिचो प्रसाद नाका. चिटवाळे आनी सुरांडे त्रिपुरसुंदरिचे रंग आनी सोरोय आमकां नाका. तांचेकूय चड पुर्विल्ली, थंडाय करणी, वेदकाळापासून आजवेर गाजिल्ली, कोंकणाची पैलीवैली अेकलीच अेकली राखणायत देवी सांतेरी आमगेल्या गांवाकणकणी नंदता. तिकाच आमी प्रसाद-पाखळी लावंया आनी तिचे दयेचें कौल घेवंया. तिचे वांगडा, स्वामी जेजू क्रिस्ताची पवित्र आवै, भाग्यवंत आनी पुण्यवंत आंकवार मोरी हिकाय आमी होरावंया आनी तिचोय राखणेचो प्रसाद घेवंया. ह्या दोन देविंच्या आशिर्वादान आमी सगळे तरेन बऱ्याक पावं. म्हणात तर आतां-

ॐ सांतेरी पाव !

ॐ आंकवार मोरये पाव !

३१ वैतुंब्र १९४५.

टेपो :

१. कांहीं मराठी लेख, पा. २२७-८.

२. Grant Duff, History of the Mahrattas, London 1921, vol.1,pp. 448-9.

३. केरळ कोकिळ, पु. ५, पा. ६-७.

४. केरळ कोकिळ, पु. ५, पा. ७-८.

५. केरळ कोकिळ, पु. ५, पा. २५-६. पु. २, आं. २, पा. २३.

६. Visscher, Letters from Malabar, Madras 1862, Letter No. 22, pp. 131-2, 134-8. वसणूक, पा. १२९.

७. Buchanan, A Journey from Madras, London 1807, vol. 3, pp. 20-21. वसणूक, पा. १४२.

८. पुण्यात्मो राम कामती, पा. ६-७.

९. कांहीं मराठी लेख, पा. २८६.

१०. Os Lusiadas, Canto 7, E. 75.

११. क्रिस्तांव पुराण, दुसरें पुराण, अ. २२, हो. २९.

१२. निवेदन, मुंबै १९२४, पा. १८.

१३. Sardesai, Peshwa Daftar, vol. 43, Selection No. 144, pp. 115-6. नवें गोंय, व. १, पा. १४५.

१४. नवें गोंय, व. ३, पा. ५२.

१५. मुंबअी प्रार्थनासमाजाच्या ताब्यांत असलेल्या वासुदेव बाबाजी नवरंगे बालहत्याप्रतिबंधकगृह आणि अनाथबालकाश्रम ह्या संस्थांचा एप्रिल १९३८ ते मार्च १९४० अखेरपर्यंतचा रिपोर्ट, मुंबअी १९४०, 'आश्रमांतील स्त्रिया' पृ. ४, 'मृत्यूचें प्रमाण' पृ. ५.

१६. गोंयकाराचो मुंबैकार, पा. २६-२७.

१७. Why Marry? by Sybil Neville Rolfe, London 1935, p. 135. नवें गोंय, व. २, पा. ६८.

१८. नवें गोंय, व. २, पा. ६७-६९.

१९. वाजसयिने संहिता, १६.८, ११, २९, ५०, ५१. 'नमो मीढुष्टमाय' १६.२९. मीढु हें अुतर रुद्राक लायलां. हाचो अर्थ बियाण ओंपता तो जुवान दादलो. 'मेधरुपेण सेक्ता' (महीधरभाष्य). 'सेक्तृतमःयुवा' (अुवटभाष्य).

२०. केन, ३.१२.

२१. Bhandarkar, Vaisnavism, S'aivism and Minor Religious Systems, Stassburg 1913, pp. 111, 144, 156.

२२. Bhandarkar, Vaisnavism, p. 142.

२३. कांहीं मराठी लेख, पा. ७३.

२४. 'द्रप्समपश्यं विषुणे चरन्तमुह्वरे नद्यो अंशुमत्याः । नभो न कृष्णमवतस्थिवांसमिष्यामि वो वृषणो युध्यताजौ।' ऋ. ८-८५-१४. हिन्दी संस्कृति आणि अहिंसा, लेखक धर्मानंद कोसम्बी, बनारस १९३५, पृ. २३.

२५. हरिवंश, विष्णुपर्व, अध्याय. १६-१९. कांहीं मराठी लेख, पा. ३३-३४.

२६. हरिवंश, विष्णुपर्व, अ. १६.२.

२७. हरिवंश, विष्णुपर्व, अ. ३२.

२८. हरिवंश, विष्णुपर्व, अ. ४.

२९. Bhandarkar, Vaisnavism, pp. 66, 82, 83, 86.

३०. छान्दोग्य, ३.१७.६.

३१. देवकी ब्रह्मपुत्रा सा या वेदैरुपगीयते । ६ । कृष्णोपनिषत्.

३२. बृहदारण्यक, ६.५. १-२.

३३. F. N. Xavier, Bosquejo Historico, vol. 2, p. 85.

३४. कोंकणाख्यान, पूर्वार्ध, अ. ३. ४२-४५.

३५. बृहदारण्यक, ४.६.१-३; ६.५.१-४.

३६. जैत, पा. १५.

३७. कोंकणाख्यान, पूर्वार्ध, अ. ८.१२.

३८. 'क अिमं दशभिर्ममेंद्रं क्रीणाति धेनुभि:' ऋ ४.२४.१०. MacDonell, Vedic Mythology, p. 155.. कोसंबी, हिंदी संस्कृति, पृ. २७.

३९. Bhandarkar, Vaisnavism, pp. 13, 115.

४०. अस्मदर्थे सुविहितं क्रियतामत्र मन्दिरम्। विविक्तचत्वरपथं सुनिविष्टेष्टदैवतम् ।१४। हरिवंश, विष्णुपर्व, द्वारवतीनिर्माणम्, अ. ५८.

४१. यो योनिं योनिमधितिष्ठत्येको विश्वानि रूपाणि योनीश्च सर्वा: । श्वेताश्वतर, ५.२.

४२. Bhandarkar, Vaisnavism, pp. 114.

४३. Bhandarkar, Vaisnavism, pp. 113-114.

४४. Samuel Beal, Buddhist Records of the Western World (Si-yu-Ki), translation, London 1906, vol.2, p.45. कोसंबी, हिंदी संस्कृति, पृ. १३९-४०.

४५. ह्या लिंगांच्यो आकृतायो हांवें म्हजे भोंवडे-पटयेर जश्याक-तश्यो अुटायल्ल्यो. तांचे वैल्यान मजकुरांत दिल्लीं चित्रां तयार केल्यांत.

४६. वसणूक, पा. १७.

४७. Jitendra Natha Banerjea, M.A., Ph.D. The Development of Hindu Iconography, Calcutta 1941, pp. 185-87.

४८. 'शिवेन वचसा त्वा गिरिशाऽच्छावदामसि' वाजस. सं. १६-४. Bhandarkar, Vaisnavism, p. 103.

४९. शतपथ ब्राह्मण, ६.१.३. Bhandarkar, Vaisnavism, p. 105.

५०. 'रुद्राय महादेवाय जुष्टो वर्धस्व' आश्वलायन गुह्यसूत्र, ४.१०. Bhandarkar, Vaisnavism, pp. 105-6.

५१. श्रीमांगीशमाहात्म्य, प्रकाशक भवानी विश्वनाथ कानविंदे. 'न्याशनल' छापखाना, मुंबअी, शके १७९५, (अि. स. १८७३), अध्याय ५. १२-१३. कोंकणाख्यान, अुत्तरार्ध, अध्याय ४. ६०-६५.

५२. अुच्चार-बदलान र चें य आनी य चें र जाता. देखीक, मरकत > मरगयं > मयगलो. हेमचंद्र सिद्धहेम, ८.१, १८२. कोंकणींत य चें र जाता, दे. - गोमय > गोबर. वररुचि २.२ आनी

४.१ सुत्रांनी **यि** लिपता.

५३. F. N. Xavier, Bosquejo Historico, vol. 2, p. 262.

५४. JBBRAS., vol. 23, pp. 107-8.

५५. **कुशस्थल** > **कुशठल** ('ठोऽस्थि विसंस्थुले' हेमचंद्र, ८.२.३२) **कुशठल** > **कुशठळ** ('लोळः' हेम. ८.४.३०८.) **कुशठळ** > **कुश्ठळ** > **कुट्ठळ**. देखीक, **यष्टि** > **लट्ठी** (वररुचि, २.३२) कुट्ठळ > कुट्ठाळ.

५६. 'Cortalim é um logar de Bengala donde este Bramane natural, e poz este nome á nova colonia, para conservar a memoria de sua patria.' Padre Francisco de Souza, Oriente Conquistado a Jesu Christo, parte 2, conq. 1, div. 1, 13.

५७. '...**पंचगौडांतरास्तथा** । गोमाचले स्थापितास्ते पंचक्रोश्यां कुशस्थल्याम्' सह्याद्रिखंड, उत्तरार्ध, अ. १, ४७-८.

५८. शतप्रश्नकल्पलतिका, सरस्वतीमंडल (गुंजीकार), पृ. १६०.

५९. गुंजीकार, सरस्वतीमंडल, पृ. ९.

६०. हरिवंश, विष्णुपर्व, अ. ५५. ७, ८, ११२. कांहीं मराठी लेख, पा. ५५-५६.

६१. 'वत्सगोत्रे तदुत्पन्नः **कन्यकुब्जोच** यो द्विजः । देवशर्मेति विख्यातः...' श्री मांगीशमाहात्म्य, अ. ६-१, प्रकाशक भ. वि. कानविंदे.

६२. Imperial Gaz. of India, vol. 14, Oxford 1908, pp. 370-71.

६३. वाल्मीकिरामायण, १. ३२.

६४. Nundo Lal Dey, The Geographical Dictionary of Ancient and Medieval India, Calcutta 1899, pp. 41, 46.

६५. भारत-इतिहास-संशोधक मंडळ, पुणें वार्षिक अितिवृत्त, शके १८३५. पृ. १३०.

६६. Bombay Gaz. vol. 15, pt. 1, p. 169.

६७. कांहीं मराठी लेख, पा. १४९.

६८. बृहदारण्यक, ३.६.१; ३.८.२; ३.८.१२.

६९. आश्वलायन गृह्यसूत्र, ३.४.

७०. J. Wilson, Indian Caste, vol. 2, p. 151.

७१. "Segundo elles (Cortalós) dizem, todos os mais (Bramanes) são rusticos e aldeóes a seu respeito." Pe F. de Souza, Oriente conquistado a Jesu Christo, parte 1, Conq. 1, div. 2, ~ 161.

७२. Talmaki S. S., B.A., LL.B., Saraswat Families, part 1, Bombay 1935, pp. 42-3.

७३. "शिवशर्मेति विख्यातः सत्यवाग्विजितेंद्रियः । कौंडिन्यगोत्रजोत्पन्नः..." श्री मांगीशमाहात्म्य, अ. ७.१७, प्रकाशक भ. वि. कानविंदे. "देवशर्मा शिवशर्मातें । कुशस्थळी दिधली त्यांतें ।" सुबानंती टीका, अ. ७.९०.

७४. दिवचलचे भायर पडिल्ले चौकस बामण बाकुलबाब (सकाराम) कापडी हांणी हीं नांवां अठरा वर्सांफाटीं म्हाका कळैल्लीं.

७५. 'नमः कपर्दिने.' वाजसनेयि संहिता, १६.२९ कपर्दी-जट-मुकुटधारी (अुवटभाष्य).
७६. 'नमो नमोश्वेभ्योऽश्वपतिभ्यश्च.' ''नमो गणेभ्यो गणपतिभ्यश्च' वाजस. सं. १६.२४-२८ गणाः-देवानुचरा भूतविशेषाः महीधरभाष्य).
७७. 'अथो ये अस्य सत्वानः' वाजस. सं. १६.८. सत्वानः - प्राणिनोभृत्याः (महीधरभाष्य) सत्व > सवत (वर्णविपर्यय - अक्षरांच्यो सुवातो सदल-बदलून) > सावद.
७८. अथर्ववेद, ११.२.१. Bhandarkar, Vaisnavism, p. 104.
७९. ये त्रिंशतित्रयस् परो देवासो...। ऋ. ८.२८.१: विश्वे देवास् त्रय अेकादशासः। ऋ. ९.९२.४. 'त्रयस्त्रिंशदित्यष्टौ वसव अेकादश रुद्रा द्वादशादित्यास्त अेकत्रिंशदिंद्रश्चैव प्रजापतिश्च त्रयस्त्रिंशाविति' बृहदारण्यक, ३.९.२.
८०. ब्रह्मा देवानाम्...। ऋ. ९.९६.६.
८१. ब्रह्मा देवानां प्रथमः संबभूव विश्वस्य कर्ता भुवनस्य गोप्ता । मुण्डक. १.१.१.
८२. 'ब्रह्मवतिकानं ब्रह्मा देवता.' कोसंबी, हिंदी संस्कृति. पृ. १४४: Bhandarkar, Vaisnavism, p. 3.
८३. कोसंबी, हिंदी संस्कृति, पृ. ११२-११८.
८४. Banerjea, Development of Hindu Iconography, p. 251.
८५. पश्चिम हिंदुस्तानांतील प्रिन्स ऑफ वेल्स म्यूझियम, ब्राह्मण कालांतील पुरातत्व विभागांतील प्रेक्षणीय वस्तूंचा मार्गदर्शक, रचणार जी.व्ही. आचार्य, बी.अे., अेम. आर. अे.अेस.. मुंबई, पृ. १४-१५.
८६. बालांबालादित्यमंडलमध्यस्थां रक्तवर्णां रक्तांबरानुलेपनस्रगाभरणां चतुर्वक्त्रां दंडकमंडल्वक्षसूत्राभयांकचतुर्भुजां हंसासनारूढां ब्रह्मदैवत्या मृग्वेदमुदाहरंतीं भूर्लोकाधिष्ठात्रीं गायत्रीं नाम देवतां ध्यात्वा ।
८७. श्रीसंस्थान जांबावली, लेखक पुरुषोत्तमशणै भोबे-काकुले, पणजी शक १८३० (स. १९०८), पृ. १६.
८८. Boletim do Governo do Estado da India, Nova Goa, No. 1 de 2-1-1869. हांतूंतलो मूळ पुर्तुगेज मजकूर म्हाका काव्हालैर पांडुरंगशणै पिसुर्लेंकार हांणी धाडून दिलो. मुळांत्र म्हुर्तिचें आनी पेडाचें मेज-माप मेत्रांत दिलां. तांचे हांवें अदमासी अिंच केल्यात.
८९. कांही मराठी लेख, पा. १७३-५.
९०. ''कोळंब* गांवां, वाटेर, मोडूंक पाविल्लीं कांय ल्हानल्हान देवळां मेळटात. अेका देवळाचे अुजवे वाटेन अगरसाळ आसा. ती साप मोडल्या. पुण वणटी अुब्यो आसात. तिच्या अेका तोंकावैले कुडींत ब्रह्मदेव पुजेक लायला. पाशाणी पेडी धरून म्हुर्त देड हात अुबारेची आसा. फुडल्यान पळेल्यार तीन तोंडां दिसतात. फाटल्यान अेक तोंड आसा. म्हुर्तिचें पाशाण पांचवसार रंगाचें. सतरींतल्या ब्रह्मदेवाचें काळें आनी सुळसुळीत. म्हुर्त पुण सुंदर आसा.'' अशें पणजेचे विद्वान प्रोफेसोर रामचंद्र शंकर नायक. ता. २१-२-४६ दिसा पत्रान कळैतात.

---

* चालुक्य राजा विजयादित्य हाणें स. ७०५त कोळंब गांव आठ बामणांक दान दिल्लो. कांहीं मराठी लेख, पा. १७९-१८०.

९१. 'कोंकण:शंकपार्य:' वसणूक, पा. ९८, नवें गोंय, व. ३, जूल १९३५, पा. ९, पुण्यात्मो राम कामती, पा. २६.

९२. वररुचिल्या २.२ आनी ४.१ सुत्रांभाशेन हें तद्भव जालें. राजकुल > राअुळ > रावुळ हेंय तद्भव अशेच जालां.

९३. Pissurlencar, O Elemento Hindu da Casta Chardó, p. 1.

९४. अत्थि **सुनापरान्तो** नाम जनपदो तत्थाहं विहरिस्सामि । The मज्झिमनिकाय edited by Robert Chalmers, London 1899, vol.3, सुत्त 145, p. 268. अत्थि भन्ते **सुनापरान्तो** नाम जनपदो । The संयुत्तनिकाय edited by M. Leon Feer, London 1894, part 4, सळायतन वग्ग, चन्नवग्गो चतुत्थो, p. 61.

९५. **सुनापरंतरट्ठे** किर अेकस्मिं **वाणिजगामे** अेते द्वे भातरो. तेसु कदाचि जेट्ठो पंच सकट सतानि गहेत्वा जनपदं गंत्वा भंडं आहरति, कदाचि कनिट्ठो. पपंचसूदनी, पा. ७२८.

९६. '**अपरान्तास्तु पाश्चात्यास्ते**च शूर्पारकादय:' (यादवकोश) - अपरान्त म्हळ्यार अस्तमतेचे शूर्पारक (सुपारें) बी. देस. जैत, पा. ७. '**अपरान्ता: कौंकणा:**' वल्लभाली रघुवंशाची टिका.

९७. हीं कुळनांवां कांय थळांवैल्यान आनी कांय अुद्योगधंद्यांवैल्यान पडल्यांत.

९८. 'तत्रत्य **शांतिकारि देव्या** अीशानभागे विस्तृतगृहसहितं.' Ind. Ant., vol. 14, p. 291.

९९. शषो: स: । २.४३' ह्या वररुचिल्या सुत्रान शांतिकारिचें सांतिकारि जावन, वररुचि २.२ आनी ४.१ सुत्रांनी तांतूंतलो का लिपून, सांतिरि हें रूप अुल्लें आनी ताचें **सांतेरी** जालें.

१००. Theodore Benfey, Sanskrit Dictionary, Gōttingen 1866, रोहण अुतर पळ्यात.

१०१. 'सा ब्रह्मेति होवाच **ब्रह्मणो वा अेतद्विजये महीयध्वमि**ति.' केन, ३.१-१२, ४.१.

१०२. '**कौशिकात्कौशिक**:' बृहदारण्यक, ४.६.१.

१०३. 'लोमशर्मा द्विजातें । केळोसी ग्राम दीधला.' श्रीमांगीशमहात्म्य, सुबानंती टीका, अ. ७.९०, प्रकाशक भ. वि. कानविंदे.

१०४. F. N. Xavier, Bosquejo, vol. 2, p. 263.

१०५. F. N. Xavier, Bosquejo, vol. 2, pp. 262-3.

१०६. महेश्वरभट्ट, '**क्रुद्धौ शान्तियुतौ कृतौ हरिहरौ कृत्वाऽधिहस्ते यया । शान्तायै च नमो नमो...**' सोयरूभट्ट (रघुनाथशास्त्री), '**करयोरादाय विष्णुशंभू तौ.**' शेळडेकार, श्रीशान्तादुर्गा संस्थानचा संक्षिप्त अितिहास, मुंबअी १९३५, पृ. १, १२, १३.

१०७. Bhandarkar, Vaisnavism, pp. 33, 103.

१०८. Bhandarkar, Vaisnavism, p. 44.

१०९. शेळडेकार, श्रीशान्तादुर्गा अितिहास, पृ. ४.

११०. कोंकणाख्यान, पूर्वार्ध, अ. २.

ह्या उलोवपांतल्या कांय अुतरांचो

# कोंकणी-अिंग्रजी कोश

(कांय अुतरां 'कोंकणी परिशद, तिसरे बसकेची खबर, मुंबै १९४२' हांतूंत दिल्ल्या कोशांत आयल्यांत.)

अडेनांव - Nick-Name

अनार्य - Non-Aryan

अनुक्रमान - Respectively

अपभ्रंश - Name of one of the Prakrit languages

अभ्यास - Study

अवचितवाडो - Brothel

अव्यय - Indeclinable

अक्षरी - Literate

आगळीक - Outrage

आडो - Bracket

आत्मपण - Personality

आधारावळ - Bibliography

आपरोस - Pressed juice of coconut kernel without adding water. Pith, Gist, Essence.

आस्पर्ता-भूंयवर्णना - Economical geography

अुकशमा - Parable, Allegory

अुग्र - Fierce

अुच्चार - Pronunciation

अुच्चार-बदल - Phonetic change

अुत्तर कोंकणी - Northern Konkani

अुपदेस - Sermon

अुफेण - Magnificent, Grand

अुलो - Vocative

अेकचार - Unity

अेकजाती - Homogeneous

अेकरुपी - Uniform

अेकवचन - Singular number

कवी - Poet

कळा - Arts

काळ - Tense

कुळावी - Original Founder of a Temple

किर्तनां - Sermons

कूस - Termination; Suffix

केण - Nebula

कोत्रावप - Inscription

कोल्ल - Bigotism, Fanaticism

क्रियापद - Verb

खेळ - Plays

खेळगडी - Dramatical performers

खेळा-घर - Playhouse

गणती - Census

गांठवल (समास) - Compound Word

गाळ - Valley

गुरवाचार-आडावप - Conception Prevention

गुरवाचार आडो - Contraceptive

गोत्र - Clan, Tribe

गोत्रताटो - Geneology, Lineage

घडण - Formation

चिटवाळें - Sensual

चुकावळ - Errata

चैत्य - Buddhist Monument purporting to contain a Relic of Buddha or of a Saint

चौथी विभक्ती - Dative

जती - Buddhist monk

जयजयकार - Triumph

जिणे-काळ - Lifetime

जिवणी - Genius

जुंवावळ - Archipelago

ठवय (स्थपति) - Architect

तत्सम - The same as it (Sanskrit)

तद्भव - Born or derived from it (Sanskrit)

तर्क-रीत - Logic, Reasoning

ताळवें शिकप - Higher education

तिसरी विभक्ती - Instrumental

तोंडी सरस्पत - Oral Literature

थळावी - Physical; Local

दंडनायक - Magistrate; Commander of an army

दिक्षा - Initiation

दुबावी भविश्य - Indefinite future

दुसरी विभक्ती - Accusative

दूदगंगा - Galaxy, Milky way

देश्य - Aboriginal, Indigenous

दोंबारी - Gipsy

घनविशेशण - Possessive adjective

धर्म-कोल्ली - Fanatic, Bigot

धर्मशास्त्री - Lawgiver

धर्मिश्ट - Religious, Pious

धर्मीक संस्था - Religious institutions

धर्मोपदेस - Religious discourse

धातू - Verbal root

धातू-अव्यय - Verbal indeclinable

नपुंसकलिंग - Neuter gender

नाट - Tell-tale proof

नादशास्त्र - Phonetics

नाम - Noun

नामधातू - Denominative

नामावळ - List

नित्शयी भविश्य - Definite future

निरक्षरी - Illiterate

नीत - Morality

न्हयकार - Negative

पचकुन्यां - Temple Servants

पड-अुतर - Synonym

पत - Sample, specimen

परिशिश्ट - Appendix

पांचवी विभक्ती - Ablative

पुरुश - Person

पुल्लिंग - Masculine gender

पुस्तकी सरस्पत - Written literature

पैली विभक्ती - Nominative

पैलो पुरुश - First Person

पोट-भास - Dialect

पोट-शार - Suburb

प्रचार - Propaganda

प्रत - Copy

प्रमाण - Standard

प्रयोजक रूप - Causative

प्रस्तावना - Preface

फातर खांब्या-पटो - Pillar stone inscription

बरपाक्षरी - Literate

बरपी वेव्हार - Written transactions

भक्ती - Devotion

भविश्यकाळ - Future tense

भश्टकार - Ostracism

भाण्डार - Treasury

भायर पडिल्ली - Late

भावना - Sentiment

भाशांतर - Translation

भाशीक गणती - Linguistic census

भिक्खू - Buddhist mendicant

भूतकाळ - Past tense

भूतभूतकाळ - Past perfect

भोंवडी - Travel

भौवचन - Plural number

माची - Stage

'मुलुखगिरी' - Plundering raids on neighbour's territories.

मुळावें शिकप - Primary education

मोटवी काणी - Short story

मोनें - Mute

म्हाजन - Original Founder of a Temple.

म्हूर्तमेड - Auspicious Flagstaff

राखणायत - Patron

राजकर्णी - Political; Politician, statesman

राज-बदल - Revolution; Change in Government

रांदप - Cookery

राष्ट्र - Nation

राष्ट्रभास - National language

राष्ट्रीक सरस्पत - National literature

रीतभूतकाळ - Habitual past

रुपान्तर - Adaptation

रुपेरी अुत्साव - Silver Jubilee

रोमी लिपी - Roman script

लक्षण - Mark, Sign

लिंग - Gender

ल्हवलिपी - Short-hand

वचन - Number

वर्णावळ - Alphabet

वर्तमानपत्र - Newspaper

वर्तमानपत्रकार - Journalist

वळेरी - List

वाक्य - Sentence

वांगड - Association

वांठार - Territory; Large Tract of Land

विद्यापीठ - University

विध्यर्थ - Potential, Optative

विभक्ती - Case

विरोधी - Opponent

विशेशण - Adjective

वेपार-अुद्योग - Industry

वेव्हार - Transaction

वैजकी - Medicine

व्याकरणकार - Grammarian

व्याकरणी बांदावळ - Grammatical structure

व्युत्पत्ती - Etymology

व्होवळीक-पत्रां - Invitation cards

शास्त्रीक - Scientific

शिश्ट - Men of culture

शेत-कामत - Agriculture

संगीत - Music

सटवी विभक्ती - Genitive

संतान-आळावप - Birth-Control

सबावगुण - Characteristic

समाज - Society
सम्राट - Emperor
सर्वनाम - Pronoun
सवंग - Part played in a dramatical performance.
संस्था - Secular institution
संवसारीक संस्था - institution
संक्षेप - Abbreviation
सातवी विभक्ती - Locative
साम्राज्य - Empire
सारकेपण - Identity
सुरांडो - Drunkard
सैमा (स्वयंभू) - Self-existing
स्त्रीलिंग - Feminine gender
स्तोत्र - Hymn
स्वतंत्र भास - Independent language
स्वराज्य - Self-government
हयकार - Affirmative
हिशेब - Accounts
हुमाणें - Riddle
होंवऱ्यो - Cave Temples

---

# मांडावळ



## कोंकणिची व्याकरणी बांदावळ

# FOREWORD

I consider it a great privilege to have been invited by the publisher of the late Mr. Valavlikar's posthumous work on Konkani Grammar to contribute a foreword to it. When the invitation was extended to me in 1949 I readily agreed, but unfortunately my other commitments prevented me from completing a labour of love for which I am to express my sincere regrets. During the past few months this little book has been my constant companion, and the more I read it the more I became convinced of the author's great mission in life and the very successful manner in which he converted Konkani into a highly developed literary medium.

Konkani has long been used as a literary medium since the days of Father Stevens, but as a language of literature it has had such a chequered career that few believe it ever was such a medium. Not having reasonably been developed as a language of state, it also ceased to exert a unifying force on the communities where it was spoken. A great amount of credit is due to Mr. Valavlikar for not only having enriched his mother tongue with modern literature, but also for his many research activities, not the least of which was his passionate investigation into the origin and structure of Konkani. Like the poet Rabindranath Tagore in Bengal whose mastery over the Bengali language was enriched by a keen appreciation of its structure, so in Konkani Mr. Valavlikar has given us the fruit of his lifelong study and practice of Konkani in this short work. He has digested the previous contributions to such a study and brought his own unrivalled approach to the living Konkani in a treatise which will have its value to modern students of comparative linguistics.

I never had the good fortune of meeting Mr. Valavlikar in person. But ever since my return from Europe in 1931 when I commenced a linguistic study of the dialects comprising Konkani his many contributions have always been by my side. As one of the great creators of modern Konkani literature his style and manner are free, delightful, and forceful where required. Naturally what he has to say of the structure of Konkani will not only be interesting to the specialist but also to the general reader who is interested in the growth and development of this language. I have no hesitation in saying that of all

recent publications of such a type this little monograph is the most important and is bound to have the greatest influence on the thought of fellow speakers I recommend it for being read by every speaker of this sweet language, and I am sure it will be appreciated by votaries of other regional languages also.

S. M. KATRE
M.A. Ph.D. (London)
Director
Deccan College Post-Graduate
and Research Institute, Poona.

DECCAN COLLEGE
POONA, 6
8th January 1951.

# ‘पैलीं अुतरां’

(मूळ अिंग्रजिचें भाशांतर.)

भौ. वालाव्रलीकारांच्या मर्णाअुप्रांत भायर सरचेल्या तांगेल्या ह्या कोंकणी व्याकरणाक ‘पैलीं अुतरां’ बरोवची मागणी अुजवाडावप्यांनी म्हजेकडेन घाली, हें हांव म्हजें मोटें भाग्य समजतां. १९४९त, जेन्ना ही मागणी म्हजेकडेन आयली तेन्ना ती हांवें रोकडीच मान्य केली खरी, पणून ध्यानां-मनां नासतना, हांवें लावन घेतिल्ल्या दुसऱ्या कामांनी म्हाका आडावन दवरिल्ल्या कारणान, हें माये-मोगाचें काम वेळार तडीक व्हरूंक म्हज्यान जालें ना, हे खातीर म्हाका वायट दिसता. हें ल्हान पुस्तक गेल्ल्या कांय म्हैन्यांपासून म्हजें दिसपट्टें सांगाती जालां; आनी जितलें जितलें हांव तें चड वाचतां, तितली तितली म्हाका बरप्याचे जिणेन घेतिल्ल्या पवित्र व्रताची चट्टी वळख मेळून, कोंकणी ही अेक अुंच संस्कारीक भास करपांत तांणी भौ बऱ्या मार्गान अुपाट जैत जोडलें म्हणपाची म्हजी खात्री जाता.

पाद्री स्टिव्हन्सच्या काळापासून, कोंकणी ही भास म्हणून बरपांत घोळटा. पणून साअित्यीक आसुनूय, चड चिड्डून अुरिल्ल्या कारणान, ती तशी आसली म्हणपाचेर भौच थोड्यांचो विस्वास बसता. हाचें कारण, ती राज्य-भास म्हणून मुखार आयली ना, तशेंच जे समाज ही भास अुलैतात तांकां अकठांय राखूंक ती पावली ना. असले हे आवै-भाशेक भौ. वालावलीकारांनी आर्विल्ले सरस्पतीन गिरेस्त केली, अितलेच खातीर तांची तोखणाय करची अशें न्हय, तर तांणी ते भाशेंत जायते नवे सोद घाले, आनी तांतूंतूय कोंकणिचें मूळ आनी तिची बांदावळ ह्या सबंदान पोटतिडकेच्या अगत्यवादान तांणी जो सोद केलो ते खातीर तांकां जायते धन्यवाद दिवंक फावो. बंगालांत कवी रविंद्रनाथ टागोरान, बंगाली भाशेचे बांदावळिचे गुण मोटे ओडिचे मार्मिकतायेन पारखून ते भाशेंत आपल्या आंगांतलें साअित्यिक धनीपण शिगेक पावैलें, तेच रितीन कोंकणींत भौ. वालावलीकारांनी, जल्मभर वावरून केल्ल्या कोंकणी अभ्यासाचें फळ ह्या ल्हान पुस्तकाच्या रुपान आमकां दिलें. हे खातीर तांणी त्या संबंदाची आदली सगळी बरपावळ अितले खोलायेन वाचली कि, ती तांणी जिरोवन पचैली आनी मागीर, जिवंत कोंकणीकडेन वचपाचो सर्त-शीम नाशिल्लो आपणालो खाशेलो मार्ग काडून तो ह्या निबंदांत

दाखैलो. देखून, तारतिमी नदरेन भास-शास्त्राचो अभ्यास करतल्याक हें पुस्तक चड म्हत्वाचें आसा.

भौ. वालावलीकारांची गांठ घेवचें भाग्य खासा म्हाका केन्नाच मेळूंक ना जाल्यारूय, १९३१ वर्सा, येवरोपांत वचून येतकूच, हांव भास-शास्त्राचे नदरेन कोंकणी धरून कांय पोटभासांच्या अभ्यासाक लागलों, तेन्नापासून तांगेली जायतीं बरपावळ सदींच म्हजेवांगडा आसा. आर्विल्ले कोंकणी सरस्पतिचे मोट्या घडप्यांतलो अेकले ह्या नात्यान, तांगेले बरपावळिची बड आनी मोड स्वतंत्र धेक्याचीं भुलभुलायणी आनी फावो त्या जाग्यार जाय तितल्या नेटान भल्ल्या. देखुनूच, कोंकणिच्या बांदावळिसंबंदान तांणी जें कितें सांगलां तें भासांचो निखटो अभ्यास करतल्यांनीच न्हय तर ही भास जे कोण फुलोवंक आनी वाडोवंक पळेतात त्या सामान्य वाचप्यांनीय ध्यानांत धरिसारकें जालां. हालिंच्या वर्तमानांत अजवाडा आयिल्ल्या असले तरेच्या सगळ्या पुस्तकांत हें ल्हान अेकसुत्री पुस्तक चड म्हत्वाचें आसून, ही भास अुलोवपी लोकांच्या विचारांचेर तें चडांत चड मोटो परिणाम करतलें, हांतूंत म्हाका दुबाव दिसना. देखून, ही गोड-म्होंवी भास अुलैतल्या दर अेकल्या मनशान हें पुस्तक वाचचें अशें हांव आगरो करून सांगतां आनी हेर देस-भासांचे होरावपीय ह्या पुस्तकाची फाव ती तोखणाय करतले म्हणपाचें खरेपण धरतां.

डेक्कन कॉलेज, पुणें, ६.
ता. ८ ज्यानेर, १९५१.

**सु. मं. कत्रे**

# सामान्य वाचप्यांक

"हात आनी वाणी म्हणचेच मनीसजात." अेका म्हाविद्वान पण्डितालें हें ाक्य. हाचो अर्थ असो कि पशुयुगांतल्यान मनीसयुगांत पावंक प्राण्याक हात ानी वाणी हांची जोड हेंच कारण जालें.[१]

हातान आपणाले करामतीन जिणेक नवी कळा हाडली. देखुनूच विचारशक्तीचो ुरु ही ताका पदवी दिल्या. मनशाचे बुद्धीची बी ताणेंच शिंपली. ताणेंच मेंदूक ाटाची स्फूर्त दिवन ताजेर भावनांचे, विचारांचे आनी कल्पनांचे मळे फुलयले, आनी हेर प्राण्यांपासून ताका वेगळायलो, अुंचायलो.

आरंभाक - खरें म्हळ्यार आरंभ आनी अन्त ह्या अुतरांक हांगा जागोच ना. फक्त विशय मांडूंक सोंपें पडचें अितलेच खातीर तीं घेवचेलीं - आरंभाक सृष्टींतल्यो वस्ती आनी घडणुको हांच्या दर्शनान मेंदूर घडिल्ल्या परिणामांक, म्हणचे मनशाच्या मुळाव्या भावनांक, विचारांक आनी कल्पनांक थीर आनी नित्शित सरूप नाशिल्लें. शिंयांच्या दिसांनी फांतोटेर धुंवट पडटर जाता तशी गत्त ताच्या मेंदूची जाताली अशें म्हळ्यार जाता. त्या परिणामांक थीर आकाराक हाडूंक, ते रेखूंक आनी राखूंक, त्याचप्रमाण तांचेवरवीं गिन्यानाचें वस्त्र विणून मनीस-जातीक हेर प्राण्यांच्या जातींचेर अखया जैताची घुडी अुबारपाक, तशेंच गडगन्ज आनी नाजूक साधन जाय आसलें. तें वाणयेच्या रुपान जिणेनूच ताका दिलें. हालींच्या काळांत, तरेकतरा गिन्यान जोडूंक, जोडिल्लें सांटावंक आनी सांटायल्लें संसारभर पातळावंक, बरपाची कळा जें अजापाचें, सर्त-शीम नाशिल्लें म्हत्वाचें कार्य करता, तेंच कार्य त्या काळांत वाणयेन आपल्या आंगार घेतलें. मेंदूर अुदेल्ल्या भावनांक, विचारांक आनी कल्पनांक अुतरांच्या आयटींत घालून तांच्यो तिणें म्होरो माल्ल्यो आनी अुगडासाचे कोठयेंत गिन्यानाचें भाण्डार भल्लें. दुडवांच्या वेव्हारांत आयज नोटींचो आनी हुंड्यांचो जो अुपयोग जाता तोच गिन्यानाच्या वेव्हारांत त्या वेळार अुतरांचो आनी भाशेचो जालो.

अशे तरेन हातासारक्या कुशळ शस्त्राच्या आनी वाणयेसारक्या प्रबळ अस्त्राच्या गुणान मोनजातींतल्यान मनीसजात अुक्ताडाक आयली.

पुण वाणी, वाणी म्हळ्ळें कितें? असो अेक प्रस्न आदीं हांगा अुबो रावता. आमी हें अुतर हिंदू अध्यात्मशास्त्रांतल्या अर्थान घेवंक ना. आमकां सांगूंक जाय कि, आयकूंक येतात तसल्या आनी वळखूंक येतात असल्या गळ्यांतसून काडिल्या खुणांनी संसारांतल्या वस्तींच्या आनी घडणुकींच्या मेंदूर जाल्ल्या परिणामांचो अुगडास सांबाळचें आनी तो अेकामेकांक कळवचें साधन हाकाच आमी वाणी

म्हणटांत. ती अेक निजाची शक्त आस. जिणेंत ती किल्लून येता आनी जिणूच तिका पोसता-वाडयता. वाणी ना थंय विचार ना; विचार ना थंय वाणी ना.[२] ज्या वर्ससङ्ख्यांनी हो वेव्हार घडत आयला तांची गणटीय जायना. पुण तो घडटा आसताना वाणयेचें आकाराक आयिल्लें सरूप जें भास, तिचो धर्म आनी जिणेक तिका लागून आयिल्लें बळगें आनी विस्तार हांचें वर्म हीं दोनूय आमकां पळोवंक आनी तोलूंक मेळटात. देवान निर्माण केल्लो पैलोवैलो मनीस वेदीक संस्कृत वा पोरणी हिब्रू भास अुलयतालो ही म्हणणी आयज कोण मान्य करीत?

ही सगळी सृष्ट अेकाच नेमान बांदिल्ली आस. जिणेच्या यज्ञांत दुर्बळांनी जळचें आनी सबळांनी बळचें. हो तो नेम. मनशाक बळूंक फाटी सांगिल्ल्याप्रमाण, हात आनी वाणी हांची जोड कारण जाली. अगणीत काळाची भोंवडी ते खातीर ताका करची पडल्या हांतूंत दुभाव ना. हे भोंवडेची सावळी दर अेकल्या मनशाचे जिणेंत पडिल्ली दिसता.

बारकायेन येवजून पळेल्यार सुखादुखाच्यो वा रागामोगाच्यो मुळाव्यो भावना मोनजातीकूय गळ्यांतल्यान तरेकतरा कर्कश वा गोड नाद काडून दाखवंक येतात. पुण हाच्यामुखार तांचें पावल वचना. मनशाचे जिणेचो कवळो अुसवता आसताना, साप्प ल्हान भुरग्यांत हो गुण आमच्या अणभवाक येता. मात तो फुडें आशिल्लो तसोच अुरना. मनीस आनी मोनजात हांतूंत वेगळीक दिसूंक लागता ती हांगाच. थोड्याच म्हैन्यांत तागेल्या किळच्यांक आनी अुद्गारांक अुमाळी अव्ययांचें आनी मुखार अुतरांच्या मूळ धातूंचें सरूप येवंक लागता. आतां तो तांचो अुपयोग आपले जिणेच्या विस्ताराचें, मागण्यो, सांगण्यो, सुचवण्यो बि करचेलें साधन म्हणून करता. वाणयेची शक्त फोफेवन येवचेलो हो चड म्हत्वाचो काळ. भावनांक रंङ्गरूप येवचो, विचार वा कल्पना थारावचो आनी तांच्या दिवपा-घेवपाचो वेव्हार फुलचो हो काळ. गळ्यांतल्यान काडिल्ल्या नादांक तो अर्थाच्या खुणांचें सरूप हाडटा. हाकाच आमी अुतरां घडवप म्हणटांत. हे भाशेन आमी म्हणटांत त्या अर्थान वाणयेची अुतरावळ आनी रुपावळ ह्यो सिद्ध जातात. ह्या आकाराक आयिल्ल्या वाणयेच्या सरुपाक भास म्हणटात.

भासांची ही सृष्ट मनीजातीबरोबर कश्या कश्या अवस्तांतल्यान धर्तरेचे फाटीर विस्तारत गेली हाचो अभ्यास भौच मौजेचो आस.

गुणांक मत्सर ना. येवरोपी पण्डितांनी आपणाले सोदघेणे नदरेन भासांच्या ह्या विशाळ समुद्राचे खरीक हात घालो. F. Schlegel ह्या जर्मन कवीन अिंग्लंडाक पाविल्लो आसताना (१८०१-१८९२), A Hamilton कडेन संस्कृत शिकून

ानी मागीर पारिसाक ताचो विशेश अभ्यास करून, १८०८ वर्सा, ''हिंदू लोकांलें ोन्यान आनी भास हांच्या सम्बन्दान'' ह्या नांवाचें पुस्तक बरयलें. कवीचे नदरेक ्रेक वेगळीच धार आसता. ताणें केल्ली फोडणिशी आयच्या शास्त्रीक चिकित्सायेच्या कसाक पूर्णतायेन लागसारकी नासली तरी कुल्लीं भासांचे, एक अक्षरी, चिकटण्यो त्रा दसण्यो आनी विकारी, हे ताणें केल्ले वर्ग, आर्यवर्गी भासांचें ताणें वळखिल्लें नातें, भास-शास्त्राक ताणें दिल्ली स्फूर्त आनी वाणि-शास्त्राक मेकळी करून दिल्ली वाट हीं कामां अितल्या म्हत्वाचीं जालीं कि Franz Bopp आनी हेर भास-शास्त्र्यांनी ताज्या पावलार पावल दवरून आनी ताणें दाखयल्ल्या अुजवाडांत वावरून आयच्या वाणि-शास्त्राची[3] बुन्याद घाली. भास-पण्डितांनी F. Schlegel हाच्या कार्याची ''एका नव्या गजाचो सोद'' अशें म्हणून तोखणाय केल्ली ती ओगीच न्हय.

संसारांतल्या भासांचो पैलो पंगड एक अक्षरी भासांचो. चिनी, अनामी, सयामी, ब्रह्मी, तिबेटी ह्यो भासो ह्या पंगडांत आस्पावतात. तांतूंतलीं अुतरां म्हळ्यार एक अक्षरी मेकळे मूळ धातु. तांकां सामान्य अर्थ आसता. पुरुश, लिङ्ग वचन, काळ, अर्थ हे प्रकार त्यो वळखनात. तांतूंत अव्ययां नात; मुळाकुसां, ताळाकुसां नात. **धा** = धातु अशें मानलें जाल्यार तांतूंतलें अुतर **धा** ह्या अक्षरान आनी वाक्याची बांदावळ **धा** + **धा** + **धा**... अशी बरवन दाखवं येत. ज्या क्रमान हे धातु वा अुतरां वाक्यांत येतात, ताचेवेल्यान तांचें व्याकरणी कार्य नित्शित जाता. म्हणजे नामाचें, विशेशणाचें, क्रियापदाचें बि जें कसलें कार्य ते करतात तें वळखुं येता आनी ताचेवरसून वाक्याचो अर्थ समजुं येता. देखीक, '**ता**' हो एक अक्षरी चिनी धातु घेवंया. हो एकोडो पळेलो जाल्यार ताजो अर्थ 'व्हड'', ''व्हडाय,'' ''व्हडान,'' ''व्हड जावंक'' असो जावं येता. पुण **न्गो ता नी** ह्या वाक्यांत तो ''हांव मारतां तुका'' आनी **नी ता न्गो** हांतूंत ''तूं मारता म्हाका'' असो जाता. ''कुल्ली खाता नुस्तें'' आनी ''नुस्तें खाता कुल्ली'' ह्या आमगेल्या कोंकणी वाक्यांनी वेले वाक्यरचणेची सावळी पडिल्ली दिसता. पुण विभक्तीचीं कुसां अुपकारावच्या पांवड्याक पाविल्ले आमगेले भाशेक तिजो भौ थोडो अुपयोग जाता, हें काय सांगूंक जाय-शें ना.

दुसऱ्या पंगडांतल्या भासांक चिकटण्यो वा दसण्यो भासो, अशें म्हणुं येत. दक्षिण आफ्रिकेंतल्यो कांय भासो, बांतू भासो, मलायी भासो, कोरियान भास, अुरालो-आल्तायक भासो, बास्क भास, तुर्की भासो, अमेरिकेच्यो मूळ भासो, जपानी भास, कोलारियान वंशाच्यो हिंदुस्तानांतल्यो भासो, मादागास्कार आनी आवस्त्रालिय देसांतल्यो मूळ लोकांच्यो भासो आनी मल्याळी, कानडी, तेलगू,

तुळू बि आमगेल्यो शीमशेजाऱ्री द्रविडी भासो ह्या पंगडांत येतात. पैल्या पंगडांतल्या आनी ह्या भासांतलें अन्तर हें कि ह्या भासांतले धातु मेकळे रावनात. अेकामेकाक दसतात वा चिकट्टात.हांतूंतलो मुखेल तो धातु आपलो अर्थ थीर धरून गरता आनी फाटल्या फुडल्यान ताका दसल्ले हेर धातु आपणालो मूळ अर्थ सोडून त्या मुखेल्याक पालवी अर्थ जोडपाचें वा ताजें विशेश कार्य दाखवपाचें काम करतात. हांतूंतलीं अुतरां म्हणचे धातूंचे पुंजुले. मुखेल धातु ''**धा**'' आनी पालवी धातु ''धा'' ह्या अक्षरांनी दाखयले जाल्यार त्या पुंजुल्यांची घडण धा **धा**, धा **धा** धा. **धा** धा... अशी दाखवं येत. देखीक. A. Lefevre हाणें दिल्लो ''झार्'' = धांपप ह्या येवरोपांतले माझियार म्हळ्ळे चिकटणे भाशेंतलो धातु कसो अपकारायतात पळोवया. झार हात् (**धा** धा) – (ताज्यान) धांपूंक जाता; झार् आत् गात् (**धा**धाधा) = ताज्यान सदांच धांपूंक लायता; झार् आत गात हात् (धाधाधाधा) = ताज्यान सदांच धांपूंक लावंक जाता. हरशीं हीं चिकटणीं अुतरां पळोवंक आमकां चड पैस वचपाची गरज ना. आमगेले भाशेंतलीं ''कपळफोडणी,'' ''कुसलायणो,'' ''घरकोंबो''... हीं गांठवलां हींय चिकटणींच अुतरां. तांचेवरसून असलीं अुतरां घडपाची रीत आमगेल्या कोंकणींत अजून चलता हें अुक्तेपणान दिसता. ती आयज जशी चलता तशीच कदीम काळापासून चलत आयल्या. चड पुर्विल्ल्या काळांत घडिल्ल्या अुतरांतय अशेच दोन वा अदीक धातु चिकटायल्ले आसतात. पुण ते तशेच विसकणे नदरेन पळेल्याबगर वेगळावंक आनी वळखूंक येनात. ''व्होबळो'' हें कोंकणी अुतर पळेयात: वाडून हुडा गेल्ले चलयेक आमगेल्यो बायलो तें लायतात. शणै गोंयबाब शिकैतात: वधू > वहू > व्हअू > व्हो + बळो म्हळ्यार लग्नाची वाडिल्ली होंकल,[४] अशें तें घडलां.

भासांच्या तिसऱ्या पंगडाक विकारी भासांचो पंगड म्हणटात. संस्कृत आनी तिचेपासून जाल्ल्यो हिंदुस्तानांतल्यो पोरण्यो-नव्यो भासो; झेंद, पारसी बि अिराणी वंशाच्यो भासो; ग्रेग, लातीन, स्लाव्ह, सेल्तिक, जर्मन ह्या वर्गांतल्यो सगळ्यो येवरोपी भासो; आरबी, हिब्रू, आसिरियान ब्रि सेमीटिक भासो; आनी अिजिप्त, लीबिय, अल्जेरिय बि अुत्तर आफ्रिकेंतल्यो कामीटिक म्हळ्ळ्यो भासो ह्या पंगडांत येतात. अेक अक्षरी आनी चिकटणी मेळून दोनूय अवस्तांतल्यान वैर सरून त्यो हे तिसरे अवस्तेक पावल्यात. हांचें लक्षण, धातूंच्या रुपांक विकार घडवन वाक्यांतल्या अुतरांमदलें नातें वा सम्बन्द थारावप हें आस. आदीं लक्षांत घेवंक जाय कि अुतर म्हळ्यार आमगेल्या वेव्हारांत जो अर्थ जाता, तो हे फोडणिशेंत सगळेकडेन सारको अपकारना. अेक अक्षरी भासांत दरअेक धातु म्हणचेच स्वतंत्र अुतर. वाक्यांत जो

धातु मूळ अर्थ सांबाळून आसता ताका चिनी व्याकरणकार ''धडें अुतर'' आनी व्याकरणी सम्बन्द दाखवपाक जे पालवी धातु अुपकारायतात तांकां ''पोलें अुतर'' अशें म्हणटात. चिकटणे अवस्तेंत हे धातु अेकामेकांक दसतात. ताकालागून अेकाच अुतरांत धडे आनी पोले धातु आस्पावतात. हालींचे येवरोपी भास-शास्त्री तांकां अनुक्रमान Semântemas आनी Morfemas अशीं नांवां दितात. आतां ''अुतरा''चो अर्थ बदललो हें काय वाचप्यांक सांगूंक जाय-शें दिसना. विकारी भासांनी तो आनीकूय बदलता. धडे आनी पोले धातु हे तांतूंत अेकजीव जातात आनी व्याकरणी सम्बन्द दाखवपाक तांच्या रुपांक विकार घडटात. हो विकार X हे खुणेन दाखयलो जाल्यार ह्या भासांतलीं अुतरां धाधाX, धाधाधाX, धाXधाX, धाधाधाधाX... अशीं दाखवं येतीत. देखीक: फाटीं दिल्लीं ''कपळफोडणी'' आनी ''कुसलायणो'' हीं अुतरां पळेयात. हीं चिकटणे रितीन घडिल्लीं आसलींय जाल्यार तांकां वचन आनी लिङ्ग हांचे सम्बन्द दाखवंक विकार घडटात आनी कपळफोड**ण्यो**, कु**सां**लायणी, कु**सां**लायणो, कुसलाय**णी**, कु**सां**लाय**णे**... अशीं तांचीं रुपां जातात.

भासांचे हे पंगड पळेल्या अुप्रान्त आमकां वाचप्यांक सांगचें-शें दिसता कि तांणी आदीं विसरूंक फावना कि अुतरां म्हणचेच भास न्हय. भाशेचे जातीचें मुखेल लक्षण तीं वाक्यांत कशे रितीन घडटात, बदलतात, मांडटात आनी गांथतात ती रीत. वेव्हारांतली अुपमा दिवन अशें म्हणुं येत कि, अेकेच तरेचीं फुलां गांथलीं तरी तीं अेकोडीं, दोडटी, फाड्यांनी अशीं गांथपाक धरुं येतात आनी तांच्यो शिरकळ्यो, हळयो, फांतयो, वळेसर अश्यो तरा घडुं येतात. तशेंच अेक हळी म्हळी जाल्यार ती जायांची, मोगऱ्यांची, आबोल्यांची वा शेंवत्यांची बि जावं येता. अशीच गत्त भासांचीय. Chave हें पुर्तुगेज अुतर घेयात. अुच्चार बदलान ''श''चें ''च'' जावन आनी ''व्ह''चें ''व'' जावन कोंकणी ''चावी'' हें ताका मोवाळ सरूप आयलें. आमगेले भाशेंत तें आतां ''चावयो,'' ''चावयेक,'' ''चावयेन,'' ''चावयांक,''... अश्या रुपांनी आनी ''चावयेकार,'' ''चावयाळें'' ह्या नव्या अवतारांनी घोळूंक लागतर पुर्तुगेज भाशेचो आनी ताजो सम्बन्द पैसावलो आनी तें कोंकणी अुतर जालें. अुतरांत सारकाय आसली म्हणून दोन भासो अेक जायनात. तशेंच, जायते खेपो, अुतरां वेगळीं वेगळीं आसुनूय भासांचें नातें लागशिलें आसुं येता.

हेच भाशेन अुच्चारांची सारकाय म्हणचे अुतरांची सारकाय न्हय. तिका आमी भुलूंक फावना. अिंग्लेज भाशेंत One म्हळ्यार अेक आनी मलायी भाशेंत ''वन्न'' म्हळ्यार अेकूच खंय. हाचेवरसून त्यो दोनूय भासो अेकूच अशें कोण म्हणत?

हाच्या वांगडाच लक्ष्यांत घेवंक जाय कि दोन अुतरां आयज रुपासारक्यान

वेगळीं दिसलीं तरी मुळचीं रक्तामासान अेकूच आसुं येतात. सांगल्यार खरें दिसूं लेगीत कठीन. आयज आर्यवर्गी म्हणून ज्यांकां वळखतात, बङ्गाल धरून पुर्तुगाललेगीत जांचें कुळार विस्तारलां, आनी ज्यो अुलयतल्यांचे बुद्दीन आनी सत्तेन सगळो संसाराचो आवांठ पायांतळा घाला, त्या भासांचें सामान्य मुदल म्हणून आगळे-अुणे पांचशें मूळ धातु अुजवाडाक आयल्यात आनी ही म्हणणी त्या भासांच्या तुळणेन केल्ल्या अभ्यासान सिद्ध जाल्या.[५]

हे म्हणणेची साधारण-शी कल्पना येवंक आमी ''स्मृ'' हो पारणो धातु घेवंया. थळाकाळाच्यो वंयो अुपून तो संवसारभर कसो वियेला आनी जियेला पळेयात. हिंदुस्तानांतल्या पोरण्या आनी नव्या आर्य-भासांत ''स्मृति,'' ''स्मरण,'' ''स्मरणीय,'' ''विस्मृति,'' ''विस्मरण,'' ''स्मार्त''... बि तरेकतरा मुळाकुसां आनी ताळाकुसां लागून घडल्ल्या तत्सम आनी क्रिस्तांव कोंकणी ''समुर्त'' लेगीत तद्भव अुतरांनी तो विस्तार पावला. हांचे जोडयेक अिराणी आनी येवरोपी आर्यवंशी भासांतलीं लातीन sme-smor पासून आयिल्ल्या memor वेल्यान पुर्तुगेज memória, फ्रांसेज memoire, अिङ्ग्लेज memory आनी तांचे प्रभावळींतलीं त्याच भौरुप्याचीं तरेकतरा सवंगां लेखाक धल्लीं जाल्यार ही मारुतीची शेंपडी केदी लांब जायत हाची कल्पनाच करूंक जाय ! त्याचप्रमाण ''म'' हें अेक मूळ अुमाळी अव्यय. काळान्तरान ताका पैल्या पुरुशी सर्वनामाचें सरूप येवन ताच्या मुखेल आनी पालवी अर्थांनी जी धातु-अुपधातूंची सृष्ट घडल्या तिचो पट हांगा वाचपाची हुंकी अतिताय जावंची न्हय म्हणून आमकां दांबून धरची लागता. पुण त्या ''म''च्या गोत्रांत हिंदू स्मृतिकार मनु, येवरोपी गिन्यानाची देवता Minerva, अुगडासाची देवता Mnemosina, शास्त्रकळांच्यो यजमान्नी Musas आनी भुंयवसणुकेची सायबीण Demeter ह्यो लेगीत आस्पावतात म्हळ्यार कोणाक अजाप जावचें ना?

अशे भाशेन अेकवंशी भासांतलीं शेंकड्यांनी अुतरां अेकाच धातूचीं थळाकाळान वेगळायल्लीं तरेकतरा सवंगां आसून, तांच्या रुपड्यां-फाटल्यान अेकूच धातु मिरयता, हें जरी खरें आसलें आनी अशे तरेचे आगळे-अुणे पांचशीं धातु भास-शास्त्र्यांनी सोदून काडिल्ल्यान ह्या सगळ्या भासांचो मूळपुरूस अेकूच हें आमच्या प्रत्ययाक आयलें तरी ह्यो सगळ्यो भासो अेकूच म्हळ्यार जायत? आनी ह्या आधारार, ''तूं ती हांवूच. तूं म्हणून वेगळी ना. तुगेलीं वेगळीं दिसतात तीं अुतरां म्हगेल्या कोशांत घालून हांव तुका व्हड-मनीस करतां.'' अशें म्हणून अेक भास शेजारचे दुसरेक खांक्यांत मारूंक लागली जाल्यार तें रितीक आनी नितीक धरून आसत?

आतां मेरेन, मनशाक अुद्धरगतीक हाडपी ताजी भास निर्माण करपाची तांक, संसारांतल्या भासांचे विद्वानांनी केल्ले पंगड, तांतूंतल्या अुतरांच्यो पती, तांची घडण आनी वाक्यांत तीं जोडपाच्यो कळाश्यो आमी पळेल्यो. हे पंगड घालपासम्बन्दान विद्वानांत अेक मत्त ना आनी आयज, वैर सांगिल्ल्या पंगडांच्या जाग्यार वंशीक नदरेर आधारल्लें भासांचें वर्गण[६] तांचेभितर मान्यताय पावलां, हें आमी जाणंत. पुण भासांची घडण अभ्यासपाच्या कामांत अजुनूय त्या पंगडांचें म्हत्व अुणें जावंक ना. तांचेवरसून भाशेची कळा थळाकाळानसार कशी अुमळत गेल्या, कोंकणी सारके अेके विकारी भाशेंतलें अुतर कशें घडटा आनी तें कशें विसकून पळोवंक जाय, अेका काळच्या पालवी धातूंक मुखार कुसांचें रूप कशें येता, पोरण्या काळांत अुतराची कूड सांदपी हीं अिंद्रियां, अवयव आनी कपे, अेके भाशेचें हेर भासांकडेन. आशिल्लें नातें वळखपाक कितले म्हंत्वाचे आसात, ह्या आनी असल्या प्रस्नांची जाप वाचप्याक आपाप मेळून कसलेच पक्षबुद्दीचें मनाचेर चेपण पडूंक दिनासताना, शुद्ध अभ्यासपाचे नदरेन **शणै गोंयबाबां**ली ही ''कोंकणिची व्याकरणी बांदावळ'' वाचूंक आनी तिच्यासम्बन्दान विचार करूंक तो तयार जायत अशी आमकां आस्त दिसता.

खंयचेय अेके भाशेचे सरस्पतींत, ती निर्माण करतल्या लोकांचो वसतेचो देस, अितिहास, धर्म, संस्कृताय, चालरीत, हावेस... हांची जशी सावळी पडिल्ली दिसता तेच भाशेन तिच्या निजाच्या सरुपांत म्हणचे तिजे वर्णावळींत, अुच्चारांत, अुतरां घडपाच्या कळाश्यांत आनी वाक्यांचे मांडावळींत तिजी मूळ प्रकृत आनी जीण हांचें दर्शन घडटा. तिच्या निजाचो सोद आनी तिगेल्या आशी-नाशिल्ल्या पोरण्यांतल्या पोरण्या नात्यांची नाट हेच दिशेन मेळटा. देखुनूच कोंकणी अुच्चार, लिङ्ग, वचन, विभक्ति, काळ, अर्थ, प्रयोजक धातु, अणकारी धातु, नांमधातु आनी धातु-अव्ययां हे व्याकरणी प्रकार घडटा आसताना अुपकारावचेलीं मुळाकुसां, ताळाकुसां आनी रुपांचे बदल हांचो खोल मुळासून अभ्यास करून **शणै गोंयबाबां**नी बरयल्लें हें पुस्तक, कोंकणीचे सेवेखातीर तांणी जल्मवेर आचरिल्ले खर-निबर तपच्छर्येचें हें मोलादीक फळ, आयज, 'गोमन्तक' छापखान्याचे कृपेन अुजवाडाक येता. खरो जातवन्त प्रामाणीक कोंकणो, तो मागीर कसल्याय मत्ताचो जावं, कृतज्ञतायेन भारावल्ल्या अन्तस्कर्णान ताका येवकार दितलो हांतूंत आमकां कुस्कूट दुभाव दिसना.

***

**शणै गोंयबाब** ! कोंकणी आत्मो आपणाली भांगराचे कसाची बुद्द, गगनाक हात घालपी आनी म्हा-समुद्राची खर हाडपी आपणाली कर्तुत्वाची तांक, फकत परधार्जिण्या सभावाक लागून, तंवऱ्याच्या मोलाक विकून, पोटा फाटल्यान भंवरें फाटीर व्हळपतालो आनी जळपतालो ताका आपलेपणाची वळख दिवन, संसारांत मानाचें आनी अभिमानाचें आसन मेळवन दिवचें, हें अेकूच व्रत, हो अेकूच ध्यास घेवन ते खातीर तांणी आपणाली अुबी जीण झरयली, सोंपयली!

कोंकणी मन तेन्ना भेरेल्लें. कोंकणी नदरेक झेमेची झांपड पडिल्ली. कोंकणी आत्म्याक सुस्ती मारिल्ल्यो. ही ताजी जित्या कळिंवराची आवतिकाय तांच्यान पळोंव नज जाली. हे हीण दशेचें कारण तांचे तीख आनी तेजिष्ट नदरेन सोदून काडलें. समाजाचो आत्मो म्हळ्यार ताजी भास. कोंकणी समाजान सगळो संसार जिखला पुण आपणालो आत्मो होगडायला. आनी ताका लागून तो आसून ना अशी ताजी गत्त जाल्या, हें तांणी पारखिलें. मागीर अेका खिणाचीय अुसरपत घेनासताना, - पापयांनो, कसली मडसरेची झेम काडटात? अुठात ! "आमगेले भाशेचें कुळार वेदांच्या कुळवन्त, गिरेस्त, नांवादीक आनी लोकिकवन्त घराण्यांतलें आसा म्हणपाचें घणघणीत दिसता. हे खातीर आमकां कोंकण्यांक आमगेले भाशेचो मोटो अभिमान आनी गर्व दिसूंक फावो. आमी कोंकणे बाबत कुळां न्हयत. आमकां परक्या भासांच्या लोकिकार वांचपाची गरज ना. त्यो भासो आमगेल्यो आवै-भासो न्हयत. देखून, आमी आमगेले भाग्यवन्त आवैचे मांडयेर बसुंया आनी माथें वैर अुबारून सगळ्या संसाराकडेन पळोवंया."[७] ह्या अर्थाच्या विचारांनी तांणी आपणाल्या न्हिदसुऱ्या भासभावांच्या कानांकडेन जागरुतायेचें शींग फुंकलें. न्हिदेंत आशिल्ल्याक अशे रितीन आपणाक जागो करतल्याचो कसो राग येता हो अणभव कोणांक ना? पैलीं पैलीं जायतो लोक तांचेर फडफडलो, चाळावलो, विटलो. कांय थोडे तांकां हांसले. सार सांगपाचें म्हणचे जायतीं वर्सां तांगेली शिकवण अरण्यांत हुयेल म्हणटात तशी जाली. पुण ते कुस्कूट गणमणले नात. तांणी ते भाशेंत तरेकतरा सुंदर आनी भव्य सरस्पत घडवन दाखयली. आनी कोंकणी काय मराठी म्हळ्ळ्या वादाक जागोच अुरचो न्हय अितलो गडगन्ज पुरावो , कुडींत प्राण आसासर, निमाण्या खिणामेरेन लिखणी चलवन अुबो केलो.

आनी आयज? आयज कोंकणी भास ही अेक अुंच पांवड्याची स्वतन्त्र भास आसून तीच कोंकण्यांली खरेली माय-भास हाचेबदल भौ थोड्यांक दुभाव अुल्ला. आयज वेव्हाराच्या नांवांखाल अुबीं केल्ल्या भेश्टावणेच्या बावल्यांक कोण मीठ मारिनात. आयज सगळे लोक बरे भाशेन जाणत कि भाशेचें म्हत्व तिचे

तांकीर आस. आयज, तिच्यांत विशाळ सरस्पत नासली म्हणून तिका अुबन्त वडवप हें पिशेपण आत्मघातकीपणाचें जातलें हें लोकांक समजलां. आयज, संसारांतल्या अुंच दशेक पाविल्ल्या भासांकडेन पौट घांसूंक भारत देसांतल्या सगल्या भासांक जायते पांवडे चडूंक जायत, आनी ताका लागून, भारत देसान स्वतन्त्रतायेचो झेंडो अुबाल्लो पुण ताका आपणाल्या हड्ड्यावेलो अिंग्लेज भाशेचो गुंडो अुबारना, हें लोकान वळखिलां. आयज मराठी आनी कानडी भाशेंत खांपे बरपी आनी कवी म्हणून नामना जोडिल्ले विद्वान कोंकणे आपली जल्मभास कोंकणी हें अभिमानान सांगतात. आयज कोंकणांतली अुदेती पिळगी कोंकणी वैर काडपाच्या येवजणुकेंत आसा आनी सुके वाद घालून बाद जावचेपरस तो खिण कोकणीचे सेवेक लायलो जाल्यार तांतूंत यश आनी पुण्यताय आस अशें तिका दिसूंक लागलां.

शेंकड्यांनी वर्सांची फाटली न्हींद अजून जायते जाण्यांच्या दोळ्यांवेली देंवली नासली, आनी म्हजी म्हजी म्हणून मनस्पुर्वेक वेंगून धरिल्ले हेर भाशेचो मोग जायते जाणांक सुटना आसलो तरी **शणै गोंयबाबांनी** आपणाल्या भासभावांचें अंतस्कर्ण अशे रितीन जिखिल्लें पळोवन तांच्या सम्बन्दाचो आदर अितलो वाडटा कि तो अुतरांनी वर्णन करुं नज. कसलेच तरेचो अधिकार हातांत नासताना, कसलेच सत्तेचो, जावं अुक्तो जावं पोंदयां, पालव नासताना, आपणाल्या मत्ताचो प्रसार करपाच्या कसल्याच तरेच्या साधनांची अनकुळाय नासताना आनी भोवसमाजाचें मत्त प्रमाणीकपणान प्रतिकूळ आसताना, अेक मनीस निखटे आपणाले लिखणेचे तांकीन विचारांचें नवें युग निर्माण करूंक पावता, हें लक्षण कसलें? तर हो मनीस सामान्यांभायलो, अेक म्हा-पुरुश. येवरोपांत ज्याका Genio अशें म्हणटात, आमचो लोक ज्याका अवतारीक पुरुश म्हणटा ते योग्यतायेचो जावन गेलो.

कांय सत्यां सुर्याच्या अुजवाडा अितलीं पर्जळीत आसलीं जाल्यारूय तीं तसल्याच म्हापुरशांच्या तोंडांतल्यान भायर सरचीं पडटात. तेन्नाच तीं भोवसमाजाच्या अन्तस्कर्णाचे खरीचो ठाव घेतात. फ्रांसेज कवी A. Musset हाणें म्हळां -

Ainsi le vaste echo de la voix du Genie
Devient du genre humain l'universelle voix.

"हे भाशेन अेका म्हा-पुरशाच्या अुतरांचो पडसाद म्हणचेच मनीस जातीच्या अन्तस्करणाची संसारभर गाजपी भास जाता."

कोंकण देसाच्या तेजवन्त वंशाक मळबांतले दुदगङ्गेचीच ओपार फावो, अशें सांगून आनी कालिदासाल्या अुतरांत चिके बदल करून म्हा-कोंकणाच्या

११७. LSI., I, ii, p. 129, LSI., V, i, p. 34.

११८. Shapurji Edalji, Grammar of the Gujarati Language, p. 32. LSI., IX, ii, p. 354.

११९. LSI., I, ii, p. 129.

१२०. Estevão, # 573, p. 126.

१२१. सिद्धहेम. ठोऽस्थि विसंस्थुले । ८.२.३२. अस्थि > अठी = हाड.

१२२. Estevão, # 577, pp. 126, 127.

१२३. सिकौ. १९५३ । पंचम्यास्तसिल् । ५.३.७. सिकौ. १९५४ । कु तिहोः । ७.२.१०४.

१२४. वररुचि प्राप्र. कगचजतदपयवां प्रायो लोप : । २.२

१२५. LSI., IX, iv, p. 850.

१२६. वररुचि, प्राप्र. त्यथ्यद्यां चछजाः । ३.२७.

१२७. Pischel, Prakrit Grammatik, # 202, p. 145. सिद्धहेम. ८.१.१७७. पिशाची तु पिसाजी स्याच्चस्य जत्वेन कुत्रचित् ।

१२८. सिद्धहेम. अवर्णाद्वा ङसो डाहः । ८.४.२९९.

१२९. Pischel, Prakrit Grammatik, # 363, p. 248.

१३०. Bhandarkar, WPL., p. 257. Beames, Comp. Gr., II, p. 110. Katre, # 220, p. 110.

१३१. सिकौ. १३१८ । दक्षिणापश्चात्पुरसस्त्यक् । ४.२.९८.

१३२. वररुचि, प्राप्र. त्यथ्यद्यां चछजाः । ३.२७. नित्य > णिच्चं = सदीं.

१३३. अस्मत् + त्यः = अस्मत्त्यः > अस्मत्त्यो > अम्हच्चो >आमचो. युष्मत् + त्यः > युष्मत्त्यः >युष्मत्त्यो >तुम्हच्चो > तुमचो. प्राकृतांत अम्हेच्चयं = आमचें, तुम्हेच्चयं = तुमचें हीं नपुंसकलिंगी रुपां घोळटात. हेमचंद्राच्या व्याकरणांत तीं मेळटात. (सिद्धहेम, ८.२.१४९). तीं अनुक्रमान अस्मत्यं आनी युष्मत्यं पासून जाल्यांत, हांतूंत दुभाव ना.

१३४. Beames, Comp., Gr., II, p. 110.

१३५. LSI., I, ii, p. 125.

१३६. Bhandarkar, WPL., p. 257.

१३७. सिकौ. १३३६ । त्यदादीनि च । १.१.७४. सिकौ. १३३७ । वृद्धाच्छः । ४.२.११४.

१३८. वररुचि, प्राप्र. अुत्तरीयानीययोर्ज्जो वा । २.१७. अुत्तरीय >अुत्तरिज्जं = खांदार घेवचें मूण.

१३९. तेलंग, भगवद्गीतासार, पा. १, १०.

१४०. LSI., I, ii, 125. Bhandarkar, WPL., p. 256. Beames, Comp. Gr., II, p. 276.

१४१. Bhandarkar, WPL., p. 122.

१४२. Estevão, # 64, p. 20; # 104, p. 34.

१४३. Whitney, Sanskrit Gr., # 516$^{b}$, p. 197.

१४४. Pischel, Prakrit, Gr., # 122, p. 98; # 262, p. 182. सिद्धहेम, अेत् पीयूषापीड बिभीतक कीदृशेदृशे । ८.१.१०५

१४५. सिद्धहेम, मरकतमदकले गः कन्दुके त्वादे : । ८.१.१८२. कन्दुक > गेंदुअ = चेंडू. आकाश >आगास = मळब. Pischel, Prakrit, Gr., # 202, p.145.

१४६. सिद्धहेम, निम्बनापिते ल अेहं वा । ८.१.२३०. निम्ब > लिंबू. नवनीत > लोणी.

१४७. सिकौ. २०२८ । अज्ञाते । ५.३.७३.

१४८. सिकौ. २०२६ । अव्ययसर्वनाम्नामकच् प्राक् टे : । ५.३.७१.

१४९. ऋग्वेद १०.४२.१०; ४३.१०; ४४.१०.

१५०. ऋग्वेद १.१००.६.

१५१. ऋग्वेद १.३९.८

१५२. सिकौ. ४०० । साम आकम् । ७.१.३३.

१५३. सिद्धहेम. अिदमर्थस्य केरः । ८.२.१४७ । प्रत्ययस्य अिदमर्थस्य 'केर' आदेश अिष्यते। तुम्हकेरो अम्हकेरो युष्मदीयास्मदीययोः ।

१५४. सिद्धहेम. करेणू-वाराणस्योः र-णोर्व्यत्ययः । ८.२.११६.

१५५. सिद्धहेम. करवीरे णः । ८.२.११६.

१५६. Beames, Comp. Gr., II, pp. 281, 283.

१५७. LSI., I, ii, p. 125.

१५८. Bhandarkar, WPL., p.257. Pischel, Prakrit Gr., # 176, p. 130. Beames, Comp. Gr., II, pp. 285-287.

१५९. Estevão, # 64, p. 20.

१६०. सिद्धहेम, निम्बनापिते लअेहं वा । ८.१.२३०. निम्ब > लिंबू.

१६१. Kellogg, Hindi Gr., Tables II, III.

१६२. सिद्धहेम, लो ळः । ८.४.३०८. बल > बळ.

१६३. LSI., I, ii, p. 125.

१६४. Chavan, The Konkan and the Konkani Language, p. 38.

१६५. Bhandarkar, WPL., p. 257.

१६६. वररुचि, प्राप्र. अत ओत्सोः । ५.१.

१६७. वररुचि, प्राप्र. कगचजतदपयवां प्रायो लोपः । २.२

१६८. सिद्धहेम, निम्बनापिते लअेहं वा । ८.१.२३०.

१६९. वररुचि, प्राप्र. संधावचामज्लोपविशेषा बहुलं । ४.१

१७०. Whitney, Sanskrit Gr., # 340, p. 120.

१७१. ऋग्वेद, ८.२७.३.

१७२. ऋग्वेद, १.१४३.४.

१७३. सिकौ. ३५६१. सुपां सुलुक् पूर्व सवर्णाच्छेयाडाड्यायाजालः । ७.१.३९.

१७४. LSI., IX, ii., p. 20.

१७५. सिकौ. ११० । अणोऽप्रगृह्यस्यानुनासिक : । ८.४.५७.

१७६. LSI., IX, ii, p. 340.

१७७. LSI., V, i, p. 7.

१७८. LSI., IX, i, p. 630.

१७९. LSI., VIII, i, p. 258.

१८०. LSI., IX, ii, pp. 22, 55.

१८१. सिकौ. ६४१ । प्रसितोत्सुकाभ्यां तृतीया च । २.३.४४; ६४२ । नक्षत्रे च लुपि । २.३.४५.

१८२. सिद्धहेम. वोपरौ । ८.१.१०८ । अुपरौ स्यादुतो वाऽत्त्वम् अवरिं अुवरिं यथा ।

१८३. वररुचि, प्राप्र. पो. वः । २.१५.

१८४. वररुचि, प्राप्र. कगचजतदपयवां प्रायो लोपः । २.२

१८५. वररुचि, प्राप्र. अैत अेत् । १.३५.

१८६. वररुचि, प्राप्र. संधावचामज्लोपविशेषा बहुलं । ४.१

१८७. LSI., IX, ii, p. 340.

१८८. LSI., VIII, i, p. 254.

१८९. Estevão, # 58, p. 19.

१९०. Kellogg, Hindi Gr., Table III.

१९१. Beames, Comp. Gr., III, p. 273.

१९२. सिद्धहेम. खघथधभाम् । ८.१.१८७ । मेघ > मेहो = पावसाचें कूप. माघ > माह = माग (म्हैनो).

१९३. सिद्धहेम. वाऽलाब्वरण्ये लुक् । ८.१.६६ । अरण्य > रण्णं = रान.

१९४. सिद्धहेम. भुवेर्हो-हुव-हवाः । ८-४-६०.

१९५. "Are (आरे), pera as meninas bramanas." Estevao, # 529, p. 116.

१९६. सिद्धहेम. ब्रह्मचर्य-तूर्य-सौन्दर्य-शौण्डीर्ये र्यो रः । ८.२.६३ । ब्रह्मचर्यम् >ब्रह्मचेरं. सौन्दर्यम्-सुंदेरं = सुंदरकाय.

१९७. श्रीभरतमुनिप्रणीतं नाट्यशास्त्रम्, अ. १९, श्लो. २६.

१९८. बृहदारण्यकोपनिषत् ४.५.६.

१९९. सिकौ. १६७ । भो भगो अघो अपूर्वस्य योऽशि । ८.३.१७.

२००. सिद्धहेम. अयि संभावने । ८.२.२०५.

२०१. "Ago (आगो), pera com as meninas baixas, e que nao sao bramanas, e pera as escravas." Estevao, Arte da Lingoa Canarin, # 529, p. 116.

२०२. Beames, Comp. Gr., III, p. 275.

२०३. Whitney, Sanskrit Gr., # 1134c, p. 417.

२०४. सिकौ. ३४२७ । लेटो ऽ डाटौ । ३.४.९४.

२०५. ऋग्वेद ५.३७.५.

२०६. ऋग्वेद ८.३१.१.

२०७. सिकौ. ३४२८ । स अुत्तमस्य । ३.४.९८.

२०८. सिकौ. १२२ । मोऽनुस्वारः । ८.३.२३. हरिम् + वन्दे = हरिं वन्दे = हरीक पांयां पट्टां.

वररुचि, प्राप्र. मो विन्दुः । ४.१२ । वणम् >वणूं. सिद्धहेम. मोऽनुस्वारः । ८.१.२३.

२०९. सिद्धहेम. पृथ्विपथिविश्रुन्मूषिकहरिद्राबिभीतकेष्येत् । ८.१.८८ । हरिद्रा >हलद्दा.

२१०. वररुचि, प्राप्र. मन्मथे वः । २.३९ । मन्मथ > वम्महो = मदन.

२११. वररुचि, प्राप्र. दिवसे सस्य । २.४६ । दिवस > दिअहो.

२१२. सिद्धहेम. ८.१.८८.

२१३. Whitney, Sanskrit Gr., # 542a, p. 204.

२१४. वररुचि, प्राप्र. कगचजतदपयवां प्रायो लोपः । २.२ ततिपोरिदेतौ । ७.१ । पठति > पढअि = शिकता.

२१५. सिद्धहेम. ८.१.८८.

२१६. ऋग्वेद १.१६२.६

२१७. यज्ञांत घोडो बांदची मेड मुसळावरी आसता. ती २१ हात लांब आसता. मुसळाच्या अेका तोंकाक लोखणाची अनस आनी दुसऱ्या तोंकाक लोखणाचो थोंबो आसता. घोड्याचे मेडीक फक्कत वैर लांकडाचो थोंबो आसता. कांय जाणांले म्हणणे भाशेन ताका सकला लोखणाची अनस आसता. यज्ञांतल्या घोड्याचे मेडिच्या थोंब्याक संस्कृतांत चषाल म्हणटात.

२१८. सिकौ. ३४३३ । व्यत्ययो बहुलम् । ३.१.८५.

२१९. सिकौ. २४७९ । अदभ्यस्तात् । ७.१.४. Whitney, Sanskrit Gr., # 646 p. 243, # 550b, p. 207.

२२०. सिद्धहेम. ८.१.८८.

२२१. Mason, काच्छायनो's पाली Gr., p. 115.

२२२. Pischel, Prakrit Grammatik, # 498, p. 350.

२२३.. सिद्धहेम. अत्थिस्त्यादिना । ८.३.१४८. वररुचि, प्राप्र. तिपात्थि । १२.२०.

२२४. वररुचि, प्राप्र. अस्तेरच्छः । १२.१९.

२२५. Cowell's edition of प्राकृतप्रकाश, p. 184.

२२६. Estevão, # 217, p. 54. स्टीफन्सान कोंकणी अुतरां पुर्तुगेज रोमी लिपींत बरैल्यांत. पुर्तुगेजींत दोन स्वरांमदीं S आयल्यार ताचो अुच्चार **ज** जाता. देखून कोंकणी **स** चो अुच्चार दाखोवंक ताणें SS घाल्यांत. **आसति** हें अुतर ताणें assoti अशें बरैलां. परंत ताचो अुच्चार **आस्सति** असा करूंक फावना. आसौं हें अुतर स्टीफन्सान assou - आसअुं अशें बरैलां; परंत ताचा अुच्चार **आसौं** असो करूंक जाय. खासा स्टीफन्सालें नांव Estevaō - अिस्तेव्हअुं अशें बरैलां. परंत ताचो अुच्चार Estevão - अिस्तेव्हंव असो करूंक जाय. सोळाव्या शेंकड्यांत पुर्तुगेज अुतरांत निमाणे दोन स्वर येवन तांतूंतल्या आदल्या स्वराचेर अनुस्वार आयल्यार तो निमाण्या स्वराचेर घालची चाल आसली.

२२७. LSI., I, ii, pp. 253, 259. Kellogg, Hindi Gr., Table 18.

२२८. LSI., I, ii, pp. 253, 259.

२२९. वररुचि, प्राप्र. २.४६.

२३०. LSI., I, ii, pp. 253, 259. Kellogg, Hindi Gr., Table 18.

२३१. Beames, Comp. Gr., III, p. 172.

२३२. सिकौ. ३१०० । लटः शतृशानचावप्रथमासमानाधिकरणे । ३.९.१२४.

२३३. सिद्धहेम. अवर्णो यश्रुतिः । ८.१.१८०. नअरं > नयरं = नगर, शार.

२३४. सिकौ. २७६१ । आतो युक्चिण्कृतोः ७.३.३३

२३५. वररुचि, प्राप्र. संधावचामज्लोपविशेषा बहुलम् । ४.१

२३६. सिकौ. ६० । हलो यमां यमि लोपः । ८.४.६४.

२३७. Bhandarkar, WPL., p. 264. **कर** धातुचीं रुपां पळ्यात.

२३८. Katre, The Formation of Konkani, # 267, p. 128. **जा** धातू पळ्यात.

२३९. Estevão, # 121, p. 37, **सोद़्** धातुचीं रुपां पळ्यात.

२४०. LSI., I, ii, p. 279.

२४१. LSI., IX, iv, p. 291.

२४२. LSI., I, ii, p. 281.

२४३. LSI., I, ii, p. 255.

२४४. LSI., I, ii, p. 257.

२४५. LSI., I, ii, p. 283.

२४६. LSI., I, ii, p. 287.

२४७. सिकौ. ११६ । यरोऽनुनासिके ऽ नुनासिको वा । ८.४.४५.

२४८. तैत्तिरीयोपनिषत् १.११.

२४९. Katre, The.Formation of Konkani, # 281 p. 134.

२५०. सिकौ. ३०१२ । क्तक्तवतू निष्ठा । १.१.२६; ३०१३ । निष्ठा । ३.२.१०२ । **भूतार्थवत्तेर्धातोर्निष्ठा स्यात्** ।.

२५१. सिकौ. ३०९४ । लिटः कानज्वा । ३.२.१०३

२५२. Mason, काच्छायनो's पाली Gr., pp. 128, 160.

२५३. गाथा सप्तशती ३.५४.

२५४. LSI., I, ii, p. 269.

२५५. सिद्धहेम. स्यमोरस्योत् । ८.४.३३१ । दशमुखः > दशमुखो > दहमुहु = रावण. शंकर : > शंकरो > संकरु.

२५६. वररुचि, प्राप्र. २.४६.

२५७. सिद्धहेम. वालाज्वरण्ये लुक् । ८.१.६६ । अरण्यम् > रण्णं > रान.

२५८. LSI., I, ii, p. 269.

२५९. सिद्धहेम. ८.४.३३१. ८.१.६६; वररुचि, प्राप्र. २.२., २.४६.

२६० Kellogg, Hindi Gr., Table 18.

२६१. Beames, Comp. Gr., III, pp. 134-135.

२६२. Bhandarkar, WPL., p. 221.

२६३. सिकौ. ३०३५ । अनुपसर्गात्फुल्लक्षीबकृशोल्लाघाः । ८.२.५५ । त्रिफला । फुल्लः **निष्ठातस्य लत्वं निपात्यते** ।

२६४. वार्तिक. अुत्फुल्लसंफुल्लयोरुपसंख्यातम् ।
२६५ Mason, काच्छायनो's पालि Gr., p. 131.
२६६. सिद्धहेम. अतसी सातवाहने लः । ८.१.२११.
२६७. LSI., I, ii., p. 269.
२६८. LSI., I, ii., p. 295. Kellogg, Hindi Gr., Table 21.
२६९ Bhandarkar, WPL., pp. 221-222.
२७० Estevão, # 125, p. 38. **सोद** धातू पळ्यात.
२७१ Rita e Souza, p. 110. **कर** धातू पळ्यात.
२७२. वररुचि, प्राप्र. कगचजतदपयवां प्रायो लोपः । २.२
२७३ Estevão, # 195, p. 49. **नीद** धातू पळ्यात.
२७४ Rita e Souza, p. 117. **नीद** धातू पळ्यात.
२७५. Bhandarkar, WPL., p. 268. **वच** धातूचो भूतकाळ पळ्यात.
२७६ Kellogg, Hindi Gr., p. 226. Beames Comp. Gr., III, pp. 144, 148.
२७७. सिद्धहेम. क्त्वातुम्तव्येषु घेत् । ८.४.२१०.
२७८. Estevão, # 637, p. 142. Rita e Souza, p. 125.
२७९ Estevão, # 258, p. 61. सोदिनां जालों.
२८०. Rita e Souza, p. 114. करिनां जालों.
२८१. कोंकणि भाषेन बालबोध प्रथम पुस्तक, पान ३१.
२८२. Estevão, # 258, p. 61.
२८३. LSI., IX, ii, p. 152.
२८४. LSI., IX, iv, pp. 319, 344.
२८५. Talmaki, Konkani Proverbs, Part 1, pp. 4, 17, 18, 21.
२८६. Rita e Souza, pp. 93, 107. आसुल्लो, चिंतुल्लो.
२८७. Estevão, # 125, p. 38. **सोद** धातू पळ्यात. Rita e Souza, p. 111. **कर** धातू पळ्यात.
२८८. Estevao, # 195, p. 49. **नीद** धातू पळ्यात. Rita e Souza, p. 117. **नीद** धातू पळ्यात.
२८९ Bhandarkar, WPL., p. 221.
२९० Bhandarkar, WPL., p. 223.
२९१. सिद्धहेम. डिल्लडुल्लौ भवे । ८.२.१६३ । **नाम्नः** परौ डिल्लडुल्लौ **भवेऽर्थे** प्रत्ययौ डितौ । पुरिल्लं, हेट्ठिलं, अुवरिल्लं, अप्पुल्लं.
२९२. Estevão, # 194, p. 49. **नीद** धातू पळ्यात. Rita e Souza, p. 117. **नीद** धातू पळ्यात.
२९३. सिकौ. ८७३ । लोपो व्योर्वलि । ६.१.६६.
२९४. सिकौ. ६० । हलो यमां यमि लोपः । ८.४.६४
२९५. Estevão, ## 123, 194, pp. 37, 49. **सोद** आनी **नीद** धातू पळ्यात.

२९६. Rita e Souza, p. 117. **नीद** धातू पळ्यात.
२९७. Estevão, # 257, p. 60. तो सोदिनां आसिलो.
२९८. Rita e Souza, p. 114. तो करिनासलो.
२९९. Bhandarkar, Second Book of Sanskrit, Lesson 22, Aorist.
३००. सिकौ. ६१ । एचोऽयवायाव: । ६.१.७८.
३०१. सिकौ. ६७ । लोप: शाकल्यस्य । ८.३.१९.
३०२. भट्टोजि दीक्षित, पूर्वत्रासिद्धमिति लोपशास्त्रस्यासिद्धत्वान्न स्वरसंधि : ।
३०३. सिकौ । ४४७ । इको यणचि । ६.१.७७
३०४. सिकौ. ८५ । अक: सवर्णे दीर्घ: ६.१.१०१.
३०५. Estevão, # 125, p. 38. **सोद** धातू पळ्यात.
३०६. Rita e Souza, p. 111. **कर** धातू पळ्यात.
३०७. Rita e Souza, p. 117, **नीद** धातू पळ्यात.
३०८. Estevão, # 195, p. 50. **नीद** धातू पळ्यात.
३०९. Kellogg, Hindi Gr., Table 20.
३१०. Beames, Comp., Gr., III, p. 180.
३११. Estevão, # 170, p. 45. **सोद** धातू पळ्यात.
३१२. Rita e Souza, pp. 112, 117. **सोद** आनी **नीद** धातू पळ्यात.
३१३. सिकौ. ३११४ । आ. क्वेस्तच्छीलतद्धर्मतत्साधुकारिषु । ३.२.१३४. सिकौ. ३११५। तृन् । ३.२.१३५.
३१४. सिकौ. २०९६ । अवे: क: । ५.४.२८. सिद्धहेम. स्वार्थे कश्च वा । ८.२.१६४.
३१५. वररुचि, प्राप्र. ऋतोऽत् । १.२७. तृणम् > तणं = तण.
३१६. वररुचि, प्राप्र. अत ओत्सो: । ५.१. वृक्ष: > वच्छो = रूख.
३१७. वररुचि, प्राप्र. कगचजतदपयवां प्रायो लोप: । २.२
३१८. सिद्धहेम. ८.१.२११.
३१९. LSI., I, ii, p. 303; Kellogg, Hindi Gr., Table 22.
३२०. LSI., I, ii, p. 303; Kellogg, Hindi Gr., Table 20.
३२१. LSI., I, ii, pp. 309, 311, 313.
३२२. LSI., I, ii, pp. 305, 307; Kellogg, Hindi Gr., Table 22.
३२३. LSI., IX, iv, pp. 368, 369.
३२४. Shapurji Edalji, Gujarati Gr., p. 61.
३२५. सिद्धहेम. तृनोणअ: । ८.४.४४३.
३२६. वररुचि, प्राप्र. लाहले ण: । २.४०.
३२७. सिद्धहेम. तुच्छे तश्च छौ वा । ८.१.२०४. तिष्ठश्चिष्ठ: । ८.४.२९८.
३२८. Estevao, # 276, p. 65. तो सोदुंचो नां.
३२९. Rita e Souza, p. 115. तो करचो नां.
३३०. वररुचि, प्राप्र. ऋतोऽत् । १.२७. तृणम् > तण.

३३१. सिद्धहेम. तृतीयस्य मोमुमा : । ८.३.१४४.

३३२. वररुचि, प्राप्र. ततिपोरिदेतौ । ७.१

३३३. वररुचि, प्राप्र. मो विन्दुः । ४.१२

३३४. वररुचि, प्राप्र. २.२

३३५. LSI., IX, iv, p. 342.

३३६. सिद्धहेम. त्वथ्वद्वध्वां चछजझाः क्वचित् । ८.२.१५. हूस्वात् थ्यश्चत्सप्सामनिश्चले । ८.२.२१. सामर्थ्योत्सुकोत्सवे वा । ८.२.२२.

३३७. वररुचि, प्राप्र. षट्शावकसप्तपर्णानां छः । २.४१.

३३८. सिद्धहेम. अवर्णो यश्रुतिः । ८.१.१८०. नगरम् > नअरं > नयरं = नगर, शार. सिकौ. २७६१ । आतो युक्चिण्कृतोः । ७.३.३३.

३३९. सिकौ. ६० । हलो यमां यमि लोपः ८.४.६४.

३४०. सिकौ. ८७३ । लोपो व्योर्वलि । ६.१.६६.

३४१. Estevão, # 129, p. 39, सोदिशाथ, सोदिती. # 131, p. 39. तूं येसीथ, ते म्हणतीथ.

३४२. Estevão, # 197, p. 50. निदेवं.

३४३. Rita e Souza, pp. 112, 118. **कर** आनी **नीद** धातू पळ्यात.

३४४. Kellogg, Hindi Gr., Table 20.

३४५. Beames, Comp. Gr., I, p. 69.

३४६. LSI., I, ii, p. 303.

३४७. सिकौ. २२२९ । लिङ् निमित्ते लृङ् क्रियातिपत्तौ । ३.३.१३९.

३४८. Rita e Souza, p. 112.

३४९. Estevão, # 143, p. 40. **सोद** धातू पळ्यात. # 201, p. 51. **नीद** धातू पळ्यात.

३५०. Estevão, # 267, p. 63. तो सोदिनां जातो.

३५१. Estevão, # 267, p. 62. तो सोदितो नां.

३५२. Rita e Souza, p. 115. तो करतो नां.

३५३. Rita e Souza, p. 112. **कर** धातू पळ्यात. Rangel, p. 114. **काड** धातू पळ्यात.

३५४. Estevão, # 210, p. 53 # 352. p. 78.

३५५. Rita e Souza, p. 112. Rangel, p. 114. काडल्यांत जायत.

३५६. तैत्तिरीय अुपनिषत् २.२

३५७. Kellogg, Hindi Gr., Table 19.

३५८. Kellogg, Hindi Gr., Table 19; # 410, p. 237. Beames, Comp. Gr., III, p. 202.

३५९. Beames, Comp. Gr., III, p. 202.

३६०. भगवद्गीता ३.१४.

३६१. पाणिनीय धातुपाठ भू १ सत्तायाम्.

३६२. तैत्तिरीय अुपनिषत् २.६

३६३. Estevão, # 270, p. 63. तो सोदिनां जायत; # 276, p. 65. हांव सोदिनां जातलों.

३६४. सिकौ. २१९४ । लोट् च । ३.३.१६२ । विध्यादिष्वर्थेषु धातोर्लोट् स्यात्.
३६५. सिकौ. ८७३ । लोपो व्योर्वलि । ६.१.६६.
३६६ सिकौ. २७६१ । आतो युक्चिण्कृतोः । ७.३.३३. सिद्धहेम. अवर्णो यश्रुतिः । ८.१.१८०.
३६७. सिकौ. २१९६ । एरुः । ३.४.८६. भव + ति = भव + तु = भवतु = आसूं, जावं. भव + अन्ति = भव + अन्तु = भवन्तु = आसूंत, जावंत.
३६८. वररुचि, प्राप्र. अुसुमु विध्यादिष्वेकस्मिन् । ७.१८.
३६९. सिकौ. २२०१ । सेर्ह्यपिच्च । ३.४.८७. सिकौ २२०२ । अतो हेः । ६.४.१०५. भव + सि = भवहि = आस, जा. भव् + ० = भव = आस, जा.
३७० सिकौ. १२२ । मोऽनुस्वारः । ८.३.२३. वररुचि, प्राप्र. मो विन्दुः । ४.१२.
३७१. वररुचि, प्राप्र.कगचजतदपयवां प्रायो लोपः । २.२
३७२ सिकौ. ११० । अणोऽप्रगृह्यस्यानुनासिकः । ८.४.५७.
३७३. Muller, Pali Gr., pp. 6, 10.
३७४. Estevão, # 132, p. 39.
३७५. कोंकणि भाषेन बालबोध प्रथम पुस्तक, पा. १५.
३७६. Estevão, # 183, pp. 47, 48.
३७७. Rita e Souza, p. 113.
३७८. Kellogg, Hindi Gr., p. 248.
३७९. Bhandarkar, WPL., p. 214.
३८०. Bhandarkar, WPL., p. 213.
३८१. सिकौ. ५४ । संयोगान्तस्य लोपः । ८.२.२३.
३८२. Bhandarkar, WPL., p. 213.
३८३. Beames, III, pp. 151, 158, 160.
३८४. LSI, I, ii, p. 295.
३८५. सिकौ. २०२६ । अव्ययसर्वनाम्नामकच् प्राक् टेः । ५.३.७१. सिकौ. २००२ । तिङश्च । ५.३.५६. सिकौ. २०२८ । अज्ञाते ५.३.७३.
३८६. Estevão, # 132, p. 39. सोदुंया.
३८७. Rita e Souza, p. 113, करुंया.
३८८. Whitney, # 1122 e, p. 413.
३८९. ऋग्वेद १.८४.६.
३९०. ऋग्वेद ८.६८.४.
३९१. सिकौ. ३५५१ । श्रुशृणुप्दकृवृभ्यश्छन्दसि । ६.४.१०२.
३९२. ऋग्वेद ४.३१.१५.
३९३. वररुचि, प्राप्र. खघथधभां हः । २.२७.
३९४ सिद्धहेम. आत् कृशा मृदुक मृदुत्वे वा । ८.१.१२७. मृदुक > माउुक्क = मोवाळ.
३९५. सिद्धहेम. ल्लो नवैकाद्वा । ८.२.१६५.

३९६. सिद्धहेम. विद्युत्पत्र पीतान्धाल्लः । ८.२.१७३.

३९७. Muller, Pali Gr., pp. 30-31.

३९८. सिकौ. २२०८ । विधिनिमंत्रणामंत्रणाधीष्टसंप्रश्नप्रार्थनेषु लिङ् । ३.३.१६१.

३९९. सिकौ. २८३४ । तव्यत्तव्यानीयर : । ३.१.९६.

४००. सिद्धहेम. तुच्छे तश्च छौ वा । ८.१.२०४. तुच्छम् >चुच्छं = तूस, कुस्कूट. सिद्धहेम. तिष्ठश्चिष्ठः । ८.४.२९८.

४०१. वररुचि, प्राप्र. कगचजतदपयवां प्रायो लोपः । २.२

४०२. Estevão, # 136, pp. 39-40.

४०३. Rita e Souza, p. 113, करचो-ची-चें.

४०४. LSI., IX, i, p. 645.

४०५. Shapurji Edalji, p. 54.

४०६. सिद्धहेम. तव्यस्य अिअेव्वअुं अेव्वअुं अेवा । ८.४.४३८.

४०७. कोंकणि भाषेन बालबोध प्रथम पुस्तक, पा. २७, ३०.

४०८. नरहरि कवी, विवेक रत्नाकर, पद १०१, पा. ७२.

४०९. Estevão, # 648, p. 144.

४१०. Katre, The Formation of Konkani, # 280, pp. 133-134.

४११. पुर्तुगेज लोक हिंदूंक जशे धर्माच्या नांवान पिट्टाले, तशेच क्रिस्तांवांकूय पिट्टाले ! क्रिस्तांव लोक हिंदुंच्यो जायत्यो चाली चलैताले. ते हिंदूंभाशेन भुरग्यांली सटी पुजताले आनी घुमटां आनी म्हादळीं वाजोवन सगळी रात जागैताले. ते लग्रा-कार्यांत हिंदूंवरी हुडीद धुताले, होवयो म्हणटाले. हो 'अधर्म' चिड्डून अुडोवंक १६८२त व्हिसरै फ्रांसिस्क ताव्र कोन्द दे आल्व्होर हाणें कायदो करून सटयांक मनाय केली. ह्या वर्सांपासून सास्टिचे जायते क्रिस्तांव भायर गेले आनी आपणाल्या हिंदू भावांच्या शेजरा घर-दार करून रावले. तांकां आडावंक व्हिसरैन १६८४त तांचे गांवकारेचे जण सरकारजमा करचो कायदो केलो. तरी आसतना, तांचें भायर-वचप थांबलें ना. १७१०-१२च्या सुमाराक बारदेसांतसून बारा हजारांवैर क्रिस्तांव भायर गेले. १७३९त सास्टिचेर मराठ्यांची आनी बारदेसाचेर वाडिच्या सावंताची घुरी पडून तांणी त्या म्हालांची वाट लायली. लोक अुपासांनी वळवळून गांयडोळांवरी मरूंक लागले. तांतूंत, वसै होगडावन गोंयां पळून आयिल्ले अपेशी आनी भेंकरे पुर्तुगेज तांचेर आगळीक करूंक लागले. तांच्या बायलांचेर हात घालूंक लागले! तेन्ना अुबगून आनी वैतागून जायते क्रिस्तांव गोंय सोडून गेले. सास्टींतसून ५० हजारांवैर गेले आनी वर्सपट्टे दोन हजार वेताले! (Archivo Portuguez - Oriental, Fasciculo 6, Nova Goa 1875, Documentos 596, 600, pp. 1290-91, 1295-96. Fasciculo 6, Supplemento II, Documentos 4, 133, 213, 214, 215, pp. 7, 8, 336, 574, 576-7, 583).

४१२. The Christian Puranna of Fr. Thomas Stephens edited by J.L. Saldanha, B.A., Mangalore 1907, Introduction, p. XLIII.

४१३. The Christian Puranna, pp. 19, 23, 32, 37, 40, 49, 52, 53.

४१४. वररुचि, प्राप्र. अुत्तरीयानीययोर्ज्जो वा । २.१७. अुत्तरीय >अुत्तरिज्जं = खांदार घेवचें मूण.

४१५. सिद्धहेम, ज्ञात्सप्तम्या अिर्वा । ८.३.१६५.

४१६. Pischel, Prakrit Grammatik, ## 459, 462, pp. 326, 327.

४१७. व्रजलाल कालीदास, गुजराती भाषानो अितिहास, पा. ५९.

४१८. सिद्धहेम, अीअ अिज्जौ क्यस्य । ८.३.१६०. हसीअअि, हसिज्जअि.

४१९. Estevão, ## 276, 703, pp. 65, 159.

४२०. Estevão, # 320, p. 73.

४२१. सिकौ. २५८७ । अर्त्तिह्रीव्लीरीक्नूयीक्ष्माय्यातां पुङ्णौ । ७.३.३६. सिकौ. २६००। क्रीङ्जीनां णौ । ६.१.४८.

४२२. वररुचि, प्राप्र. पो व: । २.१५.

४२३. Rita e Souza, p. 146.

४२४. Estevão, # 674, p. 152.

४२५. Rita e Souza, p. 146.

४२६. कोंकणि भाषेन बालबोध प्रथम पुस्तक, पा. १५.

४२७. Katre, The Formation of Konkani, # 263, p. 126.

४२८. वररुचि, प्राप्र. संधावचामज्लोपविशेषा बहुलं । ४.१

४२९. Katre, The Formation of Konkani, # 263, p. 125.

४३०. Bhandarkar, WPL., p. 229. सिद्धहेम. भ्रमेस्तालिअंट तमाडौ । ८.४.३० । तालिअंट तमाडौ द्वौ भ्रमेर्ण्यन्तस्य वा मतौ । स्यात् तालिअंटअि तमाडअि चेति द्वयं तथा । **भमाडेअि** भमावेअि भामेअि त्रयमीरितम् ।

४३१. सिकौ. २५९५ । भियो हेतुभये षुक् । ७.३.४०.

४३२. वररुचि, प्राप्र. शषो: स: । २.४३.

४३३. Bhandarkar, WPL., p. 228.

४३४. Bhandarkar, WPL., p. 227.

४३५. सिकौ. २५७६ । हेतुमति च । ३.१.२६ । प्रयोजक व्यापारे प्रेषणादौ वाच्ये धातोर्णिच् स्यात्.

४३६. Rangel, # 285, p. 151.

४३७. सिकौ. २६२९ । धातोरेकाचो हलादे: क्रियासमभिहारे यङ् । ३.१.२२.

४३८. सिकौ. २८२५ । क्रियासमभिहारे लोट् लोटो हिस्वौ वा तध्वमो: । ३.४.२.

४३९. सिकौ. २६५७ । सुप आत्मन: क्यच् । ३.१.८.

४४०. सिकौ. २६६४ । अुपमानादाचारे । ३.१.१०.

४४१. सिकौ. २१२८ । अव्यक्तानुकरणाद् द्व्यजवरार्धादनितौ डाच् । ५.४.५७.

४४२. सिकौ. २६६८ । लोहितादिडाज्भ्य: क्यष् । ३.१.१३.

४४३. सिकौ. २६७३ । शद्ववैरकलहाभ्रकण्वमेघेभ्य: करणे । ३.१.१७.

४४४. सिकौ. २६६७ । भृशादिभ्यो भुव्यच्वेलोपश्च हल: । ३.१.१२.

४४५. सिकौ. ८७३ । लोपो व्योर्वलि । ६.१.६६.

४४६. Estevão, ## 30, 164, pp. 7, 44.

४४७. Estevão, # 29, p. 7.

४४८. कोंकणि भाषेन बालबोध प्रथम पुस्तक, पा. २३-२४.

४४९ Weber, Fragment der भगवती, pages 423, 424. Beames, III, p. 233. Bhandarkar, WPL., p. 104.

४५०. सिकौ. ३५६९ । क्त्वो यक् । ७.१.४७. गत्वा बदला गत्वाय = वचून. सिकौ. ३५७१। स्नात्व्यादयश्च । ७.१.४९. स्नात्वा बदला स्नात्वी = न्हावन. पीत्वा बदला पीत्वी = पियेवन. सिकौ. ३५७० । अिष्ट्वीनमिति च । ७.१.४८. अिष्ट्वा बदला अिष्ट्वीनम् = पुजून. पीत्वा बदला पीत्वीनम् = पियेवन.

४५१. वररुचि, प्राप्र. सर्वत्र लवरां । ३.३ पक्कं > पिक्कं = पिकें.

४५२. वररुचि, प्राप्र. अुदिक्षुवृश्चिकयोः । १.१५. अिक्षु > अुच्छू = अूंस.

४५३. Mason, काच्छायनो's पालि Gr., pp. 88, 133.

४५४. Pischel, Prakrit Grammatik, ## 584, 586, pp. 395-97.

४५५. सिकौ. ३३२० । समानकर्तृकयोः पूर्वकाले । ३.४.२१.

४५६. LSI., IX, ii, pp. 57, 58, 342.

४५७. Kellogg, Hindi Gr., p. 296.

४५८. Beames, III, p. 233.

४५९. Bhandarkar, WPL., p. 232.

४६०. Faulkner, General Rules and Principles of the Gujarati Grammar, p. 15.

४६१. वररुचि प्राप्र. ऋतोऽत् । १.२७.

४६२. वररुचि प्राप्र. कगचजतदपयवां प्रायो लोपः । २.२

४६३. सिकौ. ६३४ । यस्य च भावेन भावलक्षणम् । २.३.३७.

४६४. भगवद्गीता, ९.२१.

४६५. वररुचि, प्राप्र. त्यथ्यद्यां चछजाः । ३.२७. नृत्य >णच्च = नाच. सत्य >सच्च = खरें.

४६६. सिकौ. २८५८ । ऱ्हस्वस्य पिति कृति तुक् । ६.१.७१.

४६७ वररुचि, प्राप्र. कगचजतदपयवां प्रायो लोपः । २.२

४६८. Estevão, ## 160, 207, 228, 348, 396, 418. pp. 43, 52, 56, 77, 87, 91.

४६९. Rita e Souza, pp. 113, 118, 122.

४७०. सिद्धहेम, क्त्व अियदूणौ । ८.४.२७१.

४७१. Beames, III, pp. 230, 231.

४७२. LSI., IX, i, p. 631; IX, ii, pp. 26, 47.

४७३. LSI., IX, ii, p. 40.

४७४. Bhandarkar, WPL., p. 104. Beames III, p. 237. Pischel, Prakrit Grammatik, # 574, p. 390.

४७५. सिकौ. १२२ । मोऽनुस्वारः । ८.३.२३.

४७६. वररुचि, प्राप्र. कगचजतदपयवां प्रायो लोपः । २.२

४७७. सिकौ. ३१७५ । तुमुन्ण्वुलौ क्रियायां क्रियार्थायाम् । ३.३.१०.

४७८. Katre, The Formation of Konkani, # 290, p. 138.

४७९. सिकौ. वार्त्तिक. 'तादर्थ्ये चतुर्थी वाच्या ।'

४८०. Estevão, # 166, p. 44.

४८१. वररुचि, प्राप्र. त्यथ्यद्यां चछजाः । ३.२७.

४८२. सिद्धहेम. ज्ञो ञः । ८.२.८३.

४८३. सिकौ. ३१७७ । शकधृषज्ञाग्लाघटरभलभक्रमसहार्हास्त्यर्थेषु तुमुन् । ३.४.६५. सिकौ. ३१७८ । पर्याप्तिवचनष्वलमर्थेषु । ३.४.६६.

४८४ सिकौ. २८२३ । शकि लिङ्च । ३.३.१७२.

४८५. सिकौ. २२०८ । यासुट् परस्मैपदेषूदात्तो ङिच्च । ३.४.१०३. २२१२ । अतो **येयः** । ७.२.८०.

४८६. Estevão, ## 667, 668, p. 150.

४८७. Muller, Pali Gr., pp. 30, 31.

४८८. वररुचि, प्राप्र. अिवस्य विअ । १२.२४.

४८९. Rangel, # 273, p. 121. व्हरूं येता, व्हरूं येत. Rita e Souza, p. 113. करुं येता, करुं येत.

४९०. वररुचि, प्राप्र. कगचजतदपयवां प्रायो लोपः । २.२

४९१. Estevão, # 670, p.151.

४९२. Estevão, # 648, p. 144. सोदुं दी. अुलोवं दी.

४९३. वररुचि, प्राप्र. कगचजतदपयवां प्रायो लोपः । २.२

४९४. सिकौ. २७९२ । आशंसावचने लिङ् । ३.३.१३४.

४९५. सिकौ. ३१०० । लटः **शतृ**शानचावप्रथमासमानाधिकरणे । ३२.१२४.

४९६. सिकौ. ३३४३ । आभीक्ष्ण्ये णमुल्च । ३.४.२२.

४९७. सिकौ. ३१०० । लटः **शतृशानचाव**प्रथमासमानाधिकरणे । ३.२.१२४ । सिकौ. ३१०१ । आने **मुक्** । ७.२.८२.

४९८. Rita e Souza, p. 113. करता आसतानां.

# व्याकरणी अुतरावळ आनी संक्षेप

| कोंकणी | अिंग्रजी | | संक्षेप |
|---|---|---|---|
| अुतरावळ | Vocabulary | ... | |
| नाम | Noun | ... | ना. |
| जात-नाम | Common Noun | ... | जा. ना. |
| विशेश नाम | Proper Noun | ... | वि. ना. |
| रास-नाम | Collective Noun | ... | रा. ना. |
| वस्तु-नाम | Concrete Noun | ... | व. ना. |
| भाव-नाम | Abstract Noun | ... | भा. ना. |
| पुरुशलिंग | Masculine Gender | ... | पु. |
| स्त्रीलिंग | Feminine Gender | ... | स्त्री. |
| नपुंसकलिंग | Neuter Gender | ... | न. |
| अेकवचन | Singular Number | ... | अे. व. |
| भौवचन | Plural Number | ... | भौ. व. |
| पैली विभक्ती | Nominative Case | ... | पै. |
| दुसरी विभक्ती | Accusative Case | ... | दु. |
| तिसरी विभक्ती | Instrumental Case | ... | ति. |
| चौथी विभक्ती | Dative Case | ... | चौ. |
| पांचवी विभक्ती | Ablative Case | ... | पां. |
| सटवी विभक्ती | Genitive Case | ... | स. |
| सातवी विभक्ती | Locative Case | ... | सा. |
| अुलो विभक्ती | Vocative Case | ... | अु. |
| विशेशण | Adjective | ... | वि. |
| गुण विशेशण | Adjective of Quality | ... | गु. वि. |
| आंक विशेशण | Adjective of Quantity | ... | आं. वि. |
| पांवड्या विशेशण(१) | Ordinal Adjective of Quantity | ... | पां. वि. |

(१) पैलो, दुसरो.

| कोंकणी | अिंग्रजी | | संक्षेप |
|---|---|---|---|
| पेंट विशेशण [२] | Multiplicative Adjective of Quantity | | पै. वि. |
| अपूर्ण आंक विशेशण [३] | Fractional Adjective of Quantity | | अ.आं.वि. |
| दाखोवपी विशेशण [४] | Demonstrative Adjective | | दा. वि. |
| धन विशेशण [५] | Possessive Adjective | ... | घ. वि. |
| जण विशेशण | Distributive Adjective | ... | ज. वि. |
| सर्वनाम | Pronoun | ... | स. |
| पुरुश सर्वनाम | Personal Pronoun | ... | पु. स. |
| पैलें पुरुश सर्वनाम | First Personal Pronoun | ... | पै. पु. स. |
| दुसरें पुरुश सर्वनाम | Second Personal Pronoun | ... | दु. पु. स. |
| तिसरें पुरुश सर्वनाम | Third Personal Pronoun | ... | ति. पु. स. |
| धन सर्वनाम | Possessive Pronoun | ... | घ. स. |
| दाखोवपी सर्वनाम | Demonstrative Pronoun | ... | दा. स. |
| संबंदी सर्वनाम | Relative Pronoun | ... | सं. स. |
| प्रस्नी सर्वनाम | Interrogative Pronoun | ... | प्र. स. |
| अनित्शीत सर्वनाम | Indefinite Pronoun | ... | अ. स. |
| जोड सर्वनाम | Compound Pronoun | ... | जो. स. |
| जण सर्वनाम | Distributive Pronoun | ... | ज. स. |
| अेकमेकी सर्वनाम | Reciprocal Pronoun | ... | अे. स. |
| क्रियापद | Verb | ... | क्रि. |
| कर्मी क्रियापद | Transitive Verb | ... | क. क्रि. |
| अकर्मी क्रियापद | Intransitive Verb | ... | अ. क्रि. |
| काळ | Tense | ... | का . |
| वर्तमान काळ | Present Tense | ... | व. का. |
| भूत काळ | Past Tense | ... | भू. क्रि. |

(२) अेकोडो, दोडो, दुपेट

(३) अर्दो, पावूण.

(४) हो भुरगो.

(५) म्हजें, म्हगेलें घर.

| कोंकणी | अिंग्रजी | | संक्षेप |
|---|---|---|---|
| भविश्य काळ | Future Tense | ... | भ. का. |
| वर्तमान भूत | Present Perfect Tense | ... | व. भू. |
| अपूर्ण भूत | Past Imperfect Tense | ... | अ. भू. |
| भूत भूत | Past Perfect Tense | ... | भू. भू. |
| रीत भूत | Habitual Past Tense | ... | री. भू. |
| नित्शयी भविश्य | Definite Future Tense | ... | नि. भ. |
| अनित्शयी भविश्य | Indefinite Future Tense | ... | अ. भ. |
| दुबावी भूत | Indefinite Past Tense | ... | दु. भू. |
| नित्शयी भविश्य भूत | Definite Future Perfect Tense | ... | नि. भ. भू. |
| पालवी क्रियापद | Auxiliary Verb | ... | पा. क्रि. |
| तांकी क्रियापद | Potential Verb | ... | तां. क्रि. |
| लावपी क्रियापद[६] | Causative Verb, Causal | ... | ला. क्रि. |
| अेकपुरशी क्रियापद[७] | Unipersonal Verb | ... | अे. क्रि. |
| थळ क्रियाविशेशण | Adverb of Place | ... | थळ क्रिवि. |
| वेळ क्रियाविशेशण | Adverb of Time | ... | वेळ क्रिवि. |
| आंक क्रियाविशेशण | Adverb of Quantity | ... | आंक क्रिवि. |
| रीत क्रियाविशेशण | Adverb of Manner | ... | रीत क्रिवि. |
| हुंकारी वा हयकारी क्रियाविशेशण | Adverb of Affirmation | ... | हुंकारी क्रिवि. |
| न्हयकारी क्रियाविशेशण | Adverb of Negation | ... | न्हयकारी क्रिवि. |
| नात्या अव्यय | Preposition of Relation | ... | ना. अ. |
| सांगडी अव्यय | Cumulative or Copulative Conjunction | | सां. अ. |
| विंगडी अव्यय | Disjunctive or Alternative Conjunction | | विं. अ. |
| आडमेळी अव्यय | Adversative Conjunction | ... | आ. अ. |

(६) अुभयविध क्रियापद कोंकणींत ना. **नेटान** कर्मी वा अकर्मी क्रियापद समजता. देखीक - शाणून गुणुचो पांय मोँडलो (क. क्रि.). गुणुचो पांय **मोँडलो** (अ. क्रि.)

(७) देखीक - 'अुजवाडलें.' सदींच अेकपुरुश, म्हळ्यार तिसरो पुरुश.

| कोंकणी | अिंग्रजी | | संक्षेप |
| --- | --- | --- | --- |
| परिणामी अव्यय | Illative Conjunction | ... | प. अ. |
| रिगा अव्यय | Introductory Conjunction | ... | रि. अ. |
| बांदणी अव्यय | Conditional Conjunction | ... | बां. अ. |
| कारणी अव्यय | Conjunction of Cause | ... | का. अ. |
| हेतू अव्यय | Conjunction of Purpose | ... | हे. अ. |
| कबुली अव्यय | Conjunction of Concession | ... | क. अ. |
| फळा अव्यय | Conjunction of Result or Consequence | ... | फ. अ. |
| नेटी अव्यय | Indeclinable of Emphasis | ... | ने. अ. |
| अुमाळी अव्यय | Interjection | ... | अु. अ. |
| मुळा-कूस | Prefix | ... | |
| ताळा-कूस | Suffix | ... | |
| अंत | Termination | ... | |
| गांठवल | Compound word | ... | |
| अणकारी अव्यय | Indeclinable of Imitative Sound | ... | अ. अ. |

# आधारावळ

Archivo Portuguez Oriental, Fasciculo 6, Nova Goa 1875.

Beames. A Comparative Grammar of the Modern Aryan Languages of India; to wit, Hindi, Panjabi, Sindhi, Gujarati, Marathi, Oriya and Bangali by John Beames.

Bhandarkar. Wilson Philological Lectures (WPL) on Sanskrit and the Derived Languages delivered in 1877 by Sir R. G. Bhandarkar, K.C.I.E., LL.D., Ph.D., etc., Bombay, 1914.

Chavan. The Konkan and the Konkani Language by Rao Saheb Dr. V. P. Chavan, L. M. & S., Bombay, 1924.

Childers. A Dictionary of the Pali Language by Robert C. Childers, London.

Clough. A Compendious Pali Grammar with a copious vocabulary in the same language by the Rev. Benjamin Clough, Colombo, 1824.

Cowell. The प्राकृत प्रकाश or the Prakrit Grammar of वररुचि by E.B. Cowell, M.A., London, 1868.

Estevão (Stephens). Arte de Lingoa Canarin (कोंकणी). composta pelo Padre Thomas Estevao da companhia de Jesus, editada por J.H. da Cunha Rivara, Nova Goa, 1857.

Faulkner. The Orientalist's Grammatical Vade-Mecum: General Rules and Principles of the Gujarati Grammar, Bombay, 1853.

Grierson. Linguistic Survey of India (LSI.), compiled and edited by G.A. Grierson, C.I.E., Ph.D., etc.

Katre. The Formation of Konkani by S.M. Katre, M.A., Ph.D. (London), Bombay, 1942.

Kellogg. A Grammar of the Hindi Language by the Rev. S.H. Kellogg, D.D., LL. D., London, 1938.

Lepsius. Standard Alphabet for reducing unwritten languages and foreign graphic systems to a uniform orthography in European letters by C.R. Lepsius, D.Ph., & D.D., Second Edition, Berlin, 1863.

Mason. काच्छायनो' s पालि Grammar by Francis Mason, D.D., Toungoo, 1868.

Muller. A Simplified Grammar of the Pali Language by E. Muller, Ph.D., London, 1884.

Pischel. Grammatik der Prakrit-Sprachen von. R. Pischel, Strassburg, 1900.

Rangel. Gramatica da Lingua Concani por V. J. Janim Rangel, Bastora, Goa, 1933.

Rita e Souza. Elementos Gramaticais da Lingua Concani pelo Conego Jose de S. Rita e Souza, Lisboa, 1929.

Shapurji Edalji. Grammar of the Gujarati Language by Shapurji Edalji, Bombay, 1866.

Talmaki. (I) Konkani Proverbs and Konkani Similes & Idioms, Sanskrit Maxims & Kanarese Proverbs in use, etc., by S.S. Talmaki, Part 1, Bombay, 1932. (II) Konkani Proverbs and Riddles, Lullabies and

Nursery Songs, Part 2, Bombay, 1936.
Weber. Uber ein Fragment der भगवती von A. Weber, Berlin, 1866.
Whitney. A Sanskrit Grammar by William Dwight Whitney, Leipzig, 1896 (1913).
ऋ. - ऋग्वेद.
कोंकणि भाषेन बालबोध प्रथम पुस्तक, अुजवाडावपी : नारायणाचार्य, धर्मप्रकाश छापखानो, मंगळूर, १९३०.
गाथा-सप्तशती, बरपी: हाल.
गुजराती भाषानो अितिहास, बरपी : शास्त्री व्रजलाल कालीदास, अमदावाद, १८६६.
जैत - कोंकणी भाशेचें जैत, बरपी : शणै गोंयबाब, मुंबै.
नादशास्त्र - कोंकणी नादशास्त्र, बरपी : शणै गोंयबाब, मुंबै.
पाअिअ-सद्द-महण्णवो, बरपी : पंडित हरगोविंददास शेठ, कलकत्तो.
प्राप्र. - प्राकृतप्रकाश, कर्तो: वररुचि.
भुरग्यांलें व्याकरण, बरपी : शणै गोंयबाब, मुंबै.
विवेकरत्नाकर, कवी : नरहरी, प्रभाकर छापखानो, अुडिपी.
सरस्वतीमंडल, बरपी : रामचंद्र भिकाजीशणै गुंजीकार, मुंबै.
सिकौ. - सिद्धान्तकौमुदी, बरपी : भट्टोजि, दीक्षित.
सिद्धहेम - सिद्धहेमशद्वानुशासनम्, कर्तो: हेमचंद्र.

# कोंकणी नादशास्त्र

**स्वर आनी व्यंजनां** :- कितेंय उलौंक वा बरौंक उतरां लागतात. उतरां घडूंक एक वा अदीक अक्षरां लागतात. अक्षरां घडूंक नाद लागतात. नादांक संस्कृत भाशेंत वर्ण म्हणटात. कांय नाद तोंडान निजाचेच मेकळे आनी सगळे जातात. तांकां **स्वर (सूर)** म्हणटात. हे **स्वर** सकला दिल्यात :-

अ आ इ (अि) ई (अी) उ (अु) ऊ (अू)

ऋ ए (अे) ऐ (अै) ओ औ

हांतूंतले **अ इ** (अि) **उ** (अु) **ऋ** हे **मोटवे** (ह्रस्व) **स्वर**.
**आ ई** (अी) **ऊ** (अू) **ए** (अे) **ऐ** (अै) **ओ औ** हे **लांब** (दीर्घ) **स्वर**.

(ऋ स्वराचीं उतरां कोंकणींत नात. हो स्वर संस्कृत उतरांनी येता. इतलेच खातीर शिकतल्यांक ताची वळख जावंक तो हांगा दिला. कोंकणींत ह्या स्वराचीं **री** आनी **रु** हीं रुपां घोळटात. **देखीक** :- संस्कृत **ऋण** आनी **ऋषि** हांचीं अनुक्रमान **रीण** आनी **रुशी** हीं कोंकणी रुपां जाल्यांत.)

कांय नाद तोंडान निजाचेच अर्दुकडे जातात. मोटवो स्वर उच्चारूंक जितलो वेळ लागता ताच्या अर्दान वेळ हो अर्दुकडो नाद उच्चारूंक लागता. ह्या नादाक व्यंजन म्हणटात. हाचो अर्दुकडो नाद दाखौंक सकला ही ् पांयमोडी कुरू करतात. हिका संस्कृतांत **विराम** वा **हल** म्हणटात.

व्यंजनां सकला दिल्यांत :-

| | | |
|---|---|---|
| क् ख् ग् घ् ङ् | च् छ् ज् झ् ञ् | ट् ठ् ड् ढ् ण् |
| त् थ् द् ध् न् | प् फ् ब् भ् म् | य् र् ल् व् श् (श्) |
| | ष् स् ह् ळ् | |

**व्यंजनांत स्वर मेळौप आनी स्वरांच्यो कुरवो** : - व्यंजनाचो अर्दुकडो नाद मेकळो आनी सगळो जावंक तांतूंत स्वर मेळौचो लागता. स्वर मेळौच्या वेळार व्यंजनाची पांयमोडी ् कुरू काडून उडौन ताका स्वराची कुरू लायतात. अ स्वराची कुरू ना. हेर स्वरांच्यो कुरवो आसत. त्यो ह्यो:-

| स्वर | स्वराची कुरू | कुरवेचें नांव |
|---|---|---|
| आ | ा | कानो |
| इ (अि) | ि | दावी तोपी |
| ई (अी) | ी | उजवी तोपी |
| उ (अु) | ु | दावो कोंब |
| ऊ (अू) | ू | उजवो कोंब |
| ऋ | ृ | गरी |
| ए (अे) | े | मात्रा |
| ऐ (अै) | ै | दोन मात्रा |
| ओ | ो | कानो-मात्रा |
| औ | ौ | कानो-दोन मात्रा |

**व्यंजनांत अ स्वर मेळौप** :- व्यंजनांत **अ** स्वर मेळौच्या वेळार व्यंजनांची पांयमोडी ् कुरू काडून उडैतात. म्हणटकूच ताचो **मेकळो** आनी **सगळो** उच्चार जाता. देखीक - **क्** + **अ** = **क. ख्** + **अ** = **ख. ळ्** + **अ** = **ळ**. (कोंकणी पैलें पुस्तक, पाठ १ पळयात.)

**अुलैतें आनी मोनें अ**:- जायत्या उतरांनी कांय अक्षरांतल्या अ चो उच्चार केन्नाकेन्ना जायना. **देखीक** : - घर हें उतर घर् अशें उच्चारतात. हें उतर **घ्** + **अ** आनी **र्** + **अ** मेळून जालां. हांतूंत दोन **अ** आसत. हांतूंतल्या पैल्या **अ** चो उच्चार जाता. दुसऱ्या **अ** चो उच्चार जायना. असल्या **अ** क **मोनें अ** म्हळ्यार जाता. तरी आसताना, बरपाचे सोबे खातीर **र** क पांयमोडी ् कुरू करूंक ना.

(हिंदुस्तानांतल्या हेर भासांनींय जायतेकडेन अक्षरांतल्या **अ** चो उच्चार

जायना. हिंदी भाशेंत 'उसने उनको अलग कागज पर लिखकर लिफाफे में बन्द कर दिया' हें वाक्य 'उस्ने उन्को अलग् कागज्पर् लिख्कर् लिफाफे में बन्द् कर् दिया' अशें उच्चारतात. मराठींत 'शेतकरी शेतांत गवत कापतो' हें वाक्य 'शेत्करी शेतांत् गवत् काप्तो' अशें उच्चारतात. गुजराथी भाशेंत 'सघळा कुतरानी पुछडी वांकी होय छे' हें वाक्य 'सघ्ळा कुत्रानी पुछ्डी वांकी होय् छे' अशें उच्चारतात.)

**उलैत्या आनी मोन्या अ चे नेम:** - कोंकणी उतरांत **अ** केन्ना उलैता आनी केन्ना मोनें रावता ह्या संबंधान कांय नेम आसल्यार सोदून काडुंया.

एक अक्षरी उतरांत **अ** आसल्यार ताचो उच्चार जाता. **देखीक:- क, प, ड, स, ह.**

एका परस अदीक-अक्षरी उतरांत पैल्या अक्षरांत **अ** आसल्यार ताचो उच्चार **सदींच** जाता आनी सोंपत्या अक्षरांत **अ** आसल्यार ताचो उच्चार **सदींच** जायना. **देखीक:**- घर हांतूंत दोन **अ** (घ् + अ, र् + अ) आसत. हांतूंत पैल्या **अ** चो उच्चार जावन दुसऱ्या म्हळ्यार सोंपत्या **अ** चो उच्चार जायना.

उतरा मदल्या निबर जोडगिरांत वा निबर जोडगिरा आदल्या अक्षरांत **अ** आसल्यार ताचो उच्चार जाता. **देखीक:** - घुस्पलें (घुस्पलें),[1] सुरस्तळ (सुरस्तळ्), आपट्टा (आपट्टा).

(निबर आनी मोवाळ जोडगिरांसंबंधान फुडें जोडगिरांत दिल्लो नेम पळ्यात.)

उतराचीं सोंपतीं अक्षरां **ना** वा **नात** आसून तांचे आदल्या अक्षरांत **अ** आसल्यार ताचो उच्चार जाता. **देखीक:**- वचना, सरना, फुटना, पावना, वचनात, सरनात, फुटनात, पावनात. हीं उतरां वच्ना, सर्ना, फुट्ना, पाव्ना, वच्नात, सर्नात, फुट्नात, पाव्नात् अशीं उच्चारिनात.

उतरांत खैंचेयकडेन **आय आव इव उय उव एय एव ओय ओव** हे संदी-स्वर आयल्यार हांतूंतल्या **य** आनी **व** तल्या **अ** चो उच्चार जायना. **देखीक:**- आयक (आयक्), पावस (पाव्स्), दिवन (दिव्न्), लुयत (लुय्त्), लुवन (लुव्न्), पेयन (पेय्न्), जेवन (जेव्न्), खोयत (खोय्त्), खोवन (खोव्न्), व्हांवल्लो (व्हांव्ल्लो), न्हिवल्लो (न्हिव्ल्लो), लुंवल्लो (लुंव्ल्लो), देंवल्लो (देंव्ल्लो), भोंवल्लो (भोंव्ल्लो). (कोंकणी पैलें पुस्तक, पाठ २०, २१ पळ्यात).

[ कोंकणींत **ए, ऐ, ओ, औ** ह्या चार **संदी-स्वरां** बादत वैर दिल्ले आनीक **णव संदी-स्वर** आसत. **आ इ उ ए ओ** हांतूंत **य** आनी **व** सांदौन ते जातांत. हांतूंत पैल्या स्वराचेर नेट पडून आनी **य** आनी **व** तलें **अ** मोनें जावन दोनूय नाद एकाच धपक्यान एकूच अक्षर जाल्ल्यावरी गाजतात. देखून हांकां **संदी-स्वर** [ सांदैल्ले स्वर = diphthong (दिफ्थाँग)] म्हणटात. परंत हांचीं सांदैल्लीं अक्षरां नात. कोंकणींतले भाशेन पुर्तुगेज, इंग्लेज आनी हेर येवरोपी भासांनी असले तरेचे संदी-स्वरी उच्चार आसत. **देखीकः-** पुर्तुगेज काव्ज (causa), दोयस् (dois); आनी इंग्लेज नायट् (night), हाव्स् (house), बॉयल् (boil). कोंकणींत संदी-स्वरी उच्चार जायते भल्ल्यात. (कोंकणी पैलें पुस्तक, पाठ २०, २१ पळ्यात).)

जायते फावटीं **आ इ उ ए ओ** हांचे फुडें **य** आनी **व** सांदनासताना मेकळेपणान येतात. तेन्ना तांतूंतलें **अ** मोनें उरना आनी संदी-स्वर घडना. **देखीकः-** भावज (भा<u>व</u>ज्), सावद (सा<u>व</u>द्), दिवज (दि<u>व</u>ज्), खावप (खा<u>व</u>प्), दिवप (दि<u>व</u>प्), धुवप (धु<u>व</u>प्), घेवप (घे<u>व</u>प्), रोवप (रो<u>व</u>प्), हीं उतरां भाव्ज्, साव्द्, दिव्ज्, खाव्प्, धुव्प्, घेव्प्, रोव्प् अशीं उच्चारिनात.

तीन-अक्षरी उतरांत सोंपतें अक्षर मोन्या **अ** बादत दुसऱ्या कसल्याय स्वराचें आसून मदल्या अक्षरांत **अ** आसल्यार ताचो उच्चार जायना. **देखीकः-** मानगें (मान्गें), कापडां (काप्डां), सुटलें (सुट्लें), निवळी (निव्ळी), दिवली (दिव्ली), बावली (बाव्ली), सांवळी (सांव्ळी), घुंवली (घुंव्ली), देंवली (देंव्ली), पोंवली (पोंव्ली).

**आडवाद :-** दुदळी ह्या तीन-अक्षरी उतरांत सोंपतें ळी अक्षर मोन्या **अ** बादत ई स्वराचें आसतानाय मदल्या **द** अक्षरांतल्या **अ** चो उच्चार जाता. दुद्ळी अशें म्हणनात.

तीन-अक्षरी उतरांत सोंपतें अक्षर मोन्या **अ** चें आसून मदल्या अक्षरांत अ आसल्यार ताचो उच्चार जाता. **देखीकः-** कपळ (क<u>प</u>ळ्), कापड (का<u>प</u>ड्), सुटप (सु<u>ट</u>प्), माजर (मा<u>ज</u>र्).

आडवादः- पाळण, चाळण, सोडण, मोडण, होडण हांतूंत सोंपतें अक्षर मोन्या **अ** चें आसून मदल्या अक्षरांतल्या **अ** चो उच्चार जायना. हीं उतरां पाळ्ण्, चाळ्ण्, सोड्ण्, मोड्ण्, होड्ण् अशीं उच्चारतात.

चार-अक्षरी उतरांत दुसऱ्या अक्षरांत अ आसल्यार ताचो उच्चार जायना आनी तिसऱ्या अक्षरांत अ आसल्यार ताचो उच्चार जाता. **देखीक:**- मणकट (मण्कट्), समजता (सम्जता), पिकतलो (पिक्तलो), पिकैतलो (पिकैतलो), चिरमुली (चिर्मुली), चितारप (चितारप्).

**आडवाद:**- घुंवळटा (घुंवळ्टा), येवजता (येवज्ता), विसरता (विसर्ता), चितारता (चितार्ता), वावुरता (वावुर्ता) बी उतरांनी दुसऱ्या अक्षरांतल्या अ चो उच्चार जावन तिसऱ्या अक्षरांतलो अ चो उच्चार जायना. ह्या संबंधान एक नेम करुं येता कि चार-अक्षरी उतरांत दुसऱ्या अक्षरांतल्या अ चो उच्चार जेन्ना जायना तेन्ना तिसऱ्या अक्षरांतल्या अ चो उच्चार जाता; आनी दुसऱ्या अक्षरांतल्या अ चो उच्चार जेन्ना जाता तेन्ना तिसऱ्या अक्षांतल्या अ चो उच्चार जायना.

पांच-अक्षरी उतरांत दुसऱ्या अक्षरांत अ आसल्यार ताचो उच्चार जायना. तिसऱ्या अक्षरांत अ आसल्यार ताचो उच्चार जाता. सोंपत्या अक्षरांत मोनें अ आसून ताचे आदल्या अक्षरांत अ आसल्यार ताचो उच्चार जाता. सोंपतें अक्षर लांब उच्चाराचें आसून आदल्या अक्षरांत अ आसल्यार ताचो उच्चार जायना. **देखीक:**- लकलकप (लक्लकप्), लिकलिकप (लिक्लिकप्), लकलकता (लक्लक्ता), लिकलिकता (लिक्लिक्ता).

**उतरांच्या गांठवलांनी**[२] **धातुसादितां लागिल्ल्या उतरांनी** आनी **सून, कडेन, कडसून, गेर, गेलो, वैर, कूच बी** विभक्तिंचे वा हेर दुवे लावन सादिल्ल्या उतरांनी, वेगळीं वेगळीं उतरां, धातुसादितां आनी दुवे मेकळे करून, तांतूंतल्या दरएकल्या उतराक, धातुसादिताक आनी दुव्याक वैले जे नेम लागू जातीत ते भाशेन तांतूंतल्या अ चो उचार जाता वा जायना. **देखीक:**- सवणमांडकी. हें स-अक्षरी उतर लेखिनासताना, सवण आनी मांडकी ह्या दोन उतरांचें गांठवल समजून, वैले जे नेम लागतीत ते लावन सवण्मांड्की असो ताचो उच्चार करूंक जाय. हेच भाशेन झिरकमळ (झिर् + कमळ्), किरकावळें (किर् + काव्ळें), कागदबिगद (कागद् + बिगद्), दोगजाण (दोग् + जाण्), एकूणचाळीस (एकूण् + चाळीस्), पावणेतीनशीं (पाव्णे + तीन्शीं), पळेनासताना (पळेना + (आ)स्ताना), आपटनासताना (आप्टना + (आ)स्ताना), आयकनासताना (आय्कना + (आ)स्ताना), मंगळूरसून (मंग्ळूर् + सून्), शाणूकडेन (शाणू + कुडेन्), आंद्रितबायकडसून (आंद्रित् + बाय् + कड्सून्), गोविंदबाबागेर (गोविंद् + बाब्

+ आ (हा) + गेर्), नायकागेलो (नाय्क् + आ (हा) + गेलो),[३] आपटल्यार (आप्ट्लो-ली-लें-ले-ल्यो-लीं + वैर = आप्ट्ल्यार्),[४] आयकल्यार (आय्कलो-ली-लें-ल्यो-लीं+वैर = आय्कल्यार्), विसरतकूच (विस्र्त(ा) + कूच = विस्र्तकूच्)[५] मनीसपण (मनीस् + पुण्), हुशारकाय (हुशार् + काय्). (कोंकणी पैलें पुस्तक, पाठ २५ पळ्यात.)

कोंकणी लोकांक वैल्या नेमांची चंडशी गरज ना. परंत कोंकणी भास शिकतल्या परक्या लोकांक हे नेम जायते उपकारा पडटले.

## अ (अ चो ओडिल्लो उच्चार)

अ स्वराचो एके तरेचो ओडिल्लो उच्चार कोंकणींत आसं. अ आनी ऑ ह्या स्वरांच्या उच्चारां मदगंत तो जाता. **देखीक:**- एक-वचनी पणस (प् + अ, ण् + अ, स् + अ) हें उतर घेयात. हांतूंत तीन अ आसून निमाणें अ मोनें. पैल्या आनी दुसऱ्या अ चो उच्चार जाता. परंत तो घर (घ् + अ, र् + अ) हांतूंतल्या पैल्या अ भाशेन जायना. तो वेगळेच तरेन जाता. तो धंड अ न्हंय. धंड ऑ न्हंय. ह्या उच्चारांतूय दोन तरा आसत. मोटवो आनी लांबोडो. पणस हांतूंतल्या पैल्या अ चो उच्चार ओडिल्लो मोटवो जावन दुसऱ्या अ चो ओडिल्लो लांबोडो जाता. ओडिल्लो मोटवो उच्चार दाखौंक अक्षराच्या माथ्यार उबी रेकटी दिवची चाल पडल्या. हे भाशेन पणस हें उतर पणंस अशें बरैतात. ह्या उच्चारा संबंधान नेम थारावंक कठीण. हो उच्चार करूंक कोंकणी लोकांक अडचण पडना. हेर लोक तो सवंयेन शिकतात. (कोंकणी पैलें पुस्तक, पाठ २ पळ्यात.)

[ बिहारी भासांनी आनी चंड करून भोजपुरी उलौपांत, अ चो असलो ओडिल्लो उच्चार आयकूंक येता. अमेरिक (America) हांतूंतलें अ आनी हॉट (Hot) हांतूंतलो ऑ हांचे मदगत हो उच्चार जाता खैं. हो उच्चार दाखौंक अक्षराच्या माथ्यार वा कुशीक अवग्रहा ऽ सारकी कुरू नाजाल्यार कुशीक विसर्गा : सारकी कुरू करतात. **देखीक:** - देखल (तुमी पळेतात वा तुमकां दिसता) हें उतर देख॑ल॑, देखऽलऽ वा देख:ल: अशें बरैतात.[६] हाचो उच्चार कोंकणींत करचो जाल्यार देख॑ल॑ असो करचो पट्टलो.]

### व्यंजनांत आ आनी हेर स्वर मेळौप

व्यंजनांत आ स्वंर मेळौंक व्यंजनाची पांयमोडी ् कुरू काडून उडौन ताचे फुडें कानो ा लावचो. **देखीक:**- क् + आ = क + ा = का. ख् + आ = ख + ा = खा. (कोंकणी पैलें पुस्तक. पाठ ३ पळ्यात.)

व्यंजनांत **इ** (अि) स्वंर मेळौंक व्यंजनाची पांयमोडी ् कुरू काडून उडौन, ताच्या माथ्याक दावे वशीन दावी तोपी ि घालची. **देखीक:**- क् + इ = क + ि = **कि**. ख् + इ = ख + ि = **खि**. (कोंकणी पैलें पुस्तक, पाठ ५ पळ्यात.)

व्यंजनांत **ई** (अी) स्वंर मेळौंक व्यंजनाची पांयमोडी ् कुरू काडून उडौन,

ताच्या माथ्याक उजवे कुशीन उजवी तोपी ी घालची. देखीक:- क् + ई = क + ी = **की**. ख् + इ = ख + ी = **खी**. (कोंकणी पैलें पुस्तक, पाठ ६ पळ्यात.)

व्यंजनांत **उ** (अु) स्वर मेळौंक व्यंजनाची पांयमोडी ् कुरू काडून उडौन, ताका सकला दावो कोंब ु लावचो. **देखीक:**- क् + उ = क + ु = **कु**. ख् + उ = ख + उ = **खु**. (कोंकणी पैलें पुस्तक, पाठ ७ पळ्यात.)

व्यंजनांत **ऊ** (अू) स्वर मेळौंक व्यंजनाची पांयमोडी ् कुरू काडून उडौन, ताका सकला उजवो कोंब ू लावचो. **देखीक:**- क् + ऊ = क + ू = **कू**. ख् + ऊ = ख + ू = **खू**. (कोंकणी पैलें पुस्तक, पाठ ८ पळ्यात.)

व्यंजनांत **ए** (अे) स्वर मेळौंक व्यंजनाची पांयमोडी ् कुरू काडून उडौन, ताच्या माथ्यार दावे वशीन एक मात्रा े दिवची. **देखीक:**- क् + ए = क + े = **के**. ख् + ए = ख + े = **खे**.

[**ए** स्वराचे दोन तरांचे उच्चार जातात. ह्या संबंधान फुडें दिल्लो **ए ओ** नेम पळ्यात. (कोंकणी पैलें पुस्तक पाठ ९ आनी १० पळ्यात).]

व्यंजनांत **ऐ** (अै) स्वर मेळौंक व्यंजनाची पांयमोडी ् कुरू काडून उडौन, ताच्या माथ्यार दावे वशीन दोन मात्रा ै दिवच्यो. **देखीक:**- क् + ऐ = क + ै = **कै**. ख् + ऐ = ख + ै = **खै**. (कोंकणी पैलें पुस्तक, पाठ ११ पळ्यात.)

व्यंजनांत **ओ** स्वर मेळौंक व्यंजनाची पांयमोडी ् कुरू काडून उडौन, ताचे फुडें कानो ा दिवन, माथ्यार दावे वशीन एक मात्रा े दिवची. **देखीक:**- क् + ओ = क + ो = **को**. ख् + ओ = ख + ो = **खो**.

[**ओ** स्वराचे दोन तरांचे उच्चार जातात. ह्या संबंधान फुडें दिल्लो **ए ओ** नेम पळ्यात. (कोंकणी पैलें पुस्तक, पाठ १२ आनी १३ पळ्यात).]

व्यंजनांत **औ** स्वर मेळौंक व्यंजनाची पांयमोडी ् कुरू काडून उडौन, ताचे फुडें कानो ा दिवन, माथ्यार दावे वशीन दोन मात्रा ै दिवच्यो. **देखीक:**- क् + औ = क + ौ = **कौ**. ख् + औ = ख + ौ = **खौ**.

[**औ** स्वराचे दोन तरांचे उच्चार जातात. ह्या संबंधान फुडें दिल्लो **औ** नेम पळ्यात. (कोंकणी पैलें पुस्तक, पाठ १४ आनी १५ पळ्यात).]

# ए ओ

कोंकणींत ह्या स्वरांचे दोन तरांचे उच्चार जातात. **देखीक:-** तेल (त ए ल) हांतूंत ए चो जो उच्चार जाता ताचे परस तेली (त् ए ली) हांतूंतले **ए** चो उच्चार वेगळो. तशेंच, मोल (म् ओ ल) हांतूंत **ओ** चो जो उच्चार जाता ताचे परस मोर (म् ओ र्) हांतूंतल्या ओ चो उच्चार वेगळो. हे भाशेन, **ए** चे दोन वेगळे वेगळे उच्चार आनी **ओ** चे दोन वेगळे वेगळे उच्चार जातात.

[पुर्तुगेज भाशेंतूय **ए** आनी **ओ** चे अशेच दोन तरांचे उच्चार जातात. तांकां उकते (आबेर्तु aberto) आनी धांकते (फेशादु fechado) म्हणटात. उकतो उच्चार दाखौंक **ए** (e) आनी **ओ** (o)च्या माथ्यार ही ´ कुरू करतात. हिका आसेन्तु आगूदु (acento agúdo) म्हणटात; आनी धांकतो उच्चार दाखौंक **ए** आनी **ओ** च्या माथ्यार ही ^ कुरू करतात. हिका आसेन्तु सिर्कुंफ्लेक्सु (acento circunflexo) म्हणटात. **देखीक:-** é (**ए** = आस) हांतूंत **ए** चो उकतो उच्चार जाता आनी sêde (**सेदि** = तान) हांतूंत पैले **ए** चो धांकतो उच्चार जाता. तशेंच só (**सो** = एकटो, एकसुरो) हांतूंत **ओ** चो उकतो उच्चार जाता आनी pôr (**पोर** = घालूंक, दवरूंक) हांतूंत **ओ** चो धांकतो उच्चार जाता.

[आमीय कोंकणी भाशेंत ह्या उच्चारांक **उकते** आनी **धांकते** हीं नांवां दवल्ल्यार बरीं. कोंकणी साहित्य-संघान १९३५त **वोवळां** नांवाचें जें पुस्तक उजवाडायलां तांतूंत उकते उच्चार दाखौंक अक्षराच्या माथ्यार उजवे वशीन मात्रा ´ दिल्या आनी धांकते उच्चार दाखौंक देवनगरी दावे कुशिची मात्रा ` राखून दवल्ल्या. **देखीक:** जेवण आनी मायेची हीं उतरां जॅवण आनी मायेची अशीं बरैल्यांत; आनी लोकांक आनी बायलो हीं उतरां लॉकांक आनी बायलो अशीं बरैल्यांत.. परंत ताकतिच्या बरपांत उजवे कुशिची मात्रा ´ काडूंक हात अडचता आनी चिके कळाव लागता. सावंतवाडच्या एका कोंकणी बरपांत उकते उच्चार दाखौंक अक्षराच्या माथ्यार ही ॑ मात्रा दिल्या. ही काडूंक हात चडसो अडचना.

[हिंदुस्तानांतल्या हेर कांय भासांनीय **ए** आनी **ओ** चे उकते आनी

धांकते उच्चार जातात. बिहारी भाशेंत उकते उच्चार दाखौंक अक्षराच्या माथ्यार अशी ऽ मात्रा दितात आनी धांकते उच्चार दाखौंक देवनगरी दावे कुशिची मात्रा ` दितात. **देखीक:**- दॆंखलकै (ताणें पळेलें), लॊंकनि (लोक). उकत्या उच्चाराची मात्रा सुमार पन्नास वर्सांफाटीं कांय येवरोपी पंडितांनी ते भाशेंत रिगैल्या आनी काशयेच्या कांय पंडितांनीय ती मान्य केल्या खैं.[९]

[बंगाली, आसामी आनी ओडिया भासांनी **ए** आनी **ऒ** चे उकते आनी धांकते उच्चार आसत. परंत उकते उच्चार दाखौंक वेगळी मात्रा ना.[१०] पश्चिम राजस्थानी भाशेंत **ए** आनी **ऒ** चे उकते आनी धांकते उच्चार जातात. परंत उकते उच्चार दाखौंक वेगळी मात्रा ना.[११]

[गुजराथी भाशेंत **ए** आनी **ऒ** चे उकते आनी धांकते उच्चार जातात. परंत उकते उच्चार दाखौंक वेगळी मात्रा ना. **देखीक:**- बेन (भैण) हांतूंत ए चो उकतो उच्चार जाता आनी पेट (पोट) हांतूंत **ए** चो धांकतो उच्चार जाता. तशेंच चोमासूं (चातुर्मास) हांतूंत **ऒ** चो उकतो उच्चार जाता आनी खोराक (खाण-जेवण) हांतूंत **ऒ** चो धांकतो उच्चार जाता.[१२]

[कानडी, तेलंगी, तामीळ आनी मलयाळम ह्या द्रवीड भासांनीय **ए** आनी **ऒ** चे उकते आनी धांकते उच्चार आसून ते दाखौंक वेगळ्यो वेगळ्यो कुरवो आसत.[१३] कानडींत उकत्या **ए** ची ही [illegible] कुरू. धांकत्या **ए** ची ही [illegible] कुरू. उकत्या **ऒ** ची ही [illegible] कुरू. धांकत्या **ओ** ची ही [illegible] कुरू.

[हिंदुस्ताना भायल्या सयामी आनी आर्मेनी भासांनी ए आनी **ऒ** चे उकते आनी धांकते उच्चार आसून तांच्यो वेगळ्यो वेगळ्यो कुरवोय आसत.[१४] येवरोपांतल्या पुर्तुगेज, इस्पान्जोल, फ्रांसेज सी भासांनीय हे उकते आनी धांकते उच्चार आसून तांच्यो वेगळ्यो वेगळ्यो कुरवो आसत.]

हे उच्चार कोंकणी लोकांचे जिबेर ल्हानपणपासून घोळटात; देखून तांकां ते वळखूंक शिकौची गरज ना. तरी आसताना कांय नेम थारायल्यार बरे.

# ए चे उकते आनी धांकते उच्चार

पुल्लिंगी भौ-वचनी उतरांनी, लागत्या, मदल्या आनी सोंपत्या अक्षरांतले **ए** चो **उकतो** उच्चार जाता. **देखीक:**- (दोन) कें‍स, कें‍सांक. (तीन) समें‍ळ, समें‍ळांक. गडें‍, कें‍लें‍, बुडलें‍, उदारें‍, उमथें‍.

पुल्लिंगी एक-वचनी उतरांक विभक्ती लागचे आदीं लागत्या आनी मदल्या अक्षरांतले **ए** चो **धांकतो** उच्चार जाता. **देखीक:**- (एक) कें‍स, (एक) समें‍ळ, (एक) वें‍ळू.

पुल्लिंगी एक-वचनी उतरांक विभक्ती लागतकूच लागत्या आनी मदल्या अक्षरांतले **ए** चो **उकतो** उच्चार जाता. **देखीक:**- कें‍साक, समें‍ळाचो, वें‍ळवांत.

नपुंसकलिंगी उतरांनी, लागत्या, मदल्या आनी सोंपत्या अक्षरांतले **ए** चो **उकतो** उच्चार जाता. **देखीक:**- तें‍ल, तें‍लां, तें‍लाक, तें‍लांक. सतें‍ल, सतें‍लां, सतें‍लाक, सतें‍लांक. हें‍वाळें‍, हें‍वाळीं, हें‍वाळ्याक, हें‍वाळ्यांक.

**आडवाद:**- देवूळ, रेडूक, येवूल, शेरूक बी कांय नपुंसकलिंगी उतरांनी **ए** चो **धांकतो** उच्चार जाता. दें‍वूळ, दें‍वळां, दें‍वळाक, दें‍वळांक. रें‍डूक, रें‍डकां, रें‍डकाक, रें‍डकांक.

स्त्रीलिंगी उतरांनी, लागत्या, मदल्या आनी सोंपत्या अक्षरांतले **ए** चो **धांकतो** उच्चार जाता. **देखीक:**- कें‍ळ, कें‍ळी, कें‍ळीक, कें‍ळींक. सामें‍ळी, सामें‍ळ्यो, सामें‍ळेंक, सामें‍ळ्यांक. अगें‍. बावलें‍.

**आडवाद:**- देग, रेंव, पेट, भेट, सेनाय, खेप, बी कांय स्त्रीलिंगी एकवचनी उतरांक विभक्ती लागचे आदीं, आदल्या अक्षरांतले **ए** चो **उकतो** उच्चार जाता. आनी विभक्ती लागतकूच **धांकतो** उच्चार जाता. **देखीक:**- दें‍ग, दें‍गेक, दें‍गेन, दें‍गेचो. पें‍ट, पें‍टेक, पें‍टेन, पें‍टेचो.

हींच उतरां भौ-वचनी आसताना, विभक्ती लागचे आदीं आदल्या अक्षरांतले **ए** चो **धांकतो** उच्चार जाता. **देखीक:**- दें‍गो, पें‍टो.

हींच उतरां भौ-वचनी आसताना, विभक्ती लागतकूच आदल्या अक्षरांतले **ए** चो **उकतो** उच्चार जाता. **देखीक:**- दें‍गांक, पें‍टांक.

सामान्यलिंगी उतरांनी **ए** चो उच्चार चंडकरून **धांकतो** जाता. **देखीकः-** ऐकवीस लाडू, ऐकवीस नेवऱ्यो, ऐकवीस कापां. हेच भाशेन तेवीस, ऐकतीस, ऐकूणचाळीस, पंचेचाळीस, सवेचाळीस.

**आडवादः-** बेंकार, तेंरा, एंकावन, एंक्यास्तर, एंक-शें, शें.

एक हें उतर पुल्लिंगी आनी स्त्रीलिंगी उतरांक लागता तेन्ना तांतूंतलो **ए** चो **धांकतो** उच्चार जाता आनी नपुंसकलिंगी उतरांक लागता तेन्ना **उकतो** उच्चार जाता. **देखीकः-** ऐक लाडू, ऐक नेवरी, ऐक काप.

अव्ययांतल्या अक्षरांनी **ए** चो उच्चार चंडकरून **उकतो** जाता. **देखीकः-** येंन्ना, जेंन्ना, केंन्ना, तेंन्ना, फुडें.

तिसरे (तृतीया) विभक्तिच्या एकवचनी दुव्यांतले **ए** चो **उकतो** उच्चार जाता. **देखीकः-** हांवें, तुवें, हाणें, हिणें, ताणें, तिणें, जाणें, जिणें, कोणें, आपणें.

सवे (षष्ठी) विभक्तिचे पुल्लिंगी भौ-वचनी दुवे जे, चे, ले, गेले हांचें नातें पुल्लिंगी उतरांकडेन आसल्यार तांतूंतले **ए** चो **उकतो** उच्चार जाता. **देखीकः-** म्हजे लाडू, आमचें लाडू, कोणालें लाडू, आमगेलें लाडू. परंत स्त्रीलिंगी उतरांकडेन नातें आसल्यार **ए** चो **धांकतो** उच्चार जाता. **देखीकः-** म्हजे गाडयेक, आमचे गाडयेक, कोणाले गाडयेक, आमगेले गाडयेक.

सवे (षष्ठी) विभक्तिचे नपुंसकलिंगी दुवे, जें, चें, लें, गेलें, हांतूंतले **ए** चो **उकतो** उच्चार जाता. **देखीकः-** म्हजें पुस्तक, आमचें पुस्तक, कोणालें पुस्तक, आमगेलें पुस्तक.

सातवे (सप्तमी) विभक्तिच्या **एर** दुव्यांतले **ए** चो **धांकतो** उच्चार जाता. **देखीकः-** म्हजेर, तुजेर, ताचेर, आमचेर, आमगेर, आपणागेर, हांगेर, गाडयेर.

कर्मी धातुच्या लागत्या अक्षरांत **ए** आसल्यार, तिचो **धांकतो** उच्चार जाता. **देखीकः-** वेंच, वेंचता, वेंचलें, वेंचीन, वेंचून, वेंचतकूच. मेंज, मेंजता, मेंजलें, मेंजीन, मेंजून, मेंजतकूच.

कर्मी धातू **ए** न सोंपल्यार वर्तमान, भूत आनी भविश्य काळांत **ए** चो **उकतो** उच्चार जाता आनी धातुसादितांत **धांकतो** जाता. **देखीकः-** घें, घेंता, घेंतलें, घेंन. घेंवन, घेंवंक, घेंतकूच. पळें, पळेंता, पळेंलें, पळेंन, पळेंतकूच. वळें, वळेंता, वळेंले, वळेंन. वळेंतकूच.

